दिवाळी / नातलां २०११
वर्स: ३८ आंक : २

# जाग

* संस्थापक
स. शुभांत केळेकार

* संस्थापक संपादपी:
स. रवींद्र केळेकार

* संपादपी
माधवी सरदेसाय
9421157007
madhavikonkani@gmail.com

* उजवाडावपी
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूआ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी
हरि नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.



## ह्या खाशेल्या आंका निमतान...

ह्या खाशेल्या आंका वरवीं कोंकणी कादंबरेची शंबरी मनयतना आमकां खूब म्हळयार खूब खोस भोगता. ते निमतान, कोंकणी कादंबरी खंय आशिल्ली आनी आज ती खंय पावल्या ताचो अदमास घेवपाचो यत्न आमी केला.

कोंकणी कादंबरेचो पुरायेन विचार करपाच्या हावेसान आमी ह्या यत्नाक माथें मारिल्लें. पूण, सदचे वरी, सुरवेकूच लिपयेची आडखळ आयली. रोमी, कन्नड, देवनागरी आनी मलयाळम लिपयांनी उजवाडा आयिल्ल्यो कोंकणी कादंबऱ्यो वाचिल्लो/वाचिल्ली मनीस सोद सोद सोदलो/सोदली. एकलोय मेळ्ळो/मेळ्ळी ना. मागीर, सगल्या लिपयांतल्या कादंबऱ्यांचो वांगडाच विचार करपाचो हावेस सोडून दिलो. हांगाय कांय कडेन वाचपी मेळ्ळे, बरोवपी मेळ्ळे नात. कांय जाणांनी बरोवन दिवपाचें उतर दिलें. पूण अजून हीं बरपां आमचे मेरेन पावचींच आसात! हाका लागून, मनांत आखिल्लें आंकाचें चित्र फावो तशें पुराय जावंक पावंक ना - खूब कडेन तातूंत रंग भरपाचे उरल्यात. हाची आमकां खंतूय आसा. केरळच्या कोंकणी बरोवप्यान कोंकणी कादंबरेक आपणालें योगदान दिलां. पूण हे विशींचो एकूय लेख ह्या आंकांत आमकां घेवंक मेळूंक ना. देखून मुजरत स्पश्ट करतात, ह्या आंकांत पुराय कोंकणी कादंबरेची समिक्षा जावंक ना. तशी ती जातली जाल्यार आमच्यो 'धांकिल्ल्यो मुठी' पयलीं उकत्यो जावंक जाय - केन्नाय तरी त्यो जातल्योच हे विशीं आमकां विश्वासूय आसा.

कोंकणी कादंबरेचें आस्वादन करपी, तिची समिक्षा करपी वा नियाळ घेवपी बरपां ह्या आंकांत आयल्यांत. वांगडाच, कादंबरीकारांचे रचना प्रक्रियेचेर उजवाड घालपी कांय आत्मनिवेदनां आमी हांगा दिल्यांत. इतलेंच न्हय, कोंकणी कादंबरेची शंबरी मनयतना भौ. महाबळेश्वर सैलांची मुजरत ह्या खाशेल्या आंका खातीर बरयल्ली एक नवीताल्ल कादंबरीय आमी आमच्या वाचप्यांक भेटयल्या.

गोंय विद्यापीठांतल्या कोंकणी विभागांत शिकपी भुरग्यां कडल्यानूय कांय निबंद बरोवन घेवन ते आमी ह्या आंकांत उजवाडा हाडल्यात. ते वाचून ह्या नव्या तरण्या आनी तांकिवंत भुजांचेर कोंकणी अभ्यासाचो रथ भोव सुरक्षीत आसा हाचो आमच्या वाचप्यांक होलम मेळ्ळे बगर रावचोना.

अंदूच्या खाशेल्या आंकाची आमच्या वाचप्यांक खूब वाट पळोवची पडली हाची आमकां जाणविकाय आसा आनी खंतूय आसा... हे खेपे बरोवंक सांगिल्ले लेख हातांत येवंक सुमारा भायर कळाव जालो. हाका लागून दुसरो मार्गूय उरलो ना. वाचप्यांनी आमकां समजून घेवचें अशें आमी मागतात.

निमाणें, उपकार, बरोवप्याचे तशेंच, चित्रकारांचे - मुखेलपणान आंकाक सोबऽ सारकें भायलें चित्र तयार करून दिवपी भौ. पुंडलीक वझे हांचे आनी भितल्लीं चित्रां काडपी भौ विजय सातपुते हांचे. जायरातदारांचेय काळजा सावन उपकार.

हें नवें वर्स आमच्या वाचप्यांक, बरोवप्यांक, चित्रकारांक, जायरातदारांक आनी जाग कुटुंबांतल्या हेर वांगड्यांक खोशयेचें आनी उमेदीचें वचूं अशें आमी मागतात.

— संपादपी

# ह्या आंकांत -

● **कोंकणी कादंबरी : शंबर वर्सां : समिक्षा... आस्वादन... नियाळ :**







● कादंबरी : रचना प्रक्रिया



● कादंबरी :



● वैचारीक/ललीत :



● कथा :





● **भायलें चित्र** ; पुंडलीक वझे

● **भितल्लीं चित्रां** : **विजय सातपुते:** १-३, ८७, १०४, १०८, १११, ११५

हेर चित्रां : **अदिती नायक**

*** आंकाचें मोलः १५० रु.**



माधवी सरदेसाय

# क्रिस्तांव घराबो : एक समाजभासविज्ञानीक नदर

### १. फाटभूंय

पोर्तुगेज गोंयां पावचे पयलीं कोंकणींत बरयल्लें साहित्य आशिल्लें काय ना; उपरांत, येवरोपी मिशनरी कोंकणींतल्यान साहित्य रचताले त्या काळार थळावो कोंकणी मनिसूय कोंकणींतल्यान बरयतालो काय ना हे विशीं निश्चीतपणान विधानां करप भोव कठीण.[१] पूण एकुणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक कोंकणी मनशाक कोंकणींतल्यान बरोवपाची गरज दिसूंक लागली आनी तो कोंकणींतल्यान बरोवंकूय लागलो अशें दुबावा विरयत सांगूं येता. २ फेब्रुवारी १८८९ दिसा पुण्याच्यान उजवाडा येवंक लागिल्लें 'उदेंतेचें साळक' हें नेमाळें हाची घसघशीत गवाय.[२] एदुआर्द जुझे ब्रून द सौज (१८३६-१९०५) ह्या नेमाळ्याचे संपादपी आशिल्ले. कोंकणी मनशान कोंकणी मनशा खातीर कोंकणींतल्यान साहित्य रचपाच्या काळाक तांणी वाट मेकळी करून दिली अशें म्हणूं येता.

मनोहरराय सरदेसाय म्हणटात ते भाशेन, एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांतलें आनी विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांतलें कोंकणी साहित्य चडशें कोंकणी भुंयेक पयसावल्ल्या कोंकणीच्या पुतांनी निर्मिल्लें साहित्य आशिल्लें. रोमी लिपयेंतलें कोंकणी साहित्य भारताच्या हेर वाटारांनी, मुखेलपणान पुण्यांत आनी मुंबय, राबितो करून आशिल्ल्या क्रिस्तांव गोंयकारांची साहित्यीक गरज भागोवपा खातीर तयार जाल्लें. हो लोक गोंयच्या मुळाव्या शाळांनी थोडी-भोव पोर्तुगेज शिकिल्लो, आनी ब्रिटिशांच्या शेका खाला आशिल्ल्या भारतांत काम करपाक गरजेची तितली इंग्लीशूय जाणा आशिल्लो.[३] पूण ह्या दोनूय भासांचेर तो प्रभुत्व जोडूंक पावंक नाशिल्लो. हाका लागून, रोमी लिपयेंतली कोंकणी ताच्या साहित्यीक वेव्हाराची भास जाल्ली.[४]

ब्रून द सौज मुखेलपणान ह्या वाचकवर्गाची भूक भागोवंक भायर सरिल्ले. *क्रिस्तांव घराबो* ही पयली-वयली कोंकणी कादंबरीय तांणी ह्याच वर्गा खातीर बरयल्ली.[५] धर्मीक आनी मनीसपणाच्या मुल्यांचेर आधारिल्ली ही कथा वाचून बरे देखीच्या, बरे चलणुकेच्या क्रिस्तांवाचे मतीक मातसो विसव मेळचो हो कादंबरी बरोवपा फाटलो आपणालो हेत ब्रून द सौज तिचे प्रस्तावनेचे सुरवेकूच स्पश्ट करतात (कि.घ.: ६).

हे कादंबरेंत क्रिस्तांव धर्मा इतलेंच म्हत्वाचें आनीक एक तत्व आसा - कोंकणी भास ('आमची भास'). *क्रिस्तांव घराबो* धर्मीक शिकवणेचें म्हत्व वाचप्याचे नदरेक हाडून दिता, तितलीच, हे शिकवणेची सारकी समजणी दिवपाच्या वावरांत भास (आवय-भास) कितली म्हत्वाची ताचीय ताका जाणविकाय करून दिता. 'कोंकणी पटिल्ल्या' मनशाचें हें बरप. धर्मीक शिकवण म्हळ्यार आत्म्याचें दूद. देवाचें उतर भावार्थ्यांच्या कानार घालप ही पाद्रींची लागणूक. हें उतर भावार्थ्यांचे भाशेंतल्यान तांचे सरीं पावता तेन्नाच तें खरें फळादीक जाता. पूण कोंकणी पाद्री आपणाले हे लागणुकेक उणे पडटात. फिरंगी भाशेच्या (पोर्तुगेजीच्या) सुमारा भायल्या प्रभावाक लागून तांची भासूय इबाडल्या. ही भास पयलीं निवळावंक जाय - कादंबरेंतलें एक मुखेल पात्र, पाद्र विगार, सांगता (क्रि. घ.: ४९, ५०).

'आमचे भाशेची सुदारणी गरजेची' अश्या, लेखाक सोब सारक्या माथाळ्याचें कादंबरेंत एक प्रकरणूच आसा (क्रि.घ.: ४४-५३). ह्या प्रकरणांत कादंबरेचो नायक ज्यानी आनी पाद्र विगार हांचे मदीं कोंकणी भाशे संबंदान एक संवाद आसा. तातूंत पाद्र विगार सांगता, ''आपली भास बरोवन सुदारतोच, जायतें बोरें येता. तिचेवरवीं दुसऱ्यो भासो सोंपेपणी शिकूं येतात; दुसऱ्या भासांचे लिव्र आपले भाशेक उतरून, आपल्या लोकाचें शिकप वाडोवं येता; तिचे वरवीं आपल्या मुनशांभितर एकवट जाता...'' (पान ५०.) कोंकणी ('आमची भास') संस्कृत भाशेची धूव. तिका तिचें खाशेलें व्याकरण ('ग्रामात') आसा. पोर्तुगेज ('फिरिंगी') भाशेचें व्याकरण तिचें व्याकरण न्हय. आमी आमचे भाशेचें व्याकरण समजून घेवंक जाय. पूण ते आदीं तिका फावता तसली लिपी ('आबेसी') करूंक जाय. पोर्तुगेजीची लिपी तिका उणी पडटा, पाद्र विगार ज्यानीक सांगता (क्रि.घ.: ५०).

भाशेचो विकास करप ही ते ते भाशेंतल्या शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या 'जाणार' लोकांची लागणूक. जाणार लोकूच आपले भाशेची उवेखणी करूंक लागले जाल्यार नेणार लोक ती कश्याय कशी कित्याक बरोवचेनात? (क्रि.घ. : ५१.) परक्या पाद्रींनी आमचे भाशेंत पुस्तकां बरयलीं. आमच्या पाद्रींक मात तिचें कांय-एक लागना, हीय खंत ज्यानी आनी पाद्र विगाराच्या संवादांतल्यान उकती जाता (क्रि.घ.: ५१).

क्रिस्तांव धर्माचे नदरेंतल्यान कोंकणी कितली म्हत्वाची, तिच्या विकासा खातीर पाद्री लोकान वावरप कितलें गरजेचें, तेंय पाद्र विगार स्पश्ट करता. तो म्हणटा, हालीं तेंपार गोंयचे दादले आनी बायलो कामा निमतान मुंबय वचूंक लागल्यात. ''तांकां देवाचे सुमुरतीची सारकी शिकवण नां'' जाल्यार तीं ''कोंकण्यां, मयरां

आनी हेरां अनभावार्त्यांमदें'' आपणालें क्रिस्तांवपण कित्याक होगडावचीं नात? (क्रि. घ.: ५१.)

भाशेचे अडचणीक लागून क्रिस्तांव धर्माचे शिकवणे बद्दल अज्ञानी आशिल्ल्या क्रिस्तांवाची वळख हे कादंबरेंतल्या कोंकणी सोडून दिवन इंग्लीश आपणायल्ल्या मुंबयकार 'इंग्लेज आपोतेकारी'च्या घराब्यांत मेळटा. ह्या आपोतेकारीची घरकान्न भुरगेपणांत कोंकणींतल्यान दोतोर्न शिकिल्ली पूण ती आतां तिका याद नाशिल्ली (क्रि.घ.: ४०). पोर्तुगेज तिका येना आशिल्ली. मुंबय इगर्जेत मिसाक वतना फकत लोकांक दाखोवंक ती हातांत मिसाचो इंग्लीश मानुआल व्हरताली पूण तो तिका सारको वाचूंक येना आशिल्लो (क्रि.घ.: ५९).

पाद्र विगार आनी ज्यानी पासयेक गेल्ले आसतना वाटेर तांकां मुंबय जिवीत सारून गोंयां रावंक आयिल्लो 'मुंबयचो पेन्शनिस्त' दिअग रोच मेळटा. तो म्हणटा, मुंबय 'आमचे मुनीस' फकत पयसो करूंक वतात. कोंकण्यां मदीं रावपी कोंकण्यां वरी जियेतात, मयरां मदीं रावपी मयरां वरी जियेतात. ''तांकां नां शिडटो, भिडटो, जांव कुडी जांव ओत्म्याचो, तांचें कोंत घेतोलो.'' (क्रि.घ.: ५३.)

पाद्र विगार दिअग रोचीक विचारता, ''तुका कशें दिसता, जर आमची भास बरंव, आनी त्या वरवीं क्रिस्तांव दोतोर्नीची शिकवण आमचे भितर परगट करूं जाल्यार? कित्याक, आमी तोंडीच्या उतरान आमच्या भुरग्यांक किराबरी ती शिकयतांव ताचो म्हाका दुबाव दिसता.'' (क्रि.घ.: ५२.)

हाचेर दिअग रोच जाप दिता -

''...सगल्यां ओज्यापां परस व्हड ओज्याप म्हाका आज दिसता तुमीं आमचे भाशेचें चिंततात म्हूण. आमची भास नूंयच कोण हुंगो नां बोगोर आमचेच गोंयेंकार ती उलोवंक लोजतात. दुबाव नां थोडे आमचे मुनीस, जे इगर्जांच्या इस्कॉलांनी सुमाराचें शें पुर्तुगेज बरप शिकल्यात ते ती बरयतात; पूण त्या बोरपाक तकलीय नां आनी शेंपडीय नां, आनी तें आमचे भाशेचें बोरोप म्हुणूं नोजो. आमचे भाशेक लागता तसली आबेसी करीत तेदना ती सारकी बरोंवक येत. हें तर तुमी करशात जाल्यार हांव म्हुणन, आमच्या गोंयार एक सोर्गायलें बेसांव देंवलें.'' (क्रि.घ.: ५२, ५३)

क्रिस्तांव कोंकणी समाजांत कोंकणीची स्थिती कशी आशिल्ली ताचीय वळख *क्रिस्तांव घराबो* घडयता. शिकिल्लो सवरिल्लो क्रिस्तांव समाज कोंकणीची उवेखणीच करतालो. 'कोंकणीक व्याकरण ना' अशेंच सगल्यांक दिसतालें (क्रि.घ.: ५०). त्या काळा वयल्या हिंदू समाजांतूय कोंकणीची स्थिती वेगळी नाशिल्ली. समाजांत प्रतिशठा जोडपाक क्रिस्तांव पोर्तुगेजीचो वा इंग्लीशीचो आदार घेतालो. जाल्यार हिन्दू मराठीचो. मुंबयकार आपोतेकारी आपल्या बायल-भुरग्यां कडेन इंग्लीश उलयतालो; कोंकणी उलयतना ती 'तुडकी' उलयतालो आनी तातूंत इंग्लीश उतरां भरशितालो (क्रि.घ.: ३८). 'कायतू मुंबयकार' गोंयां येवन इंग्लीश कातरतालो (क्रि.घ.: ३३). तसो गोंयकार 'रवळू' मुंबय पावतकच 'रवळेराव' - 'गोंयकाराचो मुंबयकार' जातालो.[६]

कादंबरेचे प्रस्तावनेंत कोंकणी विशीं आपणाली भुमिका मांडपी बरोवपी, आनी कादंबरेंत ज्यानीक कोंकणीचें म्हत्व पटोवन दिवपी पाद्र विगार - दोगूय एकाच ताळ्यान उलयतात.

देखीक, प्रस्तावनेंत बरोवपी सांगता, ''...आमचे बरे शिकलेले भाव किकोंत करतात आपली भास, म्हुणून तिका ग्रामात नां. तर खुंयची ग्रामात येतेली? आनी दुसऱ्यां इंदियेच्या आनी एरोपाच्यां भासांक खुंयच्यो आयल्यात? वयल्यो पडल्यात? नां. पूण तांणी, शिकलेल्यांनीं त्यो आपाआपल्यो केल्यात.'' (क्रि. घ.: ६.)

कादंबरेंत पाद्र विगार ज्यानीक विचारता, ''...ही फ्रांसेज भास, इंग्लेज भास, आनी हेरी भासो ज्यो आमी इतल्यो सुदारलेल्यो देकतांव त्यो पयल्यो थान तशो आसल्यो, आनी तांच्यो ग्रामाती आनी दिसियोनार सोर्गांवयले पडलेले? तें सोगलें त्यो उलयतल्यांनी करूंक ना? हें आमच्यां जाणारांच्या मतींनीं वोचो नां आनी ते म्हुणटात: आमचे भाशेक ग्रामात नां, आमचे भाशेचो दिसियोनार नां, आमी ती कशी बरोंवची?'' (क्रि.घ.: ५१.)

भास वयर सरतली, तिचो 'उकल' जातलो जाल्यार ती पयलीं सारकी बरोवंक जाय अशें बरोवपी आनी पाद्र विगार दोगूय मानतात आनी ह्या वावराक आपणाक ओंपून दितात.

प्रस्तावनेच्या दुसऱ्याच परिच्छेदांत बरोवपी कादंबरी बरोवपा फाटलो आपणालो भासशास्त्री हेत स्पश्ट करता - 'आमचे भाशेचें' बरप सुधारपा खातीर ही कथा परगटायल्या अशें सांगून पुराय प्रस्तावनेंत तो आपणाली हीच भुमिका विस्तारान मांडटा आनी कोंकणी खातीर घडयल्ले नवे 'आबेसे'चे तकटे दिता.

लातींचे आबेसेचीं (रोमी लिपयेचीं) पंचवीस लेत्रां लातींतल्यान वयर सरिल्ले पोर्तुगेज भाशेकूच उणीं पडटात, तीं संस्कृत भाशेचे धुवेक (कोंकणीक) कशीं पुरो जातलीं अशें विचारून ब्रून द सौज संस्कृत भाशेचे जाणकार विल्यम जोन्जांच्या सुचोवण्यांक धरून तयार केल्लो कोंकणी अचूकपणान बरोवपाचो 'मारयान बेत' वाचप्यां मुखार दवरतात. ''दर लेत्राक एकूच आवाज'' आशिल्ले हे सुधारीत रोमी लिपयेंतल्यानूच ते आपणाली कादंबरी वाचप्यांच्या हातांत दितात (क्रि.घ.: ६, ७).

'आग्नुस देई' (Agnus Dei) ह्या, १९३० ते १९४३ मेरेनच्या काळांत मुंबयच्यान कोंकणी आनी पोर्तुगेज भासांनी उजवाडा येवपी, द्विभाशीक म्हयनाळ्यान[७] ही 'मारयान लिपी' आपणायल्ली अशें फादर आंतोन पेरैर सांगतात.[८] जिका धरूनूच आयची प्रमाण रोमी बरपाची रीत घडल्या ती ज्योकीं आंतोन फेर्नांदीसांची कोंकणी बरोवपाची रीत आनी ब्रून द सौजांचो 'मारयान बेत' हातूंत खूब सारकेपण आसा अशेंय ते म्हणटात.[८]

ब्रून द सौजांच्यो खूबश्यो भाशीक सुधारणा रोमींतल्यान कोंकणी कशी बरोवची हे संबंदान आशिल्ल्यो अशें म्हणूं येता. कोंकणीच्या व्याकरणाचोय तांणी अभ्यास केल्लो आनी 'उदेंतेचें साळक' नेमाळ्यांत बार्देशी कोंकणी बोलयेचें तांणी बरयल्लें व्याकरण खिस्ती खिस्तींनी

उजवाडा येतालें अशें फादर पेरैरा सांगतात.[८] ह्या अभ्यासाचो ब्रून द सौजांचे बरपांतले भाशेचेर प्रभाव पडलाच आसतलो. तांची 'सुधारिल्ली' कोंकणी तांच्या काळा वयल्या हेर बरोवप्यांचे कोंकणी परस वेगळी आशिल्लीय जावंक जाय. पूण ती कशी वेगळी आशिल्ली हे विशीं निश्चीतपणान कांय सांगूंक येता. ब्रून द सौजांच्या समकालीन कोंकणी बरोवप्यांचें साहित्य आयज मेळ नाशिल्ल्यान तांचे भाशेची कोणाचेच भाशे कडेन तुळा करूंक मेळना.

## २. क्रिस्तांव घराब्याची भास

*क्रिस्तांव घराब्या*ची भास व्याकरणाचे, मुखेलपणान वाक्यरचनेचे, आनी उतरावळीचे नदरेन सतराव्या शेंकड्यांतल्या येवरोपी मिशनरींचे बरपावळीचे भाशे कडेन नातें दाखयता.

मिशनरींच्या चड्श्या बरपांनी अव्ययांच्या आधारान घडयल्लीं मिश्र वा जोड वाक्यां खूब प्रमाणांत मेळटात. *क्रिस्तांव घराब्यां*तूय असलीं वाक्यां पावला पावलाक मेळटात. देखीक, हो उतारो पळेयात:

''सोगले इस्तुदांत आनी प्रोफेसोर, आनी इस्तुदांतींचे आवय बापूय लेगून, अदीक करून पणजेचे, ज्यानीक बरें देकताले; कित्याक तो शिकपाच्या मोगान शिकतालो, आनी ताका पोडलें नां प्रेम व्होरचें अव दुसऱ्या सोंवसारांतल्या बोरव्याचें. आनी साबार पावटी घोडटालें एका इस्तुदांतीचो बापूय ताचे लागीं मागच्याक, त्या वरसा एजामीक वचूं नाका म्हूण, ह्या वरवीं पयलो प्रेम आपल्या पुताक मेळच्याक; कित्याक ज्यानी एजामीक बोसलो म्हुणटच सोगले पयले प्रेम ताणें व्होरचे आसले.'' (क्रि.घ.: १५०.)

'अमकेंच न्हय... अमकेंय बी' ('not only... but also') तरेचीं वाक्यां मिशनरींच्या कोंकणी बरपांनी आनी *क्रिस्तांव घराब्यांत* खूब प्रमाणांत आयल्यांत.

देखी:

१. ''...तो लुसिफेरु सैतानुचि जालो न्हय, पण समस्तां सैतानांच्याकय बिकट्ठु... हौनु पडलो'' (*वनवाळ्यांचो मळो*[९]: ३१६).

२. ''हांव तुका उतर दितां की नूंयच तुका लोज जांवची नां, बोगर तुका खोशी भोगतली म्हूण.'' (क्रि. घ.: ४५.)

पोर्तुगेज भाशेच्या प्रभावान असले तरेचीं वाक्यां कोंकणींत आयल्यांत जावंक जाय.

सतराव्या शेंकड्यांतल्या मिशनरींनी क्रिस्तांव धर्माच्यो संकल्पना उकतावपाक वेंचिल्लीं/घडयल्लीं कोंकणी उतरां मिशनरींनी कोंकणी मळा[illegible]ल्यान आंग काडले उपरांतूय कोंकणींत थीर उरलीं. क्रिस्तांव कोंकणी उतरावळीचो तीं वांटो जावन रावलीं. हे उतरावळीक लागून सतराव्या शेंकड्यांतली कोंकणी आनी आयची क्रिस्तांव कोंकणी, मुखेलपणान 'इगर्जेची' कोंकणी, हांचे भितर एक अखंडत्व अणभवपाक मेळटा. *क्रिस्तांव घराब्यां*तूय हीं उतरां सहजतायेन घोळटात.

कांय देखी:

१. 'सोतमानू (नजो)' (क्रि.घ.: ९५); *S*a*temanitã* (दौत्रीना किस्तां (दौ.क्रि.) : १).

२. 'अनभावार्ती ('अनभावार्त्यां मदें', क्रि.घ.: ५१); अनुभावार्थी ((व.म.: २८१).

३. 'भूमी वयकूट' ('भूमी वयकुटांत, क्रि. घ.: १७६); भुमिवैकुंठ (व.म.: ३२८).

४. 'कोकणो' (क्रि.घ.: २१); कोंकणे (व.म.: २८१), हिन्दू वा pagan ह्या अर्थान.

५. 'भागेवंती सोदांच आंकवारी मरी' ('...मरयेक', क्रि.घ.: ७१), 'सधा आंकुवारि स्वामिणि... सदैवि वा भाग्यवंति' (व.म. : २७६).

६. 'बोरवें' ('बोरवें काळीज', क्रि.घ.: ५२); 'बरव्यो' ('बरव्यो करण्यो' (व.म. : ३८२).

७. 'सोरुकुमदार देव' ('सोरुकुमदारा देवाक' क्रि.घ.: ७१); *S*a*rua hucum*a*dara P*a*ramesp*a*ra* (दौ.क्रि.: ६५)

८. 'येमकोंड' ('येमकोंडांत' क्रि.घ.: ४७); *yem*a*condd*a (दौ.क्रि.: ११२)

### २.१ पोर्तुगेजी कडलो उतरांचो उश्णो वेव्हार: दोन उतरा

कादंबरेच्या ज्या पात्राच्या - पाद्र विगाराच्या - हावेसां कडेन बरोवप्याचे हावेस एकरूप जाल्ले दिसतात ताच्या तोंडांत हीं उतरां आयल्यांत -''आमी सेर्मांव सांगतांव तांतूं भोव थोडे प्रेगादोर कुशीन करून सुमार तिसरो वांटो तरीय फिरिंगी भाशेचीं उतरां आसात आनी ग्रामातूय सुमार तेच भाशेची'' (पान ४९.)

पाद्र विगाराचे आनी बरोवप्याचेय भाशेचेर हो 'फिरिंगी भाशेचो' प्रभाव दिश्टी पडटा. देखीक, पाद्र विगार म्हणटा, ''...जें शिकयता ताचो, त्याच बरोबर, तांकां अर्त दाकोंवक जाय पेरगुंतां घालून आनी तांचीं रेपोस्तां शिकोवन, जर तर तांकां तीं दिवंक गोमोनांत. व्हडले सेरमांव तांकां उपकारोनांत, कित्याक तांच्यान चड तेंप चित दिंव नजो, आनी दुसरें कितेंय चिंततात अव आपल्या बुतांवां लागीं खेळटात.'' (पान ७२.)

कोंकणी संस्कृत भाशेंतल्यान वयर सरल्या अशें ब्रून द सौज सांगतात. पूण कोंकणीची निवळावणी करतना ते संस्कृत भाशेंतल्यान वयर सरिल्ली भारतीय आर्य उतरावळ घेवंक वचनात. जिबे वयले कोंकणींत घोळणुकेंत आशिल्लीं 'फिरिंगी भाशें'तल्यान आयिल्लीं उतरां घेवनूच मुखार वतात. देखीक, 'आबेसी', 'ग्रामात', 'दिस्योनार' सारकेलीं उतरां ते तशींच दवरतात. तांचे बदला 'लिपी'/'लेखन पद्दत', 'व्याकरण', 'कोश' सारकेलीं निजाचीं उतरां वापरूंक वचनात. हांगा मों. सेबास्तियांव रुदोल्फ दाल्गाद आनी ब्रून द सौज - दोगांयल्या भाशीक नदरांतलें वेगळेपण दोळ्यांत भरता.[११]

#### २.१.१. भोव लार्गींच्या संपर्कांतल्यान आयिल्लो उश्णो वेव्हार

सतराव्या शेंकड्यांतल्या येवरोपी मिशनरींच्या बरपांचे भाशे कडेन

*क्रिस्तांव घराब्याचे* भाशेचें एके तरेच्या सारकेपणाचें, सेगीतपणाचें, नातें आसलें तरी तातूंत एक म्हत्वाचें वेगळेपण आसा. हें वेगळेपण पोर्तुगेजी कडल्यान घेतिल्ले उश्णे उतरावळींत पळोवंक मेळटा. येवरोपी बरोवपी फकत सांस्कृतीक, मुखेलपणान धर्मीक, आंवाटांतलीं उतरां पोर्तुगेजी कडल्यान उश्णीं हाडटात. 'जेजू', 'क्रिस्तांव', 'इग्रेजा', 'रेजुरेयसांव'... सारकेलीं हीं उतरां भाशेंत 'नवेपण' घेवन येतात. नव्या संकल्पनांची भर घालतात. *क्रिस्तांव घराब्यांतलीं* पोर्तुगेजी कडल्यान आयिल्लीं उश्णीं उतरां तपासून पळेल्यार अशें म्हणूंक मेळना. संकल्पनांचें नवेपण आशिल्ल्या उतरां भायर कोंकणीक नवें कितेंच दिवपाची तांक नाशिल्लीं उतरांय ह्या बरपांत सहजतायेन घोळटना पळोवंक मेळटात. *क्रिस्तांव घराब्याचे* भाशेक चार शतमानांचे पोर्तुगेज राजवटीचो संदर्भ आसा. कोंकणी आनी पोर्तुगेज भासो हे राजवटीच्या संदर्भांतूच एकामेकांच्या भोव लागींच्या संपर्कांत - intimate contactत आयल्यो.[१२] शासकांची भास आनी शासितांची भास हांच्या इतल्या लांब काळाच्या संपर्कांत भासांचेर, मुखेलपणान शासितांचे, भाशेचेर कितें परिणाम जावं येता ताचो होलम *क्रिस्तांव घराबो* वाचतना मेळटा.

पोर्तुगेजीं कडल्या लागींच्या संपर्काची - गवाय दिवपी उतरांवळ, कांय देखी:

'काबार (जातच', क्रि.घ.: ११), 'कुस्तार (जाता', क्रि.घ.: १३), 'कुजीन' ('कुजनांत', क्रि.घ.: १६) 'पासेय' (क्रि.घ.: १६), 'लिव्र' (क्रि. घ.: १७), 'जोनेल' ('जोनेलार', क्रि.घ. : १७), 'सुमान ('सुमानांत', क्रि.घ.: २३), 'क्रियाद' (क्रि.घ. : २८), 'सिनाल (केलें', क्रि.घ.: ३५), 'लिसेंस (मागलें', क्रि.घ.: ३५), 'पिडद्यार (केलो', क्रि.घ.: ४१), कोंसियेंस (क्रि.घ.: ५२), 'पेरगूंत' (क्रि.घ.: ७२), 'रेपोस्त' (क्रि.घ.: ७३), 'दिजेसपेराद' (क्रि.घ.: ७८), 'कुजनेर' ('कुजनेराक', क्रि.घ.: ७९), 'वियाज' ('वियाजीचो', क्रि.घ.: ९१), 'इस्पिरेंस' ('इस्पिरेंसाचें', क्रि.घ. : ९४), 'इनोसेंत' ('इनोसेंती', क्रि.घ.: ९९), 'त्रातार (केला', क्रि.घ.: ११२), 'विस्त' (क्रि.घ.: १२५), 'कोंत' (क्रि.घ.: १२५), 'पेरतुरबाद' (क्रि.घ.: १३७), विंगांस (क्रि.घ.: १४२), 'इसमोल' (क्रि.घ.: १५२), 'आलिमेंत' (क्रि.घ.: १६६), 'इस्पेर्त' (क्रि.घ.: १६८), 'कोंफियांस (दीनासलो' क्रि.घ.: १६८), 'नेगार (वेता', क्रि.घ.: १७६), ओर्र (क्रि.घ.: १८२).

आनी, हे तरेच्यो रचना -

''पाद्र विगारान ताका **लिर्सेस दिलें** तुका **कुरार करूंक...**'' (क्रि.घ.: २६); ''...म्हाका वेगीं **तेंप पिडद्यार करी नासताणा,** आपोवन'' (क्रि.घ.: ६२); ''...जेवणायलीं उठून पांच **ओरां** परयान **दिवेडतिमेंत** करचो'' (क्रि.घ.: १०३).

### २.१.२. सांस्कृतीक उश्णो वेव्हार

पोर्तुगेजां वांगडा जिणे शैली कडेन जोडिल्ल्यो कितल्योश्यो नव्यो वस्तू गोंयांत आयल्यो, गोंयकारांच्या जिवितांत सुवात जोडून गोंयच्योच जाल्यो. तांच्या पोर्तुगेज नांवां सयत त्यो कोंकणींत घोळूंक लागल्यो. हे तरेची सांस्कृतीक मळा वयली उश्णी उतरावळ *क्रिस्तांव घराब्यांत* खूब मेळटा.

देखी:

'काम' ('कामार'=''खाटीर'', क्रि.घ.: ९), 'मेज' ('मेजा', क्रि.घ.: २१), 'कदेल' (क्रि.घ.: २३), 'चिक्र' (क्रि.घ.: २३), 'पीर' (क्रि.घ.:२३), 'साल' ('सालांत' क्रि.घ.: २८), 'चेपें' (क्रि.घ.: ३३), 'वोल्तेर' ('वोल्तेरार', क्रि.घ.: ३७), 'मेय' (क्रि.घ.: ३९), 'तुवालो' (क्रि.घ.: ३९), 'बासी' ('बासेंत', क्रि.घ.: ३९), 'आलमार' ('आलमारी', क्रि.घ.: ४८), 'कोप' ('कोपा', क्रि.घ.: ४८), 'विद्र' (क्रि.घ.: ४८), 'कुल्येर' ('कुल्येरां', क्रि.घ.: ४८), 'गार्फ' ('गार्फा', क्रि.घ. ४८), 'व्हिस्तीद' (क्रि.घ.: ९४), 'काजाक' ('काजाकां', क्रि.घ.: ९४), 'पियान' ('पियानाचो', क्रि.घ. : १०६), 'रेबेक' (क्रि.घ.: १०६), 'फ्रावत' (क्रि.घ.: १०६), 'लेंस' (क्रि.घ.:१५२).

निखट्यो वस्तूच न्हय, पोर्तुगेज/येवरोपी चाली-रितीय गोंयकारांनी आपणायल्यो, तांच्या 'नांवां'सयत.

देखी:

'कुडतेजी (मारप', क्रि.घ.: २५), 'साउदी (करप', क्रि.घ.: १०५), 'दिस्कूर्स (करप', क्रि.घ. १०५), 'कुंप्रुमेंत (करप', क्रि.घ. १२१).

पोर्तुगेज राजवटींत राजकारभार, कायदो, शिक्षण बी असल्या खाशेल्या मळांचेर गोंयांत पोर्तुगेज भास घोळटाली. हाचोय कोंकणी भाशेचेर परिणाम जालो : ह्या मळा वयली खाशेली उतरावळ कोंकणींत मेकळेपणान घोळपाक लागली. [१३]होय बी एके तरेचो सांस्कृतीक आंवाटांतलोच उश्णो वेव्हार. कित्याक, नवीं उतरां भाशेंत नव्यो संकल्पना घेवन आयिल्लीं. *क्रिस्तांव घराब्यांत* असल्या उश्ण्या वेव्हाराच्यो कितल्योश्यो देखी मेळटात.

**राजकारबाराच्या मळा वयली उश्णी उतरावळ**

देखी:

'आसिनार (करी', क्रि.घ.:७६), 'देसपाचार (करी', क्रि.घ.: ७६), 'काम्र' ('कामरां', क्रि.घ.: ९१), 'गोवेर्नादोर' (क्रि.घ.: ९४), 'फार्द' क्रि.घ.: ९४), 'बोलेत' ('बोलेतींर', क्रि.घ.: १०४), 'आजुदान्त-दास-ओर्ड्देंस' (क्रि.घ.: ११५), 'जेनेराल' (क्रि.घ.: १३०), 'कोंत्राद' (क्रि.घ.: १३८), 'कोमेन्दादोर' (क्रि.घ.: १५३), 'एम्प्रेगाद' ('एम्प्रेगादां', क्रि.घ.: १६८), 'आवतोरिदाद' ('आवतोरिदादींक', क्रि,घ.: १७२), 'रेजेदोर' (क्रि.घ.: १७९), 'मिनीस्त्र' (क्रि.घ.: १८१), 'पिरजेंत' ('पिरजेंतीक', क्रि.घ.: १८१), 'रेकोमेंदासांव' (क्रि.घ.: १८१).

**कायदो आनी न्यायवेवस्थेच्या मळा वयली उश्णी उतरावळ**

देखी:

'ज्युस्तीस' ('ज्युस्तीसेंत', क्रि. घ.: १५९), 'लेंत्राद' (क्रि.घ.: १५९), 'कावज' (क्रि.घ.: १७०), 'राजांव' ('राजांवां', क्रि.घ.: १७०)', 'कीर्म' ('किरमीचो', क्रि.घ.: १७१), 'इस्किर्तूर' ('इस्किर्तुरार', क्रि.घ.: १७१), 'सेलाद फोल' ('सेलाद फोली', क्रि.घ.: १७१), 'ताबेलियांव' ('ताबेलियांवाची', क्रि.घ.: १७१), 'रेक्रिमेंत' (क्रि.घ.: १७१), 'आदवोगाद' ('आदवोगादाचें', क्रि.घ.: १७२), 'आवत' (क्रि.घ.: १७२), 'जुल्गामेंत' ('जुल्गामेंताक', क्रि.घ.: १७२), 'आवदियेंस' (क्रि.घ.: १७२), 'फाल' (क्रि.घ.: १७२), 'जुइज' (क्रि.घ.: १७४), 'सेतेंस', क्रि.घ.: १७५), 'त्रिबुनाल' ('त्रिबुनालाच्याय', क्रि.घ.: १८१).

हीं वाक्यांय पळेयातः

१. "...**सेंतेंस** पासकूच्या **फावोरार जालें.**" (क्रि.घ.: १८१.)

२. "...**सेंतेंस** कायतान भाटकाराचेर **कोंत्र जालें...**" (क्रि.घ.: १८३.)

३ "...पासकून **फाल्स इस्किर्तूर करून** एक व्हड **किरीम आदारली**..." (क्रि.घ. : १८२.)

४. "शेकीं **जुल्गामेंताक आवदियेंस नोम्यारलें,** आनी ह्या **आवदियेंसार** दोतोर लापिटान **फाल करून** पासकूक **देफेंदेर करूंक** जाय आसलो." (क्रि.घ.: १७२.)

पोर्तुगेजींतल्यान आयिल्ली कायदो आनी न्यायव्यवस्थेच्या मळा वयली उतरावळ आपणा वांगडा हेर उतरांक हाडीत पोर्तुगेजींतले वरी सांगपाची रितूय घेवन आयली. देखीक, 'सेंतेंसा'न 'फावोरार' आनी 'कोंत्र' हीं उतरांय कोंकणींत हाडलीं. कोंकणीक तांची गरज आशिल्ली म्हूण न्हय. (जाय जाल्यार 'सेंतेंस अमक्याचे वेटेन जालें' वा 'अमक्याचे आड जालें' अशें म्हणूं येतालें.) पूण गोंयचे पोर्तुगेज न्यायवेवस्थेच्या मळार हीं उतरां 'सेंतेंसा' वांगडा सहजपणान घोळटालीं आनी हे वेवस्थेची वळख आशिल्ल्यांचेय तीं संवकळींचीं जाल्लीं. दुसरें, तांचे बदला थळावी कोंकणी उतरावळ वापरुची अशेंय त्या वेळा वयल्या कोंकणी उलोवप्यांक दिसऽ नाशिल्लें जावंक जाय.

**शिक्षणीक मळा वयली उश्णी उतरावळ**

देखीः

'लिसांव' (क्रि.घ.: १२), 'इस्प्लीकार'/'इस्प्लीकासांव' (क्रि.घ.: १२), 'इस्कॉल' ('इस्कॉलांत', क्रि.घ.: १२९), 'फेरयो' (क्रि.घ.: १२९), 'प्रेम' (= "इनाम", क्रि.घ.: १२९), 'एजाम' ('एजामी', क्रि.घ.: १३७), 'प्रोफेसोर' (क्रि.घ.: १५०), 'इस्तुदांत' (क्रि.घ.: १५०), 'देकोर' (क्रि.घ.: १५३).

**धर्मीक मळा वयली उश्णी उतरावळ**

क्रिस्तांव धर्माच्यो संकल्पना आनी चाली-रिती उकतावपी, चडशी पोर्तुगेजी कडल्यान घेतिल्लीं कितलींशीं उतरां *क्रिस्तांव घराब्यांत* मेळटात.

देखीः

'पाद्र विगार' (क्रि.घ.: १८), 'दोतोर्न' (क्रि.घ.: ३७), बेसांव (क्रि.घ.: ३७), 'कुमसार' (क्रि.घ.: ४२), 'इगर्ज' ('इगर्जे, क्रि.घ.: ४५), 'रेजार (करतालों', क्रि.घ.: ४७), 'पुलपुत्र' (क्रि.घ.: ५१), 'किस्तांव' (क्रि.घ.: ५२), 'फ्रेगेज' (क्रि. घ.: ५३), 'तेर्स' (क्रि.घ.: ५७), 'मीस' (क्रि.घ.: ५८), 'लोब' (क्रि.घ.: ५९), 'कोमून्यांव' (क्रि.घ.: ६१).

सतराव्या शेंकड्यांतल्या मिशनरींच्या बरपांनीय ह्या मळा वयलीं उतरां मेळटात. पूण तातूंत एक म्हत्वाचें वेगळेपण आसा - मिशनरींच्या बरपांनी हीं उतरां आपणालीं 'मूळ रुपां' तश्या तशीं सांबाळून दवरून घोळटात जाल्यार *क्रिस्तांव घराब्यांत* तीं कोंकणीच्या सभावा कडेन जुळोवन घेवन वावुरतात. आदलें 'दौत्रीना' 'दोतोर्न' जाता, 'इग्रेजा' 'इगर्ज' जाता, 'कॉंफॅसार' 'कुमसार' जाता, 'आव्हें मारीया' 'आयमोरी' जाता.

थॉमस स्टीफन्सांच्या *दौत्रीना क्रिस्तांत* पोर्तुगेजी कडल्यान घेतिल्लीं उतरां तांच्या पोर्तुगेज स्पॅलिंगां सयत बरयल्लीं मेळटात. सतराव्या शेंकड्यांतल्या हेर मिशनरींच्या बरपांनीय घडये हीच चाल आसतली. पोर्तुगेजीचेर प्रभुत्व आशिल्ल्यांनी हीं उतरां कोंकणीक 'दिल्लीं', देखून तीं आपणालीं मूळ रुपां सांबाळूंक पावलीं. कोंकणी भाशिकांनी हीं उतरां कशीं 'घेतलीं', कशीं 'आपणायलीं' तें *क्रिस्तांव घराबो* दाखयता. हे तरेचे 'घेतिल्ले' उतरावळीकूच खरेली उश्णी उतरावळ म्हणूं येता.

## २.२ भास आनी भाशीक परिस्थितीः आनीक कांय बारीकसाणी

*क्रिस्तांव घराब्याची* भास कोंकणी पोर्तुगेजीच्या कितल्या प्रभावांत आयिल्ली तें दाखयता, तशीच, संस्कृत मुळा पसून आनी तिच्या हेर भयण-भासां पसून ती कशी पयस गेल्ली ताचेरूय उजवाड घालताः

१. *दौत्रीना क्रिस्तांत* Suami (दौ.क्रि.: ६७), Suamiya (दौ.क्रि.: ७५, Suamiचें सामान्य रूप), Suaminny (दौ.क्रि.: ६५, Suamiचें स्त्रीलिंगी रूप) हीं उतरां मेळटात. *वनवाळ्यांच्या मळ्यांतूय* ह्या उतरांचीं अशींच रुपां मेळटात - 'स्वामि' (व.म.: ३८५), 'स्वामया', 'स्वामिणी' (व.म. : ३८६). *क्रिस्तांव घराब्यांत* Somi (मूळ रोमी प्रत : २९, देवनागरी प्रत, 'समी', पान ५२), Somya (मूळ रोमी प्रत : ३०, देवनागरी प्रत 'सम्या', पान ५४) हीं रुपां मेळटात. Suaminnyची सुवात Saybin (Saybinicho (altar) मूळ रोमी प्रतः १५, देवनागरी प्रतः सायबिणीचो आल्तार, पान ३२), ह्या अरबी भाशे कडल्यान घेतिल्ल्या उतराच्या स्त्रीलिंगी रुपान घेतल्या. *Romi Misa-Grônth* ह्या *Roman Missal*च्या कोंकणी अणकारांतूय Somi (सामान्य रूप Somiya) उतर मेळटा.[१३]

२. *दौत्रीना किस्तांत* संस्कृत 'प्रायश्चिता'क लागीं आशिल्लें pracit*a* (पान १४४) उतर मेळटा. *क्रिस्तांव घराब्यांत* pirajit मेळटा (मूळ रोमी प्रत : ८६, देवनागरी प्रत 'पिराजीत' ('पिराजिताक'), पान १४३) (*रोमी मिसा ग्रंथान* prachit आपणायलां.) 'चीत'

आनी 'जीत' हांतलें वेगळेपण हांगा शेणलां - neutralize जालां. हे भाशेन, 'आशीर्वचन' *क्रिस्तांव घराब्यांत* asirvozon जालां. (मूळ रोमी प्रत: asirvozon (asirvozonacho pavs पान ६४, देवनागरी प्रत : 'आसीर्वाजनांचो पावस', पान १०७). 'वचन' 'वजन' जालां.

३. 'फळ' हें अलिंगी कोंकणी उतर *क्रिस्तांव घराब्यांत* पुल्लिंगी जालां, तशीं 'भाग' आनी 'अंतर' हीं अलिंगी उतरां स्त्रीलिंगी जाल्यांत.

देखी:

१. "...हें काम एकल्याचें नूंय; सोगल्यांनी तें करूंक जाय, आनी तेदना ताचो फळ येत." (क्रि.घ.: ७२.)

२. "असली होकल मेळच्याक एका मुनशाची व्हड भाग." (क्रि.घ.: १४६.)

३. "फोलींच्या मार्का भितर इल्ली ओंतोर आसली..." (क्रि.घ.: १७१.)

ह्या उतरांक समानअर्थी आशिल्ल्या पोर्तुगेज उतरांच्या लिंगांच्या प्रभावान कोंकणी उतरांचीं लिंगां बदल्ल्यांत आसूं येता.

४. कानांक आडखळपा सारके आनिकूय प्रयोग *क्रिस्तांव घराब्यांत* मेळटात. देखीक, "...तांकां धीर दिंवन समादान केलीं...' (क्रि.घ.: २०), ह्या वाक्यांत 'समादान' ह्या भावनामा बदला 'समादानी' हें विशेशण येवंक जाय आशिल्लें. 'तांकां *सुखी* केलीं', 'तांकां सूख केलीं' न्हय; 'तांकां *कश्टी* केलीं', 'तांकां *कश्ट* केलीं' न्हय; तशें 'तांकां समादानी केलीं', 'तांकां समादान केलीं' न्हय.

५. पाद्र विगार आनी ज्यानीच्या संवादांत कांय थळाव्या उतरांचे अर्थ पोर्तुगेज उतरांच्या आदारान सोंपे करून सांगिल्ले मेळटात. देखीक, पाद्र विगार 'शोंका' हें उतर वापरता तेन्ना ज्यानी ताका ताचो अर्थ विचारता, आनी पाद्र विगार जाप दिता, "शोंका, म्हणजे फिरिंगी भाशेन इश्क्रूपुलु (escrupulo)" (क्रि.घ.: ४९), मुखार, ".... तुजें बोरवें काळीज सुचयता तें खोरें जावं आसलें..." (क्रि.घ.: ५२) अशें पाद्र विगार ज्यानीक सांगता तेन्ना ज्यानी विचारता, "सुचयता, म्हुणजे कितें सि.पा. विगार?" आनी पाद्र विगार ताका सांगता, "सुचवंक, म्हुणजे, फिरिंगी भाशेन suggerir वा insinuar." (क्रि.घ.: ५२.) मुखार आनीक एके कडेन पाद्र विगारा कडेन उलयतना ज्यानी म्हणटा, "हांव कालचो भुरगो, आनी तुमीं आणबोगलेले मुनीस, देकून म्हजो वादविवाद तुमचे लागीं उपकारोनां." (क्रि.घ.: ६४.) 'वादविवाद' उतरा कडेन पाद्र विगार आडखळटा तेन्ना ज्यानी ताका सांगता, "वादविवाद म्हुणजे, दिसपूत [disput] वा फिरिंगी भाशेन polemica." (क्रि.घ.: ६४.)

पाद्र विगार आनी ज्यानी हांचे मदलो आनीक एक संवाद त्या वेळा वयले हे तरेचे भाशीक वस्तुस्थितीचेर उजवाड घालता. ज्यानी म्हणटा, "हांवें खुंयशें वाचलां, जेजुइतांनीं... वेर्सांनी पवित्र पुस्तकावयली इस्तोर बरोवन छापल्या म्हूण, जिका म्हुणटात 'पुराण'" (क्रि.घ.: ५१); हाचेर पाद्र विगार सांगता, "हय, तांणी पुराणूय बरयलां आनी छापलां. पूण तें, म्हाका दिसता, मराठे भाशेन आसा. कितेंय जांव, तें आमी उलयतांव ते भाशेन कांय नूंय, आनी तें समजुंचे आर्दी हांव ग्रेग भास सोमजोन..." (क्रि.घ.: ५१.) क्रिस्तांव धर्म आपणायल्ल्या गोंयकार कोंकणी मनशांचे मागणेक मान दिवन पाद्री थॉमस स्टिफन्सान सतराव्या शेंकड्यांत मराठींतल्यान *ख्रिस्त पुराण* बरयल्लें. तें विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक क्रिस्तांवांक परकी दिसूंक लागिल्लें, आनी शेजारचे मराठी परस पयसुल्ली ग्रीक भास अदीक लागींची दिसूंक लागिल्ली.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक गोंयचो क्रिस्तांव समाज मराठी पसून आनी घडये हेर भारतीय भासां पसुनूय पयस गेल्लो आसलो तरी 'आमचे भाशे'ची (कोंकणीची) सुदारणी करून, तिचें व्याकरण समजून घेवन ताका धरून दोतोर्न सारकी बरयतलो जाल्यार संस्कृत भार्शेतल्यान आयिल्ल्यो मराठी, गुजराती, 'मुसलमानी' (उर्दू) सारकेल्यो दुसऱ्यो भारतीय भासो जाणा आशिल्ल्याची मदत घेवप गरजेची ही जाणविकाय *क्रिस्तांव घराब्यांत* स्पश्ट दिसता (पळेयात: क्रि.घ: कापित्ल ७ : ६६-७६).

### २.३ कोंकणीची निजाची सुंदरकाय

ब्रून द सौजांचे भार्शेत जायते कडेन कोंकणी भाशेची निजाची सुंदरकाय अणभवपाक मेळटा. देखीक, हीं वाक्यां पळेयात:

१. "...ओत्म्याच्या दोळ्याचें खोवोळ भूंय पोडलेल्या परीं, आतां सर्गाच्यो वस्तू सारक्यो दिसून येतात." (क्रि.घ.: ६०.)

२. "...एका पाशांवाक एका मुनशाच्या काळजांत रीग मेळटच, तें ताचे दोळे बांदता, आनी ताका बोऱ्याचो वायट, आंजाचो देंवचार करता, आनी सोर्गाचे माटीर आसलो ताका येमकोंडाचे खरीक शेवटिता." (क्रि.घ.: १४८.)

३. "कोयर कसो दुडू भायर उडोंवक जाय, आनी कोसियेंस खुंटार दवरूंक जाय" (क्रि.घ.: १५९.)

४. "...कसलीच वस्त हिंवार आंवुळटा आनी पावसार वाडटा आनी सोदांच एकसारकी उरोनां..." (क्रि.घ.: १७८.)

५. "देवाचे गूट देव जाणो... ताका जाय जाल्यार ताच्यान गायरींतले काडून रायांमोदें बसंवं येता..." (क्रि.घ.:२३३.)

'शेळो घाम सुटप' (क्रि.घ.: ८०)', 'फुजो काडप' (क्रि.घ.: ८०, ८१), 'ज्युदेव काडप' (क्रि.घ.: ८६), 'सुता बरी दवरप' ("सरळ दवरप", क्रि.घ.: १२५), 'भास दिवप' ("उतर दिवप", क्रि.घ.: १३१), '(संवसार) आंबट दिसप' (क्रि.घ.: १४३), 'रानांत पडप' (क्रि.घ.: १६६), 'मेंदू कडोवप' (क्रि.घ.: १६९), 'जीव गोळ्याक तेंकप' (क्रि.घ.: १८४), 'लजेक म्हारग पडप' (क्रि.घ.: २०८), 'भाजलेलें मेळप' (क्रि.घ.: २२१), सारकेले नीज कोंकणी वाक्प्रचारूय ब्रून द सौजांचे भाशेची गिरेस्तकाय, तांचो कोंकणीचो अभ्यास दाखयतात. पूण भाशेचीं हीं सौंदर्यथळां तिचे वयल्या पोर्तुगेज वाक्यरचनेच्या प्रभावाक लागून लिपून उरतात. फकत वाक्यरचनेचे

नदरेन *क्रिस्तांव घराब्याची* भास निवळावन हे कादंबरेचें एक संस्कारीत रूप उजवाडा हाडलें जाल्यार तिचें अदीक बरें आस्वादन जावंक पावतलें अशें दिसता. कोंकणीची निजाची वाक्यरचना घेवन आयिल्ले कादंबरेंतले संवाद मात खूब बरे फुल्ल्यात. देखीक, मोची आनी भाटकार हांचे मदलो हो संवाद पळयातः

- बोरें, तें आसूं. आतां तांचे [मोच्यांचे]... दुडू कितले ते सांग.

- भाटकाराक सांगूंक जाय? भाटकार नोकळो? ह्यां दिसांनी पुलिमेंत कितलो म्हारग जाला तो सांगूं नोजो; आनी बुर्राच तर हातान काडूंच नोजो.

- हे तुजे लाग कुशीन दवर आनी म्हाका सारकें सांग, ह्या मोच्यांच्या पाराचे दुडू कितले ते.

- भाटकारा, तूं सोमजोताय तितले दी : तुका देवान भोलायकी दिल्या पुरो.

- तूं तुज्या तोणान सांग कितले दुडू ते.

- भाटकारा म्हाका तुजे चोड नाका : म्हजो खरच भरून, कितेंय इल्लें म्हज्या पोटाक उरल्यार पुरो. स रुपया दी.

- ओ ले ले ले लेय! स रुपया? घे बाब, तुजे परतून व्होर.

...

- सायबा भाटकारा, ओशें करूं नाका, तूं आसाय म्हूण आमचें सूक. हे मोचे तुज्या पांयांक केल्यात, ते परतून व्हरून कितें करूं? कितें दिताय तें दी.

...

...

- आतां हें कितें तर? ओशें चलून कामां रे कशीं जातेलीं?

- नां भाटकारा, (हांसून) तुवें ते पयले घरांत घालून भोंवूंक जाय, आनी मागीर तांतूं पांय आपलीं सारकीं घरां करतच तुज्यान सडसडीत चलूं येतलें. हे नवे मोदीचे मोचे, आदले मोदीचे तितले घट पांयांक बोसो नासले.

- म्हाका दिसता, पोरन्या मुनशाक पोरनीच मोद बरी आसली. हांवें चूक केली तुका नवे मोदीचे मोचे करूंक लावन.

- त्या पासून तूं हुस्को करूं नाका, भाटकारा. तूं ते दोन दीस घालून भोंवतच तुका तेच बोरे दिसतेलेत. (क्रि.घ.:१५५, १५६).

*क्रिस्तांव घराबो* शंबर वर्सां फाटल्या गोंयचो एक म्हत्वाचो दस्तावेज. कोंकणी समाजाचो तो एक हारसो. शणै गोंयबाब कोंकणीच्या मळार देंविल्ले त्याच सुमाराक ही कादंबरी उजवाडा आयिल्ली. शणै गोंयबाब तांच्या समाजांतल्या 'शाण्यां'चे नदरेन पिशे आशिल्ले. तशेच, कोंकणीची सुदारणी करूंक भायर सरिल्ल्या *क्रिस्तांव घराब्यांतल्या* पाद्र विगाराकूय लोक 'पिसाट' लेखताले (क्रि.घ.: ११७). हिंदू समाजांत नाशिल्लें तशें क्रिस्तांव समाजांतूय कोंकणीक मोल नाशिल्लें; कोंकणी खातीर तळमळीन वावुरतल्याक दोनूय समाजांत पत नाशिल्ली...

*क्रिस्तांव घराब्याचो* हारसो आनिकूय जायतें कितें आमकां दाखयता.

हे विशीं मुखार केन्नाय.

१. अदीक म्हायती खातीर पळेयातः माधवी सरदेसाय, 'लिखीत कोंकणी साहित्याचो लिखीत इतिहास आसडून फांफडून सरी करतना...', जाग, सप्टेंबर २००९ : २-७; 'हें सोळाव्या शेंकड्यांतलें लिखीत साहित्य?', जाग, दिवाळी २००९ : ९३-१०२.
२. 'उदेंतेचें साळक' रोमी लिपयेंतल्यान, सुरवेक म्हयनाळें म्हूण, उपरांत पंद्रशी नेमाळें म्हूण उजवाडा येतालें. १८९४ त तें येवपाचें थांबलें. ह्या नेमाळ्यांत कोंकणी तशीं पोर्तुगेजूय बरपां उजवाडा येतालीं. (पळेयात : शणै गोंयबाब, *येवकार अध्यक्षांलें उलोवप* : 'कोंकणी वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं हांची काळपट्टी वळेरी १८८९-१९४१, ((मुंबय : गोमंतक छापखानो, १९४५), *समग्र शणै गोंयबाब,* खंड - १, संपा. शांताराम वर्दे वालावलीकार, पणजी : गोवा कोंकणी अकादेमी, २००३ (पानां: १०१-१८२), पान १७३.
३. ManoharRai SarDessai, *A History of Konkani Literature* (New Delhi : Sahitya Akademi, 2000) 101.
४. १९५७ वर्सा बरयल्ल्या 'Goan Konkani Press' ह्या माथाळ्याच्या लेखांत त्रिश्तांव द ब्रागांझ कुन्य म्हणटात, ''गोंयचो भौस अर्द-शिक्षीत आशिल्ल्यान तो आवय-भाशेंतल्यान मेळपी खबरांचेरूच पुरायेन निंबून आसता.'' (*Goa's Freedom Struggle : Selected Writings of T. B. Cunha,* Mumbai: Dr. T. B. Cunha Memorial Committee, 1961) 508. ब्रिटीश भारतांत वशिल्लो क्रिस्तांव कोंकणी भौस हाचे परस वेगळो नाशिल्लो.
५. Eduardo Jose Bruno de Souza, *Kristav Ghorabo* (Mumbai: Typografia Mariana) 1911. देवनागरी लिप्यंतर आनी सुधारिल्ली आवृत्ती, *क्रिस्तांव घराबो,* (क्रि.घ.) (पणजी : गोवा कोंकणी अकादेमी) २००९. हे मुखावयले कादंबरेचे सगले संदर्भ देवनागरी लिप्यंतरीत उजवाडावणेक धरून लेखांतूच कंसात दिल्यात.
६. पळेयातः शणै गोंयबाब, *खवूचो खबेराव आनी गोंयकाराचो मुंबैकार* (१९१०) *समग्र शणै गोंयबाब,* खंड ३. संपा. शांताराम वर्दे वालावलीकार, पणजीः गोवा कोंकणी अकादेमी, २००६, पानां : १-५९.) *क्रिस्तांव घराबो* आनी *गोंयकाराचो मुंबैकार* हीं दोनूय बरपां एकाच काळांतलीं.
७. शणै गोंयबाब १९४५ : १७६
८. A.Pereira, *The Makers of Konkani Literature* (Pilar-Goa : Xaverian Press, 1982) 153.
९. मिगेल द आल्मेयदा, *वनवाळ्यांचो मळो* (व.म.) तिसरें खंड. *Old Konkani Literature - The Portuguese Role,* (संपा.) ओलिव्हीन्यु गॉमिश (चांदर-गोंय : कोंकणी सरस्पत प्रकाशन) १९९९: १३७-५७४. हे मुखावयले ह्या बरपाचे सगले संदर्भ लेखांतूच कंसांत दिल्यात.
१०. Tomas Estevao, *Doutrina Crista em Lingua Concani,* १६२२, दुसरी फॅक्सिमिली उजवाडावणी, (संपा.) Mariano Saldanha (Lisbon: Agencia Geral das Colonias) 1945. हे मुखावयले ह्या बरपाचे सगले संदर्भ लेखांतूच कंसांत दिल्यात.
११. अदीक म्हायती खातीर पळेयात : माधवी सरदेसाय, 'साहित्यीक कोंकणी भाशेचो एक बुन्यादीचो फातर : मोसिन्योर सॅबाश्तियांव रुदोल्फ दाल्गाद', जाग, फेब्रुवारी २००७ : १२-१६.
१२. लेनर्ड ब्लूमफिल्ड हांणी उश्ण्या वेव्हारा भितरलें हें वेगळेपण पारखिलें. 'सांस्कृतीक उश्णो वेव्हार' ('Cultural Borrowing') आनी 'भोव लागींच्या संपर्कांतल्यान आयिल्लो उश्णो वेव्हार' ('Intimate Borrowing') हो उश्ण्या वेव्हारांतलो भेद खंयची भास खंयचे भाशे कडल्यान कसलीं उतरां कित्याक घेता तें समजून घेवपाक भोव गरजेचो. अदीक म्हायती खातीर पळेयातः Leonard Bloomfield, *Language,* New York: Henry Holt and Company 1933: 444-475.
१३. गोंय मेकळिके उपरांत राजकारबार, कायदो, शिक्षण बी मळां वयली पोर्तुगेजीची सुवात इंग्लीशीन घेतली. हेय गजालीचो कोंकणीचेर परिणाम जालो. ह्या मळां वयलीं पोर्तुगेजी कडल्यान घेतिल्लीं उश्णीं उतरां ल्हवू ल्हवू शेणत वचून तांची सुवात नवे 'दिवपी भाशे' कडल्यान- इंग्लीशी कडल्यान - घेतिल्ल्या उतरांनी घेतली.
१४. *Romi Misa Gronth,* पोरणें गोंय, १९८१.

संपर्कः ९४२११५७००७





प्रकाश रमाकांत वजरीकार

# एकविशाव्या शेंकड्यांतल्या पयल्या दशकांतली कोंकणी कादंबरी

२०११ वर्सा कोंकणी कादंबरेक शंबर वर्सां पुराय जातात. कोंकणी भाशेच्या आनी साहित्याच्या इतिहासांत हे घडणुकेक व्हड म्हत्व आसा. शंबर वर्सां पयलीं एदुआर्द जुझे ब्रून द सौज हांणी *क्रिस्तांव घराबा* ही कोंकणींतली पयली कादंबरी बरोवन ह्या प्रकाराचें मुळावण घालतना, कोंकणी कादंबरी हेर भारतीय भासांतल्या कादंबरी प्रकारा वांगडाच रुजपाक लागल्या म्हणपाची गवाय मेळटा. उपरांत शणै गोंयबाबान *संवसार बुट्टी* हे कादंबरेच्या रुपान ह्या प्रकाराक आपले परीन रूप दिवपाचो यत्न केलो. १९३०च्या काळांत *संवसार बुट्टी* कोंकणी साहित्यांत आयली. ताचे उपरांत कर्नाटकांत १९५० वर्सा *आंजेल* ही ज्योकीं सांतान आल्वारीस हांची कादंबरी उजवाडाक येत सावन कादंबरेक गिरेस्तकाय मेळपाक लागली. ह्या तीन मुखेल घडणुकांनी एक गजाल नोंद करपा सारकी आसा, ती म्हळ्यार, नेमान, रोमी, देवनागरी आनी कन्नड अश्या तीन लिपयांनी ह्या प्रकाराचे मुळावण घालां. हाका योगायोग म्हणप काय अपघात म्हणप हें जाचें ताणें थारावचें. केरळांतले मलयाळम लिपयेंत कोंकणी कादंबरी उजवाडाक येवपाक मात शंबर वर्सां लागलीं. मलयाळम लिपयेंतली पयली कोंकणी कादंबरी म्हण आनंदी मुंबय हांचे *अयोध्या* कादंबरेची नोंद घेवची पडटा जी २००८ वर्सा उजवाडाक आयली. ताचे पयलीं १९८६ वर्सा उजवाडाक आयिल्ली गोकुळदास प्रभू हांची *पृथ्वीवै नमः* ही देवनागरी लिपयेंतली नवलिका, केरळांतले कोंकणींतली पयली कादंबरी मानतात.

गोंय मुक्तताये उपरांतचे कोंकणी भास आनी साहित्यीक चळवळींत बहुजन समाज स्वदिश्टाव्यान आनी आपल्या कर्तुत्वान कोंकणी भाशीक आनी साहित्यीक चळवळीचें मळ समृद्ध करतना दिसता. खास करून सत्तर-अंयशींचें दसक कोंकणी भाशीक आनी साहित्यीक चळवळींतलें म्हत्वाचें दसक. कोंकणी कादंबरी नांवारुपाक आयली ती ह्या दसकांत. कोंकणी समाजा विशीं मराठी वा हेर भासांतल्या कथनात्मक साहित्यप्रकारांनी जायते संदर्भ मेळटात. पूण कोंकणी मनशान कोंकणी समाजाचें कोंकणींतल्यान प्रभावी चित्रण करपाचें पर्व कादंबरेंत पुंडलीक नारायण नायक, दामोदर मावजो हांणी हाडलें आनी णव्वदच्या दसकांत महाबळेश्वर सैल हांणी ह्या प्रकाराक आनिकूय प्रतिष्ठा मेळोवन दिली. *अच्छेव, कार्मेलीन* ते *काळी गंगा* असो हो प्रवाही प्रवास जाल्लो दिश्टी पडटा.

तरेकवार तंत्रिकी आक्रमणां, संक्रमणां, अर्थीक उदारीकरण, शुमंडलीकरण अश्या साबार तरांच्या मार्‍यांतल्यान कोंकणी मनीस संवसारांतल्या हेर मनशां वांगडा चलिल्लो धांविल्लो आनी खरशेल्लोय दिश्टी पडटा. एकविसाव्या शेंकड्यांतल्या पयल्या दसकांत तो कोंकणी कादंबरेंत कशे तरेन दिसता तें पळोवप गरजेचें. आम आदमीचे भोगणार कोंकणी कादंबरी ह्या दसकांत दाखयता. कारण ह्याय दसकांत 'मनशाचो सोद' घेवप हें कलावंतान आपलें पयलें कर्तव्य मानलां. *काळी गंगा*च्या रुपान वेदनेचो एक पाट व्हांवता ताची सुलूस मेळटा.

ह्या काळांत पुर्वोत्तर भारतांतले असमिया भार्शेत *लालगंगा* नांवाची कादंबरी आसामांतले दु:खी, रक्तरंजीत जिणेचो व्हांवतो पाट दाखयता. भारतीय कादंबरी लेखनाच्या मळार 'गंगा साहित्या'चो आगळो वेगळो अभ्यास करपाची गरज उप्रासल्या. महाबळेश्वर सैलांनी *'काळी गंगा'* उपरांत कादंबरीकार म्हण आपली सुवात प्रस्थापीत केल्या. इतिहासीक, समाजशास्त्रीय, श्रमप्रतिष्ठा अश्या साबार विशयांक तांणी धिटायेन हात घाला. *युग-सांवार, खोल खोल मुळां हावठण,* ह्या कादंबऱ्यांची देख ह्या संदर्भांत घेवची. महाबळेश्वर सैलांनी कोंकणीक विशय विस्तार जाल्ली कादंबरी दिली. सुमार ४२४ पानांची *युग-सांवार* ही कादंबरी ताची गवाय आसाच. हॅरी पॉटरा इतलोच आमचे कडेन 'हरी पॉटर' आसा. ताचे मातयेची तांक दाखोवपी *हावठण* कादंबरी तर श्रमसंस्कृतीचो आनी ग्लोबलायजेशनांतलो मातये कडलो गंध-स्पर्श जबरदस्त तांकीन दाखयता. जमनी कडली मनशाची अनुवांशीक नाळ दाखोवन दिवपी *खोल खोल मुळां* ही कादंबरी मानववंशशास्त्राचो कोंकणीक मेळिल्लो एक संदर्भग्रंथूच. अर्थीक उदारीकरणाच्या ल्हारांनी जमनीचेर पांय रोमून जगपाची धडपड सैलांच्या कादंबऱ्यांनी दाखयल्या. मातयेचे संदर्भ जगिल्ल्या,अणभविल्ल्या लेखकाचे प्रतिभेंतल्यान ह्यो कादंबऱ्यो आयल्यात. त्यो प्रादेशीकतायेचो गिरेस्त दस्तावेज घेवन येतात.

महाबळेश्वर सैलां फाटोफाट तेच भुगोलीक-सांस्कृतीक जिणेंत जल्मल्ल्या आनी तिचे पसून प्रभावीत जाल्ल्या देविदास कदम हांणी *दिका, गांठवल* आनी *उबंतर* अश्या कादंबऱ्यांतल्यान समकालीन समाजांतले जिते-धगधगपी, अस्वस्थ करपी प्रस्न विशयाक धरून हाताळ्ळ्यात. कोंकणी समाजाचो ध्यास देविदास कदम दाखयतात. लग्न संस्था, शिक्षण संस्था /वेवस्था हांचो गरीब, मध्यमवर्गीय समाजाचेर पडिल्लो प्रभाव, त्या प्रभावांतल्यान घडपाची वा आपणाक घडोवपाची धडपड कदम आपल्या साहित्यांतल्यान दाखयतात. सामाजीक जिवितांत सामाजीक भलायकेचे प्रस्न ते कुशलतायेन हाताळटात आनी जिवीत जगपा खातीर आसता म्हणपाचो आशावादी दृष्टीकोन दाखयतात, हें तांच्या कादंबऱ्यांचें खाशेलेपण.

कथा म्हळ्यार रानांतलें एक झाड तर कादंबरी म्हळ्यार एक अखखें रान. तें जिणेचें महावस्त्र. तें कथे भशेन रुमाल जावंक शकना, अशी कादंबरेची आपले परीन व्याख्या करपी परिपूर्ण कादंबरीकार महाबळेश्वर सैल हांकां आपले साहित्यीक जापसालकेचें भान आसा आनी तेच वांगडा सामाजीक, आर्थीक, पर्यावरणीय, सांस्कृतीक

जिणेचीय वळख आशिल्ल्यान 'सारेच पाय मातीचे' हो 'माती-मंत्र' तांच्या कथनात्मक साहित्यांतल्यान रुजवणाक आयिल्लो दिश्टी पडटा.

*घणाघाय नियतीचे* ही अशोक कामत हांची ह्या दसकांतलो एक म्हत्वाचो दस्तावेज थारपी कादंबरी. सुमार ७०० पानांचो आटाप, कितलींशींच पात्रां, कोण-कोणाचो हें कळपाक लेखकान दिल्ली सुची, गोंयच्या स्वातंत्र्यपूर्व काळाचेर चड भर दिवन गोंयचो गरीब भावार्थी आनी गांधीतत्वांनी जगूंक सोदपी 'सारस्वत' कशे तरेच्या हाल अपेश्टांनी जगलो ताच्या दु:खांची वळेरी हे कादंबरेंत वाचूंक मेळटा. आपले परीन त्या समाजाचें दु:ख मांडटना लेखक वाचप्यांक हिवूय बाजू पळयात असो अनाहूत सल्लो दिता. पूण समाजशास्त्रीय नदरेंतल्यान, इतिहासीक, सामाजीक, अर्थीक, राजकी संदर्भांत हे कादंबरे कडेन पळयल्यार ती 'वाद-संवादाक' वाव दिवपी थारता. *घणाघाय नियतीचे* ही एक काळकथा. काळाच्या प्रवाहांत व्हांविल्ल्या आनी प्रवाहा आड पेंविल्ल्या लोकांचो (समाजाचो) अभ्यास करून कादंबरेंतल्या वास्तवाक इतिहासीक सत्याची जोड दिवन नवें समाजशास्त्र मांडपाक प्रवृत्त करपी विशय हे कादंबरेंत येता.

जोडीचो मुद्दो घेवन, करिअरिस्ट सुशिक्षीत समाजांतलो एन्.आर्.आय.चो विशय घेवन अशोक कामत हांची *जुवारीचीं पांयजणां* ही कादंबरी २०१० वर्सा उजवाडाक आयल्या. सारस्वत समाजांतल्या करिअरिस्ट लोकांच्या अमेरिकेच्या ध्यासांतल्यान देशांत गांवघरा रावपी घरच्या जाणट्यांची उबंतर अवस्था ही कादंबरी दाखयता. समकालीन सामाजीक प्रस्नां संबंदान एकविसाव्या शेंकड्यांत संस्कृतायेच्यो आनी परंपरेच्यो बढायो मारपी गोंयच्या समाजांत वाडत वचपी वृद्धाश्रमांची संख्या सामाजीक नैतीक अध:पतनाचें प्रतीक, काय तांणी स्विकारिल्ली नवी मुल्य वेवस्था हो प्रस्न गोंयच्या सारस्वत आनी मुखेलपणान क्रिस्तांव धर्मांतल्या लोकांचे बाबतींत 'सिनियर सिटिझन्स' ह्या गोड नांवा खाला पळोवंक मेळटा.

*सुनामी सायमन* ही दामोदर मावजो हांची ह्या दसकांतली दीर्घ साहस कथेंत बसपी कादंबरी. सुनामीचे आंतरीक धक्के पळयल्ल्या संवेदनशील लेखकान व्यक्तीचित्रणात्मक पद्धतीन उबी केल्ली ही साहस'कथा. सुनामीच्या ल्हारांनी सांपडिल्ल्या सायमनान ह्या अरिश्टांतल्यान आपली कशे तरेन सोडवाट करून घेतली ताची ही खबर. मुळांत ह्या विशयांत विस्ताराची दर्या-ल्हारां इतली तांक आसतना लेखकान आपली साहित्यीक नदर जनेलांतल्यान भायर मारचे बदला ती कित्याक आंखुडली काय हो प्रस्न विचार करपा सारको आसा. सुनामीचें वर्णन करपी हेर प्रकारां मदीं कोंकणींत खुबश्यो कविता खरडावपाचो वावर जालो. हो एक विशय मेळ्ळा तेन्ना तो एकदांचो बरोवन काडुया आनी छापुनूय घेवया असो कांय लोकांचो 'हावेस' आसता काय? 'म्हाका हें इतलेंच सांगपाचें आसलें' असो आव हाडून केल्लें असलें बरप कोंकणीक परवडपाचें ना. सुनामी आयली काय सुनामीचेर बरोवप, विनयभंग जालो कांय विनयभंगाचेर बरोवप अश्या निमतांक रावनूच बरोवपाची वृत्ती आमी बदलपाचीय गरज आसा. कोंकणी कादंबरी ताका आडवाद ना.

ह्या दसकांत विशय विस्तार आनी भाशीक गिरेस्तकायेचें संचीत घेवन आयिल्ले नं. ध. बोरकार हांच्या *पोको, गोंदू, समर्पण, कुळागर* सारकिल्या कादंबऱ्यांतल्यान गोंयची खेरीत वळख घडटा. भाटकार-भागेली, हिन्दू-क्रिस्तांव, शेतां-भाटां, कुळागरां हांच्या माध्यमांतल्यान सांस्कृतीक शब्दकोशाचेंय दर्शन वाचप्यांक घडटा. नाते संबंध दाखोवपी *समर्पण* कादंबरी *घणाघाय नियतीचे* हे अशोक कामतींचे कादंबरे वांगडा तुळात्मक अभ्यास करपाक वाव दिता. शेणिल्लें गोंय आनी गोंयकार हो भितरलो सूर बोरकारांच्या कादंबऱ्यांनी जाणवता. अणभवांची प्रामाणीक बांदणी हें ह्या लेखकाचें खाशेलेपण. रिटायर्ड जाले उपरांत आतां कोंकणींतूय बरोवपाचे आंतरीक इच्छेन आनी विशय प्रकटीकरणाचे प्रामाणीक भावनेंतल्यान संस्कृती अभ्यासाक वाव दिवपी कादंबरी लिखाण नं.ध. बोरकार हांणी केलां. भाशीक नदरेंतल्यान गोंयच्या मूळ पुरसाची, गावड्याची, 'जाणभास' लेखक वळखला हें ताचें एक खाशेलेपण. धर्मीक तेढ सारकिलो विशय घेवन येवपी तांची *गोंदू* ही कादंबरी चाकोरी भायली कादंबरी म्हण दामोदर मावजो तिची दखल घेता.

रामनाथ गावडे ह्या लेखकाच्यो *सदू* आनी *तळाचो फातर* ह्यो दोन कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात. *सदू* ही एका भुरग्याच्या मानसीक सामाजीक द्वंद्वाच्या जैताची कथा. बालसंस्कार घडोवपाचो हेतू नदरे मुखार दवरून तिची निर्मणी जाल्या. रामनाथाची *तळाचो फातर* ही कादंबरी परिपक्वताय दाखयता. धर्तरेचें वा मातयेचें मोल दाखोवपी चिऱ्या खाणीचो विशय घेवन येवपी ही प्रादेशीक कादंबरी. देखून तांतले जमीन संस्कृतीचो आंवाठ मन अस्वस्थ करता.

लोक जिणेचो संदर्भ घेवन कोंकणींत रोमींत बरोवपी बोनाव्हेंतूर पियेत्र आपल्या कादंबऱ्यांनी क्रिस्तांव कोंकणी समाजाचें चित्रण करतना धिरयो, लादायनी हांचे संदर्भ घेवन येतात. विली गोयश ह्या लेखकान आपल्या लिखाणांत वेगळेपण हाडपा पासत कादंबरेच्या कथानकाक आनी घडणुकांक धरून फोटो जोडल्यात. ताचे *आलतडी आनी पलतडी* हे कादंबरेची देख हांगा दिवं येता. आमोणें-माशेल पुलाचें बांदकाम कथानकाक धरून घेतना दोन गांवांक जोडपी पूल मनां-काळजां जोडपाक मात उणो पडटा ताचेर ही कादंबरी भाश्य करता. हातूंत पूल बांदतनाची अवस्था कथेच्या आशयाक घटाय दिता. डायरी पद्दतीन ताचो अभ्यास जावपा सारको आसा.

सुमार ३५ कादंबऱ्यो (कानडी लिपयेंत) बरोवपी एडविन जे.एफ. डिसौजा हांच्या मता प्रमाण आयज कानडी लिपयेंत कोंकणी कादंबऱ्यो बरयतल्यांचो आंकडो सामकोच उणो आसा. मानवी क्लोनींग वा अस्तित्ववाद सारकिले विशय मंगळूरांतलो कोंकणी समाज आपणायना. ह्या दसकांत नव्यो कादंबऱ्यो येवचे बदला पयलीं आयिल्ल्योच कादंबऱ्यो नेमाळ्यांनी परत्यो उजवाडा येतात. आमचें क्षितीज विस्तारूंक ना अशी खंत एडविनबाब उकतायतात.

बायल लेखिका म्हण कोंकणींत हाताच्या बोटांचेर मेजपा इतल्योच लेखिका मेळटात. शांता खांडेपारकार, हेमा नायक, ज्योती कुंकळकार, सुजाता सिंगबाळ, हेमाचार्या हांणी हो प्रकार हाताळ्ळा. ह्या दसकांत सुजाता सिंगबाळ हिणें कादंबरी प्रकार आपल्या अणभवविश्वाक धरून हाताळपाचो यत्न केला. हे लेखिकेच्या बरपांत अणभवाची तीव्रताय दिसना. हेमा नायक हांचे कडल्यान फॉर्म म्हण *भोगदंड* कादंबरी मेळ्ळ्या. पूण ह्या दसकांत साहित्य अकादेमी

पुरस्कार प्राप्त कोंकणी बायल कादंबरीकार म्हण तांणी मुखावेल्यो अपेक्षा अजून मेरेन पुराय केल्यो नात ही खंतीची गजाल. अहवालात्मक लिखाण कोंकणी कादंबऱ्यांची भूक भागोवंक शकचें ना आनी कादंबरेचे तुळेंत तें उरचेंय ना. नवे नवे प्रयोग कोंकणींत जावप गरजेचे. कोंकणी कादंबरी थळांत आनी काळांत घुस्पल्या ह्या समिक्षक आनी कादंबरीकार विश्राम गुप्ते हांच्या मता कडेन आडनदर करूं नजो. फकत संस्कृती उत्सव वा संस्कृती समर्थन करप इतलोच कादंबऱ्यांचो हेतू आसूं नजऽ. आनी फकत उतरावळीचो पुंजो म्हळ्यारूय कादंबरी न्हय हाचें भान लेखकांनी दवरप गरजेचें.

उदय शेणवी ह्या बरोवप्याचोय ह्या दसकांतल्या कादंबऱ्यांच्या संदर्भांत विचार जावंक जाय. ह्या दसकाचे सुरवेक सावन णव-धा कादंबऱ्यांची नोंद तांच्या नांवार जाता. गोवा कला अकादेमीच्या पुरस्कारा वांगडा कादंबरीकार म्हण तांकां मान्यताय मेळ्ळी. *अपू, इंगळ्यांतलो हिरो, नोंदलो, दाव, फॅशनेबल भावना, ढोलको, तागडेचीं दालीं, धुंयकांप, मूळ नक्षत्र* अशीं तांच्या कांय कादंबऱ्यांचीं नांवां. २००७ वर्सा तर तांच्या नांवार चार कादंबऱ्यो उजवाडा आयिल्ल्याची नोंद मेळटा. लेखक पेशान भाटकार-शेतकार. ताचे कडेन वावराक येवपी कश्टी कुळवाडी लोकांचे जिबे वेली भास ही लेखकाची संपत. ते ताचे सेवेकारी. ह्या कादंबऱ्यांच्यो प्रस्तावना पळयत जाल्यार त्यो चड्यो एकाच मनशान, नरसिंह भटगांवकार हांणी, बरयल्यात हें लक्षांत भरता. हो लेखकाचो सोयरोय... प्रस्तावना बरयतना तोल सुटून बरयल्ल्याचें जाणवता. एके कडेन प्रस्तावनाकार लेखकाची भाशीक गिरेस्तकाय दाखयतना अतिशयोक्तीन म्हणटा, शेतकाराक लेगीत खबर ना इतली शेताची उतरावळ उदय शेणवीक खबर आसा. कुळां-मुंडकारां कडल्यान भाशीक गिरेस्तकाय वा कथनात्मक परंपरा शिकून घेवन तांच्या जिविताचेर बरोवन 'इंगळ्यांतलो हिरो' जावपाची प्रवृत्ती म्हळ्यार सांस्कृतीक दलालीच जायना व्हय? मूळ अणभवाची खराय आनी खोलाय हाचो उणाव, मूळ कल्पकतायेचो उणाव, विशय मांडावळीचें नाशिल्लें भान आनी मुळांत कोंकणी कादंबरी लिखाणाक एक परंपरा आसा ताची जाणविकाय वा भान दवरूंक नाशिल्ल्यान, आनी 'करीन ती पूर्व दिशा' केल्ल्या कारणान कादंबरी लिखाण आनी प्रकाशन प्रक्रियेंतल्या सॉफ्टवेर, कागद आनी तंत्रगिन्यानाचे राष्ट्रीय संपत्तीचो थोडोभोव इबाड जाला. कोंकणी सारकिले भाशेक असलें रद्दी साहित्य परवडपाचें ना हाचें भान दवरूं नाका? *मूळ नक्षत्र* हे कादंबरेंत (लेखक ह्या बरपाक कादंबरी म्हणटा म्हणून ह्या बरपाक कादंबरी म्हणचें पडटा) तीर्थ थळांची म्हायती दिताना कटपेस्ट, कॉपी तंत्राचो मात सुंदर वापर जाल्लो आसा. ताची अर्पण पत्रिका म्हणटा-

''मूळ नक्षत्रान अचकीत घेतलो /रवीन्द्राचो घात.
खबर आसून नाका तें घडलें /फट तर कादंबरी वाच''

असल्यो अर्पण पत्रिका - ''आरांटून तारांटून /बांदलो भोरो/ म्हजें हुमाणें सोडटल्याक/कट्टी भर सोरो'' अशे धर्तेर वतात. ह्याच दसकांत उजवाडाक आयिल्ल्या कांय कादंबऱ्यांच्यो सकयल दिल्ल्यो अर्पण पत्रिका पळयात - १) *युगसांवार* - करुणेचो, मायेमोगाचो म्हासागर बुद्ध जेजू आनी गांधी हांकां. २) *खोल खोल मुळां* - कोंकणी संस्कृतीची आनी भाशेची पालखी जांच्या खांदार आसा त्या सगळ्यांक. ३) *गोंदू* - गोंयच्या फुटबॉल मळार ज्या गोंयकारांनी संवसार गाजयला तांच्या कर्तृत्वाक.

कोंकणींत येवपी कादंबरेंतले विशय आनी प्रवाह हांचें भान हो साहित्य प्रकार हाताळपी लेखकान दवरप गरजेचें. खासा करून विशयांची पुनरुक्ती टाळप वा तो विशय कलात्मकतायेन हाताळप हातूंतल्यान लेखकाचे प्रतिभा कुशलतायेचो वेगळो आविश्कार पळोवपाक वाचप्यांक आनी अभ्यासकांक मेळटलो. रोमी आनी कन्नड लिपयांतल्या कांय कोंकणी लेखकांक जीं बिरुदां लायिल्लीं पळोवपाक मेळटात तीं तर 'वासरांत लंगडी गाय शाणी' हे म्हणी प्रमाण आसात. 'चरित्रात्मक कादंबरेचो बापूय' म्हण वि.जे.पी. साल्दानांक पाचारतात. ही कानडी लिपयेंत बरोवपी कोंकणी कादंबरीकाराची एक देख. 'कोंकणी साहित्यविश्वान समिक्षेक चालना दिवपाक कितें केलां? चालना खंय मेळटा?' हो डॉ. किरण बुडकुले हांचो प्रस्न ह्या संबंदान खूब म्हत्वाचो आसा.

देवनागरी लिपयेच्या संदर्भांत एक गजाल खरी, ती म्हळ्यार, फाटल्या धा वर्सांनी 'कोंकणी साहित्यांत कादंबरी लिखाणाची बरीच भर पडल्या.' हो प्रकार आमच्या बरोवप्यांक आकर्शीत करपाक लागला. जें कितें उजवाडाक येवपाक लागलां तातूंत लेखकूय समादानी जावंक लागला. ''धनी आनी भागेली ह्या विशयाचेर कोंकणींत आनी मराठींत ह्यान आदीं बरयलां काय ना, म्हाका खबर ना, पूण म्हाका बरयन दिसलें'' ही लेखकाची भुमिका ताणें परतून तपासून पळोवप ही काळाची गरज. लिपयांच्या वणटींक लागून आजून कोंकणी कादंबरेची रासवळ सुची वा समिक्षाय जावंक पावंक ना.

नव्या शतमाना खातीर कोंकणी कादंबरेंत नवे प्रवाह अदीक प्रमाणांत येवप खूब गरजेचे. नवे विशय येवप गरजेचे. व्हड कन्नड कादंबरीकार, एस्.एल्. भैरप्पा आपलें हातबरप छापचे पयलीं आपल्या जाणकार इश्टां कडल्यान निवळावन घेताले. तांच्यो सुचोवण्यो मतींत घेवन तीन-चार फावटीं संस्कार करून घेताले. मराठींत *युगंधर* कादंबरी बरोवपी शिवाजी सावंत हांणी सोळा वर्सां श्रीकृष्णाचो सोद घेतला. आमचेय कडेन अशी तांक आशिल्ले लेखक आसात. तेय आपले परीन यत्न करतात. पूण फकत म्हायतींचें संकलन करून कादंबऱ्यो बरोवप शक्य ना. कलात्मकताय आनी प्रतिभेचो आविश्कार म्हत्वाचो. ना जाल्यार ती कृती प्रोजॅक्ट धर्तेर वचपाची भिरांत आसता. उळवीच्या रानांत वचून आपूण म्हयनो-डेड म्हयनो रावलां, आपूण गावड्यां वांगडा रावलां, आपणें कुळवाड्यां कडल्यान अमकें मेळयलां, हांवें एकेच बसकेंत म्हजें बरप तयार केलां... अश्यो भुमिका कादंबरेच्या विस्ताराक जाय तितल्यो वाव दिनात.

एका पुरस्कार फावो जाल्ल्या इंग्लेज भाशेंतल्या बरोवप्याक कोणें एक प्रस्न केल्लो - इंग्लेज भाशेंतलीं शंबर बरीं पुस्तका तूं वेंचून काडशीत? ताणें सांगलें, ना. कारण, आजून मेरेन आपणें फकत पांचूच पुस्तकां बरयल्यांत! फाटल्या धा वर्सांतल्यो धा कांदबऱ्यो आमी वेंचून काडटले?

संपर्क: ९९२३२४५६०३





एडविन जे. एफ. डिसोजा

# कानडी लिपयेंतल्या कोंकणी साहितांतल्या समकालीक कोंकणी कादंबरेचेर एक विहंगम अवलोकन

**प्रस्तावन**

ह्या विशयाचेर कसलोयी प्रबंद खोलायेन मंडन करच्या फुडें, कर्नाटकांत पाटल्या एकसाट वर्सां हेवशीन थावन जाल्ली साहिताची कृशी कशी आनी कितली म्हळ्ळ्या विशयाचेर एक सुकण्या-नदर गरजेची. हे नदरेंत फकत पुस्तकां रुपार आयिल्ल्या साहिताचो उल्लेक आसा. विवीद नेमाळ्यांनी आयिल्ल्या कथा-कादंबरेंचो, मटव्या कथांचो या हेर बरपांचो उल्लेक ना.

ह्या प्रबंदांत एक विशेशता हांवें लगती केल्या, ती अशी : तातांच्या कादंबरेंनी स्त्रियांचे पात्र जांणी भोव वरते आनी स्पश्ट रितीर झिक्र केल्यात, तसले negative वा positive characters जांणी रचल्यात तांचो विशेस रितीय उल्लेक केला आनी त्या कादंबरीकारांक श्रय दिला. पूण असली कवायत सविस्तरायेन आनी खोलायेन करूंक ह्या प्रबंदांत अवकास ना म्हळ्ळें समजोचें. हांवें विंचल्यात देवादीन (दे.) जो. सा. आल्वरीस, दे. वि.जे.पी. सल्दांजा आनी म्हज्याच कादंबरेंतले पात्र.

प्रकटनांचो शेकडांश हे परी आसा, पूण हो exhaustive न्हय: कादंबरी-१५%, मटव्या कथांचे पुंजे (anthologies) १९%, भाशांतर/ अणकार/ अनुवाद/ तर्जण -१०%, जिणिये कथा (biographies) - १०%, धार्मीक विचार - १०%, कविता संग्रह - २०%, पुस्तका रुपान नाटक - ५%, वैजकी - १%, संसोद - १%, गादी/म्हणण्यो/ मुखावरां - ३%, व्याकरण - १%, हास्य विडंबण - २%, विमर्सो - १%, भुरग्यांलें साहीत - २%. ही एक जेराल समिक्षा. तिचो आंवाट एका प्रादेशीक थळाचो, म्हणजे, कर्नाटकाचो. ह्या समिक्षेंत जी.एस्. बी. समुदायेची देणगी लेकाक धरूंक ना. ही शेकडांश समिक्षा करूंक प्रतिश्टीत साहितीक संस्थांची मजत घेतल्या.

अंकडे सांकडे विंगड, साहिताचीच एक फोडणिशी केल्यार म्हाका अशें दिसता -

१. साहिताच्या हरयेक प्रकारांत कानडी लिपी वापरच्या लेककांनी हात घाला; तांणी उद्भव केल्ल्या साहितांत बरताड दिसता पूण साहिताचीं खाशेलीं लक्षणां मोटायेन दिसून येनात.

२. लेककांच्यो आद्यतायो वेळा-काळा तेकीत बदल्ल्यात अशें दिसता. साहितांत साहित दिसजे म्हळ्ळें आमच्या मालगड्या लेककांचें चिंतप आतां लागू जायनातल्ले परीं दिसून येता, आनी साहितांत 'हांव दिसजे' म्हळ्ळें चिंतप मामूल जाल्ले परीं दिसता.

३. कोंकणींत जोकते सब्द मेळानांत म्हळ्ळें दुरसवणें आसा.

४. लेकक साहितीक उगतडाक (exposure to literature) नरगतात. मायभाशेचो मोग म्हळ्ळ्या निबान अन्य भाशेंतल्या साहिताची निरलक्षा करची न्हय.

५. कानडी लिपयेंत नेमाळीं खूब चडल्यांत. हांतूं धाराळ बरपांचीं गरज आसा म्हणतकूच साहिताची पवित्रता विसरोन बरताड साहीत उबजवंचें न्हय, चिंतप विसकळावंचें न्हय.

**१९५०: कादंबरेची सुरवात करता दे. ज्योकीम सांतान आल्वरीस**

ह्या पयलें कादंबऱ्यो नातलेल्यो, म्हळ्ळें सवाल उटत. कथा पुस्तकां आसल्लीं म्हळ्ळी जाप सोंपी म्हण म्हाका दिसता. हींय पुस्तकां आसल्लीं चडशीं धार्मीक विशयांचेर. १८७८ इसवेंत मंगळूराक पाविल्ल्या जेज्वीत बाप माफेयीन कोंकणी भाशेचें अध्ययन करून १८८२ त *कोंकणी रानांतलो सोबीत-सुंदर ताळो* म्हळ्ळें प्रतम कोंकणी व्याकरण बरवन प्रगटलें आनी १८८३ त इंग्लीश-कोंकणी, कोंकणी-इंग्लीश सब्दां-कोशयी उजवडाक हाडलो. अशें, १९१२ इसवेंत लुवीस मस्करेंज आनी लुवीस कण्णप्पान कानडी लिपयेंतलें प्रतम पत्र 'कोंकणी दिवें' काडताना एके भाशेक जाय जाल्लीं मुळावीं हातेरां आसल्लीं आनी, भाशांतर जावं या हेर साहीत व्हाळोंक लागलें. पूण तवळच्या मंगळुरी समाजाचें चित्रण करची कादंबरी येजय तर वाचप्यांक १९५० पर्यांत राकजे पडलें.

ह्या मदेगात १९३८ इसवेंत दियेसेजीचें अदिकृत पत्र 'राकणो' हफ्ताळें मों. सिल्वेस्टर मिनेज हाच्या संपादकपणार बायर आयलें. पूण हांतूं छापून येवंच्या साहिताक धार्मीक वोपच चड आसल्ली.

आपल्या *आंजेल* कादंबरेचे प्रगटणेचेर खुद्द ज्योकीम सांतान आल्वरीस हांणी दिल्लो विवर हांगासर मटव्यान गरजेचो. ही ३६८ पानांची, समाजीक प्रेमाळ सन्निवेशां आसची कादंबरी प्रगट करूंक कोणयी मुकार आयलेनात म्हणालो ज्यो. सां. आल्वरीस. विक्रो

जायत या ना म्हळ्ळी बिरांत वेगळी. आतांयी लेककांक/प्रगटणारांक ती धोसता. तवळ आल्वरीसान मों. मिनेजाक ही कादंबरी वाचूंक दिली आनी ताका ती बरी, नितळ निर्मळ लागली. म्हणजे, तवळ धार्मीक बरपांच्या सावळेंत वाचप सोदच्यांक आल्वरीसाची *आंजेल* धार्मीक विचारां थावन पयस व्हरशी ना म्हळ्ळी पाचवी निशानी 'राकणो'च्या संपादका थावन लाबताना कापुचीन फ्रादींच्या आदळत्या खाल आसच्या 'कोंकणी नाटक सभा'ह्या संस्थ्यान ती छापून प्रगटली. ही एक नवाल उडकी कानडी लिपयेंतल्या कोंकणी साहितांत.

धार्मीक विशयांचेर, म्हणजे, सांतांच्यो जिणियो, कॅनन स्मिडाच्या कथांचे अणकार वाचून वळसाल्ल्या वाचप्यांक सामाजीक कादंबरी येकाचाणे उस्मडीत करिनाशें आल्वरीस बरोच्च हुन्नर खेळल्लो. हरयेक अवस्वर सुरू करताना ताका लागू जावंची बायबलांतली एक सांगणी ताणें जरूर दिल्ली. शिवाय, कादंबरी व्हाळताना, सबार सन्निवेशांनी कातोलीक भावार्ताचीं मुळां, रिती-निती, निस्कळपण, मोवाळाय, सोसणीकाय इत्यादी विशांत लांब लांब शिकवण्यो दिवंक तो विसरालोना.

ह्या कादंबरेची कतावस्त कसली म्हळ्ळें सवाल उटत. आंजेल एका स्त्रियेचें नांव. एका सुनेचें नांव. ही मांय-सुनेची एक सामान्य कथा. असली कथा आदींयी घडल्या, आतांयी घडता आनी फुडेंयी घडतेली. तर हांतूं कितें विशेस?

कोंकणी भाशेची सोबाय, तिचो व्हाळो, रुपकांचो उपेग, ग्रामीण परिगत - धनी (landlord) आनी व्हकाल (tenent) हांच्या मदलो संबंद हाचें चित्रण, आनी निमाणें, देवाचेर पातयेणी दवरतल्यांक, भावार्त विस्कळ करिनातिल्ल्यांक मेळचें जैत. दुसरें म्हाझूज संपोन तीन वर्सां जावंच्या भितर आल्वरीसान *आंजेल* लिकूंक धरल्ली. झुजाक लागोनच सुरू जावंची ही कता. हे कतेंतलो नायक आपले आवयक आनी मोगाच्या पतिणेक, आंजेलाक, सांडून एका झुजा तारवाचेर नौकरी धरूंक मजबूर जाता म्हळ्ळीच सुरवात ह्या कादंबरेची.

कथानायक रोफी (रफायेल) घराचीं मेटां देंवोन गेल्लोच तांचो धनी, एक विदूर, नॉर्बर्ट, आंजेलाक आपल्या कुशींत वोडूंक हर प्रेतन करता आनी रोफीच्या आवयक, रोजबायेक, धनाची, बऱ्या सुखाळ जिणेची आशा दाखवन तिणें आंजेलाक धुंवडायशें पळेता आनी निमाणें, झुजांत 'मिसींग' म्हण लेकल्लो रोफी अचानक पाटीं येता, आपल्या आंजेलाक वेंगेंत घेता आनी धनी नॉर्बर्टाक खऱ्या काळजान भोगसिता. धनी आपली चूक वळकोन फ्राद जावंचे खातीर एका कोवेंताक सेरवता.

आल्वरिसाच्याच उतरांनी सांगचें तर ही एक मांय-सुनेची कथा. एकसाट वर्सां आदीं प्रगट जाल्ल्या ह्या कादंबरेक कसलो स्वागत आनी कसली विमर्शीक फोडनिशी मेळ्ळी ती हांव नेणां, पूण ही कादंबरी कानडी लिपयेंतल्या कोंकणी साहितांत अजून पर्यांत एक 'क्लासीक' जावन उरल्या. ताचीं कारणां हीं आसयेत:

१. सादी, सरळ, सोंपी भास, जोकतीं उतरां

२. कथेचो सुगम व्हाळो आनी आल्वरीसाची कथा सांगपाची असाधारण सकत.

३. खत-अयब नातल्लीं सन्निवेशां.

ह्याच दिशेन आल्वरीसान सबारश्यो कादंबऱ्यो लिकल्यो आनी प्रगट केल्यो. ताचीं दोन नेमाळीं तवळ चालू आसल्लीं - 'मित्र' आनी 'झेलो'. हीं नेमाळीं आतां जिवंत नात. आल्वरीसाचें समाजीक, सुगम साहीत अडकळ नासतां हांचेर सांकळ कथां रुपार सराग व्हाळ्ळें आनी ताणें पन्नासां वयर कादंबरी लिखल्यो आनी खुद्द प्रकट केल्यो. ताच्या कादंबरेंनी वयर दिल्लीं तीन लक्षणां जरूर आसतालीं. पूण ताणें आपल्या उपरांतल्या कादंबरेंनी 'मासा मदले शिरे परीं' पत्तेदारी सन्निवेशां हाडून अती कुतुहलबरीत socio-detective thrillers बोव यशस्वेन लिकले. देकीक, *तेरेजा, चत्राय, नव्या घरांतली खून* आनी हेर.

**आल्वरीसाचे समकालीन बरवपी आनी तांचें साहीत**

आल्वरीसान कादंबरेच्या मळार केल्ल्या ह्या सुरवाती उपरांत कादंबरेचो घाणो वेगान चल्लो. हेणें तेणें लेखक उठले, कथा पुस्तकां भायर आयलीं आनी फकत पंचवीस पानांच तरी पुस्तकां रुपार प्रकट करची उमेद सर्वांक उटली. तेच परीं प्रकाशनां चडलीं. पूण साहिताक एक मट्ट दिलें (पांवडो दिलो) हांणी थोड्यांनी:

**दे. व्हि. जे. पी. सल्डाना (खडाप)** हांकां आमी चरित्रीक कादंबरेचो बापय म्हण वळकतांव. पूण हांच्या साहिताची सुरुवात थोड्या थ्रिलरां मारिफात जाल्ली म्हळ्ळी संगत खरी. तवळ तो मुंबई थावन प्रगट जावंक लागल्ल्या 'पयणारी' हफ्ताळ्याचो स्थापक संपादक. १९५४त ताची पत्तेदारी कथा 'तांबडी पितूळ' ह्या नेमाळ्याचेर व्हाळ्ळी. अशेंच ताच्यो कादंबरी *रुजवात, पेट आनी पाळणें, मोगा म्हाका शिकय,* इत्यादी, ताका एक कादंबरीकार म्हण थिरावंक पावल्यो. *मोगा म्हाका शिकय* कादंबरी विजेपीन वाडोन येवंच्या एका चलयेची मानसीकता कशी विकृत दिशेन वेता म्हळ्ळ्या कथावस्तूचेर विणल्या.

१९६१ त विजेपीन कॅनरा क्रिस्तांवांचेर टिपू सुल्तानान घाल्ल्या बंदडेचेर होंदून विभिन्न रितीच्यो कादंबऱ्यो लिकल्यो. ह्या प्रकाराच्यो ताणें सात कादंबऱ्यो लिकल्यात. प्रथम जावन आसा, *देवाचे कुर्पेन.* थोड्या चारित्रीक घटनांच्या पाटपोडद्वार काल्पनीक पात्रां रचून साहस, भावार्थ, मोग, तंत्रां-कुतंत्रांचीं सन्निवेशां घालून लिकलेल्यो ह्यो कादंबऱ्यो अलक्क उरल्यात. कोणें बरोवप्यान आजून पर्यांत विजेपीच्या चारित्रीक कादंबऱ्यांची देक घेवन तेच परीं लिकलेलें ना.

विजेपी विशांत सांगचें तर, तो एक बहुमूख तालेंतांचो वेक्ती : एक संगीतकार, कॉयरमास्टर, नाटकिस्त, लेखक, संघटक आनी सबार हेर तालेंतांचो पुंजो.

**दे. ए. टी. लोबो (एटयेल, श्रीचेन्ना)**

कोंकणी नेमाळ्यांनी हें नांव उटोन आयलें. मराठी साहिताचो प्रबाव हाचेर खूब आसल्लो म्हणतात. हाची शैली विबिन्न. आपल्या साहितांत लांबाय-रुंदायेक महत्व दिवंची हाची खाशेली सवय. हाच्या बरपांनी एक तराची 'विस्कळाय' आसा आनी ती थोड्यांक आवडता, थोड्यांक न्हय. सांगल्लीच संगत परत परत नव्या सब्दांनी सांगची

सकत ताका आसा. ए. टी. लोबोची *तूं वरो जा,* आनी सुमार देड हजार पानांची *वेळ घडी*कादंबरी कानडी लिपयेंतल्या कोंकणी साहितांत सबार दाकले हाडून आयली. पूण खंच्यायी समकालीन लेककान एटयेलाची शैली आपणायलिना. 'तो फलाणो एटयेला परींच लिकता' म्हण कोणेंच म्हळ्ळें ना. एटयेलाच्यो कथावस्तू ग्रामीण आनी पात्र तितलेच जिबाळे [बडबडे]. ताणें रचल्ली 'लुज्यामी' वाचप्यांच्या मतींत आजूनयी आसा.

एटयेलाच्या साहिताची विशेशता कसली म्हळ्यार, तो आपल्या पात्रांच्या कर्तुबांक प्रतिश्टीत बरवप्यांच्या उतरांचो, सांगण्यांचो, गादींचो पाटिंबो दिता. ह्यो गादी, म्हण्ण्यो सर्व कोंकणींतल्योच न्हय, अन्य भाशेंतल्यो सयत. आतांतां थोड्यांनी एटयेलाच्या कादंबरेंतल्यो ह्यो गादी, म्हण्ण्यो, सांगण्यो जमो करून नेमाळ्यांनी पट्टे रुपार प्रगट करूंक सुरू केल्यात.

एटयेल एक वेवस्तीत बरवपी न्हय म्हळ्ळे परीं म्हाका दिसून येता. देकून तो आपल्या बरपांनी सबार गादी, म्हण्ण्यो-सांगण्यो हांचो उपेग करतालो. साद्या वाचप्याक ह्यो रुचतीत, पूण शाण्या वाचप्याक कथेचो व्हाळो ह्या वरवीं कुस्कता म्हण भोगात. हाच्या कादंबरेंची लांबाय वेवस्तीत रितीर मांडून हाडलेल्या कथावस्तूचो परिणाम न्हय. पूण विजेपीचें साहीत बराबर वेवस्तीत. ताच्या एका पानार, एका अवस्वरांत इतलेच सब्द आसतेले म्हण तो म्हणात तर तितलेच सब्द आसतेलेच्च. फलाणी कादंबरी इतल्याच अवस्वरांची जातेली म्हण तो म्हणात तर तितलेच्च अवस्वर तांतूं आसतेले. विजेपीचें एक पाटीं जें लिकलें तें लिकून जालें. विजेपी आपल्या बरपांची दुसरी करड प्रती आपणा लागीं दवरी नातल्लो. पूण ताच्या अवस्वरांनी एकच्च एक गांच चुकोन गेल्लो ना. सगळी कथावस्त, येदोळ लिकलेली आनी फुडें लिकूंक आसची, आपल्या दिमागांतच तो जमयतालो. हांव विजेपीक इतल्या लागशिल्ल्यान जाणां की ताणेंच म्हाका हे हुन्नर शिकयिल्ले जे हांव आयज पाळतां.

**दे. गेब्रियेल डि'सोजा (श्रीगब्बू, उरवा)**

ह्या तेगांचें कोंकणी साहीत जिवाळ आसताना आनी सासांगाताच सबार ल्हान ल्हान प्रगटनांनी उमेदवंत लेककांच्यो नवलिका प्रगट करून आसतानांच मंगळुरी वाचप्यांक दिसपडत्या घाण्याचें पीट आवडलें ना. कित्याक, हरयेका बरपांत धार्मीक आनी धार्मिकांच्या दिरुसांक उमकळोन आसचीं लक्षणां चुकानातल्लीं. असल्ये परिगतींत श्री गब्बूचें रोमान्सी साहीत एक नवो मिरमिरो हाडून आयलें. श्रीगब्बू एक रोमान्सी बरवपी कादंबरीकार. ताच्या कथावस्तूंनी आरबट मोग, पाश॰व आनी एका रितीचें क्रांतिकारी चिंतप उटोन दिसतालें. ताचीं बरपां तवळच्या (आनी थोड्या मट्टाक आतांयी) क्रिस्तीय मोलांक उमकळोन आसच्या लायिकांक तशें क्लेरिकांक गिळूंक जालिंनात आनी श्री गब्बूच्या बरपांक उगत्यान न्हय तरी सांकेतीक रितीर बहिश्कार पडलो. आपल्या कादंबरेंनी स्त्रियेची उदिक्त सोबाय, उमो, पाशांव, वेंग इत्यादी ताणें इरॉटीक रितीर न्हय तरी तवळच्या वाचप्यांक एक जिवाळ रितीर चाकयलें. हाच्यो कृत्यो *मोगाची मस्ती, नास्तीक, झडती, कैदी, पातकी* - ताच्या विभिन्न रितींचे दाकले जावनासात.

जोकीम संतान आल्वरीस, विजेपी सल्डाना, ए.टी.लोबो आनी गेब्रियेल डिसोजा हांच्या साहिताच्या युगाचें अंत्य तांच्याच सभावीक अंत्या वरवीं आयलें पूण तांचें साहीत असल्या उलवपां वेळीं उल्लेकीत जावंच्या तितलें अमर उरलें.

**१९६० थावन नव्या बरवपी पिळगेचो उद्भव**

हो उद्भव आपापींच जाल्लो न्हय. ह्या चवगांचें साहीत वाचतना कांय थोड्या वाचप्यां मदें सुप्त आसल्लीं बरपाचीं देणीं भायर येवंक उरडोंक लागलीं. पूण हांतूं दोन रितींचे स्वार्थ मिसळोन आसल्ले. पयलो, हांवेंयी बरवपी जायजे. दुसरो, म्हजें नांव खूब गाजाजे, हांवें प्रख्यात जायजे. बरें, पूण तांच्या बरपांक एक वाट जाय न्हय?

आल्वरीसान चलवंच्या आनी संपादन करच्या दोन नेमाळ्यां पयकीं 'झेलो' म्हळ्ळें पंद्राळें उमेदीन भरलेल्या बरवप्यांक एक वाट जालें. कितलेशा बरवप्यांक ताणें आपल्या पत्राचेर अवकास दिला, तांचीं बरपां ताणें तिद्विल्यांत, खुद्द परत लिकल्यांत या बरवप्यांक आपवन तांकां ताणें समजयलां हाका कांय लेकच ना. आज म्हजे तसले आनी हेर जायते सबार आल्वरीसाक गुरू मांदतांव.

१९६०-६५-६६ हीं वर्सा नव्या नव्या बरवप्यांच्या मट्टाक भांगराळीं जावन आसल्लीं. ह्याच वर्सांनी दियेसिजीचें पत्र म्हणच वळखीचें जाल्ल्या 'राकणो' हफ्ताळ्यान आपलो धार्मीक जिनोस थोड्या मट्टाक सेकुलर जावन बदलिलो. मों. अलेक्सांडर सोज हांच्या संपादकपणा खाल 'राकणो' पत्रार वैग्यानीक लेकनां, मटव्यो कथा येवंक सुरू जाल्यो मात्र न्हय, क्रमेण सांकळ कथायी येवंक सुरू जाल्यो. विजेपीच्यो चारित्रीक कादंबरी, एक या दोन सोडल्यार, 'राकणो' पत्रारच सांकळे क्रमार प्रगट जाल्यो.

ह्या वर्सांनी 'राकणो' पत्रान साबार साहीत तरबेतीचीं शिबिरां, कामासाळां चलवन नव्या बरवप्यांची एक नवी पिळगी तयार केली. हांतूं नांव वेल्ले समकालीक लेकक हे : डोल्फी लोबो, एडविन सी. नेट्टो, आयरिन पिंटो. एडविन जे.एफ्.डिसोजा, स्टेन अगेरा, ल्यान्सी पिंटो नायक, फा. विलियम द सिल्व, गेब्रियेल वाज, मायकल म्याक्सिम डिसोज (आतां देवादीन). हांचो साहितीक वावर मतींत घेंवच्या तसलो.

हांचे पयलीं हांव आयरिन पिंटो हिच्या कादंबरेचो उल्लेक करतां. सुमार पांयशीं पानांक मिकवाल्ली *म्हजें अंतस्कर्न विसरचें ना* ही कादंबरी सादारण 'मिल्स ॲण्ड बून' साहिताच्या सावळेंतच आसल्ली आनी ही यूव पिळगेक भारीच रुचली. सिंतिमेंतांनी दाट, मोग, त्याग, साक्रिफीस ह्या मुळांचेर विणल्ली ही कथा आयरिन पिंटोक, संख्यान भोव उणीं आसच्या स्त्री लेककींच्या मेळींत तिचें नांव थीर करी लागली. आयरिनान त्या फुडेंयी असल्याच जिनोसाच्यो कादंबरी लिकल्यो : *स्त्री, हांव चुकोन पडोंक ना* आनी हेर. हिची समकालीन बरवपीण मानेस्तीण आलीस सल्डाना (शालिनी वालेन्सिया).

**एडविन जे. एफ्. डिसोजा**

येदोळ पर्यांत तेत्तीस कादंबरी लिकल्ल्या एडविनाची प्रथम कादंबरी *निमाणी शेळी* (१९६७, पानां ४६६) 'झेलो' पत्राचेर सांकळ कथा

जावन प्रगट जातेच उपरांत ग्रंथा रुपार प्रगट जाली. एडविनान कोंकणी साहितांत मेटां दवरताना एक साजगी उद्देश पोसून दवरलेलो. विदेशी साहिताचो भरपूर प्रबाव हाचेर आसल्यान, आनी 'हेर साहितांत आसा तर कोंकणींत कित्याक नजो?' म्हळ्ळें सवाल मतींत घेतल्यान ताणें सबार 'प्रथमां' साहिताक दिलीं. देखीक, प्रथम गुढचारी कादंबरी *पिलातान दिल्लें फर्माण,* प्रथम वैज्ञानीक कादंबरी *ते आयल्यात,* प्रथम अस्तित्ववादी कादंबरी *हांव जियेतां,* क्लोनिंगाचेर आसल्ली *ब्लोंडी* म्हळ्ळी नवलिका. हाच्या कादंबरेंनी चडावत तीन आवृत्त्यो देकल्यात आनी ताच्या साहिताक येदोळ पर्यांत नोव प्रशस्त्यो लाबल्यात.

सोळा वर्सां मध्य-प्राच्यांत आसल्ल्या ताणें कुवेताचेर इराकान आक्रमण केल्ल्या वेळार ताणें आनी ताच्या कुटमान कुवेत थावन पळापळ घेवंचें first person experience *म्होंव आनी रोगोत* कादंबरे रुपार लिकलें. त्या उपरांत मध्यप्राच्याचे परिगतीचेर खूंब संसोद करून ताणें *काळें भांगार* (जाची नागरी आवृत्ती गोवा कोंकणी अकादेमी वेगींच प्रकट करच्यार आसा) लिकली. बावे पन्नास अवस्वरांची, *जांबिया* आनी *दहशत* कादंबरी हालींच बरवन 'राकणो' पत्रार प्रगट जाल्यात. आतां तो आपल्या चवतिसाव्या कादंबरेचेर काम करून आसा.

**डोल्फी कास्सिया** म्हळ्ळ्याच नांवान प्रक्यात आसल्ल्या कादंबरीकारान पन्नसां वयर कादंबरी लिकल्यात. आल्वरिसान चलयल्लीं दोन पत्रां 'मित्र' आनी 'झेलो' आल्वरिसा उपरांत सबार वर्सां पर्यांत हाणेंयी चलयल्यांत. समाजीक मोलांचेर लिकचो हो कादंबरीकार एक उत्तीम नाटक रचपी.. हाचें साहीत सुगम व्हाळ्यांचें आनी हाच्या लिकणेचो वेग असादारण. दे आल्वरीसा थंय आसल्लीं सुगम शैलेचीं लक्षणां डोल्फीच्या साहितांत कांय थोडीं दिसून येतात. हाकायी सबार साहितीक प्रशस्त्यो लाबल्यात.

**दे. विक्टर रोड्रिगस (वि.रो.)** हो आपल्या लांबायेच्या आनी साहसीक कादंबरेंक नांव वेल्लो लेकक. हाची खंचीयी कादंबरी येदोळ ग्रंथा रुपार प्रगट जावंक ना. सर्व सांकळ कथा जावंनच्च नेमाळ्यांनी आयल्यात. देकीक, 'पाप आनी शिराप', 'मायकाचें भुंयार', 'डोन म्याक्स' आनी हेर. हाची रचनात्मक सकत बळ आसा, पूण एकेक पावटीं हाचीं बरपां दिशा चुकोन वेचे परीं दिसतात.

हांगासर हांव स्पश्टायेन उल्लेक करतां कादंबरीकार मानेस्त स्टेन अगेराचो. आर्विल्ल्या वर्सांनी कोंकणी साहितांत कांय आधुनीकता हाडल्या तर हाणें. हाचें साहीत इंग्लीश भाशेंत खूब आसा. पूण कोंकणींत हाणें रचल्ल्यो कथा आधुनीक, कोर्पोरेट संवसाराच्या घडितांचेर आनी कांय महंतनी मळाचेर विणलेल्यो आसात.

आनयेक, अप्रूब, वृत्तीपर प्रकार कोंकणीक दिला म्हळ्यार, डॉ. एडवर्ड नजरेतान. एक बळवंत मटव्या कथेंचो रचणार हो, तरी थोड्यो विंचणार कादंबऱ्यो ताणें दिल्यात. देकीक, *निर्मोणें, आडवारलेलें फळ.*

हेर थोड्या कादंबरीकारांचीं नांवां सांगचीं तर : जेरी कुल्शेकर, ग्ल्यादिस रेगो, शालिनी वालेन्सिया, शान बोंदेल *(एक पिंजल्ली तस्वीर),* वल्ली क्वाड्रस *(पार्टी गांवाक)* आनी हेर.

'आतां, प्रस्तूत काळांत आसच्या समकालीक लेककांच्या मानसीकतेचेर आनी तांणी उबजवंच्या साहिताचेर एक सुकण्या नदर:

जशीं जशीं नेमाळीं चडलीं, हरयेका फिरगजीचें मासीक पत्र भायर येवंक लागलें, हांच्या पानां खातीर बरपांची गरज पडली. हाचो परिणाम जावन साहिताचो बरताड जालो व्हय, पूण एक मट्ट आयलो ना म्हळ्ळी म्हजी अबिप्राय. कांय तरी नवेसांव लिकलें तर, 'हें आमच्या साद्या वाचप्यांक समजना' म्हण संपादकांनी तें कुशीक मारल्लें आसा. म्हजीच क्लोनींगचेर आसल्ली *ब्लोंडी* कादंबरी हाका एक देक!

दुसऱ्या सुवातीर, मायभाशेचो मोग म्हळ्ळें घोशण, ध्येय, उद्देश घेवन थोड्या लेककांनी, एक अंदळेपण जोड्ण घेतलां. परिणाम जावन, तांकां अन्य भाशेंतल्या साहिताची वळकच ना. आसा तर कन्नड साहिताची आनी हें बरेंच मात्र. पूण प्रगतीपर संवसारांत कितें घडता तें भास म्हळ्ळो संपर्क माध्यम वापर्न पर्यांत पाववंचो वावर जाय जाल्ल्या मापान चलल्लो म्हाका दिसून येना.

तिसऱ्यान, कांय थोडे स्वघोशीत बरवपी उदेल्यात. हांकां हांचेच्च म्हळ्ळे वाचपी आसात आनी ह्या वाचप्यांच्या वेवस्तीत होगळिकेंचेर, धुंपवणेंचेर, प्रशस्तेंचेर हांचें होडें चलता. परिणाम जावन, साहिताची बली सारयेचेर चडता. 'साहितांत साहीत मात दिसजे' म्हळ्ळें नेम आतां 'साहितांत हांव मात दिसजे' म्हण परिवर्तन जालां म्हणोंक हांव पाटीं सराना.

आल्वरीसाची सुललीत भास, शैली आनी ताणें सन्निवेशां उबारची रीत ताच्या उपरांतच्या कोणा कादंबरीकारान उजार केल्ली दिसून येना. खरें, आल्वरीसाची छाप कोणेंयी आपली म्हणाजे म्हण हांव म्हणाना. पूण आल्वरीसाक वाचल्ले म्हणतात, 'आल्वरीसाक एक क्लास आसल्ली, ताच्या बरपांनी आपलेंच म्हळ्ळें हास्य आनी व्हाळो आसल्लो आनी अवस्वरा थावन अवस्वराक वाचप्यांक तांडून घरची सकत आसल्ली.

विजेपीचें साहीत तरी तसलेंच. बरवपाची असली एक रीत एडविन सांबाळता आनी सबार वाचपी, बरवपी, असली शिस्त साध्य गी म्हण विचारतात. जाप जावन हांवें म्हणचें तर, बरपाचीं तालेंतां, देणें आसा तर, तें साणेक धरल्या खेरीत येकाचाणे emotionally charged जावन, आपूण कादंबरीकार जातां म्हण उडकी मारचें न्हय. बरपांत शिस्त जाय, वेवस्ता जाय, बरपूर उगतड (exposure to literature, exposure to the present day world) जाय. विंचलेल्या विशयाचेर खूब अध्ययन बरवप्यान करिजे आनी कादंबरेंतलीं सन्निवेशां तांत्रीकतेन आयब नातल्लीं (technically near perfect) जायजे, आसल्लें सर्व काल्पनीकतेक सोडचें न्हय.

ह्या सर्व नेमां थंय कानडी लिपयेंतल्या कोंकणी कादंबरेंनी महत्व दिल्लें प्रस्तूत काळार दिसून येना. वाचपी शाणे जाल्यात. आनी ते विचारतात, 'कोंकणी कादंबरेंनी कितें आसा?'

आतां ही परिगत चडीत मापान बिगडोन आयल्या. कित्याक म्हळ्यार, कादंबरीकारच मेळाना जाल्यात. सबार नेमाळीं सांकळ कादंबरी मेळानासतां आदल्योच कादंबऱ्यो परत छापतात. कादंबरी लिकचें सयराण उणें जालां, या ना जालां. आदयतायो (priorities) बदल्ल्यात. बरवप्यांचें गमन आतांतां वेबसायटींचेर घुंवलां म्हळ्ळो जब्बोर दुबाव म्हाका धोंसतालो. पूण तो आतां थीर जाला. सवाल हें - कितल्या वेबसायटींची सवलत हातांक मेळता?

साहितांत एक बरी कादंबरी, संस्कृतीची दिसपटी जावन आसा म्हळ्ळें चिंतप जरूर उटाजे म्हळ्ळी म्हजी पातयेणी. कित्याक, बरें साहीत आळवना, पूण बाळवता तें खरें, बरें साहीत व्हय, तर.

## वेंचीक कोंकणी कादंबरेंतले स्त्रीपात्र

### कानडी लिपयेंतल्या प्रथम कोंकणी कादंबरेंत स्त्रियेचो पात्र

जशें नांवच सुचयता, *आंजेल* कादंबरेची कथावस्तू शेंबर टके स्त्रिये भंवतीं रेवाडल्या. कथावस्तूचो संक्षिप्त विवर हांवें येदोळच दिला व्हय, पूण आमी आंजेलाचो पात्र पित्रावंचीं थोडीं सन्निवेशां/संभाशणां पळोवंया.

आंजेलाचो पती रफायेल तारवटी जावंक (दुसऱ्या म्हाझुजांत) गेल्या उपरांत आंजेलाची आनी सासूमांय रोजाबाय हिच्या घराण्याची आर्थीक स्थिती भिगडता आनी आंजेलाक आपलें भांगार एकेक करून विकिजाय पडटा. तवळ, हांची स्थिती पळेवंक सकानासतां आंजेलाचो बापय पावलबाब आपले धुवेक कुळारा आपवन व्हरूंक येता आनी म्हणता:

''आंजो, तूं हे म्हातारेक [सासूमांयक] पटलून धरून बसताय या म्हजे सांगाता घरा येताय?''

आंजेल जाप दिता:

''तूं म्हाका घरा आपयताय, आना? तूं अशें उलयशी म्हण हांवें सपणांत पर्यांत चिंतूंक ना. आनी तसलें उलवणें म्हाका आयकोंक तडवाना. आनवशें ते म्हातारेक [सासूमांयक] केंडून, दुरसोन, हल्क करून कित्याक तूं उलयताय? म्हाका ही स्थिती फावो केल्या देवान, तिणें न्हय. देवान दिल्ले कश्ट देवान परिहार करिजाय...''

दुसरें सन्निवेश अशें आसा:

भांगार विकून विकून कितेंच उरानासल्ल्या वेळार आंजेलाच्या गळ्यांत फक्त पिड्डूक (करीयमणी) उरता आनी तांकां उस्णें दिवन भांगाराच्या नगांनी आपलें देवें वसूल करचो भंगसाळेचो सालू म्हळ्ळो मनीस आंजेलाच्या घरा येवन तिची पिड्डूक आपणावंचे खातीर तिच्या गळ्याक हात घालूंक वेताना -

''म्हज्या आंगार पुणी हात घालशी, जाग्रूत. ह्या बागलाचो उंबोर उतरोन भितर येवंक तुका पदवी ना. आसा तसो भायर चल आनी तुजो न्याय कितें आसा तो भायर तिरसियां!''

फुडें विवरिता आल्वरीस-

''आंजेलाचें मुखमळ, दोळे आनी गर्जोणे पळेवन सालू निजाकी कावजेलो. तसलें गंभीर रुपणें खंच्यायी बायलेथंय ताणें पळेवंक नातल्लें...''

दुसरें एक सन्निवेश अशें आसा :

आंजेलाची सासुमांय हातां-बोटां मधें रजाराचें कोंत घेवन एका ताळ्यान देवाक दुरसताना दुसऱ्या ताळ्यान रजार करता आनी तवळ आंजेल तिच्या हातांतलें कोंत झंपय मारून घेवन म्हणता :

''कोंत हातांत घेवंचें तेर्स करताना, आंकवार सायबिणीक दुरसताना न्हय. देकून तें हांवें काणगेल्लें. जाल्यार तुजें कोंत म्हाका नाका. धर, हांगा आसा तुजें कोंत!''

कथा अशी मुंदरोन वेताना आंजेलाचेर सुरवेर थावन आबळाय करून आसल्लो धनी नोर्बर्ट आपल्या शेणय मुकांत्र आंजेलाक फसवंक चड आनी चड खेळ खेळता. हो शेणय सारकोच कोलो. आंजेलाचो पती रफायेल झुजांत नापात्तो जाला अशें तिणें खचीत करिशें तो प्रेतन करता. हें घडटाना, आंजेलाचें घराणें रिणांत इतलें बुडोन गेलां, आनी तांकां वयर येवंची वाटच्च दिसानातल्ल्या वेळार शेणय येवन सासुमांय रोजाबायेक शिकयता - आंजेलान वचून धनयाक खूश केल्यार मोवाळ काळजाचो धनी रीण-गीण सर्व माफ करतलो, अशें. आंजेलाक सभावीक सोभाय आसा व्हय, पूण धनयाक 'पुलां' घालूंक वेताना ताणें कशें नेसून वचाजे म्हळ्ळे इसारे तो दिता ते भारिच्च मजेचे दिसतात. कित्याक, शेणय एक दादलो! तो म्हणता :

> ''पयले सुवातीर, आंजेलान बरीशी मुस्तायकी नेसून नाजूक आनी अलंकार दिसजे. मुस्तायकेक आनी शृंगाराक आसा ती मर्याद आनी आकर्शण दुसऱ्या खंच्यायी वस्तूक ना. देवाचे दयेन तुका सैंबीक अलंकार बरो आसा. केंस लांब जावन सोबीत आसात. ते बरे करून उगय आनी कुशीक भांग काडून लांबसो बोंडये परीं गोमट्या लागीं शेंडो बांद. अर्द्या हाताची बाजू, पांयांच्यो गांटी दांपसर तांबशें या किरा रंगाचें कापड न्हेस. कानांत हलक्यो, बोटांक थिकांच्यो मुदयो, गळ्यांत सरपळी, पांयांक व्हाणो आनी हातांत सिल्काचो तुवालो आनी शेंड्याक एक शिंवतें या दुसरें कसलेंयी फूल खोवन होकले देडये परीं धनया सरशीं वच...''

कांदबरेंत निमाणें एक सन्निवेश आसा जंय आंजेलाचो पती रफायेल झुजांत सांडून गेला म्हळ्ळी नक्की खबर निव्ही डिपार्टमेंटा थावन घेवन नोर्बर्ट आंजेलागेर येता आनी दिंबयेर पडोन तिचो हात मागता. पूण, आपलो पती मरोंक ना आनी एका दिसा तो पाटीं येतोलो म्हळ्ळो भर्वासो आसची आंजेल धनयाचो हात निराकरिता. तवळ धनी म्हणता -

''तूं इतल्या धारूण काळजाची म्हण हांवें चिंतूंक ना... आंजा सारक्या कुडी भितर गोंड्या सारकें मोवाळ काळीज आसतेलें म्हण हांव चिंताल्लों. आतां पळेताना आंजाच्या रुपार जिवो गर्वाचो देंवचार तूं जावनासाय... हांवें तुका इतलें सर्व अर्पिल्लें...''

उलवणें चलतां चलतां आंजेल आपलें निमाणें फैसल दिता -

''धनया, म्हाका खरेंच तुजे लागीं लग्न जावंक खुशी ना. तुवें म्हजो जीव काडतां म्हळ्यारी म्हाका तुजे लागीं काजर जावंची खुशी ना. म्हजो घरकार जिवोच्च आसा म्हण हांव देवाचेर पातियेल्यां

आनी ती पातयेणी तो पाटीं येता वरेग सांडचीं ना...''

दे. आल्वरीसान स्त्रियांक प्रमुखता दिवन सबार हेर कादंबऱ्यो लिकल्यात खरें. पूण ताणें 'आंजेला'क थिरासणेंत अपवंत करून उबी केल्ले परीं हेर पात्रांक करूंक ना म्हळ्ळी अबिप्राय म्हजी.

**दे. विजेपी सल्दानाच्या कादंबरेंतले थोडे विंचणार स्त्री पात्र**

कॅनरा कथोलिकांचे बंदडेचेर, गोंयच्या इंक्विझिसांवाचेर कादंबरी रचून चारित्रीक कादंबरेंचो बापय म्हण विजेपी फामाद जावंच्या फुडें तो समाजीक, थ्रिलर आनी डिटेक्टीव कथा लिकतालो. ताच्या समाजीक कथां पैकीं म्हाका आवडलेली आनी तवळच्या काळार खरीच thematically म्हण मानून घेतल्ली कादंबरी म्हळ्यार, *मोगा म्हाका शिकय.* हांतलो प्रमूख पात्र एके स्त्रियेचो - फेल्सिताचो. ही लोर्सामाच्या कुटमांत जल्मोन वाडोन येताना विजेपीन तिच्या वाडावळीचेर दिल्लें वर्णन अशें आसा -

> ''सैंबीक सोभातेचें हें भुरगें ताच्या मानसीक उंचाये तेकीत कुडीनयी फुलतालें. आधुनीक फेशेनांचे कसलेच धिगे नासतां माग वोळपी [हातमागार काम करपी] लोर्सामाचें हें चेडूं कुडीन पाकळ्यांच्या पिलांक लज करी सारक्या जिन्सार पाकळेतालें... पाकळेलें [फुल्लें]. दृश्टेन आपूण स्त्री म्हण वळका सारकें ताचे हर विश्वे रचणाराची कला प्रवीणता पाचारताले. तापलल्या पोटार [भुके पोटार] तितलें सुडसुडीत, फुडपुडीत आनी आकर्शीक चेडूं आसयेत म्हण कोणायकी पातयेवंक कश्ट मारच्या जिनसार फेल्सिता फुल्लें...''

ह्या कादंबरेची कथावस्त अशी आसा -

फेल्सिताचो बापय लोर्साम पतिणेचे हाल-हवाल लेकी नासतां वर्साक एका लेकान भुरगीं करित्त आसा. मालघडें फेल्सिता हें पळेत्त आसा. तें वाडोन येताना ताका दादल्यांचेर एक कांठाळो उबजता. दादलो म्हळ्यार एक मोनजात अशें तें समजता, आनी आपूण बिल्कूल लगीन जावंचींना म्हळ्ळो सोपूत घेवन दादल्यांक उगत्यान द्वेशिता.

कथा मुंदरोन वेताना लुवी म्हळ्ळो एकलो तरनाटो फेल्सिताच्या मोगार पडटा. पूण फेल्सिता ताका हे परीं पयस करता :

> 'गुड मॉर्निंग, मिस!' लुवी म्हणता.
>
> 'गुड मॉर्निंग.' फेल्सिताची मटवी जाप.
>
> लुवी बोसलो. 'मिस फेल्सिता, तूं जाणांय हांव तुजो हात अपेक्षितां म्हण?'
>
> 'हो!'
>
> 'तूं कित्या खातीर काजार जावंक इन्कार करताय? म्हजे विशांत कसलियी अडकळ तुका दिसता जाल्यार सांगशी वे?'
>
> 'ना. तुजे विशांत अडखळ न्हय - दादल्यांच्या जातीकच्च हांवें बहिश्कार चिंतला...'

आनी फेल्सिताची कथा ह्याच चिंतनांनी आनी दिशेन मुकार वेता. ती वाचूंक मजेदार आसा.

आतां विजेपीन आपल्या चारित्रीक कादंबरेंनी रचल्ल्या स्त्री पात्रांचेर गुमान घुंवडावंया. पूण त्या फुडें, हांवें येदोळच म्हळें - विजेपीन सबार समाजीक, थ्रिलर आनी पत्तेदारी कथा लिखल्यो, अशें. असल्या सभावाच्या कथांनी पात्रांची परिचय चडशें तांच्या जिनोसान, कुडीच्या वर्णनान आनी तांणी नेसच्या दिरुसाचे कालेतीर करिजे पडटा. देकीक, हांव ताच्या *रुजवात* कादंबरेंतले एके स्त्रियेचें वर्णन दितां. कादंबरी वाचताना ही स्त्री सदीळ चरितेची म्हण वाचप्यांक गमता -

> ''... पाशार जाताना हांवें तिका पळेयिल्ल्या परींच तिणें म्हाकायी पळेलें मात्र, नाका नाका म्हळ्यारी नाकांत रिगलो तिणें आंगा-पांगाक लेपून घेतल्ल्या पावडर आनी सवाय परमळीक तेलाचो परमळ. भरशीक 'अमृतांजन' की नीलगिरी तेलाचोयी वयल्याबार वास म्हाका आयलो. घडिये तिचो छारो, रूप, आकार आनी अलंकार हांवें मतींत धरलो : प्राय चड उणें ३०-३५ जावयेत; प्रथम/द्रुश्टेक रूप बरेंच. पूण थापल्ल्या पावडरा वरवीं आनी लेपल्ल्या रंगा वरवीं दिव्या उजवाडांत सारकें पारकूंक कश्ट; आकार जडायेचो; नेसल्लें कापड थोव्या रशिमाचें; घाल्ली बाजू काळ्या इलुदाची पूण हात नातल्ली आनी गळ्या भोंवारी माणसुगेच्या गडी भायर आंग दाकवंची; गळ्यांत बारीक एक चेयन; मुदयो नातल्ले रिते कान. बोटाक मुदी आसल्ली वा ना म्हळ्ळें म्हाका दिसोंक ना.''

ह्या विवरणाचे विजेपी लागीं कांय थोडे विचार करताना ताणें म्हाका शिकयल्लें आनी हांव हें समजालों - ''प्रथम द्रुश्टेक रूप बरेंच'' म्हळ्ळो विजेपी आपणाक चित्रीत करूंक जाय आसल्ल्या 'सदीळ' चालीचे स्त्रियेक कसल्या 'तेलते रितीर' वर्णिता पळेवंया: स्त्रियेन परमळीक द्रवां वापरचीं दादल्याक आकर्शीत करुंकच म्हण आमी मांदल्यारी, परमळीक द्रवांचे मट्ट आनी मोल तें वापरचे स्त्रियेचो पांवडो सुचयता. लेकमीत नासतां परमळ सारवंचीं बायलां कसल्यागी सवाय इरादयाक लागून अशें करतात आनी ते दिशेन सवायेचोच परमळ वापरतात म्हळ्ळें लेखकान दाकवन दिलां.

आनयेक संगत पळेया : हांवें विजेपी लागींच माहेत घेतल्या परमाणें, एका तेंपार इलुदाच्यो बाजवो, त्योयी हात नातल्ल्यो, बोंबयंत सदीळ चालींच्या स्त्रियां मधें चालतेंत आसल्यो म्हण तो म्हणता.

*देवाचे कुर्पेन* विजेपीची चारित्रीक घडितांचेर लिखल्ली प्रथम दीर्घ कादंबरी. ती नागरी लिपयेक लिप्यंतर जाल्या. हांतली कथावस्त मटव्यान अशी - मैसूरांत राजवट चलवन आसल्लो टिपू सुल्तान ब्रिटिशां लागीं कायाम झुजां मांडीत आसल्लो. ताका आनी ताच्या सैनाक फ्रेंच आडळतेचो पाटिंबो आसलो. ताच्या आस्थानांत कांय मंगळूरी काथोलीक नवकरेर आसल्ले आनी कांय थोडे बऱ्या हुद्द्यार (सरदार बी) आसल्ले. ह्या पैकीं सरदार सिमांव पेद्र म्हळ्ळो एकलो. कर्नाटकांतले कातोलीक ब्रिटिशां सांगाता मेळ्ळ्यात आनी आपणा विरोध फितुरी चलयतात म्हळ्ळो टिपूक दुबाव मारलो तेन्ना ताणें आपल्या सैनिकांक केनराक धाडून सुमार साट हजार क्रिस्तांवांक आंबडून, कैदी करून, श्रीरंगपटणाक वेलें आनी तांकां कश्टिलें.

स्त्रियांचो मानभंग केलो आनी दादल्यांक बलात्कारान 'सुंता' करून आपल्या फौजेंत सेरवयले. असल्या कराळ काळार विणलेली ही कथा. हांतूं एका सन्निवेशांत घायेल्लो सरदार सिमांव हाका आग्नेस कुंवर्न म्हळ्ळी महंतनी रायकुंवर्न आसरो दिता आनी ताच्या घायांची चिकित्सा करता. तिच्या रावळेरांत विशेव घेवंचो सरदार सिमांव, तो मतीर नातल्लो, धातीक पाटीं येताना आग्नेस कुंवर्नीक पळेता आनी चिंत्ता:

> ती स्त्री व आंज? तिच्या हातांत दांतोणी आसल्ली. केंस उगोवंचें काम अर्दयांर सोडून ती आमसोरान सरदार सिमांवची पिंरगोणी आयकोन आयिल्ली जायजे. लांब तिचे केंस, चंद्रा सारक्या मुखमळाच्या दोनयी कुशींनी लारां लारां जावन भुजां आनी पाट दांपून दोंपरां तित्तून लांबताले. ल्हान मोतियाळे दांत झळकावन ती हासली...
>
> मुंदरोन...
>
> दुसऱ्या दिसा सकाळींच्या चड उणे धा वोरार सर्दार सिमांवक जाग जाली. निदल्ले कडे थावन ताणें दोळे भंवडायले. जनेला कडे एका बांकुलार ती बसून आसल्ली. कापड ती नेसल्ली. तिचे केंस फांतियो करून तांचो शेंडो बांदल्लो. तिच्या उसक्यार आसल्या लिव्रांत पळेवन भोव हाळवायेन गायान ती करताली - *क्रिस्त पुराण* म्हण सरदार सिमांवक घडियेन समजालें.
>
> घडियेन तिचे दोळे खटल्या तेवशीन उबारले आनी सरदार सिमांव जागो जावन तिकाच पळेवंचो सांपडलो. लिव्र धांपून ती उटली आनी हासली.
>
> 'जाग जाली, सिंजोर? तर कितें चिंतालोय?'
>
> 'हांव आसां तो संवसार व सर्ग म्हण दुबावतालों.'
>
> 'कित्याक?'
>
> 'संवसारांत इतलें सूख आनी इतली सोबाय आसयेत म्हण पातयेवंक म्हाका कश्ट मारताले.'
>
> तिच्या पोल्यांचो वर्ण तांबशेलो. 'चार गांव तूं भोंवलाय म्हण दिसता सिंजोर. तुजें सुडाळ उलवणें तशें सांगता...'

न्हय गी विजेपीच्या बरपांची तांक आनी स्त्रियेच्या वर्णनाची तांक अखंड?

**म्हज्या कादंबरेंतले स्त्रीपात्र**

हांवें म्हज्या तेत्तीस कादंबरेंनी सबार स्त्रीपात्र रचल्यात. पूण त्या सर्वांचो उल्लेख करचो म्हजो उद्देश न्हय.

१. म्हजी प्रथम कादंबरी जावनासल्ली *निमाणी शेळी* . हांतली पात्रदार्न 'लिल्ली' फकत एक सादीभोळी, निस्कळ स्त्री जावन हांवें पिंतरायल्ली ती म्हाका आतां मातसी अस्वभावीक दिसता. खरें, ही कादंबरी लिखताना म्हाका पुरती परिपिकाय नातल्ली. वाचपी सयत असलेंच goody-goody वाचप मागताले. हांवें सबार पावटीं सांगलां, मंगळूरांतलें कोंकणी साहीत क्लॅरिकांच्या मुटींत आनी तांच्या चिंतपान बंदी करून दवरिल्लें आनी कांय थोड्या मट्टाक तें तशेंच आसा. पूण हांव बोंबय आनी मंगळूर थावन प्रगट जावंच्या नेमाळ्यांचे ध्येय पळेवन, कालेत आनी जिनोस पळेवन म्हज्या स्त्रियांक 'रचतालों' म्हळ्यार अतिशय न्हय. देकुनूच, कोंकणींत 'सॅक्स' बरवंक फकत एडविनाक मात्र गट्स आसत म्हळ्ळें गमलां!

हांवें रचल्ल्यो स्त्रियो:

म्हज्या बरपांतल्या स्त्रीपात्रांचीं नांवां विंचताना हांव एकदम choosy आनी selective आसां.

२. *खुरसा फाटलो उजवाड* हांतली म्हजी नायकी 'ज्युडित'. ती एक धैर्यादीक चली. बायबलांतली राणी ज्युडित आसल्ली तशी. विद्यार्थींच्या उचांबळायेर लिकल्ली ही कादंबरी. हांतलो नायक 'डॉन' विद्यार्थी; अनितीचेर झूज मांडचो तरनाटो. डॉनान करचीं कर्तुपां सारक्या दिकेन नांत म्हण जाणा आसुनयी ताच्या मोगार आसच्या ज्युडितान ताका मानसीक/नैतीक पाटिंबो दिवंचोच तिचो पात्र. निमाणें, डॉना खातीर इतलें सर्व केल्या उपरांतयी तिका डॉन मेळ्ळो ना. या, तुमकां जाय तर, ती डॉनाक मेळ्ळी ना. कथा आखेर जाता इंडो-चीना झुजा थळार जंय ज्युडित डॉनाक मेळता एका मिलिटरी आफिसराची पतीण जावन. डॉन एक झुजारी. झुजांत जक्मी जावन तो ज्युडिताच्या मांडियेरच प्राण सोडटा.

३. *हांव जियेतां* म्हजी magnum opus. हांतूं हांवें रचल्लो 'हेल्गा मार्टिन' हो पात्र कांय सांतीपणाचो न्हय. अस्तित्ववाद आनी उद्दिश्टवाद (existentialism आनी objectivism) ह्या तत्वांचेर लिखल्ली ही कादंबरी दे. इंदिरा गांधीन भारताचेर थापल्ल्या emergency तसल्या परिगतींत घडचे तसली जावन आसतां म्हज्यान हेल्गा मार्टिनाक एक goody goody चली जावन रचूंक जालें ना. तिचो सांगाती (प्रेमी म्हण हांव म्हणाना) अस्तित्ववादी विक्टर लूक. हाच्या पात्राक ताळ पडाशें हेल्गाक रचिजे पडलें. तांची मानसीक आनी कुडीची समिपाय इतली बळ करून हांवें दाकयली की तांचो प्रथम लैंगीक संपर्क घडता, हेल्गाच्या प्रिंटींग प्रेसांत, 'मनीस' नांवाचें अस्तित्ववादी पत्र पयले पावटीं छापून येताना. दृश अशें आसा - तेवशीन प्रिंटींग मेशीन चालू आसा आनी पत्राच्यो प्रत्यो छापुनच आसात आनी त्या मशिनाच्या देगेनच विक्टर आनी हेल्गा तांचो प्रथम दैहीक संपर्क जोडटात.

४. *म्हज्या वोडतांतले गुलोब* कादंबरेचें नांवच सुचयता, ही एक प्रेमकथा म्हण. हांतूं दोगी चलयो आसात. भयणींच तीं, पूण सामक्या उरपाट्या जिनोसांचीं. एकलें 'जेनिफर' आनी दुसरें 'लिंडा'. जेनिफर एक खरी स्त्री. मोगाळ, निस्कळ, भावुकीक. ही मोगार पडटा डॉ. क्रिस्तोफर मोझस म्हळ्ळ्या लागीं, पूण गुपीत. तेवशीन लिंडा डॉ. क्रिस्तोफराक फसयताना हेवशीन जेनिफर एका खिणाक निसरोन पडोन जेसन म्हळ्ळ्या चल्या थावन गर्भेस्त जाता आनी तिचो आनी तिच्या कुटमाचो मान राकचे खातीर डॉ. क्रिस्तोफर लिंडाक सांडून जेनिफरा लाग्गीं लगीन जाता आनी नांव नातल्ल्या बाळश्याक आपणाचें करून घेता. उपरांतली कथा - लिंडा जेसना लागीं लगीन जाता. जेनिफर प्रसूतपणा वेळार संपता. कादंबरी क्रिस्तोफर आनी जेसन आनी लिंडा हांच्या मधलें तुमूल विवरिता.

५. *विंचून काडलेली परजा* ही एक आपुट्ट मंगळूरी कथा. पाटपोडदो असो आसा की मध्यप्राच्याचें वारें आनी जोड चडात

वेताना मंगळूरची महंतनी परजा निमाणो उस्वास सोडच्यार आसा. तरी ती पातयेता, महंती दीस पाटीं येतेले अशें. असल्या एका आळवोन उरलेल्या महंतनी कुटमांतली चली 'क्रिस्तीन अन्नाबेल डिमेल्लो.' घमंडी, हंकारी आनी सांगाताच रुपेस्त. हिची आवय 'इमेल्डा डिमेल्लो' महंतनी राज पाटीं येतेलें म्हळ्ळ्या भरवस्यान आपल्या धुवेक वागयता आनी तिका फावो जाल्लो चलो मंगळूरांतच ना म्हळ्ळे परी चलता. प्रवेस - 'ज्यो सिल्वेस्टर डिसोजा!' एका मामूल घराण्यांतलो चलो. 'जिये आनी जियेवंक सोड' म्हळ्ळ्या तत्वाचो. हीं दोगां भेट्टात आनी कथा मंगळूर थावन उडपी आनी त्या उपरांत कुवेताक पावता. ह्या भितर क्रिस्तीनाचें लग्न पाटीचो कणो नातल्ल्या 'केनेत मैकल सुवारिसा' लागीं जालां. हीं तेगांयी कुवेतांत एका रंगमांचियेर येताना क्रिस्तीनाचो पात्र कथेचो प्रमूख पात्र जाता. निमाण्या दृशांत ज्यो सिल्वेस्टर डिसोजा क्रिस्तीनाक आनी केनेताक तांच्याच सल्वणेच्या कोंडांत सांडून वेताना क्रिस्तीन परात्ता, 'म्हाका एकसुऱ्याक सांडून वचा नाका ज्यो!' तवळ, ज्यो ताका जाप दिता, 'आदेवस तुमकां! आदेवस तुमकां! तुमी विंचून काडलेली परजा जावंये पर्यांत.'

६. *दोर्यन्थ पावस पोडलो* हांतली म्हजी नायकी जावन आसा 'ज्योर्जिनिया अगाता मिरांदा'. मटव्यान, 'ज्योर्जी'. एका विभिन्न रितीच्या कथावस्तूक असली नायकी हांवें विंचली. कथावस्त एका क्रिस्तांव घराण्याच्या अंदव्या पातयेणेचेर आसा. अर्थात, माट, मंत्रां, बोंब्यांक पुजा (occult, voodooism, black magic) आनी हेर. कशी ही शिकपी चली ह्या सर्वांचेर उरफाट्टा आनी घरदार सांडून बोंबय वेच्या वाटेर एका बस्सीच्या अवघडांत नपंयच जाता आनी थोड्याच तेंपान एका कोल कंपनीचें प्रख्यात मॉडेल जावन, धन कमावन, पाटीं गांवाक येवन गुप्तिनिर्शी आपलें हिसाब-किताब शुद्द करता; ह्या अभियानांत ताका अन्य धर्माचो, जी.एस्.बी. जनार्दन (जिन्नुबबा) कशी मजत दिता म्हळ्ळीच कथावस्त.

७. *काळें भांगार* कादंबरेचो प्रमुख पात्र 'जेरी' जाका मध्यप्राच्याक पावजे म्हळ्ळी जब्बोर आशा आसल्ली. ताचो मित्र मानेस्तीण 'मोल्ली पिरेरा' हिचो पूत, 'टेरी'. मोल्ली पिरेराचो पती कुवेटांत आसल्लो, खूब जोडटालो आनी हांगसर मंगळूरांत मोल्ली पिरेरा uncrowned राणये परीं गळोभर, हातभर भांगार घालून मस्तेन जियेताली; इतल्याचें इतलें की तिचो पूत टेरी एक ड्रग ॲडिक्ट जाता पर्यांत ती मतीर नातल्ली. कशें पुणी करून जेरी कुवेताक भायर सरता आनी तवळ कुटमांतल्या आदल्या द्वेशाक लागून एकली स्त्री ताका कसकस्याची [खसखसाची] पेकेट दिता, कुवेताक व्हरून कोणाक गी दिवंक. कसकसो कुवेतांत मन्ना आसा म्हण नोणासलो जेरी कुवेत कस्टमसांत सांपडटा आनी ताचें विचारण ॲरपोर्टांत चलताना कुवेताचें आक्रमण करता सद्दाम हुसैन! उपरांतली कथा *काळें भांगार* वाचुनूच समजून घेवची.

संपर्क: ०९८४५०८३१४८





चंद्रलेखा डिसौजा

# भारतीय कादंबरी आनी वादळ आनी वारें: मानवी संदर्भ

कादंबरी आनी कथा हे दोनूय गदय प्रकार. अतीतकालीन गदय म्हळ्यार ग्रीक (कथा) साहित्या वांगडाच कादंबरीय बी आयली. लॅटीन गदय, इटालियन, जर्मन, फ्रँच, इंग्लीश... मध्ययुगीन काळांत *हितोपदेश, पंचतंत्र*हीं बरपांय आसपावतात. कथे परस कादंबरी वेगळी आसता व्हय? ती साहित्याची 'नवी' विधा आनी म्हणूनूच 'novel'? ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदपाक आमकां भारतीय साहित्यीक इतिहास उस्तुचो पडटलो, पाश्चात्य साहित्यीक घडामोडी पळोवच्यो पडटल्यो... .

डॉ. प्रभाकर माचवे *भारतीय उपन्यास कथासार* ह्या संपादीत पुस्तकांत भारतीय कादंबऱ्यांची एक सुची दितात. ती अशी आसा -

- इ.स. १८५७त - मराठी - *यमुना-पर्यटन* - बाबा पदमनजी
- इ.स. १८५८त - बाँगला - *आलारेर घरेर दुलाल* - प्यारी चाँद मित्र.
- इ.स. १८६६त - गुजराती - *करण घेलो* - नंदशंकर मेहता
- इ.स. १८७०त - हिंदी - *देवरानी जेठानी की कहानी* - गोविंद नारायण मित्र.
- इ.स. १८८२त *परिक्षा गुरु* - लाला श्रीनिवास दास
- इ.स. १८७२ त-तेलुगू - *श्री रंगराजु चरित्र* - नरहरि गोपाल कृष्ण चेट्टी.
- इ.स. १८७८त - उर्दू - *फसाना-ए-आजाद*- रतननाथ सरशार
- इ.स. १८८७त - मलयाळम - *कुन्दलता* - अप्पुने डुंगडि
- इ.स. १८९०त - सिंधी - *झीनत* - परमानंद मेवाराम.
- इ.स. १८९४त - असमिया - *मिरिजियारी* - रजनीकांत दैले
- इ.स. १८९६त - तमीळ - *कमलांबल चरित्र* - राजम ऐयर
- इ.स. १८९८त - पंजाबी - *सुंदरी* - भाई वीरसिंह.
- इ.स. १८९९त - कन्नड - *इंदिरा देवी* - गुलवाडि वेंकटराव.
- इ.स. १९०१त - उडिया - *छ माण आठगुंठ* - फकीर मोहन सेनापति.
- इ.स. १९११त - कोंकणी (रोमी लिपी) - *क्रिस्तांव घराबो* - एदुआर्द-ब्रुन-द-सौझ.
- इ.स. १९५०त - कश्मीरी - *ग'ति मावि गा'श* - अमीन कामिल.
- इ.स. १९५०त - कोंकणी (कन्नड लिपी)- *आंजेल* - ज्योकी सांतान आल्वारीस. (कोंकणींत ह्या रचनाकारान ५० कादंबऱ्यो बरयल्यात.)
- इ.स. १९८६त - कोंकणी (मलयाळम लिपी) - *पृथिवै नमः* - गोकुळदास प्रभू.

ही सुची अदीक संशोधन करून बदलूं येता. भारतांत तुलनात्मक साहित्यीक इतिहास तयार जातलो तेन्नाच ह्या विशयांत स्पश्टताय येतली. तशेंच, कोंकणीचोय साहित्यीक इतिहास तयार जातलो तेन्नाच आमी तथ्यात्मक जावंक पावतलीं. कादंबरी आसूं वा कथा, तिचीं पाळांमुळां सोदपाक आमकां आमच्या भारतीय साहित्याचेंच व्यवस्थीत अध्ययन करचें पडटलें. हांव कथे परस कादंबरी ह्या साहित्य प्रकाराचेरूच चड भर दितां. स्कोल्स आनी केलाग *The Nature of Narrative* ह्या पुस्तकांत आख्यानकाव्य आनी काणयेक चड म्हत्व दितात. भारत देशांत सगळ्या वाठारांनी पुराणां, आख्यानां, *पंचतंत्र, हितोपदेश* हांचो प्रभाव समान स्वरुपांत दिसता. ह्या सगळ्यांचेरूय प्रभाव पडिल्लोच अशें 'प्रभाव अध्ययन' म्हणटा. रचनाकार आपल्या काळांत हे प्रभाव कशे ग्रहण करता तें सांगप आनी सोदून काडप हो एक वेगळोच प्रवास जाता जाका लागून वैश्वीक मळार 'आशय' (content) आनी 'आकार' (form) हांचें 'प्रभाव अद्ययना'चें एक सुत्र घेवन अध्ययन केलें जाल्यार तें घुसपल्लें सुत्र आमकां खंय खंय व्हरूंक शकता, हाचेर आमी अजून विचारूच करूंक ना.

कादंबरी, जिका हिंदींत 'उपन्यास' म्हणटात, तिका पुरायेन पाश्चात्य म्हणूंक जावचें ना. आमचीं पुराणां, आख्यानां हातूंत इतिहास, रोमांस, अन्योक्ती वा रुपक इतलें भरपूर आसा की आमच्या ह्या साच्यांतल्यान आमी जें कितें ग्रहण केल्लें ताचेर काळांतरान पाश्चात्य प्रभावूय पडलो. आनी हाकाच लागून आमचे कादंबरेक पुरायेन पाश्चात्य लेखूंक फावना. डॉ. बेचर *आधुनीक हिंदी उपन्यास : उद्‌भव और विकास* ह्या पुस्तकांत ही म्हायती दितात-

- **'वृत्तगंधोज्म्क्ततं गदयम्'** - आ. विश्वनाथ, *साहित्य दर्पण*, पान २२६. अर्थ - छंद बंधना पसून जी रचना मुक्त आसता तिका गद्य म्हणटात.

- **'अपदः पदसंतानो गदयं तदापि गदयते'** *(अग्निपुराण का काव्यशास्त्रीय भाग*, पान २६)

अर्थ - पदरहीत पदसमूह गद्य आसता.

- **'अपादः पदसंतानो गदयमाख्यायिका कथा**
**इति तस्य प्रभेदो द्वै तयोराख्याकि किल।।'** आदण्डी।
(*हिंदी काव्यादर्श*, पान २६)

अर्थ - चरणविरयत पद-समुह म्हळ्यार गद्य. ताचे आख्यायिका आनी कथा अशे दोन भेद आसात.

- **'इतिहासोद्‌भवं वृत्तमन्यद्वा सज्जनाश्रयम्।**
**चत्वारस्यस्य वर्गाः स्युस्तेष्वेकं च फलं भवेत।।'**

(*साहित्य दर्पण,* पान २२५)

अर्थ- कथा इतिहासांतल्यान आयिल्ली वा लोकां भितर प्रसिद्ध सज्जन संबंधिनी आसता. धर्म, अर्थ, काम, मोक्ष चतुर्वर्ग हातूंत तिची फलप्राप्ती जाता.

आचार्य दण्डीच्या मता प्रमाण, *कादंबरी, हर्षचरित, दशकुमार चरित, पंचतंत्र* हांकां सगळ्यांक कथा आनी आख्यायिका ह्या नांवांनी पाचारतात आसलीं तरी सगळीं एकेच जातीचीं.

- **'कविभावकृतं चिह्नमन्यत्रापि न दुष्यति।**

**मुखमिष्टार्थसंसिद्धौ किं हि न स्यात् कृतात्मनाम्।।'**

(*हिंदी काव्यादर्श,* पान १८)

अर्थ : कवीन विशेश रुपान आपणायिल्लें चिह्न (लक्षण) कथे परस दुसरे खंयचेच कडेन दुशीत जायना. अभिप्सीत अर्थसिद्धी खातीर विद्वान खंयचेय घटने वरवीं आपलें काव्य वा कथा प्रारंभ करूंक शकता. तो ताचो अधिकार आसता. पूण कथा आनी आख्यायिकेच्या नांवान प्रसिद्ध ग्रंथ वाचतना काणी कल्पीत आनी आख्यायिका इतिहासीक आसताली हें जाणवता. *कादंबरी* ही कथा आनी *हर्षचरित्र* आख्यायिका.

संस्कृत साहित्यांत कथांचे पांच भेद सांगल्यात -

**'आख्यायिका, कथा, खण्डकथा, परिकथा तथा।**

**कथानिकेति मन्यन्ते गधिकाव्यं च पंचधा।।'**

(*अग्निपुराण का काव्यशास्त्रीय अध्ययन,* पान २७.)

हाचो अर्थ - आख्यायिका, कथा, खण्डकथा, परिकथा आनी कथालिका हे गद्य काव्याचे पांच भेद.

संस्कृत भाशेच्या ह्या चिंतना वयल्यान असो अदमास काडूं येता - भासांनी अशेंच किते घडलां आसतलें - काणयेचो, कथेचो संबंध स्मृती कडेनूच आसतलो. आपआपली स्मृती प्रभावोत्पादक रुपांत सांगपा खातिरूच घडये पयली काणी जल्माक आयिल्ली आसूं येता. चार्ल्ज डार्विनाच्या उक्रांतीच्या सिद्धांताचो संदर्भ घेवन हांगा अशें म्हणूं येता - मनशाची ही उत्क्रांती जावपाक कोट्यांनी वर्सा गेल्लीं आसूं येतात. *वेद* आमच्या देशांतले प्राचीन ग्रंथ. तातूंत काणये वा कथे खातीर 'श्रुति' हें उतर मेळटा. काणी वा कथा एक दुसऱ्या कडल्यान आयकुनूच आयिल्ली आसतली. आमचो 'वेदू'च आमचे खातीर काणयांचो स्त्रोत मानूं येता. पुराणांत तो आपलें रुपांतरीत स्वरूप धारण करता.

बौद्ध आनी जैन साहित्यांतूय बी त्याच स्त्रोतांतल्यान काणयो आयल्यात. संस्कृत आनी हेर भासोय आख्यानात्मक रुपान हांगाच्यानूच प्रभाव धारण करतात. घडये हाकाच लागून बाराव्या शेंकड्यांत आचार्य हेमचंद्र कथेचें विश्लेशण करतना बरयतात -

'कथा गद्य वा पद्य, संस्कृत, प्राकृत खंयचेय भाशेंत बरोवं येता, तिचो नायक शांत, धीर आसता.' (*कथा सरित्सागर,* पान ६)

रिचर्डसन आनी फीलि्डंग, दोगूय आपली रचनाशैली पोरणे रोमानी शैली परस वेगळी मानतात. तरी हांणी नवी विधा वा नव-लेखनाच्या विशेशतायां विशीं कांयच बरोवंक ना. आयज आमी जिका novel म्हणटात तो शब्द अठराव्या शेंकड्यांत पुरायेन स्थापीत जावंक नाशिल्लो. होच शब्द लॅटीन भाशेंत 'नॉवेला', इटालियन, स्पॅनीश भासांनी 'नोवेला', फ्रँच भाशेंत 'नोवेली' जालो. कल्पीत कथा हेंय बी काणयेचेंच एक रूप. पाश्चात्य साहित्यांत रोमँटिसिझम आनी काल्पनीकतायेचें तत्व खूब वाडलें तेन्ना गप्पबाजीचें तत्व कमी करपा खातीर हो शब्द अस्तित्वांत आयलो. डेफो, रिचर्डसन, फीलि्डंग हे ह्या काळाचे म्हत्वाचे तीन कादंबरीकार.

वर्तमान स्वरुपांत कादंबरी आनी काणी प्राचीन कथा आनी आख्यायिका हांचे परस वेगळी आनी स्वतंत्र रचना. तिचे भितर यथार्थवादी वा वास्तववादी तत्व गरजेचें आसता. ह्याच तत्वाक लागून कादंबरी सामान्य मनशाचें महाकाव्य जाता. ती 'रोमान्सा'परस वेगळें 'रीयल' चित्रण दिता आनी ताकाच लागून ती 'नॉव्हेल' - नवी जाता. सरळ कथानक आनी सरळ शैली सोडून नॉव्हेल जटील जावंक लागली. योरपांत नवे तरेचें कथानक नॉव्हेल ह्या नांवान चल्लें. बांगला भाशेंत नॉव्हेलाक 'उपन्यास' म्हणटाले. मराठींत ह्या प्रकाराक 'कादंबरी' नांव दिलें. म्हूण कोंकणींत 'कादंबरी'उतरूच रूढ जालें. जटील कथानकाक लागुनूच कथे परस कादंबरी वेगळी जाता. सगळ्या भासांनी तांच्या तांच्या इतिहास, पुराण, आख्यायिका आनी काणी ह्या संदर्भांत हो प्रकार मूळ धरूंक पावला. विद्वान आपले नेरेटिव्ह परंपरे भितरूच ताका सोदपाचो यत्न करतात. आनी हें उचितूच आसा. हाचो अर्थ असो - आमचें साहित्य, आमचो साहित्यीक इतिहास आनी आमची परंपरा हातूंतल्यान आमी गरजेचे प्रभाव ग्रहण करतात; दुसऱ्यांच्या साहित्यीक इतिहासांतल्यान 'मेटींग' स्वरुपांतल्यानूय नवे प्रभाव ग्रहण करतात. आमचें साहित्य पुरायेन भारतीय उरना, तशेंच तें पुरायेन पाश्चात्यूय जायना. आयज भारतीय वा वैश्वीक साहित्यांत आमी ज्या साहित्य प्रकाराक कादंबरी वा उपन्यास म्हूण वळखतात ताका, नाटक, संगीत, चित्रकला, वास्तूकला ह्या कलांक आसा तसो व्हडलो इतिहास ना. तरी पूण आयज वैश्वीक मळार ही साहित्यीक विधा खुबूच परिपक्व जाल्या. कादंबरी म्हळ्यार कल्पना मिश्रीत गद्य जायना, कारण वर्तमान परिस्थितींत जें कितें आसा ताका विसरून कादंबरीकार भविश्याची कल्पना करूंक शकना. काव्य मात वर्तमान स्थितीची पुराय उपेक्षा करून आपले आदर्श घडोवंक शकता.

आमच्या देशांत कादंबरी वा उपन्यास हांचे आदीं कथा, काणी, आख्यान, उद्धरण, उपाख्यान हांचें चिंतन संस्कृत शास्त्रांत मेळटा. थंयच्यानूच आमचें साहित्य विकासात्मक रुपांत नवें रूप धारण करता. वर्तमानांतल्यानूय प्रभाव घेवन ताची वाड जाता. आमच्या देशांत अठरा पुराणां आसात आनी एकोणिसावें *क्रिस्तपुराण* आसा जातूंत फा. थॉमस स्टीफन्स पुराण शैलींत क्रिस्त चरित्र दितात आनी भारत देशांत साहित्यीक सांस्कृतीक संदर्भांत एक नवो अध्याय सुरू जाता.

इसवी सन १८७६ त बंगाली लेखक भूदेव मुखोपाध्याय बरयतात - हांवें वीस वर्सां पयलीं इंग्लीश भाशेचे 'नॉवेल'चें अनुकरण करून एक कथा बंगाली भाशेंत बरयल्ली.

हाचो अर्थ, जें कितें आशिल्लें ताचेर प्रभाव पडलो आनी अनुकरणात्मक स्वरुपान खूब कितें आपणावन आमचें कथानक आनी

आमची शैली तयार जाली. भारतीय भाशेंत 'कादंबरी' हो गद्य प्रकार केन्ना आयलो ताचो तकटो पान एकचेर दिला तो पळयल्यार सन १८५७ त मराठींत आनी १८५८ त बांगला भाशेंत हो प्रकार आयला हें कळटा. कोंकणी भाशेंत, रोमी लिपयेंत, कादंबरी हो प्रकार १९११ त *क्रिस्तांव घराबो* च्या रुपांत मेळटा. ह्या बरपाक आमी कादंबरी मानतात खरीं पूण तातूंत क्रिस्तांव घराब्याचें चित्रण शिकवणेच्या रुपांतूच मेळटा. म्हूण हिका कादंबरी लेखली तरी हे 'कादंबरें'त कादंबरेचीं खुबशीं तत्वां नात. हीच कृती २००९त आमकां नागरी लिपयेंत मेळटा.

शणै गोंयबाबांचे *संवसार बुट्टी,* १९३३ हे, कृतीकूय आमी नवलकथा मानल्या *(कोंकणी विश्वकोश,* भाग पयलो पान ५०८). पूण साहित्यीक विधेचो विचार केलो जाल्यार ती नवलकथा जायना. तें नाटकूय जायना. हाचे उपरांत कोंकणी (नागरी लिपी) 'कादंबरे' विशींची नांवां मेळटात तीं अशीं -

*तुळशी* - रवीन्द्र केळेकार (१९७१), *सूड* - दामोदर मावजो (१९७५), *मोनी व्यथा* - रमेश वेळुस्कार (१९७५), *अच्छेव* - पुंडलीक नायक (१९७७), *बांबर* - पुंडलीक नायक (१९७६), *जायू* - अरुण सिंगबाळ (१९७७), *पापडां कवळ्यो* - लक्ष्मणराव सरदेसाय (१९७९), *पाखलो* - तुकाराम शेट (१९७८), *अंतरपाट* - शांता खांडेपारकार (१९८३), *नखलामी* - एन. शिवदास (१९८७), *निर्बळा आनी मुक्ती* - हेमा नायक (१९९२).

हांचें विश्लेशण केल्यार *तुळशी* आनी *अच्छेव* हांच्या कथाबिजांत कादंबरेची तांक आसा पूण ह्यो कृती खुबश्या तत्वांनी उण्यो पडटात अशें दिसता. *पाखलो* सामाजीक आनी सांस्कृतीक वर्णसंकरता तशेंच मेटींगचें एक सुंदर उदाहरण. तरी ही कृती कादंबरेचें रूप घेवंक पावना. तिका दीर्घ कथा म्हणूं येता. *कार्मेलीन* (दामोदर मावजो १९८१) कादंबरी जाता.

*अंजनी* - एच. रत्नाकर राव (१९९४), *काळी गंगा* - महाबळेश्वर सैल (१९९६), *भोगदंड* - हेमा नायक (१९९७), *पाशाण कळी* - ज्योती कुंकळकार (१९९८), *शक्तिपात* - अवधूत कुडतरकार (२०००), *युगसांवार* - महाबळेश्वर सैल (२००४), *वादळ आनी वारें* - आंतोनियो पेरैरा (रोमी १९७९, नागरी लिप्यंतर२००४), *पोको* - नं.ध. बोरकार (२००४), *दिका* - देविदास कदम (२००४), *घणाघाय नियतीचे* - अशोक कामत (२००५), *खोल खोल मुळां* - महाबळेश्वर सैल (२००५), *गांठवल* - देविदास कदम (२००६), *समर्पण* - नं.ध. बोरकार (२००७), *गोंदू* - नं. ध. बोरकार (२००९), *दोन पिळग्यांची काणी* - अनिल परुळेकार (२००९), *हावठण* - महाबळेश्वर सैल (२००९), *सुनामी सायमन* - दामोदर मावजो (२००९), *उबंतर* - देविदास कदम (२०१०), *आत्मभान* - सुजाता सिंगबाळ (२०१०), *तळ्याचो फातर* - रामनाथ गावडे (२०१०).

ही *कार्मेलीन* उपरांतची नागरी लिपयेंत उजवाडा आयिल्ल्या कादंबऱ्यांची वळेरी.

कोंकणी कादंबरेचो विचार करतना रोमी आनी कन्नड दोनूय लिपयांनी उजवाडा आयिल्ल्यो कादंबऱ्योय हिसपांत घेवंक जाय. कन्नड लिपयेंत कादंबरी परंपरा १९५० त सुरू जाली तरी ती चड संपन्न आसा. *आंजेल* बरोवपी ज्योकी सांतान आल्वारीसान ५०कांदबऱ्यो बरयल्यात. तांचे विशीं म्हाका माहिती ना. कारण म्हाका ती लिपी येना. ही म्हजी मर्यादा जिची म्हाका खंतूय भोगता. एडविन डिसौजा कोंकणीक तेत्तीस कादंबऱ्यो दितात आनी तांची साहित्यीक यात्रा चालूच आसा. कन्नड लिपयेचो हो कोंकणी खजिनो केन्ना तरी नागरी वा रोमींत वाचूंक मेळटलो अशी आस्त धरतां. हे तरेचें आमचें साहित्यीक दिवप-घेवप अजुनूय जायना. आमची विविधता आमची मर्यादा जावन पडल्या. रोमी लिपयेंत ब्रुन द. सौजां उपरांत आलेयशु जुजे फ्रांसिश्कु, एफ्. एक्स्. फेर्नांदीस, इनासियो काम्पुश, आंतोनियु द क्रुज... सारके कादंबरीकार आयले. पूण तांणी सगळ्यांनी ब्रुन द सौजांचे यथार्थ चित्रण शैलीक, Realismक, पाळो दिलो ना आनी कल्पनेचे रंग चड भरले. आयच्या संदर्भांत बोनाव्हेंतूर द पियेत्रोंची रचनायात्रा खूब किते दिता. तशेच समसामयीक रुपांतूय बरोवपी आसात. काळांतरान हें सगळें साहित्यीक भांगर नागरी लिपयेंत येतलें तेन्ना नागरी लिपयेंतलें कोंकणी साहित्य आनीक समृद्ध जातलें.

*वादळ आनी वारें* कादंबरी रोमी लिपयेंत १९७९त प्रकाशीत जाल्ली. नागरींत ती २००४ त लिप्यंतरीत जावन आयली. १९११ ते १९७९ मेरेन कादंबरी विश्व बदलत गेलें. आयजूय तें बदलत आसा. आनिकूय बदलतलें. गोंयची राजकी, सामाजीक, आर्थीक, इतिहासीक, सांस्कृतीक परिस्थितीय आपले केंद्र बिंदू बदलत रावली. १९११त *क्रिस्तांव घराब्याच्या* वेळार गोंय परतंत्र आसलें. सांस्कृतीकरणाची प्रक्रिया आपल्या संकरीत समाजा अंतर्गत जाणिवेचो Identificationचो, रस्तो हुपून, संघर्शाच्या - Conflictच्या मार्गार मुखार सरून समन्वय - Assimilationचें तत्व आपणायता. पोर्तुगेज भाशेंत *Os Brahmanes* १८६६त आयली. तो काळ शासक आनी शासीत हांचे मदल्या संघर्शाचो काळ. तो कादंबरेंतल्यान दोन समाजांची जाणीव करून दिता आनी तांचे भितल्लो संघर्श आमचे मुखार हाडटना थोडे समन्वयाचेय धागे व्यक्त करता. *Franciso Luis Gomes (1829-1869): A Select Reader by Luis De Assia Correia* (२०११) ह्या पुस्तकांत कुरैं बरयतात - "*The Brahmans* reflects saliently the spirit and influence of Victor Hugo" (पान २४.) "Besides Victor Hugo... one other writer who had a great influence on Francisco Luis Gomes was his friend..." (पान २५.) हांवें म्हज्या ह्या लेखांत सुरवेक सांगलां तशें, रचनाकार खंयच्यान तरी प्रभाव ग्रहण करता आनी आपली कृती मांडटा. *वादळ आनी वारें* कृतीचेंय अशेंच.

कादंबरेचें मुखेल पात्र फा. बळवंत. विवीध विशयांचो अभ्यास ताका कसो बदलता हाचो चितार फा. आंतोनियो पेरैरा वेगवेगळ्या संदर्भांत दितात. पात्र प्रभाव ग्रहण करता तसो रचनाकारूय बी आपल्या

काळा अंतर्गत प्रभाव ग्रहण करून्च एक नवी कृती दिवंक पावता. बरो साहित्यकार साहित्याच्या शेतांत खूब नांगरता, बीं पेरता. आनी हातूंतल्यानूच मुखावेले साहित्यकार तयार जातात. (पानां : ४८, ५०, ५८, ६६, ७७, ८१, २१४, २१५). '' 'म्हजो गांव भारत, म्हज्या जाण्टेल्यांनी गायन रचलां' हीं फ्रांसिस्को लुईस गोमिसाचीं उतरां ताणें आपणायलीं आनी छाती भायर काडून तो सगळ्यांक सादयतालो.'' (पान ८०.)

शणै गोंयबाबाच्या साहित्याचोय प्रभाव बळवंताचेर जालो (पान ६६). लेखकाचेरूय तो प्रभाव आसाच. साहित्यांत इतिहास आसता. समसामयीक तत्वांय आसतातूच. साहित्य शुन्यावकाशी आसूंक शकना. मानवीय संदर्भ आनी मानवतायेचो संदेश हें ह्या पुस्तकाचें खाशेलेपण. कारण, लोकांची सेवा करपाचो जो सोपूत घेता ताका देवाचो संदेश लोकां मेरेन पावोवपाक मनीसपणाचो आधार घेवचोच पडटा (पानां: २१६-२१७).

धर्म म्हणटकूच ताचें राजकारण आयलेंच. वांगडाच, मनीस एक व्यक्ती म्हूण वावुरता तेन्ना समाजांत रावपी मनशां आपआपलें मानसशास्त्र आपल्या अणभवांक धरून व्यक्त करतात. मनीस पाद्रीपण आपणायता तेन्ना पाद्रीपणाचे नेम आपणावपूय तितलेंच गरजेचें आसता. थंय इल्लें चुकल्यारूय तुका माफी ना. हाची देख पानां: १२८/ १२९चेर मेळटा. उपेक्षीत पाद्री प्रि. दोरेस दोमिंगोस चो चितार आमकां मानवीय देख दिता.

''ताणें घर भाड्याक घेतलेलें आनी थंय तो एकसुरो कश्टांमदें एक रांड बायलेक घेवन रावतालो. गोंयचे वडील ताका भेट दिना, वासपूस करिना, बरें केल्यार एक ओळ ना आनी वायट केल्यार म्हज्या कानाक वळ घालताले...'' आयज जी परिस्थिती फा. दोमिंगोसाची जाल्या ती फाल्यां म्हजेर येवं येता. हांवें कशें सांबाळचें हें चित्रण मानवीय संदर्भ दिता (पानां: १३१,१३२). दुसऱ्याक उपाशमा दिवप सोंपें आसता पूण आपल्याचेरूय तसलीच परिस्थिती आयली जाल्यार किर्ते जातलें? मनशान निर्मळपण, आंकवारपण सांबाळून आपल्याक आनी आपल्या शेळ्यांक समजून घेवंक जाय.

गोंयचो व्हडांतलो व्हडलो विद्वान कोंकणींतल्यानूच बरयतालो ही वळ बरोवप्याच्या मनांत आशिल्लो आपले भाशेचो मोग उकतायता (पान ६७). हे कादंबरेंत आयिल्लीं धर्मशास्त्र, इतिहासशास्त्र, भासशास्त्र, विज्ञानशास्त्र, भूंयशास्त्र, रसायनशास्त्र ही उतरावळ उचितूच आसा पूण मानसशास्त्राक सैराणशास्त्र म्हळां ते योग्य दिसना. सयराण म्हळ्यार consciousness, sense. पूण मानसशास्त्र फकत चेतन अवस्थेचें अध्ययन करना, अचेतन, अवचेतन, अर्धचेतन, बेभान अवस्था, बेहोशीचेंय करता.

*Os Brahmanes* १८६६त पोर्तुगेज भाशेंत ब्राह्मणा विशींचें चिंतन दिता. "The central problem of this romance is the conflict between the two aspects of Brahmanism - the brown and white" (Luis de Assis Correia, २०११, पान २५). शंबर वर्सां उपरांत १९६६त इंग्लीश भाशेंत गोंयच्या समाजाचो चितार लॅम्बर्ट मास्कारेन्यश *Sorrowing Lies My Land* हे कादंबरेंतल्यान दितात. गोंयचें दुःख, भास, समाज, संस्कृतायेचें समीकरण आर्थीक संदर्भां सयत हे कादंबरेंत आयलां. *वादळ आनी वारें* गोंय मुक्त जाले उपरांत तशेंच विलिनीकरणाचो वाद सोंपले उपरांत नव्या गोंयचो राजकी संदर्भ, ताचें राजकारण, दोनूय समाजांचें सांस्कृतीक समीकरण घेवन येता. वसाहतवादांत हे संदर्भ खुबूच म्हत्वाचे. खंयच्याय समाजांत धर्मांतरण जाता तेन्ना दोनूय धार्मीक तत्वांचो संघर्श जावन समन्वयाचे धागे संघर्शांतल्यानूच तयार जातात.

पाद्रींची, साधू-संतांची, संन्याशी वा तपस्व्यांची जीण मानवीच आसता. पूण सामान्य मनशां परस ती मातशी असामान्य आसता. सामान्य मनीस आपल्याच केंद्र बिंदूंत रावूंक शकता. पूण समाजा खातीर जीण जियेवपी समाजाच्या केंद्रांत चड रावता. व्यक्तीगत तत्वां थंय तितलीं म्हत्व जोडिनात. घडये हाकाच लागून 'वादळ' आनी 'वारें'. फा. बळवंताची जीण परत परत वादळांत सांपडटा पूण कल्याणकारी तत्वांची कृपा जावन ती परती नीट प्रवाहांत व्हांवंक लागता. फा. बळवंताची आवय शांती आनी बापूय जयवंत कोस्ता. देव-भिरांतीन जीण सारपी हें जोडपें. तुजे हात आनी तोंड देवाक दी अशें मानपी आवय-बापूय बळवंताक देवाच्या कामा खातीर, मनशां खातीर जीण ओंपपाची देख दितात (पानां: २४-२७). आमच्या जिवितांत खुरसांतल्यान समतोल आनी जिविताची तागडी येवंक जाय हें ताका पटयतात (पानां: ७८, ७९). म्हळ्यार, पुराय स्वरुपांत देवाची शरणांगती. पाद्रीपण म्हळ्यार आपल्या शेळ्यांक वळखप, मार्ग दाखोवप. हातूंत आपले भाशेचो मोगूय आयलो. हो पाद्री गोंयचे संस्कृतायेंतल्यान, समाजांतल्यान निपजला. देशी लोकांच्या हातांत धार्मीक सत्ता दिवपाचो हो उपक्रम *वादळ आनी वारें*च्या माध्यमांतल्यान फा. बळवंत आपली पात्रताय सिद्ध करून जोडटा. पाद्रीपण शिकप म्हळ्यार साबार शास्त्रांचें, धर्मांचें अध्ययन करप; तांकां आपले जिणेंतल्यान व्यक्त करून लोकां मुखार देख दवरप. कथनी म्हळ्यार कथन करप - उलोवप, आनी करनी म्हळ्यार काम करप. हातूंत भेद आसूंक फावना. समाजांतल्या सगळ्या मनशांक पावप. पाद्री म्हळ्यार जेझूच्या उजवाडाची पणटी जी सामान्य मनशाक देवाची वाट दाखयता. पाद्रीपणाची जीण म्हळ्यार 'इग्रज पाद्रीची व्हंकल' ह्या विश्वासान केल्लें मानवीय काम. हाकाच लागून फा. बळवंताक बिस्म सायबाचो करार मेळटा तेन्ना तिनूय -हिन्दू, क्रिस्तांव, मोयर समाजांतले लोक एकठांय येवन ताचो भोवमान करतात. (पानां: २०८, २०९). हे तरेच्या एकवटा खातिरूच समाजाक जिवीत ओंपिल्ल्या लोकांची जीण खर्च जाता. स्वातंत्र्य सैनीक एकवटान वावुरताले म्हूण गोंय मुक्त जावंक पावलें (पान ११४). एक गजाल खरी, मनशाक इतिहास आसता. तो इतिहासांत जियेता. हातूंतल्यानूच ताची जिविता विशींची नदर घडटा. फा. बळवंत आदमिनिस्त्रादोरा कडेन आपले विचार व्यक्त करता थंय सामान्य मनशाक, म्हळ्यार समाजाक, वैज्ञानीक दृष्टिकोण दिवपाचो यत्न करता (पान : ४८).

*क्रिस्तांव घराब्यांत* देवाची शिकवण आनी तिका धरून क्रिस्तांवाची जीण कशी आसची ताचेर भर दिल्या. *वादळ आनी वारें* धर्मांचीं

पाळांमुळां घट्ट जाले उपरांत देशी पाद्रीची गरज, देशी भाशेचें महत्व सामाजीक-सांस्कृतीक संदर्भांत चितारता. संघर्शूच समन्वया खातीर गरजेचो आसता. कारण, समन्वया उपरांतूच सांस्कृतीक विकास घडून येता. फा. बळवंत राष्ट्रा हुजीर आपले भाशेचें बळगें स्पश्ट करपाचो यत्न करता (पान ६७). सुरवेक आमच्या देशांत विश्वविद्यालयाची स्थापना जाली तेन्ना आमची प्राचीन भास शिकोवपाक युरोपांतल्यान अध्यापक हाडचे पडटाले! मुंबई विश्वविद्यालयाचो इतिहास सांगता, त्या काळचे चान्सलर ईरे पयल्या पदवीदान सुवाळ्यांत म्हणटात, विद्यार्थ्यां कडेन देशी भाशेचें ज्ञान आसप खूब गरजेचें. आयचे विद्यार्थी फाल्यांचे अध्यापक जातले तेन्नाच हांगाच्यो भासो समृद्ध जातल्यो. धर्मशास्त्र शिकोवपी पाद्री आपले प्रादेशीक भाशेंतल्यान सेरमांव दितात तेन्नाच ते लोकांक चड समजतात. घडये हाकाच लागून लॅटीन भाशेंत सेरमांव दिवपाची चाल आशिल्ली ती मोडून थंय थळाव्यो भासो वापरपाचें फर्मान वेटिकनाक काडचें पडलें. आनी ह्याच नेमान पाद्री ज्या ज्या वाठारांत रावता, ताची प्रादेशीक भास महत्वपूर्ण जाता.

''आपलो भावार्थ सांबाळूंक पुर्तुगेझ नाका म्हाका, क्रिस्त आनी ताची कृपा पुरो'' (पान ८१). ह्याच तत्वाक पाळो दिवन बळवंत पत्रकार जाता. देवाची सेवा कोंकणी भाशेंतल्यान करपाची तशेंच थळावे भाशेंतल्यान वावर करपाची ताका उमळशीक दिसता. खरेंच, जो फातर बांदपी सोडून दिता, ताकाच देव वेंचून काडटा. तो वांकड्या अक्षरांनी नीट बरयता (पान १०८). पात्रिआर्क जाका कोनशाक मारता तोच मुखार गोंयचो आर्सबिस्प, कार्दिआल जाता (पान २०५).

पाद्रीपणाची वा माद्रीपणाची वाट एक एकदां एकसुरपणाची वाट जाता हें सत वास्तवीक तितलेंच मानवियूय बी. हाचोय विचार लेखक करता आनी आपल्या समसामयीक काळांत जें समकालीन आसता ताचेंय चिंतन ही कादंबरी व्यक्त करता (पान २१०). थिओलॉजी ऑफ रिडेम्पशन, थिओलॉजी ऑफ नथींग, थिओलॉजी ऑफ रिस्क, थिओलॉजी ऑफ लोनलिनेस अशे थिओलॉजीचे वेगळे वेगळे फांटे आसात. एकसूरपणाचें हें शास्त्र पाद्रीच्या चरित्रचित्रणांत खूब महत्वपूर्ण आसा. कारण तोय बी निमाणो एक सादो मनिसूच! प्रस्न आसा तो लिपोवपाची गरज ना. ताका वळखून घेतल्यार ताचो भंय उरना. एकसूरपण आनी एकांत हीं दोनूय तत्वां आपल्याक समजून घेवपा खातीर मनशाक गरजेचीं आसतात. एकांतांत मनीस हयकारात्मक चिंतन करून आपलें एकसूरपण पयस करूंक शकता. २०९, २१०, २११ हीं पानां हाचेर चिंतन दितात. ताच्या संदर्भांत पाद्रीची जीण असामान्यांची आसली तरी तांची समस्या सामान्यांची जाता, मानवीय स्वरुपाची जाता.

फा. बळवंत बिस्प जाता तेन्ना पान २३३ चेर जो प्रसंग आयला तोय बी मानवीय चिंतन व्यक्त करता. माद्र सुपेरिअर आपलें उलोवप करतना तोंड दाखयना, पूण तिचो ताळो आयकूंक येता. सिस्टरीक बळवंत म्हणटा, ''मागण्यांक गेल्यार चीत लागना...'' सिस्टर म्हणटा, ''तूं डार्क नायट ऑफ द सेन्सीस, वा क्लावड ऑफ द अननोइंग हातूंतल्यान चलताय. वैज्ञानीक चिंतन पाद्री - माद्रीचे जिणेंत युनियन ऑफ द बिईंग कितलें महत्वपूर्ण हें दाखयता, म्हळ्यार, ध्यान क्रिया आनी आत्म्या-परमात्म्याचो एकवट स्पश्ट करता.''

शैली विशीं विचार करतना दिसता, लेखक दिसपटयेचे शैली वांगडाच वर्णनात्मक शैलीचो वापर करता. फा. बळवंत आपली दिसपटी बरयताले म्हूण लेखक त्या पात्राक वास्तवीक रूप दिता. ज्या जाग्यार दिसपटी सोंपल्या थंय कादंबरेचीं सुत्रां वर्णनात्मक स्वरुपांत जोडपाचो लेखक यत्न करता. कादंबरेच्या चरित्रचित्रणांत एक विरोधाभासूय दिसून येता. तो असो - हेराल्डाचेर 'सायबीण रड्टा'... (पान २१४) ही बातमी येता तेन्ना फा. बळवंत वैज्ञानीक आनी वास्तवीक देख दिता. पानांः १९३, १९४ चेरूय बी अशेंच चित्रण मेळटा. पूण होच पाद्री आपल्या पोटांत दुखता तेन्ना दोतोरा कडेन वचनासतना कसो रावता? निमाणें तो वता तेन्ना ताका 'कॅन्सर' जाला म्हूण कळटा.

१९११त कोंकणी कादंबरी Romanticism घेवन येता ती १९७९ त सामाजीक, वैज्ञानीक, मानसशास्त्रीय चिंतन घेवन येता. कादंबरेचो प्रवास खुबूच म्हत्वाचो.

कादंबरे संदर्भांत राष्ट्रीय प्रवाह आनी कोंकणी साहित्य प्रवाह हे विशीं चिंततां तेन्ना जाणवता, शैलीच्या, कथ्याच्या, स्वरुपांत कोंकणी कादंबरी खूब फाटीं आसा. पूण आपल्या विकासात्मक रुपान ती अग्रसर आसा. सामाजीक, इतिहासीक, मनोविश्लेशणात्मक, बालमानस उकतें करपी वैज्ञानीक, Science Fictionची कादंबरी कोंकणींत दिसना. हिंदी, मराठी, बांगला, कन्नड भासांची कोंकणी कडेन तुळा केल्यार दिसता, कोंकणी कादंबरेंत अजून जायतें कितें येवंक जाय. देखून हेर भासांतल्यो कादंबऱ्यो अणकारीत जावन कोंकणींत येवंक जाय. सामान्य मनीस आनी ताची महाकाव्यात्मक जीण कोंकणी कादंबरे कडेन ना. म्हूण महाकाव्यात्मक कादंबरीय कोंकणींत ना. इंग्लीश भाशेंत Ashwin Sanghi हांची *Rozabal Line*, Den Brown हांची *Da Vinci Code*, Joseph Lelyveld हांची *Great Soul : Mahatma Gandhi and his Freedom Struggle* सारकेल्यो कादंबऱ्यो पळेतकच दिसता, असलें चिंतन भारतीय कादंबरेंत येवचेंच आसा. तें येवपाक कोंकणींत तर आनिकूय वर्सां वतलीं. आमचें मानस असल्या विचारां खातीर अजून तयार जावचेंच आसा. *रोझाबाल लायन* आनी *दा विंसी कोड* तर शैली आनी कथ्य दोनांयच्या संदर्भांत DNA चें बारीक सूत घेवन आमच्या वर्तमानाची विसकटावणी करतात. थंयच्यान इतिहासांत वचून तांचीं पाळांमुळां सोदपाचो प्रयत्न करून, वास्तविकते कडल्यान भविश्य जोडटात, थंयच्यान परत इतिहासांत वचून सांस्कृतीक संदर्भांत ताचे धागे विणटात, परत वर्तमानांत ताचो वैश्वीक संदर्भ दाखयतात, आनी कथानक जटील स्वरुपांत फुडें व्हरतात. सपन पळोवपाक स्वतंत्रता गरजेची आसता. ते खातीर बरोवप्याक आनी वाचप्याक स्वतंत्रतायेचें मानस तयार करचें पडटा. कोंकणी कादंबरी विश्वांत हें सगळें येतलें अशी आस धरतां.

संपर्कः ९८२३२५८५५०





माया अनिल खरंगटे

# बायल साहित्यकार आनी कोंकणी कादंबरी

कोंकणी साहित्य खऱ्या अर्थान खूब उसरां फुल्लें. अजुनय ताचीं कांय दालनां उकतीं जावचींच आसात. कांय दालनां तर हालीं हालीं, म्हळ्यार ह्या पंचवीस-तीस वर्सांतूच, बरीं फुल्ल्यांत.

तातूंतलेंच एक, कादंबरेचें दालन. महाबळेश्वर सैल आनी देविदास कदम हांणी ह्या दालनाक बरें वजन दिलां.

कोंकणी साहित्यांत बायल साहित्यकार सुरवेक खूब कमी आसल्यो. कमी म्हणचे परस मोस्त्राक म्हणटात तशी एकूच बायलमनीस आशिल्ली. मागीर ल्हवूल्हवू एक एक तांकीवंत लेखिका तयार जाल्यो. त्यो चडश्यो कथा आनी कवितेचें मळ गाजयताल्यो. उपरांत कांय तेंपान बऱ्योच अस्तुऱ्यो सगळ्या मळांचेर चांटयो मारतना दिसूंक लागल्यो. पूण कादंबरी आनी नाटक ह्या दोनूय प्रकारांक तीं आफूड नासलीं.

हांगा मुजरत उल्लेख करूंक जाय तो शांता खांडेपारकार, आतांची कंटक, हिचो. ती बरी कथाकार. पूण तिणें *अंतरपाट* ही नवलिका बरोवन बायलां पासत कादंबरेचें मळ उकतें केलें. नवलिका ल्हानशीच. विशयूय तसो नवो न्हय. पूण काळजाक हात घालपी. अस्तुरेच्या मनाची घुस्मट दाखोवंक ही नवलिका यशस्वी जाल्या. शांताचे खुसखुशीत शैलीन ती वाचनीय जाल्या. पयलीच नवलिका जाल्ल्यान सगळ्यांनी तिका उर्बेभरीत येवकारूय दिलो. शांता कडल्यान आतां आमकां कादंबरीय मेळटली म्हूण आमी वाट पळोवंक लागलीं. पूण कांय घरगुती अडचणींक लागून शांता कंटक साहित्य मळा वयल्यान पेल्यान गेलें.

परत बायलांचे कादंबरेचें मळ रितें जालें. ते उपरांत हेमाबाय नायक हांणी *निर्बळा* आनी *मुक्ती* ह्यो दोन नवलिका बरयल्यो. ल्हानश्योच. *निर्बळा*चो विशय कोंकणी साहित्यांत पयलेच खेपे आयिल्लो. एके अस्तुरेक भोगदासी म्हणून बापूय लेगीत कसो सोडिना हें बटबटीत सत्य तातूंत मांडलां.

हे नवलिकेन साहित्यमळार सुरवेक बरोच खवदळ घालो. कथानक हांव सांगूक बसना. पूण एके अस्तुरेक घोव, बापूय, भाव, पूत हांचे कडल्यान लेगीत भोगून घेवपाचो वेळ येता, हें सत्य चार वणटीं मदीं सुरक्षीत आशिल्ल्या अस्तुऱ्यांक सुरवेक पटलें ना. अशें घडुंकूच शकना म्हणून तांणी वाद घालो. हेमाबायन अतिशयोक्ती करून बरयलां असो आरोप लेगीत केलो. पूण दोळे आनी कान उकते दवरून समाजांत वावुरपी आनी पेपर वाचपी अस्तुऱ्यांनी *निर्बळा*तलें सत्य मानून घेतलें.

एक खरें, सत्य मांडटना हे नवलिकेंत लालित्य मातशें कमी जालां. ताका लागून साहित्यकृती मनाची पकड घेना. *मुक्ती* हीय नवलिका खंय तरी कमी दिसता. पूण ह्या दोनूय नवलिकांनी हेमाबाय कादंबरी बरोवंक शकतात हें दाखोवन दिलें. तें खरें जालेंय बी.

तांचे उपरांत थोड्याच वर्सां भितर हेमाबायन साहित्य अकादेमी पुरस्कार जोडिल्ली कादंबरी *भोगदंड* बरोवन लेखिकाय कादंबरेच्या मळार फाटीं नात हें दाखोवन दिलें.

*भोगदंड* ही कादंबरी खंयच्याच आंगान उणी ना. हेमाबायची ही कादंबरी येतासर महाबळेश्वर सैल कोंकणी कादंबरेचें दालन सजोवंक लागिल्ले. कोंकणी साहित्य कादंबरेच्या मळारूय फाटीं ना हें तांणी सिद्ध केल्लें. त्याच वेळार हेमाबायचे *भोगदंड* हे समर्थ कादंबरेन कोंकणी साहित्याचें दालें जड केलें.

हे कादंबरेचो विशय सामको चालंत. गोंयांत तारवटी म्हूण वा भायर आखाती देशांनी जोडपाक वचपी समाज खूब. आतां खंयच्याय जाती-धर्माचे लोक तरेकवार कारणांक लागून गोंया भायर, भारता भायर जोडूंक वतात. पूण सुरवेक चड करून क्रिस्तांव समाजांतले भावूच तारवार नोकरेक वताले. हाचो परिणाम तांचे फाटल्यान तांचो संवसार सांबाळपी अस्तुऱ्यांचेर जातालो. कांय जाणां अवैध मार्ग आपणायतालीं, कांय जाणां घोवाचो पयसो फोल्गांनी नानपयत करून उडयतालीं. आनी, घराब्याचे मयपास पयस करून भायर पयसो जोडपाक गेल्ले जेन्ना परत घरा येताले तेन्ना आपल्या घराब्याचें रूप पळोवन पिशांतर जाताले. केन्ना केन्ना तांचेर जीव दिवपाचो लेगीत वेळ येतालो. कांय जाणांचे घराबे मात फुल्ले, फळ्ळे, हेंवूय तितलेंच खरें.

ह्या समाजाचेर कांय लेखकांनी कथा, काणयो बरोवन उजवाड घालो. पूण अशा समाजाचीं धोंगांपोंगां विस्तारान आनी समर्थपणान *भोगदंड* कादंबरेन दाखयलीं. वास्तवाचें चित्रण करतना हेमाबायची लिखणी खंयच कमी पडूंक ना.

बायल मनशेच्या सभावाचीं वेगवेगळीं तासां वेगवेगळ्या बायलांच्या रुपान तांणी आमचे मुखार मांडल्यात. तींय एके तटस्थ भुमिकेन. कोणाची बाजू घेयनासतना. अशे तरेन गोंयच्या समाजाच्या एका वांट्याचो हारसो कशी ही कादंबरी. तिका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळिल्ल्यान तिचे हेर भासांनी अणकार जावन कोंकणी भाशेची तांक हेरांकूय कळटली हातूंत दुबाव ना.

हे कादंबरे उपरांत हेमाबायची दुसरी कादंबरी रोखडीच वाचूंक मेळटली अशें आमकां दिशिल्लें. पूण सिनेमाचे निर्मितींत हेमाबाय घुसपून उरली. हेमाबायचे कादंबरे फाटल्यान ज्योतीबाय कुंकळकाराची

*पाशाणकळी* कादंबरी वाचूंक मेळ्ळी. ज्योतीबायची कथालेखिका म्हणून आमकां वळख आसली. हे कादंबरे वरवीं तिणें कादंबरीकार म्हूण आपणाली वळख घडयली.

समाजाची फास्की मोडपी अशी ही कादंबरी. *पाशाण कळींत* एक सादी सरळ कथा सांगल्या. कथेची नायिका अनुष्का हिचें हें प्रामाणीक पूण संकुचीत अशें आत्मनिवेदन. लेखिकेन आपले परीन नायिकेच्या मनांत फुलनासतना उरिल्ल्या कळयांच्यो पाकळ्यो आपल्या अळार हातांनी फुलोवपाचो यत्न केला. हें करतना सामाजीक बंधनांचो विसर पडूंक दिवंक ना. पूण हें मांडटना कांय कडेन उतरां उणीं पडल्यांत अशें दिसता. कांय कडेन फकत सुचकताय जाय आसली. फावश्या प्रतिकांतल्यान कथानक फुलूंक जाय आसलें. पूण तें तशें जाल्लें दिसना. तरी वाचतना विरस जायना. कथा अळारपणान उगडत वता.

प्रकृतीचेर संस्कार करून बंधनाचे नेम तयार करून समाजान घराब्या पासत फास्की तयार केली. पूण केन्ना केन्ना सभावीक उमाळ्यांचे आड ती येता, आनी मनशाच्या मनाची कुचंबणा जाता. पूण लेखिकेन हे कुचंबणेंतल्यान नायिका भायर सरता अशें दाखोवंक ना. ताका लागून एके तरेचो पलायनवाद तिणें आपणायला काय दिसता.

मातयेचो वास, प्रादेशीकताय अश्यो गजाली *पाशाणकळींत* नासल्यो तरी ही कादंबरी कोंकणी साहित्याक, कोंकणी कादंबरेक गिरेस्तकाय दिता. ज्योतीबायची ही पयली कादंबरी येवन बरोच तेंप जाला. तिणें आपल्या हेर व्यापांतल्यान भायर सरून कादंबरी लेखनाचो वावर हातांत घेवंक जाय अशें म्हणन दिसता.

ह्या दोन कादंबऱ्यां फाटल्यान दीर्घकथा आनी नवलिका बरोवपाचो एक यशस्वी यत्न केलो तो जयंतीबाय नायक हिणें. तिच्यो दीर्घकथा म्हळ्यार कादंबरेचीच एक झलक. सगळ्यांनी तिका सांगिल्लेंय बी, तिची *अदिती* हीय सोबीत अशी नवलिका. हिचीय एक जबरदस्त अशी कादंबरी जावं येताली. ते उपरांत तिणें नवलिकेक हात घालूंक ना. नाटकां बरोवन, बायलोय ह्या मळार फाटीं नात म्हणून तिणें दाखयलां. कादंबरी लेखनांतूय ही लेखिका यशस्वी जातली हे विशीं म्हाका दुबाव दिसना.

हालींच सुजाता सिंगबाळ ही लेखिका कादंबरेच्या मळार देंवल्या. तिच्यो *काणी एके जिणेची, नातें मना मनाचें* आनी *मीरा* अश्यो कादंबरिका आयल्यात. *काणी एके जिणेची* ही एक नवलिका. ही तिची पयली कृती. हातूंतली भास मराठीप्रचूर. वाक्यरचनाय कोंकणी म्हणचे परस चड मराठीचीच. देखून ही कृती मराठींतल्यान कोंकणींत अणकारीत केल्ले वरी दिसता. त्या मानान तिची दुसरी नवलिका *नातें मना मनाचें* भाशेचे नदरेन बरी आसा.

दोनूय कादंबऱ्यांचें कथानक मात मनाची पकड घेवपा इतलें पेजाद ना. *नातें मना मनाचें* हे नवलिकेची सुरवात एके मराठी कथेच्या कथानकाची याद करून दिता. मुखार तिच्या आदारान लेखिका आपली नवलिका बरयता. असो प्रयोग मूळ लेखिकेच्या नांवा सयत सुजाताबायन करूंक जाय. आनी मुखावयलें कथानकूय सुरवातीक सोब सारकें जबरदस्त आसूंक जाय.

सुजाताबायची *मीरा* ही नवलिका हांवें अजून वाचूंक ना. पूण हे लेखिकेक कादंबरी बरोवपाची बरी तांक आसा. उमेदूय आसा. तिणें अजून खूब वाचन करूंक जाय. कोंकणी भास केळोवंक जाय. मागीर बऱ्यो कादंबऱ्यो तिचे कडल्यान बरोवन जातल्यो हातूंत दुबाव ना.

गोंया पुरतें उलोवचें जाल्यार, हांचे भायर लेखिकां कडल्यान आनीक नवलिका कादंबऱ्यो आयिल्ल्याचें आयकलें ना. पूण हालींच शांताबाय कंटक मेळिल्ली. तिणें एक कादंबरी बरोवन दवरल्या अशें ती सांगताली. तिणें ती बेगिनूच उजवाडा हाडूंक जाय. तशेंच मीनाबाय काकोडकार लेगीत कादंबरी बरयता अशें आयकूंक आयलां. मीनाबाय एक बरी कथाकार. तिची कादंबरीय बरी वाचनीय आसतली हातूंत दुबाव दिसना.

गोंया भायरूय कन्नड लिपयेंत बरोवपी एक मंगळुरी अस्तुरी कास्तेलीनाबाय कुलासो हिणें कन्नड लिपयेंत स सुमार कादंबऱ्यो बरयल्यात खंय. लिपयेचे अडचणीक लागून आमी त्यो वाचूंक पावनात. कर्नाटकांत घडये आनिकूय अस्तुऱ्यो कन्नड लिपयेंत कादंबऱ्यो, नवलिका बरयतात आसूं येता.

हाचे वयल्यान एक दिसता, कोंकणी बायलांनी कादंबरेचें मळ तशें सामकेंच पडींग दवरूंक ना. तांचे कडल्यान ज्यो थोड्यो कादंबऱ्यो कोंकणीक मेळ्ळ्यात त्यो ताकीवंत अश्योच आसात.

कोंकणींतल्यो कांय लेखिका आपलें गृहिणीपद, संवसार, शिर्वीस हातूंत चड घुस्पल्यात. ती चवकट सांबाळून त्यो मागीर उरिल्ल्या वेळांत साहित्य, छंद, आवडी-निवडी पळयतात. फाविल्ल्या वेळांत हेर छंद सांबाळूं येत, लेखन न्हय. तातूंत कविता कथां सारकें थोड्या वेळांत बरोवपाचें साहित्य जायतूय घडये. पूण कादंबरी न्हय. तिचो आंवाठ व्हड. तिका जाय आसता साधना आनी भरपूर वेळ.

कादंबरी लेखनाचें हें आव्हान आमी बायलांनी घेवंकूच जाय अशें म्हाका दिसता.

संपर्क: ९४२०६८५२७८



हनुमंत चोपडेकार

# देवाच्ये कुर्पेन - 'खडपा'चे तांकीची इतिहाशीक कोंकणी कादंबरी

"An extended work in prose, either fictitious or partly so, dealing with character, action, thought, etc. especially in the form of a story." ही कादंबरी ह्या साहित्यप्रकाराची एक भोव सुंदर व्याख्या. ह्या साहित्यप्रकाराचेर ई.एम्. फॉस्टर सारको कादंबरीकार सहज म्हणून वता - "the novel tells a story", जाल्यार सॉमरसॅट मॉम, "there are three rules for writing the novel. Unfortunately, no one knows what they are" अशें म्हणून ह्या प्रकारा विशीं अस्पश्ट तरेन खूब कितें सांगून वता.

**संवसारीक आनी कोंकणी कादंबरी- थोडीशी प्रस्तावना**

डॅनियल डॅफो हांची *रॉबिन्सन क्रुसो* ही १७१९ वर्सा उजवाडा आयिल्ली इंग्लिशींतली आनी संवसारांतली पयली कादंबरी. ह्या कार्या खातीर तांकां आर्विल्ले इंग्लिश कादंबरेचे मुळावण घालपी लेखक मानतात. प्रथम पुरुषी निवेदनांतल्यान बरयल्ली ही कादंबरी मध्यमवर्गी मानसीकतायेचेर दुःख व्यक्त करता. इंग्लिश कादंबरेन पुराय साहित्यीक संवसाराक एक नवो साहित्यप्रकार दिलो. तो उपरांत इंग्लिश धरून जगांतल्या हेर भासांनी उदरगतीक पावलो.

विसाव्या शेंकड्यांतले जगांतले कांय म्हत्वाचे कादंबरीकार वेंचून काडले जाल्यार तातूंत सुरवेच्या काळांत पाश्चात्य वाठारांतले बरोवपी मुखार आशिल्ल्याचें, जाल्यार उपरांतच्या काळांत आफ्रिकी उपखंडांतले तशेच आशियायी उपखंडांतले कादंबरीकार जैतिवंत जाल्ल्याचें दिश्टी पडटा. आयज एकविसाव्या शेंकड्यांत संवसारांतल्या सगळ्याच मुखेल भासांनी कादंबरी हो साहित्यप्रकार ते ते भाशेंतले लेखक केळयत आसात. आमच्या भारतांत ल्हान व्हड सगळ्याच भासांनी हो साहित्यप्रकार फामाद जाला. राष्ट्रभास हिन्दी धरून सिंधी, नेपाळी, कोंकणी सारक्या ल्हान भासांनी लेगीत हो साहित्यप्रकार उदरगतीक पावला.

कोंकणी कादंबरेचो विचार केलो जाल्यार, कोंकणी कादंबरी मुखेलतायेन तीन लिपयांनी उजवाडा येता. देखून अभ्यासकांक कन्नड लिपयेंतली कोंकणी कादंबरी, रोमी लिपयेंतली कोंकणी कादंबरी आनी देवनागरी लिपयेंतली कोंकणी कादंबरी अश्या वांट्यांनी तिचो अभ्यास करचो पडटा. पयली कोंकणी कादंबरी बरोवपाचो मान एदुआर्द जुझे ब्रून द सौज हांकां फावो जाता. तांणी बरयल्ली *क्रिस्तांव घराबो* ही पयली कोंकणी कादंबरी रोमी लिपयेंत २०११ वर्सा उजवाडा आयली. फ्रेंच लेखक आलेशांद्र द्यूमाचे कादंबरेच्या प्रभावान ती बरयल्ली आसली तरी तिचें पुराय अस्तित्व वेगळें मानचें पडटलें.

कन्नड लिपयेंतली पयली कोंकणी कादंबरी १९५० वर्सा उजवाडाक आयली. ज्योकीं सांतान आल्वारीस हांची आंजेल ही ती कादंबरी. ज्योकींबाबांचे सादे सोंपे शैलीक लागून आनी तांणी केल्ले गांवगिरे समाजजिणेच्या वास्तव चित्रणाक लागून ती त्या वेळार खूब गाजली. तांणी सुमार पन्नास कादंबऱ्यो रचल्यो. इन्क्विझिशनाचे पिडापिडेक लागून गोंयां साकून कर्नाटकांतल्या कांय वाठारांनी स्थायीक जाल्लो हो कोंकणी समाज आनी ताचे तरेकवार प्रस्न मुखेलपणान कन्नड लिपयेंतल्या कोंकणी कादंबऱ्यांनी शब्दबद्ध जाल्यात.

ह्याच विशयाक धरून व्ही. जे.पी. साल्दानांनी रचिल्ली *देवाच्ये कुर्पेन* ही कन्नड लिपयेंतली कोंकणी कादंबरी भोवूच गाजल्या. व्ही. जे.पी. साल्दाना कन्नड लिपयेंतलो एक म्हत्वाचो कोंकणी कादंबरीकार. तांकां 'खडाप' ह्या नांवान वाचक वळखतात. तांच्यो चड्श्यो कादंबऱ्यो इतिहासीक स्वरुपाच्यो. *मोगाची महिमा, सायबा भोगोस, सरदाराची सिनोल, बचावेची चावी, बेल्तांगडीचो बाल्ताझार, तांबडी पितूळ* ह्यो तांच्यो कांय गाजिल्ल्यो कादंबऱ्यो. कादंबरीकार तशेच नाटक रचपी म्हूण ते पुराय कोंकणी समाजांत आनी साहित्यीक मळार फामाद आसातूच. पूण ते भायर, एक अणकारपी, बरो वक्तो, संगीतकार, संपादक, कोंकणी संघटक म्हुण्णूय ते परिचयाचे आसात.

***देवाचे कुर्पेन* - सद्भावने साकून संघर्शा मेरेन...**

व्ही.जे.पी. साल्दाना हांणी कोंकणी कादंबरेक एक नवी वळख दिल्या. आपल्या कादंबऱ्यांतल्यान तांणी वेगळी जाणविकाय, वेगळें जिवीत आनी वेगळ्यो कथा कोंकणी साहित्याक दिल्यात. *देवाच्ये कुर्पेन*ही तातूंतलीच एक उत्कृश्ट कादंबरी. रेगो अँड सन्स प्रकाशनान ती १९९५ वर्सा देवनागरींत घालून उजवाडाक हाडल्या. पयलीं ती कन्नड लिपयेंतल्यान ह्याच नांवान प्रसिद्ध जावन भोव गाजिल्ली.

तशें कादंबरेचें कथानक सामान्य तरेन फुडें सरता. म्हैसूरचो राजा हैदर अलीचो पूत टिपू सुलतान हाचे सैनिकी तशेच राजकी व्यवस्थेंत

हिकमतीन वावुरपी कोंकणी तरनाट्यांची ही कथा. टिपूच्या प्रशासनांत कर्नाटकांतल्या मंगळूर, बार्कूर, ओम्जूर, बंटवळ, फळणीर, जमलाबाद आदी वाठारांतले क्रिस्तांव कोंकणी तरनाटे कशे धिटायेन वावुरताले तें सांगून कादंबरीकारान ओम्जूरगार सिमांव पेद्र प्रभू आनी फळणीरगार आंतोन पावल शेट हांचे मदीं घडिल्ले पैजेची आनी दुस्मानकायेची काणी हांगा सांगल्या. हे दोगूय टिपूच्या दरबारांतले महारथी. दोगांयकूय राजदरबाराचो मानसन्मान तशेंच टिपूची खास मर्जी फाव जाल्ली आसता. ब्रिटिशां कडेन झुजतना कोंकण किनारपट्टेचेर वशिल्ल्या बार्कूर साकून कल्लिकोट मेरेनच्या कोंकणी क्रिस्तांव समाजा कडच्यान आपणाक तेंको मेळचो म्हूण टिपू आपल्या निशठावंत सरदार आंतोनाक एकदां बंटवळच्या राफायल मिंगेल कामतीचे धुवे कडेन सोयरीक जुळोवन काजार जावपाक धाडटा. टिपूच्या राजकी मुत्सद्दीपणाचो हो एक नमुनो. पूण मिंगेल कामतीची धूव सरदार आंतोनीक अपमानीत करून रित्या हातांनी परतून धाडटा. सरदार सिमांव आनी ताचे सांगाती इश्ट ताचीं फकांडां करतात. थोडो वादविवाद जाता आनी दोगूय सरदार तेमाक पेट्टात. सरदार सिमांवाच्या अहंकाराचेर आघात जातकच तो सरदार आंतोना लागीं एक पैज मारून बसता. स म्हयन्यां भितर आग्नेस सिसिलियाक काजार करून हाडिना जाल्यार आपली सगळी आस्पत आंतोनाक दिवपाचो दाव तो खेळटा. सरदार आंतोनूय तेमान आपली आशिल्ली नाशिल्ली सगळी आस्पत दावाक लायता. इश्ट समजयतात, पूण कोणूच फाटीं सरना. हे नाट्यमय घडणुकेंतल्यान आरंभ जावपी हे कादंबरेचें कथानक लेखकान वट्ट ४२ विभागांनी रचलां.

पयलो विभाग, *दरबाराचो दाव* ह्या नांवान सुरू जाता जाल्यार साबार वळणां घेयत निमणे कडेन 'बंटवळाक आदेवस' ह्या प्रकरणांतल्यान कादंबरी वाचकाक आदेवस करता. एकंदर २५९ पानांचे हे कादंबरेंत सरदार आंतोन कसो फितुरी करता; सरदार सिमांव पेद्र प्रभू बंटवळाक कसो वता; वाटेक ताका टिपूचे सैनीक कशे आडखळी हाडटात; ताची ग्रेगोर तेल्लीस ह्या तिरुमलराय म्हणजेच टिपूच्या राजकी दुस्माना कडेन भेट कशी जाता; सिमांव ग्रेगोर तेल्लीस जावन तिरुमलरायाचो बरेमागतो मिंगेल कामतीगेर कसो पावता; आग्नेस सिसिलिया आनी सिमांवाचो मोनो मोग कसो शब्दा विणें उलोवंक लागता; तशेंच आग्नेस सिसिलियाचे आनी मिंगेल कामतीचे सगळे आस्पतीचेर दोळो दवरपी दोतोर मर्याणाची फितुरी; राफायल मिंगेल कामतीक सोडोवचे पासत सिमांवान केल्ली अटक; ग्रेगोर तेल्लीस समजून सरदार सिमांवाची टिपूच्या सैनिकां कडच्यान अटक; मानवेल मेंदोस ह्या नीज कोंकणी सैनिकी अधिकाऱ्याची भेट आनी सहकार्य; ग्रेगोर तेल्लीस समजून सरदार सिमावांचेर चलिल्ली कायदेशीर कारवाय; थंयसर घडोवन हाडिल्ली आग्नेस सिसिलियाची मोगाळ भेट; सरदार आंतोनाची कपटी भुमिका; मिंगेल कामतीची परत अटक; टिपू सुलताना कडेन सिमांवाची भेट आनी सुटका; दुश्ट दोतोर मर्याण आनी सरदार आंतोनाचो शेवट; मिंगेल कामतीची सुटका; आग्नेस सिसिलियाचें सिमांवाक बंटवळांतलें निमणें मेळप आनी लागीं आयिल्ल्या मोगी जिवांची पैजेच्या दावाच्या कारणान इत्सा नासुनूय जाल्ली ताटातूट, अश्यो घडणुको विणीत ही कादंबरी आकाराक आयल्या.

हे कादंबरेन लिपयांचें दुरीग हुपलां. हाचे वयल्यानूय तिचे लोकप्रियतेचो तशेंच गुणवत्तेचो अदमास लावं येता. तरी लेगीत हे कादंबरेच्या गुण-दोशांचेर सविस्तर भाश्य करप गरजेचें.

### *देवाच्ये कुर्पेन*- चिकित्सक समालोचन ते समिक्षे मेरेन...

विसाव्या शेंकड्यांतल्या निमण्या दसकांत प्रसिद्ध जाल्ली *देवाच्ये कुर्पेन* ही कोंकणींतली एक इतिहासीक, साहसीक तशीच मोगाची एक तांकीवंत कादंबरी. महाबळेश्वर सैलांची कारवारचे काळे न्हंयचे देगेक वशिल्ल्या लोकांचे लोकजिणेचे उमाळे उकते करपी *काळी गंगा* ही कादंबरी, आनी हेमा नायकांची दुडवांचे फाटल्यान गल्फाक धांवपी गोंयच्या तरनाट्यांचे बायलेचे प्रतारणेची वास्तवकथा मांडपी *भोगदंड* ही कादंबरी, ह्यो ह्या निमण्या दसकांतल्यो म्हत्वाच्यो कादंबऱ्यो. गोंयांतली आनी कारवार वाठारांतली वस्तुस्थिती त्यो मांडटात. *भोगदंडांत* तर इराक आनी कुवेटाच्या झुजा वेळार कोंकणी समाजाचेर जाल्ले परिणाम दाखयल्यात. ह्यो कादंबऱ्यो निमण्या दशकांतले कोंकणी कादंबरेचें खरें प्रतिनिधित्व करतात. ह्या दोन म्हत्वाच्या आनी गाजिल्ल्या कादंबऱ्यां मदीं *देवाच्ये कुर्पेन* निश्तिशितूच आपली सुवात राखून दवरता अशें म्हणूं येता.

हे कादंबरेंतल्यान व्ही. जे.पी. साल्दाना हांणी कर्नाटकांतल्या उत्तर आनी दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांतल्या कोंकणी क्रिस्तांव समाजाची टिपू सुलतानाचे राजवटींतली शोकांतिका शब्दबद्ध केल्या. म्हैसूरचो राजा टिपू सुलतानाचे राजवटीचो कालखंड घेवन हे कादंबरेचें कथानक घुंवता. कादंबरेची फाटभूंय आनी वातावरण अस्सल इतिहासीक आसलें तरी घटनाप्रसंगांचो निश्चीत कालखंड सांगपाक स्वता लेखक अनमनतना दिसता. तांतले तातूंत टिपू सुलतानाच्या जिविताचो कालखंड मतींत घेवन वाचक संबंदीत कालखंडाचो अदमास काडटा ती वेगळी गजाल. कादंबरेच्या जायत्या प्रसंगांनी थोडीभोव फिल्मी शैली दिसून येता. देखीक - सरदार सिमांवाची आनी ग्रेगोर तेल्लीसाची भेट वा ग्रेगोर तेल्लीस समजून ताचेर आग्नेस सिसिलियान केल्लो मोग ह्यो गजाली इतिहासीक रचनेंत तरी मनाक पटनात. तरी एक समादानाची गजाल म्हणजे, तातूंतल्यो व्यक्तिरेखा साहसीक तश्योच जिव्यो तट्टटीत जावन वाचप्यांचे भेटेक येतात. नायक सिमांव पेद्र प्रभू, नायिका आग्नेस सिसिलिया, तिचो बापूय राफायल मिंगेल कामत, खलनायक सरदार आंतोन पावल शेटी, दोतोर मर्याण, पाद्र जोकीम मिरांद, नायकाचे बरेंमागते आनी इश्ट अंतुलो पडवळ, तोमास कामत, युसूफ अली, मान्वेल मेंदोस, ग्रेगोर तेल्लीस, कथानकांत वेगळीं मोडणां हाडपी सावकार मार्सेल कुवेलीन, जुवान मोनिका कुवेल, ह्यो व्यक्तिरेखा आपल्या सभावांतल्या धोंगां-पोंगां सयत जिव्या

तट्टटीतपणान उब्यो जाल्ल्यो आसात. कादंबरेची सगळ्यांत जमेची वट ती ही. खास करून नायक सिमांव आनी आग्नेस सिसिलियाच्या अमुरपिक्या मोगाचीं तरेकवार भावनीक ल्हारां शब्दबद्ध करतना तांचीं अंतर्मनां बरोवप्यान भोवूच जिवंतपणान चित्रीत केल्यांत. हांगा लेखकाची निवेदन शैली चडूच परिपक्व दिसता. देखीक -

१) ''अशें सदांयी घडटालें. आग्नेस कुंवर्नीची कुडी आत्म्याची सोभाय, तिचे शेगूण आनी लक्षण मेळोन सरदार सिमांवचे जिणयेक नवोच अर्थ आयिल्लो. तिचें काळीज जिखोन तिका आपले जिणेची सांगतीण केल्या बगर ताच्या जिविताचो शेवट अर्थाभरीत जावचो ना म्हण तो आतां जाणा जाल्लो. देकुनय तसलें माणीक आपूण जुगारेंत जिकोंक आयिल्लों म्हण चिंतून ताका लज भोगताली.'' (पान ३६. ह्या आनी उपरांतच्याय अवतरणांनी देवनागरी बरपाचे रितीक धरून बदल केल्यात. देखीक, 'आप्ल्ये' उतर 'आपले' अशें बरयलां.)

२) ''आग्नेस कुंवर्नीक, राविल्ले कडे झींट मारिल्ले बरीं जाली. तिणें, तो गेल्ले कुशीक हात ओड्डावन 'सिमांव!' म्हणोंक तोंड उगतें केलें. पूण, गद्रद्या तिच्या ताळ्यांतल्यान आवाज भायर सरोंक ना. त्या काळोकांत आपवंचो तिचो हात, सरदार सिमांवक दिसोंक ना...'' (पान २५९.)

कादंबरेची भाशाशैली तशेंच संवादशैली ओडलायणी आसा. थळावी भास तशेंच तातूंतल्यो म्हणी-ओपारी आदींचो उपेग बरोवप्यान व्हडे कळाशेन केला. हे कादंबरेची पुराय बांदावळ इतिहासीक तशेंच चरित्रात्मक शौर्यगाथे कडेन झुकतना नदरेक भरता.

A fictitious prose narrative of book length, typically representing character and action with some degree of realism ही शब्दकोशांतली कादंबरेची फामाद व्याख्या हे कादंबरेचे उस्तवारीक सामकी लागू जाता. तातूंतलें some degree of realism हें तत्व, हे कादंबरेचे रचनाप्रक्रियेंत भोव म्हत्वाचें आसा. मुळांत इतिहासीक कथानक लाभिल्ली ही कादंबरी आपले इतिहासीक सत्यतेची रुजवात तशी स्पश्टपणान खंयच दिना. प्रकाशक मात ''ऐतिहासीक, साहसीक आनी मोगाची कादंबरी'' अशें म्हणून तिचो गौरव करता. लेखक आपणें मांडिल्ल्या घटनाप्रसंगांक अस्पश्ट तरेन वास्तववादाचो हयकार दिता. टिपू सुल्तानाचे राजवटींत कन्नड जिल्ल्यांतल्या कोंकणी समाजाची जाल्ली विदर्णा आनी विध्वंस कादंबरीकार देवाचे कुर्पेन सांगूंक सोदता. ते खातीर टिपू सुलतानाच्या दरबारांतल्या सरदार सिमांव आनी सरदार आंतोन ह्या दोन सरदारांचे आपसांतले पैजेचें प्रयोजन तो करता. कन्नड जिल्ल्यांतल्या बंटवळ वाठारांतल्या राफायल मिंगेल कामतीची धूव आग्नेस सिसिलियाक हातासपाचे हे पैजेच्या दावांतल्यान फुडें सरपी ही कादंबरी तातूंतल्या व्हांवत्या आनी उत्कंठावर्धक कथानकाक लागून वाचकप्रिय थारल्या हातूंत मातूय दुबाव ना. आग्नेस सिसिलियाक मेळोवपाच्या प्रयोजनांतल्यान घडपी तरेकवार साहसीक तशेंच मोगाच्या घटनाप्रसंगांनी ही कादंबरी रूप घेयत वता... ही काणी जायत्या नाट्यमय घडणुकांनी रंगल्या. तांकां ४२ माथाळेय बरोवप्यान दिल्यात. चिकित्सक नदरेन पळयल्यार त्या माथाळ्यांची निखालूस गरज थंय भासना. मुळांत बरोवप्यान खंयच घुस्पागोंदळ करी नासतना कथानकाची मांडणी केल्ली आसतना माथाळ्यांची गरजूच कसली! ते माथाळे थंय वोगीच कालवाकालव केल्ले वरी आपलें अस्तित्व दाखोवन वाचकाक आडखळ करीत रावतात. घडये लेखकान सामान्य वाचकाक सोंपें जावचें म्हूण ही येवजण आंखल्या आसुये. पूण प्रदीर्घ लेखन केल्ल्या सिद्धहस्त लेखकान वाचकांचे पातळेचेर वच नासतना आपले प्रतिभेच्या आनी शैलीच्या जादवान सामान्य वाचकाक उंचेले पातळेचेर व्हरपाचो आसता. सांगपाचो मुद्दो - ही माथाळ्याची चूक फकत माथाळ्यां पुरती मर्यादीत उरूंक ना तर लेखकाची हे तरेची भुमिका पुराय कादंबरेंत कळत नकळत दिश्टी पडत राविल्ल्यान जायते फावटीं वाचकाचो विरस जाता. देखीक - दरबाराचो दाव ह्या पयल्याच प्रकरणांत लेखक बरयता -

''ताच्या आस्थानांत **आमच** सबार मालघडे, सैनांत आनी राजेवट्कार्येत नांवाडोन, राया सारक्या दरेबारान जियेताले.''

''पूण ही कथा, श्रीरंगपट्णाचे बंधडे प्रास थोड्या वर्सां आदली. तेदना टिप्पू सरदार, राजकीय कारणां खातीर आनी मंगळूरांतल्या थोड्या महंतनी कुटमांनी ताचो विरोध त्या फिंरग्यां कडे फितुरी चलयिल्ल्या खातीर, **आमच्या** मालघड्यां विरोध पुरतो खुबळोंक नातल्लो.''

''ताच्या आस्थानांत **आमच्या** मंगळूरांतले, बार्कुरांतले, ओम्जुरांतले, आनी बंटवळांतले युवक थरावन हुद्दे सांबाळून आसल्ले.'' (*देवाच्ये कुर्पेन* - पयलो वांटो)

वयल्या देखींनी बरोवप्याची तटस्थ भुमिका दिसना. *आमचे म्हालगडे, आमचो वाठार, आमच्या मंगळूरांत,* ह्यो रचना लेखकाची प्रचारकी तशेंच वैयक्तीक भुमिका पयलींच उक्ती करतात. भारतीय लेखकाचो देशीवाद समजूं येता, तो आसचोच. पूण तो वस्तुनिश्ट पद्दतीन आयल्यार कलाकृतीची सृजनात्मक कलात्मकता एका उदात्त आनी क्लासीक पांवड्यार पावपाक शकता. हांगा आनीक एक गजाल विचारांत घेवपा सारकी आसा. ती म्हणजे, लेखक स्वताच जुवीज जावन जायत्या तथाकथीत इतिहासीक घडणुकांचो निश्कर्श काडटा. जायते कडेन बरोवपी खासा आपल्या निवेदनांतल्यान बरयता - १) ''निजायकी आमकां शिकयिल्ले तितलो क्रिस्तांव विरोधी तो (टिपू सुलतान) न्हय आसलो.'' २) ''ब्रिटिशांच्या विरोध निमणी घडी पर्यांत झुजोन जीव दिवपी आपूट देशभक्त जावन आसल्लो म्हैसूरचो वाघ सर्दार टिप्पू.'' हांगाय बी आपली वस्तुनिश्टता राखपाक लेखक अयशस्वी थारता अशें म्हणचें पडटा. कारण हांगा बरोवपी पयलींच निर्णय दिवन मेकळो जाता. वाचकाचे तकलेक ताण दिवपाचें तो कांयच दवरिना.

खरें म्हणजे, बरोवप्याची सात्वीक वृत्ती हांगा बॅरींग सोडटा अशें

म्हाका दिसता. कादंबरी ह्या कथनात्मक साहित्य प्रकाराचे शास्त्रीय बसकेचें आकलन जावप आनी तें प्रत्यक्षांत लिखणेंत खेळोवप हें कादंबरीकाराचें खरें कसब. ते भायर प्रयोगशीलतेक आशिल्ले संदीचोय लाव घेवप ही एक कळाशी. हें लेखनतंत्र पचोवपाक कादंबरी हो साहित्यप्रकार कसो जल्माक आयलो तें कळप गरजेचें. कादंबरेचे रचने फाटल्या 'फोर्सा'चो सोद लागत जाल्यार ह्या प्रकाराची योग्य वळख जातली अशें म्हाका दिसता.

अठराव्या शेंकड्यांत पुराय संवसारांत विज्ञान, तंत्रज्ञान आनी वैचारीक क्रांतीचो आरंभ जालो. तातूंतल्यानूच संवसारांतल्या सगळ्याच मळांचेर दोळे दिपकावपी परिवर्तन घडूंक लागिल्लें. मनशाची जीण मुळा सावन बदलूंक लागिल्ली. समाजीक, राजकी आनी सांस्कृतीक मळांचेर हें परिवर्तन चड प्रमाणांत दिश्टी पडटालें. पाश्चात्य संवसारांत ताचो प्रभाव भोवूच खोलायेन जाल्ल्याचो जाणवतालो. देखुनूच साहित्यीक मळाचेर लेगीत नवे आयाम ह्याच वाठारांतल्या लेखकांनी प्रस्थापीत करपाचे प्रयत्न केले. कविता, कथा, अशे साहित्याचे प्रकार तेन्ना भोव फामाद आशिल्लेच. विज्ञान, तंत्रज्ञान आनी वैचारीक क्रांतीच्या जिविताचेर जाल्ल्या प्रभावान लांबादीक स्वरुपाचो कथनात्मक साहित्य प्रकार सादारण अठराव्या शेंकड्याचे सुरवेक जल्माक आयलो. ताचे पयलीं कांय लेखकांनी हो प्रकार केळोवपाचो यत्न केलो पूण ताका शास्त्रीय बसका फावो जावंक नाशिल्ली. चडांत चड लोकांनी चडांत चड अभिरुची केळोवन आपणायल्लो हो कादंबरी नांवाचो साहित्यप्रकार खऱ्या अर्थान १७१९ ह्या वर्सा जल्माक आयलो.

विसाव्या शेंकड्यांत पुराय जगाक दिपकावन सोडपी विचारवंतांनी कादंबरी हो साहित्यप्रकार हाताळिल्ल्याचें नदरेक भरता. तातूंत चार्ल्स डार्वीन, कार्ल मार्क्स, फेडरित्च नित्त्ये, सिग्मान्ड फ्रोयड, झ्यां पॉल सार्त्र, मार्टीन हिडेंगर अश्या तत्वगिन्यानी विद्वानांचोय आसपाव जाता. तांणी आपल्या कादंबऱ्यांतल्यान सैमाची आनी मनशाची उत्पत्ती, दैवी संकल्पना, मनशाचें अंतरीक मन, मनशाची मनोवासना, संवसाराचे निर्मितीचें गुपीत, मानवी अस्तित्वाचो सोद अश्या विंगड विंगड विशयांचेर सोदात्मक कादंबऱ्यो रचिल्ल्यो आसात. हे फाटभुंयेचेर टिपू सुलतानाचे राजवटींत कर्नाटकांतल्या क्रिस्तांव कोंकणी समाजाचीं स्थित्यंतरां मांडपी व्ही. जे. पी. साल्दाना एक इतिहासीक जाणिवेचो बरोवपी म्हूण दोळ्यांक भिडटा. तांणी केल्लें संशोधन आनी एकठांय केल्ली म्हायती कादंबरेंत दिसून येता.

### निश्कर्शाचीं उतरां

टिपू सुलतानाच्या राजदरबारांतल्या सरदार सिमांव पेद्रू प्रभू आनी आंतोन पावल शेट हांचे आपसांतले पैजेच्या निमित्तान लेखक कोंकणी क्रिस्तांव समाजांतल्या असंघटीतपणाचेर भाश्य करता. कुल्ल्यां भशेन पांय ओडपाची वृत्ती, सुवार्थी नदर आनी स्वयंकेंद्रीत राजकारण ह्या गजालींक लागून क्रिस्तांव कोंकणी समाज तांक आसुनूय बी फाटीं उरलो हाची खंत बरोवपी हे कादंबरेंतल्यान नकळटांच मांडटा. वयलेचाराक ही कादंबरी हे विशीं कांयच उलयना. पूण प्रत्यक्षांत लेखकाक सांगपाचें आसा तें हेंच. कारण फकत घडिल्लो इतिहास मांडपाक लेखकाक रस ना तर कोंकणी समाजाची असंघटीत वृत्ती कितली घातक आसली ताची इतिहासीक रुजवात दिवन ह्या समाजान तातूंतल्यान शिकवण घेवन मुखार एकवटान रावचें असो संदेश दिवपी सूर हे कादंबरेंतल्या उतरा उतरांतल्यान येयत रावता. संवसारांतल्या व्हड व्हड कादंबरीकारांनीय अश्याच आशयाच्यो कादंबऱ्यो रचून तुटिल्ल्या समाजाची नाळ जोडपाचो यशस्वी प्रयत्न केला. नाथालॅन हाव्थॉर्ने हांच्या *The Scarlet Letter* आनी House of the Seven Gables ह्या १८५०-५१त रचिल्ल्या कादंबऱ्यांनीय होच थळावेपणाचो भावार्थ आयला. भारतीय वंशाचे नॉबेल पुरस्कार जोडिल्ले इंग्लीश कादंबरीकार व्ही.एस. नायपॉल हांणी कॅरेबियन जुंव्या वयल्या लोकमनाचे हुंकार अभिव्यक्त करून शिंपडून पडिल्ल्या असंघटीत कॅरेबियन मनांक सत्वाची जाणीव करून दिवपाचें मोलादीक कार्य आपले लेखणेंतल्यान केलां. तांची *House for Mr. Biswas* आनी *Half a Life* ह्यो कादंबऱ्यो परकी भुंयेंत जगपी विस्थापितांच्या घाव्यांचेर उलयतात.

कोंकणींत इतिहासीक तशेंच चरित्रात्मक कादंबऱ्यांचो तसो व्हडलो प्रवाह दिश्टी पडना. कांय हाताच्या बोटांनी मेजपा इतल्योच तसल्या आशयाच्यो कादंबऱ्यो कोंकणींत आयल्यात. दिपाजी राणे हांच्या पराक्रमी जिविताचेर उजवाड घालपी लक्ष्मीदास बोरकार हांची *दिपत्कार*, इंक्विजिशनाचे पिडापिडेक आनी बाटाबाटीच्या सांवाराक वाचा फोडपी *युगसांवार* ही महाबळेश्वर सैलांची कादंबरी आनी ए. टी. लोबो हांची कन्नड वाठारांतल्या कोंकणी समाजाची इतिहासीक वस्तुस्थिती मांडपी *वेलघडी* ही लांबादीक कादंबरी अश्यो कांय वेंचीक कादंबऱ्यो सोडल्यार ते तरेची रचना कोंकणींत जावंक ना. त्या मानान व्ही. जे.पी. साल्दानान ह्या मळाचेर हेर कांय प्रयोग केल्ले नदरेक भरतात. देखीक - *सायबा बोगोस, मोगाची महिमा, बेल्तांगडीचो बाल्ताझार* ह्यो कादंबऱ्यो.

'खडाप' ह्या नांवान बरोवपी व्ही. जे. पी. साल्दानान *देवाच्ये कुर्पेन* हे इतिहासीक कादंबरेंतल्यान कोंकणी कादंबरेचो आंवाठ आनी ताकद नितिशितूच वाडयल्या. आपले भितर आशिल्ल्या कांय दोशां वांगडाच व्हांवतें कथानक, वास्तवीक पात्ररचना, व्यक्तिरेखेचें आंतरीक दर्शन घडोवपी सुचक संवाद, नाट्यमयतेन पावला कणकणी उत्कंठा वाडोवपी संघर्श, सहजतायेन इतिहासीकता दाखोवपी वातावरण निर्मिती, सुटसुटीत तशेंच मनमोहक निवेदन आनी काळजाक चिटमिटे लावपी शेवट, अश्या घटकांनी उबी राविल्ली *देवाच्ये कुर्पेन* ही कोंकणी साहित्यीक संवसारांतली एक उत्कृश्ट अशी कलाकृती.

संपर्क: ९८८१२१८०२५





विठ्ठलराय भट

# चक्रवर्ती कादंबरीकार महाबळेश्वर सैल

हांव समिक्षक न्ही. पण बरो वाचक. खंचेंयी पुस्तक वाचून जातरेक तें आवडलें, आवडलें ना - आवडलें तर कित्याक, आणी आवडलें ना तर कित्याक हें सविस्तरपणान बरयतां आनी तें लेखकाक धाडतां. पुस्तक अजिबात आवडलें ना जाल्यार मात्र पत्र बरयना. भौ. महाबळेश्वर सैलांक तांगेलें हरेक पुस्तक वाचतरेक हांवें सविस्तर बरयिल्लें आसा.

कोंकणींत आज मेरेन जायत्या नामनेच्या लेखकांनी कादंबरेचें दालन समृद्ध केलां. भौ. दामोदर मावजो हांगेली *कार्मेलीन* आनी भौ. पुंडलीक नायक हांगेली *अच्छेव* ह्यो कादंबऱ्यो म्हळ्यार 'मैलाचे फातर' म्हणपाक जाता. ह्या शिवाय जाय तांच्यो कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात.

'साम' ह्या मराठी चॅनलाचेर ३०.१.२०११ दिसाक म्हजो 'त्रिभाषा लेखक' म्हण सविस्तर इंटरव्ह्यू प्रसारीत जालो. इंटरव्ह्यू वेळार म्हाका एक प्रस्न विचारिल्लो - 'तुमचे आवडीचे लेखक कोण?' ताका म्हजी जाप आशिल्ली - कालिदास (संस्कृत), जी. ए. कुलकर्णी, वि. स. खांडेकर (मराठी), महाबळेश्वर सैल (कोंकणी), डॉ. भैरप्पा आणी शिवराम कारंथ (कन्नड); अमृता प्रितम (पंजाबी), पन्नालाल पटेल (गुजराती), शिवशंकर पिल्ले (मलयाळम).

हांवें महाबळेश्वर सैल हांगेलें वट्ट प्रकाशीत साहित्य वाचलां. ह्या लेखांत फक्त तांगेल्या कादंबऱ्यां बद्द्लच एक वाचक म्हण म्हज्या मनांतले विचार मांडतां. दुसरें म्हळ्यार, लेख बरयतना तांची एक सुद्धां कादंबरी म्हजे कडेन ना. फकत उगडासांतल्यान हें लेखन केलां.

सैलांल्यो आतां मेरेन स नवलिका / कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात. *अदृश्ट, अरण्यकांड, काळी गंगा, युगसांवार, खोल खोल मुळां* आनी *हावठण.*

सैलांल्या लेखनांत नवनवीन प्रतिमा आनी खूबश्यो घटना हांचो भरगच्च खच पडिल्लो आसता. तशें जावन कादंबरेचें कथानक भरधाव वेगान धांवपी सिमेना म्हणकी दिसता. तांगेली शैली चित्रशैली. दोळ्यां मुखार ज्युस्त दृश्य तयार करता. लेखनांतली तांगेली प्रतिभा आनी रचनाकौशल्य पळोवन वाचक थक्क जाता. कोंकणींत कितलेशे शब्द सैलान तयार केल्यात. ते शब्द तुमी कशे तयार करतात म्हूण हांवें तांकां एक खेपेक विचारिल्लें. तांची जाप - ''हांव संस्कृत शब्द घेतां, तांचेर विकार करतां. ताका चेचायतां आनी नवो शब्द तयार करतां.''

''तुमी पयले मराठींतल्यान बरयताले. मागीर कोंकणी कडेन कशे पावले?'' ह्या प्रस्नाक तांची जाप -''हांवें मराठींतल्यान जायतीं पुस्तकां बरयल्यांत. तांकां बरो प्रतिसाद पण मेळ्ळा. मराठींत जाय तितले लेखक आसात. तातूंत म्हजी एकाची भरण जावन व्हडलोसो फरक पडनाशिल्लो. कोंकणींतल्यान व्यक्त जावचें म्हाका आवडता. आणी कोंकणीक म्हजी गरज आसा अशें म्हाका दिसता.'' सैलान जो निर्णय घेतलो तो कोंकणी साहित्याच्या उपकाराक पडलो. आमची मायभास अदीक समृद्ध जाली. सैलान कोंकणी शारदेचेर भरजरी वस्त्रां चडयलीं.

आतां सैलांल्या कादंबऱ्या बाबत म्हाका उगडास जाता तशें म्हजें मत मांडतां. कांय तपशिला बाबत चूक जावपाची शक्यताय आसा. ताजे खातीर पयलींच माफी मागतां.

१) *अदृष्टः* ही ल्हानशी नवलिका. रानांत राबचो वनपाल आपल्या बिराडांत रावता. तेन्ना एक पिशांट अशी बायल-मनीस तागेल्या आसऱ्याक येवन रावता. नवलिका त्या दोगां भितरल्या संबंदांचो अतिशय तरलपणान आविष्कार घडयता. हे नवलिकेचेर जाल्लें 'पलतडचो मनीस' नांवाचें फिल्म टोरंटो (कॅनडा) फिल्म फेस्टिव्हलांत ज्युरी ॲवॉर्ड घेवन आयलां.

२) *अरण्यकांडः* ही पण एक नवलिका. हातूंत फातरवटांचो जीवघेणो संघर्श आनी तांचो रानवाटेन जाल्लो प्रवास ह्या बाबत सविस्तरपणान चित्रण आयलां. हेर कादंबऱ्यां परमाण हांगाय सैमाचें इंद्रधोणुरुपी चित्रण आयलां. 'महानगर' ह्या मराठी दिवाळी अंकांत ही कादंबरी अणकारीत जावन आयल्या.

३) *काळी गंगाः* हें कादंबरेंत कारवार कडच्या वाठाराचें, थंयच्या सैमाचें काळी नदीच्या दोनी देगांचेर रावपी लोकांचें, खास करून कोंकण मराठा समाजाचें, चित्रण आसा. कोंकण मराठा समाजाची भास, तांची संस्कृती, श्रद्धा, अंधश्रद्धा हांचें मनोहारी चित्रण काळजाचो ठाव घेता. एकूण पंच्यात्तर घटनांचेर ही कादंबरी आधारीत आसा. गोविंद आनी सुमन हांची मोगाची काणी अलवार फुला म्हणकी फुलत वता. ही शोकात्मक कादंबरी आसा. गोविंद मेलो म्हूण कळतकीर सुमन दुःखान वणतीचेर हात आपटून कांकणां फोण्ण उडयता. तांचें लग्न जाल्लें उरना पूण एक खेपेक संभोग जाल्लो

उरता. ही कादंबरी मराठी आणी इंग्लीशींत अणकार जाल्या.

सैलान ही कादंबरी 'कारवारच्या मातयेक'अर्पण  कन्न आपूण जातिवंत शेतकार हें दाकोवन दिलां.

४) *युगसांवार :* हरेक कादंबरी बरोवपा पयलीं सैल त्या विशयाचेर भरपूर, कित्येक वर्सां, संशोधन करतात. प्रतिभा आसा म्हूण 'उकल्लें पेन आनी लागलो बरोवपाक' अशें कन्नात. सगळ्या कादंबऱ्यां पेक्षा सैलान ह्या कादंबरेचेर खूप मेहनतीन संशोधन केलां. हें तातूंतली संदर्भसुची वाचल्यार कळता.

पोर्तुगीज काळांत बाटाबाटीक लागून गोंयांत जें अमानूश तांडव जालें ताचो माग घेवचो परयत्न सैलान भोव बरो केला. हिंदूंचेर जाल्ले अघोरी जुलूम, तांची देवळां फोडून त्याच जागेर इगर्ज बांदचो हट्ट, बंदखणींत जावचे हिंसेचे प्रसंग तांचें भयाण चित्र दोळ्यां मुखार उबें रावता. वाचक अस्वस्थ जाता, तितर बितर जाता.

ह्या कांदबरेंतलो एक परसंग म्हज्या काळजार कायमचो कोरून उरला. एक बायल मनशेक कसल्या तरी बिरामतीचेर बंदखाणींत घालां. तिका जाल्ल्या मारान अंगाची कात फुटून रगत आयलां. त्या जखमां वेल्यान सुंबादोरी घासून थंचे लोक तिका धपकायतात. ''सत सांग, सत सांग.'' ती सांगता - ''सायबा! हांव सतच सांगतां. पूण तुमी तें मान्य करनात. आतां तुमीच सांगात हांवें कितें सांगचें तें. तशें हांव सांगता.'' जिवाच्या आकांताचीं तिचीं उतरां दोळ्यांत उदाक हाडतात.

''कथा ही एककेंद्री आनी कादंबरी ही बहुकेंद्री साहित्यकृती आसता'' अशें समिक्षक सांगतात. हें उत्तर ह्या कादंबरेक एकदम फिट बसता. शंबरां पेक्षां वयर मनशां ह्या महाकादंबरेंत वावुरतात. सादारण चारशें पानांची ही कादंबरी आसा. तातूंत गोंयच्या त्या वेळच्या धार्मीक, सामाजीक आनी सांस्कृतीक जिवनाचे संदर्भ येतात. ते संदर्भ घेवन कादंबरी मुकार सरता.

बाटाबाटी पासून वाचोवपा खातीर आपलें आनी कुटुंबाचें स्थलांतर केल्या बगर दुसरी वाट ना अशें समजून जायते जण गोंयच्यान भायर वतात. एक चोमो नाना तरेचे हाल काडत सोंसत कारवारा माजाळी वाटारांत येवन थारता. ते सैलाले वाडवडील उरच्याक फाव अशें म्हाका दिसता.

ह्या कादंबरेचो विशय एकदम स्फोटक आसा. थोडें तरी हेवटेन तेवटेन जालें तर हिंदू आनी किरिस्तांव भावंडांत मारामारी जावपाची शक्यताय रावता. पण सैलान जबाबदारेन योग्य संतुलन सादचें शिवधनुष्य येशस्वीपणान पेललां. दुसरो कोण लेखक आशिल्लो तर फसपाची शक्यताय आशिल्ली. सैलान ही कादंबरी 'बुद्द, येशू आनी गांधी' हांकां अर्पण केल्या.

*युगसांवार* कादंबरेचो पट खूब होड आसा. ह्या कादंबरेचेर 'टेन कमांडमेंट्स', 'बेन् हर' सारके भव्य सिनेमा काडचें शक्य आसा.

बाटाबाटींत आपल्या कुळारा गांवची कितें अवस्था जाल्या, थंय वळकीचे कोण मेळटले ह्या आशेन एक अस्तुरी गांवांत येता. गांव सगळो भकास; घरां कोसळून पडल्यांत. घरा मुकारल्यो तुळशी फोण्ण पडल्यात, गोटे जमनीक तेकल्यात आनी शेतां बंजर पडलांत. हें पळोवन तिगेल्या दोळ्यांतल्यान दुकांची माळ पडता. ती परतें परतें फाटी फिर्न पळयत लांब वता असो ह्या कादंबरेचो शेवट काळजाक बोते पाडता.

ह्या कादंबरेचो मराठी अणकार पुण्यांतले नामनेचे प्रकाशक - राजहंस प्रकाशन उजवाडाक हाडचे आसात.

५) *खोल खोल मुळां :* गोंयचे मूळ रहिवाशी गावडो समाज. तांगेल्या जिवनाचेर ही कादंबरी सैलान बरयल्या. गोंयच्या किरिस्तांव गावड्यांलो एक ल्हानसो गांव. तांचें जिवन, समजुती, झगडीं, इश्यगत, प्रेम-प्रणय अशीं नानां रुपां तांगेल्याच भाशेंतल्यान हांगा प्रकट जातात. ह्या कादंबरे खातीर पण सैलान बरेंच संशोधन केल्लें आसा.

६) *हावठण :* मातयेचीं आयदानां, भाणां, पणत्यो, मायट्यो, अशी हर तरेची वस्त तयार कन्न विकच्या कुंबार समाजाची ही कथा. आयच्या बदलिल्ल्या परिस्थितींत तिगोवन रावचें शक्य जायना हें तांकां दिसता. पण ते दुसरे कितें करपाक शकनात. वंश परंपरेन हजारों वर्सा पासून ती कला आनी धंदो ते करतेर, जियेतेर आयलात. पण आतां अल्युमिनियम, स्टील आनी प्लॅस्टीक युगांत आपलो अवतार सोंपलो ते पळोवन कुंबार आकुळपिकूळ जातात.

ही कादंबरी बरोवच्या खातीर सैल कुंबार दोस्ताल्या मजतीन परते परते कुंबार वाड्यार वतात. तांचे बरोबर रावतात. तांची भास समजून घेतात आनी तशेंच तांगेली धडपड. त्या कुंबार दोस्ताकच ही कादंबरी सैलान अर्पण केला.

*हावठण* कादंबरीक कोंकणी भाशा आनी संस्कृती प्रतिष्ठान, मंगळुरु ह्या संस्थेन तांचो पयलोच पुरस्कार दिला. त्या कादंबरेचो इंग्लीश अणकार विद्या पै हांणी *The Kiln* ह्या नांवान केला. ती सप्टेंबर म्हयन्यांत मंगळुरांत सैल आनी तांची घरकान्न हांगेल्या हजेरींत व्हड समारंभांत उजवाडाक आयल्या. ह्या शिवाय ह्या कादंबरेचे कन्नड, मलयाळम भाशेंत पण अणकार जाल्यात.

सैलांल्या ह्या कादंबऱ्यांचें अनेक आंगान संशोधन जावपाची गरज आसा. तांगेली भास, प्रतिमा, नवे शब्द, कल्पनाविलास, प्रणय (खास करून रानांतले प्रणय प्रसंग), सृजन हांचो अभ्यास जावपाक जाय. डॉक्टरेट करतल्यांक सैलांल्यो कादंबऱ्यो एक आव्हान आसा.

एकुणच सैलांले प्रतिभेन, लेखनशैलीन तांगेल्या साहित्याचो हांव मोगी जालां. तशें म्हण हांव तांकां म्हणतां -

चक्रवर्ती कादंबरीकार महाबळेश्वर सैल!

संपर्क: ९२२३३६५१९९





विश्राम गुप्ते

# खोल खोल मुळां - भावभावनांचो ज्वालामुखी

अभिजात कादंबऱ्यो जरी विशिश्ट प्रादेशीक आवाठांत निर्माण जातात आसल्यो तरी तांचें आवाहन प्रदेशाच्यो, भाशेच्यो आनी काळाच्यो मर्यादा हुपून मुक्त वाऱ्या वरी सगळे कडेन व्यापून उरता. इंग्लीश, रशियन, फ्रँच, स्पॅनीश सारक्या भासांनी बरयल्ल्यो अभिजात कलाकृती वाचून आमी त्या साहित्याचे संवेदनशीलतेंत नकळटना सहभागी जावन वतात. मनशाच्या जिविताक राष्ट्र, वाठार, भाशा, संस्कृती हांच्यो मर्यादा मान्य नासतात हें साहित्यान परत परत सिद्ध केलां. एका परस एक बऱ्यो कादंबऱ्यो बरोवन कोंकणीक जाणें भारतीय साहित्याच्या नकाशार मानाचें स्थान मेळोवन दिलां त्या महाबळेश्वर सैल हांच्या कादंबऱ्यां विशीं बरयतना हीं अभिजात कादंबरे विशींचीं दोन उतरां गरजेचीं थारतात. महाबळेश्वर सैल बरयतात तार्चीं मुल्यां थारयतना वैश्वीक साहित्याचे हे संदर्भ परत परत याद जातात.

"हांव मनीस म्हण बरोच खडबडीत प्राणी, पूण हांव बरोवंक बसतां तेन्ना आगळ्याच विश्वांत पावतां आनी म्हजें सर्वस्व पणाक लायतां." ह्या अर्थाचें मनोगत तांणी एक फावट म्हजे कडेन व्यक्त केल्ल्याचो उगडास जाता. स्वताच्यो मर्यादा आनी वांगडाच शक्त हांचे विशीं प्रांजळ जाणीव आशिल्ले भोव थोडे लेखक आसात. सैलांचें सगळें साहित्य ह्या प्रांजळपणांतल्यान, प्रामाणीकपणांतल्यान आकाराक आयलां.

अभिजात साहित्यांत लक्षांत घेवपा सारकीं बरींच लक्षणां आसतात, तातूंत कल्पनासौंदर्य, काव्यात्मकता, ज्युस्त, बांधीव आकार, भाशाशैली, वैश्वीक नदर, चिरंतनाचो ध्यास आनी प्रामाणीकपण हीं लक्षणां खूब म्हत्वाचीं आसतात. सैलांच्या कथा कादंबऱ्यांनी ह्या सगळ्या गुणांची उपस्थिती सदांच दोळ्यांत भरता.

चलतें म्हणजे एकविसावें शतक शाश्वत मुल्यां कडेन दुबावान पळोवपी शतक अशें उत्तरआधुनीक तत्वज्ञान सांगता. ह्या युगाक 'पोस्टमॉडर्न' यूग म्हणटात. ह्या युगांत स्थैर्याच्या पोटांत अस्थीरताय जल्म घेता आनी सगळ्याच वाठारांत वैचारीक थतरवितरताय सुरू जाता. अशा ह्या अनिश्चीततायेच्या काळांत चिरंतनाचो ध्यास घेवपी सैल जिणेंतलें शाश्वत आनी थीर तत्व ज्युस्ताज्युस्त समजून घेतात. सैल म्हळ्यार उत्तरआधुनीक युगांतलो अभिजाततायेचो केन्ना नश्ट ना जावपी असो हुंकार.

उत्तरआधुनीक म्हणजेच पोस्टमॉडर्न यूग आनी अभिजातताय म्हणजे क्लासिसिझम ह्यो दोनूय संकल्पना एकाच लेखकाचे बाबतींत एकाच काळाच्या संदर्भांत वापरप ही गंमत समजून घेवंक पोन्या-नव्याचें, अभिजात-आधुनीकतायेचें इल्लें भान आसप गरजेचें. महाबळेश्वर सैलांच्यो अर्द डजन कादंबऱ्यो, जांचो आलेख अभिजाततायेचे बाबतींत सदांच वयर वयर वचत आसा, तांकां आमी दोन हजार बारा वर्सांत समजून घेतात हाचें भान मात आसूंक जाय. काळाचो संदर्भ महत्वाचो. तो कुशीक दवरून कलाकृतीची विमर्शा जावंकूच शकना. चालू काळ उपयुक्तवादाचो काळ. ह्या काळांत उपयोगी आनी उपभोगी वस्तूंची निर्मितीच चड जाता. उद्‌देगीकरणान तेंगशी गांठिल्ल्या ह्या काळांत मनीस आनी वस्तू ह्या दोन सामक्या वेगवेगळ्या गजालीं भितल्लो तात्वीक फरक नश्ट जावन मनीस म्हळ्यार फक्कत 'वस्तू चरपी दोन पांयांचो प्राणी' म्हणुनूच उरला, तसोच तो प्रस्थापीत जावंक पळयता. खऱ्या साहित्याक आनी कलेक ह्या 'वस्तूपणा'चें भान आशिल्ल्यान साहित्य आनी कला ह्यो दोनूय गजाली उपयुक्तवादाच्या कंवडाळ्या भायर निर्माण जातात आनी थंयच त्यो सोबतात.

सोबीत चित्र, भावगर्भ कविता वा साक्षात्कारी कादंबरी आमी वस्तू वरी वापरिनात, तर तांचे सोबीतकायेचो आमी खोलायेन अणभव घेतात. तो घेतना मनाचें सैमीकपणान उन्नयन जाता. भोगांतल्यान अध:पतन तर कलेंतल्यान उन्नयन ह्या तत्वाची आंमकां नकळत जाणीव जायत आसता. म्हुण्णूच मनशाल्या जिवितांत कलेचें महत्व खूब आसा. कलेंतल्यान मनीस आपले अंगभूत तांकी पेल्यान वचपाचो प्रयत्न करता. म्हूण कला ही व्हड जिवनमुल्य थारता.

चालू काळांत भौतीक महत्वाकांक्षा, राजकी आनी सांस्कृतीक सत्तास्पर्धा, जंय आपलोच घोडो मुखार आमडप, ह्या वेव्हारी संवसारांत वेव्हारी गुणांक महत्व आयिल्ल्यान अभिजात साहित्य फाटीं पडत आसा. तरी महाबळेश्वर सैलां सारको एकादरो कादंबरीकार ह्या सांस्कृतीक संदर्भाच्या काळांत चिरंतनाचो ध्यास घेत साहित्य मोग्यांक दीपस्तंभा सारको मार्गदर्शन करता.

महाबळेश्वर सैल हांची *खोल खोल मुळां* ही सुमार सात वर्सां पयलीं, म्हणजे २००५ वर्सा प्रकाशीत जाल्ली सवायदोनशीं पानांची कादंबरी. ती कश्टकरी ख्रिश्चन गावड्यांचे दिसपट्टे जिणेचो वेध घेवपी आनी तो सूर धरपी एक तीव्र भावभावनांची कलाकृती. ते उपरांत सैलान *हावठण* बरयली. तिचो इंग्लीशींत लेगीत अणकार जालो. पूण *खोल खोल मुळां* मात त्या मानान दुर्लक्षितूच उरली.

गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांत सुटके उपरांत जें अर्थीक, राजकी आनी सामाजीक संक्रमण आयलें ताचें खूब उत्कट वर्णन सैल हे कादंबरेच्या पाना पानार करता. *खोल खोल मुळां* ही क्रिस्तांव गावड्यांच्या आशा आकाक्षांची अभिजात काणी.

गोंयचो मूळ पुरूस, भुमीपुत्र, शेत कसपी गावडोसमाज नवे व्यवस्थेंतूय कसो वर्तुळा भायर आसा, आलवांतीण सारक्या कुड्ड्या भावार्ताक प्रमाण मानून निश्पाप आंतोनेत नांवाचे चलयेक तो कसो पिडटा, आनी हें पिडप सोंसुनूय भावूक आंतोनेत दु:खाच्या रेवाड्यांत लेगीत मोगाच्या भरवंशार कशें जिणेचें भांगर करता आनी इतलें

करुनूय शेवटाक कशें छिन्नविच्छिन्न जाता, ताचें शोकात्म वर्णन सैलांची ही कादंबरी करता.

''आफ्रिकेंतल्या काळ्या सावळ्या रानांत मनशाले आदिमांयक आठ पूत जाले. ते आठूय आठ रंगरुपाचे आसले. ते मुखार आठ दिकांनी गेले... तांतलो एकलो भारताचो आदिपुरूश गावडो...'' हें हे कादंबरेंतलें पयलें वाक्य. हीं सुरवात *बायबलाच्या* ''इन द बिगनिंग गॉड क्रियेटेड हॅवन अँड द अर्थ'' अशी अदीम काळाच्या उगमाचो ज्युस्त थाव घेवपी आसा.

*खोल खोल मुळांत* सैलबाब धर्तरे वेल्या मनीसवंशाच्या मुळांत गेल्यात. कारण हांगाच्यानच तांकां तांचे कादंबरेचो महानायक आदिपुरूश गावडो आनी ताच्या व्यक्तिगत, कौटुंबीक आनी भौशीक जिविताचे अवतिकायेचो, जिवनव्यवस्थेचो अंतर्भेदी वेध घेवचो आसा. कादंबरीभर मोगाळ म्हॊंवाळ साश्टी कोंकणी बोलयेचो केल्लो उपेग मन प्रसन्न करता.

ही कादंबरी पयल्या दोनेक पानांनीच लाखांनी वर्सांचो काळ हुपून आफ्रिका, आशिया, भारत आनी शेवटाक गोंयांतल्या खरगाळी, पाख्या वरी माडार चडपी दुमिंगाल्या घरा मेरेन पावता. हो लाखांनी वर्सांचो प्रवास फकत सैलां सारको सिद्‌धहस्त लेखकूच दोन अडेज पानांनी भरून दाखोवंक शकता. ताका लागून *खोल खोल मुळांक* अनंत काळाचें नेपथ्य लाबलां. एक फावट ह्या नेपथ्याची वा संदर्भाची फाटभूंय समजून घेतली म्हणटकीर, प्रागैतिहासीक, प्राचीन, अर्वाचीन आनी आधुनीक ह्यो काळाच्यो विवीध संकल्पना बाद थारतात. तांचे हे कादंबरेचो काळ जरी गोंयांतलो णव्वदांतलो, म्हणजे जागतीकरणाचे पयलींचो, आसलो तरी ताचें आव्हान फक्कत णव्वदां पुरतेंच वा गोंया पुरतेंच मर्यादीत उरनासतना स्थलकालातीत जाता. 'टायमलॅस' आसप ही अभिजात साहित्याची पयली वळख.

दरिद्रपण ही संवसारांतली सगळ्यांत वायट शोकांतिका. पूण आपणाले गरिबीचेर हे पद्‌दतीन विचार कर नासतना आपलें कश्टाचें जिवीत मोन्यांनी आपणावपी, सामाजीक उताराच्या तळांत रावनूय चेपून आनी गुदमरून वच नासतना भाटकाराची जमीन कसपी, आपल्या मालकाच्या सुखा-दुःखां वांगडा एकरूप जावपी सज्जन, भोळेबाबडे ख्रिश्चन गावडे सैलांच्या लेखकाच्या भिंगा सकल वावुरतना दिसतात.

कादंबरेंतले भौशीक तशेच व्यक्तिगत जिविताचे तपशील, तांची साश्टीची कोंकणी, तांच्या तोंडांतल्यान सहज येवपी म्हणी, तांची हुशारी आनी अबुद्‌दपण आनी मुंडकार कायदयान आयिल्लें आर्थीक, सांस्कृतीक संक्रमण सैल मना पसून रंगयतात. तें वाचून हो लेखक गावड्याच्या भौशीक आत्म्याचो आकुळपिकूळ पोत इतले सहजतायेन कसो हाताळूंक शकता हो प्रस्न पडटा. ताची अफाट भाशासिद्‌धी *खोल खोल मुळांत* आगळे उंचायेर पावता.

सैलांचें व्हडपण म्हळ्यार, तांचे एक्केय वळी कडेन दुर्लक्ष करून आमी मुखार वचूंक शकनात. ''इट इज डेंजरस टू लीव्ह अ सिंगल लायन अनरॅड इन डोस्टोव्हस्की' हें आंद्रे जीद ह्या फ्रँच कादंबरीकारान डोस्टोव्हस्कीच्या लिखाणा विशीं म्हणिल्ल्याचें ह्या संदर्भांत सहज याद जाता. कवीक जशी कविता येता तशी सैलांक कादंबरी.

आपले भुंयेचें, म्हणजेच आपल्या मुळाचें, खूब खूब भान ही भारतांतल्या अभिजात साहित्याची मुखेल वळख. रवीन्द्रनाथ टागोर, मुन्शी प्रेमचंद वा *गणदेवता* बरोवपी ताराशंकर बंधोपाध्याय वा *मुकज्जी* बरोवपी शिवराम कारंथ... अश्या एका परस एक समर्थ लेखकांनी विसरायेंत गेल्ल्या आपल्या गांवाक गांवगिरे जिणेच्या तालासुरांक संजीवनी दिवन जिवे केल्यात. खरगाळी गांवांतल्या भौसाच्या दिसपट्ट्या सुखा-दुःखाचें वर्णन करून कादंबरेंतल्या अव्वल आनी दुय्यम पात्रांच्या आत्म्याचें आक्रंदन प्रत्ययकारी शैलींत चितारपी महाबळेश्वर सैल ह्या श्रेश्ठ साहित्यिकांचे पंगतींत गुपचूप वचून बशिल्ले आसात. खरगाळी हें नांव काल्पनीक काय वास्तवीक? हो प्रस्न हांगा गैरलागू थारचो इतली वैश्वीकताय सैलांचे खरगाळीक लाबता.

कादंबरेचो महानायक शेतांत दीसरात घोळपी, घाम वारोवपी ख्रिश्चन गावडो समाज आसलो तरी ह्या सगळ्या समाजाक पुरून उरपी तीव्र पॅशनेट आंतोनेत हे कादंबरेची नायिका. ती डिकन्स, डोस्टोव्हस्की, टॉलस्टॉय ह्या व्हड लेखकांनी निर्माण केल्ल्या अजरामर अस्तुरी पात्रांचे तुलनेंत कणभरूय उणी ना. आंतोनेत कादंबरेंतली वडाझाडाची घनगंभीर सावळी. हे सावळेची थंडसाण आनी तिची व्याकूळताय कविते वरी पाना पानार उकती जाता.

आलवांतीण म्हण घराब्याच्या जिवार उठिल्ले (?) हे उपेक्षीत दुर्दैवी, काळे-सावळे, धसमुसळे चलयेचें शेणिल्लें भुरगेपण आनी ताच्या हातान माणकुल्या भावाक आयिल्लें अपघाती मरण, हे कादंबरेचो आरंभबिंदू. हांगाच्यान ही कादंबरी वयर चडत वता. गांवाच्या भौशीक अन्नाडीपणांतल्यान एका निरागस जिवाचें भावविश्व कशें उध्वस्त जायत वता आनी हरशीं मोगाळ दिसपी हो गांव प्रसंगार कितलो क्रूर जाता हें वाचून मन दुःखान भरून वता.

दरिद्रपणाची खरी शोकांतिका निश्पाप लोकाच्या शोशणांत आसपाविल्ली आसा. अशा दरिद्री आनी अन्नाडी परिसरांत अंधश्रद्‌धेक खुबूच वाव मेळटा. थंय मनशालें शोशण पवित्र धर्मीक कर्मकांडाचें रूप घेता. खरेपणान पळयल्यार *खोल खोल मुळांतली* ही दाट शोकांतिका मनशानूच निर्मिल्या. 'दिश्ट', 'आलवांतीण', 'म्हारू''गिरो' आनी भुताखेतांच्या काल्पनीक गजालींनी गोंयांतलोच न्हय तर पुराय भारतांतलो गांवगिरो समाज सदांच भिरांतेचे अवस्थेंत जियेता.

राजकी स्वतंत्रतायेन भारताक भुतांखेतांचे गुलामींतल्यान मुक्त करूंक ना हें एक सत्य. लोकसंस्कृतीचो चिकित्सक अभ्यास करप्यांनी लेगीत अंथश्रद्‌धेचेर अपरबुद्‌द विश्वास दवरलो ही एक सांस्कृतीक आनी बौद्‌धीक शोकांतिकाच म्हणची पडटली. जमीनदारींत अंधश्रद्‌धा तरतरून वाडटा, कारण, भोवसंख्य लोकांचें जिवीत जमीनदारांचे मर्जेर अवलंबून आसता. एके वटेन भाटकार तर दुसरे वटेन कुदपी धाडयाची वा मांत्रिकाची नकळत आयिल्ली दहशत हाका लागून गांवगिऱ्या वाठारांतल्या लोकांची भिरांत सोंपून सोंपना. म्हूण गांवगिऱ्या दुःखाचें विश्लेशण करतना लोकश्रद्‌धेचें भियेनासतना केल्लें विश्लेशण अगत्याचें जाता. तें केल्ल्यानूच चडशे मानवी शोकांतिकेचो उदय सामाजीक आनी सांस्कृतीक अंधश्रद्‌धेंत आसा हें सिद्‌ध करूं येता. *खोल खोल मुळां* अंधश्रद्‌धेर थेट घाव घाली नासतना तातूंत अस्तव्यस्त जाल्ल्या मनशाल्या जिविताची शोकांतिका वर्णन करून सांगता.

सदांच हिडीस-फिडीस करपी आवय-बापूय शेतांत वावर करूंक वतना आठ-णव वर्सांच्या आबूज आंतोनेताचेर आपल्या तीन भावंडांची

व्हड जबाबदारी घालून वतात. तांतले एके भयणीक, ग्लोराक, पोलियो जाला, तर दुसरी फातिमा. तिसरो ल्हान भाव, एकलोच चलो. पावस आसरता आनी चक्क वोत पडटा. तें वोत आंतोनेताक घरा भायर खुणायता. तें भावाक हांडीर घेता आनी शेतांतल्या उदकांत खेळूंक वता.

बालकवीची फुलराणी जावन खोशयेन आंतोनेत शेतांतल्या उदकाचीं मोतयां पांयांनी हवेंत उडयता, सुर्याच्या उजवाडांत उदकाचे हारशे करता. सैल बरयतात, "उदकाचे मोती ताणें वयर उडयले, उदकाचे हारशे केले, ते वोतान चकचकले." हें काव्य. उपरांत आंतोनेताचो पांय अचकीत निसरता आनी तें खोल उदकांत पडटा, हांडी वेलो भाव उदकांतल्या फोंडांत पडटा. मरता...!

अचकीत आयिल्ल्या ह्या मरणाचें वर्णन आयकून मन सुन्न जाता. मरणाची खबर गांवभर पातळटा. आंतोनेत मनीसखायरें, जसो काय मनशांक खावंकूच ताचो जल्म जाला! आंतोनेताचो बापूय रुजार दु:खान पिशांतूर जाता, शोकान आवय रोजमारी बेशुद्ध पडटा. बापूय हे आलवांतिणीक खोंटांनी मुठींनी मारून आंगणा भायर उडोवन दिता. आंतोनेताक असो मार घालतना सगळो गांव तें वोग्गी पळयता. सगळो गांव जसो एका अन्नांवर पातकाक ख्यास्त दिवंक उठिल्ले वरी रुजारी वटेन उबो! अशें सैल म्हणटात.

आंतोनेताक ही ख्यास्त दिवपी मनशां आनी तांचे निर्बुद्ध वेव्हार पळोवपी देव! मार खावपी आंतोनेताच्या दोळ्यांत दुकाचो एक थेंब ना. वाचपी मात दोळ्यांतलें उदक पुसत आसता. हे दयामायाहीण घडणुके उपरांत आंतोनेत मेलां काय किते हार्चेय आतां गांवाक भान ना. काळोख पडटकीर एक अस्तुरी-आगुस्तीन-ताच्या मनांत मोगाचो उजवाड फांकता. ती काळखांतूच येवन आंतोनेताक उखलून घरा हाडटा. ताचेर उपचार करता. ताचे कुडीचे आनी मनाचे दुखीचेर फूंक घालता. मोगाळ स्पर्शाचो पेनबाम चोळटा. तें पळोवन दोळे भरून येतात.

मुखार आंतोनेताक ताची मावशी आपल्या घरा घेवन वता. आवय बापायक तर आंतोनेत मेल्ले वरीच. पूण दरिद्रतायेन तेंकिल्लें माशेन आपले भयणीले चलयेक खूब मोग दिता. त्तिचो घराबो आंतोनेताक एक भुरगें चली म्हण जो मोग आनी प्रतिश्ठा दिता, आनी आंतोनेत त्या मोगाक जो मायाळ प्रतिसाद दिता ताचें वर्णन वाचून काळीज करुणेन तुडुंब भरून येता.

कश्टकऱ्यांचें सादें सदळ जिवीत ल्हान ल्हान गजालींनी रंगोवन सांगप हातूंत सैल फिशाल आसात. शेताच्या बांदा वेल्यान शेतांत वचपी माशेन आनी ताच्या पावलार पावल घालून चलत वचपी माणकुलें आंतोनेत कादंबरेंतली एक मनभुलायणी प्रतिमा. आंतोनेत ल्हान चली पूण तिच्यांत एक प्रौढ मन वसता. ताका लागून तें माशेनाची सावळी जावनूय माशेनाच्या घराब्याचेर सोताच्या मोगाची सावळी धरता.

*खोल खोल मुळांतलें* माणकुलें आंतोनेत माशेनाल्या घराब्या कडेन एकरूप जाता. व्हड जाता आनी शेवटा दुमिंगा कडेन लग्न जावन घोवा घरा येता. पूण हें लग्न म्हणल्यार ताच्या आयुश्याचो एक निर्दय खेळूच आसता. घोव दुमिंग आळशी, लेचोपेचो. कुचकामी म्हण गल्फांतल्यान धांवडावन घाल्लो. ताची फटवणूक जाता. तें बंड करता. एक दीस रातचें घोवाले तकलेर बेटरे दिवो मारून तकली फोडून घरांतल्यान पळून वता आनी एके चिऱ्या खणीर पावता. हो प्रवास मोठो दुखदेणो, मोटो क्लेशदायक. आंतोनेतूच म्हण तें भोगूंक तांकता. हांगा चिऱ्या खणीर तें कव्हरिंग फोडटा, खणींतल्यान चिरे व्हांवयता, ट्रकांत चिरे भरता. ते गांवांनी व्हरून उपशिता. कश्टांच्यो सगळ्यो शिमो मेरो तें हांगा हुपता. अस्तुरेची खरी, मुळावी ताकत दाखोवन दिता. श्रमविभागणी हांगा फट थारता.

हांगाच ताका फिलीप मेळटा. फिलीप पयलींच लग्न जाला. कादंबरी फिलीपाल्या मोगाचे सगळे भावूक, रासवट अविश्कार खूब वेधक भाशेंत रंगोवन सांगता. हो मोगाचो अविश्कार नागरी-गांवगिरो, सुशिक्षीत-अशिक्षीत ह्या भेदांक हुपून वाचप्याच्या काळजा मेरेन पावता. कादंबरेंत आंतोनेत आनी फिलीप तशेंच वट्ट मनशाल्या मोगाचें शाश्वत वास्तव सैल जे कुशळतायेन रंगयतात तें वाचून धावूक मोगाचो बाजार जाल्ल्या ह्या काळाक लेगीत खऱ्या आनी काळजा सावन केल्ल्या मोगाचेर आधारिल्लें कथानक किते जादू करूंक तांकता हाचो खोलायेन प्रत्यय *खोल खोल मुळां* करून दिता.

हे कादंबरेंत खूब वैशिश्ट्यां आसात. कादंबरेंतलें जिवीत आनी ताची खरसाण. चिऱ्यांचे खणीच्या परिसरांत, पाचव्याचार रानांत आंतोनेत आनी फिलीपाल्या मोगाच्या तीव्र अविश्कारान कादंबरेचो उत्तरार्ध व्यापून गेला. मनशाल्या भावभावनांचें बेस केळयल्लें तांडवनृत्य कादंबरेंत पळोवंक मेळटा. कितलींशींच कश्टकरी, कवनी तवनास, स्वार्थी, मोगाळ, पारंपारीक, खरी+खोटी हिन्दू, ख्रिश्चन व्यक्तिमत्वां आनी खरगाळीचो आगळो स्वायत्त संवसार कादंबरेंत खुबूच बरे तरेन उबो केल्लो पळोवंक मेळटा.

कादंबरेची तरा बऱ्या अर्थान रोमँटीक. साहित्यांतल्यान प्रगट जाल्लो रोमँटिझम हो उत्स्फूर्त आनी तीव्र भावनांचो अविश्कार. सैलांच्या कथा कादंबऱ्यांनी अश्यो बऱ्योच रोमँटीक कलाकृती आसात. डोस्टोव्हस्कीन तांच्या कांदबऱ्यांतल्यान तीव्र मानवी भावनांचे भुंयनळे आनी चंद्रज्योती पेटयल्यो. मराठींत ही मनस्विता जी.ए. कुलकर्णींच्या खूब पॅशनेट व्यक्तिरेखांतल्यान दिशिल्ली. ग्रेसचो फणफणटो रोमँटिझम तर सगळ्यांचे वळखीचो. महाबळेश्वर सैलांच्यो कादंबऱ्यो वाचतना हे संदर्भ मनांत येत रावतात.

कसलेच सामाजीक बांधिलकीचो फुको आव हाडी नासतना सैल समाजाचें अत्यंत सखोल आनी भेदक चित्रण करतात. तें करतना ते वास्तववादाक पयस सारिनात. तर वास्तवाच्या आंगांतल्यान थंयचें काव्य, व्याकूळताय, भावूकपण आनी थंयचें सत ल्हवपीक लेखणेंतल्यान हाताळटात. म्हुण्णूच तांच्यो कांदबऱ्यो फक्कत तपशिलाचो भरमार आशिल्ल्यो रटाळ 'सामाजीक' कादंबऱ्यो जायनासतना त्यो मानवी मनाचो तळ सोदपी, मानवी जाणीव आनी नेणीव हांकां खणून काडपी तरल कलाकृती म्हण प्रगट जातात.

"आंतोनेत ही म्हगेल्या साहित्यांतली म्हाका सगळ्यांत चड आवडिल्ली मोगाळ अस्तुरी. अस्तुरी कशी आसची तर आंतोनेता सारकी" अशें सैल हे कादंबरे विशीं म्हणटात. आंतोनेत ही फक्कत कोंकणी साहित्यांतूच न्हय तर भारतीय साहित्यांत आपली खासा नाममुद्रा घेवन उबी रावतली हे बद्दल इल्लोय दुबाव आसपाचें कारण ना. हे तडफदार अभिव्यक्तीक चडांत चड वाचक मेळचे हीच सदिच्छा व्यक्त करीन दिसता. (मराठी वयल्यान अणकारून)

(संपर्क: ०८३२-२२५०५३३





मॅथ्यू रिबेरो

# खोल खोल मुळां - समाजशास्त्रीय नदरेंतल्यान

खोल खोल मुळां (२००५) ज्येश्ठ कादंबरीकार महाबळेश्वर सैल हांगेली कादंबरी. हे कादंबरे भायर ह्याच लेख़काच्यो *अद्रुश्ट* आनी *अरण्यकांड* ह्यो नवलिका आनी *काळी गंगा, युगसांवार* आनी *हावठण* ह्यो तोलामोलाच्यो आनी उत्तम अश्यो कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात.

*खोल खोल मुळां* कादंबरेंत लेखकान साश्टी वाठारांतल्या क्रिस्तांव गावडो समाजाचें चित्रण केलां. लेखकान भोव संयमान तशेंच अभ्यासपूर्ण तरेन हे कादंबरेची रचना केल्या. गावडो आमचो मूळ पुरूस. ह्या मूळ पुरसान धतरि कडलें नातें तुटूंक दिवंक ना. कश्ट करून पोट भरपी हो गावडो आनी ताचो स्वाभिमान हांची शणै गोंयबाब, र. वि. पंडित हांचे वरीच महाबळेश्वर सैल हांणीय दखल घेतल्या. दिसपट्टे जिणे कडेन संघर्श करून जगपाची धिटाय हेंच गावड्याचें दुसरें रूप अशें बरोवपी दर्शयता.

हे कादंबरेंत लेखकान साश्टींतलो क्रिस्तांव गावडो समाज तश्या तसो उबो केला. उपेक्षीत अश्या ह्या समाजाच्यो चालीरिती, परंपरा, तांचे हावेस, उमाळे, तांचीं सुख-दुख्खां, उतळताप, समज-अपसमज, श्रद्धा-अंध श्रद्धा... सगळ्यांचो हे कादंबरेंत आसपाव जाला.

आंतोनेत हे कादंबरेंतलें मुखेल पात्र. ह्या पात्राच्या वांट्याक आयिल्ली जीण आनी तिका फुडो करतना तिची चलिल्ली धडपड लेखकान समर्थपणान मांडल्या. विशयाचें वेगळेपण, खाशेली भाशाशैली, प्रभावी संवाद आनी काळजाक हात घालपी व्यक्तीचित्रण हांकां लागून ही कादंबरी उजवी थारल्या.

अन्याया वांगडा, अच्छेवी अद्रुश्टा वांगडा झगडें खेळटना आंतोनेत आपले कुडीचे तांकीचें मळब पातळायता. कारण, अदीम भारतांत ज्या आदिवासींनी धतरेच्या आदीगर्भांत पयलो कोंब किल्लायलो-शेतां भाटांचो तरवो फुलयलो - त्या आदिवासींचें आंतोनेत एक प्रामाणीक प्रतिनिधी.

अस्तित्वाचो संघर्श सगळे कडेन सारको आसलो तरी तो कांय जाणांचो फातरांचो चुरो करता, शेंकऱ्यांचीं फुलां फुलयता. शीम मेर नाशिल्ल्या दुख्खां कश्टांची काणी हे कादंबरेंत चितरायल्या.

लेखकान मनीस कुळयेचें अस्तित्व आनी मरण हांचें कदीमकाळी कलागती झगडें हांगा मांडलां. एक देहयज्ञ चितरायला. ताचे सर्वथर प्रतिभेन ताचो तळ गांठला.

हे कादंबरेचें मुखेल पात्र आंतोनेत. रुजार आनी रोजालीन हांची ती धूव. जल्मा सावन ताच्या वांट्याक फकत कश्ट दगदग आनी त्रासूच येतात. २२३ पानांचे हे कादंबरेंत क्रिस्तांव गावडो समाजाचीं पाळां मुळां सोदपाचो यत्न लेखकान केला. तांतले तातूंत आंतोनेताचे भावूक वृत्तीचीं, हळव्या काळजाचीं आनी स्वाभिमानी व्यक्तिमत्वाचीं तरेकवार तासां ताणें उकतीं केल्यांत. देखीक, कादंबरेच्या शेवटाक आंतोनेत म्हणटाः

> "आता खणी वयल्यान खोर्न आनी खोर्नावयल्यान भंगसाळ. पोटा फोंड भरूंक. तरीय हांयेंन दादल्याक मारूंक फावना, कव्हरींग फोडूंक फावना, ट्रक भरूंक फावना. तुका सांगोतां फिलीप, तुयेंन दिल्ल्यो साडयो गुठलावन दवरून अखखो दोंगर लकयतलें हांव. पूण मुजो गोर्भातळ मात रितो दवरतलें हांव तुजेपासत, रांड कोगुळावरी. तुमी सोगल्यानी मुज्या हातांत तुटलो राजू आनी फुटलो बिंदूल दिलो आनी म्हुटलें रान शींप, तरीय शेणांत वीज पडल्यार तेचें भांगर जाता खंय. म्हण इतलो तेंप हातांत शेणा थापो घेवन रावलें. दुमींगाले बोमलेकडची घोटाण हुळहुळटाना सोसली ना हांयेन तुमचे पासत? म्हजी चूक दिसल्यार व्हाणांनी मारात... तेणें फिलीपालो फुटिल्लो चेहरो हड्ड्यासरीं ओडलो. हड्डें पुराय रगतान भरून गेलें. तेका खूब घोस्त आसलो मुगेल्या हड्ड्यासरीं खेळपाचो. ल्हव ल्हव तो चेहरो तेणें तोंडासरी घेतलो आनी तेगेलीं रगशेल्लीं ओटां चाबलीं..."
>
> (पान २२४.)

अशे तरेन कादंबरेचो दुख्खात्म शेवट जाता. आंतोनेताचो आंतरीक घुस्मटमार, ताचो संघर्श लेखकान समर्थपणान उबो केला आनी तो वाचतल्यांच्या मनाचेर परिणामूय करता. आंतोनेताचे सुवातेर आनीक कोणूय आशिल्ले जाल्यार जीव दितलें आसलें. पूण आंतोनेत तशें करिना. तें धिरान आनी स्वाभिमानान फुडलें जिवीत सारपाचें थारायता. मानसशास्त्रीय नदरेंतल्यान पळयल्यार आंतोनेताच्या ह्या निर्णया फाटल्यान ताचेर जाल्ल्या पूर्व संस्कारांचें बळगें आसा. क्रिस्तांव गावडो समाजान बाळगून दवरिल्ल्यो बऱ्यो देखी आसात अशें म्हणूं येता. गावडो कश्ट करपी, केन्नाच धीर ना सोडपी. देवाचेर भावार्थ दवरपी. क्रिस्तांव धर्माचो प्रभावूय ह्या समाजांतल्या लोकांच्या जिविताचेर आसा. दुसऱ्याचो वो आपणालोय जीव घेवप न्हय, ताका मान दिवप, जिवीत देवाचें देणें मानून मरण येसर देवाचे खोशये परमणें जियेवप हो ह्या समाजाचो भावार्त. आंतोनेत भावार्ता परमणें जियेता.

कादंबरीकारान कितल्याश्याच बायल मनशांची जितीं जिवीं रुपां आपले कादंबरेंतल्यान चितारल्यांत. तांतलें आंतोनेताचें व्यक्तिचित्रण मात सर्वसामान्यांच्या आत्म्याक भिडपी अशें जिवितांतल्या दर एका संकश्टाक धिटायेन तोंड दिवपी, कश्ट करून घाम गळोवन गरिबेंतूय

स्वाभिमानान जगपी आंतोनेत म्हळ्यार बायलमनशेचें एक सोंशीक तशेंच तांकीवंत रूप.

रोजालीन आंतोनेताची आवय. तिणेंय आंतोनेताक आनी हेर भुरग्यांक वयर काडपाक रातीचे दीस केल्यात. स्वताच्या पोटाक चिमटो काडून भुरग्यांच्या तोंडांत घास घाला. आवय म्हूण तिचेंय व्यक्तिचित्रण कोंकणी कादंबरेंत अव्वल उरतलें.

तशेंच माग्दालीन माशेन. आंतोनेत माशेनागेर रावपाक लागता त्या दिसा सावन ते फिलीपा वांगडा तें रावपाक लागता ते मेरेन माशेन आंतोनेताक खूब बरें करता. ताका आवयचो मोग दिता. आंतोनेताचें लग्न लेगीत करून दिता. हांगा एक माशेन आवयचो जागो घेता. अशें क्रिस्ती समाजांत खूब फावटीं घडटा. क्रिस्ती धर्मांत भुरगीं देवाची देण अशें मानतात. हे भावनेन माग्दालीन माशेन आंतोनेताक आपल्या घरा हाडटा.

आंतोनेत ल्हान आसलें तेन्ना तें आडांगी आनी अवजाळी आसलें. खंयचेंय भुरगें मस्तेपणा करता तशेंच तेंय करतालें. ह्याच मस्तेपणाक लागून ताच्या हातांतल्यान एक अपघात घडटा आनी ताच्या धाकल्या भावाक मरण येता. हाका लागून ताचो पाय ताका खूब मारता. कोण ताका आडायना. पूण हे घडणुके उपरांत आंतोनेता भितर मानसीक बदल जाता. तें भुरगेपणां करपाचें सोडटा आनी जापसालदार जाता. तें माशेनागेर रावपाक वता तेन्ना आपुणूच उठून घरच्या कामांत सहभागी जाता (पान ४३). हाकाय बी एक कारण आसा. तें म्हळ्यार, पूर्व संस्कार. आंतोनेत आवय-बापायच्या घरा आसलें तेन्ना तें व्हडलें चली आशिल्ल्यान आवय-बापूय घरा भायर कामाक वतालीं तेन्ना आंतोनेत आपल्या भावंडांक पळयतालें आनी घरचीं कामां करतालें. कश्टी समाजांतल्या घराब्यांनी घडटा ते भाशेन ताचेर भुरगेपणांतूच जापसालदारकी येवन पडिल्ली.

मानसशास्त्रीय नदरेन आमी आंतोनेताचें परिक्षण केल्यार मुखेलपणान दोन गजाली जाणवतात. एक म्हळ्यार, आंतोनेताचेर समाजाचो परिणाम आनी दुसरी, मुळाव्यो शारिरीक गरजो भागोवपाचो सिद्धांत.

आंतोनेताचेर जाल्लो समाजाचो परिणाम म्हणल्यार गावडो समाजांत अदीम काळा पसून प्रस्तापीत जाल्ले समज. देखीक,

१) ''गावड्यांल्या कामेऱ्यांल्या भुरग्यांनी चड भुरगेपण करचें न्हय...'' (पान २४).

हो समज गावडो समाजांत रूढ जाल्ल्यान आंतोनेत भुरगेपणा सावन एक जापसालदार व्यक्ती म्हूण उबें रावता आनी कादंबरेच्या शेवटा मेरेन तें जापसालदार व्यक्तीच म्हूण दिसून येता.

२) ''पूण गावड्यान गांवकी, घरवड सोडून वचप समा न्ही. झाड सुटिल्लो माकोड जातलो तूं'' (पान ४५).

हाकाच लागून आंतोनेत आपल्या घोवाक घरच्या शेती वेवसायांत व्हरूंक सोदता. पूण घोव आळशी आशिल्ल्यान ताका तें जमना. पूण ते स्वता शेतांत कसपाची इत्सा आनी धीर दाखयता. कांय प्रमाणांत तें शेतांत वताय बी, पूण अखेरेक असफळ जाता.

३) ''गावड्यागे चेडूं हांव. वावर ना केल्यार बेगीं मोत्तलें'' (पान १८१).

स्वतः आंतोनेतूच अशें चिंतता. होय बी समाजाचोच परिणाम. ह्या कारणाक लागून आंतोनेत सतत कश्ट करीत रावता. आपल्याक लागून दुसऱ्यांक त्रास जावचो न्हय म्हूण जतनायूय घेता. हाकाच लागून तें फिलीपाक मेळटा तेन्ना तें आपूण जावन फिलीपाक ताच्या बायल-भुरग्यांक पयशे दिवपाक दर पंदरा दिसांनी क्रुजीना फुड्यांत धाडटा.आपले कडेन जोडिल्ल्या सगळ्यांची ताका अर्थअपुर्बाय आसता. हो एके भारतीय बायल-मनशेचो सगूण.

४) ''जाणां, गांवांत गावड्यांक चड वालोर. तेंकां चड पातेतात लोक'' (पान २०१).

ह्याच कारणाक लागून आंतोनेत सदांच अभिमानान जियेता. कारण, समाजांत त्या काळार अशें मानताले की गावडो हो आदीमानव, तोच खरो गांवकार - गांव वसोवपी, शेतां कसपी, कश्टी; मातये कडेन ताचें सदांच अतूट नातें. हेच जाणविकाये सयत आंतोनेत सदांच थिरान आपलें पावल उडयतना दिसता. आपलो स्वाभिमान तें कोणाच सामकार सकयल पडूंक दिना.

समाजांत आशिल्ल्या ह्या समजांक लागून आंतोनेताच्या मनाचेर खूब व्हडलो परिणाम जाता. म्हणल्यार, तें conditioned जाता आनी म्हणुनूच एक straight forward बायल मनीस म्हूण आमचे मुखार उबें रावता.

हो जालो समाजाचे नदरेन जाल्लो परिणाम. आतां दुसरी बाजू पळोवया. ती म्हळ्यार, मुळाव्यो शारिरीक गरजो भागोवप. हो सिद्धांत मांडपी मासलॉ. तांच्या मता प्रमाण मनशांच्यो तीन प्राथमीक गरजो आसतात आनी त्यो पूर्ण करप दर एका मनशाचो प्राकृतीक सभाव आसता. ह्यो तीन मुळाव्यो शारिरीक गरजो म्हळ्यार - भूक, तान आनी संभोग. मनशाचो वंश वाडपाक जाय जाल्यार ह्यो तिनूय गरजो भागोवप गरजेचें. आंतोनेत तीन दादल्यां कडच्यान शारिरीक भोग घेता. ही गजाल ह्या सिद्धांताचे फाटभुंयेर समजून घेवं येता. पयलीं आंकवार आसता तेन्ना एका काजारी, बायल-भुरगो आशिल्ल्या कोंकण्या दादल्या कडच्यान, उपरांत दुर्मींग - घोवा कडच्यान. हो घोव ताका पसंत नासता. पूण नेमा परमणें तांचो संबंद येतकच ताका तो जाय जाय सो दिसूंक लागता. मुखार घोवाक सोडून जेन्ना तें एका काजारी बायल भुरगो आशिल्ल्या फिलीपाक मेळटा तेन्नाय तें ताचे कडसून भोग घेता आनी गुरवारूय जाता. हें जालें sex as a primary motive हे नदरेंतल्यान.

पूण हांगाय बारीकसाणेन पळयल्यार एक गजाल जाणवता ती म्हळ्यार, आंतोनेत सदांच attention seeking म्हणटात ते तरेचें आसता. ल्हानपणा सावन ताका केन्नाच बापायचो मोग मेळना. ताचें भुरगेपण अशेंच काबार जाता. तें जुवानपणाच्या हुंबऱ्यार उबें रावता तेन्ना हे तिगूय दादले भोग वस्तूचे नदरेन आंतोनेताचेर आपलें लक्ष केंद्रीत करतात आनी पोकळ उरिल्लो जिविताचो हो जागो भरपाचोय आंतोनेत यत्न करता. हाकाच compensation (मोबदलो) अशें म्हणटात. जें भुरगेपणांत मेळूंक ना तें जुवानपणांत भरून काडप असो ताचो अर्थ. हातूंत नैतीक अनैतीक हाचें भान

शेणून वता. इतलें आसून लेगीत तें कोणाकूच आपल्याचेर बळजबरी करूंक दिना. प्रकृती नेमांतल्यान तें ह्या तिनूय दादल्यां कडच्यान भोग घेता.

अखेरेक़ मनशाचें एकूच ध्येय आसता आनी तें म्हळ्यार जगप. हांगा मानसशास्त्रीय नदरेन आंतोनेत जगपा खातीर कश्ट कबाड करता. पूण हांगाच अर्थशास्त्रीय नदर लावप चड गरजेचें. जगपाचो प्रस्न येता तेन्ना मनशाचे अर्थीक स्थितीची जाणीव आसप चड गरजेचें. *खोल खोल मुळ्त* मध्यमवर्गी समाज ना. हो समाज गरिबी रेशे सकयलो. पूण तांची अर्थीक स्थिती सारकी स्पश्ट जावंक ना अशें म्हाका दिसता.

हांगा मार्क्सवादी विचाराचे नदरेन हे कादंबरेक समजून घेवं येता.

हे कादंबरेंत वैश्वीकरण आनी आधुनिकीकरणाची झालर जाणवता. उद्देगीकरणाच्या युगांत जण एकल्याक आपली अर्थीक स्थिती सुधारची अशें दिसता. देखीक, हो उतारो पळयात -

> ''वाड्यार मायकल बराबरचे स सात तरी भुरगे आसले. सगळे चवथी, पांचवी सावनूच शाळा सोडिल्ले. रावणफोंडा वटेन एके मराठी शाळेंत ते वयताले. इंग्लेजीची वळख जावचे पयलींच शाळा सुटिल्ली. ते खंयूय मराठींत सय करतात तें पळोवन हेर अजापताले, हांसताले. मागीर एकएकल्यान इंग्लीश सय शिकून घेतल्यो. ह्या सात जाणांतले दोगूच पाडेली जाल्ले. ते केन्ना खोऱ्या कामाक, रस्त्या कामाकूय वयताले. मायकल पायलट जाल्लो. हेर बारांनी, गॅरेजींनी कामाक वयताले. सांतान पेट्रोलपंपाचेर काम करतालो. कास्टीच न्ही मोटवें कालसांव लेगीत सुटिल्लें. सगले लांब कालसांवां घालून झेतान भायर सरताले. पाडेली जाल्लो शावियेर लेगीत फक्कत वावराक वयतना मोटवें कालसांव घालतालो. हरशीं लांब कालसांवांत शर्ट इन करून भोंवतालो. वाड्यार आतां कास्टी मारतले फरांसीक पाय धरून तिगूच दादले आसले. देठले कापोड न्हेसतल्यो बायलोय उण्यो जाल्ल्यो. मांय देठले कापोड न्हेसोता म्हणून सांतान तिका संवतालो.'' (पानां: ८१, ८२.)

क्रिस्तांव दादल्यांनी लांब कालसांव आनी इन शर्ट करप ही एक प्रतिश्ठेची गजाल हो समज त्या काळांत रुजू जाल्लो दिसून येता. म्हत्वाचें म्हळ्यार, हीच गजाल *क्रिस्तांव घराबो* हे कादंबरेंत लेगीत आयल्या. पारंपरीक न्हेसण सोडून पाश्चात्य लोकां भशेन न्हेसप ही तेन्नाची एक प्रतिश्ठेची गजाल आशिल्ली. तीच गत आतांय बी दिसू येता आतांच्या समाजांत. फॅशन बदलता तसो मनीस लेगीत ते फॅशनी परमणें बदलता. हो Demonstrative effect. Masses follow the classes म्हणटात ते प्रमाण. हें सगळें घडलां वैश्वीकरण, उद्देगीकरण, आधुनिकीकरण आनी पाश्चात्यी प्रभावाक लागून. अर्थवेवस्थेक लागून समाजाचे सगळे घटक हालतात.

दुसरी गजाल म्हळ्यार, इगर्जेक काश्टी, देंठली न्हेसप मान्य नासलें. काश्टी मारून दादल्यांनी इगर्जेंत मिसाक वचप ना हो त्या काळा वयलो नेम आशिल्लो. देखीक़, ''जाणा मुगो आंतोनेत, मुगे काश्टी केन्ना सुटलो ना, देकून इगर्जेंत वोचूंक मेवलें ना मुका. इगर्जेंत भितर सरों जायें तोर कालसांव घालों जायें. आमी कालसांव घायल्यार पाद्रीगे लोब सुटपाचो. देकून केन्ना पाद्रीगे शेरमांव आयकलो ना... वसूर चोरता वासरा पोटाक.'' (पान ७१.)

हांगा क्रिस्ती धर्माचो आनी इगर्जेचे संस्कृतायेचो प्रभाव तात्कालीन क्रिस्तांव गावडो समाजाचेर आशिल्ल्याचें जाणवता. काश्टी आनी देंठली न्हेसप उणाकपणाचें प्रतीक जाता. शिक्षणाच्या मळारूय अशेंच शें किते घडटालें. आवय भास कोंकणी आशिल्लो क्रिस्तांव गावडो मराठी भाशेंतल्यान शिकतालो. हाका लागून ताका शिक्षण अवघड आनी चड जड लागतालें जावये. ह्याच कारणाक लागून मर्दींच इश्कोल सोडटल्यांचो आंकडो चड दिसता. शिक्षण आपले भाशेंत जाता तेन्ना भुरग्यांच्या मनार ताण येना, तें सोंपें आनी सादें आसता. ताका लागून भुरगें बेगीन शिकूंक पावता. शिक्षणाच्या माध्यमाचो प्रस्न आनी ताचें म्हत्व हांगा लेखकान अप्रत्यक्षपणान सुचकतायेन दाखोवन दिलां. शिक्षणीक मळार त्या काळार इंग्लीश भाशेक कितलें म्हत्व आसलें तेंय दाखोवन दिलां. होच प्रस्न आयज गोंयांत परतो वयर सरला. म्हळ्यार, आवय-भाशेचें म्हत्व त्या काळा वयल्या लोकांकूय कळूंक नाशिल्लें आनी आयच्या काळा वयल्याय कांय लोकांक कळूंक ना हें स्पश्ट दिसता.

हे कादंबरेंत कांय समज आनी अपसमजूय आयल्यात. कादंबरी सुरूच जाता एके दंत कथे पसून. ''आफ्रिकेंतल्या सावळ रानांत मनशाले आदिमांयक आठ पुरसांकडच्यान आठ पूत जाले. ते आठूय जाण आठ रंगरुपाचे आसले. ते मुखार आठ दिकांनी गेले. तांतलो एकलो भारताचो आदिपुरूश गावडो. हजार हजार वर्सां, हजार हजार मैलांची काळभोंवडी करून मासाळ मातयेचो, पाचवे शिरवंतकायेचो, नितळ उदक उजवाडाचो सोद घेत उणींच वीस हजार वर्सां फाटीं भारताचे शिमेर खैबर घाटांत येवन तो उबो रावलो.'' (पान ३.)

मागीर, ''भारतांत येयल्ल्याक साताठ हजार वर्सांनी तेणीं अर्दावयर भारत व्यापलो. तेणीं शेतां भाटां वाडयलीं. तेंच्यो पिळग्यो वाडल्यो. कितल्योश्योच पिळग्यो आनी मगेर तेंचे कितलेशेच फांटे - मुंड, मुंडारी, कोल, कुणबी, गावडे...'' (पान ४.)

हे भाशेन, गावडो अदीम काळा पसूनचो शेतकामती आनी कश्टी. ताणेंच गांवकारी व्यवस्था रुजयली, ताणेंच नांगर निर्माण केलो. गावडोच आमगेलो नीज आदी पुरूश अशें लेखक मानता अशें म्हणूं येता.

इन्क्विझिशनाचोय उल्लेख हे कादंबरेंत आयला. (पानां: ८३-८४) त्या काळा वयल्या त्या वाठाराच्या समाजाचो आनीक एक समज वो विश्वास हे कादंबरेंत आयला - ''गावड्या वाड्याचे अस्तंते वटेन ओंवळी रुखा लागींच एक तीन पेडांची चिऱ्या तुळस आसली. सद्दां तिनसांजचो थंय एक दिवो पेट्टालो आनी एक देवी कशी बायल सांजची तुळशीक प्रदक्षिणा घालताली. तुळशी लग्ना दिसा मात गांवकार मोन्यांनी तुळशीचें लग्न लायतात. ना वाजंत्रां ना गायनां. कारण त्या दिसा रातभर भुंये भितर वाजंत्रां वाजिल्ल्याचो आवाज घुंवता. गावडे कितलींशींच वर्सां दिवजां, वाजंत्रां नासतना

तुळशी लग्न करताले. मागीर कोणें तरी एक खुरीस हाडून तुळशीर उबो केलो. तेन्नासान तुळशी लग्न उरलें. पूण आतां लादीन जाता तुळशी लग्ना दिसा, खुरीस फुलांनी सोबोवन.''

हांगा एके देवीचीय आख्यायिका सांगिल्ली आसा. पूण म्हत्वाचें म्हळ्यार, बाटाबाटीची झालर थंयूय झळकता.

हे क्रिस्तांव गावडे बाटाबाटीचेंच एक उत्पादन. तांचो धर्म बदल्लो खरो, पूण संस्कृताय बदलूंक ना. देखीक पान ७२ पळोवचें. हिंदू चाली-रितीं प्रमाण गंधर्व विवाहना हो लग्नाचो एक प्रकार. हाचें परिवर्तीत रुपांतर आशिल्लें 'कापडा लग्न' क्रिस्तांव गावडो समाजांत आसा. आगुस्तीन आनी दुलसीन हीं दोगांयजाणां काजारी आसून लेगीत कापडा लग्न करून एकठांय येतात. कापडा लग्ना रिती प्रमाण दादलो आनी बायल एके तिनसांजचे कात्रेर गांवा भायर वतात. एके जांबळी पोंदा एक शेणा थापो दवरतात. दोगांय शेणांत आपलो पांया आंगठो बुडोवन देवा कडेन मागतात. मागीर कापडाक शेणा तिबो लावन दादलो ते बायलेक नवें कापड दिता. घरा येवन तीं वांगडा न्हिदतात.

ह्या समाजांत आशिल्ली अनैतीकतायूय हे कादंबरेंत स्पश्टपणान जाणवता. देखीक, पानां १३८-१४० पळोवचीं. तोमासाक अपघात जावन तो घरांत मोडून पडटा तेन्ना ताचे बायलेची, तेरेझाची, वळख पाश्कोला कडेन जाता. पाश्कोल तोमास-तेरेझाक मदत करता. अशें चलतासतना तेरेझ-पाश्कोलाचो शारिरीक संबंद जुळटा. मागीर तेरेझ पाश्कोला कडेन लग्न जावपाचो निर्णय घेता आनी तोमासा कडेन परवानगी मागता. हांगा तेरेझाचो मानसशास्त्रीय नदरेंतल्यान अभ्यास करीत जाल्यार एकूच गजाल जाणवता, संभोग हो प्राथमीक हेतू -आशिल्ल्यान तेरेझाचो आनी पाश्कोलाचो शारिरीक संबंध जुळप ही एक प्राकृतीक, सभावीक गजाल. कारण, तेरेझाची शारिरीक भूक तोमासा कडेन पूर्ण जावप शक्यूच नासलें. हांगा कुडीच्या सुखाक लागून तेरेझ असो निर्णय घेता. तोमासाचें तें तेन्ना कांयच चिंतिना. एक आदर्श, पतिव्रता बायल कशें तें चलना. तें पाश्कोला कडेन लग्न जाता आनी तीं तिगांय वांगडाच रावतात, तोमासागेरूच. हांगा तोमासाच्या मानसीक संघर्शाचेर चड लक्ष वता. एक मोडून पडिल्लो घोव आपली बायल दुसऱ्या दादल्या म्हऱ्यांत वचून न्हिदता तें पळोवन कांय एक उतर उलयना. तेरेझ ताका आपूण पाश्कोला कडेन काजार जातां म्हूण सांगता तेन्ना तो तेरेझाक परवानगी दितना ताची जी मानसीक स्थिती निर्माण जाता ती उतरांनी सांगूंक येना. ''तोमासान दांत चाबलेशें करून म्हटलें, ''मुगे कांय ना.'' '' (पान १४०.) हांगा तोमासाची विरोधाभासी मनोवस्था दिसून येता. मनान एक पूण तोंडांत दुसरेंच. हाकाय बी एक कारण आसा. तो ह्या लग्ना आड आसलेलो जाल्यार तेरेझ ताका सोडपाचें. तेरेझूच आतां ताच्या जिविताचो दांडो जाल्ल्यान, तें आपल्याक सोडून वच्चें न्हय म्हूण तो आपल्या काळजार फातर दवरून जिविता कडेन तडजोड करता. जियेवप हो अखेरेक मनशाचो हेतू.

तशीच आगुस्तीन आनी दुलासिनाली परिस्थिती. आगुस्तीनालें दुलसिना वांगडा दुसरें काजार जाल्लें. दोगांय पयलीं काजारी आनी पयल्या काजारा पसून जाल्लीं भुरगींय तांकां आसलीं. कापडा लग्न करून तीं दोगांय एकठांय आयिल्लीं. समाज हांचे आड कांयच करिना. हो घडये बदलत्या समाजाचो दृश्टीकोन. संस्कृतींत हें सगळें चलता. आनी, आमचेर युरोपी सत्तेचें राज्य चलिल्ल्यान आमच्या मनाचेर ताचो जाल्लो परिणाम. पाद्रींची नदरय बदलिल्ल्याचो उल्लेखूय कादंबरेंत मेळटा.

''पाद्रीन चीट वाचितां म्हुटलां.''

''तुगे आडखळ ना जाल्यार.'' (पान १४०.)

काळा वांगडा बदलपी मनशाची मानसीकताय संवादांतल्यान कळून येता. जगपा खातीर तो आपली परिस्थिती बदलपाचोय यत्न करता.

हे कादंबरेक कार्ल मार्क्साचो सिद्धांत लायल्यार दिसून येता, दर एकलो आपली परिस्थिती सुधारपाचो यत्न करता. ह्याच कारणाक लागून भुरगे पांचवी मेरेन शिकतात आनी वेगवेगळ्या कामाक लागतात. अशे तरेन एक वेगळोच वर्ग तयार जाता - शेती, बांदकाम, मानायपण करतल्यांच्या भुरग्यांचो. तें आवय-बापायचें काम सोडून दितात.

साश्टींतलो क्रिस्ती गावडो दुसऱ्यांच्या आनी आपल्याय शेतांनी घोळटा, पूण चड करून मानायपण होच तांगेलो मुखेल पोट भरपाचो धंदो. अशें आसलें तरी ह्या क्रिस्ती गावड्याचें जिवीत क्रिस्ती धर्म तत्वांचेर आदारून ना. ते चड करून हिंदू संस्कृताये कडेन लागीं आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

देखीक, १. ''त्या कोंकण्या घाडयान तेन्नाच सांगिल्लें, एका घारांत आलवांतीण जोल्मोल्या म्हूण. तेन्नाच मारों जाय आसलें.'' (पान २७.) २. कापडा लग्न (पान ७२).

ह्या समाजांतले दादले मात आळशी, बुरशे, बेबदे, चड काम कश्ट करपी न्हय, बसून बायलांच्या कुस्तार पोट भरपी. आहार आनी संभोग ह्यो दोन गजाली तांकां बेस बऱ्यो येतात. पूण बायलां मात कश्ट-कबाड करपी, घर संवसार चलोवपी, फुडाराचो हुस्को तांकां आसता. घोवाक सांबाळपी, भुरग्यांच्या पोटा-पाण्या विशीं चिंतपी. पूण कांय बायलो परिस्थितीक लागून अनैतीक गजालीं कडेन ओडून वेतात. देखीक, आंतोनेत, तेरेझ, दुलसीन. पूण कितेंय जाल्यार तीं सगळीं दादल्याचेर मोग करपी अशीं चित्रीत जाल्यांत. बदलते परिस्थिती कडेन तीं कशीं जुळोवन घेतात तें कादंबरेंत बेस बरे तरेन दाखयलां. हातूंत हिंदू संस्कृतायेचो न्हय तर पाश्चात्य संस्कृतायेचो प्रभाव दिसता.

क्रिस्ती समाजांत लग्नाच्यो जायत्यो रिती आसात त्यो नकसूद पणान चित्रायल्ल्यो दिसून येतात, देखीक, माग्दालीन आनी दुमींग नायेले इगर्जेत पाद्रीक मेळूंक वतात तेन्ना पाद्रीन पयलींच तांकां सांगलें, ''तुमी बरे किरिस्तांव म्हण आदीं मुका पारखूंक जाय.'' (पान १२८.)

आमच्या क्रिस्ती समाजांत क्रिस्ती धर्माक चड म्हत्व आसता. क्रिस्ती धर्मांत सात साक्रामेंत वा संस्कार आसात. तातूंतलो पांचवो लग्न संस्कार. पयले चारूय संस्कार पाळ्ळे उपरांत लग्न संस्काराक आमची इगर्ज मान्यताय दिता. हो संस्कार जोडूंक क्रिझ्म हो संस्कार

म्हत्वाचो. मागीर लग्ना पयलीं तीन आयतार दोगांयच्या इगर्जांनी पाद्री चिटी वाचता, म्हळ्यार सभेक कळीत करता, अमको मनीस अमक्या कडेन लग्न जावपाचो आसा म्हूण. कोणाचीय हरकत आसत जाल्यार पाद्रीक कळीत करप. मागीर फुडलें पावल घालप. क्रिस्ती धर्मांत कुमसार, प्रायश्चीत करप हाका खुबूच म्हत्व आसा. तशेंच सुमानाक एक फावट, म्हळ्यार दर आयताराक, मिसाक वचप हेंय बी तितलेंच म्हत्वाचें.

समाजाच्या एका घटकाचें असहायपणूय हे कादंबरेंत दिसून येता. कामा-पोटा खातीर लामाणी गोंयांत येतात. तांचेर अन्याय जाता तेन्ना तीं अन्याया आड झगडूंक फुडें सरनात.

गौवीचो बलात्कार करून ताका दोग जाण गळफांस घालून जिवेशीं मारतात. फिलीप ताच्या बापायक पुलीस केस कर म्हूण सांगता पूण बापूय म्हणटा, "पोलीस... तेंकां बापूय म्हण कळना. धूव म्हण कळना. उल्टे आमकांच व्हरून बडयतले. जायतें भोगलां..." (पान २१२.)

भासशास्त्रीय नदरेन हे कादंबरेचो अभ्यास करीत जाल्यार जाणवता, जी भास पात्रांच्या तोंडांत घाल्या ती नीज साश्टी वाठारांतल्या क्रिस्तांव गावडो समाजाची. ही कादंबरी तृतीय पुरुशी निवेदनात्मक आनी संवादात्मक अशी. लेखकाची निवेदन शैली खूब बरी आसा. पूण ताचे परस संवादांतल्यान कथानक फुडें वता तें दोळ्यांत भरता. साश्टी कोंकणी बोली अलंकारांनी, म्हणींनी आनी वाक्प्रचारांनी समृद्ध आसा. उपमा, रुपकां, मानवीकरण असल्या अलंकारानी भाशेची प्रगल्भताय जाणवता. देखीक,

**कांय उपमाः**

१) "तोवूय बरो पाख्यावरी माडार चडटालो" (पान ५).

२) "दांतपाडें पेर्पेत जिवाण्यान बिंवणांतल्यान तोंड काडून रावचें तशें दारांत बशिल्लें" (पान २४).

३) "इतलें नितळ वत पडिल्लें आसुनूय गांवार भिरांतीची, भुकेची एकसुरेपणाची जशी काजळी पातळिल्ली" (पान २४).

४) "सासूमांय म्हातारी माजर कशी घरांत सदां खुडबुडत आसताली" (पान १४२).

५) "रोजमारी मुड्डो कशें वणटीक तेकून बशिल्लें" (पान २८).

६) "तिचें शंखावरी वयर येयल्लें पोट पळोवन बायलांनी म्हटलें..." (पान ८४).

**कांय रुपकां-**

१) "कावळ्या दोळ्यांचो" (पान २०).

२) "कसलें गाबणें बेबूक मुगे गळ्याक बांदलां" (पान २३).

३) "झाड सुटिल्लो माकोड जातलो तूं" (पान ४५).

४) "कुडीची तर तापिल्ली कायल जावंक लागिल्ली" (पान ११५).

५) "कामाक लागल्यार जखमी वाग" (पान ५).

**मानवीकरणः**

१) "उदकानूच गिळिल्लें तेका!" (पान २५).

२) "आतां माटवांत नाचतल्यांच्या पावलांक कसलीच उमेद नासली." - १३४

३) "गावांत माड गाभणे जावन पेंडी लकतात" (पान २००).

**कांय म्हणीः**

१) "गावड्यागे जोड सोऱ्या कोट्टेंत" (पान १७).

२) "धड कसना. मेर ना. तरवो ना" (पान १८).

३) "मेल्ल्या फोंडांत गेल्ल्या दोळ्यांत" (पान २०).

४) "वाठारांत तर जितो जीव नासलो" (पान २५).

५) "दिसोता मोडे येता रोडें" (पान३१).

६) "तातीं फुट्टकीर खूंय पाय मोत्ता आनी पाखां फुट्टकीर खूंय मांय मोत्ता" (पान ७१).

७) "तुगे हात तुगे पोट" (पान ७१).

८) "बी तेहें भात, खण तेही मार्ती" (पान १०९).

९) "हाडलो पावशेर, खायलो पावशेर" (पान १२९).

कांय वाक्प्रचारः

"दोळे धांपले" (पान १८).

"हड्डें भरून येतालें " (पान १९).

"जिवार येयल्लें" पान १९).

"आंग मोडून काम करतलें" (पान २३).

**संवादः**

१. "हायें सोडलें बायलेक आनी भुरग्यांक..."

"कित्या, कोणा पासत सोडलें?"

"तुजे पासत सोडलें हांयें सोगळें, आतां संवसार सोडपा आसा."

"क्रुजीनाक सिमटा पोती म्हुणटा तूं. तेगे गाबळां ल्हेंव म्हुण्टा." (पान २०७.),

२. "कित्या, तुगे बायल न्ही ती? तुवें काडलीं नात पोरां?"

"घोव मेलेली बायल, बापूय मेलोलीं भुरगीं जियेनात?"

"मागी जिवो कित्या आसा तूं? फकत आंतोनेताक नागडें करूंक?"

"मोग ना तुजो कोणाचेर. फक्कत कुडी सूख जाय तुका सुण्याक."

"तुयें धुकल्लो मुका ह्या पोजोडांत."

"मुजें सोड. हांव घोवान सोडलोली, संवसार सोडलेली चेडी.

"तूं ना तर मुका आनीक कोणय मेळटासलो. तूं कोण मुजो?" (पान २११.)

वयल्या दोनूय संवादांतल्यान जाणवता, ही अस्सल साश्टींतल्या क्रिस्तांव गावड्यांची कोंकणी बोली. लेखकान खूब अभ्यास करून ही भास पात्रांच्या तोंडांत यशस्वीपणान घाल्या.

तशेंच पुराय कादंबरेंत एक संदेश दिला. तोय बी अप्रत्यक्षन. तो म्हळ्यार, खरो निसुवार्थी मोग केन्नाय जावूं येता. काजारी जिवीत भोगून लेगीत आंतोनेत आनी फिलीपालो मोग हाचो एक नमुनो.

समाजशास्त्रीय नदरेन हे कादंबरेचो अभ्यास करपाक खूब वाव आसा अशें म्हाका दिसता. जण एकल्या कोंकणी मनशान वाचपा सारकी अशी ही कादंबरी. हेर भासांनीय हे दर्जेदार कादंबरेचो अणकार जावंक जाय. कारण जिविताचो गूढ अर्थ हे कादंबरेंत लिपला.

संपर्कः ९७६४३२०६३७





राजश्री महाबळेश्वर सैल

# कलात्मकतेची तेंगशी गांठिल्ली नवलिका *अरण्यकांड*

कोंकणी कादंबरी खऱ्या अर्थान गोंय सुटके उपरांत जल्माक आयली, आनी तिणें गोंय आनी कोंकणी वाठाराचे भौगोलीक, इतिहासीक, सांस्कृतीक भाशीक अशे कितलेशेच आयाम केळयले. ही कादंबरी मनशाल्या अस्तित्वाच्या झगड्याची, संघर्शाची वळख करून दिता. कोंकणी कादंबरेंत सामुदायीक मनाचो गजर आयकूंक येता. घराब्यांचो, मनशांचो, एका सामाजीक स्तराचो, विशिश्ट सामाजीक काळाचो वोगूय तातूंत दिसता.

प्रादेशीकते वांगडा वैश्वीक मुल्यां केळोवपी कांय मोलाच्यो कादंबऱ्यो ह्या काळांत बरोवन जाल्यो. असल्यो कादंबऱ्यो बरोवप्यां मदीं कोंकणींतले म्हत्वाचे लेखक म्हळ्यार महाबळेश्वर सैल. एका फाटल्यान एक अश्यो नकसूद कादंबऱ्यो बरोवन तांणी कोंकणी कादंबरी साहित्य समृद्ध केलां.

तांची *अरण्यकांड* ही नवलिका जाग प्रकाशनान १९९७ वर्सा उजवाडा हाडल्या. तिचें मूळ नांव 'अरण्यमर्ण' आसलें. खरें म्हळ्यार ती 'अरण्यमर्ण' ह्या नांवानूच छापून येवंक जाय आसली. 'अरण्यमर्ण' ह्या नांवांत जें अस्सल काव्यात्म कोंकणी नीजपण आसा तें 'अरण्यकांड' ह्या नांवांत नाच.

हे नवलिकेची सर्जनप्रक्रिया हांवें लागींच्यान अणभवल्या. १९९३-१९९४ च्या काळांत 'इंडिया टुडे'चेर Bonded Labourers of Bihar ह्या माथाळ्याचो लेख छापून आयिल्लो. काम सोडून जे कामगार पळून वताले, तांकां धनयांनी गुळयो घालून फारांनी मारिल्ले. घडये सैलांक ह्या लेखांतल्यान नवलिकेचें कथाबीज मेळ्ळां आसुये.

एके राती देड दोन वरांचेर हांव जागें जाल्लें. पप्पा तेन्ना तल्लीन जावन बरयताले. रातीचो तो घनगंभीर पार... पप्पाक बरयतना समाधीच लागिल्ली म्हळ्यार जाता. कितलें तेज आशिल्लें तांच्या मुखामळार... 'अरण्यमर्ण' ही महाबळेश्वर सैल ह्या लेखकाची सर्जनशीलतेचे आनी कलात्मकतेचे एके ऊंच तेंगशेर आसतना बरोवन जाल्ली नवलिका.

संवसारांतलें सगलें श्रेश्ठ साहित्य, तळागाळांतल्या सामान्य लोकाले उतळताप, गरिबी चित्रीत करपी आसता. सैलांच्या समग्र साहित्यांतल्यान ह्या संवेदनशील दुःखाचे वेदनेची धार व्हांवतना दिसता.

हे कादंबरेचें कथानक जगाचे फाटीर खंयूय घडूं येता. इतलें तें अस्सल नीज जालां. मनीस सभावाच्यो वेगवेगळ्यो तरा, वृत्ती प्रवृत्ती छटा दाखोवपाचें लेखकालें कसब अजाप करी सारकें.

सैलांली ही नवलिका एका उकत्या उजाड गांवांतल्या जातीहीण, व्यवसायहीण, उपऱ्या लोकांली वेथा जबरदस्त तांकीन मांडटा. आंगार पडिल्लें सैमीक अरिश्ट, जीव खावन उडोवपी गरिबी, आनी ते गरिबीक लागून गांव सोडून वचपाचो निर्णय आनी उपरांत एका फाटल्यान एक आयिल्लीं अरण्यमर्णां.

एके सैमीक आपत्तींत सांपडिल्ले, एका उकत्या उजाड गांवांतले हे उपरे लोक. फकत कश्ट करप, घोळप, आनी रिणांत मुंगरप, होच हांचो धर्म. गांवचें उदक पाणी सुकूंक लागतकच तांची दैनाच जाता. लोक भागूंक बरगूंक लागतात. एक बकाल अशी अवस्था. तेन्ना हो धवाडो पारपतदार येता. पयशे मेजून तांकां रिणांतल्यान मेकळे करता. खरें म्हळ्यार, तांकां आपल्या पयश्यांच्या नाड्यार विकते घेता. कर्नाटकांतल्या त्या उजाड गांवांतल्यान, खणींत काम करपाक तो तांकां गोंयांत हाडटा. क्रशराच्या, मायनिंगाच्या कामाक लायता. शेताभाटाचें, कुळागरां, गोरवांचें नकसूद काम केल्ले हे लोक माती, फातर, धुल्ल हांचे मदीं सांपडटात. क्रशराच्या मशिनांत घुवूंक लागतात आनी तातूंत हें जिवघेणे बंदिस्तपण, एक तरेचो अदृश्य मर्णसांपळो. आनी मागीर सुरू जाता ह्या सांपळ्यांतल्यान सुटून वचपा खातीर केल्ली जिवघेणी तडफड, एक रानधांवडी. बाकीचीं कारणां निमित्तमात्र आसतात. आपल्या गांवांत पावप, तो मेकळो सुटकेचो स्वास घेवप हें एकूच सत्य. आकांताळें झगडेंच सुरू जाता थंय बंदेपण आनी मेकळेपण हाचे मदीं. मागीर थंय जिवाचीय पर्वा आसना, आसता फकत एकच आस - स्वतंत्रता.

त्या अरण्यांतल्या एका जीवघेण्या अरण्य सांपळ्यांत ते सांपडटात. मरण फाट धरून फाटल्यान धांवता. सैम आनी मनीस हांचे मदलें हें आदीमकालीन झूज प्रत्ययकारी रुपान लेखकान मांडलां.

मनीस सभावाचें इतलें सुक्ष्म बारीक चित्रण लेखक करता, वाचपी थक्क जाता. मोट्या हाडाचो ऊंच आनी गोरो, पोले फुगरे, व्हड चवखणी चेहरो माने पसून चड मुखार आयिल्लो, थोडोसो निस्तेज, इल्लो समजिकायेचो आनी पिरायेन व्हड आशिल्ल्यान बाळप्पाक लोक मान दिताले. सुरवातेकूच उदका पाणयाच्या सोदांत वचुया म्हण सांगपी बाळप्पा, आपणाल्या बायले-भुरग्यांक घेवन दार उकतें करून पयलीं क्रशरा वेल्या घरांत भितर सरपी बाळप्पा. अशे तरेन बरोवपी वाचप्याच्या मनांत बाळप्पा विशीं एक घटमूट अखंड स्थान तयार करता. कळत नकळत ताका पोंव्याचो फुडारी करता आनी बाळप्पा ही जबाबदारी समर्थपणान सांबाळटा.

एका बऱ्या फुडाऱ्याचीं सगलीं लक्षणां बाळप्पा भितर दिसतात. सावकारा कडेन तो आमकां मेकळे कर म्हण चोम्याचे वतीन मागता. वस्ती सोडून गांवच्या पाख्यांत वचपाचो निर्णय तोच घेता. गंगाराम दत्तू बाळप्पाचेर तापतात. हे दुर्दशेक ताकाच कारणीभूत थारायतात. ताका उडी मारून जीव दिवचो शें दिसता. पूण तो थारायता, ह्या

पोंव्याक अर्दे वाटेर सोडून हांव मरचोंचना. आनी खऱ्या अर्थान त्या खिणाक तो त्या पोंव्याचो समर्थ मुखेली जाता. आपल्या पिसांट चेड्याक, शिवाप्पाक, गोमटी आंवळून मारता.

गोपूलो चलो वांच्चो म्हण यत्न करता त्या खिणाक एक मुखेली म्हण, पोंव्याचो राखणदार म्हण बाळप्पा खूब ऊंच जाता. निमाणें सगल्या एकवीस जाणांतले णव जाण उदका कडेन पावतकच शें देडशें पावलांरूच बाळप्पा मरून पडटा.

लेखक आपलें अशें वैचारीक तत्वगिन्यान कळत नकळत नवलिकें तल्यान मांडटा. जिवनाचेर, मनशाचेर, मनशाल्या मनीसपणाचेर, बरेपणाचेर आशिल्ली लेखकाली खर निश्टा हे नवलिकेंतल्यान दिसता. जीवन आनी मर्ण, सैम आनी मनीस, देव आनी मनीस, मनीस आनी मनीस हांचे एकमेकां भितल्ले संबंद, संबंदांतले तरंग दाखयतना लेखक तत्वगिन्यानी बसका घेतना दिसता.

जिवन आनी मरण हातूंतली सिमारेशा कितली सुक्ष्म आसता हें लेखक कलात्मक रितीन वाटेर एका फाटल्यान एक आयिल्ल्या आड मर्णांतल्यान दाखयता. तें वाचतना वाचपी असहाय्य जाता आनी तेच वांगडा मनीसजिणेचें फोलपण, निरर्थकपण, शुन्यपण ताका सुन्न करता. सैमा मुखार मनीस कितलो असहाय्य जावंक शकता, ताची अगतीकता हे रानभोंवडेंत आमकां विशण्ण करता.

देव आनी जाती वेवस्था ही संकल्पना मुळांत कशी जल्माक आयली आसुये हाचेर लेखकालें आपलें अशें तत्वगिन्यान आसा. गोपूक उणे जातीचो मानप, ताका आपले वांगडा रावपाक थारो दिवप ना, रेणू आनी नरसूच्या मोगा आड वचप, व्हाळार उदक सकल्ले वटेन भरूंक लावप, आनी जेन्ना हे मरणा दारांत पावतात तेन्ना थंयचें तत्वगिन्यान वेगळेंच. मरणाच्या दारांत सगले भेदभाव पुसून वतात. निमाणें तर बाळप्पा गोपूल्या रामूक खांदार घेता; तो तरी वांच्चो म्हण यत्न करता.

फातरफोड्यान फोडून उडयिल्लो फातर गंगावतीक देवाले मुर्ती भशेन दिसप, आनी मागीर ताका झाडा पोंदा पुजप - तेल फूल पिनर घालप. लेखक मनशाले आदीम सांस्कृतीक उत्क्रांती कडेन बोट दाखयता.

महाबळेश्वर सैल आपल्या साहित्यांतल्यान कोंकणी भास चैतन्यशील रुपान केळयता. उतरावळ, काणयो, म्हणी, हांचीं विवीध तासां तांचे कादंबरेंत पळोवंक मेळटात. कोंकणी भाशेचें एक अजापाचें जादुयी भंडार उकतें जाता. कोंकणी गदय साहित्यांत काव्य कशें आसता तें अभ्यासूंक जाय जाल्यार दुबावा विरयत सैलांल्या साहित्या कडेन वचूंक जाय. खरेंच ही गदय कविताच. तांची भास म्हळ्यार, विवीध उतरांनी, म्हणींनी, काणयांनी केळयिल्लें एके तरेचें कलात्मक चित्रूच. रंग, छटा, आकार, रेशा, बिंदू हांचें सुक्ष्म निरिक्षण करून बरयल्ले आसतात तांच्या साहित्यांतले प्रसंग; चित्रायल्ले आसतात झाडां, पेडां, दोंगर, रान, मनशां हांचे देखावे.

एक शिल्पकारच हो लेखक. शिल्पकेलेचें आटीव घोटीवपण केळोवनूच तो दर एक पात्र चित्रायता, पात्राच्या व्यक्तिचित्रणांत तर एका कुसाचेंय विस्कळीतपण चुकून लेगीत मेळना.

सगळ्यो वाटो कवळून घेवन पोंव्याक गिळूंक उठिल्लें खडबडीत रान.

झाडां तर हुलप-ताप ओडून घेवन खासा उज्याचें जाळ जावन उबीं आसलीं.

मरण गिदावरी वाटभर तांचो सांगात करतालें.

वाठाराक उजो पेटला, आतां देवच पावतलो म्हण रावल्यात.

एका जाळांत ते घुस्पल्ले. हातपांय धाडायतात तशे चड घुस्पताले.

तोंडांतल्यान बारीक हुंकार फुटलो आनी ताणें फुलांची पाकळी झडिल्ले वरी ओ दिली.

एका आंकवार मर्णाचें हें वर्णन वाचप्याक सैरभैर करता.

फाटले वटेन काळेंशें, पाचवें रान. मुखार दोंगरा कडेर पसयेची साबार रंगांची आनी उजवाडाची सरभरशी आरास. मळबा वेलीं कोटी कोटी नखेत्रां ना जातालीं आनी थंय निळ्या उजवाडाचो हात भोंवतालो.

वोत चडटा तसो वोताचो रखरख त्या जड्ड्या रानांत देवंक लागलो.

काळखांत झुमरां केसांचे काळे राकेस कशे दोंगर पातळिल्ले.

पयस पयस एक न्हंय उदकान उपाट भरुनय मृगजळावरी हाताभायरी एक फटकिरी आस. एक अखंड रान हजार दिशांचें, हजार वाटांचें... उरफाट्या पावलांच्या म्हारवां वरी हीं रानांतलीं झाडां. दर एका झाडांत आलवांतीण बसून रावल्या.

महाबळेश्वर सैलांले हे नवलिकेंत आदीम काळा पसून शेंकड्यांनी वर्सां साकून चलत आयिल्लो गिरेस्त आनी गरीब हांचे मदलो कलह आसा. सैम आनी मनीस हांचे मदलें झगडें आसा. पूण एक गजाल म्हत्वाची. लेखकाली मनशाचेर, ताच्या मनीसपणाचेर खूब खूब निश्ठा. म्हणूच, मरणाच्या दारांत उबो रावनूय मनीस जनावरा वरी केन्नाच वागना, तर केन्ना केन्ना देवत्वाक पावता.

रेणू सोयरावीण पडटकच नरसूचें ताका खांदार घेवप, तें मरतकच ताका आयिल्लें वैराग्य; साडे तीन वर्सांचो भुरगो मरतकच जनाप्पा ताका तसोच घेवन चलता; आपलें शांती सांडलें, हाका सांडोवचोंना म्हणटा; गोपूलो रामू न्हिन्नळटा, पडटा तेन्ना सगल्यांलें थतर वितर जावप; आवय मरतकच कुसमी मोनें आनी धीट जाता, भावाक सांबाळून व्हरता; गंगावतीलें मर्णाचे त्रास जाता आसतना सगल्या भुरग्यांक दूद दिवप आनी निमाणें आपूण मरप. हे नवलिकेंतल्यान लेखक वैचारीक नदरेंतल्यान दिव्यत्वाक पाविल्लो दिसता.

संगीतांतले शब्द ताल, चित्रकारितेंतले आकृतीबंध, शिल्पकलेंतलो व्यक्तिमत्व रुपकार हांचो संगम सैलांल्या साहित्यांत दिसता. रसीक वाचपी तांचें साहित्य वाचतकच मनाचे खोलायेंतल्यान तृप्त जाता. मनांतलें गोंठेल्लेपण धील जाता. आनी शिरंतरांतल्यान मन मेकळें मेकळें जाता. एके व्हड कलाकृतीचें हेंच सार्थक. ती आपले वांगडा वाचप्याकूय धन्य करता, पूर्णत्वाक पावयता. तृप्त करता.

संपर्क: ९९२२२६५२०९



विली गॉयश

# शेमांसीचो पात्शाय रेजिनाल्ड फेर्नांडीस

'लाखांनी कोंकणी वाचप्यांक वाचपाचें पिशें लावपाची कला देवान फकत बाब रेजिनाल्डाकूच फावो केल्या.' १९८७ वर्सांत परगट केलेल्या *घातक्याक घात* हे रेजिनाल्ड फेर्नांडीसांचे कादंबरीक प्रभाकर तेंडुलकार हांणी बरयलेले प्रस्तावनेंतलें हें एक वाक्य.

मनशाच्या आंगांत कला आसत जाल्यार तो कलाकार ते कलेक फुलयता आनी कसल्या तरी रुपांत ती भायर सरसर ताका थार जायना. कला सगल्यांच्या आंगांत आसताच. पूण तातूंतले भोव थोडे ते कलेक सुटका दिवन ती लोकां मर्दी पावयतात आनी तांकां धादोशी करतात. तातूंतलो एक महान कलाकार, एक सुवादीक संगीतकार आनी एक पिकाळ बरयणार मानेस्त रेजिनाल्ड फेर्नांडीस. मेस्त्र झेफेरीन डिक्रूज हांचे खाला रेबेक वाजयणारूय म्हूण तांणी नांव जोडलेलें आसा. ते शिवाय तिनश्यां वयर कांतारां बरोवन तांकां संगीत बसयलेलें आसा. पूण संगिता परस व्हडलें नांव रेजिनाल्डबाबान आपल्या बरोवपा वरवीं जोडलां. आयज तांकां 'कोंकणी रोमांसीचो पात्शाय' म्हूण नांव पडलेलें आसा. सुमार दोन शेंकडे पुस्तकां बरोवन, हजारांनी वाचप्यांक तांचो आनंद भोगूंक दिवन तांचीं काळजां जिकपी बरयणाराक पात्शाय (राजा) म्हण मान फावो जाला.

कादंबरीक इंग्लेज भाशेंत 'रोमान्स' म्हणटालेत. आतां 'नॉव्हेल' म्हणटात. 'रोमान्स' हाचो अर्थ आयज आमी चिंततात तशें मोग करप न्हय, तर धाडस (adventure, discoveries, आदी) करप. ज्या काळार रेजिनाल्डबाबान कादंबरी बरोवंक सुरू केलेलें तेदना इंग्लेज 'रोमान्सिस' वाचप्यांनी तांच्यो कोंकणींतल्यान कादंबरी आपणायल्योत आनी कोंकणींत तांकां 'रोमांसी' हें नांव दवरलें. त्या काळार कोंकणीचेर पुर्तुगेज भाशेचो प्रभाव चड प्रमाणांत आसलो.

१४ जून १९४१ ह्या दिसा रेजिनाल्ड बाझील फेर्नांडीस जल्माक आयलो. ताचे मांयचें नांव आसलें कार्मेलीन. आनी पाय, आंतोन कारिदाद फेर्नांडीस, आसलो एक संगीतकार - क्लारिनॅट वाजोवपी कलाकार.

ल्हानपणा सावन रेजिनाल्डाक आपले सरभोंवतणचें वातावरण खूप बारीकसायेन पळेवची संवय आसली. शेजाऱ्यां आनी इश्टां संबंदान घडण्यो घडटात त्यो तो अणभवतालो आनी खोलायेन तांचो नियाळ करतालो. तांची बारीकसाण काडून मनांतल्या मनांत काणयो घडटालो. इस्कोलाक थावन घरा पावतच आपणें जें कितें पळेलां आनी अणभवलां तें तो तपशीलकायेन घरच्यांक सांगतालो. ताच्या सैंबांत आसललो हो गूण ताका एक बऱ्यांतलो बरो कादंबरीकार जावपाक खूब फायद्याक पडलो.

एक बरयणार जातोलो जाल्यार पयलो एक बरो वाचपी जावंक जाय, आनी रेजिनाल्डाक वाचपाची खूब आवड आसली. तो एच्.जी. वॅल्स, अलॅक्झांडर द्यूमा आनी हेरां बरयणारांचें बरोवप वोडीन वाचतालो आनी ताचेर खोल नियाळ करतालो. त्या महान बरयणारां परीं आपुणूय एक दीस व्हड आनी ताकतीचो बरयणार जातोलो आनी 'रोमांसीचो पात्शाय' म्हण नांव जोडटलो म्हण ताका घडये खबर नासली आसतेली, कित्याक, रेजिनाल्डबाबांचें बरोवप काळजांतल्यान आनी कोंकणीच्या मोगाक लागोन भायर सरतालें. आपणें घडलेली एक काणी वाचपी वाचतेले आनी तातूंतल्यान तांचें मनोरंजन जातेलें, अशें चिंतून तांकां व्हड आनंद भोगतालो.

घरांत आयलेल्या संकश्टांक लागून अठरा वर्सांचे तरणे पिरायेर रेजिनाल्डबाबांक गोंय सोडून नोकरी करूंक मुंबय वेचें पडलें. तो मासा-रगतान मुंबय शारांत वावुरतालो, पूण ताचें काळीज आनी मन सोबीत सुंदर आपल्या मांय गांवांत, गोंयांत, आसलें. घरा थावन इतले पयस आसोन तो सारकोच एकसुरो जावन पडलो. त्या एकसूरपणाचेर जैत व्हरूंक ताणें आपल्या आंगांतली कला वापरून बरोवंक सुरू केलें.

मुंबयंत 'आव्हें मारिया' नांवाचें एक नेमाळें परगट जातालें. शिवोलेचे ए.व्ही. डिक्रूज त्या नेमाळ्याचे परगटणार आसले. डिक्रूज रेजिनाल्डबाबांची हुशारकाय आनी तांचे बरोवपाचे गूण वळखले. तांची *लिंडोर्फ* कादंबरी तांणी आपल्या नेमाळ्यांत भागांनी शापली. हाचे वरवीं वाचप्यांची आनी रेजिनाल्डबाबांची वळख अखंड जाली, आनी एक ताकतीचो कादंबरीकार म्हण तांचें नांव फांकूंक लागलें. हे सुरवाती उपरांत रेजिनाल्डबाबान थांबनासताना सुमार दोनशीं रोमांस्यो बरोवन आपल्या वाचप्यां समोर दवरल्यो. हातूंतली एकान एक रोमांस कमीच्या कमी काळा भितर खपोन काबार जाताली, आनी वाचपी ताची फुडली रोमांस केदना येतेली म्हण वाट पळेत रावताले. हातूंतल्यो चडांत चड रोमांस्यो ताणें स्वता खर्च करून विस्तारल्यो.

धोबी तलाव - मुंबय आव्हें मारिया शापखान्यांत कंपोझिटर म्हण काम करतालो तेदना रेजिनाल्डबाब चूक करी नासताना मॅटर कंपोझ करूंक शिकले. आपल्यो कादंबरी ते आपल्या साफ हातबरपान बरोवन काडटाले.

संगिताच्या मळारूय ते येसस्वी जाले. 'Reggi and his Melodians' म्हण तांचें स्वताचें बँड पुणें शारांत बरेंच फांकलें. हिन्दी चलचित्रांच्या संगितांतूय रेजिनाल्डबाबांचें योगदान आसा. ते शिवाय तांणी म्हैसूरच्या महाराजाचे पालासींत तशेंच दिल्ली, मसुरी, शिमला आनी गुजरात ह्या वाटारांनी महाराजां समोर संगीत वाजयलेलें आसा. तांचे ट्रंपेटीचेर लुई आर्मस्ट्राँग ह्या नांवजत्या जॅझ संगीतकारान आपली निशाणी घातलेली आसा.

१९९२-९३ वर्सांत तांकां गोंय राज्य पुरस्कार फावो जालो.

रेजिनाल्डबाबांच्यो रोमांसी आयज वाचूंक जाय पासून जाल्यार हाताक सांपडोंक कठीण. तांच्या रोमांसींचेर सोद करतलो जाल्यार एक जिवनप्रवास पावचोना. *घातक्याक घात* हे तांचे रोमांसीचेर भासाभास करून तांच्या बरोवपाचे कांय गूण अणभवुंया. हे कादंबरीचो आंकडो कितलो तो म्हाका खबर ना. पूण ती १९८७ वर्सा मायाचे १५ तारकेर उजवाडायली त्या वेळार रेजिनाल्डबाब ७३ वर्सांचे आसले. मुंबय बायखळा वाटारांत जोजफ पी. डिसौजा हांचें 'Jack of all Stall' म्हण दुकोन आसलें. तांणी हे कादंबरीची परगटणी केली. म्हापशेंचे प्रभाकरबाब तेंडूलकार हांणी आपल्या 'दलेश प्रिन्टर्स' नांवाच्या शापखान्यांत ही कादंबरी शापली.

कादंबरीचे सुरवातेक 'दोन सब्द' ह्या माथाळ्या खाला रेजिनाल्डबाब अशें बरयतातः

म्हजे मोगाळ वाचपी, खाशा विचारीत आसात, बरोवन चिटींनी, तशेच परशीं, की, म्हजें नवें पुस्तक केदना परगट जातेलें काय म्हूण. पूण ह्या कटीन म्हारगायेच्या काळाक लागोन, एक पुस्तक उजवाडान हाडूंक जावन आसा एक भोव कटीन वावर. हो म्हारगायेचो काळ चिंतल्यार आंग शिरशिरता. पूण तरूय आसताना आपलो फायदो आनी कटीन वावर चिंती नासताना आमचो श्री जोझफ (धनी, Jack of all Stall बायखळा, मुंबय) मुकार सरलो परगटूंक हें आमचें किरकोळ पुस्तक *घातक्याक घात*, देखून आमी ताचे म्हा उपकारी जावन आसात.

रावतां भरवंशान, आमच्या मोगाळ वाचप्यांचो आदार आमकां मेळोन आनी ह्या मुखार तांच मारूंक पावतेल्यांव म्हुणोन. आदींच तुमचो उपकार आटोवन तुमकां 'देव बरें करूं' म्हुणटांव.

शिवोली, १५-५-१९८७

हीं दोन उतरां सोंपतच त्याच पानार खाला अशें वाचूंक मेळटाः

''आजून वाचूंक ना जाल्यार, आतां जेरूल वाच : बोनाव्हेंतूर द पियेत्रो हाची नवी कादंबरीः

*जिमी*

मेळटाः Jack of all Stall, बायखळा, मुंबय २७''.

वयर दिलेल्या 'दोन सब्दां' वरवीं त्या काळायल्या कांय सत्यतायेंचेर उजवाड पडटा. रेजिनाल्डबाब सांगतात, तांचे मोगाळ वाचपी 'बरोवन चिटींनी' तांचें नवें पुस्तक केदना परगट जातेलें काय म्हण विचारतात. हातूंत कळोन येता, रेजिनाल्डबाबांक, आयज आमी इंग्लेज भाशेंत म्हणटात तशें, 'fan following' आसलें म्हण. त्याच 'दोन सब्दां'नी रेजिनाल्डबाब त्या काळायले म्हारगायेचो उल्लेख करतात. म्हारगायेचो काळ चिंतल्यार 'आंग शिरशिरता' म्हण उलासतात, आनी त्या पुस्तकाच्या परगटणाराक वाखाणटात आनी 'आमी ताचे म्हा उपकारी जावन आसात' म्हणोन ताका दिनवासतात. वाचप्याकूय ते आदीं फुडें 'देव बरें करूं' म्हुणोन दिनवासतात. 'दोन सब्द' शापल्यात त्याच पानार ते त्या काळायल्या एका तरूण बरयणाराक बाब बोनाव्हेंतूर द पियेत्रोक ताचे *जिमी* नांवाचे कादंबरीक प्रसिद्ध करून ताका उत्तेजन दितात. रेजिनाल्डबाब उदार काळजाचे आसले, तरण्या बरोवप्यांक उत्तेजन दिवन कोंकणी भाशेंतल्यान साहित्य फुलोवंक ते प्रयत्न करतालेत, हें हातूंतल्यान कळोन येता.

''दौलतीचे आंवडे, काळजांत करतच फुगार
भिरांकूळ शेवटाक पावतात आशेचे पाटलावदार.
चिंतनेन रेवडलेले मेंदू, वावरोन सगल्याच वेळार
उजवाड सोंपोन, कुर्डेपण येता दोळ्यांर.
फटींगपण, घात, चलतच सगल्यां मुखार
राजांव लिपोन, दिसता फकत, आशेचो संवसार.
पूण, अत्रेक, सोडून वेतोच भुलोवणो देंवचार
आपलें आपल्याकूच घेतात, भाराक भार.

\- रेजिनाल्ड

तांच्या बाकीच्या कादंबरीं परीं *घातक्याक घात* हेऊय कादंबरीची रेजिनाल्डबाबान एक अर्थाभरीत कविता वापरून सुरवात केल्या. कविता वाचून रेजिनाल्डबाबान विणिल्ले काणयेची कल्पना मातशी मनांत फिरता. *घातक्याक घात* हें कादंबरीचें नांव कवितेक जोडीत जाल्यार हे काणयेंत कोण तरी कोणाचो घात घेवपाचो आसा, आनी शेवटाक घात घेवप्याचोच घात जातोलो अशें कळोन येता. पूण जे परीं तांणी ही काणी विणल्या ती वाचूंक लागतच हातांतली खाला दवरपाक कठीण जाता.

तातूंतले गांव, सुवात्यो, पात्रां तांणी सुडसुडायेंत बरोवन वाचप्यां मुखार दवरल्यांत. देखीक, कादंबरीचे सुरवातेक, 'भायर धवो, भितर काळो' ह्या माथाळ्या खाला पयल्या अवेस्वरांत रेजिनाल्डबाब वाचप्याक हे परीं बांदून दवरतात-

''शितळ सांजेच्या वेळार, एका अरिश्ट गालेरीन एका धोलत्या वोल्तेरार बसोन (rocking chair) धोलतालो एक भोव जाणटो दादलो. जरूय ताची कूड जावन आसली ऊंच आनी घट भुजांची, तरूय ताच्या मुखामळाच्यो मिरयो, आनी अर्दे पिकलेले केंस, दाखयतालेत ताचें जाणटेपण, त्याच परीं ताचे थकलेले दोळे, आनी सुकलेले वोंट, सांगताशे दिसो, की, हो जाणटो दादलो बलायकी बिगडललो जावन आसा म्हुणोन. ताच्या आंगाक आसली एक पातळ सेदाची कोबाय, आसून ताका बारीक रिस्को, आनी दोशीं दोन बोल्सां, जांतल्या एका बोल्सान आसलें ताचें पायप आनी मातीस. ज्या वरवीं गोमतालें हो जाणटो दादलो पायप वोडपी म्हुणोन. ऊंच भूज, लांबोडें मुखामळ, उगतें कपल, आनी मोटे दोळे जावन आसलो ताचो खडेगांट सभाव, त्या भायर, ताच्या दोळ्यां वयर आसलेल्यो आसकट्यो जावन आसल्योत अर्द्यो पिकलेल्यो, आनी एकसारक्यो केंसांनी भरलेल्यो, ज्या वरवीं ताचो सभाव मातसो वेगळो आनी रागिश्ट दिसो.

''ताचे कोबाये भितर, रुंद शाती आसली, जाचेर लांबताली एक मोटी भांगाराची सरपळी, तशीच हाताच्या बोटाक दियामांतीच्या थिकाची मुदी झिगझिगताली आनी कळोन येतालें, तो जावन आसा म्हुणोन एक भोव गिरेस्त आनी पदवेदार

भाटकार आमच्या गोंयचो, त्या पुर्विल्ल्या काळायलो. ताचें भोव अरिश्ट आनी फेतयेचें घर आसलें त्या भोव फामाद मापश्यां शारांत, कोर्ली नांवाच्या वाड्यान. आमी जाणावं, मापशें जावन आसा म्हूण फामाद आनी मुखी शार बार्देसचें, जशें आसा मारगांव साश्टीचें.''

ह्या पयल्याच वळींनी रेजिनाल्डबाब एका पात्राचें मुखामळ उतरांनी चितारतात. मुखामळूच न्हय, पूण साप बारकायेन ताचें व्यक्तित्व एका चित्रकारान रंगांनी रंगोवचें तशें तें उतरांनी रंगयतात. ही पद्दत तांणी ह्याच पात्रा विशीं न्हय, पूण काणयेंत आसा तितल्याय पात्रां विशीं आनी जाग्यां विशीं वापुरल्या.

वयर भाग दिला तातूंत कांय उतरां आयल्यांत - 'वोल्तेरार' 'सेदाची कोबाय', 'बारीक रिस्को', 'दियामांतीच्या', 'नाजूक फेतयेचें घर', 'फामाद'. आयच्या काळार असलीं उतरां उलयलेलीं वो बरयलेलीं चडशीं मेळचिंनात. पूण त्या काळार हीं उतरां, जांचें मूळ पुर्तुगेजींत आसा, जायतीं वापुरलेलीं दिसतालीं. भासो काळा परमणें बदलत वेतात. पूण त्या त्या भासांनी त्या त्या काळार ज्यो कल्पना आनी येवजण्यो बरोवप्यांनी हिकमतीन निर्माण केल्यो तांकां शाबासकी फावो. चड करून रेजिनाल्डबाबांक, कित्याक, सुमार दोनशीं कादंबऱ्यो निर्माण करप सोंपें काम न्हय. तांची बरोवपाची पद्दत कविते वरवीं.

*घातक्याक घात* ही काणी एका व्हड गिरेस्त आनी पदवेदार भाटकाराची. हो गिरेस्त भाटकार आतां बरेच म्हातारे पिरायेर पावलला, आनी ताची एक मुखी खंत आसली - ताच्या भाटां-बेंसांक, दुडवांक आनी गिरेस्तकायेक गोंयांत कोणूच दायजी नासलो. आपल्या मरणा उपरांत आपलें व्हडलें घर आनी सगली गिरेस्तकाय कितें जातली, ही ताची खंत आसली. ताचो भाव फिदेलीस तरणे पिरायेर आफ्रिकेक गेललो, आनी थंय वेतच ताणें क्रिस्तोफरा लागचो सगलो संपर्क सोडून दिललो. वीस वर्सां फाटले ताचे निमाणे चिटीर ताणें आपल्या भावाक फकत आपल्या काजाराची खबर बरयलेली. ताचे उपरांत, ताका भुरगीं जालीं वो ना, क्रिस्तोफराक कांयच खबर नासली. क्रिस्तोफराचो शेजारी आकीन क्रिस्तोफराचे गिरेस्तकायेचेर आनी भाटां-बेंसांचेर दोळो दवरून आसलो. आकीन नाडबुद्दीचो आसलो. आपल्या कुंपाराची, म्हणल्यार आदवोगाद मिनीनाची, आडबुद्द आपले नाडबुद्दीक जोडून क्रिस्तोफराची सगली दौलत आपल्या नांवार करूंक येवजितालो.

फिदेलीस, क्रिस्तोफराचो भाव, जो आफ्रिकेक आसलो तो एक दीस अपघाताक सांपडोन गंभीर परिस्थितीर पावता, आनी त्या भेसार आसताना तो आपल्या पुताक रुदोल्फाक गोंयांत आसलेल्या आपल्या भावाची खबर सांगता; आपल्या भावाक, क्रिस्तोफराक, चीट बरोवन आपल्या पुताची खबर सांगता, आनी आपल्या पुताक, रुदोल्फाक, गोंयां वचपाक सुचयता. फिदेलीसाक भरती केलेल्या हॉस्पिटलांत एकलो सौक्रूझ नांवाचो गोंयकार वैज आसलो, तो फिदेलीस आपल्या पुताक सांगता ती खबर आपूण आयकता, आनी रुदोल्फाक जिवेशीं मारून ताच्या जाग्यार रुदोल्फ म्हण आपल्या पुताक, रुझारियोक, गोंयां धाडून दिता.

फुर्डे हे लोक कार्नैराचो घात घेवंक माण्णी काडटालेत तांकांच कसो घात जावन तांचो शेवट जाता तें सांगता म्हणसर रेजिनाल्डबाब वाचप्याक आफ्रिकेक व्हरून हाडटात. आफ्रिकेकूच न्हय, म्हापशें, साश्टी आनी पणजे भोंवडायतात. साबार पात्रां तांचे मुखार दवरतात, आनी अशे पद्दतीन ती काणी विणटात. ते काणयेंत वाचप्याक गुंतून दवरतात, आखखी कादंबरी वाचून सोंप पासून.

काणी बरयताना रेजिनाल्डबाब वाचप्यां लागीं संबंद दवरपाचो प्रयत्न करतात. कादंबरीच्या कांय भागांनी ते वाचप्यां लागीं अशे उलयतात:

''मोगाळ वाचप्या, आतां सगल्यांक सोडून आमी गोंयां या, आनी पळोवया थूंय कसल्यो भानगडी आनी लफडे चलतात ते, कारण आमी जाणावं, वो आमी वाचलां त्या XIव्या अवेस्वरान कोण परीं...'' तशेंच दुसरे सुवातेर ते अशें बरयतात - ''पाटीं आमी वाचलां, कोण परीं बाबड्या रुदोल्फाक आनी ताच्या चाकराक...'' आनी एक उधारण म्हणल्यार, ''...रुझारियो नोको आसलो की, ताणें मिटी मारल्या त्या बेंसांचेर आनीक योक मनीस आंवडे घोटून रावला म्हण, जो कोण तो आमी जाणावं.'' ''वाचप्या, ते तेगूय खापरी जावन आसलेत चाकर त्या मतलबी वैज सौक्रुजाचे जाची खबर आमी पाटीं वाचल्या...''

वाचप्यांक आपले बरबर दवरपाचें रेजिनाल्डबाबांचें हें खाशेलेपण कादंबरींत अशें जायत्या भागांनी मेळटा, आनी वाचप्याक रेजिनाल्डबाबांचे समोर बसून तांणी आपल्या ताळ्यान सांगिल्ली कथा आयकलेले परीं दिसता. ''आमी पळोवया... पाटीं आमी वाचलां... जो कोण तो आमी जाणावं...'' ह्या उतरांतलें 'आमी' म्हणल्यार तांच्या इसपान बरयणार आनी वाचपी, दोगय भागेदार हे काणयेचो आनंद भोगपाक. रेजिनाल्डबाबान ही कादंबरी बरयताना जायतो आनंद भोगला, आनी तो आनंद वाचप्या लागींय वांटून दिवंक प्रयत्न केला. हेर उतरां, जशीं 'पळोवया', आदी, वाचप्यांचो आनी बरयणाराचो संबंद अखंड करतात. हींच तीं सुवादीक उतरां वाचप्यांच्या काळजांनी भरून उरतालींत आनी तांच्यो काणयो वाचूंक वाचपी दोळ्यांक तेल लावन रावतालेत.

आफ्रिकेक घडण्यो घडल्यात त्यो सांगताना रेजिनाल्डबाब अशें बरयतात -''टोगोलँड गांव जावन आसा जबरदस्त दोंगरांनी भरलला, आसोन थूंय साबार ऊंच दोंगर, तशींच उगतीं अरणीं, जूंय कापूस आनी कोकोचीं झाडां रोयतात. दोंगरांचेर साबार जातींचे रानवटी खापरी जियेतात, आनी रात्रीच्या वेळार कोण तांकां सांपडल्यार ते मारून उडयतात आनी लूट मारतात.''

इंग्लेज भाशेंत आमी 'ग्राफीक' म्हण एक उतर वापुरतांव. कोंकणींत 'सचित्र' वो 'वर्णनात्मक' वो 'लेखनकलाविशयक' म्हणटांव. पूण इंग्लेजींत हें उतर दृश्य कलेच्या संदर्भांत एक कलाकार जेदना एक स्पश्ट चित्र काडून संपर्क करता ताका 'graphic art' म्हणटांव. तेच परीं एक गुणेस्त लेखक आपल्या उतरांतल्यान स्पश्ट पात्रां चितारता. ही कला भोव थोड्या बरयणारांच्या आंगांत आसता. ही कला आंगांतली भायर काडून वापरूंक एके खास तरेची ताकत लागता. ही ताकत रेजिनाल्डबाबांचे *घातक्याक घात* हे कादंबरींत दिसता.

संपर्क: ९८२२१३७९५८





डिफा फेर्नांडीस

# वाचप्यांच्या काळजांत सुवात जोडिल्लो रोमांसकार

*क्रिस्तांव घराबो* ही पयली कोंकणी कादंबरी. एदुआर्द जुझे ब्रून द सौझ हांणी ती १९०५ वर्सा बरयल्ली पूण १९११ वर्सा ती उजवाडा आयिल्ली. ब्रून द सौझां कडल्यान स्फूर्त घेवन रोमांसी बरोवपी हेर कांय लेखकां मदले एक लेखक रेजिनाल्ड फेर्नांडीस.

त्या काळा वयलो हो एक लोकप्रिय असो रोमांसी बरोवपी. कोंकणी भाशेक वयर काडपाचो हावेस बाळगिल्लो हो मनीस. रेजिनाल्डबाब आयज आमचे मदीं नात, पूण 'उलयल्लें सरता आनी बरयल्लें उरता' म्हणटात तशें, तांचो हो हावेस तांणी बरोवन दवरिल्ल्या उतरांतल्यान उकतो जाता. तांचीं तीं मोलादीक उतरां म्हळ्यार - ''जितलीं आमी सब्दांनी वयर उबारतांव, आमचे आवय भाशेक, तितली करण्यांनी उबारूंक फावो, कित्याक, दोनूय जावन आसात व्हडे गरजेच्यो वस्तू आमचे भाशेच्या सुदरपाक.'' तशेंच ते सांगतात, ''जशें तानेलल्याक जाय उदक भागोवंक आपली तान, तशेंच आमचे भाशेक जाय आदार वयर सरोंक आनी परजळूंक.'' म्हों‌वाळ उतरांनी कोंकणी भाशेक वयर काडपाक केल्ली ही विनवणी ते आपल्या रोमासींतल्यान वाचकांक कळीत करतात. तांच्या पुराय जिवितांत तांणी दोनशीं रोमांसी बरयल्यात असो संदर्भ मेळटा. पूण दुर्दैवान तांणी बरयल्ल्या सगळ्या रोमांसींच्यो प्रती आमच्या हाताक लागनात.

अभिजात साहित्य आनी लोकप्रिय साहित्य अशें दोन तरांचें साहित्य आसता. लोकप्रिय साहित्यांत वाचकांक भुलोवपाची तांक आसता. ताची भाशाशैली सर्वसामान्य मनशांक समजता. तशेंच, विशय हलके-फुलके आसतात. वाचकांची मनरिजवण करपाची तांक ह्या साहित्यांत आसता. रेजिनाल्डबाबांचे रोमांसीचे माथाळेच पळेल्यार, जशे, *किर्मिदोराची बायल, गुगुरित, चोरांचो चोर, भिरांकूळ भार्भास,* तांच्या रोमांसींनी रहस्य लिपिल्ल्याचें जाणवता आनी ताका लागून वाचप्यांची वाचनाची उमळशीक वाडटा.

रेजिनाल्डबाबांच्यो सगळ्यो रोमांसी आयज वाचपाक मेळनात. तांच्या *किर्मिदोराची बायल* आनी *गुगुरित* ह्या रोमांसींचेर आदारिल्लो हो लेख. ह्यो दोनूय रोमांसी रहस्यम प्रकारांत मोडटात.

रेजिनाल्डबाबांची रोमांसी बरोवपाची एक खाशेली रीत आसा. ते आपली रोमांस कवितेच्या एका कडव्यांतल्यान सुरू करतात. *किर्मिदोराची बायल* आनी *गुर्गुरेत* ह्योय रोमांसी अश्योच कडव्यांतल्यान सुरू जातात. ह्या कडव्यांनी पुराय रोमांसीचें कथानक आटोवन सांगिल्लें आसता. लेखक निवेदक जावन रोमांसीचो भाग जाता आनी रोमांसीक गती दीत तो फुडें वता. आपल्या निवेदनांत लेखक वाचप्यांक रोमांसी कडेन बांदून दवरपाक तांचे कडेन संवाद सादता. कांय देखी :

''जशें हांवें वयर सांगला, की, हें फामाद गुगुरित आसलें म्हूण मोगान एका आंकवार चेड्याच्या...''

''... ना म्हज्या पेनाक बळ ना दाकोवूंक ताचे मिर्मिरि, चडफडे आनी कांपरो.''

लेखकाच्या ह्या संवादांतल्यान वाचप्यांची उमळशीक वाडटा आनी पात्रांच्या भावनां कडेन, संघर्शा कडेन तीं एकरूप जातात. लेखकाचेर पुर्तुगेज भाशेचो प्रभाव आशिल्ल्याचें कळटा. देखीक हीं वाक्यां पळयात :

''कितें तुका जालें?'' ('तुका कितें जालें?' वा 'कितें जालें तुका?' न्हय.)

''कित्याक आंव काजार जालीं देखून त्या मुनश्या लागीं आनी हें आमचें काजार जावूंक पावलें फकत एका वराचें.''

पुर्तुगेज उतरांय ह्या रोमांसींनी खूब येतात. देखीक, किर्मिदोर, फामाद, फेरियाद, पुजाद आदी.

समाजांत जावपी खरेल्या घडामोडींचेर रेजिनाल्डबाब बरयताले. *किर्मिदोराची बायल* आनी *गुगुरित* रोमांसींच्या शेवटाच्या आधारान असो अदमास काडूं येता. ते अशे बरयतात - ''पूण तो कोयतान उपरांत तें पुजाद सोडून गेलो आपल्याक आनीक ते असले लफडे नाकात म्हुणोन. पूण थोडो लोक सांगो की त्या कोयतानान मारगांव वचोन एक विडयांचें शॉप वो पसरो उगतो केललो म्हुणोन आनी आजून तो पसरो थूंय आसा म्हणटात.'' हाचे वयल्यान, ही सत्य घडणूक घडिल्ली आनी लेखकाक ती कोणें तरी सांगिल्ली अशें दिसता. *गुगुरित* रोमांसीच्या शेवटाक ते अशे बरयतात - '' उपरांत आमेलिया आनी तिचो पती, आनी बापूय सुकीं जियेलीं, पूण हो उगडास उरलो त्या फावस्तिनाक मर परयान.'' हाचे वयल्यान ही कथा खासा फावस्तिनान (बापूय) लेखकाक सांगिल्ल्याचो दुबाव मारता.

आपले भोंवतणी आशिल्ल्या बायलांचीं वेगवेगळीं रूपां लेखक आपले लिखणेन चितारता. देखीक, उर्बेलिंदाक तांणी गिरेस्त, भोळें दयाळू आनी सोंशीक गुणांचें दाखयलां. हें पात्र *किर्मिदोराची बायल* रोमांसींतलें मुखेल पात्र. उबलिंदाच्या वांट्याक आयिल्लो पुराय संघर्श ताच्या भोळ्या आनी सोंशीक सभावाक लागून येता. तें मुंबय वता आनी कांय दिसां भितर एड्रियान ताच्या पयशांचे आशेक ताका आपल्या मोगांत फसयता. एड्रियान एक खुनी वा किर्मिदोर आशिल्ल्याचें कळून लेगीत तें आपलो आनी घरच्यांचो मान राखपाक

आपल्या लग्नाची खबर गुपीत दवरून सोंसता. *गुगुरित* रोमांसींत लेखकान एक शादूर, चतूर, भुलयणे आनी चंचल सभावाचे बायलेक उबी केल्या. पयशांक लागून चेड्यांक ती भुलयता.

मुखेलपणान मनशाचो आंतरीक संघर्श रेजिनाल्डबाबाच्या रोमांसींनी दिसता, तशेंच मनशा-मनशा भितरल्या संघर्शांतल्यानूय ते आपली कथा उबी करतात. पात्रां मजगतच्या संघर्शांतल्यान तांच्या चरित्राचेर उजवाड पडटा. पात्रांचे गूण, अवगूण उकते जातात. देखीक, *गुगुरित* रोमांसीचें मुखेल पात्र चंचल आनी उबॅलिंदा सोंशीक. आपली आनी मारयानाची खबर फावस्तिनाच्या कानार पडिल्ली आसतना गुगुरित रोमांसीचें मुखेल पात्र आपल्या उतरांनी आनी शिटूकसाणेन ताचो दुबाव पयस करता. उबॅलिंदा कुडींत बंद आसतना गाब्रियला कडल्यान आपली सोडवणूक करून घेता तेन्ना ताचे हुशारकायेचेर उजवाड पडटा.

ह्या लेखकान रोमांसी बरयता आसतना फ्लॅश-बॅकाची पद्दत आपणायल्या. तशेंच, कांय घडणुकांचे शेवट तर्कशास्त्राचे नदरेन पुराय करूंक नात. रहस्यमय कादंबरेची खाशेली पद्दत बरोवप्यान आपणायल्ल्याचें सिद्ध जाता. कारण, खंयचेय एके घडणुकेंतल्यान कथेची जी म्हायती वाचकांक मेळपाची आसता ती लेखक घडणुकेच्या शेवटाक पूर्ण करनासतना रोमांसीच्या शेवटाक पूर्ण करता. हो एकाद्रो प्रसंग रहस्याचे नदरेन म्हत्वाचो आसता. तो प्रसंग रोमांसीचे 'मर्दी' आसता आनी कादंबरेंतल्या रहस्याची झळक वाचकांक दिता. देखीक, 'रात्रीचे भिरांकूळ सोयरे' हो प्रसंग *गुगुरित* रोमांसींत म्हत्वाचो, जाल्यार क्रिस्तोवांव कोलुंबस हो प्रसंग *किर्मिदोराची बायल* रोमांसींत म्हत्वाचो.

रहस्यमय रोमांसीक फावो तसलें वातावरण लेखकान आपले रोमांसींत चित्रीत केलां. रोमांसींत चड वर्णनां नात पूण निवेदन चड आसा. रहस्यमय प्रकाराक ही लेखकान आपणायिल्ली पद्दत बेस बरी सोबता. वर्णनांत चड घुसपना आसतना रोमांसीच्या रहस्याच्या मुद्द्याक धरून लेखक निवेदन करीत वता. गरज थंय वर्णनूय आसा. पूण वर्णनां बारीकसाणेन केल्लीं मेळनात. लेखक आपले निवेदन शैलींतल्यान रोमांसींत तयार केल्लें रहस्यमय वातावरण शेवटा मेरेन तिगोवन दवरता. वाचकांक अनिश्चीततायेंत दवरता.

. मुखेलपणान करूण आनी रौद्र रस वाचकांच्या काळजांत प्रगट करपांत हो लेखक सफळ जाला. तशेंच श्रृंगार रसूय रोमांसींनी मदीं मदीं फुलून आयिल्लो मेळटा. ह्या रसा वरवीं वाचक पात्रांच्या सुखा-दुखांत एकरूप जाता आनी जिविताच्या कुवाड्याची सत्यताय ताका होलमता.

ह्या दोनूय रोमांसींनी कितलींशींच पात्रां आयल्यांत. रोमासींतले कथे प्रमाण त्या पात्रांक वेगवेगळ्या गुणां-सभावांनी बुडोवन तांकां प्रभावी केल्यांत. एकूय पात्र अडेचें ना. सगळीं पात्रां कथेचें रहस्य उकतें करपाक तितलींच म्हत्वाचीं आसात. लेखकान आपले भोंवतणी जें कितें चलता ताचो वेध घेवन ह्यो रहस्यमय रोमांसी बरयल्ल्यो हातूंत दुबाव ना. पूण कांय प्रमाणांत तांणी पुराय काल्पनीक पात्रांय उबीं केल्लीं आमकां पळोवंक मेळटात. देखीक 'आबू' पात्र. उबॅलिंदान एक बाटली उकती करतकच आबू तातूंतल्यान भायर सरता अशें लेखकान रोमांसींत मांडलां.

रेजिनाल्ड फेर्नांडीस हे आपले लिखणेंतल्यान आवयभाशेची सेवा करपी एक सेवक. तांचे लिखणे खातीर तांका 'न्यू गोअन ओव्हर्सिस एसोसिएशन, कुवेट' हे संस्थेन 'कोंकणी भाशेचो बरो बोरोयणार' म्हणून ५०० रुपया आनी एक जयस्मरणिका भेटयल्या, जाल्यार नासीतो दी शिंशिंणी हांणी तांचो 'कुंवोर कोंकणी रोमांसींचो' म्हणून भोवमान केला.

संपर्क: ९७६४३९५३३३





चंद्रकांत केणी

# समाजांतले 'उर्मिले'ची वळख दिवपी *घणाघाय नियतीचे*

रामायणांत उर्मिला हें पात्र आगळें वेगळें. मूळ कथानकांत उर्मिलेक कसलीच भुमिका ना. ती उलयना, कागाळ करिना. मेकळेपणान हांसना आनी रडयना. तशें तें पात्र सामान्य न्हय. लक्ष्मणाची बायल, दशरथाची सून, सीतेची जाव, रामाची भावज, कुळवंत घराण्यांतली धूव आनी राजघराण्यांतली सून जाल्ल्यान राणयेची जीण तिका फावताली. आनी, तिका कोण कमी लेखी नासलो. राजवाड्यांत राणी कशी ती वावुरताली. पूण आपल्यो भावना उतरांनी वा कृतीन तिणें केन्ना उकतायल्यो नात. रामायणाच्या वाचप्यां मदीं खूब थोड्या जाणांनी तिची व्यथा पारखिल्या. 'उर्मी' म्हळ्यार मनांतल्यो भावना. त्यो मनांतूच उरतात तेन्ना घुस्मटमार जाता. दर एका कुटुंबांत, दर एका समाजांत अशी एकाद्री उर्मिला आसता. सामाजीक जिणेंत वावुरतना, इतिहासाचो नियाळ घेतना तिची दखल कोणूच घेना.

आमच्या भारतीय समाजांत, गोंयकार समाज ताका आडवाद ना, कनिश्ठ मध्यम वर्ग नांवाचो जो समाजाचो घटक आसा, ताच्या वांट्याक सदांच उर्मिलेची जीण आयल्या.

हरशीं हो वर्ग समाजाचो मुखेल घटक. टक्केवारी काडली जाल्यार तो २५ टक्क्यां परस उणो आसचो ना. शिक्षणाचो प्रसार आनी हेर उदरगतीक लागून मध्यम वर्गातले खुबशे लोक उंचेल्या वर्गांत पाविल्ले आसले तरी चडावत मध्यम वर्गाची अवतिकाय, 'आवय वाडिना आनी बापूय भीक मागूंक दिना', अशी आसता. गरजेक आंगभर न्हेसण ना, भुकेक दोन वेळचें जेवण ना, अशें आसुनूय मोटेपणाचो आव हाडून हो वर्ग आपली जीण जगता आनी आपले तांकी प्रमाण समाजाचे उदरगती खातीर हातभार लायता.

गोंयच्या समाजांतलो कनिश्ठ मध्यम वर्ग अमकेच एके जातीचो वा धर्माचो ना. मेळत थंय काम करपी पूण ह्रात म्हेळे करपी न्हय, आंगा वेलें खोमीस काडपी न्हय अशे हे लोक जाल्ल्यान, आनी अर्दकुटें शिक्षण घेतिल्लें आशिल्ल्यान तांकां मनापमानाचो सोस चड. दादले कितें जोडटात तें तांचे तांकां खबर! ती सगळी जोड बायलां-भुरग्यां मेरेन पावना. अर्दशिक्षीत आसतात ते श्रमाचीं कामां करूंक लजेतात. आपल्या घरच्या बायलांनी नोकरी करप तांकां कमीपणाचें दिसता, आनी खूब खेपे ते समाजांत मिरोवन घेता आसतना, आत्मकेंद्री जावन, आपूण पोटभर जेवतात. भुरग्याबाळांक अर्द पोटार रावचें पडटा आनी बायलांक शेळें उतर दिवन तृप्तीचे धेंकर दिवचे पडटात.

आमचे कडेन गरीब दुर्बळ असो कनिष्ठ वर्ग आसा. 'भुकेक कुंडो आनी उशाक गुंडो' अशी ताची अवतिकाय. पूण आदल्या काळार समाजाच्या हेर घटकांनी केल्ले पिळवणुकींतल्यान ताची सुटका जाल्या. स्वाभिमान जागो जावन संघशक्तीचो दिश्टावोय ताका जाला, आनी लटके प्रतिष्ठेची अपेक्षा नाशिल्ल्यान ताच्यो मुळाव्यो गरजो भागूंक अडचण येना.

तिसरो वर्ग हो गर्भश्रीमंत वा नवश्रीमंत लोकांचो. हातूंत शिकिल्ले उद्यमीक आनी वेपारी हांचो आसपाव जाता. ह्या वर्गा कडेन आपल्याक जाय तीं सुखां विकतीं घेवपाची तांक आसा.

ह्या दोन वर्गां मदलो मध्यम वर्ग आपणाक कनिश्ठ वर्गा परस उंचेलो मानता आनी आपूण उच्च वर्गाचें अनुकरण करूंक सोदता. ह्या प्रयत्नांतल्यान तो आपले खातीर खुबश्यो कटकटी आनी नवे नवे प्रस्न निर्माण करता आनी रेब्यांत मुंगरिल्ल्या जनावरां भशेन एक पांय उखलता तेन्ना दुसरो पांय चड भितर रिगयता. ताची अवस्था त्रिशंकू सारकी. उंचेलो वर्ग ताका हात दिना आनी कनिश्ठ वर्ग ताची दखल घेना. अशें आसुनूय ह्या कनिश्ठ मध्यम वर्गाचें पडबिंब आमच्या साहित्यांत चडशें पळोवंक मेळना. समृद्धीच्यो तेंगश्यो आनी दळिद्राचीं भुंयारां आमच्या साहित्यांत येवन गेल्यांत. पूण हेर भारतीय भासांनी ह्या दोन घटकांचे जिणेची आनी हावेसांची, तांच्या सूख-दुखखाची कथा जितली प्रभावीपणान आयल्या तशी कोंकणी साहित्यांत ती येवंक ना. हो प्रयत्न भौ. अशोक कामत हांणी आपले *घणाघाय नियतीचे* हे कादंबरेंत केला. आज हे कादंबरेचें विमोचन जावचेलें आसा. ते निमतान *घणाघाया* विशीं थोडेशें आनी कोंकणी कादंबरे विशीं थोडें भोव चिंतन करप समा जातलें.

अशोक कामत हे कोंकणीचे एक तळमळीचे कार्यकर्ते. सांवड्डें, कुडचडें वाठारांत कोंकणी भास, साहित्य आनी अस्मितेचो बावटो ज्या थोड्या तरणाट्यांनी कठीण काळाचेर उखलून धरलो, तातूंतले ते एक. कोंकणी आमकां जितलें दितली तितलें सगळें घेवपाचें बळगें आमच्या दोन हातांनी ना. पूण कोंकणीची समृद्धी तिका मेळोवन दिवप हें आमचें कर्तव्य, हे भावनेन ते वावुरतात. तांच्या लिखाणा फाटल्यान एक मिशन आसा. तें मिशन शिक्षकाचें! प्रांजळ, पारदर्शक भास, सादी सरळ बालबोध शैली आनी निर्मळ पवित्राचो ध्यास हें तांचें वेगळेपण! तांचीं नाटकां गाजलीं. कविता लोकांचे जिबेर घोळूंक लागल्यो. भक्त देवाक पुजता ते श्रद्धेन ते कोंकणी सरस्पतीची सेवा करतात. मनांत खूबशें खतखतता, उतरांनी बरोवन मन ल्हव करपाची उमळशीक लागता आनी लेखक बरयता तेन्ना एक कादंबरी आकार घेता. तांणी एक कल्पनेंतलो गांव घेतलो. तो अंत्रूज म्हालांतल्या एका फांकीवंत गांवा सारको दिसता. थंयच्या कनिष्ठ मध्यम वर्गीय हिंदू समाजाचें चित्र तांणी वाचप्यां मुखार हे कादंबरेच्या रुपान दवरलां.

'आसावाली' हें नांव तांणी गांवाक दिल्लें आसलें तरी अंत्रूज म्हालांतल्या खंयच्याय गांवाक तें लागू जातालें. एकेक पात्र माचयेर येवन आपलें वेगळेपण दाखोवन वचचें, तशीं खूबशीं पात्रां हे कादंबरेंत येतात आनी लेखक ह्या पात्रांच्या तोंडा वेलीं रुपडीं अचळय पिंजून तांचें अंतरंग वाचप्यांक दाखयतात. गांवांत देवूळ आसा. गोरवां पोसपी लोक आसात. गांधींचें अनुकरण करपी देशभक्त आसात. ह्या सगळ्यांत वेगळी अशी रमाबाय जी कुळारची गिरेस्तकाय आसतनाय, उपासमार काडीत, भुरग्यांक बरी देख दिवंक वावुरता, पुस्तकां वाचून आपलें दुःख विसरपाचो प्रयत्न करता.

ह्या मध्यम वर्गीय समाजांत सगळे धर्म, सगळ्या जातींचे लोक आसपावतात. ते भुके खातीर भीक मागनात. स्वार्था खातीर नीत सोडिनात. गोंयच्या समाजाक मणक्या सारको आदार तो मध्यम वर्ग दिता. खंय तरी लेखकाचो ह्या पात्रां कडेन लागींचो संबंद आसा म्हणपाचें मदींच जाणवता.

संवसारांत कांय लोक सोंसुंकूच म्हूण जल्म घेतात. हांचे तळमळे, हावेस कोणूच समजून घेना. जो रडना वा कागाळ करिना अशा वर्गाच्या दुःखाक वाचा फोडपाचें काम लेखक अशोक कामत हांणी बेस बरें केलां. एकाद्रो समिक्षक म्हणूंक शकता, हातूंत नवें किते आसा? म्हज्या मतान नवें कांयच ना, हेंच हे कादंबरेचें खाशेलेपण! साहित्यप्रकाराच्या तंत्राचें बंधन विद्यापिठांतले अध्यापक आनी समिक्षक हांकां लक्ष्मण रेशे सारकें दिसत आसता. पूण जेन्ना तंत्राची फास्की मोडून साहित्य मेकळेपणान, एकाद्री वाल नळ्याचेर चडची, ते तरेन वाडटा तेन्ना तंत्र आडखळ जावन बसता. *घणाघाय*कादंबरेंत लेखकान समाज जिणेंतले एके उपेक्षीत उर्मिलेचें दर्शन घडयलां. असल्या साहित्याची कोंकणीक गरज आसलीच.

**१० एप्रील २००५ ह्या दिसा, *घणाघाय नियतीचे* हे कादंबरेच्या विमोचन सुवाळ्या दिसा 'सुनापरान्तां'त उजवाडा आयिल्लो लेख.**





किरण बुडकुले

# *दिका:* प्रागतीक नदरेची नवला

*दिका* ही वास्तवदर्शी कृती. समाजा मुखार एक हारसो दवरूंक ती मुजरत बरयल्या, हें वाचतां वाचतां होलमता. पूण कथानकाची रूच घेतना ही जाणविकाय आडखळ करिना. परतें, बेगोबेग वाचप्याचे भावनेचो ताबो घेवचेली लेखकाली कला कथानकाचे सुरवेकूच नदरेंत भरता. कादंबरेचें कथानक थोडे भितर अशें: बापूय अकालीं भायर पडिल्ल्यान दिपकाक आवय-भयणीं वांगडा गांव-घरा येवन स्थायीक जावचें पडटा. अकस्मात उबंत पडिल्लीं हीं गुणी भुरगीं कशे तरेन अणभव नासतनाय आपापले परीन धडपडून जीण घडोवंक सोदतात ताची मनोवेधक काणी म्हळ्यार *दिका.* बापायच्या पेन्शनाची अपुरी आवक आवय वांगडा शेत रोवन भरून काडूंक हीं कॉलेज शिकपी तरणाटीं लजनासतना आत्मविश्वासान तयार जातात; दोळे धांपून डिग्रे फाटल्यान वचनासतना 'रोजी' मेळूंक उपेगी कोर्स वेंचून - अर्दकुटें शिकप पुराय करून - स्वावलंबी जावंक पळेतात. हातूंत आड येवपी संकटां, अडचणी, सुवार्थ, भोगनाळ, दुस्मानकायो, अन्नाडीपणां, अंधश्रद्धा हांचेर, हारीन खच्चून वचनासतना, तीं धिटायेन मात करतात. तांकां जावपी सतवणूक, लुकसाण, अपेस, फटवण, हांचे वांगडाच तांगेली तांक, तिडक, राग, विफलताय, निर्शेवणी आनी सोंशीकताय हांचो जमाखर्च मांडटना लेखकान तुस्त करी सारको समतोल राखला. सामान्य व्यक्ती आसुनूय परिस्थिती वांगडा झुजतना एकामेकांचें मनोबल वाडोवपी तांगेली अजेय वृत्ती वाचप्याच्या मनाचो थाव घेवंक येसस्वी जाता. तांगेलें सामान्यपणूच वाचप्याक भावता; तो तांचे लागीं समरस जावंक शकता. कांय वेळा तीं परिस्थिती कडेन तडजोड करतात, कांय वेळा तिका पुरायेन शरण वतात; जाल्यार एकेकदां जीव तोडून परिस्थितीचो प्रतिकार करतात.

हें सादया मनशांलें जिणेंचें सरसमान तत्व गृहीत धरूनूच लेखकान आपणाल्या तरनाट्या व्यक्तिरेखांक सामाजीक बदलाच्यो प्रतिनिधी केल्यात. त्यो परिवर्तन केळोवंक सोदतात पूण स्वत: फकत निसुवार्थी आदर्शाचे पुतळे नासतात. भुरगेपणांतल्या थोड्या भोव बऱ्या संस्कारांच्या बळग्यार त्यो 'स्वता खातीर' सामाजीक परिवर्तन सोदतात. विचारांच्या पांख्यार कुड्ड्यो प्रथा मोडूंक तयार जातात. समाजाक भियेतात पूण तरिकूय पावला-पावलान बदल करपाची तयारी दाखयतात. हें तांगेल्या जिणेच्या यथार्था कडेन बरें जुळटा. तांगेलें वागप अडेचें दिसना. दिपक-शीला हीं साने गुरुजींलीं आदर्श सेवाभावी 'धडपडणारीं मुलें' न्हयत. पूण तीं संवसारांत तिगचे खातीर गरज पडल्यार इंचा-इंचान 'धारे आड' पेंवपाक भियेवपी भुरगींय न्हय. मात शक्त पावना थंय तीं मूग गिळून ओऽग्गी बसतात (देखीक, उमाचे आत्महत्ये उपरांत दिपूचीं चिंतनां, पान २२८). संकटांनी तांकां वेव्हार शिकयला; वास्तव समजायलां: 'खूब फावटीं खंय जिणेंत मनांत नाशिल्ल्योच गजाली करच्यो पडटात' (पान १२९) हें कोडू सत दिपक खूब बेगीन स्विकारता, आनी पुण्यांतल्या सोयऱ्यांच्या वेव्हारान मोडून वचनासतना 'आतां कोणाल्याच भरवंशार हात पांगरून रावप समा न्ही! आपूण आपलो खंयचो तरी मार्ग चलत रावप, हेंच खरेलें...' हो धडो शिकता.

*दिका* तलो लेखकालो दिश्टावो भोव सकारात्मक आनी स्पश्ट आसा : दरेके व्यक्तीक स्वावलंबी आसपाची गरज, अन्यायाचो प्रतिकार, पुरोगामी विचारांचो पुरस्कार आनी बगलांट-अरिश्टांचेर मात करून जैत हातासप हीं त्या दिश्टव्याचीं आंगां. पूण तीं सैमीक तरेन कथानकांत उदेतात; कृत्रीमताय आनी प्रचारकी थाट कथानकांत अभावानूच येता. चड शिकप नाशिल्ल्या पूण मेकळ्या विचारांच्या बापायलीं हीं भुरगीं सैमाक लागीं आसात. हें नातें लेखकान प्रभावीपणान उकतायलां: शीलाक सैमा वांगडा वावुरपाक आवडटा; दिपूक सैमाचो सांगात आवडटा. केन्ना सैम ताका जिणेचें तत्वगिन्यान शिकयता, केन्ना तागेल्या विचारांक पुरक प्रतीक दाखोवन तांचेर अळंग म्होर मारता (पान २७४).

ग्रामीण जिणेंतलीं सभावीक आडमुठेपणां आनी आपुलकाय, परंपराग्रस्त पुरोगामी वृत्ती, कृशी-जिविता कडेन लम्नीक वावर (देखीक, इबुण्णी करप; इदळ हुंवप; उंडी फळां तेल काडप; म्हशीचें व्हीत; रेड्या पांयांक वखद करप; सोप-शेण कुसोवन सारें करप; माती मस्तून आंगण आंचप; शेता खातीर शेण सांठोवप, आदी) आनी मोसमी पूण सामुहीक कामां (देखीक, भोळ्यार सोप काडूंक वचप; तिसऱ्यांक वचप; हुमणा पुरतें पागूंक वचप) हांचे वरवीं कुळवाडी जिविताचो समग्र आलेख *दिका* मांडटा. शिवरामाल्या भुरग्यांले हुशारे खातीर पुतू-म्हादूची कुन्नाटकाय, तांगेली शिक्षणा विशीं भासाभास, दिपूक अभ्यास करपाक दिवप ना ही म्हादूली सुचोवणी, हांचे वरवीं अशिक्षितांकूय आसपी शिक्षणाची महत्ती आनी आपलीं भुरगीं शिकलीं नात हाची खंत (पानां : १२८-९) हांचो अतिशय प्रभावी प्रत्यय लेखकान वाचप्याक हाडून दिला.

तेच परीन, गांवांतली जीण, थंयचें वातावरण, सण-परबो, अडी-नडी, वावर-उसरपत, दुस्वास-आपुलकाय हांची जाण शारी वाचप्याक लेखक करून दिता. कांय कडेन *दिका* भौशीक सुवाळ्यांचें दर्शन

घडयतना *काळी गंगा* वा *अच्छेव* ह्या आदल्या कादंबऱ्यांतल्या सांस्कृतीक खुमांचें सक्षम चित्रण याद जाता. धालांचो मांड *काळी गंगा*ची याद जागी करता. लेखक तो प्रसंग दिपू-शीलाले नदरेंतल्यान पळेता आनी शिकिल्ल्या भुरग्यांक परंपरेंतलें कितें आवडटा आनी कितें खटकता तें दाखयता. देखीक, 'थंय नुडी घालूंक' लागतकीर दोगांय भावंडांक वचलेली ताकतीक जाता (पान ९३). जंय जंय कथानकांतले घुस्पटीची लेखकान प्रसंगा वांगडा सांगड घाल्या, थंय तो तो सांस्कृतीक उल्लेख प्रभावी थारला. देखीग, धा-जाण आपले घरवडीचेर बहिश्कार घालतीत ही दिपूली भिरांत उकतावपाक ताणें शिगम्याची परब वापरल्या : 'शिगमो नाचोवन खेळगडे गेले आनी दिपकाक सू जालें' (पान १९०).

आधुनीक कादंबरेच्या प्रथांक पाळो दिवन *दिका* कथानकाच्या मदेकाक तर सुरू जाताच. पूण ते भायर त्रयस्थ निवेदन, पात्रांच्या वैशिश्ट्यांचें परस्पर उकतावण, दरेका पात्राची वेगळी मनोभूंय निर्माप, कार्य-कारण भावांची गांठ मारप, पटपा सारकी प्रसंगांमाळ गुंथप, व्यक्तिरेखेचें मन अळंग उक्तावपाची फिशालकाय ह्या आधुनीक तंत्राच्या हेरय आंगांक *दिका* सांबाळटा. शिवराम हवालदाराली बलायकी इबाडल्या म्हूण कळटासर, अकस्मात तागेलें निमणें दर्शनच तागेल्या घरच्यां वांगडा वाचप्याकय मेळटा. आनी हांगा सावन जें एक संवेदनेचें हळवें नातें दिपक, तागेलो घराबो आनी वाचपी हांचे मदीं जल्मता, तें निमाणे मेरेन तिगता. विशेश म्हळ्यार, ह्या नात्याक आपुलकायेची देग आसली तरी लेखक ताका काकुटेची सया मारूंक दिना. हे खातीर, मुखेल पात्राक एक विचारी, सतत वाडत वचपी, संघर्श करपी पूण तरिकूय सामान्य गूण-अनगूण आशिल्ली व्यक्तिरेखा म्हूण पितारप गरजेचें आशिल्लें. तें अवधान लेखकान वेवस्थीत सांबाळ्ळां.

लक्षणीय गजाल म्हळ्यार, खंयच्याय म्हत्वाच्या मुद्द्याचेर एका परस अदीक दिश्टीकोन मांडपाची जतनाय लेखकान कादंबरीभर घेतल्या. देखीक, आंतरधर्मी लग्ना विशीं वेगवेगळे दिश्टीकोण लेखकान, शीलाचें आंगण आंचतनाचें अंतर्मुख चिंतप, शीला-दिपू हांचे मदली भासाभास, आवय आनी दिपू-शीला हांचे मदलो वाद, नाटकीबाबूलें उत्स्फूर्त उलोवणें, तुळशीलें गांवा वेले निंदेचें उकतावण आनी शेवटाक खासा दिपकालें आत्मपरिक्षण हांचे वरवीं लक्षणीय तरेन मांडल्यात.

*दिका*तल्यो हेर मनाक आफुडपी गजाली म्हळ्यार, कार्य-कारणाची गांठ आनी घडणूक-संदर्भाचो संबंद हांचो सुचक उल्लेखूय जाता आनी उकतें विश्लेशणूय बी. देखून, पात्रां विशीं आराखडे बांदूंक वाचप्याचे विचारशक्तीक पालव लाभता आनी ताका दुसऱ्या पात्रांच्या मताचेर गरजे भायर पातयेवचें पडना. देखीक, बापोलयाची नसाय, दायज्याची दुस्मानकाय, अर्दकुटीं शिकपां पुराय करपाची धडपड, विधवेचें वा एकसुरे चलयेचें शोशण, हाचेर विंगड विंगड तासांतल्यान उजवाड पडटा. अशेच तरेन, पुतूचो भावा विशींचो दुस्वास वेगवेगळ्या वेळार विवीध प्रसंगांतल्यान आनी उल्लेखां वरवीं पटपा सारके तरेन उबो केला.

कादंबरेंतली पात्रांची मांडावळ जितली विस्तृत तितली तांची विवीधताय उकतावप आनी ती कथानकभर तिगोवप गरजेची. *दिका*त लेखकान हें आव्हान बरे तरेन पेल्लां. देखीक, दिपकाली आवय, तागेल्यो तिनूय भयणी हांचें चित्रण वर्णनांतल्यान उणें, संभाशणांतल्यान अदीक घडटा. पूण तेय परस तांचे असवडीं दिपकाल्या चिंतपांतल्यान, तिरायतांल्या उलोवपांतल्यान आनी तांगेल्या वागपांतल्यान अदीक घडटा. खुद्द दिपकाली व्यक्तिरेखा तर कथावस्तूंत फाफसल्ल्या तपशिलाच्या इल्ल्या-इल्ल्या कुडक्यांतल्यान, उगडासांतल्यान चिंतनांतल्यान आनी थोडी भोव पात्रां मजगतच्या संपर्क-संभाषणांतल्यान उबी जाल्या. देखून, ती भोव वास्तव, जिवी आनी पटपा सारकी थारता. विशेश करून, तागेलीं बायल-पात्रां भरपूर आसात; पूण तांकां वळखुंकूच न्हय जाल्यार तांगेलें वैशिश्ट्य समजूंक वाचप्याक अडचण जायना.

एक खरें, *दिका* वाचतना लेखकाली प्रागतीक नदर स्पश्ट जाणवता. तशीच सर्जक म्हूण तागेली तांकूय प्रकर्शान दिसता. ताका लागून कथानकाचो आस्वाद घेतना वाचप्याचो अपेक्षाभंग जायना. लेखक कथानकाच्या पेण्या पेण्यार, अचळय आपणाल्या प्रगतिशील विचारांचो फाटपुरावो करता. मात सदांच तो एकेच तरेन वा एकाच पात्रा वरवीं नासता. देखीक, शिक्षण-रोजयेचें म्हत्व तो दोन-तीन कडेन उकतायता, केन्ना दिपक ह्या मुखेल पात्रा वरवीं, केन्ना शीला-उमा-रमाले भासाभाशे वरवीं, केन्ना सीतेल्या चिंतनां-उलोवपांतल्यान, जाल्यार केन्ना पुतू-म्हादूल्या दुस्वाशी संवादांतल्यान (पान १३१) आनी खासा करून, आपणालें स्त्रीधन विकून वा घोवाल्या पेन्शनांतल्यान पुताक शिकोवपाची सीतेली तयारी (पान १२८) शिक्षणाच्या म्हत्वा विशीं खूब कितें सांगून वता; इतलेंय करून तातूंत अडेचो वा प्रचारकी थाट दिसना. हीच गजाल तागेल्या मोगा विशींच्या वा आंतरधर्मी लग्नां विशींच्या मतां बद्दलय म्हणची पडटा. लेखकालें निवेदन सुरबूस तर आसाच, तें उत्सूकताय वाडोवपीय आसा. देखून, कांय कडेन कथानकांत अनावश्यक तपशील, तुटक अनावश्यक संवाद-सुत्रां वा हुमकळटे संदर्भ मेळुनूय नवलेची कलात्मक वट शेणून वचना. परतें, कादंबरे सारक्या व्हड आंवाठाच्या बरपांत येवपी असल्या सभावीक आव्हानां सामकारा तिगिल्ल्यान लेखकाले प्रतिभेचें कौतूक दिसता.

विशेश म्हळ्यार, ह्या लेखकान वेगळें कितें तरी सांगूंक जाय म्हूण ही कृती बरयल्या हाची उकती सुलूस लागुनूय, पात्रांल्या उलोवपाक वा कादंबरेंतल्या सूत्र निवेदनाक तागेल्या नीज व्यक्तिमत्वाची अनिश्ट सया मारना हें लक्षणीय. मात ह्या विधानाचो अर्थ कादंबरी सर्वांगान परिपूर्ण आसा असोय घेवं नजो. कादंबरेंत कांय ठळक उणीं आसात. देखीक, लेखक कांय खेपो ओगीच सुचकतायेचेर भर दिता. हाका लागून, एकाद्रे घडणुकेची व्हांवती आडखळटा. देखीक, उमालें मानसीक असक्तपण-तणाव दाखयतना, रमाले स्नेहा हे वर्गइश्टिणीन, *मनोविज्ञान* पुस्तक मागूंक येवप (पान १४८) अडेचें दिसता. तशेंच, एकेक फावटी नाका तितलो तपशिलाचेर भर दिल्ल्यान पात्रांचे उत्स्फूर्त क्रिये-प्रतिक्रियेचें समिकरण इबाडटा.

देखीक, उमाचेर आगळीक जाता त्या घराक मागीलदार नासलें (पान २२२) हो तपशील त्या वेळार, ते तरेन येवप हें खटकता. कांय कडेन सुबेज म्हायतीचें भांडवल कृतीच्या कलात्मक मोलाक हातभार लावच्या जाग्यार भारभूत जाता. देखीक, रमा-उमाल्या रिजल्टाचो अनाठांय प्रसंग, वा रांपूंक वतना गुलाबीलें दिपूक तेळप निवेदनांत फुडें खंयच उपेगाक पडना आनी उत्कंठेचें तेमूक बोथट जाता. कांय प्रसंग, देखीक, स्वाम्याबागांतलो दिपूचो उगडास; रमान पळेल्लो रमल-आपूचो व्यभिचारी एकवट, हांचो कादंबरेचे परिणामकारीकतेचेर वा गतीचेर व्हडलोसो प्रभाव पडना. हाचे परतें, भोळ्याचेर सीतेलें 'स्मरण-रमण' बरें सादलां. तसोच परिणाम, दर्यादिगेर 'गरड घालूंक' येवपी ल्हारांच्या वर्णनान शीलाची मनस्थिती उकतायतना सादला.

मात, बरेच खेपो, घडये प्रसंगांचें पटपा सारकें सादरीकरण जावचें देखून, लेखकान तर्कयुक्त उगडास जंय-थंय पेरल्यात. कांय कडेन ते वाचप्यांचे संवेदनशीलतायेचेर अनिश्ट परिणाम करतात. लेखकान वाचप्याच्या समजुपाचेर ताचे कुवतीचेर विस्वास दवरप गरजेचें. निवेदनांत कांय मेकळ्यो सुवातो लेगीत उरिल्ल्यो बऱ्यो; पूण सुबेज विस्कटावणी रसभंग करता. घडणुकेचो अपेक्षीत वा तात्कालीक परिणाम फावो तसो जायना. वातावरणाची जमत आयिल्ली भट्टी वाट लागूंक शकता आनी बरें सादून आयिल्लें निवेदनांतलें लावण्य हरसता. मात हीं उणीं खर न्हय. तीं अणभवाच्या बळग्यार मात करपा सारकीं. प्रतिभेचो दुकळ आशिल्ल्यान उदेवपी हो दोश न्हय. असल्या उण्यांचेर मात करचे पासत लेखकान टिकेचेर उक्त्या मनान आनी तर्कशुद्ध नदरेन विचार करून नीज बरपाचो तटस्थ आनी बुद्धीनिश्ठ तपास घेवंक जाय... एक खरें, *दिका* ही वाचन दिसची अशी कृती आनी लेखकाली कादंबरीकार म्हूण बेस बरी सुरवात...!

('जाग', ऑगस्ट २००४त उजवाडा आयिल्लो लेख, निवळावन.)

संपर्क: ०८३२-२४१७८७०





बबिता रायू सावंत

# भाशीक खाशेलपणां घेवन आयिल्ली *उबंतराची* कथा

दर एक साहित्य प्रकार आपली वेगळी अशी मूर्त निर्माण करता. कादंबरी हो घसघशीत वाडिल्ल्या साहित्य प्रकाराचो व्हड रूख. कोंकणींतल्या ह्या रुखाक अंदूं शंबर वर्सां पुराय जालीं. ते निमतान *उबंतर* हे देविदास कदम हांचे कादंबरेचो हांवें घेतिल्लो हो एक नियाळ.

**थोडे भितर कथानक**

कित्याक शिकूंक जाय? कितें उपेग ताचो? प्रस्न जापो पाठ करप, कित्याक पाठ करूंक जाय तें? घरा गेले बरोबर ताचो उपेग कितें? शिक्षक सक्ती केल्ले वरी शिकयताले. केन्ना केन्ना केंवरें काडटाले. तापोवणीं खावूंक जाय, मार खावूंक जाय. खेळटना सुदीक सराचो धेंगसो पडटालो. शिकतना कसलीच खोस ना, मनरिजवण ना. बेजार जावन वरांचीं वरां बसप आनी ह्या सगळ्या अणभवांतल्यान शाळेक साश्टांग नमस्कार घालपी खेत्री वंशावळींतलो रामू. बापूय पांडुरंग मिलेट्रींत. भयण (आका) आनी शेतांत राबपी ताची आवय.

कथानकाक सुरवात जाता ती रामूच्या सगळ्यांक दिसपी चुरचुऱ्यान. वायट कितें जालें जाल्यार रामूचें नांव. सुरवातेक सावन निमणे मेरेन बांबडो सगळें सगळें सोंसता. रात-दीस शेतांत कश्ट करतालो तरी ताचे आवयक सदांच खंत भोगताली, म्हज्या पुताक शिकपांत मात्तूय गोडी ना. कशें जातलें म्हज्या पुताचें? ताका रोजी मेळटली? कोण चेडूं दितलो? तिचें एक सपन आसलें, चेडो शिकून सायब जावचो, विजनेर जावचो. पूण निमण्या स्वासा मेरेन सपन तें सपनूच उरलें.

शिकपांत फाटीं आसलो तरी रामू हेर कामांनी सगळ्यां मुखार आसलो. शंभुसावकारा वांगडा देवळाचीं कामां शिकून घेवप, शेतांतलीं कामां करप... सगळ्यां कडेन मायेमोगान वागून लेगीत ताचें अडटालें फकत शिक्षणाक लागून. केन्ना केन्ना तो दुःखी आसतालो. मनाक, भावनांक समजुपी कोण तरी जायसो दिसता आनी तसो कोण मेळना तेन्ना सैम लेगीत लागींचें दिसता. तशेंच रामूचे बाबतींत जाल्लें. आवय,भयण आसून लेगीत केन्ना केन्ना ताका कोण नासतालो. सगळ्यांनीच ताका पिश्यांत काडिल्लो. इश्ट,मामा, मामी... लग्न जाल्ले बायलेन लेगीत ताका केन्नाच कुकूम म्हूण मानलो ना. बाबड्या रामूचें मन सुन्न, उदास जातालें. तेन्ना तो चिंवरी भोळ्यार येवन बसतालो. एके तरेन चिंवरी भोळो ताचो साथिदारूच आसलो.

आवय गेली आनी रामू सामकोच उकताडार पडलो. स्वताचें घरदार, नाशिल्ल्यान उबंतर जालो. मायेमोगाचो कोण उरलो ना. सगळ्यांनी काळजाचें नातें तोडलें. घुस्मटिल्ल्या वातावरणांत रामू आपली जीण सारतालो. ना म्हणल्यार एकटोच एकसुरो. आवय पुताचे परिस्थिती मुखार पयसावल्ल्या नात्यांची खोल दरी, भयण भावोजीचे कुसट वागणुकेचो तरास, मोगाक आशेल्ल्या रामूची इत्सा नासतना लग्न जावन सुशिलान केल्ली फसवणूक, खऱ्या मोगाचें प्रतीक म्हूण उर्बे राविल्लें रेणुका आनी, बापाय सारको आदार म्हळ्यार शंभुसावकार. पूण निमाणो एकटोच उबंतर पडिल्लो रामू. ताची पिशा वरी अवतिकाय.

कोणेंच रामूक समजून घेतलो ना. तो मोगाक आशेल्लो, हेरां सारको आपणेंय लग्न जावन संवसार करचो इतलेंच ताचें सपन, पूण ताच्या नशिबांत तेंय साकार जावंक पावलें ना. दुसरे वटेन ताच्या सादेपणाचो फायदो घेवन जगपी ताचींच लागिंचीं नातीं. रामूचो आवयचेर आनी आवयचो रामूचेर खूब जीव. पुताक लागून आवय भितरल्यान साप्प कोंसळिल्ली, मोडिल्ली, फोपशी जाल्ली. आपुणूय तिका मोगाचें ओलसारपण दिवंक फाटी उरलों हाची खंत रामूक भोगताली.

संवसार सगळो फटीचो. ह्या फटीच्या संवसारांत कोणूच म्हज्या मायेमोगाचो ना... लग्न जावनूय रामूच्या वांट्याक फकत निर्शेवणी आयली. शेणिल्ल्या गोरवा वरी ताची अवतिकाय जाली. कोणें ताचे कडेन केन्ना विश्वासाचें नातें जुळोवपाचो यत्न केलोना, एका शंभुसावकाराक सोडून. जिणेन अश्या मोडणार ताका उबो केलो जंय पयस नदर मारल्यार लेगीत ताका कोणूच दिश्टी पडनासलो. पूण ताका पडपी प्रस्नांच्यो जापो मात कोणाच कडेन नाशिल्ल्यो. देखीक, घरा गेले बराबर ताचो उपेग कितें? जाती कातीचे फरक...? आफूडभश्टा फाटलो हेत...? ऊंच उणाकपणाची भावना कित्याक? देव आनी मनीस हांचे मदीं फरक आसा? हेरांल्यो भयणी भावांक कितल्यो बऱ्यो करतात, आकाच म्हाका कित्याक बरें करिना? सायबूच कित्याक जावंक जाय...? देवा कसलीं कसलीं मनशां जल्माक घालता तूं! हेराल्यां दुख्खांतल्यान खोस मेळोवपी हीं मनशांच मूं? केदें मळबा येदें मन दिलें तुवें शंभुसावकाराक! येदें मन तुवें सगळ्यांकूच दिल्लें जाल्यार? आईक हांवें खायली...?

अशे कितलेशेच प्रस्न रामूक बोंचावन खाताले. 'वायट आशिल्लीं मनशां म्हाका बरीं जावं, पुणून बरीं आशिल्लीं मनशां फुडें वायट जायना जाल्यार पुरो अशें, सांगपी रामू कडेन एक दीस खऱ्यांनीच सगळीं वायटपण जोडटात, तींय बी ताचीं लागिंचीं नातीं. हे कादंबरेंतलें रामूचें पात्र सगळ्या पात्रां परस दोळ्यांत चड भरता. ताका सोबऽ सारकीच भास ताच्या तोंडांतल्यान फुलयल्ली पळोवपाक मेळटा.

दर पावलाक पुता खातीर परिस्थिती मुखार रडपी आवयचें मन हे

कादंबरेंत दिश्टी पडटा. पुताक खंयचेच गजालीक ना म्हणप तिका जमनासलें. ताचे वेलो कुड्डो मोग आड येतालो. ताचे लागीं निश्टूर वागप तिका केन्नाच जमलें ना. घर सोडून वतना आदारहीण जावन टकटक पुताक चवपी तिचे दोळे, वतना पुताचो हुस्को आनी धूव-जांवयाल्या फटींगपणाचो दुबाव, वाचतना काळजांत खंय तरी चर्र जाता. कादंबरेचें कथानक खूब बरें आसा. कथनकाक फावो सारकीं पात्रां, पात्रांचे संवाद, फावो तश्या वातावरणाची निर्मिती, भाशीक खाशेलपणां आनी पात्रांचे मानसीकतायेचें चित्रण *उबंतरांत* आयलां.

वाचतना खंयच आडखळ जायना. वाचपाक घेतकच ही साहित्यकृती हातांतल्यान सकल दवरन दिसना. कारवार वाठारांतलीं भाशीक खाशेलपणां घेवन आयिल्ली ही कादंबरी. लेखकानूय तितलेच कळाशेन आनी नकसूदपणान भाशेचीं विंगड विंगड आंगां कादंबरेंत केळयल्यांत. कादंबरेंतले कांय विशेश भाशा प्रयोग हांगा दिवपाचो यत्न केला.

**१. वाक्य बांदावळ**

कादंबरेंत कितलींशीं सुंदर आनी वेगळीं वाक्यां आयल्यांत. तीं कादंबरेचे भाशेचो पांवडो उंचायतात.

देखीः

१) फाटीर तांबडें भिरंड पाटचील मारिल्लें (पान ६).

२) सांज तेन्नाच काळी जावंक लागिल्ली (पान ४४).

३) ताचें गोरें आंग आतां धगान रापेवूंक लागिल्लें (पान ६२).

४) म्हाका आतां आडयेंत फिरूंक सुदीक लज दिसता (पान ८३).

५) मागीर आवय बापायन वचून शाम दाम करून तकली थंडयली (पान ८३).

६) घरांतलो एकान एक चिरो बाबाच्या मर्णान हुंडकेतालो (पान ९०).

७) झाडां माडांतल्यान सळसळ वाजयत पावस रकतालो (पान ९२).

८) आईक चयन रुंद हाशें हासलो (पान ११०).

९) कोगूळ पंचमांत गायता जाल्यार कावळो नेटान खर्जांत (पान ११३).

१०) शिंयाळे दिसांनी फाट फिरयली (पान ११७).

११) उबाळाचे दीस ल्हव ल्हव पावलां मारीत मुखार येवंक लागले (पान ११८).

१२) सुशिलाचें आपल्या पातळ ओटांतल्यान हांशिल्लें नितळ सोबीत हाशें (पान ११८).

१३) एकांताचें भांगर करूंक सोदता (पान १३०).

१४) पुराय वाडो पुसोन पावलो थंय (पान १३३).

१५) [illegible]तां भाटान तायट आसा (पान १३६).

१६) शेकान शेक पातळून मळबांत मेतेर जावन गेल्लेवरी दर्या आनी मळब एकूचशें दिसऽ (पान १३६).

१७) फुडाराचे घर गिरेस्तीचें मुळावण (पान १५०).

१८) धग सुमार इतलो मोव जाल्लो. सांज पातळूंक लागिल्ली (पान १५८).

१९) आईक खोलायेन दिसतालें, सुनेचें पोट पिकचें (पान १६५).

२०) खंयच्याय कोंब्यान साद घालूं, उजवाडूंक जाय आसलें न्हूं? (पान १६७.)

२१) म्हाका जिती मरण ख्यास्त ही! (पान १७६.)

२२) तिका रामूच्या उतरांनी दुबावाचो वास मारतालो (पान १८६).

२३) जिणेंत येयलें आनी वाळटी लावन गेलें (पान १९८)

२४) तांकां येताली ती फकत चिकलाची घाण. साळक जंय फुललां, त्या चिकलाची घाण. साळक दिश्टी पडच नासलें (पान २१६).

२५) आं! आई तोंडाक पदर लावन आंचूं उरली (पान २१७).

२६) चिकलांत फकत किडेच जल्माक येनात. साळकांय फुलतात (पान २१८).

२७) शेतकार नाशिल्लीं शेतां म्हटल्यार पूत नाशिल्ली आवय. बिदीर पडचेलेंच (पान २४०).

२८) सगळें करचे आर्दी इलोसो वास घेवन चवंक जाय आसलें. फातर मारून थाव घेवूंक येतालो (पान २४४).

२९) पोटांत पिकिल्लें पोर आसूनय आईक आकाचो सभाव पुरायेन समजूंक ना (पान २६७).

३०) पुणून आईकडेन जोडिल्लो माये मोगाचो दोर कितलोय ताणल्यार तुटचो ना (पान २६७).

**२. तुलनात्मक भास**

कादंबरेंत लेखकान सोबीत तुलनात्मक भास वापरल्या.

कांय देखीः

१) माजराल्या दोळ्यांवरी. चयतालोय माजरांवरी बिटीबिटी (पान ४).

२) शिवडांयेटी कशी येदी व्हडली मिशी (पान १३).

३) आकाची सासूमांय आंगान थाली कशी आसली (पान ५१).

४) नाकूट नाशिल्लें बोट चयतल्याक गळो काडून उडयल्लें सुंगट कशें दिसतालें (पान ७८).

५) घरांदारांच्यो पावळ्यो राकेस मुतिल्ल्यावरी सळोसळो करून गळटाल्यो (पान ८०).

६) आख्ख्या वाठाराचीं दाडमणां बशिल्लेवरी सगळें थंड शांत जालें (पान ८०).

७) वाऱ्यान मारून, सुमार तेप कुशीलदाद हांथळण्यार मोडिल्लो कावळो कसो वळवळटालो (पान ८०).

८) सुनंदाल्या दारार काळें सुणें गोठिल्लें. येलतूड कशें (पान ८१).

९) तकलेवेल्यान गाडयेचें चाक गेल्ल्यान तकली पणस फुटिल्लेवरी फुटून पडिल्ली (पान ८६).

१०) रामू मात न्हिदिल्लेकडेन सूस्त घुर्र घर्र करून बुकलो कसो घोरेतालो (पान ९३).

११) चूक म्हटल्यार शेवटिल्ल्या फातरा भाशेनच (पान १०६).

१२) अनसुया मामेभशेन उंच रुंद पाटी कशी आसली. आंगानूय थाली कशी (पान १०९).

१३) तीचें तोंड बाविल्ल्या आंब्याभाशेन येदेशेंच जालें (पान ११७).

१४) फिटासारखें चान्ने पडिल्लें (पान १२१).

१५) सकनळी चिड्डिल्लेवरी ओग्गी पडली. (पान १२१).

१६) खिणांतच तो दुबाव आंगावेलो धुल्ल फांफुडचो तसो मनांतल्यान फांफडून उडयलो (पान १२२)

१७) दिव्याचेर झोपय घेतल्या किमसांभशेन तांची अवस्था आसता (पान १३०).
१८) म्हशीले गांडीकडेन पिंगसां नाचतल्यावरी (पान १४७).
१९) काळी न्हंय दर्याक मेळटकीर न्हंयचें गोड उदक जशें दर्याच्या खारें उदकापासून वेगळें काडूंक जायना तशें मना काळजाचेंय आसूंक जाय (पान १५०).
२०) येतिश्ट बडोवचो मुडो बडयल्लेवरी (पान १७६).
२१) आनी ती उश्टी पत्रावळ हांवें गळ्यांत बांदून ल्हेंवत बसचें अन्नू नाशिल्लेवरी (पान १७७).
२२) गोरो तांबडो तांब्या आयदन कसो! (पान २०५).
२३) खिमसान दिव्यार झोपय मारची तशें मंजुळा ड्रायव्हरांत घुस्पलें (पान २०६).
२४) रुखावेल्यान पडून पंगड चुकिल्ल्या माकडावरी (पान २०९).
२५) वावटळेंत सांपडिल्ली तणाकाडी कशी ताची जीण जाल्ली (पान २७४).

कथानकाक फावो ती भास वापरल्याच पूण जाय तेन्नाच पात्रांक सोब सारकी तुलनात्मक भास वापरल्या आनी ताका लागून ही साहित्यकृती नदरे आड करपाक जायना. वाचतना कांय म्हणीय म्हजे नदरेंत भरल्यो.

**३. म्हणी**

देखी:

१) धा ना पांच! एक कोंब (पान ३६).
२) काडली जीब लायली ताळ्याक (पान ४०).
३) ओटाभायर गेल्यार पोटाभायर पडटली (पान ५८).
४) तकलेवेल्यान व्हांविल्लें खंय पांयापोंदान येता (पान ८४).
५) मूठ मारून उदक काडप (पान ८९).
६) बऱ्याक गेल्यार कल खोटी (पान ९४).
७) फूल नी फुलापाकळी (पान ११७).
८) कामीण जाल्ल्यांक संवसार हळडुवो (पान १७५).
९) चडची वाल कित्याक मोडुंया? (पान १९१.)
१०) हाडय वाकडें आनी गूणय वाकडे (पान १९१.)
११) जाका भोगता ताकाच कळटा (पान १९२).
१२) कितलेंय पोल काडल्यार खंय, निमाणेकडेन हाताक येवचे फोडच! कणी कांय मेळची ना (पान १९४).
१३) नाडिचें काडूंक जाता खंय, बडिचें काडूंक जायना (पान १९७).
१४) बीं तशेंच भात (पान १९७).
१५) आपल्या पांयांमुळांत कुवाळे आशिल्लीं मनशांच दुसऱ्याल्या पांयांमुळांतले आवाळे सोदतात (पान २११).
१६) फुडलें जोत तशें फाटलें जोत (पान २१५).
१७) कोणाच्या कुस्तार कोण मजा करता (पान २२२).
१८) बोडावेल्यान न्हाल्लें, पांयांपोंदांत येयले बगर रावना! (पान २२९)
१९) हरवें सोदतल्याक भाजिल्लें मेळ्ळें (पान २४१).
२०) कुळवाड्याक शेतांची किंमत कळटा, हेबऱ्याक कशी कळटली? (पान २५१.)
२१) कुळवाड्यान केल्लें हेबऱ्यान खावूंक जायना (पान २७३).

**४. उतरावळ:**

भाशीक आंगांतलें सगळ्यांत म्हत्वाचें आंग म्हळ्यार उतरावळ. आनी हें भाशीक आंग लेखक देविदास कदम हांणी हे कादंबरेंत संवादात्मक रुपांत केळयलां.

लगाडे, भन्नूट, थोपप, घुर्ते, झंगाट, ताकप, रोंगेंत बरोवप, घटणार, मटाळप, काव घालप, पागोर, याण जावप, चंवचाळप, लाटी बांदप, नाटप, न्हुवप, सोपांवचप, खूंब बियां जमीण, वरकड, आंगडी, आण्णींत, कड-मुलें करप, मेरो-आडे लावप, कोक्यान मुगळ बरगुवप, हुंवप, न्हुवप, घुडयो, दाळप, मळप, पेर हुबोवप, कणांतर मांडप, खांडयेलेक केंस बरगप, जातक, बलांटप, कुरकुट, सरवळ्यो, सागव, व्होंवरी, बुटी, देडपो, पांयडो चडप, भोंवसळ, माचण, शेताचो केर, घुमसोळ, होयकें, फीट वाटप, बदीक, पिकिल्लीं फोगां, बरगेल्लोसो आसप, खुबळावप, खेंगो, सुरीचीं शिरीं सोकाळप, धुडी दाळप, धानां-वर्जी बांदप, सोप कापप, इदळ पिकोवप, लाटीन उदक काडप, विजनेरी, देवळाचो मक्तासूर, भोयी, मडोवप, खळ घालप, बियांचण, वारो मारून पडप, हातासप, केंदाळो माड, फेकोवप, कोचावप, दर्भ, धुंवटी, कांबळी-खोल, वांदून सोयरीक येवप, उग्रणी, मेटलां चडप, लिमतोडयाचीं झाडां, बक्कांक फातर मारप, आंगण आंचोवप, अगडय आसप, कोचेवप, शिमिटाचो गिलांव काडप, बीटबाळीं केळीं, आडी, वेंगेंत करगप, अटंब रान, झेपंतर, फागूर-चिगूर, गानुल्ल्या मुसांचीं कोनगीं, गल्ल्यार बसप, बिदलो, पोट माळयेचें घर, पंचादी करप, बुटी, हाड्डप-खड्डप, कामाकडेन बेरो करप, पोस, शेतोडीं, बाजार बसवी, आळी, (धुवेक) कुसोवप, बगल मांडप, आग्रो-फोग्रो, गिरमीट, बेगड, म्हातन, सोडचीट, पोटभुक्ती, हेंगाडी, रंवदुरो, पोर्की मनशां, खोचणें, इदळ, वितराग, बरकळ, गाळण्याची पातळ शाक, कांकाची गांठ, भुजाण वाडिल्ले केंस.

चडशी कारवार आनी काणकोण वाठारांतली ही उतरावळ म्हणल्यार कोंकणीचें गिरेस्त दायज. देविदासबाबान तिची वळख करून दिवपाचो यत्न केला म्हणपाचें म्हाका जाणवलें. कथानकाच्या वातावरणाक सोबाय हाडपा खातीर वा निखटें बरोवपाक जाय म्हूण न्हय तर कोंकणींत दर एका वाठारा प्रमाण वेगळी उतरावळ घोळटा ते उतरावळीची वळख करून दिवपा खातीर. सांगपाचें म्हळ्यार, म्हज्याय वाठारांत ही उतरावळ घोळटा आसुये आनी तातूंतल्या कांय उतरां खातीर दुसरे प्रतीशब्द आसुये. पूण कादंबरी वाचून म्हज्या गिन्यानांत कितल्याश्याच उतरांची भर पडली.

**५. वाक्‌प्रचार आनी वाक्यांश:**

कादंबरेचे भाशेची सोबीतकाय कांय वाक्‌प्रचारांक आनी वाक्यांशांक लागुनूय वाडटा.

देखी:

हटूंक तयार नासप, जितो जीव नासप, हात राखून दिवप, हड्ड्यार लाथ मारिल्ले वरी जावप, हावसाण हाडून फुरफुरप, तोंडांत फोव घालप, रटें तुट्टा मेरेन वावरप, माथें मारप, दोगांय मदल्यान उजो वचप ना, कानांत घालप, चोचरगट उलोवप, ओतो येवप, शिकूंक दड्डो आसप, नाक कापून हातांत दिल्ले वरी जावप, लगाटी मारप,

तोंडार मारिल्ले वरी जावप, मुखामळ पडप, तकली पिकार करून घेवप, उतरांनी हेडोवप, काळीज वणटीक शेवटून मारप, बोतर जळप, किकोंत करप, याण करप, छाती करप, हाडांची काडी करप, पान लेगीत हालप ना, उतरांनी पाडप, केंवरें काडप, घर भरून दार ओतप, तोंडाक धरिल्ले वरी जावप, घुरी घालप, फाटीर हात मारून घेवप, पिळपिळ्यार काडप, तोंद्रे येवप, हड्डें बडोवन घेवप, चरवट उलोवप, खुंटो दाखोवप, हगूर करप, पांयार उबें करप, इबुण्णी करप, हड्ड्यांत धड्ड जावप, तोंडार नुरी नासप, निबर काळजाचें आसप, कोयतेचो घाव घालप, शेळाव मारप, आंग काडप, फुलां माळप, मेतेर जावन वागप, फाफडून खावप, उजरावन काडप, तोंडाक उदक हाडप, जीव हगूर करप, हावरो उडप, जिणेची चांदी करप, सूत आसप, नाक मारप, नाक मुड्डप, काळजाक सूऽ जावप, शेळावसो मारप, कान शेळयत रावप, आंगार येवप, दोळे ताणून पळोवप, पांयार पांय घालून बसप, दोळ्यांत दोळे घालप, हात झुटासून घेवप, किडयत बसप, बुड्डून व्हरप, कपलाक मिऱ्यो घालप, तेळत रावप, मन खावंक येवप, तोणो मारिल्ले वरी जावप, दोळ्यांत उदक हाडप, उक्त्या दोळ्यांनी कुड्डो जावप, सदांच तोंडार बोंडो पडिल्ले वरी आसप, आंग कावटळप, दोळ्यांक उदक लावप, छाती फोडून घेवप, लोकांक तोंड करून दिवप, पोल्यार मारिल्ले वरी जावप, तांबडोगुं जावप, शीर सणसणप, तोंड घेवन उलोवप, धेंगसो घालप, दुशण दिवप, दावां काळजांत चरमप, तोंडार हांसो पातळप, तिडक उसळप पांयार फातर घालून घेवप, तोंड घालप, जीव मुठींत घेवन धांवप तोंड वयर करून सांगप, हड्ड्यार लाथ मारिल्ले वरी जावप, कानां केंस काडप, पापर जावप, तकलेर हात मारप, काळीज धड्डडप तल्लास घेवप, आवती पडप, भुंयेभरवण करप.

**६. जोड उतरां:**

कादंबरेंत कांय जोड उतरांय मेळटात -

जेवूंक-खावूंक, वखद-विरसद, दाणो-गोटो, तांदूळ-गोटो, जेवन-खावन, न्हायन-धुयन, शेतां-भाटां, चाली-रिती, बरें-वायट, भाटां-बेसां, जळीं-मळीं, शिल्लीं-पाली, भाट-बदीक.

*उबंतर* ही साहित्यकृती भाशेचे आनी साहित्याचेय नदरेन अभ्यासप सारकी. ही कादंबरी म्हजे नदरेन एक जैताचें पावल. म्हाका ती आवडली. हेरांनीय ती मुजरत वाच्ची अशें हांव म्हणन.

संपर्क: ९५४५०८८३८०





लक्ष्मण सैल

# कोंकणी साहित्यविश्वाची शान वाडोवपी कादंबरी

गोवा कोंकणी अकादेमीन उजवाडा हाडिल्ली २७९ पानांची *उबंतर* ही कादंबरी कारवारच्या गांवगिऱ्या वाठारांतली लोकजीण चित्रीत करता. थंयच्या लोकांचे बरे तशेच वायट गुणूय सांगता. रामनाथ नांवाच्या तरणाट्याचे जिणेचेर आदारीत ही कथा. लग्न संबंदांच्या पोकळपणाचेर लेखकान हे कादंबरेंत उजवाड घाला. लग्न हें खऱ्यांनीच दोन मनांचें पवित्र मिलन आसूंक जाय. लग्न दोन कुडींचें नासता. तें दोन मना-काळजांचें आसता. मना-काळजां एक जायना आसतना फकत कुडींचे तृप्तताये खातीर भोग घेवप हो व्हडलो व्यभिचार ही गजाल कथानकाच्या अनुशंगान हे कादंबरेंत सांगल्या. कितल्योश्यो आडकथा आनी उपकथाय हे कादंबरेंत आयल्यात. तातूंतल्यान बरोवप्यान त्या वाठारांतल्या लोकांच्या मनाचो सोद घेवचो यत्न केला. 'वायट' कुळांत जल्म घेतलो म्हूण एकाद्री बायल वायट जाताच अशें ना. तेच वरी, 'बऱ्या' कुळांत जल्म घेतलो म्हूण ती बरीच जातली हाचीय कांय खात्री नासता, हेंवूय सत लेखकान कादंबरेंत कलात्मकतेन मांडलां. सुशी आनी रेणू हीं दोगांय रामनाथ नांवाच्या तरणाट्याचे जिणेंत येतात. सुशी बऱ्या कुळांतली जावनूय रामनाथाची सगळी जीण काबार करून वता. पूण रेणू एके नायकिणीचें चली आसुनूय जाचेर आपणें मोग केलो ताची जीण आपल्याक लागून वायट जावची न्हूय म्हणून तें आपलीच जीण सोंपयता.

रगताचीं नातीं फकत मागतात, दुस्वास करतात पूण मनां जुळिल्लीं नातीं फकत दीत रावतात आनी वेळ आयल्यार परमोच्च त्यागूय करतात हाची गवाय उबंतर दिता. ही कादंबरी प्रादेशीक स्वरुपाची आसली तरी तातूंत आयिल्लीं पात्रां, घडणुको सगळ्याच वाठारांनी आनी सगळ्याच सुवातांनी मेळटात. कारवारचो वाठार फकत मनीस सभावाक अभिव्यक्ती दिवपाचें निमित्तमात्र थारला. हातूंत आयिल्लो दिगंबर सर, रेणू, सुशी, शंभू सावकार, रामूली आई, मामी, रामूली भयण मुक्ता, तिगेलो घोव अरविंद, मामालो पूत अरविंद, कुशालीदाद, ताची चली सुनंदा, शांती, दिगंबर सरालो पूत संदीप आनी हेर कितलींशींच पात्रां संवसारांत सगळ्या सुवातांनी आसतात. मनशाचें तशेंच मनीस गुणांचें प्रतिनिधित्व तीं करतात.

हे कादंबरेंत मनशाचो सुवार्थूय पळोवपाक मेळटा आनी सर्वोच्च त्यागूय. लग्ना भायले अनैतीक संबंद आनी वासनेचो चिखलूय हातूंत आसा आनी फकत मनीसपणाच्या नात्यांतल्यान जुळिल्लो पवित्र आनी निसुवार्थी मोगूय आसा. काळा प्रमाण कारवारच्या कृशी समाजाची बदलिल्ली मानसीकताय हातूंत दिसता. पयलीं थंयचे सगळे लोक शेतां करून पोट भरताले. पूण आतां शेतां कोणाकूच नाकात. सगळ्यांनी शेतां बंजर घाल्यांत. एखाद्रो तरणाटो बरे भशेन शेत करून पोट भरता जाल्यार ताका मान ना. ताका कोणूच आपली चली दिवंक तयार नासता. कारण आयज शेतांत घोळपाची कोणाचीच तयारी ना... शेत पिकोवन खावचे परस तें विकून पोट भरचेली मानसीकताय हांगा निर्माण जाल्या. 'अरे, तूं बियांचण कित्याक करता. शेतां नाशिल्ल्यान बियांचण करप पिशेपणां न्हूं?' अशे तरेच्या वाक्यांतल्यान लेखक त्या समाजाचे बदलिल्ले जावं इबाडिल्ले मानसीकतायेचेर अळंग बोट दवरता. "शेताचें शिक्षण दिवपी शाळा आयज आशिल्ली जाल्यार, हांव आयज भुन्नाटा परस चड मार्कांनी पास जाल्लों आसतलों आसलो आनी भुन्नाट आयज म्हजे भशेन शाळा सोडून घरा बशिल्लो आसता आसलो" हीं उतरांय आमचे चुकीचे शिक्षण पद्दतीचेर अळंग बोट दवरतात.

कादंबरी बरोवप्याक बेस बरी कल्पनाशक्तूच आसून उपकरना, ताका आकांताची निरिक्षणक्षमता लागता. ज्या समाजा विशीं बरयता त्या समाजाची दर एक गजाल काळजा भितर जशाची तशी सांठोवन दवरची पडटा. लेखक त्याच समाजाचो व्यक्ती विशेश आशिल्ल्यान ताणें सगळ्यो गजाली बारकायेन आपल्या काळजांत सांठोवन दवरल्यात. ही प्रक्रिया एक-दोन म्हयन्यांनी जावं एक दोन वर्सांनी घडूंक ना. ताका कितलोसो काळ जावं सगळी हयातूच लागिल्ली आसूं येता, नाजाल्यार खंयच्याच समाजाचें इतलें जिवें चित्रण करप शक्य नासता. हो लेखक ज्या पात्रांत घुसता तें आपसुकींच जिवें जाता. *उबंतर* ही बऱ्या दर्ज्याची कादंबरी कोंकणी साहित्यविश्वाक ओंपून बरोवप्यान ताची शान निश्चितच वाडयल्या.

संपर्क: ८८८८१२२३७९





एस. डी. तेंडुलकार

# दिलीप बोरकार हांच्या दोन नवलिकांचे निमतान

अखखे जिणेची लांबाय, रुंदाय, उंचाय आनी खोलाय आशिल्लो दीर्घ भाशीक गद्य वाङ्मयप्रकार म्हळ्यारूच कादंबरी. ह्या वाङ्मयप्रकाराचें एक वैशिष्ट्य म्हळ्यार, काव्य, नाट्य, कथा, निबंद, डायरीलेखन, प्रवासवर्णन, विनोद, समिक्षा अशे सगळेच विंगड विंगड वाङ्मयप्रकार एकाद्री कादंबरी आपल्यांत आसपावन घेवंक शकता. हे वेगवेगळे वाङ्मयप्रकार कादंबरी ह्या वाङ्मयप्रकारांत वावरूंक शकतात. ते खातिरूच कादंबरी हो अखख्या वाङ्मयप्रकारांचो राजा अशें म्हळ्यार अतिताय जावची ना. कारण, कवितेंत कादंबरी येवंक शकना, नाटकांत कादंबरी येवंक शकना, निबंदांत कादंबरी येवंक शकना; पूण कादंबरी ह्या वाङ्मयप्रकारांत हे सगले वाङ्मयप्रकार येवंक शकतात. आयचे नवकादंबरेंत तर हे गूण अदीक ठळकपणान दिसतात. देखीक, झॅक कादंबरीकार मिलान कुंदेरा हांच्यो कादंबऱ्यो पळयात. तातूंत काव्य, नाट्य, निबंद, तात्वीक चर्चा अशें सगलें पळोवपाक मेळटा. तरी त्यो समर्थ कादंबऱ्यो म्हूण वाचका मुखार उब्यो रावतात. Fragmented म्हळ्यार कुडक्या-कुडक्यांची कथनशैली वापरून अलताफ टायरवाला सारको इंग्लेज भारतीय कादंबरीकार आपल्या *No God in Sight* सारके कादंबरेंत शारांतले जिणेचो एक परिपूर्ण अणभव व्यक्त करता. *कोसला* सारकी कादंबरी अनेक गजालीं वांगडा 'डायरीलेखन' लेगीत आपले भितर आसपावन घेता. *हावठण* बरोवन महाबळेश्वर सैलां सारको आमचो कोंकणी कादंबरीकार अनेक कथांचे माळेंतल्यान कादंबरेचो आशय प्रकाशीत करता. किरण नगरकर हांणी बरयल्ले इंग्लीश *'रावण अँड अँडी'* हे कादंबरेंत तर फिल्म स्टार शम्मी कपूराचेर लेगीत एक लेख वाचूंक मेळटा. आनी कादंबरेंत तो खंयच उपरो दिसना. जीण जशी विंगड विंगड आनी सगल्या तरांच्यो गजाली आसपावन घेता, तेच परी कादंबरी हो वाङ्मयप्रकार लेगीत जिणेंतल्यो विंगड विंगड आनी सगल्या तरांच्यो गजाली आपले भितर आसपावन घेवंक शकता. पूण कादंबरीकाराचे एकूण लेखनाचे कुवतीचेर ही आसपावन घेवपाची शक्त कमी जास्त थरूं येता. बरेच फावटीं खुद्द कादंबरीकाराकूच कादंबरी ह्या वाङ्मयप्रकाराची ही सर्वव्यापी शक्त खबर नासता. मागीर ताचे लिखणेंतल्यान सामान्य कादंबरी निपजता. हे फाटभुंयेर दिलीप बोरकार हांच्या दोन नवलिकांचो (Novella) विचार ह्या बरपांत केला. एक 'बिंब' दिवाळी १९९७ च्या अंकांत आयल्ली 'बबलूचीं पत्रां' (ही नवलिका आजून पुस्तकरुपान प्रकाशीत जावंक ना) आनी दुसरी, *एक आंकवार डायरी.* ही ह्याच वर्सा, म्हळ्यार २०११ सालांत, प्रकाशीत जाल्या. खरें म्हळ्यार ह्यो दोनूय 'फुल-फ्लॅजड्' कादंबऱ्यो न्हय. ह्यो लघुकादंबऱ्यो. सुरवेक आमी *एक आंकवार डायरी* हे नवलिकेचो विचार करुया.

फक्त ८८ पानांची ही नवलिका. तिचें नांव आनी लेखकाची प्रस्तावना वाचून ही नवलिका डायरी फॉर्मांत बरयल्या अशें वाचप्याक दिसता. पूण हातूंत 'डायरी फॉर्म' खंयच पळोवंक मेळना. फकत हांतल्या नायकान एक डायरी बरोवन दवरल्या इतलेंच वाचकांक कळटा. सुरवेक लेखकान बरयल्ली प्रस्तावना वाचले उपरांत अशें दिसता. हे नवलिकेंत लेखकान एक वेगळोच प्रयोग केला आनी जे कोण परंपरेची बिबूत कपलाक सारोवन वावुरतात तांकां ह्या नव्या वावराचें उस्तुरें वचूं येता. पूण सबंद नवलिका वाचले उपरांत उस्तुरें वचपाचें सोडाच, पूण अशें दिसता, ही एके चाकोरेंतली रटाळ मोग-कथा, तातूंत कसलेंच नाविन्य ना. नवलिकेंतल्या नायकाक लेखकान आपलेंच, म्हळ्यार दिलीप बोरकार हेंच, नांव दिलें वा, प्रत्यक्षांत समाजांत वावुरपी पात्रां नवलिकेंत आपल्या खऱ्या नांवा सकट वावरूंक लागलीं म्हणून कितें लेखनांत नाविन्य येवचें ना. (म्हाका दिसता, नाविन्य वा प्रयोग म्हणटात तें हेंच अशें लेखकाक दिसता आसुये.) हे आदीं हेर भासांतल्या लेखकांनी हें असलें नाविन्य हाडपाचो प्रयोग केला. (देखीक, अच्युत बर्वे हांची *सुखदा*ही मराठी कादंबरी.) पूण हें अडेचें नाविन्य. खरें म्हळ्यार अस्सल नाविन्य नवलकथेचे मांडणेंत, भाशेंत आनी एकूण आशयांत आसता. तातूंत परत लेखक प्रस्तावनेंत वाचकां कडेन चलाखी करूंक सोदता. देखीक, लेखकाची हीं उतरांच पळेयात -

> हे कादंबरींत जीं पात्रां आयल्यांत तीं वास्तवांत वावुरताना दिसतात. कादंबरींतलें मुखेल पात्र दिलीप बोरकार आसा ते आनी लेखकाचें नांव एकूच आसा. म्हणटकच ती कादंबरी काय लेखकाच्या आत्मचरित्रांतलो एक वांटो होय मुद्दे तकली वयर काडूं येता. पूण खरी गजाल अशी, हे कादंबरींत जितलीं पात्रां आसात तांचीं नांवां आमच्या सरभोंवतणी वावुरतल्या लोकां कडेन सारकेपण दाखयतात आसलीं तरी तो एक निव्वळ योगायोग आसा. तांचो संबंद कोणाच कडे ना वो तांचीं नांवां मुद्दम घेवन ही कादंबरी बरयल्ली ना. योगायोगान तीं नांवां आयल्यांत देखून तीं स्विकारपाक कांयच हरकत नासची अशें म्हाका दिसता... नांवांत कांय ना हे शेक्सपियरान म्हणलां म्हणून सत्य न्हय तर ती खरीच गजाल. तेच पासत दिलीप बोरकार हें लेखकाचें नांव हे कादंबरींतल्या पात्राचेंय नांव आसप हो एक योगायोग. ताका कोणाच्यान कांय करूं नज.

हांगा लेखक आपल्या वाचकांक 'योगायोगान' मूर्ख करूंक सोदता हें कोणाकूय स्पश्ट जाणवूं येता. लेखनांत असली 'हुशारी' केली की मागीर तें लेखन रिलायेबल, विश्वसनीय जावंक शकना. खरींखुरीं नांवां वापरुनूय असल्या लेखनाक 'खरेपण' येवचें ना. *एक आंकवार डायरीचें* तेंच जाला.

एके कडेन लेखक प्रस्तावनेंत म्हणटा, ''ही आंकवार डायरी त्रंयच्या साहित्य प्रकारांत मोडटा? तातूंत साहित्यीक मुल्यां कितलीं आसात?''

खरें म्हळ्यार असले प्रसंग हांगा उपस्थितूच जावंक फावनात. कारण लेखक स्वतःच ह्या लेखनाक कादंबरी म्हणटा. म्हणटकूच आमी वाचक ती कादंबरी (वा कादंबरिका) म्हणुनूच वाचतले. वाङ्मयप्रकार कसलोय जावं, पूण जें लेखन आसा तें जेन्युईन आनी रेलायेबल आसा काय ना हेंच अदीक म्हत्वाचें. परत, भितर साहित्यीक मुल्यां कितलीं आसात हो प्रस्न लेखकाक कित्याक पडला? अशेंय आसूं येता की खुद्द लेखकाकूच आपल्या ह्या लेखना विशीं आत्मविश्वास नासुये. ते खातिरूच तो असले प्रस्न उपस्थीत करता आसतलो. कितेंय जावं, पूण लेखक म्हणून असले 'पोरकारी' ('बोरकारी' न्हय) प्रस्न उपस्थीत करप हें इमॅच्युअरपणाचें लक्षण.

''हांव म्हज्या जिवितांतल्या पारंपारीक वाटां पासून सदांच पयस रावलां. मागीर त्यो वाटो व्यक्तीगत जीवनांतल्यो आसूं वो साहित्याचे निर्मणेंतल्यो आसूं'' अशें लेखक प्रस्तावनेंत एके कडें म्हणटा. आतां व्यक्तीगत जिणेंतल्या पारंपारीक वाटां पसून तो पयस रावला काय ना हें आमकां वाचकाचे नदरेंतल्यान म्हत्वाचें न्हय. पूण साहित्याचे निर्मणेंतल्यान लेखकान पारंपारीक वाटां पसून पयस रावून आपली नवी वाट तयार केल्या काय ना हाका चड म्हत्व आसा. *एक आंकवार डायरी* हे नवलिकेंत तर ती नवी वाट निखालूस दिसना.

हे नवलिकेची स्टोरी कितें तर दिलीप बोरकार आनी आशू हांचें कॉलेज टायमा वेलें असफल प्रेमप्रकरण. आशू दुसऱ्या वांगडा लग्न जावन पुण्यांत वता आनी दिलीप आनीक कोणा वांगडा लग्न जाता. उपरांत आशू पंचविसेक वर्सांनी दिलीपाक पणजे बाजारांत मेळटा. पूणं थोड्याच दिसां भितर आशू ॲटॅक येवन भायर पडलें म्हूण ताका कळटा, तेन्ना दिलीप ताचे विशीं, त्या मोगा विशीं बरयल्ली डायरी काडून निमाणें फस्कलास रडून घेता. आनी वाचक सुटकेचो निश्वास सोडटा.

हे नवलिकेंत कसलें नाविन्य आसा आनी लेखकान कसलो प्रयोग केला हें म्हाका तरी कळूंक ना. ही एक सामकी सामान्य पद्दतीन बरयल्ली आनी चाकोरींतली प्रेमकथा. चंद्रकांत काकोडकार हांणी बरयल्ल्यो प्रेमाच्यो पांचट कादंबऱ्यो हिच्याकूय अदीक वाचनीय आसात. कारण, काकोडकारां सारको लेखक साहित्यीक मुल्यांची वगीच चिंता करूंक बसना.

ही नवलिका पुस्तकरुपान प्रकाशीत करची अशें दिलीपाक कित्याक दिसलें? प्रकाशीत जावन कोंकणी साहित्यांत तिणें कितें भर घाली? ही प्रकाशितूच करूंक नाशिल्ली जाल्यार कोंकणी साहित्याचें कितें लुकसाण जावपाचें?

म्हजे हे प्रस्न बऱ्याच जाणांक नकारात्मक, उर्मटपणाचे दिसतले. खुद्द लेखकाकूय दिसूं येतात. पूण आपले प्रस्तावनेंत दिलीप बोरकारान म्हळांच ''कोंकणींत तशे समिक्षक नाच, म्हणटकच तशी टिका बी जातली असो भंय ना. कोंकणी साहित्याच्या मळार चलता ती अपुर्बाय. हांव तुका बरो म्हणटां, तूं म्हाका बरो म्हण.'' आतां हांव स्वताक समिक्षक बीन समजना. हांव रसीक. पूण दिलीपाच्या लेखनाक हांवें वोगीच बरें म्हणचें, ताची नाका जाल्ली अपुर्बाय करची हें खुद्द दिलीपाकूय पटपाचें ना, सेर्त!

हे नवलिकेंत पात्रां, स्थळां बीन सगलीं वळखीचीं पळोवंक मेळटात. पूण ह्यो सगल्यो दिलीप बोरकाराच्योच भानगडी काय कितें ह्या कुतुहलान वाचक नवलिकेचें वाचन कशेंबशें रेटीत वता. पूण निमाणें वाचकाच्या हातांत कितें उरता? आशू मेलें म्हणून दिलीप रडटा आनी वाचक जांबोयो दिता अशी परिस्थिती.

हाचेर कोणूय म्हणूंक शकता, हो बेठो प्रस्तावनेचेर व्हदोळच्यान उलयत आसा पूण नवलिकेंतल्या 'कंटेंटा'चेर पुरावे दिवन व्हडलेंशें कांयच उलयना.

म्हाका सांगात, 'कंटेंट'चे बाबतींत हांव उलयतलों कितें? थंय उलोवपा सारकें व्हडलेंशें कांय ना. सगलो घुस्पागोंदळ आसा. निवेदनतंत्र तर सामकें बाबत आसा. देखीक, नवलिकेची ही सुरवातूच पळयात:

> कोणें तरी शूऽऽत शूत केलें. हांवें जळामळाक पळयलें.
>
> पणजे मार्केटांतलो तो गजबज, धांवपळ, आड्ड्यो. कोण कोणाक शूत करता काय कोण कोणाक धक्को मारून वता तें कळूंक मार्ग ना.
>
> अशें शूत शूत करतल्यांची म्हाका तिडक मारता. मनाची इत्सा नासतनाय अकस्मात ते वटेन लक्ष वता. वाहनाचेर आशिल्ल्यांक ताका लागून अपघातूय घडूं येतात. पूण नदर मारचोना म्हळें तरी ते वटेन आपसूक नदर वता. मान वळटा.
>
> शूत शूत केले बराबर म्हजीय मान तेवटेन वळ्ळीच.

नवलिकेची सुरवात वा अख्खे नवलिकेंतूच लेखकाचें निवेदन आशयाचे नदरेन 'टू दि पॉइंट' जाय आसता. पूण हांगा लेखक सुरवातीकूच - ''वाहनांचेर आशिल्ल्यांक ताका लागून अपघातूय घडूं येतात'' - अशें बेठें वर्तमानपत्री बरयत वता. दुसरें म्हळ्यार, ''कोणें तरी शूत शूत केलें. हांवें जळामळाक पळयलें'' अशें निवेदन करून फुडें निवेदक ''शूत शूत केले बराबर म्हजीय मान तेवटेन वळ्ळीच'' अशें म्हणटा तेन्ना जळामळाक पळोवपाचो अर्थ कितें हो प्रस्न हांगा साहजीक उप्रासता. खरें म्हळ्यार, पणजे मार्केटाच्या गजबजाचें वर्णन करून लेखकान/निवेदकान 'शूत शूत'चो विशय स्टार्ट केल्लो जाल्यार तें निवेदन मातशें तरी प्रवाही जावपाचें. पूण तशें ना केल्ल्यान नवलिकेची पयलीच वळ - '' कोणें तरी शूत शूत केलें. हांवें जळामळाक पळयलें'' - हीं उतरां सस्पॅन्स निर्माण करपी आसलीं तरी निवेदनतंत्राचे नदरेन शुन्य थरतात, आनी उपरांतचें सगलें निवेदन वर्तमानपत्री पातळेर पावता. आनी, लेखकाचो 'पॉइंट ऑफ व्ह्यू' खंर तरी obscure धुसर आसा अशें जाणवता. खंयचेय नवलिकेचो, 'पॉइंट ऑफ व्ह्यू' स्पश्ट ना जाल्यार ते नवलिकेची स्थिती *एक आंकवार डायरी* सारकीच जातली. परत म्हजो मुद्दो होवूय आसा की लेखकान कितलेंय विसंगत वा वर्तमानपत्री निवेदन करूं, पूण ताचो आशयात्मक 'पॉइंट ऑफ व्ह्यू' सामको स्पश्ट आसा जाल्यार तेंच निवेदन कलात्मक रूप धारण करतलेंच करतलें.

वर्तमानपत्रांत कॉलम बरोवप आनी नवलिका बरोवप हातूंत मोटो फरक आसा. वर्तमानपत्रांतलीं सदरां चटपटीत आनी टायमपास प्रकाराची. उलट नवलिका लेखका कडल्यान क्रियेटिव्हिटीची डिमांड करता.

हे नवलिकेचो कॅनव्हास लेखकान असो विणला : १) आशू

आनी दिलीपाचो कॉलेज-मोग २) त्या मोगांतले नाजूक खीण. ३) मोगांत ताटातूट जातना त्या दोगांयची मानसीकता.

आनी हे फाटभुंयेर लेखकान इंदिरा गांधीन लागू केल्ली इमर्जन्सी, कोंकणी भाशेची चळवळ, साहित्यीक चळवळ, कोंकणी लळितक, नाटकां, बीन गजालींची, पात्रांच्या खऱ्या नांवां सकट थोडी फोडणी दिल्या. पूण हे प्रेमकथेंत ह्यो गजाली सुट्यो उरतात. तांची सांगड हे प्रेमकथेच्या आशया कडेन घालूंक जाय आशिल्ली, ती जायना. देखीक, विश्राम बेडेकराची *रणांगण* ही कादंबरी पळयात. तातूंत प्रेमाची सांगड दुसऱ्या महायुद्धा कडें यशस्वीपणान घाल्या, म्हणुनूच तर ती एक विराट प्रेमकथा जाल्या.

*एक आंकवार डायरी* ही प्रेमकथा आसली तरी तिचोय कॅनव्हास मोटो करूं येतालो. ह्या कॅनव्हासांत सकयल दिल्ल्या गजालींचो लेगीत आसपाव जावंक जाय आशिल्लो:

१) आशू आनी ताच्या घोवाचे संबंद

२) दिलीप आनी ताचे बायलेचे संबंद

३) पंचवीस वर्सांच्या काळांत घडिल्लें दोगांयच्याय मनांतलें वादळ आनी स्थित्यंतर.

४) आशूचो घोव आनी दिलीपाची बायल हांचे मदलें कसलेंच नाशिल्लें, तरीय प्रेमकथेचे फाटभुंयेर आशिल्लें एक नातें आनी त्या नात्याचो सोद.

- ह्यो गजाली जर लेखकान 'पॉइंट ऑफ व्ह्यू' दवरून मांडिल्ल्यो जाल्यार ह्या लेखनाक बरींच परिमाणां लाबपाचीं. नवलिका जेन्युईन, रिलायेबल थरपाची. खरें म्हळ्यार 'डायरी' ह्या फॉर्मांतूच ही नवलिका बरयल्ली जाल्यार तिचें परिमाणूच बदलपाचें.

लेखकाची निवेदनशैलीय हांगा बरेच कडें विपर्यस्त रूप धारण करता. देखीक, एके कडें तो म्हणटा - ''बेल जाली आनी किडयाळीं सांगटां कशीं चोंब्यांनी भुरगीं भायर सरलीं.'' आतां हांगा भुरग्यांक 'किडयाळीं सांगटां' म्हणपाचें प्रयोजन कितें? आशयाचे नदरेन तरी तशें कांयच दिसना! मागीर हो शब्दप्रयोग कित्याक?

'बबलूचीं पत्रां' हे नवलिकेक मात एक निश्चीत पत्रलेखनाचो फॉर्म लावला. पत्ररूप नवलिका वा नवलकथा हेर भासांनीय पळोवपाक मेळटात. दोस्तोव्हस्कीची *पुअर पीपल* ही पत्ररूप कादंबरी. मराठींत पु.शि. रेगे हांचीय अशीच *सावित्री* नांवाची एक पत्ररूप नवलिका आसा. पूण 'बबलूचीं पत्रां' ही हांचे परस बरीच वेगळी नवलिका. जय संतोषी माते कडल्यान स्फूर्त घेवन हीं सगलीं पत्रां बरयल्लीं आसात. आपले आवयक बरयल्ले चिटयेंत बबलू बरयता:

> म्हाका मुगे निकतीच एक चीट येयल्या. कुरैकारान एक ओवदुयें कार्ड म्हाज्या हातीन दिलें. तें 'जय संतोषी माते'च्या नावान आहलें. जेणे ती चीट बरोयल्या ती मराठी भाशेंत आहा. तेतून तेणे बरोयलां, हायें संतोषी मातेची म्हयमा सांगोन सोळा चिटयो बरोवंक जायो. त्यो सोळा लोकांक धाडोक जायो. हायें तर तोहें केलें ना आनी चिटयेचो अनादर केलो जाल्यार तेजो परिणाम म्हाका भोगूंचो लागतलो खूंय!... एकल्यान कोणेतरी खुंय चिटी बरोयल्योच ना. तेन्ना तेज्या घारांतलो कोणतरी संवसलो. तेन्ना म्हाजेर ओहलो प्रसंग येंवचो न्हू म्हणोन हांव ह्यो चिटी बरयतां.

पूण हे चिटयेंत बबलून संतोषी मातेचो 'म्हयमा' बरय नासतना आपलेच जिणेंतले अणभव सांगल्यात. देवाचेर आशिल्ल्या कुड्ड्या भक्तिभावाक तिलांजली दिवनूच एके तरेन ह्या पत्रांची निर्मिती केल्या.

हातूंत आवयक, बापायक, बायलेक, मास्तराक, सालाझाराक, पाखल्यांक, वर्गमैत्रिणींक, बीन बरयल्ल्यो सोळा चिटयो वाचूंक मेळटात. निमणी चीट तर बबलून स्वताकूच बरयल्या.

खरें म्हळ्यार हे नवलिकेची आयडिया एकदम भन्नाट आशिल्ली. हे नवलिकेंत कथा, कथेचो प्लॉट असल्यो गजाली लेखकान सामक्योच भायर मारल्यात. इटालो काल्वीनो नांवाचो एक इटालियन लेखक आसा. ताची *Invisible Cities* नांवाची एक कादंबरी आसा. हे कादंबरेंतूय कथा ना, कथेचो प्लॉट ना. आसा ती अदृश्य काल्पनीक शहरांची माहिती आनी तीच लेखकान कादंबरी म्हूण उबी केल्या. स्वता लेखक काल्वीनोच म्हणटा, कविता आनी कादंबरी हांचे मदलें हें लेखन म्हळ्यारूच *Invisible cities* ही कादंबरी. तरीय तातूंतल्यान वाचकांक एक काव्यसदृश्य जीवनदर्शन घडटा हें म्हत्वाचें. तेच प्रमाण बबलूच्या ह्या सोळा पत्रांतल्यान लेगीत एक सखोल जीवनदर्शन जातलें अशी आस्त वाचक निश्चितूच बाळगीतलो. पूण तें जायना. कारण, हांतल्या चडश्या चिटयांनी फकत सॅक्साचे वा लैंगीक स्वरुपाचे अणभवूच चड वाचूंक मेळटात. सॅक्स हो जिणेंतलो एक म्हत्वाचो भाग हें एकदम मान्य. पूण जिणेंत सॅक्सा बरोबरूच आनिकूय कितल्योश्यो गजाली आसात, तांचेंय विस्तृत चित्रण जावंक जाय आसलें. पूण तें जायना म्हणुनूच निमाणें वाचकांच्या लक्षांत उरता ती शकूची गोरी पिठ्ठ फाट, गजाची उदकान भरिल्ली आणकुली, गणबा मास्तराची विकृती, गोरी बाईचे दुदुले, प्रेयसीच्या पोटा वेलो तीळ, पाकल्याचो मारिया कडलो संभोग, जायू मावशेचो सॅक्सी देंवचार, शरीरसुखाक आशेल्लें साया, असल्यो गजाली.

तशें पळोवंक गेल्यार ही नवलिका पुंडलीक नारायण नायक हांचे *बांबर* नवलिकेचें भावंडूच सोबतलें. हांगा एक उगडास आयलो तो सांगतां. हांवें पुंडलीकाची *बांबर* म्हज्या एका अमिगाक वाचूंक दिल्ली. ती वाचून परत दितना तो म्हणूंक लागलो - 'वाचली. पूण त्रास जाले.' हांवें विचारलें - 'कसले?' 'हालोवन उडोवचें पडलें.' ताणें म्हळ्ळें. ताचेर ताका हांवें म्हणिल्लें , 'हेंच तर हे नवलिकेचें यश!'

आनी हेंच यश दिलीप बोरकाराक 'बबलूचीं पत्रां' बरोवन मेळ्ळां.

खरें म्हळ्यार, कोंकणींतली पोस्टमॉडर्न नवलिका म्हणून 'बबलूचीं पत्रां'चो उल्लेख जावं येतालो. बोरकारान जे पद्दतीन, ज्या फॉर्मांत ती बसयल्या तातूंत ही तांक आशिल्ली. पूण कंटेंट, आशयाचे बाबतींत ती खूब मर्यादीत आनी पारंपारीक उरली. सॅक्साचीं वर्णनां केलीं म्हणून खंयचोच लेखक बंडखोर जायना. तो खरो पारंपारिकूच आसता आनी मार्केटींग लेव्हलचेर saleable लिखाण करूंक सोदता इतलोच ताचो अर्थ. पूण तोच लेखक जेन्ना सॅक्सा कडें वेगळे अपारंपारीक नदरेन पळयतलो तेन्ना ताच्या लेखनांतलो आशय आपशीं बदलतलो. कसो तो पळयात. निवेदक गोरी बाईच्या थानांच्या वज्याचीं वर्णनां करता, सायाचे लैंगीकतेचें वर्णन करता, शकूचें फुलपाकुलें बीन सगलें सांगता पूण आपली स्वताची आवय जेन्ना ताका मायेन छातये कडें धरता (म्हत्वाचें म्हळ्यार, थानां आशिल्ले छातये कडें, धरता) तेन्ना निवेदकान (म्हळ्यार लेखकानूच) ताचेर जाल्ले संस्कार आनी त्या संस्कारांच्यो मर्यादा खंय तरी व्यक्त करूंक जाय आशिल्ल्यो.

पूण लेखक तें सरळ टाळटा. कारण कितें? कारण सॅक्सा कडें पळोवपाची लेखकाची पारंपारीक वृत्ती! दुसऱ्याची आवय-भयण ही भोगपाची वस्तू, पूण आपली आवय-भयण मात पवित्र. हो पारंपारीक पवित्रो हांगा लैंगीक गजाली सांगतना लेखकान आपणायला. ताका छेद दिवन जर लेखकान ह्यो गजाली सांगिल्ल्यो जाल्यार त्यो बंडखोर, विद्रोही जावपाच्यो. लेखनाक आशयाचें वजन मेळपाचें. 'पॅरीस रिव्ह्यू' ह्या नेमाळ्याक मुलाखत दितना हेन्री मिलर सारको लेखक म्हणटा - "I am for obscenity and against pornography. I believe in saying the truth, coming out with it cold, shocking if necessary, not disguising it. In other words, obscenity is a cleaning process. Whereas pornography only adds to the murk. Cleansing in the sense, whenever a taboo is broken, something good happens, something vitalizing."

हें, taboo मोडप हेंच अस्सल लेखकाचें काम. बाकीचे सगले लेखक फकत खर्डेघाशीच करीत उरतले. taboo मोडप आनी taboo मोडपाचो आव हाडप ह्यो दोनूय परत वेगवेगळ्यो गजाली हें कोंकणी साहित्याच्या संदर्भांत तरी मुद्दम सांगचें पडटलें. कारण, स्तुती आनी पुरस्कार ह्या दोन गजालींनी चडश्या कोंकणी लेखकांचो कणोच मोडून उडयला. ते लेखक established 'लेखकराव' जाल्यात. ते निमतान हांगा मातशें विशयांतर करचेंच पडटलें.

हालींच दामोदर मावजो ह्या कोंकणी लेखकान 'गोवा टुडे' ह्या इंग्लीश म्हयनाळ्याक एक मुलाखत दिल्या. आपूण कोंकणींतलो एक established लेखक अशें खुद्द मावज्यानूच मुलाखतींत म्हळां, म्हूण ताका हांवेंय established लेखक म्हणून हांगा पाचारला. ते मुलाखतींत तो म्हणटा, ''*सुनामी सायमन* ही म्हजी कादंबरी खूब जाणांनी ॲप्रिशिएट केल्या. एस. डी. तेंडुलकारान मात तिचेर प्रतिकूल टिका केल्या. पूण तें ताचें मत. एखाद्या established लेखकाचेर टिका करपाक guts जाय पडटात.''

मावज्याच्या उलोवण्यांत दोन गजाली सिद्ध जातात - दामोदर मावजो हो आपल्याक एक established लेखक समजता आनी दुसरें, एस. डी. तेंडुलकारा कडें आपले सारक्या established लेखकाचेर टिका करपाचे guts आसात.

पूण हे guts कोंकणींतल्या हेर वाचक समिक्षकां कडें नात ताचें कितें?

कारण *सुनामी सायमन* हे कादंबरे वेलो नियाळ 'बिंबा'त प्रसिद्ध जाल्लो तेन्ना म्हाका कोंकणींतल्याच धा जाणांनी तरी सांगलें, तुवें मावज्याचेर बरयलां तें बरोबर आसा, आमी ताका जें स्पश्ट सांगूंक शकनात तें काम तुवें केलां. खरें म्हळ्यार *सुनामी सायमन* सारकी सामान्य कादंबरी बरोवन हो आपल्याक मोटो कादंबरीकार समजता असोच चडश्या जाणांचो सूर आसलो.

तर मुद्दो हो - आपणाक established समजपी लेखक taboo मोडूंक शकनात. (कारण भालचंद्र नेमाडे म्हणटात तसो तो लेखक, लेखकाचो 'लेखकराव' जाल्लो आसता.) हे फाटभुंयेर परत आमकां *एक आंकवार डायरीक* दिलीप बोरकारान बरयल्ले प्रस्तावने कडें वळचें पडटलें. प्रस्तावनेंत एके कडें बोरकार म्हणटा - ''कोंकणी साहित्याच्या मळार चलता ती अपुरबाय. हांव तुका बरो म्हणटां. तूं म्हाका बरो म्हण! तूं म्हजी फाट खरपीय, हांव तुजी खरपितां! असलेंच कितें चल्लां म्हणपाचें दिसता. एक तर एखाद्र्याची ताचें पुस्तक छापून आयलें म्हणटकच अपुरबाय करप, नातर ओग्गी रावप... पुस्तकाचेर टिका करून तांकां कोणाची दुस्मानकाय वा वायटपण घेवपाचें नासता.''

आतां दिलीप बोरकारान आपले नवलिकेचे प्रस्तावनेंत हें जें कितें बरयलां ताचें प्रात्यक्षीक दामोदर मावज्याचे ते मुलाखतींतल्या स्टेटमॅंटांत दिसता. आनी ताचो 'बुमरँग इफॅक्ट' खुद्द दिलीप बोरकाराच्या दोनूय नवलिकांनी दिसता. लेखक म्हणटा, आपणें कितें तरी प्रायोगीक, अपारंपारीक अशें ह्या दोनूय नवलिकांनी दिलां. पूण ताचें हें लेखन वाचतना मात आमकां तें पारंपारीक आनी चाकोरीबद्धूय जाणवता. Taboo मोडपाचो आव लेखकान 'बबलूचीं पत्रां' आनी *एक आंकवार डायरी* हातूंत हाडला, ना अशें ना. पूण तो taboo मोडूंक शकलो ना. तेच खातीर *एक आंकवार डायरी* ही परिमाणां नाशिल्ली अळणी प्रेमकथा जाल्या, तर 'बबलूचीं पत्रां' ही भगभगीत मसालेदार 'कामग्राफी' जाल्या अशें म्हजें तरी स्पश्ट मत.

कोणाची दुस्मानकाय घेनासतना ओगी रावप आनी सगल्यांचें सगलें साहित्य बरें बरें म्हणप हीं 'शाणेपणां' म्हजे कडे तरी नात. पूण कोंकणी साहित्यांत तीं आतां कितले दीस चलतलीं, खबर ना.

दिलीप बोरकाराच्या दोन नवलिकांचे निमतान हें सगलें हांवें बरयलां. पूण तें सगलें जाहीर. सगल्यांक आयकूंक येवंक जाय अशें! बेठें कानांत फुतफुतप हें खंयचेच निरोगी वाङ्मय संस्कृतीचें लक्षण न्हय!

आयची जागतीक कादंबरी बरीच फुडारलेली आसा. नव्यो कल्पना, नवे प्रयोग ह्या वाङ्मयप्रकारांत सतत जायत आसात. आपले नवे कादंबरेचें ध्येय सांगतना मिलान कुंदेरा सारको लेखक आपले *Immortality* हे कादंबरेंत म्हणटा -

> The present era grabs everything that was ever written in order to transform it into films, TV programmes, or cartoons. What is essential in a novel is precisely what can only be expressed in a novel, and so every adaptation contains nothing but the non-essential. If a person is still crazy enough to write novels nowadays and wants to protect them, he has to write them in such a way that they cannot be retold."

मिलान कुंदेराची ही खूब ऊंच झेप जाली. पूण कोंकणी सारके ल्हान साहित्य संस्कृतींत, कादंबरी सारको वाङ्मयप्रकार हाताळटना लेखकान आपल्या स्वताच्या पांयांनी, आपले स्वताचे मातयेर दमदार पावलां मारल्यारूच खूब जालें. महाबळेश्वर सैलान *हावठण* बरोवन हे स्वताचे मातये वेलें आपलें चलप सिद्ध केलां. दिलीप बोरकारा कडल्यानूय वाचक म्हणून म्हजी हीच अपेक्षा आसा.

संपर्क: ९०४९८१४८५४





कृपाली नायक

# तळाचो फातर : कांय निरिक्षणां

रामनाथ गावडे हांणी कथा, नाटक, बालनवलिका सारकिले साहित्याचे प्रकार हाताळून जातकच कादंबरेक हात घाला. हो प्रकारूय तांणी जैतिवंत रितीन केळयला अशेंच म्हणचें पडटा.

कोंकणी साहित्याचेर जायते फावटीं परिसंवाद जातात तेन्ना साहित्यांत वेगळे वेगळे विशय येवंक जाय असो एक सूर येता. असोच एक नवो विशय घेवन ही कादंबरी मुखार येता. तळागाळांतल्या मनशांचें ती समर्थपणान प्रतिनिधित्व करता.

एका जाणकाराच्या मता प्रमाण, कथा म्हणल्यार जनेलांतल्यान भितर पळोवप जाल्यार कादंबरी म्हणल्यार जनेलांतल्यान भायलो वाठार नियाळप. खऱ्यांनीच, भायलें सैम सुंदर सोबीत आनी दोळे दिपकावपी आसलें जाल्यार त्या सैमाक तोखेत रावन शें दिसता. *तळाचो फातर* हे कादंबरेचो विचार करतना जें मुखार येता तें दोळ्यां मुखार आशिल्ल्या दोळे दिपकावपी सैमा वरीच दिसता. हे कादंबरेचो विशय चिऱ्यांच्यो खणी आनी ते चिरे मारपा खातीर सोदिल्लो तळ. हो तळ फकत चिऱ्यांचोच न्हय तर मनशांच्या मनाचोय हें कादंबरी वाचतना होलमले बगर रावना. हो तळ सोदपाक लेखक निश्चीतपणान येसस्वी जाला.

एक सपन, ज्या सपनांत काणयेंतलो राजकुंवर येना, आलतड पलतडचें सैम येना, येता तो मनशाक लयाक जावं उदरगतीक पावोवपी पयसो. ह्या पयशाचे आशेनूच मनीस आपल्या हातांत आशिल्ली भांगराळी भूंय खिणांत विकता. हे वृत्तीचें प्रतिनिधित्व करपी दत्तू आनी ताचो घराबो. कादंबरेंत आयिल्लीं पात्रांच कादंबरी उंचेल्या दर्जाची जावपाचें कारण थारतात. जावं तें पात्र दत्तूचें, ताच्या बायल भुरग्यांचें, कल्लप्पाचें, किशनाचें जावं शेतकामत्याचें. लेखकान दर एक पात्र, भेस, भाशे सयत खूब तकालस घेवन चित्रायल्लें दिश्टी पडटा. खंयच्याच पात्रा कडेन लेखक कठोर जायना वा 'एक घाय दोन कुडके' अशेंय तो करिना.

लेखक जितले संवेदनशीलतायेन दत्तू कडेन पळयता तितल्याच आपलेपणान कल्लप्पा कडेनूय पळयता. दत्तूचोच विचार केलो जाल्यार दत्तू हो एक साद्या आचार-विचारांचो भावार्थी शेतकामती आनी ताका फावो सारकीच ताची बायल. तोंड वाजोवपी पूण गुणसंपन्न. ह्या जायत्या पात्रां बरोबर लेखकान जें कल्लप्पाचें पात्र हाडलां ताचो विचार करतना लेखकाचे निरिक्षण शक्तीची दाद दिवची पडटली. ते भायर, लेखकाची अणभव सृश्ट व्हड आसा हें हातूंतल्यान दिसताच. एक कलात्मक नदरूय ताचे कडेन आशिल्ल्याचें दिसता. गोंया भायल्यान गोंयांत आयिल्लो कल्लप्पा कसो उलयता, ताचो हेळो, ताची रावपाची, वागपाची पद्दत हाचो बरोवप्यान बारीक अभ्यास केल्लो दिसता. एकूच प्रतिनिधीक देख हांगा दितां -

''नाका नाका, म्हाका तुजीं कागदां नाका. तूं म्हाका ती फकत जमनीचे चिरे दाखय. तुजी जमीन कितली आसा तीच म्हाका पळोवपाची आसा.

''तुजी जमीन पळेली की हांव सुटली. कित्याक? फाल्यां कोणी बी आपली जमीन म्हटली आनी झगडीं केलीं तर आमकां मार खावपाची ना. पयलींच सगली नीट करपाची.''

पुराय कादंबरेंतली भास, जावं ती निवदेन शैली जावं पात्राच्या तोंडांतले संवाद, खंयच अडेची दिसना. ती एके लयेंत व्हांवता. खंयचेच सुवातेर मांडणेचे दृश्टीनूय ती अडेची दिसना जाल्ल्यान प्रत्येक पात्राक लेखक न्याय दिवंक पावता आनी हाकाच लागून कादंबरी वास्तवतेची जाण हाडटा.

हांगा कादंबरेंत आयिल्ल्या म्हणी ओपारींचे गिरेस्तकायेच्यो देखी दीन दिसतात. 'बापायक दिवचें खाजें आनी चेडूं म्हणचें म्हाजें', 'लोणी तुमी खावपाचें आनी आमी धुल्ल आनी माती' वा 'लोकांलीं चेडवां म्हणल्यार काडुकां कशीं दिसलीं रे?' आनिकूय जायत्यो देखी... हातूंतल्यान कोंकणीचें अस्सलपण दिसता.

हे कादंबरेचे प्रस्तावनेंत म्हालगडे कोंकणी कादंबरीकार महाबळेश्वर सैल हांणी म्हणिल्ले वरी, खऱ्यांनीच ही कादंबरी एके बरे भाशेशैलीची देख जातूंत गांवगिऱ्या वाठारांत घोळपी तरेकवार उतरावळ येताच पूण ती सादी सरळूय आसा. तशेंच गांवगिऱ्या वाठारांतल्या परंपरांचें निरिक्षण हे कादंबरेंत आसा. सोरपाक भारतीय संस्कृतायेन देवाचें प्रतीक मानलां. गांव जिणेंत सोरोप एक राखणदार जावन येता. हे कादंबरेंत दत्तूक परत परत सोरोप दिसता. स्वताक सोपोवंक भायर सरिल्ल्या दत्तू खातीर एक संकेत कसो गूढपणान हो सोरोप ताचे फाटल्यान रावता. कादंबरेंत धालो-शिगम्या वांगडा सोरो, रोंट, कोंबो, बण्ट, भट हें सगळें येता. पूण हातूंतलें कितेंच उखलापें दिसना. वातावरण निर्मितीचे दृश्टींतल्यान विचार केलो जाल्यार कादंबरेंत आयिल्ले वेगवेगळे प्रसंग आंगार कांटो फुलयतात. जाल्यार केन्ना ते दोळ्यांतल्यान अचळय दुकांय गळयतात; प्रसंगाक अणसरून वाचप्याक ते ते गजालीची जाणविकाय करून दितात. हेंच लेखकाचें व्हडलें यश. राजेनाक, दत्तूक दिसपी पयसो, लताईचो घुस्मटमार, कल्लप्पाचें फटींगपण, लताचें बालीशपण हें सगळें कादंबरेंत येताच पूण तेच वांगडा रामावोल्या तोंडांतल्यान आयिल्ली काणी आनी तिच्या तोंडांतल्यान आयिल्लें प्रत्येक वाक्य मुदयेर थीक कशें जिणेचें तत्वगिऱ्यान सांगता.

उमाळ्याचीं वेगवेगळी तासां कादंबरेंतल्यान दिश्टी पडटात. केन्ना मोग, आपलेपण जाल्यार केन्ना सुवार्थ; केन्ना एकाद्रें पात्र आपलें काम सादोवन वता, सुवार्थाचें तोंक गांठ्ठा वा आपलें अस्तित्व

गोवन दवरपाचो यत्न करता. अशेंच आयिल्लें एक पात्र म्हणल्यार तूची भयण मोगू.

लेखकान गरज थंय संवादात्मक भास वापरल्या जी कादंबरेचे तीक मोलाची थारता. कादंबरी एके लयेंत पूण वेगान धांवता. इतलें ासुनूय वाचप्याक खंयच घुसपुचें पडना. प्रत्येक घटना ही सोडयल्ल्या ता वरी आसुनूय एका सुत्रान ती बांदिल्ली आशिल्ल्यान निमणे रेन आशयाक आनी विशयाक धरून रावता.

चिरे मारपा वयल्यान सुरू जाल्ली ही कादंबरी मनशाचे वेव्हारी त्तीचेर बोट दवरता. पयसो आनी श्रद्धा हातूंतलें एक जेन्ना दत्तूक चचें पडटा तेन्ना ताचें मन अनमनता. पूण परिस्थितीची जाण, लयेच्या लग्नाचो विचार ताका पयशा कडेन ओडटा. हिशोब जाणा ासुनूय ताका कल्लप्पा नागयता. लायसनाच्या नांवान सरकारी व्हारांतलो घोळ, चलयांचें चारित्र्य वगडावप आनी हातांत पयसो ोळूंक लागतकच मनशाक लागपी व्यसनां हें सगळें सांगून लेखक का घरचीच व्यथा सांगिना जाल्यार एक सामाजीक सत्य मांडटा. ेखक स्वता खंयच घुसपना; पयस रावन खोलायेन नियाळ घेता. ेखकाचो खंयच कसलोच सरळ संबंद येना. आनी हाकाच लागून ादंबरेचो दर्जो वाडपाक पावता. ही कादंबरी जितली सुटसुटीतपणान ुखार वता तितलेंच पात्रांचें स्वता भोंवतणी घुस्पप चड दिसता. हीय जाल कादंबरी वाचतना नदरेंत भरता.

हे कादंबरेंत जितलें म्हत्व चिऱ्यांचें खाणीर जावपी घडणुकांक देलां तितलेंच म्हत्व गांवांतल्या सांस्कृतीक आनी घरांत शिजपी जालींक दिलां. कांदबरी सगळ्याच पात्रांक न्याय दिवपाचो यत्न करता. खंयचेंय एक पात्र मुखेल आनी दुसरें गौण थारायना. हांगा ुखेल थारता तो चिऱ्यांचो वेवसाय आनी ताका लागून उप्राशिल्ले ेगळे वेगळे प्रस्न जे दर एका पात्राचे जिणे कडेन संबंदीत आसात. ाकाच लागून कादंबरेंतल्यान एकाद्रो व्हड संघर्श निर्माण जावचे रस ल्हान ल्हान संघर्श आनी मनशा मनशा मदले संघर्श निर्माण जातात. हे संघर्श कादंबरेंतल्या घडणुकांक अर्थ दितात आनी तांकां लागून क्लिश्टताय येना आसतना कादंबरी सहज समजता. हेंच हे कादंबरेचें जैत.

तरी, कादंबरेचो शेवट करतना लेखक एक वेघ घेवंक सोदता आनी हे गडबडींत सगलें 'गुटलावंक सोदता' अशें दिसता. दुसरें, कादंबरेंत सगलें 'सुखान्त' घडटा. हें खऱ्यांनीच गरजेचें आशिल्लें काय असो प्रस्न वाचकांक पडटा. चिऱ्याचो तळ मुखेल विशय आसलो तरी ही कादंबरी फकत ह्या तळाचेर मर्यादीत उरता काय दिसता. एके संस्कृतायेच्या नितीमुल्यांचो तळ निखळटना दिसता आसुनूय कादंबरेचो शेवट सुखान्त कित्याक? हाचेर लेखकाचें वेगळें मत आसूं येता. पूण हीच हे कादंबरेची एक मुखेल मर्यादा अशें म्हाका दिसता. हाकाच लागून कादंबरेचो वाचप्याचेर जावं येतालो तो परिणाम जायना. पुंडलीक नायकांच्या *अच्छेवांत* मिनाच्या उद्‍देगाक लागून आयिल्लें अधःपतन दिश्टी पडटा. नानूचें मरण हे कादंबरेंत शोकांतिका थारता. अशे तरेची अखेर *तळाचो फातर* कादंबरेंत जाल्ली जाल्यार? हे कादंबरेंत कितलींशीं पात्रां आसलीं तरी दत्तू तिचें एक मुखेल पात्र ही गजाल विसरूंक जावचिना. पूण सगळ्या पात्रांक न्याय दिवपाच्या बोवाळांत ह्या पात्राचेर अन्याय जाला काय दिसता. खंयच हें पात्र फावो तशी उभारी घेना. हाका लागून कादंबरी एक उंचाय जोडूंक पावना अशें म्हाका दिसता.

निमाणें -

*तळाचो फातर* ही कादंबरी मनशाचे भकीक पडिल्ल्या सैमाचीय एक परवड. ही परवड फुडें एक झूज जावं येता. ह्या झुजाचो बळी सैमा वांगडाच मनिसूय हें सत्य. हें सत्य हे कादंबरेंत कांय प्रमाणांत उकतें जालां. तें आनिकूय प्रभावीपणान मुखार हाडपाची तांक लेखकांत आसा. रामनाथबाबान ही तांक केळोवची आनी कोंकणी कादंबरी साहित्याक आनिकूय घटाय दिवची ही मना पसून इत्सा.

संपर्क: ९७६५१८७६०६





रॉमान रॉड्रिगीस

# *जानया-शेली* : एक चिकित्सा

दाखयल्ल्या परस लिपून आशिल्ले वस्तू कडेन आमचें लक्ष चड वोडटा. दिशिल्ले वस्तू परस दिसनाशिल्ले वस्तूची झलक घेवपाक आमचें मन अस्वस्थ जाता. मन आनी काळीज अशेंच, धांपिल्ली मूठ... कितल्याश्या लाखांची, काळ्या पड्ड्या फाटल्यान कसल्या रंगाचें चित्र आसा, हांची सुलूस घेवपाक उत्सूकतायेन धडपडटा.

असलेच उत्सूकतायेच्या वादळांत मनाक घुसपावपी ही कादंबरी - *जानया-सेली.* आपूण ताणटां तें व्हडें आपणाक थिकाणार पावयतलें काय थंयच बुडोवन जीव काडटलें, हें सांगनासतना कादंबरेचो प्रवास चलता. शांत-सुस्त आशिल्लो दर्या, अचकीत ल्हारां-मोडांचो जायत म्हण मनाक जाणवूंक लेगीत दिनासतना, दर्याच्या उदकाचें खरें चित्र ही कादंबरी उबें करता. आनी एक पावटी थिकाणार पावतकच, दर्यांतलो प्रवास कितलो भिरांकूळ आशिल्लो तें ताणटल्याक जाणवता.

हे रहस्यमय कादंबरेचे रचपी बाँवेन्तूर द पियेत्र. तांच्या कादंबऱ्यांनी हो रहस्यतायेचो गूण दिसून येता आनी होच गूण तांच्या बरपाचें खेरीतपण दाखयता. एक एक फूल गुंतून झेलो करतात ते भाशेन, घडणुकांनी आनी वेगवेगळ्या प्रसंगांनी विणिल्ली ही कादंबरी. जिणेच्या वेगवेगळ्या जुंव्यांचेर रावून, आपल्या अणभवाच्या कांटार बसून, आनी चिंतनांच्या मळबांत दोळे लावन, वास्तव आनी कल्पना हांच्या संगमान रचिल्ली ही कादंबरी *जानया-सेली.*

पयलेच फावटीं कादंबरेचें नांव वाचतकच ताळ्याक कांटो लागिल्ले भाशेन जांता. जानया - सेली? कसलीं उतरां हीं, केन्नाच आयकूंक नाशिल्लीं, अशें दिसता. पूण ह्या नांवांतूच कादंबरेचें गुपीत लिपिल्लें आसा. जानया-सेली हें एकेच चलयेचें नांव न्हय मूं...? आनी, 'सेली' काय 'चेली' असो प्रस्न पडटा. त्या उतराचो अर्थ कितें, समजना. काय, ही चल्या-चलयेची काणी, अशेंय दिसूंक लागता.

ही कादंबरी 'जानया' हे चलये भंवतणी घुंवता. कादंबरेक दोन भाग आसात. जानयाच्या मरणा सावन वा खुना सावन ती सुरू जाता आनी तिच्या मरणाचीं कारणां सोदीत आनी खुनाचे दुबाव उस्तीत पयलो भाग सोंपता जाल्यार दुसऱ्या भागांत गोंयच्या समाजांत जियेतना, जानयाचे जिणेंतले कश्ट कशे मांडवी पुलाच्या मोडपांत निर्फळ जातात, आनी, विरगळिल्ली जीण परतून निबर करून जियेतना, तिचो खून कसो जाता, तो कोण करता आनी कित्याक करता, हाचो सोद घेतना आनी वाचतल्याच्या मनाक भावतना कादंबरेचो शेवट जाता.

'जानया' हें एके चलयेचें नांव. मिमिक्री करपांत वा आवाज काडपांत तें फिशाल आसता. आपल्या बापायक वाटावच्या हेतान, पांच लाख रुपयां खातीर एस्. सिप्पी ह्या मनशाच्या तोंडांतलो ताका भायर काडच्याक, जानया एस्. सिप्पीचें गुलाम जावन उरता. ताचे खाल मुंबयच्या वातावरणांत जगतना, आपल्या गुणां वरवीं, कितल्याच ल्हान-व्हड धंद्याकारांचे कान काडटा. थंय तें फटवतकच आनी सांपडटकच नवी जीण जगपा खातीर तें गोंयांत पावल दवरता.

गोंयांत येतकच परतून ताची भेट त्या एस्. सिप्पी कडेन जाता. आनी, बरो न्हावन-न्हेसोवन काजराक व्हरतलो दुकर, चिकलाचें कोंड पळेवन परतून चिकलांत वचून लोळचो, तशी जानयाची गत जाता. आनी गोंयांतूय तें दुडवांचे आशेक लागून त्याच फटोवपाच्या धंद्यांत पावल दवरता. पूण तातूंत अपेस मेळटकच, पादिशेर जावन तें मडगांवचे बागेंत एका बांकार बसका मारता. थंय ताची भेट रोजा नांवाचे एके बायले कडेन जाता आनी तिच्या पालवान जानयाची बाविल्ली जीण फुलूंक पावता. मडगांवच्या Milly Stores ह्या शॉपाचेर काम करतना, ताची भेट 'सेलया' हे कॉलेज इश्टिणी कडेन जाता आनी तिच्या पालवान जानयाचे जिणेक आनीक एक वळण मेळटा.

आतां हें सेलया कोण? हें जानयाचे इश्टिणीचें नांव. धाकटें नांव 'सेली'. दोगांय मुंबयचे सोफिया कोलेजींत शिकतासतना मेळिल्लीं. जानया ऊंच वर्गांतलें आनी फामाद म्हणटकच सेली ताका वळखतालें, पूण जानया मात सेलीक वळखनासलें. पूण सेलीन आपली वळख करून दितकच जानया वाटेर आयल्ले संदीचो फायदो काडटा. थंयच्यान सेली हे इश्टिणीगेर बार्देसांतल्या आसगांव-बांदें गांवांत थिकाण करपाक वता.

सेली आपले इश्टिणी बरोबर जीण जगतना आपली सगळी जिणे कथा जानयाक सांगता. एक दीस जानया-सेली दर्यांत खुबे काडपाक गेल्ले कडेन सेली-अपघाती मर्णाक सांपडटा आनी जानया ताच्या मर्णाचो फायदो काडून, सेलीच्या रुपान तिचे वळखीच्या मनशांक फटोवन, तिचे पयशे आपणाक मेळशे करता आनी सगळे पयशे घेवन तें मडगांवां एका हॉस्टेलांत रावता आनी थंय ताचो खून जाता. पूण हो खून कोण करता, तें सोदून काडपाक इन्स्पॅक्टर रॉय गोंसाल्वीस भारी वावुरता. सेलीच्या मर्णा उदेशीं जांकां कोणाक लुकसाण जाल्लें वा पयशांचो खर्च जाल्लो तो भरपा खातीर जानयान तांच्या नांवार मनी ऑर्डर फॉर्म बरोवन दवरिल्ले. हे वरवीं इन्स्पॅक्टर रॉय गोंन्साल्वीसाचें काम सोंपें जाता. पूण जानयाच्या खुन्याक सांपडावचें काम ताका वेगळेच रितीन करचें पडटा. ताचो खून कसो जाता आनी

क्रोण करता तें जाणा जावपाक हे कादंबरेचें वाचन म्हत्वाचें थारता.

सरळ रस्त्यांतल्यान थिकाणार पावोवपाचो यत्न ह्या वयल्या भागांत जाला. पूण कादंबरी आपल्या थिकाणार पावतना, भितरल्या भितरल्या, रुंद-अशीर, कांट्यां-गुण्यांची आनी मोडणां-वळणांची वाट तांकून, शेवटाक थिकाणार पावता. हे कादंबरेचो शेवट म्हळ्यार सुरवात आनी सुरवात म्हळ्यारूच शेवट. प्रवास सुरू जाता थंयच तिचो अंत जाता. 'पझला' भाशेन खंयच्यान वच्चें आनी खंयच्यान वाट काडची, हें कळटलें जाल्यार वाचतल्याक कादंबरी चड चतूर रावून वाच्ची पडटा. हाचे वयल्यान लेखकाचें चिंतप कितलें बारीकसाणेचें आनी खोल विचारांचें आसा तें समजता. इतलेंच न्हय, कादंबरेच्या सुरवातीच्या भागांत खुन्याचो सोद आनी खुना विशीं जानयाच्या कुडांत चवकशी जातना, बारीक बारीक गजालींचें म्हत्व दाखयलां आनी त्याच गजालीं वरवीं वाचप्याची उत्सूकताय वाडटी दवरल्या. कुडीची अवस्था, तें वाचतालें तें पुस्तक ताच्या हड्ड्यार आसून, इन्स्पॅक्टर रॉय गोंसाल्वीस हाणें केल्ले विचार, लेखकाची चिंतन शक्त कितली बारीक तें उगडापें करता. आनी असल्या बारीक-बारीक गजालीं विशीं कल्पना करप म्हळ्यार, कठिणायेचें काम. तें लेखकाची detective नदर दाखयता.

कथानकांत कितल्याच घडणुकांची भर घाल्ल्या कारणान, वाचतल्याचें मन घुसपता आनी मुख्य कथानका वयलें लक्ष सदळ जाता. गरजे भायर हेरां वस्तूंचीं वर्णनां आनी उल्लेख केल्यात. इन्स्पॅक्टर रॉय गोंसाल्वीस मर्णाची सोद घेतना लेखकान ताका खंयचे खंय भोंवडायला. गरजे भायली म्हायती दिवन तार्चेंच न्हय तर वाचतल्याचें मन लेगीत मदें मदें मोडिल्लें दिसता. मानुयेलबाब (टॅक्सीकार) आनी रॉय हांचे मदें खाजगी गजालींचें उलोवप येवंक नाका आसलें. ताच्याच संदर्भांत न्हय, पूण तो मनी-ऑर्डर फॉर्मार नांवां बरयल्ल्यांक मेळूंक वतालो तेन्ना तांचे कडेन उलयतना अश्याच, विशया भायल्या, गजालींचो गोंदळ दिसून येता. ह्यो गजाली त्या पात्रांचो चड उलोवपी सभाव दाखयतात. तरी वाचतल्याक रॉया भाशेन पासयेंस काडून वाच्चें पडटा. रॅजीन तिमाय तर गांवच्या इतिहासाचेर उलयल्ली दिसता. सात मनी-ऑर्डर फॉर्म भरून बरोवप्यान कादंबरी वाडयल्या. ते बदला पांच वा उणे घेवन कादंबरी फास्केंत घाल्ली जाल्यार अदीक बरें जातलें आसलें. सात मनी-ऑर्डर फॉर्मांचो उल्लेख करून बरोवप्यान वेगवेगळ्या गांवां उदेशीं आनी गांवच्या गजालीं विशीं आपली जाणविकाय आनी ज्ञान दाखवपाचो यत्न केला हातूंत दुबाव ना, पूण तांचो चड विस्तार जाल्ल्यान वाचप्याक उबगण येवं येता. पूण अभ्यासाचे नदरेंतल्यान ही कादंबरी बरो आदारूय जावं येता.

रहस्यताय सांबाळच्या वावरांत लेखक येसस्वी थारला. भोव बरे तरेन ह्या गुणाची केळवण जाल्ली जाणवता. रॉय गोंसाल्वीस सोद घेतना वाचतल्याचें मन लेगीत खुन्याची सोद घेवपांत गुल्ल जाता आनी बरोवप्यान केल्ल्या ल्हान-ल्हान उल्लेखांनी आनी गजालींनी, खुन्याची खूण मेळटली म्हण वाचपीय डिटॅक्टिव्ह जाता. पूण, सातूय मनी-ऑर्डर फॉर्मांतल्या मनशांक भेटले उपरांत, वा पयलो भाग सोंपले उपरांत, जानयाचें जिवीत सोडल्यार ताच्या खुना विशीं वाचतल्याक कांयच आनी कसलोच धागो मेळना तेन्ना वाचतल्याच्या मनांत निर्शेणे बरोबर उत्सूकताय निर्माण जाता.

हे कादंबरेंत गोंयच्या कितल्याच सुवातांचो गरजे भायर उल्लेख केल्लो दिसता. नकासो आमकां सगळ्यो सुवातो दाखयता तशीच नकाशाचें काम करपी ही कादंबरी गोंयच्या सुवातांचो उल्लेख करून खंयच्यान खंय पावपाक कितलीं वरां लागतात आनी कितलो वेळ लागता, हाची म्हायती दिता. वाचतल्याक मडगांव थावन फोंड्यां आनी फोंड्यां थावन म्हापश्यां, म्हापशेंच्यान आसगांव आनी बांदें - ह्या वाठारांनी भोंवडावन हाडटा. पणजेच्या वाठाराची वळख करून दितना इगर्जे कडेन आनी पाट्या पुलार थावन बेतींतले फेरी बोटींत पसून वाचपी भोंवन येता. पूण हीं अतिवर्णनां गरज नाशिल्लीं दिसतात. ते निमतान कादंबरी बिश्टीच लांबिल्ली वाचतल्याक जाणवता.

हे कादंबरेंतलो मुखेल गांव म्हळ्यार आसगांवचो बांदें गांव. ह्याच गांवांत कादंबरेक बीज मेळ्ळां. बांदें गांव दर्या देगेर आशिल्ल्यान थंयच्यो परंपरा, थंयचो धंदो आनी लोकां विशींची जाण वाचतल्याक मेळटा. नुस्तेकारी समाज म्हण कादंबरेंत दाखयतना कुल्ल्यो धरपाची तरा आनी खुबे काडपाच्यो रिती उकतायतना, बारीक बारीक गजालींची वर्णना केल्या. देखीक, "तेन्ना ती (कुल्ली) पुरून रावल्या त्या जाग्याचो सुमार धरून तुवें भालो तोपपाचो. भाल्याक तोपून कुल्ली वयर येता." तशेंच सुकते-भरतेचीं केल्लीं वर्णनां एका नुस्तेकारी समाजाच्या वाचप्याक बरीं समजतलीं.

तशें पळेल्यार, कादंबरेंत तीन मुख्य समाज आसपावल्यात. पयलो मुंबयचो समाज. थंय सावन आमी गोंयच्या मडगांवांत पावतात, आनी मडगांव सावन आसगांव-बांद्या. नुवें गांवच्याय वातावरणाचो उल्लेख हे कादंबरेंत जाला. तेन्ना लेखक ह्या जाग्यांचेर खासा भोंवला आनी त्या सुवातांचो ताका अणभव आसा म्हण स्पश्ट जातना ताचे अणभव आनी वास्तव हे कादंबरेंत दिसून येता.

लेखकान वेगवेगळ्या पात्रांचो आदार घेवन, पात्रांच्या तोंडांतल्यान, इन्स्पॅक्टर रॉय गोंसाल्वीसाक जानयाच्या खुना विशीं म्हायती दिल्या. हे म्हायतींतल्यान कथानक उकतें केलां, आनी हो प्रस्न सुफलतायेन साकार जाला.

*जानया-सेली* हे कादंबरेंत बरोवप्यान कितल्याच पात्रांची भर घाल्या. दर एक पात्र वाचतल्या मुखार उबें जातना अशें दिसता, हेंच पात्र जानयाच्या खुनाचें कारण काय? अशे रितीन पात्रां उबीं करतना, कथानकाची उत्सूकताय जिवाळ उरता.

*जानया-सेली* हे कादंबरेच्या नांवा वयल्यान ही कादंबरी दोगां इश्टिर्णींची कथा आसतली अशें दिसता. पूण सेली हेरां पात्रां भाशेन, जानयाचे जिणेंत येता आनी वता. तिचो जानयाचेर व्हडलो प्रभाव जायना, ह्या कारणान कादंबरेचे नांव आशयाक नीत दिना.

आतां बाँवेन्तूर द पियेत्र हांचे भाशे विशीं इल्लेंशें -

तांची भास सरळ, सादी, सोंपी आनी चालती. कांय कडेन म्हणण्यांचो उल्लेख जाला पूण तांचो भाशेचेर चड प्रभाव पडना. भाशेची शैली आनी संवाद आदल्या तियात्रांनी वापरिल्ले भाशेन दिसतात. म्हळ्यार, कोंकणीचे वाक्य बांदावळीक धरी नासतना उतरांची

मांडणी जाल्या. देखीक, "कोण तो दळदिरो जायत, इतल्या सोबीत चेडवाचो खून करूंक, ताचे कुडीर हात घालूंक." 'चिके' हें उतर चड प्रमाणांत ह्या बरपांत वाचूंक मेळटा. "तेन्ना आपल्या आवाजांत चिके धटाय... चिके बडायेन..." (पान ९.) "जबाब दिवंक चिके बेजार जालेली आसा (पान ११). तशेंच कांय कोंकणी भाशे भायलीं उतरांय आसपावल्लीं दिसतात. तातूंतल्यान लेखकाचेर हेरां भासांचो, चड करून पुर्तुगेजीचो प्रभाव आसा म्हण जाणवता. देखीक, pronto, entrada, imaculade, Albot, Everdade, आदी. तांचे बरोबर कितल्याच इंग्लीश उतरांचो आनी वाक्यांचो उल्लेख आयला. देखीक. theory, ready for action. आनी, कांय उतरां कोंकणींत हाडटना तांचें 'कोंकणी स्पॅलींग' दिलां. देखीक, antique हें उतर बरयतना antik बरयलां.

कोंकणी कादंबरेच्या संदर्भांत, बाँवेन्तूर द पियेत्र हो एकलोच रहस्यमय आनी डिटॅक्टिव्ह पद्धतीच्यो कादंबऱ्यो बरोवपी लेखक अशें जाणवता. कारण, तांणी बरयल्ल्या कादंबऱ्यां भायर हेर कोणाच्यो अश्यो रहस्यमय पद्धतीच्यो कादंबऱ्यो आसात अशें दिसना. ते निमतान, आमी तांकां मानान लेखचे पडटले. *जायना-सेली* हे कादंबरेंत तांणी बारीक बारीक मुणे घेवन तांची माळ गुंतची तश्या नकसूदपणान ही कादंबरी हाताळ्ळ्या. कारण, असले रहस्यमय्र आनी डिटॅक्टिव्ह तरेचे कादंबरेंत प्रसंग आनी घडणुको घातल्योच म्हण जायना, निमाणें तांचो सता कडेन संबंध आसूंक जाय आनी तेन्नाच ह्या गजालींक म्हत्व आसता. देख घेवची जाल्यार, केंसाचो उल्लेख करतना, लांब केंस आशिल्लें जानया 'बॉय कट' कित्याक करता? वा सुरवातेक तावें चित्रण करतना, 'बॉय कट' केसांची स्टायल, पूण ताचे पयलीं ताचे लांब केंस ताची सोबीतकाय वाडयताले म्हण सांगलां. ह्या प्रस्नाची जाप वाचतल्याक कादंबरी वाचीत मुखार पावतां पावतां मेळटा. आनी कादंबरेच्या शेवटाक वाचतल्याचे सगळे प्रस्न सुटावे जाले बगर रावनात.

*जानया-सेली* ही कादंबरी अमर प्रकाशनान उजवाडा हाडल्या. तिचें भायलें चित्र, आलेक्सी (Alexyz) ह्या फामाद चित्रकारान, कथानकाक धरून तयार केलां. आगळेच शैलीचें चित्र, आनी वेगवेगळ्या पात्रांच्या चित्रां वरवीं कथानक सांगपाचो चित्रांत प्रयत्न जाला. पूण एक चुकीचें आसा, तें म्हळ्यार, सेलीचे केंस मोटवे वा बॉय कट नात. ते जानया इतलेच लांब आसात. सामान्यतायेन *जानया-सेली* कादंबरेचो आस्वाद घेतल्यार, रहस्यतायेचे आनी डिटॅक्टिव्ह नदरेन ही एक बऱ्यांतली बरी कादंबरी म्हणूं येता. अशेच पद्धतीच्यो आनीक कादंबऱ्यो येवच्यो म्हण आंवडे.





दामोदर मावजो

# सुनामीचे निमतान

सुनामीन घाल्लीं धुमशेणां आनी घडोवन हाडिल्लो विद्‌वाट आमी घरा बसून टिव्हीचेर पळयलो आनी खबरां पत्रांतल्यान वाचलो त्या दिसांनी मन किण्ण जालें ना असो एकूय मनीस नाशिल्लो. फुडलो म्हयनो भर सुनामीच्योच खबरो धाडायत टिव्ही चॅनल आपणालें टी.आर.पी. वाडोवपाचो येत्न करताले. ह्या येत्नांतल्यान विपरीत आनी अप्रूप घडणुको सोदून काडून त्यो वितरायताले. त्या दिसांनी वाचिल्ल्यो आनी टिव्हीचेर पळयिल्ल्यो कांय गजाली म्हज्या काळजार कोरांतून उरल्यो. इतल्यो की आयज लेगीत येवजिल्यार त्यो गजाली म्हज्याच जिवितांत घडिल्ल्या गजालीं वरी जित्यो जिव्यो जावन ठळकपणान दोळ्यां सामकार उब्यो रावतात. अर्थात, हें सगळ्याच संवेदनशील मनशांचे बाबतींत घडलां आसुये.

सुनामी विशय घेवन किर्ते तरी बरोवंक जाय अशें दिसलें. पूण तें दिसप उकलापें आसलें. हाचे पयलीं गुजरातेंत भूज वाठारांत भुंयकांप जाल्लो तेन्नाय म्हाका थंय वचून येवचें आनी त्या विशयाचेर एखादरी साहित्यकृती रच्ची अशें दिशिल्लें. प्रत्यक्षांत घडलें ना. पूण उपरांत इराणांत जेन्ना भुंयकांप जालो तेन्ना पेपर वाचतना एके मेल्ले बायलेचे कुशींत एक सान भुरगें आवयचो मोमो चोखतना तीन दिसां उपरांत जिवें सांपडिल्लें ताची खबर वाचली. कथेक बीज मेळ्ळें आनी अवघ्या मिणटां भितर कथा बरोवन काडली. पूण त्या त्या सुवातेंक प्रत्यक्ष भेट दिवपाक मेळिल्ली जाल्यार कथेचे सुवातेर कादंबरी जावं येताली अशें मनाक दिसतालें. *कार्मेलीन* बरोवचे पयलीं कुवेताक वचून येवंक मेळिल्लें जाल्यार बरें जातासलें. उपरांत जेन्ना आखाती देशांचे भोंवडेर वचून आयलों तेन्ना कुवेतच्या गोंयकारांचें जिवीत बगलेच्यान पळोवपाची संद मेळ्ळी. आनी दिसलें - कादंबरी बरोवचे पयलीं वचूंक मेळिल्लें जाल्यार २५० पानां भितर आटापिल्ली ही कादंबरी किमान पांचशीं पानांची तरी जातासली.

साहित्य अकादेमीच्या एका सेमिनारांत मुखेल सोयरो म्हूण म्हाका आमंत्रण मेळ्ळें. तमिळनाडूंतल्या तिरुवन्नमलाय ह्या शारांत हो सेमिनार. हांवें पयलीं गुगल करून पळयलें. महर्षी रमण हांगेलो आश्रम आशिल्लें आनी अप्रूप देवमंदिरांनी सोबयिल्लें हें शार. पूण दर्यादिगे कडसून पयस. तरिकूय तमिळनाडूंत तर पावतलोंच. वेळ काडून सुनामीग्रस्त वाठाराक भेट दिवपाची वानसा तयार जाली. सेमिनाराक प्रा. पंजांगम नांवाचो म्हजो इश्ट मेळ्ळो. स्वतः लेखक. ताका हांवें म्हजी इत्सा सांगली. ताणें सांगलें, आपूण पाँडिचेरी रावतां. थंयसून सुनामीग्रस्त तमीळनाडूची दर्यावेळ दोन अडेच वरांचे वाटेर आसा. जाय जाल्यार आपूण तुका थंय व्हरतां. पूण ते खातीर तुका पयलीं पाँडिचेरीक येवचें पडटलें. हांवें येवजिलें, पंजांगमाचो सांगात मेळ्ळो जाल्यार म्हगेलें काम सोपें जातलें. कारण, तमीळनाडूंत तमीळ भास कळना जाल्यार गांवगिऱ्या वाठारांत तरी कोणाच कडेन संवाद सादूंक मेळना. हांव ताचे वांगडा पाँडीक गेलों. आनी थंयच्यान तो म्हाका घेवन पयसुल्ल्या एका गांवांत गेलो. गांव कडवल्लूर. सुनामीन कांडिल्ल्या अच्छेवाची सुलूस चार पांच किलोमिटर पयस आसतनाच जाणवूंक लागिल्ली. गाडयेंतल्यान देंवन आमी खूब वेळ चलत चलत दर्या वटेन गेले. मोडिल्लीं घरां, शिंवरून पडिल्लें इबाडिल्लें सामान, आनी वेळेर मळबाक फाट करून उदाऱ्यो पडिल्ल्यो बोटी पळोवनूच काळीज हाल्लें. वेळेर रेंवेचेर तीग जाण जाणटेले मोन्यांनी दरयाक नदर लावन बशिल्ले. प्रा. पंजांगम म्हऱ्यांत आशिल्ल्यान ताचे मार्फतीन हांवें संवाद सादपाचो येत्न केलो. निर्शेल्ले मनावस्थेंत तितल्याक तितली जाप दिवन ते वगी रावताले. दोळ्याक दोळो दिनासले. सत्यभास काडिल्ले वरी सय नाशिल्ले मुद्रेन आनी शुन्य नदरेन दर्याक फुडो करून बशिल्ल्या त्या जाणटेल्यां कडेन उलोवचे परस उलय नासतनाच चड ध्यानांत येतालें. चड पयस न्हय, एक शाळा आसली - एके माळयेची. उदक ते इमारती वयर पाविल्लें खंय. वेळेर एक दोन माड आशिल्ले. शेंड्याक एक दोन बोंडे लेगीत नाशिल्ले. चलतना वाटेर एक धाकलेंशें घर दिश्टी पडलें. पंजांगमान सांगलें म्हूण तिका इगर्ज म्हणपाची. थंयसून तो म्हाका घेवन रेफ्युजी कॅम्पांत गेलो. परिस्थितीक शरण गेल्ल्या लोकां खातीर हांगा पत्र्याच्यो चाळी कश्यो शेडस् उब्यो केल्ल्यो. पयलीं तंबू ठोकून सुनामीग्रस्तांक निवारो दिल्लो ते तंबू निखळावपाचें काम चलिल्लें. घरां गेल्यांत, उबंत पडल्यात तांकां रावपाक ह्यो पत्र्यांच्यो चाळी.

दोन अडेच वरां त्या वाठारांत भोंवले आमी. परततना उतर फुटनासलें. प्रा. पंजांगमाचें घर पाँडिचेरीक. सांजेचे आमी दरया वेळेर भोंवले. राती कडेन हॉटेलां भितरले बांक भायर रस्त्या कुशीक दवरून गिरायकांक, भोव करून भोंवडेकारांक, कशे ओडटात तेंय पळयलें. पाँडी आनी कडवल्लूरचें विषण्ण आनी भग्न रूप कागदार टिपून आनी काळजांत सांठोवन हांव परतलों.

परतलों आनी सांचून उरिल्ल्या वावराक वेंग मारतकच बरोवपाचें विसरलों. बरोवचे खातिरूय जाल्यार प्रेरणा जाय. बरयतलों म्हूण थारावन बरोवप जायना. इतले मजगतीं गोवा कोंकणी अकादेमीन बालसाहित्याची येवजण जाहीर केली. पुंडलीकबाब तेन्ना अध्यक्ष आसले. बालसाहित्याचे वाडी खातीर तळमळीन वावुरताले. तांणी आगरो केलो - 'भाई, तुजे कडसून एक पुस्तक जायचें'. हांवूय 'दितां' म्हूण उतर दिवन मेकळो जालों.

सुमार चाळीस वर्सां फाटीं मुंबय फुटपाथाचेर हांवें एक पुस्तक विकतें घेतिल्लें. दोन रुपयांक घेतिल्ल्या पुस्तकाचें नांव आसलें, *आय अॅम डेवीड.* ही धाकटुली कादंबरी वाचली आनी हांव खूब प्रभावीत जालों. डेवीड हो एक भुरगो जर्मनांच्या कॉन्सेंन्ट्रेशन कॅम्पांत आसता. एक जर्मन अधिकारीच लिपचोरयां ताका पळून वचपाची वाट दाखयता. वतना त्या भुरग्याक एक पत्तो सांगता. उपरांत तो भुरगो अनेक संकश्टांक तोंड दीत कसो आपणाले आवय सरीं पावता ताची ही काणी. भोव सुंदर. ते कादंबरेचो प्रभाव खूब काळ उरलो. पुंडलीकान आगरो केलो आनी म्हाका सुनामीचेर एक पुस्तक - बाल नवलिका - बरोवची अशें दिसलें. आतां कादंबरी बरयले उपरांत म्हाका जाणवता - सायमनाचें आनी त्या डेवीडाचें खंय तरी नातें जुळटा.

मावजे मूळ गणसूवचे. गणसूव हो माजोड्डें आनी बेताळभाटी हांचे मदलो दरया वेळे वयलो गांव. हांगा खारवी लोक चड. म्हज्या बापायन उपरांत गणसूवच्यान देडेक किलोमिटराचेर माजोड्ड्यां घर बांदलें तरी गणसूवच्या लोकां कडेन आमचे संबंद खूब मायेस्त उरले. नुस्तेकारां म्हाका 'चल्या' म्हूण उलो मारतालीं तेन्ना तांच्या उतरांतलें आपलेपण जाणवतालें. भुरगेपणांत आई आनी शेजान्नी गणसूव वेळेर न्हावपाक वतालीं तेन्ना हांवेंय वचप. फांतोडेर वचप. थंय रांपणी दवरिल्ल्यो आसताल्यो. हांवें पोती घेवन वचप. नुस्तेकार मागीर बरेंशें भोपशें पोतयेंत घालताले. केन्ना सकाळीं वचून सांज मेरेन वेळे कुशीक सारून सांजे घरा परतुवप; तर केन्ना सकाळ-सांज वचप. ताका लागून गांवच्या खारवी समाजा कडेन आमचे खूब लागशिल्ले संबंद आसले. हो समाज म्हज्या साहित्यांत येवचो अशें म्हाका साबार वर्सां सावन दिसत आयलां. पूण वेळ येवंक नासलो.

एक दीस अचकीत म्हाका बरयले बगर रावं नज अशें दिसलें. आनी सायमनाचें पात्र ठसठशीत दोळ्यां मुखार उबें जालें. सुनामीचो संबंद गोंया कडेन नासलो. पूण सुनामी गोंयकारांक बादलीच ना अशें न्हय. वालंकिणीक गेल्ले कडेन, भोंवडेर गेल्ले कडेन खूब जाणांनी हो अणभव घेतला. सायमन आनी सुनामी हांचो मेळ घालपाचें चिंतिल्लें मात, सडसडीत सांदे जुळत गेले. कथानकाची रूपरेखा थारावन बरोवपाक बसलों. पयलीं भुरग्यां खातीर नवलिका बरोवपाचो विचार आसलो. पूण खंयचे पिरायेच्या वाचप्यां खातीर? जी जीण आनी जें सैमीक संकश्ट हांव चित्रावंक सोदतालों तें भुरग्यांक मानवतलें? बालवाचक दोळ्यां मुखार हाडल्यार म्हजी लिखणी फुडें वचना जाली. तेन्नाच थारायलें, 'भुरग्यां खातीर' हें लेबल घेनासतना येता तशी बरोवप. बरोवपाक हात घालो आनी मदीं मदीं तंत्रीक गजाली आड येवंक लागल्यो. रांपण दवरप, जाळीं विणप, व्हडयांक काजेल सारोवप, नुसत्यांचीं खाशेलेपणां आनी खारव्यांची जीण चित्रावपा खातीर अदीक म्हायती जाय आसली. ती म्हायती एकठांय करूंक रावल्यार बरोवपाचो मूड वतलो म्हणपाची भिरांत आसली. म्हणटकच हांवें थारायलें, येता तशी बरोवन काडप आनी गरजेचो तपशील मागीर लागीं करून त्या त्या प्रकरणाचें पुनर्लेखन करप. कथा बरयतना हांव एक हाती. ती बशिल्ले बसकेक बरोवन सोंपोवपी. *कार्मेलीन* बरयतनाय हांवें सतत वीस दीस लेखन केल्लें. *सुनामी सायमन* हांवें साडेचार दिसां भितर बरोवन काडली. पूण पयलेच खेपेक, ती 'पूर्ण' करपा खातीर म्हाका रावचें पडलें.

मदीं थोडे दीस गेले. आनी अचकीत नव्या संकश्टान म्हाका गिरासलो. कॅन्सराची बादा जाल्ल्यान कठीण सर्जरीक फुडो करचो पडलो. उपरांत किमोथेरपी. गळसणून वचपाच्या ह्या वायटांत म्हाका आदार आनी आलाशिरो दिलो तो साहित्यान. वाचन आनी लेखनांत हांवें म्हाका घुसपावन दवरलो. तोच फायदो घेवन हांवें कादंबरी पूर्ण करपा खातीर जाय आशिल्लो तपशील लागीं करपाक सुरवात केली. म्हाका इंजेक्शनां करपाक येवपी सॅबी कार्व्हालो हो बेताळभाटी वेळेर रावपी. रांपणकारां वांगडा जाळ मांडूंक वचपी. मातयेचो आनी उदकाचो मोग करपी. ताचो मोलादीक सल्लो म्हाका उपकारा पडलो. पियेदाद बाप्तिश्त हो मुळचो नुसत्या वेवसाय करपी, आतां बिल्डर जाला. आदलें आपलेपण राखून आसा. म्हाका म्हायती दिवपाक वरांची वरां येवन बसतालो. खारवी समाजाची जिणे रीत, तांच्यो परंपरा आनी विस्वास हांची बेस बरी म्हायती ताचे कडसून मेळ्ळी. आदीं बरयिल्ले कादंबरेक आनी तिसेक पानां जोडचीं पडलीं. थोडे पुनर्लेखन करचें पडलें. अशे तरेन 'पॅचवर्क' आनी 'रिरायट' करपाचो हो म्हजो पयलोच अणभव. कादंबरी पयलीं बरोवन जाल्ली तशी 'बिम्बां'त उजवाडाक आयिल्ली. संपादक दिलीप बोरकाराक हांवें पयलींच सांगिल्लें ते प्रमाण नवे बदल आसपावन ताणेंच ती प्रकाशीत केली.

बरोवन जाले उपरांत खंयचीच साहित्यकृती लेखकाची उरना. वाचप्यांचो प्रतिसाद लेखकाक समादान दिता, इतलेंच. म्हजो इश्ट झेविअर कॉत हाणें ही कादंबरी इंग्लीशींत अणकारल्या. आजून निमणो हात भोंवडावंक ना. पूण तांतलो एक वांटो *Inside Out* ह्या इंग्लीश संकलनांत उजवाडाक आयला. इंग्लीश वाचकांनी ताची खूब तोखणाय केल्या. फाटीं डॉ. अनंतमूर्ति गोंयां आयिल्ले कडेन सुनामीचें वर्णन आसा तो वांटो हांवें तांकां वाचपाक दिल्लो. ते खूब प्रभावीत

ाल्ले. हांव सदांच म्हणटां - अणकार म्हळ्यार आमच्या साहित्याचो xternal audit. निमणो कस अणकार थारायता - अर्थात, ाणकार बरो जाल्लो आसूंक जाय. *सुनामी सायमन* हेर भासांनी तली तेन्नाचे प्रतिक्रियेची हांव वाट पळयतां.

कोंकणी वाचकांचो प्रतिसाद चडसो 'सावध' आसता. लेखकाक ुखोवचें न्हय हे भावनेंतल्यान तो येता. पूण रवीन्द्रबाब जेन्ना आवडली हणटा तेन्ना ती दुखोवचो न्हय म्हूण दिल्ली प्रतिक्रिया न्हय. वीन्द्रबाबान माधवी कडसून निरोप धाडिल्लो, 'ही कादंबरी बेगिनांत ब्रेगीन रोमी लिपयेच्या वाचप्यां मेरेन पावंक जाय.' कादंबरेची भास ानी विशय हांचे नदरेंतल्यान तांणी केल्ली ही सुचोवणी हांवें मानून ेतल्या. आनी तिचें रोमी लिप्यंतर करपाचो वावर आंगार घेतला.

हे कादंबरेंत, तटस्थ नदरेन पळयतना, म्हाका जाणवल्ल्यो आनी ानवल्ल्यो कांय गजाली सांगूंक सोदतां. सुनामी बरोवचे पयलीं हांवें सुनामीचेर उजवाडाक आयिल्लीं इंग्लीश पुस्तकां वाचिल्लीं. उदकाच्या प्रवाहांच्यो हालचाली समजून घेतिल्ल्यो. सुनामीच्या वेळार अंदमान लागसारची एक खबर छापून आयिल्ली. एका बापायन आपणाले चलयेक पेंवपाक शिकयिल्ली. सुनामीच्या ल्हारांत बापूय बुडून मेल्लो. पूण चली पेंवत उरिल्लें. तिसऱ्या दिसा तें दरयांत पेंवतना मेळिल्लें. सायमन पोण्णुअंकला वांगडा सुनामींत सांपडिल्लो तेन्ना हांवें वयल्या गजालींचो आदार घेवन कल्पकतायेच्या म्हालवजार सायमनाची धडपड दाखयल्या. अनेक वाचकांनी सुनामीच्या ल्हारांत सांपडिल्ल्या सायमनाचें वर्णन भोव प्रभावी जालां अशी प्रतिक्रिया दिली.

चाळिसेक वर्सां फाटली ही गजाल. मडगांवां एक नुस्तेकार देडेक मिटर लांबायेचें नुस्तें साकांत गुठलावन सायकलीर घालून चलून नुसत्या बाजारा कडेन वतना हांवें पळयलो. अजाप म्हळ्यार, नुसत्याक घाये जाल्ले आनी तातूंतल्यान तांबडें रगत व्हांवतालें. हांवें ताका हटकून विचारलें, 'तें कितें रे?' ताणें जाप दिली, 'बुलगें'. म्हाका समजलें ना. उपरांत खबर काडटकच कळ्ळें, बुलगें म्हळ्यार डॉल्फीन. त्याच दिसांनी हांवें *ब्रदर्स ऑफ सी* ही डॉल्फीन आनी एक भुरगो हांचे इश्टागतीचेर बरयिल्ली सुंदर कादंबरी वाचिल्ली. मनशाचें इश्ट आशिल्ल्या त्या बुलग्याक कातरूंक हाडलें हाचें तेन्ना म्हाका खूब वायट दिशिल्लें. बुलगीं मारूंक जायनात हें जाणा जावन लेगीत जिबे पोंताची रूच भागोवपा खातीर तांकां मारपीय लोक आसात हाची तिडकूय मारिल्ली. पियेदादी कडेन उलयतना ताणें आपणालो अणभव सांगिल्लो. तो तशा तसो उकलून हांवें कादंबरेंत वापरलो. हें प्रकरण कादंबरेंतलें आनेक बरें प्रकरण.

सायमनाक तंबूंत मेळिल्लें 'मोना' खूब वाचकांच्या काळजाक स्पर्श करूंक पावलें. सायमन आनी मोना हांचे मदलो नाजूक संबंद म्हळ्यार कादंबरेचो म्हत्वाचो घटक. दोगां निरागस भुरगीं एकठांय येतात तेन्ना तांचे मदलो स्नेहभाव कितलो आनंददायी, खोसदिणो जावं येता तें जाणवता. 'मरण येना म्हूण' कथेंतलें बिब्या झाड आनी हेंवाळें हांचे मदल्या संबंदांचो पुनर्प्रत्यय दिवपी हें नातें. खूब जाणांनी हें नातें भाविल्ल्याचें मुजरत सांगलें.

तटस्थपणान पळयतां तेन्ना हे कादंबरेंतले दोशूय म्हाका जाणवतात. पयलीं म्हळ्यार, एक कथालेखक म्हूण हे कादंबरेची अखेर म्हज्या मना सारकी जाली ना. कशी जावं येताली ह्या प्रस्नाक म्हजे कडेन जाप ना. पूण नक्कीच ती फावो त्या कलात्मक पांवड्यार पावना. थोडो भाग उपरांत बरयिल्ल्यान, थोड्याचें पुनर्लेखन करचें पडिल्ल्यान कथानकाचे व्हांवतेक थोडी बादा आयल्या अशें म्हाका दिसता. हें पुनर्लेखन करतना बलायकी आनी मानसीकताय इबाडिल्ली आशिल्ल्यान ह्या भागांनी सर्जकताय उणी पडल्या हें म्हाका जाणवता. थोडे भितर सांगपाचें जाल्यार, *कार्मेलीन* वाचून जांच्यो अपेक्षा वाडल्यात तांची अपेक्षा ही कादंबरी पूर्ण करना. अशें आसलें तरी एक खरें, फाटल्या चाळीस पंचेचाळीस वर्सांचे लेखनाचे संवकळीक लागून खुबश्या वांट्यांनी कादंबरेचें लेखन बरें जालां. देखुनूच चोखंदळ वाचकाक अतृप्त दवरता आसली तरी सर्वसामान्य वाचकाक ती मानवता.

*सुनामी सायमन*ची खूब तोखणाय जाली. तिका प्रतिश्ठेचो विमला पै पुरस्कारूय फावो जालो. आनी तोखणायेचें अजीर्ण जावचें न्हय म्हूण एस.डी. तेंडुलकारान तिची 'बालीश' अशी संभावना केली. अशे तरेचे समिक्षेची आमकां उपाट गरज आसा. लेखकाक वायट दिसतलें म्हूण वगी रावपी समिक्षक लेखकाचेर अन्यायूच करतात. परखड समिक्षा करतना समिक्षक सांगता तितलेंय खरें अशें धरून चलपाची गरज ना. पूण जे मेरेन लेखकाची पर्वा करिनासतना परखड समिक्षा जायना ते मेरेन लेखकाक ताच्या मर्यादांची जाणीव जावची ना.

कलात्मकतेचे नदरेन कादंबरे परस कथा श्रेश्ठ अशें म्हजें मत. भालचंद्र नेमाडे म्हणटात, 'कथा हा कादंबरीकाराचा आळस आहे.' मतांतरां आसलीं तरी एक गजाल खरी, संवसारांत कादंबरेक चड मागणी आसा. अस्तमतेचे प्रकाशक तर कादंबरे फाटल्यानूच आसतात. तुमी साहित्याचें नोबेल प्रायज केन्ना कथासंग्रहाक मेळिल्लें आयकलां? मॅन बूकर सारके पुरस्कारूय एखादऱ्या संग्रहाक सोडल्यार कादंबरेकूच फावो जातात. देखून कादंबरेची मागणी वाडल्या. आनी आतां बरी दर्जेदार कादंबरी बरोवचे खातीर सर्त लागल्या. हे सर्तींतल्यान जें निश्पन्न जातलें तें बरेंच आसतलें. कोंकणीच्या मळारूय कादंबरेचें पीक वाडूंक लागलां ही खोशयेची गजाल.

संपर्क: ९४२२०५९५०९





पुंडलीक ना. नायक

# अच्छेव: प्रक्रिया आनी प्रतिक्रिया

कादंबरी बरोवन सोंपली तेन्ना फांतोड जाल्ली. म्हाका कळुंकूंच नाशिल्लें. रातीं केन्ना तरी बरोवपाक बशिल्लों. फाटले कांय दीस एक एक प्रकरण बरयत आशिल्लों. सोंपली एकदांची! नांव दवरलें, 'मीन पिकलां खांडयांनी'. सोंपतकूच जो आनंद जालो ताची वर्णना करूंक नजो. वळवय गांवांतली फांतोड. त्या दिसा सवणीं चडूच गायतालीं आनी उदेंतेची तांबशी बरीच गाड आसली. काळजांतली खोस व्यक्त करपाक कोण तरी जाय आसलो. तसोच सकाळीं शेजारच्या इश्टाक, महादेव नायकाक, वचून उठयलो. ताका कादंबरी बरोवन जाल्ल्याची खबर सांगली. कादंबरेचो तपशील पुंजावपांत ताचो खूब वांटो आशिल्लो. कादंबरेंत मर्दी एक गाराणें घालपाचें उरिल्लें. तें आमोणेंच्या घाडया कडल्यान घेवपाचें मनांत आशिल्लें. महादेवाक कोमार काडलो. तशेच दोगूय तारीन वळवय सावन पलतडीं मायणी गेले. थंय सावन चलत आमोण्यां गेले. घाडयालें घर सोदून काडलें. नारायण घाडी काय अशेंच तागेलें खरेंलें नांव आशिल्लें. कादंबरेंत हांवें ताचें नांव दत्ता घाडी अशें केलां. घाडीमामान बरें सहकार्य केलें. देहयश्टीन बरो धश्टपुश्ट आशिल्लो. गाराण्या खातीर तो त्या वाठारांत फांकिवंत आशिल्लो. आवाज खणखणीत, त्याच आवाजान ताणें तें जशाक तशें म्हणून दाखयलें. आयकतनाय म्हज्या आंगार कांटो उबो रावलो. तेदेवेळार म्हजे कडेन रिकॉर्डींगची बी कसलीच व्यवस्था नाशिल्ली. परत परत सांगपाक घाडीमामाक बरेच कश्ट पडले. काम जातकूच संतोसभरीत जावन आमी घरा परतले. आतां खऱ्या अर्थान म्हजी कादंबरी पूर्ण जाल्ली.

१९७४-७५ चो काळ आसूंक जाय. हांव तेन्ना कालापूरा एके खाजगी शाळेंत शिकयतालों. पणजेंत नागेशबाब करमलीच्या 'कोंकणी स्कुलां'त कोंकणीवादी म्हण घडटालों. कांय कविता, कांय कथा, नभोनाट्यां बरयिल्लीं. तेन्ना हांव बाविशेक वर्सांचो आशिल्लों. पूण रवीन्द्रबाब केळेकार, वामन सरदेसाय (कवी अभिजीत) बी म्हज्यो कथा वाचून हांव पस्तीस-चाळीस वर्सांचो मॅच्युअर्ड लेखक आसपाक जाय असो अंदाज काडटाले. (हें म्हाका मागीर रवीन्द्रबाबान सांगिल्लें.) एक दीस म्हजी भेट वामनबाबा कडेन घडली तेन्ना तांणी आपले घरकान्नीक, लिबियाबायक (लोबो), म्हजी वळख करून दीत म्हणलें, ''पळय गो लिबी, पुंडलीक नायक म्हणटात तो केदो भुरगो लेखक!'' कोंकणीच्या मळार असो हांव कवतुकान कावथो कसो वाडटालों.

मागीर रवीन्द्रबाबांची वळख जाली. खरें म्हणल्यार चार-पांच वर्सां आदीं हांव एकदां कवनांची चोपडी घेवन तांगेर पिरवळा गेल्लों, तेन्ना एका धपक्यान सगळ्यो कविता वाचून तांणी म्हणिल्लें, ''ह्यो असल्यो कविता मनोहरराय सरदेसायान खूब बरयल्यात. तुका लागीं न्हंय आसा न्हय? ते न्हंयेंत व्हरून ह्यो सोड. रवीन्द्रनाथ टागोरान आपणाल्या पयल्या कवितांचें अशेंच केल्लें.'' समजुपाचें हांव समजलों. त्या कवितांचेर खऱ्यांनीच मनोहररायांल्या *जायो-जुयो* चो प्रभाव आशिल्लो. पूण हांवें जिद्द सोडलिना. म्हजी वाट सोदीत रावलों. इतले म्हणसर दोन-तीन पुस्तकांय उजवाडाक आयलीं. म्हज्या लेखनाचेर विश्वास बसतकूच म्हाका रवीन्द्रबाबान आपोवन व्हेलो. तेन्ना कांय कविता, संग्रहा पुरत्यो कथा, इतलें लेखन जाल्लें. म्हजी उमेदवारी चालू आशिल्ली. केन्ना तरी कादंबरी बरोवपाक जाय असोय विचार आसलो. विशयूय तयार आसलो. रवीन्द्रबाबान कादंबरे विशींच विचारलें. बरोवपाक 'फर्मान सोडलें'. ते मेरेन रवीन्द्रबाबान म्हाका कोंकणींतलो मॅक्सीम गोर्की बी म्हणून जाल्लें. हें गोर्की प्रकरण कितें तें म्हाका बऱ्या उसरां कळ्ळें. मॅक्सीम गोर्की ह्या रशियन लेखकाची *द मदर* वाचून हांव घुंवळ्ळों (अर्थांत, मराठी-हिंदी अनुवाद). रवीन्द्रबाबाक उतर दिल्ले प्रमाण कादंबरेच्या वावराक लागलों. त्या वेळार चडांत चड मराठी कादंबऱ्यांचें वाचन केल्लें. पेंडसे, दांडेकर, माडगुळकर हांगेल्यो कादंबऱ्यो, हिंदींतल्यो प्रेमचंदांच्यो, बंगालींतल्यो मामा वरेरकरांनी मराठींत अनुवादीत केल्ल्यो शरतचंद्रांच्यो आनी मराठी हिंदींत अनुवादीत जावन म्हज्या हाताक लागिल्ल्यो देशी-परदेशी कांय हाताच्या बोटांर मेजपा इतल्योच कादंबऱ्यो वाचिल्ल्यो.

विशय आदीं पसून थरिल्लो. तो म्हणल्यार, म्हज्या गांवचे मांडवी न्हंये पलतडीं चलपी मिनाचो व्यवसाय. म्हज्या भुरगेपणा पसून हो मिनाचो उद्देग म्हज्या दोळ्यां मुखार तरतरतालो म्हणल्यार जाता. पिरायेच्या धा-बारा वर्सां मेरेन हांव आमच्या घरांतल्या गोरवांचें राखणेपण करतालों. पावसांत गोरवांक घेवन दोंगरार वचप जातालें. गिमांत गोरवांक मांडवी न्हंयचे देगेक आशिल्ल्या शेतांनी चरवाक व्हरताले. तेन्ना पलतडचे मिनाच्या उद्देगाचे सगळे वेव्हार आमच्या दोळ्यां हुजरां घडटाले. पलतडच्या चिंचेदेंवण्या वयल्या रिव्हर प्लांटार हारोहार बार्जी लागताल्यो. बार्जी लागपा खातीर न्हंयेचे धडेर उदकांत लाकडाचे लोळगे उबे पुरून वयर कोंड्यांची माटी केल्ली आसताली. तिचे वयल्यान शेंकड्यांनी कामेऱ्यां माथ्यार कायलींनी मिनाचे फांतर भरून, कायली बार्जींत रकयतालीं. एक बार्ज भरपाक दीस दीस लागताले. सकाळीं तार भरून भरून मानाय कामेऱ्यां पलतडीं वतालीं तशेच आमी गोरवांक घेवन घरा परतुपाच्या सांजवेळार पलतडसून आलतडीं येताले. हातूंतलो बरोचसो लोक आमच्या वाड्या वयलो

सतालो. ते शिवाय मायणी आमचे सोयरे आसले. म्हजी एक तेभयण पलतडीं लग्न करून दिल्ली. तिगेलें आमगेर येवप-वचप तालें. ती कसलीय गजाल बरी रंगोवन सांगताली. ती येतकूच हांव न दिवन तिगेल्यो गजाली आयकतालों. ('मोगाची धूव' कथा हांवें गेल्योच गजाली आयकून बरयिल्ली. अर्थांत मागीर.) अर्दी-मर्दी यणी वचप जातालें. मायणीच्या तळ्याचें म्हाका खूब अप्रूप. बाराय इयने तळें व्हांवतालें. वयल्यान उदक पाझरत आसतालें. तळ्याचे डेक एक बायकूल आसलें. सगळ्यांत नितळ उदक तातूंत आसतालें. णव घालून सुण्या भशेन चाटून उदक पियेतना खूब मजा दिसताली. त्रूजेंतलो शिगमो सोंपतकूच मागीर भतग्रामांतलो सुरू जातालो. मचे धोल-ताशे पलतडीं पावताले. त्या वाद्यांचे बरोबर म्हजीय टली मायणी येताली. वळवयचो मास्तर शिगम्याक तालगडी शकोवपाक मायणी येतालो. ह्या सगळ्या खोशयेच्या वातावरणांत य मिनाचो धुल्ल हुबतालो! लोक मिनाच्या वेवसायाचेर पयशे डटाले खरे, पूण दिसानदीस कागाळी वाडत रावताल्यो. मिना णीचेर अपघात जालो, शेतांत मिनाची माती व्हांवून आयली, ल्लाक लागून मानाय-कामेऱ्यांची भलायकी इबाडली (बारीक गाची पिडा), ...कोण चली कोणा पसून गुरवार जालें, कोण कोणा बरोबर पळून गेलें ... हांव ह्या सगळ्या गजालींचो एक गवाय जावन ह्या वाठारांत वाडटालों, वाडिल्लों.

रवीन्द्रबाबान कादंबरी बरोवपाचो प्रस्ताव मुखार दवरलो तेन्ना भुरगेपणांतल्यो ह्यो सगळ्यो गजाली म्हज्या दोळ्यां मुखार लखलखून गेल्यो. मर्दी बरोच म्हणल्यार पंदरा सोळा वर्सांचो काळ गेल्लो. गोंय स्वतंत्र जाल्लें. मायणी कडलो संबंद सामको पातळ जाल्लो. पूण मायणीच्या ज्या घरा कडेन आमचो संबंद आशिल्लो त्या घरांतलो गोविंद नांवाचो मनीस मायणीचो एक कर्तो-सवरतो मनीस जाल्लो. एके पंचायतीचे वेंचणुकेंत तो पंचूय म्हण वेंचून आयिल्लो. चार यत्ता शिकिल्लो. तो बरेच फावट मायणी सावन आमगेर येतालो. ताचे कडल्यान मायणीच्यो आनी मिनाच्या उद्देगा संबंदीच्यो जायत्यो गजाली कळटाल्यो. *अच्छेव* कादंबरेंत सांखळी-दिवचल वाठारांतल्यो आरंभाच्यो ज्यो बऱ्योचश्यो गजाली आयल्यात, ती माहिती म्हाका गोविंदानूच दिल्ली.

कादंबरेचें होमवर्क करपाक हांवें आरंभ केलो. मेळटा ताका मिनाच्या वेवसाया संबंदीची माहिती विचारीत रावलों. हे संबंदी म्हाका छापील स्वरुपांतली कसलीच माहिती मेळ्ळिना म्हळ्यार जाता, वो आसलीच जाल्यार ती म्हाका मेळप कठीण आशिल्ली. मायणीगांव, ताचो भुगोलीक वाठार हाचो हांवें म्हजे परीन बरोच अभ्यास केलो. मायणी गांवाचें कादंबरेंत 'कोळंब' अशें नामकरण जालां. म्हज्या गांवची भोवतेक माहिती म्हाका खबर आसलीच. चडांत चड आदार जालो तो महादेवाचोच. आमी दोगूय इश्ट तशेच वर्गमित्र. पयली ते सातवी-आठवी यत्ते मेरेन महादेव पयलो जाल्यार हांव दुसरो येतालों. महादेव खऱ्यांनीच हुशार आसलो. एस्.एस्.सी. (इकरावी) जावन तो मिनाच्या प्लॉटार सुपरवायझर म्हण लागलो आनी हांव पणजे कॉलेजाक गेलों. मागीर कॉलेज सोडून शिक्षकाची नोकरी धरली. तेन्नाच कादंबरी लेखनाची पूर्वतयारी सुरू जाली.

हांवें महादेवाक घट धरलो. तागेलो इश्ट दिवचलकार तोवूय म्हजो इश्ट जालो. महादेव तेन्ना उजगांव/रुमड प्लॉटाचेर कामाक आशिल्लो. हांव थंय अर्दी-मर्दी येवपा-वचपाक लागलों. आजून लग्न जावंक नाशिल्लें. मिना संबंदीची बरीचशी माहिती म्हाका मेळपाक लागली. येन्नाधर मिनाच्या वेवसायांत खुबूच प्रगती जाल्ली. आदल्यो लाकडी जेटी गेल्ल्यो. ओरबिनां जाल्लीं. तांचे वयल्यान ट्रकांचे ट्रक भोंकां वरशीं करून रिते जाताले. कांय वरां भितर बार्जी भरून वास्को वटयां वताल्यो. वयर खणींचेरूय ट्रकां वांगडा नवीं नवीं माकनां आयिल्लीं. मानाय-कामेऱ्यांल्या वावराचेर माकनांची हावळ आयिल्ली. शेतां पडींग उडोवन मिनाच्या वावराक आयिल्ले आनी तातूंत भलायकी वगडायिल्ले आनी आतां काम नासून बेकार पडिल्ले लोक मिनाच्या नांवान बोटां मोडटाले. पूण आतां खूब कळाव जाल्लो. मिनाची व्हडली रास आकार घेताली पूण त्या बदल्यांत पडिल्लो आकांताचो फोंड कोणाक दिसनाशिल्लो. हांव कादंबरेच्या निमतान ह्या फोंडाचो सोद घेतालों. न्हिन्नडटालों.

म्हजें रुमड प्लॉटा वयलें बस्तान बरें जुळिल्लें. थंय बाकीचे इश्टूय येताले. खावप-पिवप महादेवाच्या खुस्तार चलतालें. थंय केन्नाय चिकन जाल्यार केन्ना केन्ना कांदो लावनूय जेवचें पडटालें. पूण मजा आसली. एके राती आमी कांय इश्ट पियेले. तेन्ना पिवपाक कसली शिस्त नासताली. कसलेंय, कितलेंय पिवप जातालें. अशेंच जेवन पिवन जातकूच सगळ्यांनी म्हाका एक चॅलेंज दिलें, 'आतां बरोवन दाखय!' सगळे न्हिदले, हांव एकलोंच जागो. रातभर जागून हांवें 'माड' कथा बरयली. मिनाच्या विशयाचेरूच ती आशिल्ली. फांतोडेर कथा सोंपोवन हांव न्हिदलों. मागीर इश्टांनी उठून ती वाचली. रोखडीच 'जागां'त ती छापून आयली. मडगांवां एके कार्यावळींत गेल्ले कडेन बाकीबाब बोरकारांची गांठ पडली. तांणी चलतना थांबून म्हजे फाटीर हात मारीत म्हणलें, 'माड' बरी जाल्या. भोवतेक ती कथा 'काजू' मारुनूच बरयिल्ली जावये.

अशे तरेन कादंबरेचें होमवर्क चालू आसतना त्या विशयाचेर 'माड' कथा बरोवन जाली. *खण खण माती* ह्या नाटकाचेंय तशेंच. आमचो इश्ट दिवचलकार गजाली बऱ्यो रंगोवन सांगतालो. मिनेर लीम लैतांवाची गजाल ताणें बरी खुलोवन सांगली. तो तागेले खणीर कामाक आशिल्लो आसूंक जाय. ते गजाली वयल्यान हांवें *खण खण माती* नाटकाची रचना केली. दिवचलकारान लीम लैतांव हे व्यक्ती विशीं सांगिल्लें. ताचे वयल्यान हांवें नाटकांत रॉकसायब व्यक्तिरेखा तयार केली. हें नाटक कोंकणी रंगमाचयेर खूब गाजलें. मिनाच्या वेवसायाचेरूच तें बेतिल्लें .

*अच्छेव*वें होमवर्क पूर्ण जातकूच हांवें बरोवपाक बैठक मारली. कांय दिसां भितरूच ही कादंबरी बरोवन जाली. रोखडेंच रवीन्द्रबाबांक कळीत केलें. जशे काय रवीन्द्रबाब कादंबरेक रावतालेच. तांणी म्हाका रोखडोच पिरवळा घरा आपयलो. म्हाका याद जाता ते प्रमाण दोन राती रवीन्द्रबाबांल्या घरांत कादंबरेचें वाचन जालां. सादारण डिसेंबर-जानेवारी म्हयनो आसुये. हांव शिंयान कुडकुडटालों.

गोदूबाय आनी मोगाबाय सरदेसाय (रवीन्द्रबाबाची भयण आनी माधवीची आवय) म्हज्या खावपा-पिवपाची, शिंयाची काळजी घेतालीं. वाचनाक गोदूबाय घरचीं कामां करतना येवन वचून जाल्यार मोगाबाय बसून आयकतालें. बाकीचीं घरचीं हांव कडकडत वाचतना म्हाका अर्दी-मर्दी पळोवन वतालीं. कादंबरेचें वाचन कितलें प्रभावीपणान जालें, तें म्हाका खबर ना. पूण हांवें सगळे नाटकीय घटक पणाक लावन वाचन केल्लें. कादंबरी वाचून जातकूच रवीन्द्रबाबान रोखडीच ती छापून येतली म्हणपाची घोशणा केली. बदल, सुदारणा बी कांय ना. एका फिशाल लेखकान ती बरयिल्ली. हो जालो कादंबरेचो पूर्व भाग. पूर्वार्ध म्हणूं येता.

कादंबरेचें हात बरप 'जाग'चे प्रकाशक सुमंतबाब केळेकारांच्या हातांत पावलें. तांकांय ती आवडली म्हणपाचें समजलें. ते आपणाले संपादकीय संस्कार करून ती छापपाचे आसले. दीस वचपाक लागले. आतां येता, फाल्यां येता अशें जांवपाक लागलें. हांव दाखय नाशिल्लो. पूण भितरल्यान खूब म्हणल्यार खुबूच उमळशीक लागिल्ली. हांव मेळिल्ले फावट रवीन्द्रबाब आनी सुमंतबाब आपूण जावन विशय काडून म्हजी उमेद तशीच दवरपाचो यत्न करताले. अकस्मात कादंबरी 'जाग' म्हयनाळ्यांत दर म्हयन्याक खिस्ती खिस्तींनी उजवाडावपाचें थारायलें. हांव निरशेलों. कारण 'जाग' केन्नाच वेळार ये नाशिल्लें. कांय अंकांनी कांय प्रकरणां आयलीं. पूण तीं कोणें वाचल्यांत काय ना, ताचो अदमास लागना जालो. मागीर १९७७ वर्स उजवाडलें. हें शणै गोंयबाबाचें शताब्दी वर्स. तें गोंयभर मनोवपाचें कोंकणी भक्तांनी थारायलें. दर एकल्यान आपले परीन कार्यावळी करपाच्यो. ते प्रमाण 'जागा'न कांय पुस्तकां ह्या वर्सा उजवाडावपाची मोख दवरली. पुस्तकांची एक वळेरीय जाहीर केली. तातूंत म्हजे कादंबरेचो आसपाव केल्लो. पूण 'मीन पिकलां खांडयांनी' हें मूळ नांव बदलून *अच्छेव* अशें सुटसुटीत नांव दिवपाचें थारलें. तें बाबतींत सुमंतबाबूच आग्रही आशिल्ले. हांवें 'चलता' अशें धोरण स्विकारलें. कांय अवघींच प्रकरणां 'जागां'त छापून आयिल्लीं. एक दीस कोशकार श्रीपाद देसाय पणजेंत भेटले. वक्लांतल्यान नदर रोखून तांणी विचारलें, 'मीन पिकलां खांडयांनी' हें इतलें बरें अर्थपूर्ण आशिल्लें नांव बदल्लें कित्याक? म्हाका स्पश्टीकरण दिवपाक जालें ना.

१९७७ हें शणै गोंयबाबाचें वर्स आयलें आनी गेलें. कादंबरी आयलिना. मागीर जागाची अर्थीक अडचण कानांर-येवपाक लागली. सुमंतबाब दर एका पुस्तकाचेर आपूण बारीक नदर दवरताले. दोळ्यांत तेल घालून प्रूफ तपासताले. छापणावळ, कागद, कव्हर हाचेर खंयच तडजोड करी नासले. पुस्तकां छापप तिंवूय पुण्या सारखिल्या छापणावळीच्या प्रगत अश्या शारांत. पुस्तकांचे निर्मितीचो खर्च सुमारा भायलो येतालो. त्या मानान पुस्तकांचें मोल साप्प उणें. प्रकाशकाचें विक्रेत्याक कमिशनूय उणें, कारण मुदलांत पुस्तकाचें मोलूच उणें. विक्री जेमतेम. कोंकणी पुस्तकां विकत घेवपाची लोकां मदें संवय ना. सरकारी थराचेर कसल्योच सोयी सुविधा नात. परिणाम? प्रकाशनाच्या व्यवसायाक बरकत ना. पुण्या सावन एक दोन पुस्तकांचीं बंडलां येतालीं. तेन्ना, केन्ना केन्ना सुमंतबाब आपणाले घरकान्नीचीं भांगरां घाणाक दवरून पुस्तकां सोडोवन हाडटाले. ही गजाल म्हाका कळ्ळी तेन्ना म्हाका मना पसून दिसलें, म्हजी कादंबरी येना जाल्यार जाता, पूण ही कुटुंबीक विदर्णा नाका. कारण, त्या काळार दोनशीं पानांची म्हजी कादंबरी म्हणल्यार सगळ्यांत व्हडलें पुस्तक आशिल्लें.

पूण अखेर १९७८ उपरांत केन्ना तरी *अच्छेव* प्रगट जाली. प्रकाशनाचें वर्स मात १९७७ हेंच आशिल्लें. जागाचें तें बाविसावें अपत्य आनी शणै गोंयबाब जल्म शताब्दी वर्साचें सवें पुस्तक. जाग तेन्ना नव्या पुस्तकाचे प्रकाशन समारंभ बी करी नासलें. म्हणटकूच *अच्छेवाक* तेंवूय भाग्य लाबलेंना. खंय खास परिक्षणांय आयिल्ल्याची म्हाका याद जायना. ना म्हणल्यार, बा.द. सातोस्कारांनी पणजी आकाशवाणी वयल्यान परिक्षण केल्लें. अशोक मणगुतकारान मराठींत पणजी आकाशवाणी खातीर 'नभोनाट्य' केल्लें. रवीन्द्रबाबान 'जागां'त खास दखल घेतिल्ली. पूण तें तांचेंच प्रकाशन. साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार वळेरेंत *अच्छेव* पाविल्ली. कांय वर्तमानपत्रांचेर *अच्छेवाक* त्या वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार म्हण खबरूय छापून आयिल्ली. पूण पुरस्कार लाबलो ना. आदींच पुस्तकाचीं दोन वर्सां उणीं जाल्लीं, कारण पुस्तक दोन वर्सां आदले तारकेन छापून आयिल्लें. दर एक पुस्तक आपणालें नशीब घेवन येता अशें म्हणटात तशें जालें. अच्छेवाक त्या काळांत पुरस्कार लाबिल्लो जाल्यार *अच्छेवाचें* भाग्य बदलपाचें. म्हजेय साहित्यीक कारकिर्दींत फरक पडपाचो. एक दीस बाकीबाब बोरकारान म्हाका सरळ सांगलें, ''पुंडलीक, तुका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावता, पूण तूं आजून भुरगो आसा.''

ल्हान पिरायेचेर बरें बरोवपाचो गुन्यांव हांवें केल्लो!

*अच्छेव* हेर भासांनी येवची अशें म्हाका दिसतालें. हांव तेन्ना पणजी आकाशवाणीचे सेवेंत आशिल्लों. थंय सज्जन केणी नांवाचे एक ज्येष्ठ हिंदी शिक्षक, अर्दी मर्दी हिंदी पाठ दिवपाक येताले. तांचो राबितो पुण्या आसतालो. हांवें तांकां *अच्छेव* दिली आनी ताच्या हिंदी अणकारा विशीं तांकां सुचयलें. तांणी मोटे उमेदीन कादंबरी व्हेली. कांय म्हयन्यांनी ते परत आयले तेन्ना कादंबरी परत दिवन तांणी सांगलें, ''सॉरी! म्हाका गोंयकार म्हणून कोंकणी येता ती, ही कोंकणी न्हय. खूब कठीण आसा.'' हांवेंय मनांत चिंतलें, प्रादेशीकता हें *अच्छेवाचें* वैशिश्ट्य आनी तीच तिची मर्यादाय आसुये.

तसो *अच्छेवाक* कला अकादेमीचो राज्य पुरस्कार लाबलो. पूण घेवंक जाय तशी कोणें दखल घेतलिना. मुळांत भोवतेकांनी कादंबरी वाचलीच ना अशें म्हाका दिसता. कादंबरी प्रसिद्ध जातकूच कांय वर्सांनी सतीश दळवी हांणी नेमाळ्यांत (भोवतेक 'पुनव' जावंक जाय) एक लेख बरयलो. तातूंत तांणी आमोणेचें घाडयाच्या तोंडांतलें गाराणें दिल्लें आनी हें गाराणें पयलेच खेपे कोंकणींत छापून येता असो दावो केल्लो. *अच्छेवांत* घेतिल्लें तेंच आमोणेच्या घाडयाच्या तोंडांतलें तें गाराणें आशिल्लें.

एकदां नॅशनल बुक ट्रस्टाची गोंयांत बसका जाल्ली. सल्लागार मंडळांत एक हांवूय आशिल्लों. तातूंत सगळ्या भारतीय भासांनी अनुवादीत करपा खातीर एके कादंबरेचें नांव सुचोवपाचें आसलें. दामोदर मावज्याले *कार्मेलीनचें* नांव मुखार आयलें. मागीर, तिका

ाहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला म्हणटकूच ती नेमांत बसना शें जालें. *अच्छेवा*चें नांव कशेंच कोणाक सुचना. मागीर कोणें तरी चयलें. त्या वेळार अ.ना. म्हांबरेन म्हणलें, ''तातूंत इतल्यो गाळी ासात, ती कशी अनुवादीत जातली?'' तरी आसतना नॅशनल बुक स्टा खातीर *अच्छेवा*चो स्विकार जालो. ते मेरेन डॉ. नंदकुमार ामतीचें *अच्छेवा*चेर लक्ष गेल्लें. एनबीटीन ताकाच आगामी पुस्तकाचेर लर्ब बरोवपाक सांगलें. नंदकुमारान म्हजे कडेन चवकशी केली - ोणें कोणें प्रस्थापीत लेखकांनी *अच्छेवा*चेर कितें अभिप्राय दिल्यात? कलो रवीन्द्रबाब सोडलो जाल्यार मनोहरराय सरदेसाय, उदय ंब्रे, चंद्रकांत केणी, दामोदर मावजो हांचे मदल्या कोणेंच कांय रोवंक नासलें. तशें हांवें नंदकुमाराक सांगलें.

कलकत्त्याक रावपी विद्या पैन *अच्छेवा*चो इंग्लीश अणकार केलो. ी आपूण जावन ह्या त्या प्रकाशका कडेन संपर्क करीत रावली. नेमाणें मिनी कृष्णन संपादक आशिल्ल्या ऑक्सफर्ड युनिव्हर्सिटी ासाच्या प्रकाशका कडल्यान तिका हयकार मेळ्ळो. डॉ. मारीया आवरोरा कुतो हांणी *अच्छेवा*च्या 'द अपहीवल' ह्या इंग्लीश अणकाराक दीर्घ अशी प्रस्तावना बरयल्या. राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय नेमाळ्यांनी हे कादंबरेची दखल घेतली. हेच कादंबरेच्या नांवाक लागून म्हाका अमेरिकेच्या पेन्साल्वानिया विद्यापीठांत दोन म्हयने राबित्याची सी.आर.पारेख फेलोशीप मेळ्ळी. गोवा विद्यापीठांतल्या इंग्लीश विभागांत आशिल्ल्या डॉ. आनंद पाटील हांणी हे कादंबरेचेर खंय तरी भायल्या नेमाळ्यांत बरयलां. तांणी म्हाका विचारलें, ''*अच्छेवा* इतली बरी कादंबरी बरोवन जातकूच तुमी दुसरी कित्याक बरयलिना?'' हांवें म्हणलें, ''पयली बरी म्हण कोणें सांगलेंच ना.''

आयज हे कादंबरेचेर चर्चा जाता. तिचे विशीं बरोवप जाता, संशोधन जाता. पूण कांय काळ तिचेर आडनदर जाल्ली हें मात खरें.

म्हजे उपरांतचे पिळगेचो लेखक प्रकाश वजरीकार ही कादंबरी वाचून तडफडलो आनी म्हाका दिसलें, हांवें ही कादंबरी एक पिळगी आदींच बरयली, ती एक पिळगी उसरां बरोवपाची काय!

संपर्क: ९१५८३४४९१९





महाबळेश्वर सैल

# काळीगंगा, एक दुखदिणो प्रवास

*काळीगंगा* ही म्हजी कादंबरी लोकांक सगळ्यांत चड आवडिल्ली, तांणी ती आपलेपणान आपणायल्ली आसली तरी तिका हांव म्हज्या साहित्यांतलो मास्टरपीस मानिना. एका मोगाळ, निश्कळंक समाजाचेर तितल्याच आपलेपणान, भारावन बरयल्ली ही कादंबरी. काळी न्हंय आनी तिचे तडी वेल्या लोकां विशीं भुरगेपणा पसून म्हाका खूब आपलेपण दिसतालें. ताका लागून हांव सबंद कादंबरीभर एके भावनीक पातळेचेर उरलों. आनी म्हूण बरपांत कांय चुकोय जाल्ल्यो आसतल्यो.

*काळीगंगा* ही निसर्गसिद्‌ध निश्कळंक, साद्या सुद्या जिविताची काणी. तो निरुपद्रवी असो सोताच्या अस्तित्वाचो संघर्श. काळी न्हंयचे तडी वेल्या जिविताक कादंबरी शेवट मेरेन समांतर रावता, समानधर्म राखता, म्हणच मातयेक प्रामाणीक राविल्ली ही कादंबरी अशें हांव मानतां. ह्या लोकांचीं जिवीत मुल्यां, तांचो संघर्श, तांचीं मिथकां मनशाल्या अदीम प्रवाहांतलीं, परंपरेंतलीं, सामकीं सादीं. क्षितीज हुपून वच्चेलो हावेस थंय ना. म्हणच कादंबरेंतूय तो अभिनिवेश ना. एके वटेन कादंबरेची तीच शक्त आनी तेंच दुबळेपण. तरीय *काळीगंगा* मातयेक, सैमाक, मनशांक पुराय प्रामाणीक आसा. थंयचें सैमसिद्‌ध निश्कळंक सेंद्रीय रसायण ताज्जें राखचेली जतनाय हांवें घेतल्या. कादंबरी पुराय काळनिश्ठ आसा. हो काळ सत्तरच्या दशकांतलो. आज तुमकां काळी न्हंयचे तडीर *काळीगंगा* पुरायेन मेळची ना. आयचो जागतीक बदल कारवाराकूय बादला. बरोवपी म्हूण म्हाका एकूच समाधान आसा, तेन्नाची सैमसिद्‌ध जीण *काळीगंगेच्या* रुपान रिकॉर्ड जावन उरल्या.

कादंबरी बरयतना म्हाका खरपणान होलमतालें, लेखक आपल्या कथाविशया वांगडा, थंयच्या मनशां वांगडा, सैमा वांगडा, थंयच्या जिविताच्या वट्ट संघर्शा वांगडा पुरायेन तादात्म्य पावना ते मेरेन जिणेचें अस्सल प्रामाणीक चित्रण शक्य नासता. तादात्म्य पावप म्हटल्यार बेठें निरिक्षण न्ही, मुलाखती न्ही, तें केन्ना केन्ना पुराय जिविताचें समर्पण आसता. हें समर्पण हांवें *काळीगंगेच्या* वाठाराक दिलां. तातूंतल्यान म्हाका दिसता, मोग आनी आपलेपण पानेता, तातूंतल्यानूच बरोवप्याचे प्रतिभेक सैमीक सहजपण येता. मुळांतल्यान घेतिल्लो अणभव केन्ना पोन्नो जायना, पुसून वचना. आजूय हांव त्या वाठारांत पावतां, तेन्ना त्या विराट तरी साद्या निरागस सैमसांभारा सरीं पळोवन अंतर्मूख जातां.

*काळीगंगेंतली* सामाजीक मानसीकता ही परंपरागत समजूतदारपणाची. मनशा मनशा मदलो संघर्श उणो. चडसो संघर्श मनीस आनी सैम, नियती हांचे मदलो. उबे दोंगर, हुंवारी न्हंय, कस्याळ शेतां आनी मदीं वशिल्लो गांव! हातूंत मनीस सोताक दुबळो, असुरक्षीत मानता. तरीय तो हातांत खोरें, कुदळ, नांगर घेवन आपले परीन हें सगळें आंगार घेता.

तशें पळोवंक गेल्यार हे कादंबरेचो काळ नव्या आनी पोन्न्या वाऱ्याचो संधीकाळ. एकादऱ्या समाजपोंव्याची नैतीकताय ताच्या अस्तित्वाच्या झगड्या वांगडा बांदिल्ली आसता हें खरें आसलें तरीय अस्तित्वाचो प्रस्न हेरांक नाडपी, दुःख दिवपी विकृती मेरेन पावंक फावना. आनी तो ह्या समाजाच्या हजार वर्सांच्या प्रवाहांत केन्ना पाविल्लो ना. आतां आतां केन्ना तो तसो पावंक पावता तेन्ना बरोवप्याकूय भिरांत दिसता. आवय-बापूय नाशिल्लें, आधार तुटिल्लें सुमन, शेतजमीन हीच ताच्या फुडाराची आस्त आनी राखण. तिवूय कुळकायदयाच्या निमित्ता खाला तागेलोच बापोलयो हातासता तेन्ना पुराय वाडो गद्‌गद् हालता. प्रस्न कुळकायदयाचोच न्ही. काळ कूस परतिता, वायट वारें व्हांवता. नैतीकतायेक तडे वचूंक लागतात. समाजपरिवर्तन हें सदांच बरे दिकेन वयता अशें म्हणूं नजऽ. आज काळीन्हंयचो वाठार पयलीं वरी ना. तो पुराय बदल्ला. हाची सुलूस बरोवप्याक सत्तरच्या दसकांतूच लागिल्ली. तरीय रवाणें मांडून बशिल्लीं पोन्नीं निती मुल्यां तितलींच बळिश्ट आसात. धाग्याधाग्यांनी विणिल्ली मौलीक जीण अजुनूय विसकटिल्ली ना. म्हणच हो मनीस एकमुळो एकसुरो ना. आनंदाचे सुवाळे आनी दुःखाचीं सुतकां हो लोक भौशीकपणान मनयता. हेरांल्या दुःखांत मनीस आपलें काळीज कोंचून घेना हें खरें आसलें तरीय हांगा एक पोंवो आपलीं दुःखां भौशीकपणान भोगचेलो अदीम अमृत खीण अजुनय राखून घेवन आसा. कोण जाणा, हेच आस्तेर आनी स्रद्‌धेर मनीसजात हांगा मेरेन तग धरून तड मारूंक पाविल्ली!

तशी ही काणी सुट्या सुट्या मनशांची, सुट्या सुट्या गजालींची न्हय. तशी ती वेल्या वेल्यान दिसली तरी तिका घट अंतस्थ वीण आसा. सामाजीक संदर्भ आसा. ताचेर सैमाची सावळी आसा, मातयेचें रीण आसा, काळीन्हंयच्या प्रवाहा वांगडा बांदिल्लेपण आसा. दोंगरांचो सांगात आसा. घांगे फातरांची भिरांकूळ भव्यता आसा, वर्गणाची लागणूक आसा. हांतलो थंयचोय संदर्भ सुटो करूंक गेल्यार

ादंबरी अपंगूळ जातली. कादंबरी एका मुक्कामार पावन बरयल्ली ा तर एके सैमीक प्रक्रियेंतल्यान आपली वाट सोदीत ती मुखार ता.

सुरवेक बरोवप्या मुखार आशिल्लो एक समाज आनी सैम. रीय एक परंपरागत प्रस्न आशिल्लोच, गांवगिऱ्या वाठारांतलो. हो ोक हजार हजार वर्सां जिणेच्या एकाच राटगाड्याक बांदिल्लो ासा, तांचे मदीं सृजन. नवनिर्मिती खंय आसा? लोक तर गांवगिऱ्या ाठारांतली ही जीण दळदिरी म्हण गांव सोडून वचूंक उठिल्लो. पूण ्हजे नदरेन ताचें सैमपटा वयलें कृशीसृजन मोलाचें आसलें. सैमांतल्यान ेतिल्लें सैमीकपण मोलाचें आसलें. सैमूच ताचो नायक आसलो. ताचो पावस भारार येता, माती रुतुमती जाता, रोपां आनी वाली ार्भार जातात. ताचें सगळें सगळें रुतूं वांगडा घुंवताना परत परत सृजनांतल्यान विनाश आनी विनाशांतल्यान परत सृजन घडत आसता. हीच तर म्हजी शिदोरी आसली. तांची जीण गरीब आसली तरी बकाल बुरशी मात साप्प न्ही. सैमाची सोबीतकाय जिणेच्या दर एका कर्तुबांत पडबिंबीत जाताली.

कादंबरेचेर एक आक्षेप आसा, कादंबरी चड दुःखाच्योच काणयो सांगता. म्हाका सोताक तर दिसता, म्हज्यो दुःखाच्यो काणयोच श्रेश्ठ काणयो. म्हज्यो काळखाच्यो, मरणाच्यो काणयोच श्रेश्ठ काणयो. दर एका लेखकाचो एक पिंड आसता आनी तो पिंड अणभवा वांगडा, पूर्वसंचिता वांगडा बांदिल्लो आसता. त्या पिंडा पसून फारकत घेवप अप्रामाणीकपणच आसता. त्या वाठारांत रावन जिवीतभर जिविताचो दुखदेणो अस्तित्वाचो संघर्शूच पळयलो, एका फाटोफाट एक आडमर्णांच पळयलीं, जाका काळखाचें सासणाचें कुवाडें पडिल्लें ताणें विदुशकाचीं वस्त्रां कशीं न्हेसचीं? तरीय सांगता, म्हजी पिंडप्रकृती हांवें म्हज्या कथानकांचेर, म्हज्या पात्रांचेर वोजें म्हण घातिल्ली ना. म्हजीं पात्रां सैमीक नेमान सहज जल्मून आयल्यांत. वास्तवांत आनी अणभवांत विसंगती येवची न्हय हाची हांवें सादूरपणान जतनाय घेतल्या. शेवटा इल्लो दुबाव एक ललीत लेखक म्हण मनांत उरताच - अणभवाक कलात्मकतेची जोड दिताना वास्तवाची धार उणी जाता काय कितें? हें वाचकाक चड बरें होलमूं येता.

ही कादंबरी बरयताना बऱ्योच गजाली म्हजे बाजून आसल्यो. हांव त्या वाठारांत वाडलों, भुरगेपणा पसुनच म्हाका सैमपिशें लागिल्लें. महत्वाचें म्हटल्यार, बोलीभाशेच्या आंगानूच गांवगिऱ्या वाठाराचें चड बरें आकलन जावं येता. अणभवांचे अणकार करी नासताना अणभवांक बोलीभाशेंतल्यान थेट हात घालून केल्लें चित्रण चड वास्तव जावं येता. ताका चड मुळावेपण येता. हें आतां म्हाका वैश्वीक सत कशें सामकें पटलां.

हांव म्हणटां खरों, पात्रां मातयेंतल्यान फुट्टात आनी हाडांमांसाचीं जावन उबीं जातात. हाकाय कांय आडवाद आसात. हे कादंबरेंतलें एक मुखेल पात्र सुमन हे मातयेंत चुकून जल्मलां अशें दिसता. तें बरेंच बंडखोर, मनस्वी तरीय मोग करची तितलीच तांक आशिल्लें. तरीय सुमन शेवटाक आंकवार रांडावपण भोगता. हाचे फाटलो सुसंगत असो विचार जाल्लो. हांवें म्हजी प्रतिभाय पणाक लायल्ली. ही अवतिकाय उबी करप तितलें सोंपें नासलें. सुमनाल्या ह्या आंकवार रांडावपणा फाटल्यान गंभीर कारणमिमांसा आसा. बाळपणा पसूनचो मोगी, जाका तें सर्वस्व दिवन मेकळें जाल्लें, तो मेला. आवय सारकी आशिल्ली व्हडली भयण दोगां अबुद्ध भुरगीं ताच्या पदरांत घालून गेल्या. ताणें मुखावेलीं सगळीं मोडां आंगार घेतल्यांत आनी आपल्या हातांनीच फुडाराची वाट कवळून दवरल्या. ह्या असहाय्य खिणाक ताचे मुखार दोनूच पर्याय आसले, एक तर आत्मघात करून मेकळें जावचें ना तर जिखचेली आस्त नासतनाय संकस्टाक मुखार वच्चें. तें रांडावपण आपणायता. ताचे आर्दी कांय सुचक बाबी येतात. गोविंदाल्या हुस्क्यान सुमन आंगणा मेरेर बसलां. बाय मंजुळालीं दोगांय भुरगीं वारांदांत आसात. तेन्ना सुमनाक जाणवता, आपल्या ओटीपोटांत दुखता. मागीर खीणभर ताका दिसता, हीं दोगांय भुरगीं म्हज्याच पोटांत जल्मूंक नाशिल्लीं मू! ना तर ही दूख खंयची? मागीर ताका कळटा, गोविंद रातभर नाच कांडून गेला! हांगा अस्तुरेच्या कर्मभोगाचें एक वर्तुळ पुराय जाता. तें मनान आंकवारूय ना आनी, भुरगें जावंक नाशिल्ली अस्तुरीय ना. आतां ताणें अपरिहार्यपणान रांडावपण भोगचेलें. मूर्त लग्नकर्माच्यो शिमो हांगा सुमनान पुसून उडयल्यात आनी गंधर्वलग्नाची पवित्रताय तें राखूंक पळयता. मुळांत ह्या गांवच्या लोकांचो दोश म्हटल्यार, हे लोक चड समंजस आसात आनी जिविताक आसा तशें आपणायतात. प्राप्त परिस्थितीक ते प्राक्तनाचें देणें म्हण आपणायतात.

खंयच्याय कवीक कविता येतात तशीं बरोवप्याक व्यक्तिमत्वां येतात जावये. पयलीं तीं अंतरमनांत बाळका वरी जल्म घेतात. मागीर कागदार पूर्ण रूप घेवन साकारतात. हांव खंयच्याय व्यक्तिमत्वाचें म्हजे परीन समर्थन करिना. तरीय म्हाका होलमलां, वाठारांतले प्राप्त अवतिकाये परस मनशाचे जल्मगूण चड महत्वाचे आसतात. एकेच मातयेंतलीं, एकाच घराब्यांतलीं मनशां वयल्यान पळोवंक समानधर्मी, समरुपीय दिसतात पूण भितरल्यान आपल्याच ध्रुवाचेर पड्डे लावन जियेतात. अश्योच दोगी भयण्यो मंजूळ आनी सुमन. मंजुळालीं दुःखां हीं नियतीभोगांतल्यान आयिल्लीं तर सुमनालीं स्थितीभोगांतल्यान. मोव मनाकुडीच्या मंजुळालो जिवीत संघर्श चड दुखदिणो. एके परंपरेंत, सैमीक आशेन् मंजूळ नियतीच्या चाकांत घुंवता. तर सुमन चाकांत घुंवप न्हयकारता. हातपांय धाडायत परंपरे आड वता. चुकोय करता. दोगांयचे शोकांतिकेचीं फलितांय वेगळीं.

हांगा आनीक एक प्रस्न उठ्ठा. सैम सान्निध्यांत वाडिल्लीं नातींगोतीं राखपी मनशां मुळांत मनान चड मोव, चड भावूक आसतात काय कितें? सहज सैमीकपणांतल्यान मातशीं कुशीक पडटकीर तीं आत्मघात करून घेतात काय कितें? मंजूळ, मंजूळालो बापूय गणेश,

गोविंद हांचे बाबतींत हें घडटा खरें. सैमा पसून नाळ तुटिल्ल्यान सगळीं दुःखां उप्रासतात जावये. आमी जांकां दुभंगिल्लीं व्यक्तिमत्वां म्हणटात तीं सैम सुरमेळ इबाडिल्लींच आसतात.

सुमनालो मोगी गोविंद हाची आत्महत्या एक अपघात न्ही. मुळांत तें व्यक्तिमत्व मोडिल्ल्या मळबा सकल तिगपा सारकें न्ही. तरीय तें बिजूट व्यक्तिमत्व न्ही. फुला पाकळे सारकें नाजूक मन, इल्ल्याश्या वोतांत व्हांवन वच्चेलें! गोविंद भावनाशीळ, मोव मनाचो एक आश्रीत भुरगो. चोंयभोंवतणची अवतिकाय इल्लीय ताच्या फावरांत ना. पोसको म्हण मनाकुडीन दुबळो करून उडोवपी, मामा-मामयेचो मोग, सुवार्ती, हडेलहप्पी हुंब भाव, ताचें टॉर्चर, मोगाच्या अपेसांतल्यान आयल्ली निर्शेणी आनी न्हंयमदीं आयल्लो एक अवसानघातकी काळखीण! हांगा आनीक एक प्रस्न बाकी उरताच, मोगाच्या अपेसांतल्यान संवसारांत इतले लोक कित्याक आत्मघात करून घेतात काय?

मनाचे भोव करुणात्म भावनेंतल्यान हांवें शोभालें दुःख मांडिल्लें. शंकर हो सैन्यांतलो जवान झुजाचे आघाडेचेर मरता. मागीर अबुद्द बायल शोभा हिचें क्षितिजच मोडून पडटा. हाचेर वाचकाच्यो चडश्यो प्रतिक्रिया आयल्ल्यो नात. म्हाका शोभा ह्या पात्रा विशीं आगळेंच आपलेपण, उमळशीक आसा. हांवेंच उबें केल्लें तें पात्र मनांतल्यान मदीं मदीं वळख दाखयत आसता.

अस्तित्वाच्या संघर्शांत सैम आनी नियती वांगडाचें झगडें, आपल्या पेल्याचीं मरणां, वर्गणाची भावनीक ओडताण आनी ताटातूट हीं कांय दुःखां कादंबरेच्या केंद्रस्थानार आसात. तांकां चड आर्तसूर लागल्यात काय कितें? मरण हें शाश्वत सत्य धरून हांवें चूक केल्या काय कितें? भावभावनेक हांवें इल्लें चड महत्व दिलां हें खरें. मनशालो मानसीक सामाजीक विकास हो भावनीक ओडींतल्यान जाल्लो आसा म्हण मनीस मोगाळ दयावंत आसता. गोरवांक गोटो बांदपी, गायेक जोताक ना बांदपी मनीस तितलोच अहिंसकूय आसता म्हण मनीसजाती विशीं एक उपाट आशावाद म्हज्या मनांत आसा. हो आशावाद भावनीक आपलेपणांतल्यान परतो परतो येता. पूण चड फावट मरण सपनां विसकटावन उडयता खरें. ही कादंबरी वाचप्यान वास्तव पातळेर घेवची. ती व्यवहारीक पातळेचेर घेतल्यार निर्शेणीच येतली. कारण, भावनाशीळ सैमीक जिवीत जगपी मनशां उणीं व्यवहारीक आसतात.

संपर्क: ९७६४०७२९०८



हेमा नायक

# भोग+दंड=*भोगदंड* कादंबरी फाटली कथा

१९७३ वर्सा मडगांवच्या चौगुले महाविद्यालयांतल्यान अर्थशास्त्र आनी राज्यशास्त्र हे विशय घेवन बी.ए. ची पदवी संपादन करून अर्थीक नदरेन म्हज्या पांयार उबें रावपाची हांवें तयारी केल्ली. नोकरे खातीर चड तिश्टुचें पडलें ना, कित्याक तर तेन्ना पदवीधारक मेळप कठीण आसलें. शिक्षणीक मळाचेर निकतीच उदरगत घडूंक लागिल्ली. उत्तेजन म्हण पदवीधारकांक बडट्यो, भत्ते दिताले. अश्या वातावरणांत १९७४ वर्सा म्हाका गोवा अर्बन को-ओपरेटीव बँकेंत नोकरी मेळ्ळी. आपले जोडीचे पयशे हातांत घोळयत जगप कितलें सुखदिणें आसता हाचो अणभव येवपाक लागलो. चड करून, हांव 'चली' म्हण दुसऱ्यांचेर भार जावन आसां हो न्यूनगंड ना जालो आनी नोकरेच्या सुखाचें आगळेंच खाशेलेपण म्हाका उपभोगूंक मेळ्ळें. आनी मागीर, म्हजे आवयची पिळगी 'बायल' म्हण अपमानीत जिणें जगताली हे विशींची खंत जाली. अशे हे मिश्र जाणिवेंतल्यान निर्माण जाल्ल्या विचारचक्रा वांगडा कांय बिजां वरवीं कथांची निर्मणी जाली. कथा, लेख बरयतां म्हणसर धा-एक वर्सांचो काळ पासार जालो.

*निर्बळा* नवलिका छापून उजवाडाक आयिल्ली. बऱ्यो वायट प्रतिक्रिया येत राविल्ल्यो. म्हजें लेखन स्त्रीवादी म्हणपाचो म्हजेर छापूय पडिल्लो. *निर्बळा*तल्यान तें सगळ्यांक चड प्रकर्शान जाणवल्लें. पूण जायत्या जाणांक ती सत्य घटनाच दिसली, आनी अश्यो घडणुको समाजांत घडटात हाचें समर्थनूय तांणी केलें. चड करून दादल्यांनी. तांच्या प्रतिक्रियांतल्यान म्हाका नवें बळ आयलें. समाजांत घडटा ताचें वायट बरें दर्शन साहित्यांतल्यान मांडपाचें उत्तेजन मेळ्ळें. ही बाजू जमेची! पूण समाज थीर नासता. तो बदलत आसता. सरभोंवतणच्या वातावरणा प्रमाण समाजांत वावुरतल्या लोकांचेय विचार बदलत आसतात. आनी नेमको होच परिणाम साहित्यकृतीचेर घडून आयिल्लो दिसता. साहित्य हो समाजाचो हारसो अशें आमचे म्हालगडे साहित्यीक सर्गेस्त चंद्रकांतबाब केणी पटोवन दिताले. साहित्यांत समाजाचें पडबिंब पडटा अशें ते सदांच म्हणटाले. म्हजे *भोगदंड* कादंबरेचे वाटचालींत तांच्या विचारांचें सहकार्य लाबलां. *भोगदंड* कादंबरे फाटली कथा बरयतना तांचो उगडास केले बगर रावं नजो.

हांव समाजा बरोबर जगपाक शिकलें आनी जगतना गांठीक पुंजायिल्ले अणभव साहित्यांत ओतूंक लागलें. १९७४ वर्सा सावन नोकरेचे निमतान बँकेंतल्या वेव्हारा कडेन संबंद आयलो. तरातरांच्या लोकां कडेन उलोवप, वाद घालप, झगडप अश्यो गजाली घडपाक लागल्यो. बदली जाता ते प्रमाण वेगवेगळे वाठार अणभवपाक मेळ्ळे. सांवड्डें, मडगांव, पणजे, सांतिश्तेव अश्या जाग्यांनी पावलें. थंयच्या लोकांची चाल-चलणूक, वागप, रिती-रिवाज सगळें समजून घेवपाक मेळ्ळें. गोंय तशें आकारान ल्हान, पूण ह्या ल्हानश्या गोंयांत गांव खूब. चडसो वाठार गांवगिरोच म्हणल्यार जाता. थोडीं मोजकीं शारां सोडलीं जाल्यार हेर सगळे गांव. शारांची जितले गतीन सुदारणा जायत गेली ती गती गांवांनी आपणायली ना, वा ते गांव दुर्लक्षीत उरले. गांवांनी हें अशें मागासलेपण उरपाक पंचायती आनी सरकारा परस गांवचे लोक चड जापसालदार हें नोकरे निमतान गांवांनी भोंवतना आनी लग्ना उपरांत गांवांत रावपाक येतकूच कळून आयलें. नवें कितें आपणावपाक हे लोक सहसा तयार जायनात. अनवळखी मनीस गांवांत दिसल्यार ते कांचवेतात आनी ताचे पसून शादूर रावतात. गांवा पसून शाराक जोडपी पुलाची जायत्या जाणांक नसाय. पूल जाल्यार रहदारी वाडटली, नवे लोक गांवांत भितर सरतले आनी मागीर चोरयो, खून, बलात्कार असले प्रकार घडटले ही तांची भिरांत.

आनी म्हजी *भोगदंडा*ची कथा घडली ती एका जुंव्यार. शारा पसून पयस. *निर्बळा*त चित्रायिल्ल्या समाजा वयल्यान विशेक वर्सांचो काळ गेल्लो. समाजांत घडटलो बदल जाणवतालो. चार वणटीं भायर सरनाशिल्ली आमचे आदले पिळगेंतली बायल आतां तशी उरूंक नाशिल्ली. हे पिळगेंतली बायल बाजारांत वचपाक लागिल्ली. बँकेंत पयशे घालप, काडप, लायटीचीं बिलां फारीक करप, पोस्टांत वचप असले सगळे वेव्हार करताली. इतलेंच न्हय तर ब्युटी पार्लरांतूय वचपाक लागिल्ली. नवी तरनाटी पिळगी तर सुमारा भायर स्मार्ट जाल्ली. सामाजीक बंधनांचे पास तिणें तोडून उडयिल्ले. लग्नाचो करार बऱ्याच जाणांक पसंत नाशिल्लो. लग्न जायनासतना कितल्याय इश्टां वांगडा स्वैरपणान आनी मेकळेपणान सूख भोगूं येता ही विचारधारणा जाल्ली. पूण पयश्यांचें मात खर आकर्शण! हे फाटभुंयेचेर जुंव्यार पावलें. १९८५ उपरांतचें दसक! बंधनां आनी मर्यादांच्या भारान जियेतले फाटले पिळगे कडसून घेतिल्लो वसो ह्या काळांतल्या तरनाट्यांनी मोखून मारिल्लो आनी बंधनमुक्त जीण जगपाचो हावेस तांणी बाळगिल्लो.

म्हजे तकलेंत शिजिल्ल्या कथाबिजाचें रुपांतर *भोगदंड* कादंबरेंत जातासर तें आनीक एका प्रवाहांतल्यान गेलें. सुरवेक ताचो स्कॅच कादंबरी म्हण जावंकूच नासलो. आकाशवाणी पणजे केंद्राचेर नभोनाट्यांची वितरावणी जाताली ताचें एक आकर्शण आशिल्लें. आनी नभोनाट्या खातीर म्हाका एक वेगळोच विशय मेळ्ळो. ल्हानशें कथानक. बँकेंतूच मेळ्ळें. लेजर, पासबूक, चेक, विथड्रॉवल ह्या सगळ्या जंजाळांतूच मेळ्ळें. एक दीस गरीब कसो दिसपी एक खातेंदार बँकेंत भितर सरलो आनी कावंटरा मुखार उबो रावन आपलो पासबूक

फुडें करून पयशे मागपाक लागलो. लेजर उगडल्यार ताच्या खात्यांत पयशेच नाशिल्ले. फकत पांच रुपया. तशें सांगतकच तो तेच दी म्हणपाक लागलो. म्हणलें, ते काडपाक मेळनात. कितेंय कर, पूण ते पयशे दी, ताचो आग्रो. खातें बंद जातलें, ताका सांगलें. जाल्यार उपकारता, ताचें म्हणणें. कसोच आयकना जातकच ताका मॅनेजराच्या कॅबिनांत धाडलो. मॅनेजरान ताका खूब विनयलो. रावं नजो जातकच तो आपल्या तोंडान वदलो. इत्सा नासतना आवयन बळजबऱ्यां कुवेट धाडलो - दुडू जोडपाक. थंय कोणागेर रांदपी म्हण रावलो. दुडू मेळ्ळे. गांवांत येतकच फ़ावऽ तो मान मेळ्ळो. काजार जालो. परत गेलो. दुडू धाडीत रावलो. बायलेन आपल्या आदल्या इश्टा कडली इश्टागत चालू दवरली. घोवान धाडिल्ल्या दुडवांचेर जाय तशी मजा मारली. मोटे उमळशिकेन तो गोंयां आयलो, आनी पळय जाल्यार ताची बायल ताच्याच दुडवांनी बांदिल्ल्या नव्या घरांत संतोसान रावता आनी ताच्या खात्यांत मात शिल्लक पांच रुपया. ती ताका सांगता, इतलीं वर्सां कुवेट 'कूक' म्हण रावलो, आतां आपल्या घरांत 'कूक' म्हण राव. कुडीच्या सुखाची गरज आशिल्ली तेन्ना सोडून गेलो. ती गरज इश्टान भागयली. मॅनेजर शेरो मारता, 'अकावंट मे बी क्लोजड्' आनी तो कॅशरान दिल्ले पांच रुपया घेवन बँकेचीं सोंपणां देंवन विडी घेवपाक दुकानार वता. नभोनाट्य पणजी आकाशवाणी वयल्यान प्रसारीत जालें. खूब जाणांक आवडलें आनी मागीर होच विशय तकलेंत घोळत उरलो.

म्हजे कडेन कथाबीज आशिल्लें. कादंबरेक फावो तसलें वातावरण बँकेचे सभोंवतणी आशिल्लें. पात्रां आशिल्लीं. एक समाज आशिल्लो. *निर्वळा*नवलिका उजवाडा येतकूच आनी कांय प्रतिक्रिया मेळटकच नाय म्हणल्यार कादंबरेचे वाटेक वचपाचें थोडें भोव धाडसूय आयिल्लें. ह्या धाडसांतल्यान आत्मविश्वास वाडलो आनी थारायलें, कथेची फास्की तोडून विस्तृत कादंबरेंत ह्या बिजाक वाडोवप. ल्हानशें पूण सशक्त कथाबीज, फावोशें वातावरण, व्हडलो कॅन्वास, प्रसंग आनी घडणुको, तशीच तीव्र निरिक्षणशक्त आसत जाल्यार कादंबरी बरोवप कठीण न्हय हेंवूय पटून आयिल्लें.

समाजांत घडटल्या अर्थीक, समाजीक, राजकी बदलां वांगडाच साहित्य रचना प्रक्रियेंतूय थोडो बदल घडून येतालो. सादारण १९९० उपरांतचो हो काळ. मोटव्या काणयां परस वाचप्यांक दीर्घ कादंबरी आवडूंक लागिल्ली. एक वाचक हे नदरेन म्हाकाय बी कथां परस कादंबरेचें आकर्शण जडिल्लें. कादंबरी वाचतकच कितें तरी भव्यदिव्य वाचिल्ल्याचें समाधान मेळटा जें कथांनी मेळना. कथा ही एके विशिश्ट घडणुकेचेर आदारिल्ली माण्णी. पूण कादंबरेंत तर पात्रा कणकणी एकेक वा अनेक कथा सांपडटात आनी हो घुस्पल्लो आनंद, दुखख वाचप्यांक तरेकवार विचार करपाक लायतात.

पूण हें सगळें घडून येवन बऱ्यापैंकी कादंबरेची निर्मणी जातली जाल्यार खोलायेन अभ्यास गरजेचो. विशयाचें गिन्यान विविधांगी आसपाक जाय. फकत एक कथासुत्र आसून उपकारना. ज्या समाजांत ती कादंबरी घडटा तो समाज ताच्या तरेकवार आंगां सयत होलमूंक जाय. कादंबरेंतल्या पात्रांनी समरस जावपाक जाय. ज्या वर्तमानकाळांत कथा घडटा ताचो भूतकाळ जाणा जावन घेवपाक जाय आनी भविश्यकाळाचीय सुलूस आसपाक जाय. हें सगळें म्हाका करचें पडलें. जो किरिस्तांव समाज कादंबरेंत घेतिल्लो त्या समाजाची थोडीभोव वळख आदीं सावन आशिल्ली. मडगांवांत भुरगेपण गेल्ल्यान शेजरा तशीं किरिस्तांवांचीं घरां आशिल्लीं आनी तांगेर यो-वच जातालें. तांचे मदलें तेन्नाचें घोळप आतां उपकारा पडलें. वर्तमानकाळ म्हजे नदरे सामकार आशिल्लो. फॉरेनाक वचपाची क्रेज, दुडवांची आस... भूतकाळ समजून घेवपाक तांचे वांगडा समरस जावचें पडलें. तांचें दळडीर, खावपाक पातिशेर, धड न्हेसपाक ना... कांय कुटुंबांचे लागीं वचून तांच्या गजालींनी रमचें पडलें. गांवांतलीं कोंकण्यां आनी किरिस्तांवां भितरलीं किजिलां, संघर्श समजून घेवचे पडले. कादंबरेक हें सगळें गरजेचें आशिल्लें. हो अभ्यास हांवें केलो.

बँकेंतली नोकरी हे नदरेन बरीच फायद्याची थरली. जुंव्यार तेन्ना आमची धरून तीन बँको. तिनूय बऱ्यो चलताल्यो. बँकेंतल्या ह्या फांट्यांतले बचतीचेर हेर फांट्यांची रिणां दिवपाची गरज भागताली. भोवतेक जाणांचे पयशे कायम ठेवींत जमा. जायत्या ठेवींचो ज्यूर म्हयन्या-म्हयन्याक, थोड्यांचो तीन-तीन म्हयन्यांनी, थोड्यांचो स-स म्हयन्यांनी आनी थोड्यांचो तर ज्यूर अदीक करून ज्युराचेर ज्यूर! रिणां ही खूब थोड्यांची गरज आसली. चार-पांच वेपारी ते हिंदू. तांचो वेपार तेजींत. गिरायकांक फिरंगी म्हालाचें पिशें. दुकानाचेर जायतो फिरंगी म्हाल. शाबू, शाम्पू, सेंट, पोव, चॉकलेटी, मॅगी, सॉसां आनी तेलां लेगीत, कॅसेटी तर घे म्हणून... तरातरांचे जिनस आनी वस्तू.

कांय जाण बँकेंत फॉरेन साडयो गुठलावन हाडी विकपाक, सामक्यो मोव. म्हाकाय पिशें लागिल्लें. म्हयन्याक एक तरी साडी घेवप आसतालीच . म्हाका इतलें, जाल्यार तांकां कितली क्रेज आसूंक जाय हाची पारखणी केली. गोंय सायबाच्या मिसाक आनी काजरांक तांचे फिरंगीपणाचे भेस नदरेंत भरताले.

नुस्तें, मांस आनी भाजयो सोडल्यार तांच्या घरांनी सगळेंच फॉरेन. सोरो लेगीत. भांगर तर जालेंच. कुवेट -दुबय सावन कोणूय आयिल्लो आसल्यार तो आपल्या घराच्या व्हरांड्यांत धाकली चड्डी घालून वयलें सगळें आंग उकतें उडोवन बिनधास पासयो मारतालो. गळ्यांत भांगराची गडगंज सरपळी आनी हातांत जाडजूड माश्कोत. भायर तो रांदपी वा कोयर काडपी आसूं, घरा येतकच ताचो थाट पळोवपाचो! ह्यो सगळ्यो बारीकसाणी कादंबरेक उपकारा पडल्यो. हांगासरले लोक, तांची चाल-चलणूक, जेवप-खावप सगळें कादंबरेचो asset थरलें. सकाळीं बँकेंत भितर सरनाफुडें आदले रातीं गांवांत घडिल्ली एकेक गजाल कानार पडटाली. केन्ना प्युना कडल्यान तर केन्ना कावंटरार आयिल्ल्या मनशा कडल्यान वा बील फारीक करूंक येतल्या बायलां कडल्यान. मसालो मेळत गेल्लो.

विद्यार्थी दशेंत आसतना शिकिल्लें साहित्य, तशेंच मागीर वाचिल्लें तत्वगिन्यानी साहित्यूय म्हजेर प्रभाव घालीत गेल्लें. हांवें वि.स.खांडेकरांच्यो भावूकतायेन रंगयिल्ल्यो कादंबऱ्यो वाचिल्ल्यो. गांधीवादी तत्वांचो थोडो अभ्यास केल्लो. कार्ल मार्क्साचें समाजकारण आपणावपाचो यत्न केल्लो आनी शेक्सपियरचीं एक दोन नाटकां अभ्यासपूर्ण नदरेन शिकून घेतिल्लीं. अर्थकारण आनी राजकारण हें तर बी.ए. च्या अभ्यासक्रमांतल्यान शिकून घेतिल्लें. म्हज्या लिखाणाक आनी विचारांक मेळिल्ली ही बसका म्हजे साहित्यीक कारकिर्दींत

कारा पडली. ह्या सगळ्याचो कळटां नंकळटना कादंबरेचे प्रक्रियेंत ाव पडत गेलो. *भोगदंड*सं हें आपसूक येत गेलें. बँकेंतल्या दिसपट्ट्या हारांतल्यो घडामोडी बारीकसाणीन नियाळटना आनी भोंवतणच्या शेश्ट समाजाचें निरिक्षण करतना *भोगदंड*कादंबरेचे संहितेक जोडण्यो ळत गेल्यो. दुडवां बगर मनशाक समाजांत प्रतिश्टा ना अशे तरेची काळाची मानसीकताय. दुडवांचे आशेन भायर धांव घेवप, थंय ागीर कोणालीय कसलीय चाकरी केल्यार जाता, हे भावनेन फुडाराचो सर पडप वा फुडल्या दुश्परिणामांचेर आडनदर करप हें कादंबरेंत भावीकपणान येत गेलें. तातूंत वाडट्यां चलयांचींय हींच सपनां. वेटकार वा दुबयकार घोव मेळप म्हणल्यार सर्गाक हात तेंकयिल्ले ी! त्या काळांत हांवें भोंवतणी हेंच वातावरण पळयल्लें. शिक्षणाक ल नासलें - थोडेंशें यॅस्-फॅस् करपाक आयल्यार पुरो जातालें. रगो आठवेक पावनाफुडें आवय बापायकूय बी ताच्या गल्फाक वपाचे वेध लागताले. शिक्षणाचेर, करियराचेर भर ना पूण गल्फाचे पीचेर भर. एकदां गल्फाक वचप्याक पयशांची रूच लागता आनी ागीर घरदार, कुटुंब ह्यो गजाली ताचे खातीर नगण्य थरतात. अशे रेन अनैतीक मार्ग आपणावन मोडून पडिल्ल्या कुटुंबांतली बिगडिल्ली ांतिकाय हांवें पळयली. जोडिल्ली जोड घरा धाडून वर्स दोन वर्सांनी खाद्र्यान गांवघरा येवप, दोन-तीन म्हयने घरा रावन जाय तशें सूख ोगून घेवप आनी ह्या म्हालवजार गल्फांतलें एकलेपण सारप. नापले नदरे आड बायलेन हांगा कोणाचीय संगत धरल्यार तो व्हडलें वन बसना, पूण गांवांत येतकच मात तो तिका पातयेना!

म्हाका याद जाता, पयलेच फावट बदली जाल्ली आनी ह्या ांवांत पावल दवरलें तेन्ना भोंवतणची थंडसाण पळोवन म्हाका भिरांत दिसली. गांवांतले भोवतेक दादले गल्फाक सिर्विशेक आनी ायलो घरांत एकल्यो. जायत्या दुबावांनी मनांत घर केलें आनी ातूंतल्यान निर्माण जाल्ल्या प्रस्नांनी *भोगदंड* कादंबरेच्या कथानकाचीं नुखेल सुत्रां रंग रूप घेवपाक लागलीं. एका प्रस्नान पयलींच खवदळ जाल्लो - पयशे जोडूंक गल्फाक गेल्ल्या एखाद्र्याची बायल घोव परतो येसर हांगा घरांत ताची वाट पळयत कशी रावता आसतली काय? आनी मागीर एकेके घडणुकेंतल्यान हांच्यो जापो मेळत गेल्यो. भितर हांथरुणाचेर एखाद्री जाणटेली परवंता वा न्हिदे भरवण जावन घोरेता, आनी भायल्या जनेलांतल्यान कोण पासार जावन त्या जनेलांतल्यान भितर पावता. तर कोणाल्या दाराक भायल्यान कुलप आनी भितरल्यान स्वास, हुस्कार आनी कितें कितें! ह्या सगळ्यांतल्यान कादंबरेंतल्या पात्रांचेर प्रणयी साज चडलो आनी कथानक रसभरीत जावंक पावलें.

हाता लागीं खूब आसतकच तें घुसडावपाचो सोस लेखकाक जाले बगर रावना. पूण कथानकाक बादिकार जायत तशें असंबद्ध बरयल्यार पुस्तकाचो तोल वचूंक शकता. देखून सगळ्या गांवाचो आटाप पयल्या प्रकरणांत हाडलो. गांवाचें चित्र रेखाटपाचो यत्न पयल्या प्रकरणांत केलो आनी मागीर कथा घडत गेली. *भोगदंडा* सारक्यो कथा एका न्हय तर जायत्या घरांनी घडटाल्यो. घोव गल्फाक, दुडू बायलेच्या नांवार, बायलेन फोल्गां मारप, पलतडीं घोव-आलतडीं प्रियकर, दुडू घोवाचे, ताच्या इश्टान भोगपाचे. निमाणें घडटा ती शोकांतिका. फिल्मी कथा! *भोगदंड* कादंबरीय सिनेमाटोग्राफीक पद्धतीन घडत गेली. एखाद्रो चित्रपट बरो जातलो जाल्यार तो कादंबरेचेरूच आदारीत आसपाक जाय हें कादंबरेचो स्कॅच काडटकच कळून आयलें. फुडें हाचेर चित्रपट केन्नाय येवं, पूण कथानक चित्रपटाचें!

आनी हें सगळें जुस्ताजुस्त घडून येवपाक स वर्सां उलगलीं. नोकरी सांबाळून, कोंकणी चळवळींत सक्रीय आसून, कुटुंबीक तडजोडींतल्यान, ल्हान भुरग्याची जतनाय घेत कादंबरेचे निर्मणेची प्रक्रिया जाताली. छापील दोनश्यां वयर पानांची कादंबरी हांवें तीन फावटीं परतून बरयली. सुदारणा जायत वताली. तेन्ना संगणक नाशिल्ल्यान सगळें हातांनीच बरोवप जातालें. पूण अजिबात उबगण येनासली हें म्हत्वाचें. एक गजाल हांवें तेन्नाच थारायिल्ली, चड विपूल प्रमाणांत बरोवप ना, कित्याक तर सगळो मेळ जुळोवन गडगंज लिखाण करप आमचे सारक्या बायलांक शक्य ना. पूण बरयता तें यादींत उरसारकें आसपाक जाय.

आनी, हो आतां कादंबरे फाटले कथेचो निमाणो टप्पो. हस्तलिखिताचें वाचन जालें. पुंडलीक नायकान निमाणचो हात भोंवडायलो. कादंबरी पास जाली आनी मागीर सूऽऽ जालें. बेगीन उजवाडाक हाडपाची उमेद जाली आनी चंद्रकांतबाबान ती 'राष्ट्रमता'चे आयतार पुरवणेंत खिस्ती खिस्तींनी उजवाडावपाची थारायली. त्या वेळार शिर्शकूय तांणीच दिलें - 'पाचवें पोरसूं करपता'. खूब जाणांनी वाचून प्रतिक्रिया कळयल्यो. लोकांक ती आवडिल्ली आनी मागीर चंद्रकांतबाबानूच ते कादंबरेचीं प्रुफां म्हजे सुवादीन केलीं.

दोनश्यां वयर पानांची कादंबरी. कोंकणींत इतलीं मोठीं पुस्तकां सहसा छापून येनासलीं. ताका जायतीं कारणां आसात. बरोवपी उणे आशिल्लेच, पूण प्रकाशकूय नाशिल्ले. अर्थीक फाटबळ दिवपाक सरकारी मदतूय मेळनासली. खप चड नासलो. सरकारी खातींय बी प्रती विकत्यो घेनासलीं. पुस्तकां पडून उरतालीं.

कादंबरी पुस्तकरुपान छापतना नांवाचेर बरोच विचार केलो. आपल्या भुरग्याक, आपल्या पुस्तकाक अप्रूप आनी नवेंताल्ल तशेंच चड वापरांत नाशिल्लें पूण उच्चारपाक सुटसुटीत नांव आसचें अशें म्हाका सदांच दिसता. तोवूय हावेस पूर्ण जालो. कादंबरेंतल्या कथानकाचो सार येवपी भोग+दंड अशें जोडण करून 'भोगदंड' हें नांव थारलें आनी मागीर तेंच घोळणुकेंत उरलें. आनीक एक जमेची तशीच खोशयेची गजाल घडली. आमचो इश्ट दशरथ गावडे हो बऱ्यापैकीं चित्रकार. म्हजे कादंबरेक एक आगळें वेगळें चित्र आसचें ही मागणी ताचे कडेन केली आनी तो खूश जालो. कादंबरेचें हस्तलिखीत पुराय वाचून ताणें स्वतः कादंबरेच्या कथानकाक समर्पक अशें चित्र काडून कवरां आपणेंच आपल्या मना सारकीं छापून घेवन म्हज्या घरा पावयलीं. सगळेंच नवेंताल्ल जमेक धरून एक बरो सुमेळ घडिल्ल्याचें भाग्य *भोगदंडा*च्या वांट्याक आयलें. लग्ना उपरांत बारा वर्सांनी जल्माक आयिल्ल्या भुरग्याची आवयक जितली लक्तुबाय तेच तरेची लक्तुबाय *भोगदंडा*च्या वांट्याक आयली. कादंबरेचे निर्मणेक हातभार लागिल्ल्या सगळ्यांचे मायेचें ओजें घेवन तिची यशस्वी वाटचाल जायत रावली. हाची एक दुसरी कथा जातली.

संपर्क: ९७६४५९७६२८





नं. ध. बोरकार

# हांव कादंबरीकार कशो जालों ?

केन्ना केन्नाय साहित्यिकांच्या पंगडांत वचून बसपाची म्हाका संद मेळटा. तशी साहित्यिकां कडेन म्हजी दाट अशी वळख ना. पूण जे कोण म्हाका वयले वयर वळखतात ते म्हाका कादंबरीकार म्हणून वळखतात. अशा वेळार हांव खजील जातां.

खजील जावपाकूय कारण आसा. घरचे वायट परिस्थितीक लागून भुरगेपणांत म्हजें शिक्षण जावंक जाय आशिल्लें तेन्ना जालें ना. मुळाव्या शिक्षणाचीं फकत दोन वर्सां म्हज्या नशिबांत आयलीं, तीं म्हळ्यार, बालबोध आनी पयली. ह्यो दोन यत्ता मराठींतल्यान शिकले उपरांत, खंयचेच शाळेंत शिकपाची संद म्हाका मेळ्ळी ना. मात गोंय स्वतंत्र जाले उपरांत, एकलव्याचे भुमिकेंतल्यान हांवें एम. ए. मेरेनचें शिक्षण पुराय केलें. हें शिक्षण घेतासतना पेन, चोपडी वा कसल्याच कागदाचो उपेग हांवें केलोना. दीसभर कसलें ना कसलेंय काम करप आनी रात जातकच उश्या कडेन घशीची चिमणी दवरून तिच्या उजवाडांत क्रमीक पुस्तकां वाचप. परिक्षे खातीर एक टिपण म्हूण केन्ना बरयलेंना हांवें. ताका लागून बरोवपाची संवय अशी केन्ना लागली ना.

आनीक एक गजाल म्हाका मुजरत सांगीनशी दिसता, ती म्हळ्यार, परिक्षे वेळार हांव भाशेचो पेपर बरोवंक बसतालों, तेन्ना म्हजें काळीज कलकलूंक लागतालें. निबंध-काणयेचो म्हाका थारायंच भंय दिसतालो. हांव ते प्रस्न तशेच सोडून दितालों. ताका लागून रचनेचे गूण म्हाका केन्नाच मेळ्ळे नात. असलो हो मनीस लेखक, आनी तांतले तातूंत कादंबरीकार जावपाचे लायकेचो आसत?

हांवें खूबशे मनीस पळेल्यात, ते साहित्याचे पदवीधर जाल्यात, पदव्युत्तरूय जाल्यात. तांणी खूबश्या भासांतल्या साहित्याचें वाचनूय केलां. पूण तांकां एक सादें पत्र बरोवंक जमना. ते कितेंय बरोवंक बसतात तेन्ना आडखळटात. मदींच कागदाचे गुठले करून भायर मोखतात. कारण, तांचे कडेन बरोवपाक आत्मविश्वास आसना. लेखना खातीर आत्मविश्वासाची आनी तेच बराबर इच्छाशक्तीची चड गरज आसता हें म्हाका उपरांत कळून आयलें. हे दोन गूण आसले बगर, मनीस कितलोय शिकलो वा कितलोय अणभवसंपन्न आसलो म्हूण तो लेखक जावंक पावना.

आतां लेखक कोणाक म्हणचो होय एक प्रस्न आमचे मुखार उप्रासता. पेडयेर बसून हिशेब बरोवपीय लेखकूच आसता, पूण ताका आमी लेखक म्हणनात. तो ललीत लेखक न्हय. कारण, ताचें काम बुद्धीचें आसत, पूण काळजाचें, मनाचें न्हय. ललीत लेखक बरयतना काळजाचो उपेग करता. थोड्या प्रमाणांत बुद्धीचो आदार घेवं मागीर तो. दुसरी गजाल अशी, साहित्यकार हो चराचराचें हीत लक्षांत घेवन बरयता. तो फकत मानवी जीण अभिव्यक्त करिना. तो आपल्या सरभोंवतणच्या सैमाचे खोलायेंत देंवन चराचराच्यो भावना अभिव्यक्त करता, सैमाच्या अंतस्करणाचो थाव घेता. तो सैमा कडेन एकरूप जाता. तो शिळां कडेन, झाडां-पेडां कडेन, पशु-पक्षां कडेन सुसंवाद सादता. अशें करतना ताका थंय अनुभुती मेळटा. मनांत सांठयल्ली अनुभुती ताका हेरां मुखार अभिव्यक्त करीनशी दिसता. ती अभिव्यक्त करपा खातीर हांगा थंय, पिश्यां भशेन सैरभैर जावन तो भोंवता. एकदां ताची अनुभुती अभिव्यक्त जाली रे जाली, ताका सूऽऽ जाता. खऱ्या अर्थान तो सुट्टा.

संवेदनशील लेखकावेर खंयच्याय वाटाराचो प्रभाव पडूंक शकता. गांवगिऱ्या वाटाराचो प्रभाव पडल्यार तो प्रादेशीक लेखक जावंक शकता.

आतां म्हाका शाराचो आनी आधुनीकतायेचो वास लागिल्लो आसलो तरी म्हजें भुरगेपण एका गांवांतल्या कुळागरांत गेलें. हो काळ १९३८ ते १९५० मेरेनचो आशिल्लो जावये. ह्या काळांतल्या गांवगिऱ्या वाटाराचो आनी थंयचे संस्कृतायेचो प्रभाव म्हजेर इतलो पडलो की हांव तो आयज मेरेन कसोच विसरूंक पावंक ना. मुखार संचीत गांठीक बांदून म्हाका खूब कडेन पोटा खातीर भोंवचें पडलें. एक धा-बारा वर्सांचो भुरगो, आपल्या आवय-बापायक सोडून, भाव-भयण, इश्ट-मित्र आनी गांवा पसून पयस वता, ताची मनस्थिती कशी आसतली हाची कोणेंय कल्पना करची.

फुडलीं अठरा वर्सां, म्हळ्यार वयाचें इकरावें वर्स धरून ते अठ्ठावीस वर्सां पुराय जाय मेरेन म्हज्या वांट्याक खूब तरांचीं कामां आयलीं. म्हजेच मावशेगेर कांय तेंप गोरवां राखणो म्हूण काम करप, पणजे कुळागराच्या धनयागेर घरगडी म्हूण काम करप, मडगांव सारक्या शारांत हॉटेलार काम करप, उपरांत मिनाचे खाणीर कॉंट्रॅक्टराचें काम करप... असल्या वेळार मानायां कामेऱ्यां वांगडा आपणेंय वावरप. तें काम बंद जाले उपरांत खाणीरूय मास्तरकी (सुपरवायझर) आनी फुडें मॅनेजेरूय म्हूण काम केलें.

हीं सगळीं कामां जाले उपरांत वर्सभर घरा रावपाची पाळी म्हजेर आयली. ह्या काळांत हांवें शेत रोवपाचें, शेतांत जोत घालपाचें, खोरें घेवन भाटां खणपाचें, होंड्यांतल्या उदकान मिरसांगांचे रोंपे शिंपपाचें, कॉंट्रॅक्टान शेतां-भाटांच्यो धडो बांदपाचें, हीं सगळीं कामां व्हडे उमेदीन केलीं. इतलेंच न्हय तर गांवांतल्या वांगड्यां बराबर दर्यांत रांपणे-फुटाणे कडेन वचून नुस्तें मारपाचो अणभवूय हांवें घेतलो.

ह्या सगळ्या अणभवांतल्यानूच म्हजे *पोको* हे कादंबरेचो जल्म जालो.

साहित्या मळार कथा-कादंबरीकाराक मान व्हड. कादंबरी बरोवप हें लेच्यापेच्याचें काम न्हय. ताका जातीवंतूच लेखक आसचो पडटा.

रिक्षेच्या वेळार काणी-निबंधाचो प्रस्न जशाचो तसो सोडून पळ
डपी म्हजे सारको मनीस कादंबरी बरोवपाचो विचार सपनांत
गीत करूंक शकनासलो. तरी मनांत सांठोवन दवरिल्लो अणभव
यीय तरी व्यक्त केले बगर कसोच सुसेग लागनाशिल्लो. अर्थात
हाका कितेंय तरी बरयनशें दिसतालें, पूण बरोवपाचें धाडस
यनाशिल्लें.

असल्या वेळार म्हाका आमचे इश्ट सुरेशबाब गुंडू आमोणकार
च्या उतरांची याद जाता. तांच्या म्हणण्या प्रमाण, ईश्वर आमचे
डल्यान आपल्याक जाय तें काम करून घेता. आमचे कडल्यान जें
कितेंय बरें कार्य घडटा, तें ईश्वरेच्छेनूच घडटा. म्हाका हें पट्टा.
हाकाय दिसता, म्हजे कडल्यान जें कितें थोडें भोव लिखाण घडलां,
ईश्वरेच्छेनूच!

त्याच वेळार म्हज्या हातांत 'बिम्ब' म्हयनाळें पडलें. चाळून पळेलें
न्ना कांय लेख आवडले. मनांत आयलें, हांवेंय बिम्बार बरोवंक
रुवात केल्यार बरी. पूण संपादक छापतलो काय ना, हाचो दुबाव
ारतालो. संपादक भाव आसलो म्हूण कितें जालें? हांवें कितेंय
रोवचें आनी ताणें छापचें? आनी ताणें छापलेंय जाल्यार लज
कोणाची वतली?

तरी एक दीस हांव ताचे म्हऱ्यांत गेलोंच. ताका म्हणलें, ''म्हाकाय
ज्या बिम्बांत बरोवचें अशें दिसता, बरोंव?'' ''बरय. बरें आसल्यार
एक अंक मदीं करून छापुया. मॅटर बरेंच आयलां,'' ताणें जाप
देली.

आनी फुडें घडलेंय तशेंच. एक अंक मदीं करून ताणें म्हजे दोन
लेख छापले. फुडें मात म्हयन्या म्हयन्याक म्हजे लेख छापून येवंक
लागले.

अशे तरेन सात-आठ म्हयने गेले. उपरांत एक दीस दिलीप म्हजे
म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हणूंक लागलो, ''पुस्तक जाता तितले बेगीन
सोंपय, छापया. एक बऱ्या पैकीं कादंबरी जातली, अशें लोक म्हणटात.''

म्हजें पयलेंच पुस्तक कादंबरेच्या रुपान उजवाडाक येता हें आयकून
हांव काचाबूल जालों. कारण हांवें तें पुस्तक कादंबरी म्हूण बरोवंक
नाशिल्लें. म्हजो हेत पुस्तक छापपाचो नाशिल्लोच. लेख म्हयनाळ्याचेर
छापून येवचे, इतलीच मोख आशिल्ली. कथा-कादंबऱ्यो बरोवप ही
गजाल म्हजे ताकदी भायली अशेंच समजून बशिल्लों हांव.

तशें पळोवंक गेल्यार हांवें अशें समजुपाचें कांयच कारण नाशिल्लें.
त्या वेळार हांवें साहित्याचो आनी साहित्यप्रकारांचो फावो तितलो
अभ्यास केल्लो. पुराय मराठी घेवन एम्.ए., आनी हिन्दी साहित्याची
'पंडित' ही पदवी हांवें घेतिल्ली. ते भायर हिन्दी-मराठी भासांतल्यो
फावो तितल्यो कादंबऱ्यो वाचिल्ल्यो. तांचो अभ्यासूय केल्लो.

कोंकणींतल्या दामोदरबाब मावजो, पुंडलीकबाब नायक,
महाबळेश्वरबाब सैल सारक्या दिग्गज लेखकांच्यो कांय कादंबऱ्योय
वाचून काडिल्ल्यो. तरी कादंबरी बरोवपाचो विचार म्हजे तकलेंत
केन्नाच येवंक नाशिल्लो.

'बिम्बा'च्या संपादकान कादंबरी म्हूण पुस्तक पुराय करपाक उर्बा
दिली ही गजाल खरी आसली, तरी तातूंत म्हाका समाधान मेळ्ळें
ना. म्हाका खरें प्रोत्साहन मेळ्ळें तें ताच्या फुडल्या विधानांतल्यान.
विधान आसलें, ''एक बऱ्या पैकीं कादंबरी जातली, अशें लोक
म्हणटात.'' ह्या विधानान म्हाका खरी उर्बा मेळ्ळी. म्हजें लिखाण
छापून येतालें तेन्ना खूबश्या लोकांनी फोना वेल्यान आनी बरोवनूय
कळयल्लें, म्हजें साहित्य तांकां आवडटा म्हूण.

आनी आतां तर हातांत घेतिल्लें लिखाण कादंबरेच्या रुपान बरोवन
काडपाचो प्रस्ताव फुडें आयिल्लो.

म्हज्या पुस्तकाक लोकांनी कादंबरी म्हूण मान्यताय दिली तेन्ना
म्हज्या मनांतलो कादंबरीकार जागो जालो. हांवें म्हजें पुस्तक चालू
शैलींतल्यानूच भरभरीत बरोवन पुराय केलें. कादंबरेच्या तंत्राचो इल्लोय
विचार केलो ना. तरी हांवें तें हस्तलिखीत जश्याचें तशें 'बिम्बा'कडेन
छापूंक दिलें ना. म्हाका दिसलें, पयलीं तें जाणकार साहित्यिकाच्या
हातांत पडचें.

त्या वेळार, म्हळ्यार पांच-सात वर्सां आदीं, गोंयांत कोंकणी
साहित्याचे जाणकार खूब तयार जाल्ले. पूण म्हजे सारक्या लेखकाचें
पुस्तक कोण हातांत घेवन वाचतलो काय, हाचो म्हाका दुबाव
मारतालो. त्याच वेळार म्हाका सर्गेस्त मनोहरराय सरदेसाय हांची
याद जाली. तांची आनी म्हजी इल्ली वळख आशिल्ली. हांवें
दिलीपाक म्हळें, तांकां विचारून पळे, म्हज्या पुस्तकाक चार वळींची
प्रस्तावना बरयतात काय म्हूण.

मनोहररायांनी अनमननासतना म्हजें पुस्तक वाचून काडलें. ताका
'उतरांचो उजवाड' ह्या माथाळ्याची चार पानी प्रस्तावना बरयली.

प्रस्तावनेचें येदें व्हडलें हस्तलिखीत पळोवन म्हाका दिशिल्लें,
मनोहरबाबान म्हजी बरीच खरडपट्टी काडल्या जावये. पूण तशें
नाशिल्लें. पुराय प्रस्तावना वाचले उपरांत म्हाका कळ्ळें, मनोहररायान
हांव एक कादंबरीकार आशिल्ल्याचें म्हाका प्रमाणपत्र दिलां. प्रस्तावनेचे
सुरवातेकूच ते म्हणटात, '' *पोको* - कोंकणी कादंबरी साहित्याक एक
मोलाची देणगी.'' इतलें बरोवनूच ते थांबनात. म्हज्या पोक्याक ते
वैश्वीक दर्जो दितात. देशांतल्या आनी देशा भायल्या व्हड-व्हड
लेखकांच्या पात्रांची तुळा ते म्हज्या 'पोक्या' कडेन करतात. ते आपले
प्रस्तावनेंत फुडें म्हणटात -

''नंदा बोरकारान चितारलेलीं चित्रां वाचतना असो भास जाता की
बरोवप्यान हीं चित्रां फकत पळोवंनात तर अणभवल्यांत. असोय
भास जाता, की बरोवप्यान पोक्याचें चित्र काडलां, पोक्याच्या
जिविताचें चित्र काडलां तें आपल्या जिविता वेल्यान. पोक्याच्या
ह्या चरित्रांत बरोवप्याच्या आत्मचरित्राचो रंग भरसला. हें खरें काय
फट तें वाचकांक लागना. पूण साहित्यांत फट आसा तेंच खरें दिसूंक
जाय. इतलो हो पोको जितो-जिवो आनी आमकां सामको लागचो
असो दिसता. हे नदरेन पळयल्यार पोको ही फकत व्यक्ती उरना. तर
तो कश्टी आनी निवळ, नितळ सभावाच्या भुरग्याचें एक प्रतीक
जाता. फकत गोंयच्याच भुरग्याचें न्हय तर, संवसारांतल्या खंयच्याय
देसांतल्या, खंयच्याय गांवांतल्या भुरग्याचें. हेर भासांतल्या, साने
गुरुजी हांच्या *श्यामची आई*तलो 'श्याम', रवीन्द्रनाथ टागोरांचो
बंगालींतलो 'गोरा', इंग्लीश भाशेंतलो चार्ल्स डिकन्साचो 'डेव्हीड
कॉपरफिल्ड' (हे कथेचें रुपांतर बा.द. सातोस्कार हाणें 'दिग्या' म्हूण
केलां) आफोंस दोदे ह्या फ्रँच बरोवप्याची 'जॅक' ही कथा अशाच

प्रकाराची म्हणूं येता.''

*गोरा* आनी *श्यामची आई* ह्यो कादंबऱ्यो हांवें वाचिल्ल्यो. पूण इंग्लीश आनी फ्रेंच बरोवप्यांचें हांवें कांयच वाचूंक नाशिल्लें. हे लेखक म्हज्या परिचयाचे नाशिल्लेच. तरी हो म्हजो 'पोको' ह्या व्हड लेखकांच्या पात्रांचे पंगतीक वचून बसता, हें म्हाका मनोहरबाबान दाखोवन दिल्ल्याची विशेश अशी खोस म्हाका भोगली.

म्हाका आनीक एका कारणाक लागून आनंद जाता, 'पोको' बरयतासतना खंयच्याच लेखकाचें अनुकरण म्हजे कडल्यान घडलें ना. जें कितें पळेलें, अणभवलें तें बरयलें. बरप खंयच्याच साहित्य प्रकारांत बसयनासतना तें काळजांतले ओलसाणेन बरयलें. ताकाच लागून म्हाका दिसता, *पोको* हें बरप कादंबरी ह्या साहित्यप्रकारांत वचून बसलें.

म्हज्या भुरगेपणांतले गरीबकायेच्या साम्राज्यांत बुडून गेल्लों हांव! ताचो परिणाम म्हज्या लिखाणाचेर जालो. ताचो मनोहरराय मुजरत उल्लेख करतात. ते म्हणटात, ''बरोवपी गरिबीचें वर्णन करता, पोक्याचे गरिबीचें. असलीं वर्णनां मराठींतल्या दलीत साहित्यांत खूब मेळटात. देखीक, लक्ष्मण माने हांच्या 'उपरा' हे कथेंत तें पळोवंक मेळटा...''

हांवें दलीत साहित्य कांयच वाचूंक नासलें. ताका लागून कोणाचें अनुकरण बी करपाचो प्रस्नूच नासलो. खंयच्याच बरोवप्यान दुसऱ्याचें अनुकरण करचें न्हय अशें म्हाका दिसता. कितें बरयता तें आपले स्वताचे शैलीन बरोवचें पूण त्या बरपांत आत्मो आसचो. तातूंत 'राम' आसचो, 'रावण' न्हय.

एक मात खरें, मनोहररायांची प्रस्तावना वाचून म्हाका बळ आयलें, उर्बा मेळ्ळी आनी *समर्पण* ही दुसरी कादंबरी बरोवपाक हात घालो.

कादंबरेंत काळा-वेळाक म्हत्व आसता. मनोहरराय म्हणटात ते प्रमाण, बरोवप्यान पोक्याचें चित्र काडलां तें आपल्या जिविता वेल्यान. पोक्याच्या ह्या चरित्रांत बरोवप्याच्या आत्मचरित्राचो रंग भरसला ही गजाल खरी. हांवें चडशें म्हज्या भुरगेपणांतल्या समाजजिवनाचें चित्र चितारलां. हांव त्या तेंपा वयल्या समाजाचो एक घटक आशिल्ल्यान म्हजेंय सुखदुख्ख तातूंत व्यक्त जालां.

बरोवपी हेता शिवाय केन्नाच बरयना. म्हजो मुखेल हेत आसलो, पोक्याक फुडें करून पन्नास-साठ वर्सां आदल्या, म्हळ्यार गुलामेंतल्या समाजजिवनाचें दर्शन आयचे पिळगेक घडोवप. शेंकड्यांनी वर्सां गुलामेंत आनी गरीबकायेंत लोळून पडिल्ल्या भोवजन समाजाची वळख आयचे पिळगेक करून दिवन तांकां जागृत दवरप होय एक उद्देश आशिल्लोच.

आयज आमचें गोंय गिरेस्त आनी धनसंपन्न जालां हें आमी पळेतात. पूण ही गिरेस्तकाय खिणाची. आयज गिरेस्त आशिल्लो घराबो वा समाज केन्ना गरीब जायत हाचो नेम ना. भायल्या देसांचीं दारां आमकां केन्ना बंद जायत हें कोणाच्यान सांगूं येत? आतांच अस्तमतेच्या लोकांनी भारतीयांचो द्वेश करपाक सुरवात केल्या. ते पासत आमच्या लोकांक सतत जागरूक आनी सतर्क दवरपाचें कार्य साहित्यिकांनी करूंक जाय अशें म्हाका दिसता.

म्हजे दुसरे *समर्पण* हे कादंबरेचो विशय मात पुरायेन वेगळो. त्या तेंपार भाटकार-मुंडकार, धनी-भागेली हांचे मदलो संघर्श सर्रास चालू आसतालो. ह्या संघर्शांत जैत मात कोणाचेंच जायनाशिल्लें. कारण दोनूय पक्ष एकामेकांचेर निंबून आसताले. अशें आसलें तरी भाटकार म्हळ्यार मुंडकाऱ्यांचे दिश्टीन खलनायक. ते मुंडकारांक सुखान जगूंक दिनात, तांकां पिळून खातात, बेनुल्ले वरी तांच्या कश्टांचेर जगतात, असो लोकांचो समज आसतालो. कांय बाबतींत तें खरेंय आशिल्लें, पूण पुराय सत नाशिल्लें.

संवसारांत सगळेच लोक एका सारके आसनात. कांय बरे आसतात, कांय वायटूय आसतात. बऱ्या मनशांनी बऱ्याचो पाखो घेतलो ना जाल्यार बरे आशिल्लेय वायट जावंक पावतात.

त्या तेंपार, खूबशे भाटकार म्हणा वा जमीनदार म्हणा, मुंडकार-भागेल्यांचे शोशणकर्ते आशिल्ले ही गजाल खरी आसली, तरी कांय धनी-भाटकार आपल्या मुंडकार-भागेल्यांचे रक्षणकर्तेय आशिल्ले, हें आमी विसरूंक फावना. ज्या धनी-भागेल्यांचे घराबे एकामेकांचेर निंबून आसताले, असल्या धनी-भागेल्यांच्या संबंदांचेर हांवें *समर्पण* ही कादंबरी बरयल्या. कादंबरेंत खूब तरांचीं पात्रां आसलीं तरी गावड्यांच्या जिविताचेर उजवाड घालपाचोय एक मुखेल हेत आसा.

ही म्हजी कादंबरी 'बिम्ब' म्हयनाळ्यांतल्यान खिस्ती खिस्तींनी उजवाडाक येवंक लागली. हिकाय वाचकां कडल्यान बरो प्रतिसाद मेळूंक लागलो. मुखेल म्हळ्यार, कादंबरेंतली गावड्यांची भास वाचकांक नवी लागली. तशें पळोवंक गेल्यार गावडे गोंयभर पसरून आसात. ते थोड्या प्रमाणांत आसूं मागीर. पूण म्हगेले कादंबरेंतल्या गावड्यांची भास वाचकांक नवी लागली. ती वाचून लोकांक खोस भोगूंक लागली. तशें खूबश्या लोकांनी म्हाका फोनान आनी बरोवनूय कळयलें.

म्हजे कादंबरेक बरयल्ले प्रस्तावनेंत सर्गेस्त रवीन्द्रबाब केळेकार म्हणटात, ''हांव प्रियोळचो. हो गांव गावड्यांचो. आसूं मागीर ह्या गांवांत हेर जातीचे लोक. भुरगेपणा सावन हांव म्हजे आशिकुशीक गावड्यांकूच पळेत आयलां. तांगेल्या खोंपींनी भुरगेपणांत पावलां. पुणून समर्पणान म्हाका तांची वळख करून दिल्या तितली हाचे पयलीं केन्नाच घडूंक पावूंक नाशिल्ली. इतले कशे घोळ्ळे तुमी तांचे मजगतीं? खंय मेळ्ळे तुमकां हे सगळे? खंय शिकले तुमी तांगेली भास? आयज ती खासा गावड्यांचे जिबेर लेगीत - प्रियोळांत तरी - घोळना.''

रवीन्द्रबाब म्हणटात ती गजाल सामकी खरी. म्हजे कादंबरेंतल्या गावड्यांची भास एका विशिश्ट वाटाराची. ती समेस्त गोंयच्या गावड्यांचें प्रतिनिधित्व करिना. ती प्रियोळच्या गावड्यांचे जिबेर घोळचना.

हांव धा-बारा वर्सांचो आसतना आगशेंत आयलों. आगशी गांव किरिस्तांवांचो. तांची वेगळी अशी खाशेली भास आसा.

आगशेक लागुनूच सुलाभाट नांवाचो एक वाडो आसा. ह्या वाड्यार म्हजें कसल्या न्हय कसल्या कामा निमतान येवप-वचप जातालें. ही गजाल साठ वर्सां पयलींची. मागीर मागीर तर म्हजें तांचे मदेंच घोळप जालें. ते गावडे आसले तरी तांची संस्कृताय हिन्दू आशिल्ली. ते किरिस्तांवां परस चड लागसारचे दिसूंक लागले म्हाका. तांचें थंय एक देवूळ आशिल्लें. थंय ते आपलो खाशेलो जागोर करतालेच. ते

गायर नाटकां, भजनां, धालो, फुगड्यो बी हेर उत्सव हिन्दूं प्रमाणें करताले. धालां दिसांनी रथूय नाचयताले. पूण म्हजी आनी तांची भास मात पुरायेन वेगळी आशिल्ली. साठ वर्सां फाटली तांची भास म्हजे तकलेंत घर करून बसल्या. पूण त्या गावड्यांचीं नातरां-पणटुरां नात आपणाली भास पुरायेन विसरून गेल्यांत.

गावड्यांचे भाशेचे बाबतींत म्हाका आनीक एक गजाल मुजरत बरयनशी दिसता. ती म्हळ्यार, रवीन्द्रबाब केळेकारांनी आपल्या एका उलोवपांत म्हजे *समर्पण* कादंबरेचो उल्लेख केला. ते म्हणटात, म्हजे हे कादंबरेंतल्यान आगशे-कुठ्ठाळेचे गावडे उलयतात. ते सुलाभाटा वेल्या गावड्यांचो उल्लेख करिनात. हांव तेन्ना आगशे रावतालों म्हूण तांणी आगशे-कुठ्ठाळेचो उल्लेख केला जावये. खरें म्हळ्यार, हांवें कुठ्ठाळेच्या गावड्यांचे भाशेचो म्हजे कादंबरेंत उपेग करूंक ना. केला तो सुलाभाटा वेल्या गावड्यांचो आनी तांचे भाशेचो. सुलाभाटा वेले आनी कुठ्ठाळेचे गावडे एक न्हय. तांची भासूय एक न्हय. आर्दी केन्नाय तरी ते एक आशिल्ले जावये. सुलाभाट, पाळें, शिरधन, नावशी, कालापूर आनी ताळगांवच्या गावड्यांची भास मात एकशी दिसता.

कितेंय जावं, सांगपाचो हेत इतलोच - समाजांत खूब कितें एक सारकें घडत आसता. बदलत आसता. पूण तें सगळ्यांचेच नदरेंत भरता अशें ना. जांचे नदरेंत तें भरता, तांणी तें बरोवन लोकां मुखार हाडूंक जाय अशें म्हाका दिसता. हांवें म्हजे तांकी प्रमाण तें केलां.

मनोहररायांनी म्हजे *पोको* हे कादंबरेक प्रस्तावना बरयली. आतां *समर्पण* कोणा कडेन दितलों, हो प्रस्न उप्रासलो. सट्ट करून रवीन्द्रबाब केळेकारांची याद जाली. *समर्पणा*चें हस्तलिखीत व्हरून तांचे कडें दिलें. मनांत दुगदूग आशिल्लोच. तरी हें धाडस हांवें *पोक्या*च्या नेटार केल्लें. म्हजो हेत तांचे मुखार उकतावंकूय हांव फाटीं रावलों ना.

रवीन्द्रबाबांचें वय जाल्लें आनी आरोग्यानूय ते तितले बरे नाशिल्ले. तांणी मनांत हाडिल्लें जाल्यार म्हजी कादंबरी वाचपाक ते न्हयकार दिवंक शकताले. पूण तांणी तशें केलें ना. तीन दिसां भितर तांणी म्हजी कादंबरी वाचून काडली. तांकां ती आवडली. रोखडीच प्रस्तावनाय बरोवन काडली. हांव नवोदीत लेखक आशिल्ल्या कारणान मार्गदर्शनपर दोन उतरां ते बरोवंक शकताले. पूण तांणी तशें कांय केलें ना. तांणी म्हजी तुस्त आनी तोखणायूच केली. प्रस्तावनेचे सुरवेकूच तांणी बरयलें - "तुमगेली *समर्पण* नवलकथा वाचून सोंपयली. पयल्याच पाना वेल्यान, दोंगरा वेल्यान हात हालयत देंवून आयिल्ल्या देमूच्या वर्णनान मन कथेक दशिल्लें, तें तीन दीस मेरेन नवलकथा सोंपयसर तशें दशिल्लें उरिल्लें. एक बरी नवलकथा वाचिल्ल्याची खोस भोगली."

रवीन्द्रबाब केळेकारांच्या शेऱ्यान म्हज्या मनाची कळी खिणांत फुल्ली. कारण तांणी म्हजे बरपावळीक नवलकथा म्हूण मान्यताय दिल्ली. ते फुडें म्हणटात- "*समर्पणा* त कितलींशीं पात्रां आसात. सगळ्यांक तुमी लागींच्यान वळखतात. तांचे विशीं तुमकां आपलेपण दिसता, पुणून तांगेलीं वर्णनां तुमी करतात तेन्ना खंयच्याच पात्रा कडेन एकरूप जाल्ले दिसनात. सगळ्यांच्या सभावाचीं - तांगेल्या धोंगापोंगां सयत - तुमी वर्णनां केल्यांत तीं पुराय तटस्थपणान केल्यांत. हें कसब एका 'सिद्धहस्त' नवलकथाकाराकूच जमपाचें. तुमचें मना पासून अभिनंदन करतां."

रवीन्द्रबाबांल्या उतरांनी खूब बरें दिसलें. एक व्हडलो पुरस्कार मेळिल्ल्याची खोस भोगली. एका रुशीतुल्य साहित्यकाराचो आशिर्वाद आशिल्लो तो म्हजे खातीर. म्हजी तोखणाय करतां करतांच तें फुडें बरयतात -

"...नवलकथेचो अंत सुपर्ब जाला, भव्य जाला. तो वाचून म्हज्या दोळ्यांतल्यान भळ्ळ करून दुकां गळ्ळ्यांत. देमूच्या पांयाक हात लावचो आनी ताच्या पांया तळव्याचो धुल्लाचो कण कपलाक लावचो अशें दिसलां. खुब्ब खुब्ब बरी नवलकथा बरयल्या तुमी. तुमचें मनस्पुर्वेक अभिनंदन."

हें सगळें बरोवन हांव आत्मस्तुती करतां अशें मात उपकार करून कोणें समजुचें न्हय. हांव हें सगळें बरयतां, कारण हांव म्हजे म्हाका अजून एक विद्यार्थी लेखतां. म्हाका खूब शिकन दिसता. आनी शिकतां शिकतां मेळिल्लो अणभव हेरां मुखार मांडटां. हेत हो - म्हज्या अणभवांचो लाव हेरांक मेळचो.

कोणेंय कितेंय म्हणूं, कलाकाराची कोणेंय तरी दखल घेवची पडटा. ती घेतली ना जाल्यार कलाकार निर्शेवपाची शक्यताय आसता. तो फुडें कार्यरत उरताच अशें सांगूंक जायना. आनी हेत विरयत कित्या कितेंय बरयत रावलो जाल्यार ताका पिश्यांचे वळेरेंत घालचो पडटा.

मनोहरराय सरदेसाय आनी रवीन्द्रबाब केळकार हे फकत कोंकणी साहित्यकार न्हय. तांणी विदेशी भासांचो, साहित्याचो आनी साहित्यकारांचोय भरपूर अभ्यास केल्लो आसा. ताका लागून तांची अभिव्यक्ती प्रमाणभूत आसूंक जाय अशें हांव मानतां! तांणी म्हज्या नवलकथांक दिल्ल्या प्रस्तावनांतल्यान हांव खूब कितें शिकलों. बरयतना कितें जमेक धरपाचें आनी कितें दोळ्यां आड करपाचें, हें हांव तांचे कडल्यान शिकलों.

म्हज्यो दोन कादंबऱ्यो पुराय गांवगिऱ्या वाटारांतल्यान जल्माक आयल्यो. ह्या दोनूय कादंबऱ्यांतलें वातावरण आनी चित्रण पुराय गांवगिऱ्या वाटाराचें. पात्रांय त्या वातावरणांत बस सारकीं आनी सोब सारकींच.

म्हजी तिसरी कादंबरी *गोंदू*. *गोंदू*तूय हांवें थोडें भोव तेंच वातावरण निर्मिलां. हांव खंयीय गेलों. जाल्यार गावगिरें वातावरण म्हजी फाट केन्नाच सोडपाचें ना, अशें दिसता.

*गोंदू* कादंबरी बरोवपाचो उद्देश मात म्हजो वेगळोच आशिल्लो. एका हुशार आनी कश्टी भुरग्याक शिकोवन सवरून, सुशिक्षीत आनी सुसंस्कृत करून राष्ट्रकार्याक प्रवृत्त करपाचें म्हजें सपन आशिल्लें. हुशार आनी धाडशी गोंदूक हेर उपेक्षीत भुरग्यांचो प्रतिनिधी करून, ताचे देखीन, ताचे कडल्यान प्रेरणा घेवन हेर भुरग्यांनी फुडें वचचें अशें म्हाका दिसतालें. कितलेशेच बुद्धीमान भुरगे अज्ञानाक आनी गरीबकायेक लागून फुकट वतात, हें हांव म्हज्या दोळ्यांनी पळेतालों. म्हजे दिश्टीन हें राष्ट्राचें व्हडलें लुकसाण आशिल्लें.

पूण बरयतां बरयतां म्हज्या विचारांत इल्लो बदल घडला. गोंदूक

उच्च शिक्षणाची संद मेळ्ळुनूय तो ती न्हयकारता. ताका बारावेंत बरे गूण मेळ्ळुनूय तो डॉक्टर-इंजिनियर जावपाचो विचार सोडून दिता. ताका कळून येता की आयज आपल्या देशाक चड गरज आसा ती सुशिक्षीत शेतकारांची. गिरेस्ताल्या भुरग्यांनी व्हडल्यो व्हडल्यो पदव्यो घेवन कितलो उजवाड घाला तें तो पळेतालो. शिकून कोणाचोय नोकर जावचे परस आपल्या जाणटेल्यांची जमीन कसून, सुखाचे दोन घांस खावप गोंदून पसंत केलें.

*गोंदू* कादंबरी बरोवन सोंपतांच हांवें ती नामनेचे कथा-कादंबरीकार भौ. दामोदरबाब मावजो हांकां दाखयली. तांणी म्हजे नवलकथेक सुंदरशी प्रस्तावना बरोवन म्हजें बळ आनिकूय वाडयलें. तांणी आपले प्रस्तावनेक माथाळोच दिलो - 'चाकोरेभायली कादंबरी'. अशें बरोवन दामोदरबाब मावजो हांणी म्हजें धुक्यान भरिल्लें मन साफ केलें. म्हजी कादंबरी चाकोरे भायली आसली तरी ती कादंबरी हें तांणी दाखोवन दिलें. इतलेंच न्हय तर, फुडें ते म्हणटात, "*समर्पण* आनी *गोंदू* ह्यो दोनूय नवलकथा भाशाशास्त्राच्या अभ्यासकांक भोव मोलादीक थारतल्यो हातूंत दुबाव ना."

अशे तरेन कोंकणींतल्या ह्या तिनूय दिग्गज साहित्यकारांनी म्हाका कादंबरीकार म्हूण मान्यताय दिली. वयर उल्लेखीत तीन कादंबऱ्यां भायर आनिकूय एक चवथी कादंबरी 'बिम्ब' म्हयनाळ्यांतल्यान खिस्ती खिस्तीन उजवाडाक आयल्या. पूण ती पुस्तकरुपान अजून उजवाडाक येवंक ना. म्हजो एक निबंधांझेलो आनी दोन नाटकांय उजवाडाक आयल्यांत. वाचकांनी तांकांय बरो प्रतिसाद दिला. अर्थात, आतां म्हजे म्हाका लेखक लेखपाक हरकत ना, अशें म्हाका दिसता.

साहित्यिकांचे दिश्टीन हांव कादंबरीकार अशें थारलें. पूण केन्ना केन्नाय हांव म्हज्या कादंबऱ्यां विशीं विचार करतां. म्हज्यो ह्यो कादंबऱ्यो दर्जेदार आसात व्हय? आनी दर्जेदार साहित्य म्हळ्यार कसलें? कोण थारायतलो साहित्याचो दर्जो? खंयचे मापदंड लायतले ताका दर्जेदार थारावपाक? आनी समजा, परंपरेन चलून आयिल्ले मापदंड लावन कोणालेंय साहित्य दर्जेदार मानलें आनी तें वाचकांक मानवलेंना जाल्यार?

देखीक, कादंबरीच घेतली जाल्यार समिक्षकांचे दिश्टीन ती अशी अशी आसची. तिका एक नायक आसूंक जाय. नायका फाटल्यान नायिका आयलीच. उपनायक-नायिकाय आसची. वेळाकाळाचें बंधन आसचें. फावो तितलो विस्तार आसचो. आकारूय मोठो आसचो. नायक उच्च पांवड्याचो आसचो. भाशाय दर्जेदार आसची. ती अध्याय-प्रकरणांनी विभागिल्ली आसूंक जाय, तरूच ती कादंबरी थारता. आयज मेरेन, केन्ना तरी विद्वानांनी थारावन दिल्ल्या मापदंडांचो उपेग करून समिक्षक कादंबऱ्यांचो दर्जो थारायत आयल्यात, तांचो गुणदोश दाखयत आयल्यात म्हणून आतांच्या लेखकांनी तेच चाकोरेंतल्यान फुडें वचचें अशें म्हाका दिसना.

म्हज्यो चारूय कादंबऱ्यो वयल्या मापदंडांचे परिक्षेक पुरायेन उतरनात, हाची म्हाका पुराय जाणविकाय आसा. त्यो अध्याय-प्रकरणांनी वाडिल्ल्यो नात. तांचे भितर विस्कळीतपण आसा. कांय बाबतींत त्यो पारंपारीक मापदंडा भायल्यो थारतात. पूण तातूंत 'राम' आसा, गोडसाण आसा आनी कादंबरेंत आसूंक जाय तो आत्मोय आसा. आनी आत्मो आसले बगर कसल्याच शरिराक मोल नासता अशें म्हजें मन म्हाका सांगता.

दामोदरबाब म्हणटात ते प्रमाण, म्हजे कडेन सांगपा सारकें खूब आसा, पूण सांगपाची निगूत कळाशी ना अशें तांकां म्हजी *पोका* ही पयली कादंबरी वाचून दिसलां. ही गजाल सामकी खरी. कारण म्हज्या सगळ्या वावरांत निगूतसाण आशिल्ली, पूण शिक्षणांत ती केन्नाच आयली ना. पयलीं दोन वर्सां सोडलीं जाल्यार, हांव शाळा-कॉलेजींनी केन्नाच गेलों ना. ताका लागून शिकतना कागद-चोपडेचो उपेग करपाचो प्रसंग म्हजेर केन्नाच आयलोना. इतलेंच न्हय तर शिक्षकांचो संपर्कूय म्हाका लाबलो ना.

आनी कसल्याय कामाची निगूतसाण सगळ्यांकूच जमता अशें ना. हांवें निगूतसाणीक चड म्हत्व दिल्लें जाल्यार ह्या संवसारांत येवन हांव कांयच करूंक शकचो नाशिल्लों, हीय गजाल तितलीच खरी.

दामोदरबाब मावजो फुडें म्हणटात, "*गोंदू* ही परिपूर्ण कादंबरी असो दावो हांव करचों ना... एक आस्वादक ह्या नात्यान म्हाका ही कादंबरी खूब आवडली."

म्हज्या साहित्याच्या आस्वादकां मदीं दामोदबाब मावजो आसात, हीच गजाल म्हाका आश्वासक आनी मार्गदर्शक थारता. ललीत साहित्याचे सगळेच आस्वादक एका सारके आसनात. तांचीं मतांय समान आसनात. व्हडल्या साहित्यिकान बरयल्ली साहित्यकृती एकल्याक आवडली म्हूण ती दुसऱ्याकूय आवडटली अशें आसना. आवड निवड ही व्यक्तीचेर निंबून आसना. साहित्यांत एका समिक्षकाक जें कितें दिसता तें दुसऱ्यांक दिसना. मागीर खरें-खोटें कोण थारायतलो? ताका एकूच उपाय आसा, आनी तो म्हळ्यार, लेखकान पुस्तक बरोवचें आनी वाचकां कडेन सोंपोवचें. पुस्तक बरें काय वायट तें वाचकूच थारायतले. वाचकांक आवडलें जाल्यार तें तिगतलें. ना तर खंयच्च्याय एका कपाटांत वचून भायर ना येवपा खातीर ठाण मारून बसतलें, कपाटाची सोब वाडयतलें.

पुस्तक बरोवपा फाटल्यान लेखकाचो कसलोय तरी हेत आसा अशें हांवें वयर एके कडेन म्हळां.कांय लेखक लोकांच्या मनोरंजना खातीर बरयतात, कांय समाजाक ज्ञानी करपाक बरयतात, तर कांय समाज आनी राष्ट्राचो उत्कर्ष घडोवन हाडपा पासत बरयतात.

पूण आयज काळ बदलला. मनोरंजन आनी ज्ञाना खातीर नवीं-नवीं साधनां उपलब्ध जाल्यांत. आयज समाजाक आनी देशाक गरज आसा ती पतनाचे वाटेर आशिल्ल्यांक उत्कर्षाची वाट दाखोवपाची. लेखकांनी, आनी चड करून कादंबरीकारांनी तें काम करूंक जाय अशें म्हाका दिसता.

हांवें *पोक्यांतलो* पोको, *समर्पणांतलो* देमू, *गोंदूंतलो* गोंदू आनी *बावक्यांतलें* शीला ह्या मुखेल पात्रांची येवजण केल्या ती समाजाक काळखांतल्यान उजवाडा कडेन व्हरपा पासत.

म्हाका हे फुडें आनिकूय बरोवपाचें आसा. जें कितें बरयतलों, तें चाकोरे भायलेंच जातलें.

संपर्कः ०८३२-२२१८१४७





न्हिदूच पडली ना. पोटांत खपखपो भरिल्ले वरी जाला. ह्या दिसांनी बायचोच हुस्को म्हाका. स म्हयने जाले, खबरबास्त ना!"

"स म्हयने खंयचे, तीन चार म्हयन्यां फाटीं पत्र येयल्लें."

"तीन चार म्हयने चडूच न्ही..."

"मागीर मुंबयच्यान विठोबालो सखाराम येवन गेलोना? तेचे कडेन मेळिल्ली न्ही खबर...?"

"तो सारखो उलयलो ना. बाय विशीं विचारलार उतरां चाचयल्ले वरी करतालो."

"तुमगेले सगळे मनाचे खेळ ते. जायत सान तेचेर जीव तुमगेलो. तूप खावोवं काय म्हीव खावोवं करताले. मायेचो ध्यास तो. कांय काळजी करूं नाकात. मुंबयंत बरेंऽ करून आसतलें तें. बऱ्या घराचो हुशार भुरगो आमगेलो जांवय. मुंबयंत कंपनींत बरी नोकरी करता. सुखांतूच आसतलें तें."

"तरी सभावान म्हाका इल्लो तिखच दिशिल्लो तो."

"कित्याक म्हणटात तुमी?"

महाबळेश्वर सैल

# विखार विळखो

शंकराप्पाक सकाळीं उठिल्लो तेन्ना सान आंग जड जाल्ले वरी दिसतालें. तो उठून भायर ओसरेर येवन बशिल्लो. सकाळीं नसकाक भायर बरीच थंडसाण आसली. धुंवटी पडिल्ली आनी भायर दंवय शेनेता अशें दिसतालें. शंकराप्पाक हे दमळसाणेंत भायर वच्चेंच नाका अशें दिसतालें. पावस सोंपून लुवणी मळणी जाल्ली. दाणो गोटो घरांत येवन पडिल्लो. तेणें बायलेक म्हटलें, "म्हाका मुगो रातबर सारकी

''फाटीं तीं मुंबयसान येयल्लीं तेन्ना तूं जाणा, हांव आमगेल्या अळवा अळयेंतलो बरो अळू बांदून गांवमळार गेल्लों. तेणें हें कितें हाडलां म्हण तो कोनशांत मोखलो.''

''तुमगेली म्हण चुकूच न्ही. तो काळेलो अळू कित्याक म्हण घेवन वयताले तुमी?''

''बरो रुचीचो न्ही गो तो?''

''तेंकां कशें कळटलें तें?''

''पयल्या बाळंतचाराक येवन गेल्लें तें. आता तेंगेलो बाबू तीन वर्सांचो जाल्लो आसतलो. उपरांत येयलेंच ना. दर्शन ना तेंगेलें. तेगेलो मांव फाटीं हणकोणा जोगी नायकाल्या मरणा वेळार मेळिल्लो. विचारल्यार तुट्रूनसो उलयलो. आपणाक कांय विचारूं नाका म्हणूंक लागलो.''

''लग्न जाल्ल्या पुताचेर राग आसताच बापायलो. तुमी म्हणनात, आमगेलो व्हडलो पूत लग्न जायत सान बायलेले मुठींत गेलो म्हूण?''

''पूण तो गोंयच्यान केन्ना जत्रेक परबेक योवन वयता न्ही! तींच बरीं करून उरलार पुरो. आनीक कितें जाय आमकां!''

''कित्याकितेंय चिंतूं नाकात तुमी पळोवया. आयुश्य उणें करून घेवची खबर. म्हज्याय जिवाक घोर लावप.''

''कोणूय सांगात मेळलार हांव मुंबयंत वचून येतासलों. व्हडलो केन्नाय कितेंय सांगलार फुरसद ना म्हणटा. फाटीं खंय बायल्या घोवान तेका 'तुमी पोलीस खावगे' म्हटलें खंय. तो राग धरून आसाच. भयणी खातीर राग सोडूंक जाय न्ही? हांवच वयतासलों कोणूय वांगड मेळलार.''

बायलेन - अंबिकेन - खूब हुस्क्यान, खूब आपलेपणान घोवा वटेन पळयलें. मनांत म्हटलें, धेंगशेत रावलो हो सदांकाळ. पूण भुरगीं म्हटलार जीव काय प्राण तेका!

एक दीस धाकलो चंद्रकांत खबर घेवन येयलो, देऊळवाड्या वयलो दिगंबर मुंबयच्यान रजेर येयला म्हण. एक ट्रंक कोणाले तरी तकलेर दिवन घोव आनी बायल दोगांय घरा वटेन गेलांत म्हणय सांगलें.

शंकराप्पा उसरपत घेतसो चंद्रकांताचेर वोगच तापलो, ''तुगेली णववीची परिक्षा मुरे? वच, वचून अभ्यासाक बस. हेडत आसता सदां गांवबर. जोशीमास्तर म्हणटालो, तो हुशार आसा पूण अभ्यास करिना म्हण.''

दुसऱ्या दिसा सकाळींच खिशांत बायल्या पत्त्याचो कागद घालून घेवन तो दिगंबरा सरीं गेलो. तेका म्हटलें, ''धूव म्हजी मुंबयंतच उरता. स म्हयने जाले खबर ना तेगेली. खबर काडूंक जाय आसली.''

''खंय उरता मुंबयंत? मुंबय म्हणटा तो



ल्हान गांव न्ही. म्हासागर तो.''

शंकराप्पान पत्त्याचो कागद मुखार केलो. वाचून तेणें म्हटलें, हांव रावतां थंय सान लोकल ट्रेनीक बरी पाऊण वराची वाट ती. मदीं एक रूळ बदली करचो पडटा. पळयतां, वतकीर हांवच वचून येतां एक दीस. तुगेली धूव वासंती न्ही, हांव वळखतां तेका. ल्हान आसताना आंबे पुंजावंक हेवटेन येतालें तें.''

''बरें रे पोर मगेलें. आतां तेगेलें पत्र ना. हांवें दोन कार्डां बरयलीं तेंकांय जाप ना.''

''मुंबयचें तशेंच तें. एक फावट त्या समुद्रांत पांय दवरलो म्हणटकीर तेतूनच बुडून उरप. काडटां हांव तेची खबर.''

''हांवच येतासलों तुजे बराबर. दोळ्यान पळयलार माकाय समाधान.''

इतल्यान दिगंबराले बायलेन च्या आनी बिस्किटां हाडून दवरलीं.

''तूं येता म्हणटा? येयलार हांव पावयतां. फाटीं बाबरी मसजीद पाडटकीर मोटे दंगे जाल्ले मुंबयंत. आतां बरें थंडावलां. यो तूं. पूण आमी येतानाच येवचीं वयचीं तिकिटां रिजर्व करून येयलांत. तुका जनरलांत गर्देंत बसुनच वच्चें पडटलें. अठरा तासांची वाट. लोंडा, बेळगांव वटेन वच्चें पडटा.''

''जावं, हांव बसून झेमेत येतलों.''

''हांव गांवांत आतां मदींच कित्याक येयल्लों, खबर आसा? हो पळय, दारांतलो माड गेल्ल्या पावसांत घरार लखून येयला. मुळय उसावलां. बापोल्यान फाटींच पत्र बरयल्लें, येवन माड काडून वच म्हण. येतलों, येतलों म्हण आतां पावलां. आतां कोण तरी माड मारतलो पळोवंक जाय बेगीन. तुगेलो कोणय आसा वळखीचो?''

शंकराप्पान सालांतल्यान बागवोनच पळयलें, माडाच्या मुळा भोंवतणी एक मोटी येर येयल्ली. माडाचीं चुट्टां वयर घराच्या पाख्याक तेंकिल्लीं. तेणें उठत म्हटलें, ''पळयतां कोणय मेळटा काय म्हूण. बरे दोर जाय तेका. जिकिरीचेंच काम तें.'' तो वचूंक सुटलो. दिगंबरान म्हटलें, ''धा दिसांचीच रजा म्हगेली. बेगीन काम करून वचूंक जाय.''

''पळोवया, मेळटलो कोणय.'' मुखाले दोन दीस तो माड मारतल्याच्या सोदांत भोंवतालो. दामूतिठ्यार हरी म्हण एकलो आसलो. ताचे सरीं गेल्यार तो बरो ना म्हण न्हिदिल्लो. बायल फणफणिल्ले वरी म्हणटाली, ''आठ दीस जोरान पडिल्लो. आजच उदक घातलां. आंगाक त्राण ना. माडार चडलो आनी हात सुटून पडलार?''

थंय सान तो आनीक दोन कडेन गेलो. एकलो शंभू म्हणिल्लो बरो माड मारपी आसलो. पूण तेचे सरीं दोर नासले. परतो दामूतिठ्यार येवन हरीक दोर दिता काय म्हटल्यार तेणें दोराक हात लावं नाका म्हण सांगलें.

शेवटा गोठबागांत एकलो मेळ्ळो. तेका देऊळवाड्यार दिगंबरालो माड मारूंक येता काय म्हूण विचारतकीर तेणें तेगेलो व्हडलो दोर शंकराप्पाले तकलेरच दिलो आनी सांगलें, ''हांव फाल्यां सकाळीं कुराड, कोयती, माकडी

नी आनीक एक दोर घेवन येतां. तूं हो दोर
रून तेगेले पडवेंत उडय.''

तो जड दोर घेवन देऊळवाड्यार पावता
णसर तेगेली मान बशिल्ली. दोर पडवेंत
ोवन 'हुश्श' करीत तेणें भायर आयिल्ले
ंबराले बायलेक म्हटलें, फाल्या सकाळींच
ा येतलो माड मारूंक. फाल्यां बुधवारय
सा. माड मारूंक सारखो दीस. हांवय
तां फाल्यां आधाराक.''

दुसऱ्या दिसा माड मारताना तो दीसभर
यच आसलो. गुणान सांगतकीर दोर ताणून
ताली. कातरिल्लो एकेक माडा कुडको
कडेंतल्यान ल्हव ल्हव सकल देंवोवन
ताली. कातरून उडयल्लीं सगळीं चुडटां,
ल्ल, बोंडे कुशीक व्हरून राशीक
लताली.

हेवटेन आवय अंबीक मोटी तयारी
रताली. आंब्या सोलां, भिण्णा सोलां, सुकीं
गटां, सुके बांगडे, अळवा मुंडल्यो खंयच्या
ंयच्यान फैदासून पोटल्यो बांदून पोतयेंत
लताली.

जेन्ना ती खोबरेल तेलाची बाटली भरूंक
ागली तेन्ना शंकराप्पान म्हटलें, ''आगो ती
ाटली वाटेर फुटलार मोट्यो ख्यास्ती
ातल्यो.''

''ना. बरी वस्त्रांत गुठलावन घालतां,
रा काडिल्लें तेल तें. धुवेक पावतलें. इल्लें
तेगेल्या बाबूक काडटलें.''

शंकराप्पा सारक्को देऊळवाड्यार दिगंबरा
सरीं वयतालो आनी येतालो. दिगंबरान
सांगिल्लें, चड सामान घेवं नाका; त्रास
जातले.

ताणें ''ना, ना एकच पोटली आनी एक
पिशवी'' म्हटलें. एक दीस देऊळवाड्या
वेल्यान परत येताना बेबदो हरचंद्र मेळ्ळो.
वाटे कुशीच्या एका झाडाची खांदी एका हातान
धरून गोळ घेतिल्ले वरी उबो आसलो. पिवन
पिवन तोंड तांबडें जाल्लें आनी दोळे भायर
येयल्ले वरी दिसताले. म्हणूंक लागलो,
''शंकराप्पा, मनशान खावन पिवन मस्त जगचें.
फाल्याचें फाल्यां.''

हो मनीस सोरो पिता म्हण शंकराप्पाक
मात्तूय आवडनासलो. ताणें व्हडानच म्हटलें,
''खातलो मेलो तूं. तुवें पिवनच मरचें.''

''शंकराप्पा, तूं मुंबय वयता म्हण
आयकलां. ते चय. निळोबाल्या पोरसांत धवे
दुदी कितले लांबतात. घेवन वच एक मुंबयचे
गरमेंत. बरे थंड ते.''

शंकराप्पा वोगच रावलो. ''हांव एक
काडून हाडून दिवं तुका? चड वजें करून
तकलेर घेवन वच. जांवयाक बरें दिसतलें.''

तो नाका नाका म्हणत फापुडलेंशें करत
वोग चलूंक लागलो. मनांत चिंत्तालो, वायट
हें सोऱ्याचें व्यसन. हेगेल्या बापायन कितल्या
कश्टान, तापत्रयान संवसार उबो केलो. हेणें
वाट लायल्या. बायल भुरग्यांक वीख दिवचेंच
बाकी उरलां! कितें जालां ह्या गांवाक, शिराप
लागिल्ले वरी लोक सोऱ्या नादाक लागलात!
हेतुनच बुडटलो गांव! कृष्णाली द्वारका
अशीच बुडिल्ली खंय!

वयच्या दिसा बायल अंबीक पोटली
हांडीक मारून दोन मैलांची वाट चलून बसी
मेरेन पावोवंक येयल्ली. धाकलो चंद्रकांतय
मदीं मदीं ती पोटली तकलेर घेतालो. आपल्या
घोवाक बरें करून व्हरून पावय म्हण ती
परती परती दिगंबराक दोळ्यांत, उदक हाडून
सांगताली. तेगेले बायलेले फाटी वयल्यान
हात भोंवडायताली.

बसीन सांजचे ते मडगांवां येवन पावले
तेन्ना मुंबय वटेन वचपी ट्रेन स्टेशनार लागिल्ली
आसली. दिगंबर तिकेट काडून ताका जनरलांत
बसोवन आपल्या डब्यांत गेलो. वयताना
म्हटलें, ''हालूं नाका तू हांगा बशिल्लो. मदीं
मदीं हांव येवन वयतां. भिये नाका.''

ट्रेनींत चड गर्दी नासली. शंकराप्पा एका
कोनशांत आंग कवळूनसो बशिल्लो. पोटली
पांया सकल आसली. पिशवी तेणें आंगारच
दवरून घेयल्ली. चिंत्तालो, म्हाका
पळयतकीर बायक परमेश्वर पाविल्ले वरी
दिसतलें. तेणें 'आप्पा' म्हण उलो मारलार
म्हज्या काळजांत म्होंव देंविल्ले वरी जातलें.
तो ट्रेन सुटची वाट पळयत बसून रावलो.
ट्रेनींत, भायर स्टेशनार चड लोक नासलो.
तरी ताका ती मोटी गर्दी, मोटी गडबड धांवपळ
कशी दिसताली. इतल्यान एक नेण्टीशीच
बायल होळोम काडून रडत डब्या भितर
येयली. फाटल्यान तिगेलो घोव आसलो. ती



भितर येवन बसली
आनी कांय वेळ रडत
रावली. एकल्यान
तिगेल्या घोवाक कितें
जालें काय म्हण
विचारलें. तेणें सांगलें,
''दनपरां फोन येयलो,
तिगेलो बापूय भायर
पडलो म्हण. प्रेत दवरतां म्हटलां, आमकां
लागून. सकाळीं धा मेरेन पावंक जाय.''

एकल्यान म्हटलें, ''पावतले, धा मेरेन
दादर पावतले.'' ती बायल मदीं मदीं रडतच
आसली. मागीर अचकीत तिणें म्हऱ्यानचे
एके बायलेक म्हटलें, ''आमी मोगांत धांवन
येवन लग्न जाल्लीं. हो दुसरे जातीचो. तेन्ना
सान डॅडीन म्हजें तोंड पळोवंक ना. डॅडी
कडेन कितलो पयसो, प्रॉपर्टी आसली. एक
आणो मेळ्ळो ना म्हाका. आतां भावांक
विचारतलें हांव, मुखार कितें करतात काय
म्हण.''

शंकराप्पाक तिचें रडप, तिचें उलोवप
विचित्रशें दिसलें. ती बायल, तिचें रडप खोटें
दिसलें. एक उदास निर्शेणी ताचे भितर देंवन
येयली. तो दोळे धांपून झेमलेंशें करूंक
लागलो. पूण गाडी सुटून घुडूघुडू आवाज
येतकीर तेणें दोळे उकते करून भायर पळयलें.
मडगांव शार फाटीं धांवंक लागिल्लें. ते बायलेन
परत रडलेंशें केलें. बशिल्ल्या दोगां बायलां
फाटल्यान इल्ली सुवात करून घेवन ती थंय
आड पडली.

पुराय रात शंकराप्पा बशिल्ले कडेन तेंकून
झेमेतालो आनी सपनेतालो. मदीं दोन स्टेशनां
दिगंबर येवन पळोवन धीर दिवन गेलो. लोंडा
स्टेशनार तो बरोच वेळ ताचे वांगडाच आसलो.
झेमेचे झळणेंत रातबर बाय वासंती दोळ्यां

मुखार उबें रावतालें. केन्ना घरा मुखावेल्या आंब्या मुळांत उबें राविल्लें. ल्हानपणांतलें बाय, केन्ना लग्ना उपरांत रडत घोवा फाटल्यान वयताशें... रड रड रडटाशें. जाग येतकीर तेणें सट्ट करून म्हटलें, ''रडटा कित्याक बाय, काय बरो घोव, घर मेळ्ळां मुगो तुका!'' तेका दिसलें, आपलीं उतरां फुटून इल्लीं भायरच पडलीं. लोक पळयतात म्हाका!

...हांव गेलार दारांत देव येयल्ले वरी दिसतलो तेका. म्होंवांत घालूं काय तुपांत घालूं करतलें. घोवाक हें हाड आनी तें हाड म्हण फर्मायत रावतलें. घोवय बरो हात सोडून खर्चिता. पळयला हांयें. बरो जोडकार म्हणच खर्चूंक तांकता न्ही! बाय म्हण किंतें उणें आसलें? दारांत कोणय भीक मागूंक येयलार येद्‌दी व्हडली मूठ मारून तांदूळ हाडून घालतालें. तेगेली ताटली भरून वयताली. व्हड मनाचें तें. एक फावट आंगलेंत घालून लिपोवन मथू मावशेक साकर पालो व्हरून दिताना तेगेले आईन धरिल्लें तेका...

दुसऱ्या दिसा दनपरां दादर स्टेशनार पावतकीर दिगंबर तेगेल्या डब्यांत येयलो. जीव बेजारिल्लो, आंग दुखतालें. पूण मुंबय पावले म्हण कळटकीर शंकराप्पाक आगळोच हुरूप येयलो. आतां म्हाका बायक पळोवंक मेळटलें! गाडी ल्हव घुडूघुडू धांवताली. मनशाली खेटाखेट, बिल्डिंगो फाटीं पडटाल्यो. एका अजापाच्या राज्यांत पावलां अशें दिसतालें. एके वटेन उमेद आनी दुसरे वटेन भिरांतशी. एक फावट बायच्या घरांत व्हरून घाल देवा म्हाका! खरें तर दिगंबरच आतां देव कसो दिसतालो.

मुखाल्या एका स्टेशनार दिगंबरान तेका देंवोवन घेयलें तेन्ना तेगेली बायलय एक ट्रंक आनी एक पोती घेवन देंविल्ली. वयर हात करून हेळयताली. शंकराप्पाक तिची भारी तोखणाय दिसली. तांबशी साडी न्हेशिल्ली ती स्टेशनार देवी उबी आशिल्ले वरी दिसली.

उपरांत तीं स्टेशनाचे भायर येवन टॅक्सीन दिगंबराच्या घरा येयलीं. वाटेर एक शिरवंत अजापाचो संवसार पातळून पडिल्लो. शंकराप्पाक ताचो कांयच अर्थ लागनासलो. दोळे व्हड करून तो थक्क पळयतालो. तो इतलो घुम्म मोनो जाल्लो, वाटबर एक उतर



कोणा सरीं उलयलो ना. तरीय मनांत एक फावट आयलें, हांगा शेतां नात, भाटां नात, रानां, रुखावळ ना तरीय हे लोक कशे जियेतात काय, किंतें खातात काय?

तीं दिगंबराल्या घरा पावलीं तेन्ना तेगेलीं तिगांय भुरगीं अभ्यासांत मग्न आसलीं. तिगांय हातांत पुस्तकां घेवनच दारांत येयलीं. शंकराप्पाक पळोवन धाकल्यान विचारलें, ''मम्मी, कोण गे हो माम?''

''आमगेल्याच गांवचो तो. मामच तो तुमगेलो.''

एके बिल्डिंगेंत ल्हानशेंच तीन कुडींचें घर आसलें. पूण सोबीत आकारिल्लें. वण्ट्यांक रंगय बेस बरो चकचकीत काडिल्लो आसलो. जेवंक मेज आसलें. घरबर वासा साबणाचो कसो वास पातळिल्लो. सकल घातिल्ले वुळतुळीत फरशेर आपले पांय निसरत म्हण शंकराप्पा ल्हव सांबाळून चलतालो. शंकराप्पाक दिसतालें, आपल्या बायच्या घराकय असलोच रंग आसतलो. जेवंक मेज आसतलें.

दिगंबराची बायल बेगीबेगीन न्हावन येवन रांदूंक लागली. ताकाय दिगंबरान बादलीबर हून उदक काडून दिलें. आंग दुखतालें, हुमेन आमशेल्लें. न्हावतकीर मात्शी तरतरसाण येयली: तेंगेले रांदचे कुडींत बागवोन पळयल्यार भितर ती आनी तिगेली पंदरा सोळा वर्सांची धूव दोगांय मेळून रांदतालीं. एक लांबच लांब फरशेचो ओटो आसलो. ताचेर गॅसाची शेगडी आसली. सकल मोट्टो सिलिंडर आसलो. ताणें मुखार वचत म्हटलें, ''हेचेरच रांदतात तुमी? आयकल्लें हांयें रांदूंक असलें येयलां म्हण.''

''हय तर. मुंबयंत आतां सगळ्यांनीच घेतलां तें. तेचेरच रांदतात.''

''मगेल्या बाय कडेनय आसतलें न्ही तें?''

''आसतलें तर. स्टोव्हाक पंप मारचे दीस गेले आतां, गांवा कडेनय हें आतां पावलां म्हण आयकलां.''

''आमच्या गांवांत ना अजून. पळयलें ना हांयें.''

''आमचो गांव आनी केन्ना बेगीं सुधरला? काल गांवांत गेल्लें तेन्ना सोण्णान आनी पिड्यान रांदून येयलां.''

त्या दिसा शंकराप्पाक तांणी आपणागेर दवरून घेतलो. दिगंबर गांवा कडच्यो, मुंबयच्यो खबरी इतल्यो बऱ्यो उलयतालो, ताचे सरीं बरें आपलेपण दिसतालें. पूण तेका केन्ना एक फावट वचून बायचेर नदर घालता अशें जाल्लें. तो फाल्यां पावयतांच म्हणटालो.

नाका नाका म्हणटाना दिगंबरा बायलेन तेका चडच वाडिल्लें. हालांत हांथरूण घालून दिल्लें. वयर पंखो घुंवतालो. शंकराप्पाक हांथरुणार पडिल्लीच खबर आसा, मागीर इतली सुस्त न्हीद लागली, तो सकाळीं उजवाडटकीरच उठलो.

दिगंबर सकाळीं बेगीन उठून कामाक वचूंक तयार जातालो. ताणें कॉलेजीक वयतल्या आपल्या व्हडल्या पुताक म्हटलें, ''एका बराबर पाव तूं कालेजींतल्यान. जेवन मामाक विक्रोळी धुवेगेर पावोवन यो.'' ताणें पत्त्याचो कागद काडून पुताल्या हातांत दिलो.

शंकराप्पा भियेल्ले वरी जालो. ताणें म्हटलें, ''तेका कळटलें तें?''

बायलेन म्हटलें, ''हेंच्या परस तो बरो जाणा मुंबय. खांची कोनशे खबर आसात तेका. जल्मच मुंबयंत न्ही? लग्न जाल्ल्या चवथ्या दिसा हळद वच्चे पयलीं घेवन येयल्लो हो मुंबयंत म्हाका.''

''मगेल्या बायचें बीन तशेंच जाल्लें गो.''

''तुगेले धुवेलें लग्न जाल्लें कळिल्लें

ाका. पूण इतलीं वर्सां मुंबयंत रावता, कांय वठिकाण खबर ना.''

''सवें वर्स आतां मुंबयंत येवन. मर्दी बू वेळार बाळंतचाराक गेल्लें गांवांत. मागीर च. आतां तर पत्रांय येयनात.''

दनपरां एका बराबर तो भुरगो ालेजींतल्यान येयलो. बेगीन जेवन ते क्रोळी वचूंक सुटले. मर्दी एक लोकल नीचो, रूळ बदलून तासभरांत विक्रोळी वले. शंकराप्पाच्या खांदार ती व्हड पोटली ासली.

धड झोपडपट्टी न्ही, नीट घरां न्हीत अशी क बकाल उकंती वसती आसली. थंय एक ाड नासलें, झोंप नासलें. वसते वयर ाळोसो धुंवर पातळिल्लो. ताचेर खर वोत ारतालें. घराचीं पाखीं धरून मळब मेरेन गळें करपूंक लागलां अशें दिसतालें. धुंवत ुंवत गेल्लो बारीक रस्तो आसलो. दोनय टेन काळशी माती पातळिल्ली. थंय नाना रेचीं, नाना रंगाचीं फाटकीं मनशां रस्त्यार, रांच्या दारांनी वावुरतालीं. एके कडेन मळार ोकांची गर्दी पडिल्ली. सगळें पळोवन ांकराप्पा निर्शेवन गेलो. तरीय तो मनाक मजायतालो, मगेलें बाय हिंगा रावना. तें ुखार आनीक खंय तरी बऱ्या लोकांत रावता. हो भुरगो चुकून म्हाका भलत्याच गांवांत घेवन येयला. पूण तेका कितें विचारचें धैर्यच नासलें.

विचारून विचारून तीं शेवटा बायच्या दारांतच येवन पावलीं. शेजारचे एके बायलेन बायक उलो दिलो, ''वासंती दरवाजापर कोई आया देख...''

वासंती दार काडून भायर येयलें, ''कांय वेळ बापायक वोग मोन्यांनी पळयत रावलें, मागीर दोळ्यांतल्यान झरझर दुकां देंवलीं. तीं सुकिल्ल्या पोल्यां वेल्यान गळूंक लागलीं. तीं दुकां आनंदाचीं काय दुःखाचीं, कांयच कळनासलें. खिणांत ताणें सोताक सावरलें. पदरान दुकां पुसलीं आनी 'यो आप्पा' म्हण तेका भितर घेवन गेलें. तो भुरगो 'हांव येतां' म्हणत सरसरीत फाटीं वळून चलूंक लागलो. आरे, आरे, म्हण उलो दिल्यार तेणें कांयच आयकलें ना.

वासंतीन आपाल्या खांदा वेली पोटली घेवन कुंशीक दवरली आनी भितर वचून उदक हाडून दिलें. तो थंय आशिल्ल्या एका बाकड्याचेर बसलो. तें बापायल्या पांयां सरीं सकल जमनीरच बसलें. तेगेल्या बाबूक शंकराप्पान म्हऱ्यांत ओडून घेयल्लो. पूण तो नीट थंय थारनासलो. आज्याक वळखनासलो. तें बापायक कितें कितें विचारतालें. पूण ताचें मन थाऱ्यार नासलें... बाय खूब भागलां. वसतीय बरी ना. हांगाचें दरिद्रपण बायकय बाधलां अशें दिसता. अशें हें कशें जालें!

पत्र्याचें एक व्हड बसकें घर कशें आसलें. तेका चोंय वटेन चार पांच दारां आसलीं. एक दार बायचें... एक लांब बारीक पांज कशी पडवी आसली. तेका मर्दी अर्दीच वणत घालून रांदची कूड केल्ली. तळाक केन्ना सिमीट घातिल्लें ताच्यो कपच्यो हुडिल्ल्यो. वणटींक काडिल्लो चुनो आतां काळो पडिल्लो.

''बाय, तुवें चार पांच म्हयने पत्रच बरयलें ना कित्याक?''

''बरयतलें, बरयतलें म्हण उल्लेंच. वायटाचें पत्र येना तोमेरेन सगळें बरेंच चल्लां म्हण समजुचें!'' तें सुसकारलें.

''घोव बरो आसा मुगो तुगेलो?''



''तेका कितें जालां, बरो ना जावंक. खावन पिवन मातला.''

''तेका तरी एक पत्र बरय म्हण सांगचें.''

''तेका सतरा राटावळ्यो. मरूंक फुरसद ना.''

''अशें कशें उलयता तूं बाय, पयलीं अशें उलय नासलें.''

तें किण्ण हांसलें.

...बायलें लग्न मोट्या तटतडाक्यांत केल्लें. तेंगेल्या आनी बापोलभाव रायूल्या दोगांल्याय आंगणांत मेळून व्हडलो माटोव घायल्लो. लग्नाक सोयरो, जातीचो, परजातीचो धरून कितलो लोक जेविल्लो. नव्या कपड्यांचो वास नाकांत घुंवतालो, वाजंत्रां वाजतालीं... आनी हें हिंगां अशें दरिद्रपण! मागीर शंकराप्पाक उगडास जालो, लग्नाक बायक अठरा तोळे भांगर घातिल्लें. आतां गळ्यांत एक फुटको मणी ना. गळ्यांत मंगळसूत्र आसा तें दोराचें आनी काळ्या पिर्डुकांचें. बायक कितें विचारचेलीय तेका भिरांत दिसताली. बायन जर म्हटलें, कोणें नाडलें म्हाका आनी काडून व्हयलें, तर कितें दिसतलें म्हज्या मनाक!

मागीर कांय वेळान मन घट करून तेणें विचारलेंच, ''बाय, लग्नाक अठरा तोळे भांगर घायल्लें तुका. त्या लोकान मागून घालूंक लायल्लें. ते भायर तुगेले मावशेन मुदी घायल्ली तुका. कांयच दिसना मुगो आंगार...?''

वासंतीच्या दोळ्यांतलें तेजच गेलें. तेणें दोळे चोरले. मागीर सुक्या सुक्या उतरांनी म्हटलें, ''पळयलो ना, चोर चांडाळांचो हो गांव. घरात भांगर म्हण दवरूं येता? म्हगेल्या घोवान बँकेंत व्हरून राशीक घातलां. म्हणटा, अठरा तोळ्यांचे फाल्या छप्पन तोळे करून तुज्या आंगार घालतां...'' शंकराप्पाक तें खरें दिसलें ना. ताचे तळमळे वाडले. लग्ना पयलीं आनी मागीर बाबू जाता म्हणसर जिवान बरें आसलें तें. आतां पळय, इतले बेगींच दोळ्यांची भोवतड काळी पडल्या. गळ्या कडची कातडी काळी पडून सकल देंवल्या. भागून हाताच्यो पांयांच्यो बारीक बडयो जालात. ताचे कुडी सरीं पळयतकीर तेका एक दुबाव येयलोच, बायक परत म्हयने

गेलात काय कितें! पोटाचो, कमराचो घेरय इल्लो गोरो जावन मुखार येयला!

आतां वासंती सडसडीत उठलें. 'आप्पा तुका इल्ली चाय करून दितां' म्हणत रांदचे कुडींत गेलें. वयतां वयतां म्हटलें, "तूं कांय चिंतूं नाका, कांय लावन घेवं नाका आप्पा. येयल्लो म्हयनोबर रावन बरो करून वच."

"वोतच मुगो हिंगा, वारोय ना, सावळीय ना."

"पत्रे न्हिवतकीर जाता थंड. चादर ओडून घेवचें पडटा."

तेणें सकल बसून पंप मारून पितळेचो स्टोव्ह पेटयलो. तेचेर कायल दवरून तातूंत रवो ओतून तें सांजो करतालें. शंकराप्पा रांदचे कुडींत बारीक तेळटालो - एक ल्हानशीच मोरी आसली. कुशीन एक प्लॅस्टिकाचें, दुसरे स्टिलाचें व्हड पींप आसलें. वणटी बराबरच्या फळ्यार स्टिलाचीं, आलिमिनाचीं कांय आयदनां आसलीं. दब्यांनी, पोतयांनी बरो दाणोगोटो, मिरसांग, कड्डण भरून दवरलां अशेंय दिसनासलें. वोगच सगळे डबे रिते पडलात अशें दिसतालें. शंकराप्पाक ती एक गरीब, दरिद्र रांदचेकूड अशी दिसली. भितरल्यान जांवया विशीं राग सो उफेवन येयलो कसलो हो मनीस, घरादाराची दैना करून दवरला!

विसरायेर घालूंक जशें वासंती गांवघराच्यो, आवय, भावांच्योच खबरी चड उलयतालें. मर्दीच तेगेलो ताळो भरून येतालो. भितरल्यान रडटालें. तें जाणा आसलें, संवसारांत कितेंय लिपोवं येत, पूण दरिद्रपण लिपोवंक येना! ती एक नागडी राक्षीण!

च्याव दिवन मागीर तें भायर वचून भाजी बटाट टमाट घेवन येयलें. शंकराप्पाक वोगच दुबाव येयलो, हें हाडूंक तेणें शेजान्नी कडच्यान पयशे उश्णे घेतलात... भायर गुणगुणिल्लो आवाज येतालो.

तें मागीर रांदूंक गुल्ल जालें. शंकराप्पा मातसो भायर भोंवलोसो करून घरांत येयलो. म्हटलें, "ह्या ओसाड गांवांत एक कावळो दिसना. लोक अमास-पुनवेक पिंड कोणाक वाडटात काय?"

वासंतीक तार्चे हें उलोवप विचित्रशें दिसलें. तें एक फावट भायर येवन आप्पाक



पळोवन गेलें. अजून नातू आनी आज्या मर्दी तशेंच पयसुल्लेपण आसलें. हांशें विसरिल्ले वरी तो भुरगो वोगी वोगी आसलो. शंकराप्पान बायक म्हटलें, "बाबाक तरी बरें खावंक जेवंक घालतात मुगो तुमी?"

हें तेगेल्या मनाक लागलें. तेणें मनांत म्हटले, आप्पाक आमगेली गरिबी खोलायेन कळ्ळ्या! वायट दिसता आसतलें तेका! धुवेक जल्म दिवन, पोसून, लग्न करून दिल्लें तें हेंच फळ काय म्हणटा आसतलो! तेका कांयच कळूंक फावनासलें. तो हिंगा येवंकच फावनासलो!

सांजचें उसरां बापूय आनी धूव मोन्यांनीच पडवेंत बशिल्लीं. वासंती अस्वस्थशें दारां वटेन भायर काळखांत पळयतालें. तेगेलो घोव अजून येवंक नासलो.

इतल्यान भायर खंय तरी कोणालो व्हडान उलयल्लो आवाज येयलो. वासंतील्या हड्ड्यांत खपखपो भरून गेलो. कांय वेळान शंकराप्पालो जांवय रामदास दारांतच येयलो. तो दारांतल्यान आड्डलो, "वासंती, दार उकतें उडोवन कोणाची वाट पळयता?" तेणें हातांतली सुक्या बोंबला नुस्त्यांची चवड मोखून भितर मारली आनी म्हटलें, "भाजून बरी किसमूर कर हेची."

वासंतीन थंडपणान म्हटलें, "आप्पा येयला गांवच्यान"

मांवा कडेन तेगेलें लक्ष गेलें आनी तो मात्सो नरमलो. तोंडाचो ओटां बुच्चो मात्सो काळो पडलो. तेणें त्याच वोगांत म्हटलें, "सांगचें न्ही, टेलिग्राम धाडचो न्ही, हांव टॅक्सी करून थेट दादर स्टेशना वेल्यान हाडटा आसलों तुका. कसो पावलो? चुकून पडलो ना बरो." उलयताना सोऱ्याचो वास घुंवतालो.

शंकराप्पा ओगच रावलो. तेगेली तकली भेरेवंक लागिल्ली. काळीज थंड पडूंक लागिल्लें. तेणें ल्हवच बायक विचारलें, "सदांच असो पिता?"

बाय वोगच रावलें. पूण ताच्या कानार उतरां गेलीं. रडलोसो करून म्हणूंक लागलो, "कंपनींत कामाचो दोंगर उपसुवप, घरा येयलार ह्या तुगेल्या चेडवाली कटकट. बेजारून वयतां हांव."

आप्पाक कांय खरें दिसलें ना. तो वोगच रावलो, भितरल्यान रडतसो. मनांत म्हणटालो, हांव ना जालार हेंचीं आतां झगडीं पेट्टासलीं. सदांचेंच आसतलें हें घडचें!

"मामा, ह्या वर्साक गांवांत पीक कशी? खांडयेक अठ्ठावीस खांडी आसतलीच न्ही? तुमी शेतकार घर भल्लें तरी पीक बरी नाच म्हणटात. म्हगेलो बापुयूय पीक चोरता. पिकलेंच ना म्हणटा. राव, तूं राव. पंदरा-वीस दीस राव. तुका राणीबाग, गेट वे ऑफ इंडिया भोंवडावन हाडटां. जमलार आमी ताजमहालांत वचून च्याव पिवया. वासंती तुगेलें खंयूय वचुया म्हटलार नाच म्हणटा."

तेगेलो आवाज चडटकीर आप्पाक थरथरो भरतालो. हो बेबदो. पूण तो कोण परको न्ही, म्हगेलो जांवय, म्हगेल्या बायलो घोव! अशें कशें हें घडलें देवा!

तांकां दोगांकय वासंतीन वांगडाच व्हाडले. तेणें हाडिल्लीं बोंबलां थंयच पडिल्लीं आसलीं. शंकराप्पान येताना हाडिल्ली पोटली सोडोवन तांतले सुके बांगडे भाजिल्ले. सुंगटांचें सुकें केल्लें.

तो जेवन निखटी एक मांदरी सोडोवन न्हिदलो आनी खिणांत न्हिदून गेलो. पूण बाय आनी आप्पा रातबर तळमळटालीं. बापायन हें सगळें पळयलें, तेका दुःख भोगलें म्हण बायक खूब वायट दिसतालें. शंकराप्पाचें

तर कमरच मोडिल्ले वरी जाल्लें.

तो सकाळीं उठून बऱ्या मनशा वरी न्हावन धुवन, नीट कपडे घालून तयार जालो. तो परतो परतो ओटां वयल्यान जीब भोंवडायता तें आप्पान पळयलें आनी तेका तें विचित्रशें दिसलें. तो च्याव पिवन वचूंक गेलो. वयताना कांय पयशे काडून तेणें रांदचेकुडींतल्या फळ्यार दवरले.

आप्पान फाटल्यान विचारलें, "बाय दनपरां जेवण खंय तेगेलें?"

"कंपनींत कॅन्टिनांत मेळटा."

"पयस आसा कंपनी चड?"

"ना. तुमी काल देंविल्ले कडच्यान ट्रेनीन अर्दवराची वाट."

"कितल्यांक सुट्टा?"

"सुट्टा पांचांक. पूण णवां पयलीं घरा पावना."

"खंय आसता तर?"

"सोरो आनी तसलेच ते इस्ट. आयतरा एक दीस सकाळीं बरो उरता. पूण सांजचो वचून पिवन येताच. ह्या गांवांत तर सोऱ्याचो पूर व्हांवता. आतां तो बरो गेला न्ही, खंयूय वाटेर पिवनच वयतलो कंपनींत. तो मॅनेजर सदाच बोंब मारत आसता खंय हेच्या नांवान. फाटीं एक फावट नोकरेंतल्यान काडून उडयतां म्हूण पत्र दिल्लें. तेन्ना तो म्हाका आनी बाबूक मॅनेजरा सरीं घेवन गेलो, आपणाक बायल भुरगीं आसात म्हण सांगून. म्हाका मॅनेजराक पांय पडूंक लायलें. तेन्ना आपूण सोरो पिना म्हण सोपूत घेतिल्लो, पूण आठच दिसांनी परत पिवंक लागलो."

अप्पाल्या दोळ्यांत सरसर दुकां उबीं रावलीं.

"इतलें सगळें जालें, घडलें पूण आमकां एका उतरान कळयलें ना तुवें?"

"कितें कळयतलें? कसले भोगणारे? हांव भोगता तें भोगतां, तुमकां आनी कित्याक म्हण वोगी रावलें. आई तर कळ्ळ्यार खप्प करून जीव सोडटली. रडत बसतली."

"केन्ना सान सुरू जाल्लें तर हें?"

"लग्ना पयलींच पितालो खंय तो. कळ्ळें ना आमकां. हांव तर लग्न जायत सावन पळयतां तेगेलो सोरो. बाबू जायसर इल्लो आटेक्यांत आसलो. आता धरबंद सोडला."

"झगडटा मारता?"

"चड पिलार कितें म्हण ना. सांवारच करता. पयलीं एका बऱ्या घरांत रावतालीं. भाड्याक रडवप मालकाक. तेणें भायर काडलें. तुका खबर ना, बाबू जावचे पयलीं पत्तो दुसरो आशिल्लो तो?"

"तुगेलें भांगरय विकलेंच मुगो?"

"त्या घरांतल्यान भायर काडटाना दिवचें उरिल्ल्या भाड्या खातीर मालकान पोलिसांक हाडले दारात. तेन्ना थोडे भांगर विकून तें पावयलें. उरिल्लें सोऱ्याक. सोरो, आनी नोकरीय सारखी करप ना. केन्ना म्हयन्याक अर्दच पगार मेळप. दिना म्हण मुठींत धरिल्लें भांगर मारून ओडून व्हरतालो." तें आतां हुणक्या हुणक्यांनी रडूंक लागलें.

शंकराप्पा समतोच हवसानखत जालो. एके रातीकच तो हातपांय थरथरपी झक्क म्हातारो जालो. आपणाक आनी उठून उबें रावचें त्राण आसचें ना अशें दिसूंक लागलें.दीसभर तो घुम्म मोनो बसून आसलो. सांजचो रामदास येयलो, बोवाळ्ळो म्हण तो एक उतर उलयलो ना. तेका दिसतालें, आतां आपणाच्यान हिंगा एक दीस रावंकय जायना आनी बायक सोडून वचुंकय जायना!

अशे मोन्यानच तीन दीस गेले. तो सोरो पितकीर सांजचो शंकराप्पा सरीं उलोवंक लागतालो.. व्हडव्हडान कित्या कितेंय विचारतालो. एक दीस म्हणूंक लागलो, "तुवें मास्ती कडचे तीन सागवान रूख फाटीं विकले म्हण आयकल्लें. चेडवाक ना वाटो? पुताल्या हड्ड्यारच घातले?"

तो वोगच रावलो.

शेजारां वायट नासलीं. बऱ्या गुणांचें वासंती, तेची ही अवतिकाय पळोवन तेका वायट दिसतालें जावये. तीं बरें कितें रांदल्यार वासंतीक हाडून दितालीं. केन्ना उश्णे उदारय दितालीं. कोणय दादलो शंकराप्पा सरीं येवन बसतालो, उलयतालो. पूण शंकराप्पाक कोंकणी बगर दुसरी भास कळनासली. मराठी मात उलयल्ली समजताली. तरीय तो तांणी उलयल्लें मज घेवन आयकतालो. जाप वासंतीच दितालें. शेजारचें वातावरण खेळीमेळीचेंच आसलें. रामदास पिवन केन्ना तेंकांय गाळी संवतालो, हिन्दींत. पूण तीं चड



मनार घेनासलीं.

कोणेंय कितेंय खावंक घेवन येयलें म्हणटकीर आप्पा विचारतालो, खंयच्या जातीचीं गो तीं मनशां?

वासंती म्हणटालें, "बरीं मनशां तीं, तेंगेल्या घरांत पळयलां, भितर कितलें स्वच्छ, नितळ आसता तें? जात कित्याक जाय?"

शंकराप्पा वोगच रावतालो. दिल्लें कितें खातालोय.

त्या दिसा आयतार आसलो. रामदास सकाळींच न्हावन धुवन तयार जालो. तेणें वासंतीक म्हटलें, "आमी आप्पाक घेवन खंयूय वचून भोंवन येवया!" वासंती वोग आपल्या कामांतच रावलें. कांय उलयलें ना.

कांय वेळान परतें तेणें तेंच म्हटलें. आतां वासंती सट्ट करून तापलें, "न्हेसून वचून भायर चार लोकांत तोंड दाखोवंक एक बरी साडी आसा?"

"आसा तीच न्हेस."

"आसल्यार एक काडून दी पळोवया, न्हेंसतां हांव."

"व्हडली राणी न्हूं तूं? रेसमाची नवी साडी जाय तुका? बापायक दाखोवंक करता तूं हें सगळें."

वासंतीक रडचें अशें दिसलें. पूण आप्पाक वायट दिसत म्हण तें काळीज आंवळून घेत वोगच रावलें.

त्या दिसा सांजचो तो खूब पिवन येयलो. येवन वासंतीक, तेच्या व्हडल्या भावाक तुकारामाक गाळी संवंक लागलो. मदीं मदीं शंकराप्पाकय कितें कितें उलोवंक लागलो.

म्हणूंक लागलो, "ही सोनचेडी हाडून तुवें म्हगेल्या गळ्यांत घायली. तेच्या कटकटींक बेजारून पितां हांव. तो तुगेलो व्हडलो चेडो तुकाराम... कितलो अहंकार तेका. एक उतरान केन्ना खबर करिना. चोर पोलीस तो. लांच खावन बरो पोटलो केला आसतलो."

हेचेर वासंती मर्दी पडलें. मुखार येत तेणें म्हटलें, "तूं म्हगेल्या बापायक, भावाक संवं नाका. वोगी रावचें ना हांव. सान्नी मुंडो तकलेर घालतलें."

हेचेर तेणें ढा ढा चार थापटां वासंतीले फाटीर घायलीं. तें होळोम काडून रडत भितर वचून बसलें. तेन्ना तेच्या दारांत कोण कोण येवन उबे रावले. कळटकीर तें तशेंच उठलें आनी दार बंद करून येवन परत बसलें. आप्पा तर सुन्न जावन बशिल्लो. ताच्यो दोळ्यां पातयो लेगीत हालनासल्यो.

ते रातीक तीं कोणच जेवलीं नात. तशींच मांदऱ्यो घालून न्हिदलीं. बाबू पोटा भुकेन पिरपीर करूंक लागतकीर वासंतीन तेचेर एक घुमको घायलो. पूण आप्पान येताना करून हाडिल्ल्यांतलो एक मुगांलाडू फळ्या वयल्या दब्यांतल्यान काडून तेका दिलो. वासंती तर मरून पडिल्ले वरी आड पडिल्लें.

केन्ना तरी मध्यान रातीर वासंतीन भ्रमेंत अशें म्हटलें, "आप्पा, तुका वाडूं हांव?"

आप्पान "नाका, आतां, नाका" म्हटलें.

सकाळीं रामदास बेगीनच उठून च्याव पिय नासतनाच गेलो. तेगेलो मोरयेंत नळ सोडिल्लो न्हाविल्लो आवाज येतालो. पूण वासंती न्हिदुनच रावलें, हट्टान कशें.

सकाळीं एक बायल दोन जोळांच्यो भाकऱ्यो घेवन येयल्ली. पूण वासंतीन त्यो घेतल्यो नात. गंवाचें पीठ मळून स्टोव्ह पेटोवन चपाती केल्यो आनी आप्पाक च्या करून दिली. बाबू आज्याले कुशींत बसुनच च्याव पिलो. आतां तो आज्याले कुशींतच चड आसतालो. दोगय सद्दां भायर वचून लागींच भोंवन येताले. आजो तेका च्याकलेटी घेवन दितालो. भोंवताना आज्याक वाट मात बाबूच दाखयतालो.

शंकराप्पाक धुवेचे आनी नातवाचे भोव चुरचुरे दिसताले. तो घरांत, भायर पावलां दामूनसो, राखूनसो चलतालो. भिरीभिरी नदरेन भियेतसो हे वटेन ते वटेन पळयतालो. तेका बेठेंच दिसतालें, म्हाका लोक सोरो खायऱ्यालो मांव म्हण पळयतात! म्हज्या बायक बेबेद्याली बायल म्हणटात! म्हजें बाय कशें सोंसत आसता काय देवा हें! आनी मुखार ह्या भुरग्यालें कशें जातलें? पळय, ह्या सोऱ्यान सगळे कडच्यान कसो पेंच उबो केला!

सांजचोय रामदास पिवन येयल्लो. भितर सरतकीर घम्म जावन सोऱ्या वास येयल्लो. पूण तो तोंडार ओटां दामिल्ले वरी, कितें चाबडायल्ले वरी करतालो. पूण सांजबर घुम्म मोनोच आसलो. वासंतीन अचकीत म्हटलें, "उलयना कित्याक तूं? उलय न्ही आप्पा सरीं कितेंय."



शंकराप्पाक धुवेली तोखणाय दिसली. तो जाणा आसलो, वासंतीलो राग गेल्लो ना. पूण बापायक बरें दिसचें म्हण तें हें उलयलां, मन मारून. रामदास मर्दींच घुसमटिल्ले वरी उलयलो, "धुवेक गरिबाक दिली म्हण रडटा आसतलो तो."

शंकराप्पाक रागच येयलो. तेणें व्हडान म्हटलें, "तुजे गरिबेक रडना हांव, तुज्या सोऱ्याक रडटां." तेका भडभडून रडुंकूच येयलें. तरी तेणें सगळे बरे करून जेवं दी म्हण रडे आवरून धरलें. मागीर समजावणेच्या मोव सुरांत तेणें म्हटलें, "सोड तूं तो सोरो. मुखार कल्याण जातलें तुजें. पयसोय वयता, वयल्यान प्रकृतीची नाशाडी. गांवलोकांत हांशें. बायले भुरग्यांलीं तोंडां सुकलांत पळय तुगेल्या कशीं! भुरग्याल्या तोंडार हांशेंच ना. तो तीन वर्सांचो भुरगो, बोबडें उलयता रडिल्ले वरी."

मुखाल्ले तीन दीस तो खरोच पियेलो ना. एक दीस तर नीट बसून शंकराप्पा कडेन गांवघराच्यो खबरी उलयलो. शंकराप्पाक वोगीच सगळें थाऱ्यार पडिल्ले वरी दिसलें. तो इल्लो सुखावलो.

चवथ्या दिसाक मात तो घरा मुखावयल्यान पयसुल्ल्यानच बोवाळत येयलो. ताळो सरांटून कसो कोणाक गाळी संवतालो. शंकराप्पाल्या, वासंतील्या पोटांत खपखपो भरून गेलो. वासंतीक हें कांय नवें नासलें. पूण बापूय येयल्लो आसताना हें नाका अशें दिसतालें. तेच्यान पळोवंक जावचे नात हे धुवेचे दगदगे!

तो कोणाक तरी आपल्या कंपनीच्या मनशाक गाळी संवतालो. म्हणटालो, "तो नरेश यादव मायझंवो, पोटण्याचो, परतो परतो मेनेजराल्या केबिनांत घुसता, म्हज्यो चाडयो सांगता, हांवच सगळीं कामां पाड घालतां म्हणटा. तो मेनेजर सातपुते म्हाका तापयता. डिसमिस करतलो म्हणटा. तेच्या आवयचो घोव... सातपुतेक म्हाका हात लावन पळय म्हण सांग. हांव कलकत्ता मालका कडेन वयतलों. तेका खुर्चे वयल्यान सकल लोळयतलों. तो नरेश मेनेजराक मस्को मारीत आसता. मुखार मुखार करता. आपली बायल टंच, सुंदर म्हण तेका सांगता. म्हजे बायलेच्या वासाक कोणाक यो म्हण सांग, गोमटी कातरतलों, सोडचोंच ना..." तेचें बोवाळप चालूच आसलें.

कांय वेळान तीग जण दारांत येवन उबे रावले. ते मुखार बऱ्या घरांनी रावताले. "कसली बोब रे तुगेली? त्रास जातात आमकां. आमचीं भुरगीं अभ्यासाक बसलांत. वोग राव. ना तर..."

"ये, ना तर कितें करतलो? हांव म्हज्या

घरांत उलयतां. म्हयन्याक एक हजार फारीक करतां हांव. तुमचे वरी लोकांक लुटूंक भोंवना.'' तो भायर येवन तांच्या आंगार वचत तांकां गाळी संवंक लागलो. तेन्ना तांतल्या एकल्यान तेका हाताक धरून मुखार ओडलें. आनी फाटीर दोन-तीन थापटां लायलीं. त्या बोवाळांतय तीं थापटां इयां इयां वाजलीं.

वासंती एकच किळांच मारून भायर धांवन येयलें. तेका फाटल्यान घट धरून ओडत भितर घेवन गेलें. थापटां बराबर रामदास थंड पडलो. एक उतर उलयलो ना. बायलेन धरून हाडटकीर वोग मांदरेर पडलो.

आप्पा आनी वासंती वणटीक तेंकून वोग्ग बशिल्लीं. बाबू खूब भियेल्ले वरी परतो परतो आईक तेंकतालो. काळखांत शेणिल्ले वरी, आंग काडिल्ले वरी करतालो. शंकराप्पाक आगळोच हुस्को लागिल्लो, हो नोकरीय सारखी करना कितें!

काय वेळान एक जाणटीशी किडकिडीत बायल दार धुकलून भितर येयली. खूब संवकळीची कशी भितर येवन वासंतील्या शेजाराक बसली. शंकराप्पान तिका बारीक पळयलार ती तेका वोळखीची कशी दिसली. दोळे, नाक, कपल, हालींच केन्ना तरी, काय खूब फाटीं केन्ना पळयल्लें कशें... कोण ही?

ती एकदम सडसडीत उलोवंक लागली. तेंवय ताचेच भाशेन, ''भावोजी वळखलो म्हाका? तुजें लग्न जाल्ल्या दोन तीन वर्सांनच पळोन येयल्लें हांव त्या चांडाळा बराबर.''

''कोण, खंयची तर तूं?''

''तुजे बायलेच्या, अंबीकअक्काल्या कुळारची हांव. वासंतील्या मामाल्या गांवची. तुमच्या लग्नाक हांवेंय मिरोवन घेयल्लें. मागीर दुर्बुद्दी सुचली. ताळ्यांत गरय शिरकली. तेचे बराबर धांवन येयलें आनी आयुश्याचें कोंडच जालें, गुवाकोंड.''

शंकराप्पा तेका वळखलो. तें तेगेले बायलेले घरवडींतलेंच. तेन्ना न्हंयच्या तडींनी फातराचे बांद घालचें काम चलतालें. थंय एकलो गांवा भायलो तरनाटो मुकादम म्हण काम करतलो. तो थंयच गांवांत बिराड करून रावतालो. एक दीस त्या मुकदमा वांगडा नाच जाल्लें तें.

''वळखलों हांव, शिवराम नायकालें लीला मुगो तूं. तेन्ना केदो अच्छेव जाल्लो गांवांत. तुगेले आवय-बापूय न्हंयंत हुडी घेवन जीव दिवूंक धांवताले परते परते. निमाणे ते तेतुनच झरून झरून मेले.''

लीलान नाक ओडत एक हुणको दिलो. ''तेन्ना मद मारून तकली खतखत्ताली. सोऱ्याचो मद आनी तो सारकोच भावोजी.''

''खंयचो तो? खंय आसा आतां?''

''खंयच्या मसणांतलो कोण जाणा! सोरो पिवन पिवन मेलो, गेलो मसणांत. मसण्यान म्हाका सोऱ्याक विकलें. बिंदूल बिंदूलबर सोरो ताळ्यांत रखयतालो. आतां कांय ना. कोणाल्याय दारांत मागून खातां.''

''विश्वासघात केल्लो तुवें आवय-



बापायचो. तुज्या नांवान अन्न उदक घेयनासले ते. स्राप बाधलो तुका.''

''हांवेंय ते पश्चातापाचे तळमळे भोगल्यात भावोजी. आतां एक दीस बेगीन मेलार पुरो जालां. ही तुगेली धूव देवागुणाचें पोर. कोण तरी गांवचें म्हण एक दीस येयल्लें तर तें गांवचीच नात म्हण कळ्ळें. केन्नाय येवन बसतां.'' मागीर एकदम तकलेर हात मारून घेत रामदासा सरीं पळयत तिणें म्हटलें, ''सोऱ्यान वाट लायली रे देवा आमची. काय बरें म्हजें हें बाय.''

वासंती तिचेर बेजारून किसळ्ळें, ''पुरो गे! तुगेलें सदांचेंच तें. वच तूं आतां बरे भशेन.''

''तुमी जेवले बगर हांव तशें वच्चें ना. भावोजीक उपाशीं दवरतलें? रांदलां मुगो? तेतून तूं आनी भरिल्ल्या आंगाचें... उपाशीं रावचें न्ही.'' ती उठून रांदचेकुडींत गेली.

शंकराप्पा वयले वयर तिचे सरीं उलयतालो. तिचें आयकतालो पूण तेचें मन धुवेच्या हुस्क्यान बुडून गेल्लें. तिणें बायची आपले वांगडा केल्ली तुळा तेका मात्तूय मानवली ना. तो भोवच अस्वस्थ जालो. बाय भरिल्ल्या आंगाचें म्हणटा ती. तेका दीस गेल्यात हें खरेंच तर! आनीक एक हुस्को तकलेर बसलो.

येवन आतां बावीस दीस जाल्ले. शंकराप्पाक परत वचूंक जाय आसलें.परत वचप म्हळ्यार धुवेक तशेंच बांयत धुकलून गेल्ले वरी अशें दिसतालें. तरी ताणें मन घट करून म्हटलें, ''चड दीस जाले. बाय, हांव वयतां फाल्यां परां... पावोवचें पडटलें स्टेशनार.''

वासंती कांयच उलयलें ना. तेका किते उलोवचेंच सुचनासलें. तेणें बापाय वटेन पळयलें. तो बरोच भागिल्लो. तोंडार, दोळ्यांत कसलेंच तेज नासलें. मनांत म्हटलें, म्हज्य दरिद्रपणान तेका कितें बरें खावंक जेवंक घालतलें हांव! तेतून आंनी तेगेलीं सोऱ्याचीं नाटकां. मनाक लागता तें तेगेल्या. गांवघरा गेल्लो बरो तो! बापायक कांयच बरें करूंक, बरें दाखोवंक शकलें ना म्हण तें चुरचुरलें. तेका रडूंक येवंक लागलें.

''दीस गेल्यात मुगो तुका? ना तर तुंवय यो म्हजे बराबर.''

''ना, हांव येवचें ना.''

''मागीर कशें जातलें तर तुजें हिंगा? हुस्को लागून उरतलो आमकां.''

''कांय हुस्को करूं नाकात. कांयच जावचें ना म्हाका.''

''मागीर कोण तरी जाय जातलोच न्ही वांगडा.''

''तेंचे ते पळोवन घेतले. तेगेली आवय येवची आसा अशें दिसता. पयलें बाळंतपण केल्लें तुमी बरें करून. आतां आनी तुमी कांय करचें उल्लें ना.''

शंकराप्पाक अजाप दिसलें, अशें कशें तुटोवन उडयल्ले वरी करता हें? हेका जिविताची उबगण तर येवंक ना? मरूंक तर सोदिना मूं हें? तो मना काळजान तिरमिरिल्ले वरी जालो. तरी यत्नान मन घट करून वोग रावलो. उपाय ना. म्हाका तर हांगा सावन धांवन वचूंक जाय, एक दुश्ट मनीस कसो!

सांजचो जांवय पिवन येयला काय ना तें कळूंक मार्ग नासलो. तोंड दामून धरूनसो तो ओटां वेल्यान जीब भोंवडायतालो. इल्लोय वास भायर सरनासलो. तेणें जांवयाक म्हटलें, "परां आयतार. म्हाका स्टेशनार व्हरून गोंयचे गाडयेंत बसय तूं. सद्दां रातची णव वाजतां गाडी सुट्टा खंय. खबर घेयल्ली हांवें येताना."

"वयताच म्हणटा?"

"हय, वचूंक तर जाय न्ही! कितलीय माया आसली म्हण सदां धरून रावंक पावता? दर एकल्याचें नशीब दर एकल्या कडेन." आप्पाक कितेंय खर उलोवचें अशें दिसतालें. पूण ताचेर तो पिवन येवन बायले कडेन झगडून तेका मारीत म्हण तो वोग रावलो. तेणें मुखार म्हटलें, "हांव घेवन वचूं बायक?"

"नाका. तें आसा म्हण हांव जिवो आसां. ना तर मरतलों."

"इतलें कळटा न्ही, मागीर तो नश्ट सोरो कित्याक सोडिना?"

"घेयलो ना तर जीव वयर-सकल जाता. पितकीर कितें करतां, कितें उलयतां तें कळना म्हाका. लग्ना पयलीं पसूनचें व्यसन तें."

आयकोन शंकराप्पाचो जीव खपखपलो. मुखार कितें उलोवची वान्साच मेली.

वासंतीन थोडें पीठ आनी तेल हाडून शंकरपाळ्यो केल्यो. त्यो बांदून आप्पाले पोतयेंत उडयल्यो. तें सामकें तळमळटालें, धडपडटालें, बापायक आनी बरें कितें तरी दिवचें म्हण. पूण हात रिते आसले. आप्पाक ते तळमळे कळटाले आनी चडच वायट दिसतालें.

वचच्या दिसा तो वचूंक म्हण उठलार लीला काळखांतल्यान कैदाशीण येवची तशी मुखारच येवन उबी रावली. म्हणाली, भावोजी, "मरचे पयलीं एक फावट कुळरा गांवांत वचून येवचे तळमळे लागलात. येतलें हांव एक दीस."

शंकराप्पा एकदम तिचेर तापलो, "आवय-बापायले कुळयेचो विश्वांसघात केला तुवें. तूं आनी गांवांत तोंड दाखोवं नाका. तुज्या नांवान आवय-बापूय खुळयो झरयत मेले."

लीलाचें तोंड एकदम बावलें.

रामदासान रिक्शा हाडिल्ली. बरेच शेजारी पाजारी थंय येयल्ले. आपआपले भाशेंत कितें कितें सांगताले. शंकराप्पान सगळ्यांकच लेखून म्हटलें, "म्हज्या बायक पळयात तुमी. राखात तेका बऱ्यावायटाक. लीला, तू गांवचें. बायचेर लक्ष दवर."

लीला हांसलें. हेर सगळ्यान हात हालयलो. वासंतीक ह्या निमाण्या खिणाक बापायक मिठी मारून रडचें अशें दिसतालें.

आप्पा वयतकीर कसल्याशा दुबावान वासंती घरांत येयलें. तेणें फळ्या वयल्या तीन चार दब्यांचीं धांपणीं काडून पळयलें. कोथमिरीच्या दब्यांत तेका आप्पान दवरिल्ले पयशे मेळ्ळे. शंकराप्पा कडेन उरिल्ल्या पयशांतले वाटेर खर्चा पुरतेच दवरून बाकी सगळे तेणें बायल्या कोथमिरीच्या दब्यांत घालून दवरिल्ले.

जांवय स्टेशनार सोडूक येयल्लो. पूण उलोवणें कांय जावंकना. तेगेलो तो सुकिल्लो भागिल्लो निर्शेणेचो चेहरो, धेरकल कशे दोळे पळोवन कितें उलोवचेंच दिसनासलें.

मुंबयच्यान आपल्या गांवघरा रायकेरी पावसर शंकराप्पा थकून गेल्लो. बसी कडच्यान घरा चलोन वयताना तेगेले हात-पांय थरथरताले. केन्नाय घुंवळ येवन पडटलो अशें दिसतालें. निकतीच साठी उलगल्लो तो मनीस कमरेक पोक घेवन चलताना खूब म्हातारो जाला कसो दिसतालो. धोतराचो सोगो जमनीर लोळटालो तोवय ताच्यान सांवरून घेवंक जायनासलो.

घोव आंगणांत दिसतकीर बायल अंबीक धांवन दारांत येयली. "केन्ना येयले, बाय, बाबू कशे आसात?"

"आसात, आसात, पुरो जालां, थरथरो भरला. मांदरी मात्शी घालून दी म्हाका ... पडटां हांव..."

बायलेन भितरल्यान मांदरी सोडयली. तेजेर गोजडी पसरायली. शंकराप्पा सारक्की तकली भूंयक तेकोवन न्हिदलो.

"कितें जालें, बाय कशें आसा?"

"बरें आसा... खूब खूब बरें आसा. पलंगार न्हिदता, मेजार जेयता. जेवंक मोतयां शीत..."



अंबिका थीर नदरेन तेका पळयत रावली. मुखार कितें विचारचो धिरच तिका नासलो. तिणें कोनशांत दवरिल्ली पोती उकती करून पळयली. तातूंत घोवालीं दोन खोमसां आनी एक धोतर, तुवालो आसलो. आनी तातूंत एक पोटली, शंकरपाळ्यांची. तिणें मनांत म्हटलें, आवयक म्हण एक कापड तरी धाडून दिवचें धुवेन! ल्हान भाव आसलो ताका तरी एक शर्टा कपडो! तिका वायट दिसलें. ती घोवा वटेन पळयत वोग बसून रावली.

इतल्यान धाकलो चलो चंद्रकांत भायल्यान धांवत धांवत येवन घरांत रिगलो, "आई, आप्पा येयलो? बायन म्हाका कितें धाडलां मुंबयच्यान?" पूण आप्पा न्हिदला, आई वोग बसल्या तें पळोवन तो तसोच भायर गेलो.

आप्पा मुंबयंत वचत सान गेल्ले वीस-पंचवीस दीस गोट्यांतल्या बैलांचें तोच पळयतालो. तेंकां सोडटालो, बांदतालो. तेंकां उदक खावड घालतालो. तो आतं णववीक आसलो. तीन-चार म्हयन्यांर परिक्षा येयल्ली. पूण गुणी पोर अभ्यास सांभाळून सगळें करतालो. आतां आप्पा येयलो, आपूण सुटलो म्हण तो खोशयेंत आसलो.

(पान १२५ चेर)

**पुष्पा पै**

# भाशा आनी मनोविज्ञान

भाशाविज्ञान भाशा आनी समाजा भितल्लो संबंद पळेता तशें भाशा आनी मनोविज्ञाना भितल्ल्या संबंदाचोय अभ्यास करता-

१. भाशेचें ज्ञान म्हणजे कितें तें पळेता,

२. भुरगीं भास कशीं शिकतात तें पळेता,

३. विकासात्मक भाशेचें स्वरूप कशें तें पळेता,

४. मनशांक उलयल्ल्या उतरांचो अर्थ कसो समजता तें पळेता,

५. तशेंच उत्तर दितना तीं भाशेंत उतरां कशीं घडयतात तें पळेता,

६. भुरग्यांची भाशा ग्रहण करपाची पद्दत एकूच काय वेगळी तें समजून घेता.

सादारणपणान,

१) उलोवप कशें घडटा हें समजून घेता.

२) भाशा ग्रहण कशें जाता हें पळेता.

३) भाशा ग्रहण करतना दोश (language disorders) कित्याक लागून आनी कशे उरतात तें पळेता.

४) भाशा भंग (aphasia) जाल्यार - ॲक्सिडॅंट जावन मेंदूक मार बशिल्ल्यान, ना जाल्यार पॅरलिसिस जाल्ल्यान - मेंदूंत दोश तयार जावन भाशा ना शी जाता ताचेर उपाय कसो करप हाचेर विचार करता.

५) भाशा आनी मेंदूची घडण हांचे भितल्लो संबंद समजून घेता.

६) भाशा आनी स्मरणशक्त,

७) भाशा आनी विचार, ह्यो सगल्यो गजाली ह्या अभ्यासक्षेत्रांत येतात.

उलयतना जावपी भाशा वापराचो अभ्यास हो हांगा मुखेल उद्देश्य. ह्या कार्याचो अभ्यास करतना ताचे प्रक्रियेची फोड करून पळोवची पडटा. भाशाभिव्यक्ती बरीचशी नकळत घडटा. ही प्रक्रिया दोन पद्दतींनी घडटा. एक, आकलनाच्या माध्यमान (म्हणजे, उलयिल्लें वा वाचिल्लें समजप/आकलन जावप. हें करपाक श्रवण/आयकप आनी वाचन कुशळतायेचो विकास जावंक जाय.) आनी दुसरी, भाशा मांडपाच्या अभिव्यक्तीच्या रुपान पळोवंक मेळटा. (ते खातीर उलोवप आनी बरोवप ह्या दोन कुशळतायांचो विकास जावंक जाय.) हे प्रक्रियेची सुरवात विचारांची जुळवाजुळव करपांतल्यान जाता. अमक्या एका प्रसंगा संदर्भांत उलोवपा खातीर लागपी विचार, तांचे खातीर गरजेच्या आशिल्ल्या वाक्यांचें नियोजन, तांचो क्रम ह्या सगळ्या गजालींचें मानसीक पातळेचेर नियोजन करपांतल्यान जाता.

पूण आमचे मुखार आसतात तीं फकत उलयिल्लीं उतरां. हीं उतरां पांच तरांनी आमचे मुखार येतात - श्रवण, कथन, वाचन, लेखन, संदर्भ हांच्या रुपान. तांचें स्वरूप सकयल दिल्ले प्रमाण आसता -

ध्वनी/स्वनीम (sound/phoneme)..... श्रवण

शब्द/उतर (words/vocabulary)..... कथन

रुपीम व्यवस्था (morphology/word formation rules)..... वाचन

वाक्य व्यवस्था (syntax/sentence formation rules)..... लेखन

संदर्भ/उलयिल्ल्या उतरांचीं सामाजीक बंधनां (context/pragmatics which decides social norms of behaviour regulated by the context).

म्हणजेच, एका थारावीक संदर्भांत आमी जें आयकतात/ उलयतात / वाचतात/ बरयतात तीं आसतात स्वनिमां, तीं एकठांय जावन जाल्लीं उतरां, वाक्यांत वापरचे पयलीं तांचेर जाल्ले संस्कार, वाक्यांची घडण, तांच्या नाम-क्रियापदबंधांचे मांडावळीचे नेम, तांचें कार्य आनी तांचे सामाजीक अनुबंध. ह्या सगळ्यांचें नियोजन कशें घडटा हाची फोड करून मनाच्या / बुद्धीच्या पांवड्याचेर कितें चल्लां हें पळोवपाचें काम मनोविज्ञानीक भाशाविज्ञानांत जाता. हें सगलें इतल्या थोड्या वेळांत - खिणा भितर - जाता की संभाशण चालू आसतना आमच्या मानसीक पांवड्याचेर इतल्यो घडामोडी चल्ल्यात हें कळ लेगीत ना.

भुरग्यांच्या भाशा विकासांत उणेपण दिसून आयलें तेन्नाच ह्या अभ्यासाची गरज भासली. एकाद्रें बाळक सगळ्या भुरग्यां परस भाशा विकासांत फाटल्यान कित्याक उरता काय?! असल्या भुरग्याचे भाशेचो अभ्यास करतकीर जाणकारांक तीं भाशेच्या वयर दिल्ल्या खंयच्या तरी पांवड्याचेर आडखळून पडटात अशें लक्षांत आयलें. कांय भुरग्यांक भास आयकुपाचीच संद मेळना आनी ताका लागून भाशेंतलीं स्वनिमां खंयचीं, उतरांची मोडणी कशी, वाक्य रचनेचे नेम खंयचे, हें तांकां पडताळून पळोवंक मेळना. कांय भुरग्यांक संभाशणांत भाग घेवपाची संद मेळना. तांकां सगळ्या स्वनिमांचो, व्याकरणीक गिन्यानाचो वापर करूंक येना. पयलीं सांगिल्ले प्रमाण, उलोवप ही मोटर क्रिया. मेंदवा कडल्यान वाग्यंत्राच्या अवयवांक सारकी सुचोवणी पावोवंक जाय. ते उपरांतूच तें बाळक उलयतलें. हे सगळे घुसपणेंत बाळक शेणटा आनी भाशा विकासांत फाटल्यान उरता. केन्ना केन्ना भुरगीं मानसीक ताणाक लागून भास शिकूंक पावनात. म्हणून सादारणपणान भुरगीं भास कशीं शिकतात, तीं उलयल्ली भास कशीं समजून घेतात, भाशा विकासाच्या खंयच्या पांवड्यार तीं आसात, ही म्हायती भाशा शिक्षकाचे नदरेन खूब गरजेची आसता.

संपर्क: ७७३८१४८८०८



हर्षा शेटये

# धुक्यांतल्यान दिल्ली ते मनाली, व्हाया शिमला

"नाताळांचे सुटयेंत आनी कुल्लू मनाली वतात? पिसावल्यांत? फुडें आनीक दीस नात काय कितें?" आमी नातलांचे सुटयेंत हिमाचल प्रदेशांत वचपाचें थारायलें तेन्ना आयकतल्यांनी आमकां पिश्यांत काडलीं म्हळ्यार जाता. थंय वचपाचें एप्रील मेंत, नाजाल्यार ऑक्टोबरांत. आतां शें कित्याक? मनाली वचून आयिल्ल्यांनी आनी वचूंक नाशिल्ल्यांनीय आमकां प्रस्न केलो.

डिसेंबराच्या निमण्या सप्तकांत थंय झेल पडपाक सुरू जाता आनी फेब्रुवारी मेरेन अदींमदीं पडत आसता. भुरग्यांक आनी आमकां जाणट्यांकूय बी 'स्नो फॉल' अणभवपाची खूब इत्सा आशिल्ली. हैदराबादाक 'स्नो वर्ल्ड' पळोवन येत पसून दत्तराज तर सामको फाटीकूच लागिल्लो म्हळ्यार जाता. दिवचलच्यान वल्लभ, प्रमोद आनी शिवदत्ताची फामील, आनी मडगांवच्यान आमी तिगां, मेळून चवदा जाणां वचपाचीं आशिल्लीं. दोन दीस पयलीं दिल्लीक वचून रावपाचीं आशिल्लीं. दिल्लीच्यान म्हजे भाचयेचो, मुन्नीचो, फोन आयलो. दिल्लीक आकांताचें शीं पडटा. भितर घालपाचे थर्मल कपडे, ग्लवज, कानतोपयो, मेय, बूट सगळें हाडात... दिल्लीक वचून त्याच दिसा घेवया म्हळें. थंयच बरें मेळटलें. वचपाक दोन दीस आसात म्हळ्यार दो. शेखर साळकाराचो सद्गुरुक फोन आयलो. तो चार दिसां पयलीं दिल्लीक गेल्लो. "आरे, दिल्लीक भयंकर शीं मरे! विमानतळार पांय मात दवरला, सामकें हाडां गोठोवपी शीं! जॅकेट बी हातांतूत घेवन वचात." जालें, सगळीं जाणां सोमतीं पणजे मणेरकाराल्या दुकानाचेर वचून थर्मल इनर, वुलन ग्लवज, मेय, सगळें घेवन आयलीं. आनीक कोणें सांगलें, डाय फ्रुट्स बी खूबशे घेवन वचात. काजू बियो आशिल्ल्यो. तातूंत अंजीर, जरदाळूची भर पडली. आनीक कोणें सांगलें, पोट रिकामें दवरूं नाकात. शिंयांत पोटांतल्यान कवळे येतात. ते खातीर अदींमदीं कितें कितें खायत रावात. तें आयकून बरेंऽ घरावें तूप घालून पिठ्याचे लाडू वळ्ळे. खातना पिठो बी सकयल्ल पडूंक जायना म्हूण धवे फोलींत गुठलायले. ते भायर काजूबियो, भिकणां, तीळ बी घालून शिंया कडेन झुजपा खातीर 'घट्ट गुळयो' केल्यो. सगळी तयारी केली. वचपाचो बेत कॅन्सल केलो ना.

दिल्ली विमानतळाचेर पांय दवरतनाच दिल्लीचें शीं कितें ताची कल्पना आयली. बेगीबेगीन स्वेटर आंगार चडयलो. भायर मुन्नी, वैभव आनी आदी मेळपाक आयिल्लीं. आदी तर सांताक्लॉजाचे कपडे घालून आयिल्लो. ताणें सगळ्यांक चॉकलेटी वाटल्यो. आनी आमी चार टॅक्सी घेवन 'गोवा निवासां'त रावपाक गेलीं. वाटेर सगळ्या राज्यांचीं भवनां दिसलीं. हरयाणा भवन, तमिळनाडू हावज, अंदमान निकोबार हावज... बिहार भवनाक तेंकून गोवा निवास... थंयचें 'व्हिवा द गोवा' रेस्टॉरंट चलोवपी पॅट्रीक बेगीबेगीन मेळपाक आयलो. रातच्या जेवणाची ऑर्डर घेवंक. रुमांत हिटर आशिल्ल्यान रातचें व्हडलेंशें शीं बादलेंना. सकाळीं फुडें उठून ब्रेकफास्ट घेता म्हणसर टेम्पो ट्रॅव्हलर आयलो. धांक सुमार गोवा निवासा भायर आयलीं. भायर सामकें धुकें पातळिल्लें. एका वर्सा पयलीं हांव ऑक्टोबरांत दिल्लीक आयिल्लें. अखील भारतीय कवयित्री संमेलना खातीर. ताचे पयलीं एकदां नोव्हेंबरांत आयिल्लें. पयलेच खेपे डिसेंबरांत पावतालें. तेंय बी २५ डिसेंबराक. सबंद रस्त्यार धुकें. सुंदर सुंदर रस्ते दिल्लींत आसात आनी आज तांचेर धुकें पातळिल्लें. वताचें एक किरण ना. त्या सुंदर रस्त्यांनी ओडिल्ली धुक्याची शाल. रस्त्याचे देगेर आशिल्ले रूख त्या धुक्यांतल्यान हय-न्हय शें आपलें अस्तित्व दाखयताले. धुक्याचे शाली वयली नक्षी कशी. ह्या सुंदर रस्त्यांचीं नांवांय सुंदर आनी अर्थपूर्ण. नितीमार्ग, सत्यमार्ग, विनयमार्ग... हो जनपथ, हो राजपथ करीत इंडिया गेटी कडेन आयलीं. त्या दिसा शेनवार आनी नातलांची सुटी. रस्त्यार जात्रा भरिल्ली. थळावे लोक तशेच भोंवडेकार. आमीय ते गर्दींत भरसून गेलीं. ही इंडिया गेट म्हळ्यार १९१४-१९१८ ह्या काळांतल्या युद्धांत सोंपिल्ल्या भारतीय सैनिकांची स्मृती. हांगा दीस रात शिंयांत, गिमांत पेट्टा सैनिकांचे यादींची अखंड ज्योत.

आमी पर्यटक हें ताका आमकां पळयतनाच जाणवलें आसतलें. तो फोटोग्राफर म्हऱ्यांत येवन पांच मिनटां भितर फोटो काडून दितां म्हूण फाटीक लागलो. हरशीं भुरग्यां कॅमेरा घेवन फोटो मारीत आशिल्लीं. फोटोग्राफर फाट सोडिना जालो म्हूण एक ग्रूप फोटो घेतलो काडून. शिंयाळ्या दिसांनी दिल्लीचेच थळावे लोक पिकनिकेक भायर सरतात. धुक्यांतली पिकनीक. कल्पनाच अप्रतीम. म्हाका तर थंयच्यान हालनूच दिसनासलें. भेळवाले भेळ विकताले. ताटांनी राशी भरून शेव चिरमुल्यो मांडिल्ल्यो. ते भायर तांकां प्लास्टिकाच्या फुलांचे हार घाल्ले. त्या दिसांनी थंय पेरांचो सिझन जावये. पेरांच्योय राशी आशिल्ल्यो. मसालो लावन कापून दिताले. आनी थंय आशिल्लीं म्हजे आवडीचीं भाजिल्लीं कणगां - शक्करकंद. शेगडेचेर भाजून दिताले. मागीर सोलून कुडके करून दोण्यांत घालून ताचेर चाट मसालो फांफुडटाले आनी ताचे बराबर अमूरपिक्या करमलांच्यो फोडी दिताले. हें मात हांव पयलेच खेपे पळयतालें. हांवें ताका तशें विचारलें, तो म्हाका सांगता, "उसमें विटमीन सी होता है मॅडम, ठंड के मौसम में शक्करकंद के साथ विटमीन सी खाने से सेहत ठीक रहती है। कच्चा आम मार्केट में आने के बाद कच्चे आम का टुकडा देते हैं।"

फुडें वचून संसद भवन आनी राष्ट्रपती भवन भायल्यान पळयली.दोनूय इमारतींची गणना जगांतल्या कांय सुंदर इमारतीं मदीं जाता. ब्रिटीश काळांत बांदिल्ल्यो ह्यो इमारती. अर्दवर्तुळाकार संसद

भवन ब्रिटीश स्थापथ्यशास्त्राचो अप्रतीम नमुनो. पळयत पळयत कुतुबमिनारा कडेन पावलीं. भितर सरतनाच चानयांचें चूकूचूक आनी पोपटांचें भिरें. साळोन्यो, चिमण्यो... हांगा मात एके खांदयेर तोता मैना बशिल्लीं दिश्टी पडलीं. पूण तोंडां वेगळ्या वेगळ्या दिकांनी. हांवें दिल्लीक आयिल्ले फावट कुतुबमिनार पळयला. तोय बी खर वोतांत. पूण आज धुकें आशिल्ल्यान तकली वोतान तापपाचो प्रस्न नाशिल्लो. सुशेगाद भोंवपाक जातालें. खरी दिल्ली पळोवपाची शिंयाच्याच दिसांनी. शिंयांत आमी कुडकुडटालीं हेंय तितलेंच खरें. आमचे गोंयचे स्वेटर हांगा उपकारनात. हांगा दाट कोट जाय पडटा.

फाटले फावट हांव आयिल्लें तेन्ना कुतुबमिनाराक वेर आयल्या म्हूण थंय मेडी लायिल्ल्यो आनी सारकें करपाचें काम चलिल्लें. हे खेपे धुक्यांत बुडिल्लो कुतुबमिनार पळयतालें. आमी थंय उबीं आसतना एक गायड पर्यटकांच्या एका चोंब्याक कुतुबमिनाराची म्हायती पुरयतालो - यह वर्ल्ड का सबसे बडा मिनार है। इसको पृथ्वीराज चौहान ने बनवाया था। फुडें मुसलमान सम्राटांनी हातूंत बदल केल्लो... उजवे कडेन बोट दाखयत ताणें सांगलें, यह अलाई दरवाजा विश्व का सबसे सुंदर दरवाजा माना जाता है। हो अल्लाउद्दीन खिलजीन बांदिल्लो. आनीक एक अर्दोंच मिनार थंय आसा. अल्लाउद्दीन खिलजी थंय कुतुबमिनारा परस व्हड इमारत बांदूंक सोदतालो पूण ते पयलीं तो मेलो आनी मिनार अर्दकुटोच उरलो. थंय एक मशीद आसा. तिच्या जाग्यार खंय पयलीं विष्णूचें देवूळ आशिल्लें. ही खंय भारतांतली पयली मशीद.

आनीक एक जगांतलें अजाप म्हळ्यार, थंय आशिल्लो लोह स्तंभ. ३२ फूट उंचायेचो. हाचे मदल्या भागार संस्कृत श्लोक कोरांतिल्ले आसात. हे कोणे बरयल्ले हाचेर संशोधकांचें अजून एकमत जावंकना. हांगा भोंवपाकूच देड वर गेलें. कान गच्च बांदुनूय शिंयाळें वारें कानार बसतालें. गेटी कडेन एकलो च्या विकतालो. आलें घाल्ली च्या पिलीं. दनपरां साडेबारांक भुरगीं लेगीत च्या पिलीं. टेम्पोंत बसलीं. जनेलाच्या हारश्यां वयल्यान दंव गळटालो. थंय सावन लोटस टॅम्पल - बहाई मंदीर - पळोवपाक गेलीं. फाटले फावट सुर्यास्ताच्या केसरी कॅनव्हासाचेर हें बहाई मंदीर पळयल्लें. आतां धुक्याच्या झिरझिरीत पड्ड्या फाटलें पळयतालें. दनपारचें एक वर जाल्लें. पूण सुर्याची जागमाग ना. निकतीच सकाळ जाल्ले वरी दिसतालें. आमचे खातीर हो मौसम सुहाना, हसीन आशिल्लो. पूण अशें आठ आठ दीस धुकें पातळिल्लें आसता तेन्ना हांगच्या लोकांक वाज येना काय? हांव आनी भितर गेलें ना. लॉनार बसून लोकांक पळयत रावलें.

आतां सगळ्यांक जेवणाचे वेध लागिल्ले. ड्रायव्हराक सांगलें, बऱ्या नॉन व्हॅज हॉटेलांत व्हर. ताणें 'मोती महलां'त व्हेलें. मोती महलाचे सकयल मॅकडॉनल्ड. सचीन सगळ्या भुरग्यांक घेवन मॅकडॉनल्डांत भितर सरलो. आमी वयर मोतीमहलांत गेलीं. जेवन अक्षरधाम पळोवपाक गेलीं. पावणेचार वरां जायत आयिल्लीं. थंय तर लोकांची खातड. भितर वचपाची तिकीट काडपाक व्हडली रांग. तिकिटूच मेळपाक वयभर वतलें आशिल्लें. पोरूं वर्सा ऑक्टोबरांत अखील भारतीय कवयित्री संमेलनाक दिल्ली आयिल्लीं तेन्ना हांव, ग्वादालूप, नूतन आनी नयना हांगा आयिल्ली. तिकीट काडून सोमतीं भितर गेल्लीं. अशी गर्दी बी कांय नाशिल्ली. कोणाक शिल्पकलेची आवड आसा तांणी अक्षरधाम पळोवचेंच. १०० एकर जमनीचेर वसयलां हें अक्षरधाम. मदीं आशिल्लें देवूळ म्हळ्यार सामको महाल. गुलाबी फातर आनी संगमरवराचो वापर करून बांदिल्लें सुंदर शिल्प. हातूंत मदीं भगवान स्वामिनारायणाची पंचधातूची ११ फूट उंचायेची मूर्त आसा. संबंद देवळाचेर कोंरीव काम केल्लें आसा. याद उरपा सारकीं हत्तीचीं शिल्पां, गवळणी आनी कृष्ण, रासक्रिडेचींय शिल्पां आसात. सात घोड्यांचो सूर्याचो रथ. सोळा हरणांचो चंद्ररथ... पळयता तितलें थोडें. स्वामीनारायणाच्या जिविताचेर एक माहितीपट दाखयतात. ८५×६५ फूट लांबायेच्या पड्ड्याचेर. हातूंत जाता एकुणिसाव्या शतकांतलें भारतदर्शन. एका सान भुरग्याचें, बालयोगी नीलकंठाचें, स्वामीनारायण मेरेनच्या प्रवासाचें चित्रण हातूंत आयलां. आठ पाकळ्यांच्या कमळाच्या आकाराची बाग, अक्षरधाम सोव्हेनीर शॉप, कितें पळोवंक जाता तितलें पळयलें. तरी फाउंटन शो, जलविहारांत घडपी धा हजार वर्सां पसूनचें भारतीय संस्कृतीचें दर्शन हें पळोवपाचें उरिल्लें. तेवटेन आमच्या कवितांचें सेशन सुरू जायत म्हणून दोन वरां भितर कितलें पळोवंक मेळटा तें पळोवन धांविल्ली. आतां तर भितर सरपाकूच दोन वरां लागपाचीं. गर्दी पळोवन दादल्यांनी तर पयलींच आंग फाटीं काडिल्लें, आमी गाडयेंत बसून रावतात, कोणाक जाय तीं वचून येयात, म्हणून. सोनल आनी गौरव तर पळोवया म्हणून सामकीं फाटीक लागिल्लीं. तांकां तांच्या इश्टांक आमी अक्षरधाम पळोवन आयलीं म्हणून सांगपाक जाय आशिल्लें. हांव भितर वचपाची जाग माग करिना तें पळोवन तीं म्हजेरूय बेजार जालीं. बऱी आसा ही हर्षाकाकी! आपणें पळयलां म्हूण ओग्गी रावल्या. नाजाल्यार कोणाचेंच आयकनासतना वतलीच आशिल्ली पळोवपाक. खरें उलयलें तें. एकदां पळयल्लें आसतना येदे व्हडले रांगेंत उबें रावन हांव कशेंच पळोवंक वच्चें नाशिल्लें. ते परस म्हाका दिल्लीच्या सुंदर रस्त्यांनी चलून भोंवपाक चड आवडटलें आशिल्लें. हांगा पांच वरां जातात म्हळ्यार काळोख जाता. हांवें ताका समजायलें, भितर कांय कॅमेरा व्हरूंक मेळना. तूं हांगा भायर उबें रावन फोटो काड. ते फोटो व्हरून दाखय तुजे इश्टिणीक.

परतीं गोवा निवासांत आयलीं. फ्रॅश जावन च्या बी घेवन परतीं भायर सरलीं. फुडले आठ दीस हांगचे परसूय चड शिंया कुडकुड्यांत घालोवंक जाय आशिल्ले. ते खातीर आनिकूय वुलन कपड्यांची गरज आशिल्ली. थंयच लागीं आशिल्ल्या सरोजिनी मार्केटांत गेलीं. सगळीं दुकानां खासा शिंयाळ्या कपड्यांचीं. कपडे सवाय, म्हारग ब्रॅन्डेड, सगळ्या तरांचे. भुरग्यांनी १०० रुपयांक एक अशीं दोन दोन जॅकिटां घेतलीं, आठ दिसांनी पिंजल्यार पिंजूं म्हणून. फुडल्या वर्सा हिल स्टेशनार गेलीं जाल्यार तांकां हे कपडे जावचे नाशिल्ले. हांवें मात एक बरो कोट घेतलो. फुडलीं पांच वर्सां तरी वापरूंक मेळटलो असो.

जेवपाचो वेळ जालो. पंडारा मार्केटांत गेलीं. त्या वाठाराक 'फुड

कोर्ट' म्हणटात. फकत रेस्टॉरंटां. गाडयांच्यो लायनी आनी भितर वचपाक मनश्यांच्योय लायनी. तरी 'हॉटॅल पिंडी'त रोखडोच जागो मेळ्ळो. इतल्या शिंयांत लेगीत दिल्लीचे लोक जेवपाक भायर बरे सरतात अशें मनांत आयलें. घडये होच तांचो सिझन आसतलो. मुन्नी कालूच म्हणटालें, हांगचें शीं परवडलें, पूण गरमी न्हय.

सकाळीं फुडें उठून टिव्ही सुरू केलो. पयली बातमी आशिल्ली, दिल्लींत दोन दीस पडिल्ल्या धुक्याक लागून दिल्लीच्यान चंदीगढ, अमृतसर वचपी ट्रेनी कॅन्सल जाल्यात, ही. विमानांचो वेळूय बदलिल्लो. पूण अकरा जाता म्हणसर धुकें मातशें कमी जालें. रेल्वे स्टेशना लागसरच्यान आमची मनाली वचपाची बस सुटपाची आशिल्ली. दनपरां दोनांक बस सुटली. आमचो टूर गायड कुशल चौधरी मदीं मदीं उठून 'हो लाल किल्लो..., हो कॉमनव्हॅल्थ गेम्स जाल्ल्यो तो स्टेडियम... अशें दाखयत आशिल्लो. हांवें जनेला कडेन सीट धरिल्लो. पयलीं बस रावली कुंदली ह्या गांवांत. हरयाणा चेक नाक्यार. हांगच्यान हरयाणाची शीम सुरू जाताली. आतां वाटेर सगळे ढाबे दिसूंक लागले. तांचीं नांवां वाचून म्हजें बरेंच मनोरंजन जातालें. 'गुलशन ढाबा', 'झिलमिल ढाबा', 'पहलवान ढाबा', 'लक्की ढाबा', 'पतियाला ढाबा', 'वैष्णो ढाबा'...

मागीर लागलें बडी सोनपथ. हें सोनपथ, म्हळ्यार पांडवाचे मुर्स्तीतलें खंय 'सोनप्रस्थ'. हस्तिनापूर राज्याचे दोन वांटे करून एक वांटो पांडवांक दिल्लो. तातूंतलें एक सोनप्रस्थ. फुडें ह्या नांवाचो अपभ्रंश जावन तें 'सोनपथ' जालें. पांडवांच्या काळांत खंय तें भांगराचें शार म्हणून नामनेक पाविल्लें. पूण आतां कांय म्हाका तें तशें दिसलें ना. फुलगोभी म्हळ्यार फ्लावराचीं शेकानशेक पातळिल्लीं शेतां दिश्टी पडलीं. मातशे फुडें पावता म्हणसर कुशल उबो रावलो आनी म्हणूंक लागलो, आतां आमी पानीपत पावल्यांत. महाराष्ट्राचो इतिहास पानीपताचो उल्लेख केले बगर पुराय जावचोना. पानीपतच्या ह्या म्हाभयंकर झुजाक अंदू वर्सा २५० वर्सां पुराय जातात. १४ जानेवारी १७६१ ह्या सक्रांतीच्या दिसा मराठ्यांचेर सक्रांत आयली. वर्सभर सदाशिवभाऊ पेशवो आपलें सैन्य घेवन वाटेर ल्हान व्हड संस्थानां कडेन वा राजां कडेन युती वा झूज करीत दिल्लीक पावलो. दिल्लीक मराठ्यांचो भगवो झेंडो हुबयत हरयाणांतल्या पानीपत गांवांत पावलो. थंय अफघानिस्तानाचो राजा अहमदशाह अब्दाली हाचे बराबर ताचें खर झूज जालें. अब्दालीन तांकां चोंय वटेन घेरिल्ले. फाटलो म्हयनोभर पेशव्यांचें सैन्य भुकेन तळमळटालें. तांणी झाडांचीं पानां, साली जनावरांचें मांस - मेळटा तें खावन दीस काडिल्ले. ताचे पयलीं पुण्याक श्रीमंत पेशव्या कडेन रकाद घेवन मनीस गेल्लो. आनी श्रीमंत पेशवो चाळीस हजार सैनीक आनी खावपाचे जिनस घेवन भायर सरिल्लो, हो रकाद तांकां पाविल्लो. श्रीमंत येतलो हे आशेर पानीपताक सैन्यान तग धरिल्लो. झूज सुरू जाता आसतना थंय पेशव्याचो मनीस पावलो. फाट-पोट एक जाल्ल्या सैन्याच्या आंगांत चैतन्य आयलें. 'हर हर महादेव' म्हणत दुस्मानाचेर झुटून वचपाचे तयारेक ते लागले. पूण त्या मनशान सांगलें, श्रीमंत सद्या येना. वाटेर पैठणाक तो णव वर्सांचे चलये कडेन लग्न जाला. आनी तो अजून त्या सुवाळ्यांत मग्न आसा. ताणें आपूण पावचोना अशें सांगलां.

विश्वास पाटील हांचे *पानीपत* कादंबरेचेर आदारिल्लें *रणांगण* हें नाटक खूब वर्सां पयलीं हांवें पळयल्लें. म्हाका दिसता, सदाशिवराव पेशव्याचो पार्ट अविनाश नारकरान केल्लो. श्रीमंत पेशवो येना हें कळटकीच ताणें केल्लो अभिनय म्हज्या दोळ्यां मुखार आयलो. ''वा... श्रीमंत वा! काय पण मुहूर्त निवडलाय लग्नाचा! हांगा झाडाचीं पानां मुळां खावन तग धरिल्लें सैन्य तूं येतलो हे एके आशेर राविल्लें... तुम्ही तर गुडघ्यालाच बाशिंग बांधले. हांगा भुके पोटार तळमळपी सैन्याची पर्वा करी नासतना तुमी थंय पंचपक्वानां झोडटात. निदान येतात, लागीं पावल्यात अशें बेश्टेंच सांगून तरी धाडचें आशिल्लें. तितलीच आमच्या मनाक उभारी येतली आशिल्ली...'' आतां सगळें भाशण म्हाका याद जायना. त्या दिसा जाल्ल्या झुजांत सदाशिवभाऊ तर मेलोच, पूण लाखा वयर सैन्य कबार जालें. तांचे बराबर आशिल्ल्या महाराष्ट्री यात्रेकरूंक पसून कापून उडयले. म्हणून 'पानीपतच्या लढाईत लाखभर बांगडी फुटली' अशें मराठींत म्हणटात. जे कोण वांचून उरले ते हरयाणांत उरले. कांय जाण अब्दालीच्या सैन्या बरोबर अफघानिस्तानांत पावले. आजूय हरयाणांत खंय जोशी, वैद्य, महाजन, शिंदे ह्या महाराष्ट्री आडनांवाचे मराठ्यांचे वंशज दिश्टी पडटात. सगळें काबार जावप म्हळ्यार पानीपत जावप अश्या अर्थान पानीपत हो शब्द मराठींत वापरतात. हरशीं हांव कादंबरी, रणांगण नाटक, सगळें विसरून गेल्लें. पूण पानीपत पावलीं आनी, पेशव्यांचें झूज म्हूण आयकतकीच सगळें येवजलें.

पानीपत आसतना एकदम धुक्याचो लोट कसो आयलो. मुखावयल्यान येवपी गाडयो, रस्तो कांयच दिसना जालें. तो ड्रायव्हर बाबडो कशी बस चलयतालो तोच जाणा. पानीपतच्यान फुडली सगळी वाट धुक्यांत बुडिल्ली. हारश्यां वयल्यान पावस पडिल्ले वरी दंव टपटप करून रकतालो. म्हणटां म्हणटां तिनसांज जाली आनी बस हायवे वयल्या एका पॉश हॉटॅला कडेन रावली. सकयल देंवलीं मात, भायर कांटो फुलोवपी शीं! बशींत भितर कांयच कळनाशिल्लें. हुनहुनीत कॉफी, दोसा खावन चंदीगढ वचपाक गेलीं. आतां गुप्प काळोख आनी धुकें. बसींत अंताक्षरी खेळून खेळून सगळीं वाजेल्यांत आनी न्हिदेचे सुवादीन जाल्यांत. धुक्यांत ड्रायव्हर गाडी कशी चलयता काय? अशें येवजीत हांव मात जागें. पूण रस्ते वन व्हे आनी चौपदरी. ॲक्सिडॅंट जावपाची शक्यताय सामकी उणी; अशें येवजीत हांव धुक्यांतल्यान भायर पळोवपाचो यत्न करतालें. मदी खंय तरी कौरव पांडवांचें झूज जाल्लें तो गांव 'कुरुक्षेत्र' लागता म्हूण आयकल्लें. तोय बी धुक्यांत बुडिल्लो जावये. धुक्यांतल्यान वाट काडीत एकदांची रातचीं णवांक चंदीगढ पावलीं. हॉटेल शगुना कडेन बस रावली. बसींतल्यान देंवतनाच मुखार सुंदर सुंदर धाली आनी रोजां - रसरशीत फुलां. हे हवेन फुलां सामकीं टवटवीत उरतात. सोमतीं पयलीं रेस्टॉरंटांत जेवपाक गेलीं. पोटांतल्यान सामके कवळे येताले. हुनहुनीत सूप पियेतकीच मातशें बरें दिसलें. पंजाबी मोदीचें मकई की रोटी-मेथी चिकन अप्रतीम.

सकाळीं उठून तरेकवार पराठे आनी पंजाबी 'अचार' खावन भायर सरलीं. आतां आमी बद्द शिमला वचपाचीं आशिल्लीं. पयलीं लागलो पंचकुला हो इल्लोसो गांव. मागीर पिंजोर. हांगा काश्मीराक आसतात तसलीं मुघल गार्डनां आसात. फुडें केन्नाय मागीर अमृतसर बी वतलीं तेन्ना हांगा रावप. पिंजोर वचून कालका आयलें. हांगच्यान शिमला वचपाक इल्लीशी झुकझुकगाडी सुट्टा. टॉय ट्रेन. पांच वरांनी शिमला पावता. वाटेर १०६ बोगदे आनी ८९ पूल लागतात खंय. रोखडेंच परवानू आयलें. आनी बस चेक नाक्यार उबी रावली. परवानू म्हळ्यार हिमाचलप्रदेशाची शीम सुरू जाता. पंजाब, हरयाणा करीत आमी हिमाचलाचे शिमेर पाविल्लीं. परवानू गांव काल पयर मेरेन इल्लोसोच आशिल्लो. फळांच्यो बागो इतलीच ताची वळख आशिल्ली. पूण आतां तें हिमाचल प्रदेशाचें औद्योगीक शार म्हूण नामनेक पावलां. हांगा बस अर्दवर उरली. आमी सकयल देंवन परवानूचे मातयेक पांय लावन आयलीं. थंय बरयिल्लें आशिल्लें 'परवानु - हिमालय की शुरुआत'. बस सुटली. घांटार चडपाक लागली. मुखार पाटयेर बरयल्लें, 'देवभूमि हिमाचल में आगमन पर हार्दिक स्वागत'. सबंद वोल्तां वोल्तांचे रस्ते. एके वटेन दोंगरांची रांग आनी दुसरे वटेन धुक्यान भरिल्ल्यो दरयो. सैमाचीं दोन रुपां. मदल्या रस्त्यान आमची बस वताली.

धर्मापूर काडून पायन रूख दिसूंक लागले. सुयो कशीं पानां. झाडांक सुकिल्ले 'कोन' दिसताले. सकयल पडिल्ले दिसताले. सकयल देंवपाक मेळिल्लें जाल्यार हांव पुंजावन हाडटलें आशिल्लें. तांकां वॉर्निश केल्यार व्हाजांत दवरपाक मेळटा. तारादेवी, कच्ची घाटी पावता म्हणसर दनपार जाली. जेवपाक 'क्वालिटी इन', हिमदेव हांगा बस रावली. रस्तो वयर, हॉटिल सकयल. सोपणां देंवन सकयल वचपाचें. फुडें फुडें मागीर तशींच घरां दिसूंक लागलीं. घराच्यो दोन कुडी वयर, दोन सकयल. ताचे सकयल खांबे, दरयेंत भितर पांय सोडून बशिल्ले बशेन. हांगा वोत आशिल्लें. पूण आंगा वयलो दाट कोट काडी सारको नाशिल्लो. वोत आनी शिंयाचें जाय जाय शें मिस्तूर. धुकें ना, कांय ना. नदर वता थंय दोंगुल्ल्यो आनी दोंगुल्ल्यांचेर वाटकुळे वाटकुळे रस्ते. बस 'हॉटेल गोल्फ लिंका'सरीं रावली. हेंय हॉटिल तशेंच. आमचो रूम दुसऱ्या मजल्यार, म्हळ्यार पोंदच्यान दुसरो. लिफ्टांतल्यान पोंदा गेलीं. रुमांत येवन गॅलरी उगडली. पयस दिसपी दोंगुल्ल्यो आनी दोंगुल्ल्यां वयल्यान वचपी गाडयो. रस्त्याचे कुशीक घरां.

सांजचीं 'माल रोडा'र गेलीं. ह्या रस्त्यार वचपाक दोन लिफ्टां आसात. एका लिफ्टांतल्यान मातशीं वयर गेलीं. मागीर दुसऱ्या लिफ्टांतल्यान गेलीं. सरळ रस्त्यार सगळीं कपड्यांचीं दुकानां. रस्त्याचे वयले वटेन इगर्ज आशिल्ली. सोपणां चडून वयर गेलीं. मुखार हळदुवसार रंगाची इगर्ज. इगर्जेची बांदावळ गॉथीक पद्दतीची. ही उत्तर भारतांतली एक पोरणी इगर्ज. थंय लागींच आसा शिमलाचो फामाद 'लक्कर बाझार'. लाकडी मेजां कदेलां, कारागिरांनी केल्लीं. लाकडी सोव्हिनीर, दवलो, लाटण्यो, कायलाथे, लाटफळीं, गाडयो.. म्हाका एक गाडी आवडली. सामकी 'विन्टेज कार'. पोरणो मर्सडीज मॉडेल. हांवें १०० रुपया दिवन घेतली. म्हजे बरोबर सुषमा आशिल्लें ताणें म्हणलें, असल्योच गाडयो पयर दिव्रचले नव्या सोमाराचे फेरयेक आयिल्ल्यो. आमच्या घरा मुखारूच माण पडिल्लो. १०० रुपयाच पडटाले. त्योय गाडयो हांगाच तयार जाल्ल्यो आसतल्यो. पोटा खातीर कोण खंय पावत, कांयच सांगूं नजो. आनी एके कडेन चेरीचीं फुलां, द्राक्षांचे घोंस, हेंय लाकडाचें केल्लें पळयलें. ह्यो सगळ्यो वस्तू खंय अक्रोडाच्या लाकडा पसून तयार करतात.

वयल्यान शिमला शार नदरेच्या आवाठांत येतालें. सकयले वटेन फर, पायन असले रूख आनी कुचकुचीत घरां. चडटी, देंवती... ते खातीर एकेच कडेन एका घराचें पाखें तर दुसऱ्या घराचें आंगण. सोपणां चडात, सोपणां देंवात. आयचें शिमला ब्रिटीश काळांत भारताची गिमाळी राजधानी आशिल्ली. आज ती हिमाचल प्रदेशाची राजधानी जाल्या. श्यामलादेवी ही थंयची ग्रामदेवता. तिच्या नांवा वयल्यान शिमला हें नांव पडलां. ब्रिटिशांचें हें आवडटें हिलस्टेशन. हांगा सगळ्या ब्रिटीश लॉर्डांचे बंगले आसात म्हूण आयकल्लें. एक तरी पळोवचो पडलो.

शिमला आयलां म्हूण कोणाकूय दिवपाक कितें तरी घेवूंक जाय म्हूण कानतोपयो, तोपयो घेतल्यो. भुरग्यांचे वुलन कपडे तर सुंदरूच आशिल्ले. बाकी सगळीं जाणां शॉपींग करीत भोंवतालीं. म्हाका आनीक कांय घेवपाचें नाशिल्लें. अशा अनवळखी जाग्यार म्हाका चलून भोंवपाक खूब आवडटा. वळखीच्या कोणें हडकुपाचो हुस्को ना. चणे खायत खायत हांव रस्त्या वयल्यान पासय मारूंक लागलें. थंय गाडयांक वयर येवपाक बंदी आसा. ते खातीर रस्त्या वयल्यान अबरगत कशें चलत रावलें म्हूण मुखावयल्यान गाडी येवन आपटुपाचो भंय ना. इतल्यान, ''मम्मा, कुशीक सर, कितें चलता पिशें कशें मुखार पळयनासतना?'' पळयत जाल्यार मुखावयल्यान एक हमाल येता. ताचे फाटीर जड साक. ताच्या वज्यान ताका पोंग पडलां. फाटी जयलो लांबोडो साक ताणें फाटीक दोरयेन बांदला आनी ते दोरयेचें तोंक तकलेक गुठलायलां. ताची तकली सामकी बागवल्या. ताका मुखावयलें कांयच दिसपाची शक्यताय ना. म्हाका चल्यान कुशीक काडूंक नाशिल्लें जाल्यार हांव ताका बाबड्याक आपटतलें आशिल्लें. इतलें वजें घेवन चडटी चडप. वजें हातगाडयेक बी बांदिल्ले बशेन फाटीक बांदप. पळोवन कितेंशेंच दिसलें. थंय आनीक कितें पळोवपाची उमेदूच गेली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं शिमला भोंवपाक हॉटेलाचे भायर आयलीं जाल्यार फोटोग्राफर हिमाचल प्रदेशाचे थळावे भेस हातांत घेवन उबे. ते कपडे घालून फोटो काडून घेवपाचे. खांद्यार फुलांचे पाटले घेतिल्ल्यो पहाडी सुंदऱ्यो, कमरार रंगयल्ली कळसुली घेवन उदकाक वचपी हिमाचली कन्या... भुरग्यांचे, जाणट्यांचे सगळ्यांचे भेस तयार आशिल्ले ते पळोवन सोनल फुरफुरलें. ताणें जाय तश्यो पोझी दिवन आपले फोटो काडून घेतले. आमीय मागीर शिमलाची याद म्हणून एक एक फोटो काडलो. सगळ्यांचें फोटो सेशन जातकीच नालदेरा वचपाक गेलीं. आतां वाटेर फकत देवदार रूख दिश्टी पडटाले. ऊंच ऊंच देवदार. खंयूय मदीं पायन, स्फ्रुस दिसूं, पूण रान देवदारांचें.

नालदेरा म्हळ्यार हिमाचलांतलो एक उंचाये वयलो जागो. थंय शिमला परसूय चड शीं आसता. थंय ल्हानशें नागाचें देवूळ आसा. ते खातीर ह्या जाग्याक नागदेहरा हें नांव पडलें. ताचें मागीर 'नालदेरा' जावपाक कितलोसो वेळ लागतलो? इल्लेशे पांयवाटेन दोंगुल्ली चडपाक जाय. चलून वचपाक कांय न्हय. पूण सकयल घोडे आशिल्ले. हांव घोड्यार बसपाचो चान्स केन्ना चुकयना. म्हाका घोड्यार बसलां तें पळोवन मागीर सगळ्या जाणांनी घोडे केले. दत्तराज मात घोड्या बरोबर चलून आयलो. थंय मातसो सपाट सो जागो आनी नदर वता थंय मेरेन देवदाराचें रान. तकली वयर काडून पळयलें जाल्यार नदर वयर वता तितले मेरेन हे रूख दिश्टी पडटात. दनपारचीं अकरा वरां जावन गेल्यांत. वोत आसा पूण मोव मोवशें, जाय जायशें. आमच्या आंगार दिल्लीक घेतिल्ले दाट कोट, तरीय शीं खाता. सामकें 'युरोपियन' हवामान. ८-९ डिग्री बी आसतलें. ब्रिटीश वायसरॉय लॉर्ड कर्झन ह्या जाग्याच्या सामको मोगांत पडलो खंय. ताणें आपले अलेक्झांड्रिया चलयेचें नांव खंय अलेक्झांड्रिया नालदेरा केलें. तो ताका नालदेरा म्हूण उलो मारतालो खंय. कर्झनान थंय णव बुराक आशिल्लें गॉल्फ मैदान तयार केलें. आतां तें अठरा बुराकांचें जालां. ताची मालकी गॉल्फ क्लबा कडेन आसा. मेंबर आशिल्ल्यांक थंय वचपाक मेळटा. आमी उबीं आशिल्लीं थंयच्यान तें दिश्टी पडटालें.

नालदेरा हो पयलींच्या हिंदी सिनेमांचो आवडटो स्पॉट. हांगा खूब पिक्चरांची शुटींग जाल्या. थंय लाकडाच्यो वस्तू घेवन दोग तीग जाण विकपाक बशिल्ले. काल पळयिल्ल्या लक्कड बाजारांत हें सगळें आशिल्लें. तरी बेश्टेंच हांव थंय घुटमळ्ळें. भुरग्यांक कितें दिश्टी पडटा तें जाय आसताच. की-चेन्स - हतयांच्यो, अक्षरांच्यो, झाडांच्यो, ते भायर इल्लीशी लाकडी डबी घेतली. ती उगडटकीच तातूंतल्यान एक किडो भायर सरता. सगळ्या भुरग्यांनी मेळून ताका खूब गिरायक घालें. तोय मागीर उलोवपाक लागलो. 'तुमी खंयचीं?' तो शिमलाचोच. ताचें नांव मनोजकुमार. हांवें ताका विचारलें, वाटेर आमकां पानां झडिल्लीं, सुकिल्लीं कशीं खूब झाडां दिश्टी पडल्यांत. कसलीं झाडां ती? तर ताणें सांगलें, तीं सफरचंदाचीं झाडां. मार्च म्हयन्या उपरांत तीं चवरूंक लागतलीं. देवदार सोडल्यार हांगचे सगळे रूख बोडके जातात. तुमी आतां बेठींच आयलीं, एप्रील मेंत येवंक जाय आशिल्लीं . हांवें म्हळें, आमी मुद्दम झेल पडटा तो पळोवक आयल्यांत. तो दिश्टी पडल्यार पुरो. हें सगळें दत्तराज आयकतालो. मम्मा, देवदाराचीं पानां कित्याक झडनात तें ताका खबर आसा? हांवें म्हळें, ना. तर ताणें सांगलें, तांकां हिंदी पुस्तकांत 'देव[illegible] का वृक्ष' म्हूण एक धडो आसा. तातूंत खंय देव सृश्टी रचतालो तेन्नाची खबर आसा. तो खंय पेड, पौधे खंय खंय रोवप तें येवजितालो. मागीर सगळ्या झाडांक तांची इच्छा विचारतालो. सगळीं झाडां आपणाक जंय 'धूप' आसा, 'वर्षा' आसा, बरी 'धरती' आसा थंयच रोय म्हणटालीं. सूर्याचेच चड लागीं रावंक पळयतालीं. तांकां वयलें स्थान पसंत आशिल्लें. चिनार, चीड हांणी आपणाक पर्वताचेर रोय म्हणलें. पर्वताचे सकयले वटेन कोणूच वचपाक तयार ना. तांकां 'घाटियाँ' नाका आशिल्ल्यो. थंयची सगळी जमीन तशीच पडली. देवदार रूख आपल्याकूय बरो जागो सोदतालो. इतल्यान ताची नदर 'घाटियाँ' मदल्यान व्हांवपी निर्मळ उदकाचेर पडली. ताका दिसलें, निर्मळ उदकांत आपलें प्रतिबिंब कितलें बरें दिसतलें! ताणें देवाक सांगलें, आपल्याक थंय रोय. पूण आपल्या चारी वटांनी बरो उकतो जागो दवर. आपल्या 'जडां'क भितर वचून उदक 'चूस' करपाक जाय. देवान ताचें आयकलें आनी ताका सकयल धाडलो. ताका सकयल वता तें पळोवन पर्वता वयले 'पेड' हांसूंक लागले. सदांच ताचे पाय उदकांत भिजिल्ले उरतले म्हण. देवान ताका सांगलें, हो जागो तुवें पसंद केला म्हणून तुका इनाम मेळटलें. देवदार खूश जालो. ल्हवू ल्हवू सगळी 'घाटी' देवदारान भरून गेली. मागीर 'व्हिंटर' आयलो. झेल पडूंक लागलो. देवदारान सगळो झेल आपल्या आंगार घेतलो. थंड हवा वयर आडावन धरली. ताचे मुळा राविल्ले पशु-पंछी, कीडे-मकोडे हांचेर झेल पडूंक दिलोना. देवदारान मागीर तकली वयर काडून पळयलें. पर्वतां वयले चिनार चीड थंडेन सामके कुडकुडटाले. तांच्या आंगार एकूय पान नाशिल्लें. देवदाराचें एकूय पान झडूंक नाशिल्लें. देवदार हांसलो. ताका कळ्ळें, हेंच आपलें इनाम. आतां कळ्ळें, तुका देवदाराचीं पानां कित्याक झडनात तीं...?

दत्तराजान कोंकणी हिंदींत आपली काणी सोंपयली. मनोजकुमारान सांगलें, फाटले वटेन सकयल देंवात. झाडांचेर 'काळजां' कोरांतिल्लीं दिश्टी पडटलीं. हांगा झेल पडटा? हांवें ताका विचारलें. हय, फेब्रुवारीच्या पयल्या सप्तकांत बी पडटा. खूब प्रमाणांत न्हय. ह्या दोन दिसांक चड करून पावस पडटलो. आमी हांगा आसतना पावस पडना जाल्यार पुरो अशें म्हणत आमी सकयले वटेन गेल्लीं. झाडांचेर 'हार्ट' कोरांतिल्लीं. आमी थंय आसतना हनिमुनाक आयिल्लें एक जोडपें आपलें 'दिल' थंय कोरांतपाचो यत्न करतालें. म्हाका एका सिनेमाची याद जाली, आतां नांव याद जायना, पूण तातूंत मिथुन चक्रवर्तीन आनी पद्मिनी कोल्हापुरेन काम केल्लें. तांणी थंय पद म्हणीत देवदाराच्या रुखाचेर 'हार्ट' कोरांतिल्लें. मागीर तीं लग्न जातात. तिच्या आवय-बापायक तो पसंत नासता. तीं धुवेक परतीं हाडटात. तिगेर चलो जाता. ती डिप्रेशनांत वता. मागीर तिका शिमला हाडटात. थंय पावतकीच तें हार्ट पळोवन तिका सगळी याद जाता. मागीर सगळो आनंदीआनंद - आमी थंय हार्ट कोरातूंक ना. पूण रुखा पोंदा बसून आमी च्या पिलीं. 'फ्रूट चाट' खालें आनी जेवच्या वेळार हॉटेलांत गेलीं.

जेवून सोमतीं कुफ्री गेलीं. पयलींच रस्तो अशीर आनी तातूंत तो रुंद करपाचें काम चलतालें. थंयची माती शिमिटा बशेन धवी. वस्त्रगाळ कशी. वयर खंय तरी दोन याक आनी गुबगुबीत मेंढरां चरतना दिसलीं. पयलेच फावटी याक पळयतालीं. बस येवन वयर रावली. आमी इंदिरा बंगल्या कडेन वतालीं. वाटेर सगळीं हिमाचली हस्तकलेचीं दुकानां. 'गायड जाय? गायड जाय?' म्हणून उबे राविल्ले विचारीत आशिल्ले. कुशलान हरशीं सगळी म्हायती दिल्ली. पूण थळावे गायड थंयचे थळावे हेळे काडिल्ले भाशेंत सांगतात ती म्हायती आयकुपाक मजा येता. एक जाणटेलो सो आमचे बराबर आयलो. तो आमकां घेवन 'इंदिरा बंगल्या'कडेन आयलो. ह्या बंगल्यांत १९७२ त 'शिमला

करारा'चीं उलोवणीं जाल्लीं. ते खातीर तेन्नाचे पाकिस्तानाचे प्रधानमंत्री झुल्फिकार अली भुत्तो आनी इंदिरा गांधी हांगा आयिल्लीं. तांचे बरोबर तांची खुबसूरत बेटी हांगा आयिल्ली. आपणें तिका पळयल्ली. लेकिन कागज पर हस्ताक्षर इधर नहीं हुए। नीचे सेक्रेटरियट है ना, उधर हुए। इस बंगले में पहले पतियाला में महाराजा भुपिंदरसिंग की चीनी रानी रहती थी। भुपिंदरसिंगाक धा राणयो आशिल्ल्यो. साडे स फूट उंचायेचो राजबिंडो असो हो विलासी राजा. ताचे बरोबर सदांच ताचो मेकपमॅन आसतालो. आनी, कसल्यो कसल्यो जडीबुटी खावन तो 'जवानी' सांबाळून दवरतालो खंय. ब्रिटीश अधिकाऱ्यांक दावत दिवपाची ताका खूब आवड आशिल्ली खंय. लॉर्ड कर्झनाचे बायलेक खंय ताणें बनारसी साडी भेट म्हणून दिली आनी ती न्हेसपाक लायली. इंडियन साडी न्हेसतना बायल-मनीस ज्यादा खुबसूरत दिसता म्हूण सांगलें. आनी ती भुल्लुसून सगळ्यां मुखार साडी न्हेसपाक लागली. ती साडी न्हेसतनाचो फोटो खंय तरी छापून आयलो खंय. लॉर्ड कर्झनान भुपिंदरसिंगाक शिमला येवपाक मनाय केली. पूण थंयच मातसो मुखार चैल गांव आसा थंय ताणें राजमहाल बांदून लॉर्ड कर्झनाची जिरयली खंय. आमच्या गायडान, किशनचंदान आपली काणी सोंपयली. आनी, 'अभी चैल जाएंगे'! भारतांतलें सगळ्यांत उंचाये वयलें क्रिकेट मैदान हांगा आसा. आतां तें मिलिटरी कडेन आसा. यह मैदान भी पतियाला के महाराजा की देन है। राजमहल तो देखने की चीज है। उधर जो शीशे लगाए हैं वे बेल्जियम से लाए गए थे। पेड पौधे भी परदेस से लाए थे। पळयात वचून राजमहल. आपूण जाय जाल्यार तुमचे बराबर येतां म्हणून तो फाटीक लागलो.

हांगाय बी सकाळचे बशेन हिमाचली भेस घालून फोटोग्राफी चालू आशिल्ली. सकाळीं आमी घाल्लो तो भेस आनी हो भेस वेगळो आशिल्लो. आमकां पळोवन तो फोटोग्राफर आमचे फाटीक लागलो. हांवें ताका आमी सकाळीं फोटे काडल्यात म्हणून सांगलें. तर ताणें सांगलें, ते काश्मिरी भेस, हे अस्सल हिमाचली. ही कुल्लू शॉल मोटवी साडी कशी नेसप. वयर माथ्याक तोपी कशी बांदप. सकाळीं आमी घाल्लो तो कुर्ता कसो आनी माथ्याक ओडणी कशी बांदिल्ली. आमी भोंवडेक वतकीच भुल्लुसून फोटो काडून घेतात. खरें फट पळयनासतना. आमचो गायड किशनचंद सांगपाक लागलो, हो खरो थळावो भेस, तुमी फोटे काडाच... परतेंय फोटो सेशन जालें.

मागीर तो चैल याच म्हणून फाटीक लागलो. आमी म्हळें, आतां आमकां हिमालयन झू पळोवपाक जाय. हाका कुफ्री झू अशेंय म्हणटात. हांगा हिमालयन वाठारांतलीं दुर्मीळ जनावरां आसात. तीं खंयच्याय प्राणी संग्रहालयांत सोंपेपणान पळोवंक मेळचिंनात. एकदां झूंत भितर सरतकीच भायर सरपाक दुसरी वाट आसा. कमीच म्हणल्यार देड दोन वरां लागतात. दाट रान. मदीं वाट आनी सोपणां. वयर सक्यल, अशीं. हिमालयांतले सगळे रूख हांगा पळोवंक मेळटात. भितर सरतनाच पयलीं मेळटात हरणां. फुडेंय वता थंय हरणांच. पूण तांच्यो जाती वेगळ्यो. नांवां बरयिल्लीं आशिल्लीं. सांबर, बार्कींग डिअर, मस्क डिअर..., बार्कींग म्हळ्यार कुत्र्या बशेन भोंकपी. पूण आमी थंय आसतना एकलेंय भोंकलेंना. मस्क डिअर तर वता थंय आशिल्ली. ल्हानशें सादें हरण. मातशें फुडें वतकीच म्हजें तकलेंत उजवाड पडलो. मस्क डिअर म्हळ्यार 'कस्तुरीमृग' परतें फाटल्यान आयलें सारकें पळोवपाक. हो कस्तुरीमृग 'नर'. कस्तुरेचो वास खंयच्यान येता काय म्हणून तो धांवत सुट्टा खंय. आपले बोंबलेंत कस्तुरी आसा तें ताका खबरूच नासता खंय अशें आयकल्लें. टिबेट वुल्फ, हिमालयन अस्वल, स्नो लेपर्ड, याक... चडून चडून वयले वटेन पावतकीच मेळ्ळे पेट्रीज जातीचे पक्षी. चिनी मुर्गी आनी एक बदक कसो पक्षी. ताच्या माथ्यार तुरो आनी फाटल्यान मोरा बशेन पिसारो. मागीर जलतीतर आनी हिमतीतर. हिमतीतर म्हळ्यार लॅव कोफ्ये कोर आनी क्रीम कोराचो मातसो बदका बशेन दिसपी पक्षी. पूण तो उदकांत रावना. हाचें 'चकोर' हें संस्कृत नांव आयकून हांव सामकें वयर उडलें. चकोर हें नांव जायते फावटीं वाचनांत आयलां. ह्या चकोराक चंद्राचें खूब पिशें. तो चान्नें पियेवन रावता अशी कवी कल्पना आसा. म्हजीय एक कवी कल्पना आशिल्ली ती म्हळ्यार चकोर हो हंसा बशेन धवोफुल्ल पक्षी आसतलो म्हूण. हो मातसो बदका बशेन क्वॅक क्वॅक, कॅक कॅक करपी. चान्न्याची खंय ताका शितळसाण मेळटा. ते खातीर तो हुनहुनीत फातर खंय खावंक शकता. पूण हिमालयांत फातर खतखतीत जावपा सारकें रखरखीत वोत खंय आसता? तीय एक कल्पनाच आसतली. ह्या प्राणी संग्रहालयांत येवन एक फायदो मात जालो, तो म्हळ्यार, 'चकोर' आनी कस्तुरीमृग पळोवपाक मेळ्ळे. वयर सक्यल चडून देंवून जाम जाल्लीं. एकदाची भायर आयलीं. भायर याक आमकां येवकार दिवपाक उबे आशिल्ले. याकाचो निकटो फोटो काडपाक वीस रुपया. फक्त भुगोलाच्या पुस्तकांत याक पळयिल्ल्या भुरग्यांनी ही संद वगडायली ना. हांगा कुफ्रीक फेब्रुवारी म्हयन्यांत विंटर स्पोर्टस् फेस्टिव्हल आसता. पयलींच्या हिंदी सिनेमांनी 'हिरो' थंय भाग घेवपाक बी येतात तें फिल्मांनी पळयल्लें. आतांचे हिरो स्वित्झरलंडाक वतात. थंयच्यान आनी आमी चैल बी खंय गेलिंनात. कोट कान तोपयो घालून लेगीत शिंयांत आंग चरचरतालें. भायलें तापमान ४ अंश आशिल्लें. हॉटेलांत परत गेलीं.

जेवून पासय मारुया म्हूण भायर आयलीं. दोन पावलां घालपाक जालिंनात. सामकें झेलांत भितर सरिल्ले बशेन दिसपाक लागलें. रूमांत आयलीं. टिव्ही चालू केलो. हिमाचल प्रदेशांत शिंयाचें ल्हार आयलां आनी २४ वरां भितर पावस पडपाची शक्यताय आसा. बातम्यो सुरू आशिल्ल्यो. लोक कशे कुडकुडटात तें दाखयताले. मनांत आयलें, आमी मुद्दम ह्या आकांताच्या शिंयांत झेल कसो पडटा तें पळोवपाक इतलीं पयस आयल्यांत. तितलो पळोवंक मेळ्ळ्यार पुरो. दुसऱ्या दिसा आमी मनाली वचपाचीं आशिल्लीं.

संपर्क: ९८५०५३०१५२



गजानन जोग

# मो-ग-बी-ग...

मोग जावं, लग्न जावं. ना जाल्यार मोग लग्न जावं, आसतात काय केन्ना घोव-बायलेचीं मनां सारकीं जुळिल्लीं? सदांच जुळिल्लीं? कांयच सांगपाक जायना. वयर ब्रह्मदेव लग्न-गांठी मारता अशें म्हणटात. कोणाक खबर. पूण घोव-बायलेच्या मनाक सहज उलयतां उलयतां एका एका सादया सादया उतराक लागून अश्यो गांठी, निरगांठी पडटात, केन्ना प्रकरण घटस्फोटा मेरेन पावत, सांगपाक जायना. तूं - हांव, हो - तो आमी चडशे सगलेच लग्न जाल्यात. एकाद्रो चुकून जावंक ना आमच्या एक दोन इस्टां भितल्लो, तो जालो आडवाद. ना जाल्यार आमी सगले संवसारी मनीस. आमच्यो कर्मकाणयो त्योच सदच्योच.

हांव वकील न्हय आनी समुपदेशकूय न्हय. पूण लोक म्हजे कडेन लग्ना संबंधान सल्ले घेवपाक येतात. आपलें मन उकतें करतात, मुखावेल्यो आडखळी सांगतात. हांव तांचें सगलें सारकें आयकून घेतां आनी म्हाका समा दिसता तो सल्लो दितां. केन्ना केन्ना हीय तातूंत वांटेकार जाता. सल्ल्या परसूय आयकून घेवप म्हत्वाचें अशें म्हाका दिसता. सांगपाक सगल्यांक जाय आसता. आयकुपाक कोण्णाक नाका. आतां आमच्या लग्नाक पंचवीस वर्सां जावन गेलीं. लग्ना संबंधान त्यागिल्लीं भोगिल्लीं मनशां आमी. आतां हांचो सल्लो घेवपाक हरकत ना असो आमचे विशीं लोकांचो समज जाल[illegible]वये.

आमी दोगांय ऑफिसांतल्यान सांजचीं स-साडे संक घरा पावतात तेन्ना कोण ना कोण सल्ल्या खातीर आयिल्लो आसता ना जाल्यार फोनार रकाद तरी दवरिल्लो आसता.

तेदीस भितर सरतना कोणूच येवंक नाशिल्लो. सूऽऽ जालें. आईक विचारलें, फोन-बीन आयिल्लो गे?



नासत जाल्यार हिचे वांगडा भायर वचूंक येतालें... संवसाराक कितलेंय हाडात, पावच ना. कितें ना कितें उरताच हाडपाचें.

कोण एक नायक नांवाची बायल येतली रे, फोन आयिल्लो - बाबूचें - तुजो तो इश्ट- नांव सांगलां तिणें.

कोण नायक? नवें प्रकरण दिसता. अशें मनांत म्हणत हांवें च्या घेतली आनी बसलां थंयच एक बारीकशी झेम काडली. कितें जाता, हांव आड पडल्यार खंयच्याय वेळार म्हाका हटकून न्हीद लागता आनी वरांचीं वरां हांव न्हिदून उरतां. म्हज्या कोपिश्ट सभावाक लागून म्हाका उठोवपाचे भानगडींत कोण्ण पडना.

दोळो लागता थंय आसा, बेल वाजली. आईन दार काडलें. हांव भायले वटेनचे कुडींत वचून बसलों. ते कुडीक आई 'ओपीडी' म्हणटा आनी म्हजे कडें येता त्या लोकांक 'पेशंट'. म्हाका आजून 'दोतोर' म्हणपाक लागूंक ना.

नाकीं दोळीं जंयचे थंय अशी एक बायल - दिसताली पसतिसां भितल्ली, पूण पन्नासांक लागीं पाविल्ली आसुये हें म्हजें जाणगूण नदरेक रोखडेंच कळ्ळें. तोंडा वेल्यो आनी हेर मिरयो लिपोवपाचें काम आतां पार्लरांनी सोंपेपणान करून मेळटा. पूण वाडटे पिराये वांगडा देंवत वचपी दोळ्यांतलें तेज लिपोवपाची टॅक्नीक आजून तरी कोणाक सांपडूंक ना. घरांत भितर सरतना तिणें चटचट करून एक नदर दिसता थंय मेरेन भोंवडायली. तिच्या तोंडार म्हाका मिस्रभाव दिसले. ती बरी रसीक दिसताली. मॉडर्न तर ती आसलीच. तिणें वापरिल्लो सुरंगांचो सुगंध आशिल्लो सेंट रूमभर पातळ्ळो, न्हय रुमांतल्यान भायर वचून तो घरभर पातळ्ळा आसतलो. कारण, इतले भितर आमची किचनांतल्यान खीणभर भायर येवन, आयिल्ली ती बायल कितें कात हाचो आदमास एकेच नदरेन घेवन गेली. मिसेस नायकाक तें कळ्ळांच आसतलें. कारण, तितले भितर दोगींच्यो नदरो एकीमेकींक मातश्यो आपटल्योच. दोन प्रौढ बायलां मदीं पयली नदरा-नदर जाता तेन्ना इल्ली नोंक झोंक जाताच, एकीमेकींक एके तरेचें जोखप आसता तातूंत. आनी तें पळोवपा सारकें आसता.

नमस्कार, हांव नायक. बाबूरावान सांगलांच आसतलें.

हयव्हय, तो म्हजो इश्ट. सांगात, तुमच्या चल्या संबंधान कितें तरी अडचण आसा म्हणटालो तो.

थोडे भितर सांगतां.

सांगात, पूण एक लक्षांत दवरात, हांव वकील न्हय आनी हांवें समुपदेशनाचें शिक्षणूय घेवंक ना. हांव कसलीच फी घेना आनी म्हजें मत्त हांव स्पश्टपणान तुमचे मुखार मांडटलों.

तिणें आपणाली गजाल थोडे भितर ांगली. तिचो एकलो एकसुरो चलो दोतोर ावन फुडें शिकता. तो खंय एके चलयेच्या ाळ्यांत घुसपलो. (हो तिचोच शब्द.) एक ीस चल्यान ही गजाल हिच्या कानार घाली. ांणी भायल्यान खबर काडली ते प्रमाण ती वली चड करून जाती भायली आसतली असो अदमास. चलो कस्सोच आयकना जालो तेन्ना हावा शिवा करून निमाणे कडेन वलयेक एकलेकूच घरा आपोवन तिका पळोवपाची तयारी हांणी दाखयली. चलयेक पळयले उपरांत दोन तीन गजाली घरच्यांच्या लक्षांत आयल्यो.

बरें, अडचण कितें आसा?

अडचणूच न्हय, म्हज्या चल्याच्या आयुश्याचो प्रस्न आसा, कळ्ळें तुमकां? ताका लागुनूच म्हज्या जिवाक तळमळे लागल्यात. ती चली आमच्या चल्याक कशशीच सोबना. दिसपाक सामकीच बाबत. ते भायर, व्यंग. आमच्या घरांतले सगलेच लांबरुंद, सुंदर. व्हडल्या देराल्या चल्याचें हालींच लग्न जालां. कितें जोडो सोबता सांगू! तुमकां आमंत्रण नाशिल्लें? तुमचो कुळदेव कोण?

तें आसूं. हें पळयात, सुंदरता गणिती पद्दतीन मेजपाक मेळना. ते भायर, पळयतल्याचे नदरेंतल्यान सुंदरता थारता. विशाल दोळे पळोवन हांवें हिका पसंत केल्ली. मागीर लग्नांत कितल्याश्याच बायलांनी वटवटे दोळे मरे, अशे कॉमेन्ट मारलेच, तर मुद्द्याची गजाल सांगात.

ती मातशी नाराज जाली.

पळयात, म्हज्या चल्याच्या अख्ख्या आयुश्याचो प्रस्न आसा.

बरें, पूण तांचें प्रेम आसा अशें आयकलां हांवें म्हज्या इश्टा कडल्यान.

कसलें प्रेम आनी बीम! ते कोंकातरेन भुलयलो म्हज्या सादया बाबड्या चल्याक.

कितें, पोंग आसा म्हणटा चलयेक?

पोंग, सादेंसुदें न्हय, कुबड आसा. कुबडूच म्हणपाचें ताका...

बरें, पूण तुमच्या चल्याक तें खबर ना तर? तीं भोंवतात फिरतात म्हणयत न्हय, ताच्या लक्षांत येवंक ना तर?

ताच्या लक्षांत येतलें कपल! कुबड कित्याक, तिच्या कपलाक अश्शें गेंड्याचें शींग फुटलें जाल्यार तें लेगीत ताका कळपाचें ना. सांगलें न्हय तुमकां, तो तिच्या प्रेमांत सामको आंधळो जावन गेला.

हें पळयात मिसेस नायक, प्रेम सदांच आंधळें आसता. आंधळेपणानूच जातात प्रेमाचे सगले खेळ. दोळे उकते दवरून जाता तो वेव्हार - दी आनी घे असो - ट्रान्झॅक्शन म्हणटात तें. सगलें ठाकठीक जुळटाशें पळोवन मागीर प्रेम जुळ्ळें म्हणटात तें आसता प्रेमाचें नाटक. असलीं प्रेमां हालींसराक शेंकड्यांनी जातात. नक्षत्र गण नाडी बिडी सगलें पळोवन मागीर करतात तें प्रेम कसलें, तें आसता आकर्शण. तें लग्न जावन थोडे दीस मेरेन उरता. मागीर जाता सुरू सादया सादया गजालीं वेल्यान तू तू मैं मैं. कितलींशींच जोडपीं एकाच पाख्या खाला घोव-बायल कशीं रावतात पूण ती मनांनी लाख लाख कोस पयस आसतात. आयच्या जोडप्यांचो हो एक व्हडलो प्रस्न. तें कितें आसता...

कितें आसता...? तिणें मातशें विटुनूच विचारलें.

मोग नासता पूण तो आसा, आजून तस्सो आसा अशें दाखोवचें पडटा तुमकां आमकां संवसारांत. हाचोच दुसरो भाग असो की दुसऱ्यालें खरें प्रेम कळटा आसुनूय तें लक्षांत येना अशें दाखोवचें पडटा केन्ना केन्ना सुवार्था खातीर. देखीक, आतांच तुमकां दार काडून भितर घेतली न्हय, ती म्हजी आवय. म्हाका खबर आसा, तिचें म्हजेर निरपेक्ष - अपेक्षे विरयत - प्रेम आसा. पूण म्हाका तें कळच ना अशें दाखयतां हांव. निबर, मुड्डार कसो जावन हांव तिच्या प्रेमा कडेन दुर्लक्ष करतां... लक्षांत येता तुमच्या...? म्हज्या प्रेमाचो पयलो मान फावऽ जाता म्हजे बायलेक...

तुमी सांगतात तातूंतलें म्हाका अर्दें कळ्ळें. कळ्ळें तातूंतलें अर्देंच पटलें... तें आसूं, तुमी म्हजेर इतलेंच उपकार करात, आमच्या पिशा पोराक समजायात. ताचे खातीर अशी सुंदऽऽर चली सांगून आयल्या म्हूण सांगू तुमकां! सामकें दिश्ट लागपा सारकें पोर. घराणेंय आमच्याच तोलामोलाचें, नांवाजतें. घालून करून सगली हौसमौज करून दितलीं तीं. तुमी मातशे आमच्या पोराक समजायात हो... ते खातीर हांव तुमकां जाय तें दिवपाक तयार आसां. त-तुमी पयशे घेनात, तुमचें कसलेंय काम सांगात, तें करपाची जापसालकी म्हजी.

हें पळयात, हांव चल्याक, चलयेक आर्दी मेळटां... कितें आसा, नाटकांत जसो मुखेल पात्रांचो विचार आर्दी करचो पडटा...

मिसेस नायक मनांतल्यान कोपली. तिची नुराच सांगताली. पर्सींतली पर्स काडून तातूंतल्यान मोबायल काडून तिणें फोन करून एक उतर उच्चारलें.

हांव आतां एका अर्जंट कामाक लागून वतां. म्हव्यार डेन्टिस्टा कडें अपॉयन्टमेंट आसा आठांक.

पूण आमचें उलोवणें आजून सोंपलां खंय तर?!

म्हजो रागाचो पारो आतां वयर चडपाक लागिल्लो. डेन्टिस्टा कडें वतां सांगून ती वचूंक सोदताली.

हांव अशें करता, हांकांच धाडटां तुमचे कडेन, चल्याक घेवन, सॉरी हां...

ती गडबडींत गेली. तिच्या ड्रायवरान गाडी दारांत हाडून उबी केल्ली.

मागीर हांव चल्याक, चल्याच्या बापायक मेळ्ळों. चलयेकूय मेळ्ळों. आवय परस बापूय मातसो लेव आशिल्लो. मातसो गोंदळिल्लोय. चल्याचें मन मोडप कठीण आनी सून म्हूण ती चली स्विकारलीच समजा जाल्यार बायलेच्या कोपाक तोंड दिवपूय कठीण. अशे तरेचे शृंगापत्तींत तो सांपडिल्लो. कितें आसता, मनीस समजून घेवपी आसता तेन्ना ताचें मन दोशीं वोडपाची शक्यताय चड आसता.

चलोय त्या मानान समंजसूच दिसलो. हांवें विचारलें,

चलयेचे फाटीक कितें पोंग बीन आसा रे?

कित्याक, न ना ना... म्हाका तें केन्ना लक्षांत येवंक ना... हांवें तिका फाटले वटेन केन्ना पळोवंकूच ना.

चलयेक फाटले वटेन केन्ना पळोवंकूच ना म्हणटा, मागीर कसलो दादलो तर तूं, हांवें मनांत म्हटलें.

बरें, तें आसू, आतां तरी तुवें पळयल्या

न्हय तिका, फाटीक कुबड आसा खंय...

कुबड न्हय, कोणें सांगलें तुमकां? पोंग आसा ताका मातशें.

तेंच तें. तुका उपकारता मरे? तेन्ना तुका कळूंक नासलें, आतां कळ्ळां, तुका उपकारता मरे?

हांवें उतर दिलां काका. तें खुब्ब बरें. भुरगेपणा सावन ताका कितलें सोंसचें पडलां, काका... हालींच म्हाका मेळत सावन तें सांवरपाक लागलां. मातशें हांसता बिसता. हांवें ताका आतां सोडप म्हळ्यार...

मागीर एक दीस श्रीया - ती चली - आपले इश्टिणी वांगडा आयली. नांव बी सांगून जाले उपरांत हांवें इश्टिणीक भायर बसपाक सांगलें. श्रीयाक तें बरें दिसलें ना.

काका, तें म्हजें बॅस्ट फ्रँड, ताचे पसून हांवें कांयच लिपोवंक ना.

तें आसूं, पूण म्हाका फकत तुजेच कडें उलोवपाक जाय.

हूं.

तिचे 'हूं' करपाचे पद्दती वेल्यान ती चली म्हाका इल्ली हटवादी शी दिसली. परत एक पावट हांवें ताका नियाळ्ळें. सहजपणान ते चलये कडें पळयल्यार कसलेंच व्यंग लक्षांत येनासलें. पूण फाटल्यान पळयल्यार ताचे फाटीची बाग दिसून येताली. ताकाय तें खबर आसलें. मदीं आयिल्लो फोन घेवपाक हांव ताचे फाटले वटेन जनेला कडेन गेलों तेन्ना ताणें आपलो बसपाचो कोन सहजपणान सो बदल्लो. पूण म्हाका तें कळ्ळेंच.

हांव इल्ल्या स्पश्टपणान विचारतां, रागार जावं नाका...

अजापाचे नदरेन तें पळयत रावलें.

यंग लेडी, हें लग्न जालेंना जाल्यार तुजी प्रतिक्रिया कितें आसतली, सांग म्हाका.

जाल्यार - जाल्यार हांव... पूण तो म्हाका अंतर दिवचोच ना जाल्यार. ताणें उतर दिलां म्हाका.

पोरा, कादंबरेंत, सिनेमांत दाखयतात तश्या तशें नासता केन्ना ख़रे जिणेंत. कितें जाता, नाका थंय वेव्हारांतलीं गणितां चुकतात, जावपाचें आशिल्लें तशें जायना, चिंतूंक नाशिल्लें संकट येवन मुखार उबें रावता.

तुमी लग्नाचें विचारताले न्हय, मदींच हें... म्हाका मदींच आडयत ताणें म्हटलें. हांव ताका सांगूंक सोदतालों, एच्. जी. कार्व्हरान आपणाले फाटीचें पोंग काडपा खातीर कसलो उपाय केल्लो तें. पूण... हांवें तो विचार सोडून दिलो.

बरें, आडकथा लायना, सांग, लग्ना बद्दल सांग, गोरखा कडेन तुजें लग्न जालेंना जाल्यार...

तशें जाल्यार वीख खातलें हांव... जीव दितलें.

परतो म्हाका मदीं तोडीत ताणें सणसणीत थापट शेवटावचें तशीं उतरां शिंवरलीं. म्हाका तिडकूच आयली.

अशें, अशें, वीख खातरीत कितें जातलें, आं? तुजो जीव तुका ना जातलो, इतलेंच. सूर्य उदेवपाचो थांबतलो काय नखेत्रां आपलो चमचम विसरतलीं? सगलें सदचे भशेन चलतलें ह्या जगाचें. तुका मात जीव ना जातलो आनी तूं सुट्टलें. पूण तुजो पापा, ताचो विचार केलाच आसतलो तुवें, आं? तुजी आई आदींच गेली तूं ल्हान आसतना, पापानूच सगलें केलें मगो तुजें? न्हाणयलें, पाऊ लायलो, तिट्टा लायली, आं? तुजो बाबा आनी आई तोच जालो. तूं जीव दितलें म्हणटा जाल्यार जल्माक येवन ह्या संवसारांतलें एक कुस्कूट लेगीत शिकलें ना तर तूं. लग्न मोडलें जाल्यार तूं जीव दितलें, तुका ल्हानपणांत तुजी आई सोडून गेली तेन्ना तुज्या बाबान असोच विचार केल्लो जाल्यार... चल, बायल ह्या ल्हान बाळकाक सोडून गेली, आतां ह्या बाळकाचे हाल सोंपोवया, ताका सोंपोवन आपुणूय सोंपुया...

सर, प्लीज, आनीक फुडें उलोवं नाकात, म्हज्यान आयकुपाक जायना तें.

ताणें तकली सकयल घाली. ताच्या दोळ्यांनी दुखां भरिल्लीं. थोडो वेळ कोणूच उलोवंक ना.

सर, म्हाका कांयच समजना... हांवें कितें करचें, तुमी सांगात सर.

तें तुजे तुकाच चिंतचें पडटलें. तुका दुसऱ्यांनी सांगप वेगळें, तुजे तुका कळप वेगळें. असो प्रसंग आयलो जाल्यार आदीं सवस्थपणान विचार करचो, मागिरूच कितें तें करपाक पावल उखलचें. काळ कोणा खातीर रावना. एक एक करून दीस म्हयने वर्सां सोंपतात. एक दीस आयुश्य सोंपता, हाचें ताचें. जगाचे वेव्हार चालूच उरतात.

सर, रात खुब्ब जाली, वतात आमी.

कांय दिसांनी श्रीया तेच इश्टिणी वांगडा आयलें, आयलें तेंच सामकें उमेदीन सळसळत. इश्टिणीक कुशीक बसोवपाची गरज पडची ना, हांवें मनांत म्हटलें.

सर, एक खोशयेची गजाल हाडल्या. सर, म्हजी प्रमोशनाचेर बदली जाल्या. सामकी एच.ओ. दिल्लीक.

तुका परबीं श्रीया... म्हाका दिसलें, तूं खोशयेन सळसळटा तें तुजें लग्न थारलें काय कितें, एनी वे, केन्ना जाता जॉयन?

जॉयन जालें लेगीत. चार दीस जॉयनिंग टायम मेळ्ळा, जॉयन जालें आनी सामान व्हरपाक आयलें. बाबाय येता वांगडा.

तुजो बाबा खूश मगो? आगो पूण लग्नाचें?

पळोवया... तो रागार आसा म्हजेर, हांवें इतले पयस बदली घेतलीच कशी म्हणटा तो, पूण अशी संद कोण सोडटा सर? ताचें पोस्टग्रॅजुएशन फुडल्या वर्सा सोंपले उपरांत ताच्यान येवं येता न्हय दिल्ली, तुमकां कितें दिसता?

हय हय, तशें जावं येता, बरे भशेन... एक मात हां, श्रीया तूं आयज सामकें ताजें फूल कशें टवटवीत दिसता. खूब बदल्लां तूं.

थँक्यू सर.

त्यो चलयो टाटा बाय बाय करीत हांसत खेळत गेल्यो. भितर वचून हांवें श्रीयाच्या प्रमोशनाची गजाल हिका सांगली. कांय उलयनासतना ही फकत हांसली.

कित्याक हांसली...?

तुमकां कितें दिसलें, हें सगलें आपशींच जालां? ते बायलेन अतळय कुशीक काडलां श्रीयाक, कळ्ळें? आपल्या चल्याच्या मार्गांतल्यान ताका कडेक काडपा खातीर तिणेंच घडोवन हाडलां हें. बाबू कडल्यान कळ्ळां म्हाका सगलें.

कितें सांगता?!

आनी, ते कंपनेचो सी.ई.ओ. काय कोण तो गोरखाचे आवयचो क्लासमेट. आदींची

त्रळख. ताचे कडल्यान हें काम करून घेतलां तिणें. सोंपेपणान दिल्लीक वच्चें नासलें श्रीया, ताका लागून प्रमोशन, कळ्ळें...? हे पिशे व्हलयेक दिसलें, आपणाल्या कर्तुत्वाक लागून प्रमोशन मेळ्ळां. आसूं, ते निमतान तें पोर सुखी जाल्यार पुरो.

बाबू कडल्यान आमकां एकेक गजाल कळटाली तशी ती हेरांकूय कळटाली. आवयन मॅनेज केल्ल्या प्रमोशनाची गजाल गोरखाक कळ्ळीच. ताणें आवय कडें उलोवपाचें सोडलें. वेळच्या वेळार घरा येवपी गोरख हॉस्टेलारूच रावपाक लागलो. गोरखाचे वागणुके वेल्यान घोव-बायले भितर वादावादी जावपाक लागली. घराची बुन्याद हाल्ली. आवयक सामको पातयेवपी न्हय असो गोरख तिची नदर लेगीत आंगार पडूंक दिना जालो.

एक दीस वेळ थरोवन गोरख मेळपाक आयलो.

काका, नमस्कार.

आं गोरख, सांग, कसो आसा तूं? कितें जालां तुजें? जिवाक बरें ना?

ना ना... तशें कांय ना.

ना कशें तर, ह्या वयांत तुजें मुखामळ अशें बाविल्लें कित्याक, आवयचेर रागार जाला खंय तूं? आरे, तिका समजून घे. तिचे नदरेंतल्यान पळय मातसो. एके तरेन तिणें श्रीयाक मजतूच केल्या. पयर आयिल्लें श्रीया. कितलें आनंदांत आसलें तें... म्हाका पेडे दिवपाक आयिल्लें.

पूण काका, तें म्हाका टाळटा कित्याक? म्हजो नंबर कट करता तें...

कशें शक्य आसा?

म्हजो फोन तें घेना हें खरें काका....

कितें नंबर ताचो? दी म्हाका, हांव उलयतां ताचे कडेन.

उठून हांवें श्रीयाक फोन लायलो. तें म्हजो आवाज वळखलें. म्हजो लॅन्डलायन ताचे कडेन आसलोच. पांच मिनटां भितर म्हाका सगलो फाक्त कळ्ळो. फोनार उलयता आसतना हांव गोरखाचो चेरो तेळटालों. वया वेल्या तरनाट्यांचीं रडपाक पाविल्लीं मुखामळां हांव कशींच पळोवंक शकना.

फोन दवरून हांव गोरखा मुखार येवन बसलों. ताचो हात हातांत घेतलो.

कितें म्हणटा काका? म्हाका विचारूंक ना ताणें...

गोरख, सगलो कम्युनिकेशन गॅप. समजुतीचो घोळ जाला.

कितें जालें?

आरे, ताका कोणें तरी सांगलें खंय, तूंय ताचे आवयच्या प्लॅनांत वांटेकार आसा म्हूण. सांगपी तुमची कॉमन फ्रेंड - कोण तरी -आं के के नांवाची.

के केतकी आसतलें. आनीक कोण्ण ना के नांवाचो. पूण केतकी कित्याक सांगतलें तशें?

कमॉन गोरख, मनशां दिसतात तशीं नासतात, इल्ल्याशा थ्रिला खातीर मनशां केन्ना केन्ना सामकीं सकयल्या पांवड्यार देंवतात.

म्हाका सगल्याचोच वीट आयला काका. कसलीं मनशां भरल्यांत ह्या जगांत... जीव नाकासो जाला म्हाका.

हांव व्हडल्यान आवाज करून हांसलों.

हांसले तुमी काका, म्हाका हांसले...

आरे गोरख, फाटीं श्रीया जीव दितलें म्हणटालें, आतां तूं जीव नाका म्हणटा. चल्लां कितें सद्या तुमचें?

पूण काका, सोंसना जाता केन्ना केन्ना. कांयच नाकाशें दिसपाक लागता.

आरे, ह्या देशांत तुजे येदीं, तुजे परस धा धा, बारा बारा वरसांनी ल्हान भुरगीं दिसाचीं बारा बारा चवदा चवदा वरां काम करतात, तीं कशीं सोंसतात तर सगलें? उगडा रे तुमचे दोळे सारके आनी पळयात आशिकुशीक बसस्टँडा लागीं, नाल्याचे कुशीक, हांगा थंय कितले लोक रावतात आमच्या दरेका शारांत आनी गांवांनी, ल्हान ल्हान घूड कश्यो झोपड्यो बांदून तातूंत आपापले संवसार मांडून... आपलें गांवघर सोडून खंयचे खंय पयस वचून अनवळखी जाग्यार संवसार थाट्टात ते लोक. ते कितें मौजेक लागून येतात? तांकां कितले त्रास जातात आसतले आपलो वाठार सोडटना... कितले सुखी लोक तुमी, चिंतात रे मातशे.

पूण काका, तांकां संवय आसता राबपाची.

गोरख, कांय उलोवंनाका तूं... खात्या जेवत्या आनी सुखी आवय-बापायचीं नस्त्या लाडांनी मातोवन दवरिल्लीं आळशी, ऐदी आनी एकारिल्ली पोरां तुमी. बायक, माय बॅस्ट फ्रेंड, कार, मोबायल, पीसी, आयनॉक्स, डॉमिनॉज, केंटकी हांगा मेरेन तुमची धांव. तीच तुमची वंय.

काका...

रागार जावं नाका गोरख, हांव खुबूच स्पश्ट उलयलों.

तुमचें खरें चडशें काका, पूण आमच्या आवय-बापायचोय दोश आसा हातूंत.

हय हय आसा, हांव तेंच म्हणटां. आमी सोंसलें, तातूंतलें पोरांक कांयच सोंसचें पडचें न्हय अशें आवय-बापायक दिसताच. पूण ह्या चिंतपाक लागून भुरगीं बेंदुल्ल कशीं परस्वादीन जातात हें तांच्या लक्षांत येवपाक नाका?

काका, मानले तुमकां, तुमचो सल्लो जाय म्हाका, हांव तो १०० टक्के पाळटलों.

प्रॉमीस?

प्रॉमीस काका...

गोरख, थरलें. आयच्यान, सामको ह्या खिणा सावन, तूं तुजो कोर्स पुरो जाय मेरेन मोग, लग्न कसलोच विचार करचो ना. ओ के? आईक समजून घेतलो तूं. तिका त्रास, दुख्ख दिता तेन्ना तुकाय तें भोगता आसतलें?

भोगता काका.

मनीसपण सोडूं नाका गोरख. मोगा परसूंय ती व्हड. समस्ये परस ल्हान जावचें न्हय मनशान. समस्येंतल्यान मनान इल्लें पयस वचून पयशिल्ल्यान पळोवचें. तेन्नाच कळटा, प्रॉब्लेम खऱ्यांनीच कितलो खर आसा तें. तेन्ना समस्ये कडेन हावको म्हूण पळोवप म्हळ्यार पिशेपण हें लक्षांत येता. तुजो कोर्स जावंदी. मागीर लग्न जा श्रीया कडेन, ते मेरेन तुमचो मोग तिगलो जाल्यार लगेहात प्रेमाची परिक्षाय जावन पडत, न्हय?

हांव तशेंच करतलों काका, येतां हांव...

यो यो, केन्नाय जाय तेन्ना यो...

गोरखाची वाट पळयतां हांव.

संपर्क: ९४२१२४६६५५



सुधा खरंगटे

# आपालिपा

वंदनाल्या चार चौक्यांच्या त्या पोरन्या घरांत सांजचो भुरग्यांचो धुमाकूळ चलतालो. घरच्या लोकांक ताची संवय जाल्ली. वाडच्या वेळीं सगळीं भुरग्यां आपालिपांनी खेळूंक थंय जमतालीं. त्या घरांत लिपूंक कितलेशेच जागे मेळटाले भुरग्यांक.

पूण आज भुरगीं बोवाळ घालचे बदला ओगीशीं आशिल्लीं. कारण, आज दीपा खेळूंक येवंक नासलें. शांतीन खरशेत खरशेत येवन भुरग्यांक सांगलें, "दीपाचे मम्मीन दीपाक खेळपाक धाडूंक ना. चंदनागेर पांय दवरल्यार तो मोडून घालतलें म्हळां." दीपान ल्हवूच ही खबर शांतीच्या कानार घाल्ली.

दीपा ना म्हूण सगळीं भुरगीं निर्शेलीं.

आपालिपाच्या ह्या खेळांत दीपा तांची कांजीण. आनी कांजिणूच ना जाल्यार खेळ कसो जातलो? 'म्हारा'चे दोळे कोण धांपतलो?

आनी, कांजीण जावंक कोणूच तयार नासलो. कितें तें, एका जाग्यार थापो कशें बसून दुसऱ्याचे दोळे धांपप? ते परस 'म्हार' जावन लिपतल्यांक सोदप तरी बरें! आनी लिपप तेय परस बरें! पूण कांजीण? श्या:! नाकाच!

दीपा काय बरें कांजीण जावन मजा मजा करतालें. 'म्हारा'न सोदून काड्न आफुडचे पयलीं कांजिणीक हात लावन सुटपाचो यत्न आसतालो सगळ्यांचो. दीपान आपल्या मोव-मोव हातांनी 'म्हारा'चे दोळे धांपून म्हणचें -

*आपालिपा सायलिपा*
*साळचो गोंडो जिकून धर*
*कानां कितें? मूऽऽदी*
*चल घोवाचे सोऽऽदी*

सगळीं व्यवस्थीत लिपतकच ताणें म्हाराचे दोळे सोडचे.

पूण आज दीपाच ना.

सगळीं भुरगीं जाणात, दीपा कित्याक आयलें ना तें! दीपाचे मम्मीचीं आनी चंदनाचे आईचीं मोठ्ठीं झगडीं जाल्यांत.

दीपाचो भाव संदीप आनी चंदनाची भयण रंजू हांचे वेल्यान दोगांयच्या आवयांचें पेटिल्लें. हरशीं दोगूय जाणी जिवाच्यो इश्टिणी. पूण आज दुस्मानी जाल्ल्यो. हाचे वेल्यान ताचे वेल्यान घालून एकामेकांक पाडटाल्यो. वायट-वायट उतरांचो शिंवोर घालताल्यो.

रंजू बिलू कशें जावन भितल्ले कुडींत बशिल्लें. पांय मोडपाचो भंय ताकाय आवयन घाल्लो. तिडकल्ल्या चंदनान पांय आपटीत ताचे म्हऱ्यांत वचून म्हळें "रंजूताई, तुका तो



सनीभाऊच कित्याक गो घोव जाय?... काय बरो आमचो खेळ पाडा घालो तुवें!!"

रंजू ताच्या तोंडाक पळयतूच उरलें. ताका पयलीं चंदन कितें म्हणटा तें समजलेंच ना. चंदनान ताका परत सांगलें, "दीपा आमची कांजीण! तुमी झगडीं केल्यांत आनी दीपाक आमगेर येवपाची बंदी!"

रंजूक काळखा भितर आशेचें कीर्ण दिशिल्ले बशेन जालें. ताणें म्हळें, "चंदन, तुका तांगेर वचपाची आईन अजून बंदी घालूंक ना मरे?"

"म्हाका कित्याक बंदी? हांवें कितें केलां तर?"

"तशें पळयल्यार दीपानूय बाबड्यान कितें केलां तर? तें बेजार जालां जातलें. तुका आईन बंदी घालचे पयलीं दीपागेर पासय मार... ताका मेळ मरे..."

चंदन फटक् करून उठलो.

"आरेच्या! हय मगो! हांव वतां दीपागेर. पूण ताची मम्मी म्हज्या आंगार बी येना मगो? शांती म्हणटालें, ती सगळ्यांच्या आंगार शी येता म्हूण. तकली घुंविल्ले बशेन वागता खंय...!!"

तेय परिस्थितींत रंजूक हांसूंक आयलें. ताणें म्हळें, "पळय रे वचून! ती कितें दिस्सभर दारांत एकाच जाग्यार बसून रावतली? न्हावंक वतली... रांदूंक वतली... वेळ पळय आनी ल्हवूच मेळ दीपाक...!"

"बरी आयडिया! हांव वतां दीपागेर..."

"आनी दीपाक मेळटकच संदीपाकूय मेळ आनी हें ताका दी..." रंजून ताच्या हातांत एक चीट तोंपली.

चीट हातांत पडना फुडें चंदना मदलो वेव्हार जागो जालो.

"हांव ना... बरें आसा तूं! फुके सवाय म्हजो जीव त्रासांत घालूं? आनी म्हाका धरल्यार पेट पडटलो... दोनूय वटच्यान. ती मम्मी आनी आई दोगांय म्हजो कुंडो काडटलीं..."

त्याच खिणाक, फायदोय दोनूय वटच्यान जावंक शकता हेंय ताचे तकलेंत आयलें...

"तूं कितें दितलें तें पयलीं उलय..." ताणें म्हळें.

"आतां कांय ना रे... पूण तुका चॉकलेटी हाडून दिवपीच हांव! सामकें उत्तर दितां..."

"खरेंच दितलें मुगो? ना जाल्यार हांवें इतले त्रास काडप आनी..."

"भयणी खातीर इल्ले त्रास काडल्यार कितें जालें रे?"

"वा रे वा! आनी आईक कळ्ळ्यार...?!"

तशें रंजू काकुळटेक आयलें - "चल रे चंदन... म्हजो बाब तो! आईन हटकुचे पयलीं चल बेगीन... खऱ्यांनीच तुका चॉकलेटी दितलें..."

चंदनान रोखडीच भायर कूस मारली. असोऽ आंगणांत भोंविल्ले बशेन करून पुट्ट करून रस्तो हुपलोच! रस्त्या पलतडीनूच तर

दीपाचें घर!

दीपागेर पावतकच तो आंगणांत घुसपलो. दीपाचे मम्मीची जाग नासली. तो ल्हवूच घरांत भितर सरलो.

दीपा झोंपाळ्यार बशिल्लें. थंय वचून तो खालते मानेन ताचे म्हऱ्यांत झोंपाळ्यार बसलो.

"दीपा, आज मगो, खेळूच जालो ना..."

"हांव तरी कितें करूं रे? मम्मीन म्हाका तुमगेर गेल्यार पांयूच मोडटली म्हळ्ळां. आतांय तुका हांगा पळयल्यार चाळवतली..."

चंदनान भिवन दीपाच्या हाताक घट्ट धरलें.

"चल तर बेगीन... आमी वयर या - सनीभाऊले कुडींत वचून उलोवया..."

दीपान फाटीं फुडें चिंतलें ना... हे बशेन लिपचोरयां खेळाच्यो खबरी करपाक मजाच दिसली ताका. दोगांय सरळ संदीपाच्या रुमांत भितर सरलीं.

संदीप खाटीर न्हिदिल्लो. ताचे केंस फाफसिल्ले. तो केंसांचो सदांच कोंबो काडटालो. चंदन मनांतल्या मनांत ताका 'कोंब्या शेंकरो' म्हणटालो... आज शेंकरो - बिकरो कांय ना... खाड लेगीत करूंक ना दिसता...

केंसाचे खूंट ताच्या सदच्या नितळ गुळगुळीत तोंडाक सामकेच घाणायताले. शीः! सनीभाऊ व्हडलोसो बरो कांय दिसना! कित्याक काय रंजूताई ताकाच घोव करतलें म्हणटा?! तरीपूण चंदनान मनांत 'भोगूं तें' म्हळें. तांच्यो गजाली तांकां... आमी आमचें काम करया... ताणें चिंतलें.

"दीपा, तुमकां खेळूंक आनीक जागो ना?" संदीप तांचेर तापलो.

"सनीभाऊ... हो चंदन आयला न्ही? ताका पळयल्यार मम्मी ताका आमगेर खेळूंक दिवचिना..."

चंदनाचें नांव आयकून संदीपाचो राग निवळ्ळो. "बरें! बरें! खेळात हांगा... म्हजी तकली मात उसळाय नाकात..."

"सनीभाऊ... तुका जोर आयला रे?"

चंदनान ताचे म्हऱ्यांत वचून जाणट्यां बशेन ताच्या कपलाक हात लावन जोर आयला काय पळेलें आनी ल्हवूच रंजूली चीट ताचे म्हऱ्यांत उडयली.

संदीपान चंदनाच्या तोंडाक पळयलें तशें चंदनान म्हळें, "सनीभाऊ, तुजें पेन बरेंऽ मरे! कसलें हें?"

"पळय. बरय आनी वास घे बरपाचो! वास येता पळय काय बरो! घे - व्हर तुकाच!"

दीपा व्हडलेंशें शिटूक नासलें तरी सनीभाऊ आपल्याक सोडून चंदनाक पेन दिता हें ताका मानवलें ना. ताणें चंदनाच्या हातांतलें पेन ओडून म्हळें, म्हजे कडेन दी... हांव पळयतां बरोवन..."

संदीपान मागीर आनीक एक पेन काडलें आनी दीपाक दिलें.

"चलात. चलात. हांगा झगडप ना. दोगांकूय दोन पेनां..."

दीपा आनी चंदन दोगांय खूश! खूब वेळ तीं खेळत बसलीं. इस्पिको घेवन पयलीं गुलाम-चोर खेळ्ळीं. मागीर 'गाढवां'नी खेळ्ळीं. इतल्यांत संदीपान चंदनाक उलो मारून म्हळें, "चंदन, हांगा यो रे! तुजें पेन मातशें दी पळोवया..."

चंदनाक दुबाव पडलो - हो पेन परतें मागता दिसता. पूण ना. संदीपान पेन हातांत घेवन परतें दिलें आनी पेना बरोबर एक चिटूय बी दिली. चंदनाक समजलें, रंजूताईचे चिटीची ती जाप आसली.

चंदन मागीर थंय आनी चड वेळ रावलो ना. ताका पेनान बरोवन अक्षरांचो वास घेवचो आसलो.

घरा येवन ताणें चीट रंजूताईक दिली आनी पेनान बरोवन अक्षरांचो वास घेत बसलो. खरोच बरोऽ वास येतालो बरपाक...!

जेवचो वेळ जालो तरी चंदन होमवर्क करता. आनी तोय बी सुटयेच्या दिसा? ताचे आवयक अजापूच जालें... बरें जालें! नाजाल्यार दिस्सभर खेळत बसता... तिणें चिंतलें. तिणें ताका मायेन जेवपाक आपयलो. चंदनाक अजाप जालें. आज परवचा म्हणपाक कोणेंच दटायलो ना. कोणेंच आज तापयलो ना. चंदन जेवन बी सुशेगादसो न्हिदलो. ताका दिसलें, "म्हजें पेन लकी!" पेन मेजार, दप्तरांत दवरपाक ताच्या जिवार आयलें. तो तें बोल्सांत घालुनूच न्हिदलो.

सकाळचो कसल्याशा बोवाळानूच तो जागो जालो.

आई व्हडल्या व्हडल्यान कड्डताली. बाबा हांगा धांव, थंय धांव करतालो... रस्त्यार वचून सो परतो येतालो.

आनी रंजूताईची खंय जागूच नासली!!

ताणें बेगीन बेगीन तोंड धुयलें. पूण किचनांत वचून पळय जाल्यार च्या बी कांयच ना. दुदाच्यो पिशव्यो लेगीत तश्श्यो ओंट्यार पडिल्ल्यो. चंदनाक सकाळची बेगिनूच भूक लागता. आतां कितें खावया? शेवटाक साखरेचो डबो उकतो करून बचकभर साखरूच ताणें खाली. उदक पिलो. बिस्कुत्यांचो डबो उगडून चार बिस्कुत्यो बोल्सांत घाल्यो आनी मागिरूच तो भायलो बोवाळ पळोवंक गेलो.

आई व्हडल्या व्हडल्यान दीपाच्या घरा वटेन हात करून ताणशेताली. तिचे म्हऱ्यांत गेल्यार आपल्याचेरूच एक थापट पडत म्हणपाची भिरांत ताका दिसली. म्हणून तो बाबा बरोबर रस्तो क्रॉस करून दीपाच्या पोरसा भायर उबो रावलो.

दीपागेरूय बरोच बोवाळ आयकूंक येतालो. "चल रे चंदन, भितर वचून कितें घडलां तें तरी पळय..." बाबान म्हळें.

हेर वेळ आशिल्लो जाल्यार "म्हाका कितें मेळटलें?" अशें विचारपाचो तो! पूण आज तो शाणेपणान तोंड धांपून ओगीच रावलो.

फाटक उकतें करून भितर सरपाक टॉमी आंगार आयलो. पूण चंदनाक वळखून तो भोंकचे बदला शेंपडी हालोवंक लागलो. थंयच कुशीक रावन ताणें एक बिस्कूत टॉमीक दिली जावये. तो आपली बिस्कूत खावन चंदनाच्या तोंडाक पळेत शेंपडी हालयत थंयच बसलो... चंदनान ताका कितले वेळा सांगिल्लें, "हांव खातना म्हाका पळयनाका... दुसरे कडेन पळय. ना जाल्यार म्हज्या पोटांत जातलें..." पूण टॉमी ताच्या तोंडाक पळयताच!

दीपागेरूय आज च्या बी करूंक ना काय?

इतल्यांत दीपाच 'टॉमी, टॉमीऽ' करीत भायर आयलें. चंदनाक पळोवन तें धांवतूच ताचे म्हऱ्यांत आयलें. "चंदन, धांव बेगीन हांगासरलो. मम्मी पळयल्यार तुका दवरचिना... आज म्हाकाय बी बेश्टेंच पेटलां

तिणें. सनीभाऊन पत्र दवरलां... तो आनी रंजूताई खंय तरी गेल्यांत खंय... एकलींच...''

हें आयकून चंदन आनी थंय रावला? सोमतोच भायर धांवलो... पूण फाटका कडेन पावसर दीपाचे मम्मीन ताका फाटल्यान येवन धरलोच! चंदनान व्हडा-व्हडान रडपाक सुरवात केली. तशी ताची आई निमित्ताकूच राविल्ले बशेन धांवत दीपाच्या दारांत पावली... दारांतूच दोगांय आवयांचीं व्हडलीं झगडीं...

आई दोन उतरां सनीभाऊक उलयल्यार मम्मी रंजूताईक दोन उतरां म्हणटाली. मम्मीन एकदांच रंजूताईक खेपल्यार आई एकदांच सनीभाऊक खेपताली... दोगांयचें गणीत सारकें जाता काय ना हाचो हिशोब करपाच्या बोवाळांत चंदन थंयचो पळून वचपाक विसरिल्लो. आईचें एक थापट पडटकच आपल्याचेर आयलें म्हणपाचें ताका समजलें.

''कित्याक गेल्लो काल तूं तांगेर?... वचुंनाका म्हणिल्लें न्ही तुका?''

चंदन अजापलो... दीपान चाडी केली? आईक कशें कळ्ळें, हांव दीपागेर गेल्लों तें?!

मागीर तांच्या झगड्यांतल्यानूच ताका समजलें, सनीभाऊच्या रूमांत रंजूताईली चिटूय मेळिल्ली. ही चीट कोणें दिली हाची चवकशी जातकच दीपान माराच्या भंयान चंदन काल आयिल्लो तें सांगलें. चंदनान झटक्यान फोर्स केलो. हात सोडोवन घेवन भायर धांव मारली. तो जाणा आसलो, दोगूय बायलो तोंडा बरोबर हातूय फास्ट चलोवंक जाणा आसल्यो.

त्या दिसा दोनूय घरांनी जेवण सारकें जालेंच ना. दोनूय घरां दुखेस्त, चिंतेस्त दिसतालीं. ना म्हळ्यार, चंदनाचो बाबा मात व्हडलो दुःखी दिसनासलो.

दोन दीस अशेच गेले. तिसऱ्या दिसा रोहिताच्या घरांत बोवाळ. रोहिताचो दोतोर्‍काका - राकेश, पेद्रू भाटकाराल्या सँड्रा बरोबर रजिस्टर लग्न करून सोमतोच व्हंकलेक घेवन घरा आयलो... सँड्रा व्हडलो धवोफुल्ल व्हिस्तीद घालून काय बरें दिसतालें...!

रोहितालीं माँ-पापा पयलीं खूब बेजार जाल्लीं. पूण मागीर तांगेर खूब कितें कितें देवस्पणां बी जालीं. होम जालो. आनी मागीर सँड्राक 'सुंदराबाय' बी नांव दवरून रिसेप्शन बी केलें. रिसेप्शनाक आयस्क्रीम बी खूब आशिल्लें. रोहितान आनी चंदनान खुऽब्ब आयस्क्रिम खालें. ''सुंदराकाकी, सुंदराकाकीऽ'' म्हणत सँड्रा भोंवतणी खूब बोवाळ्ळे. सुंदराकाकीक तेंकून रावन फोटे बी काडले.

चंदन आनी चंदनालो बाबा रिसेप्शनाक गेल्ले. चंदनाची आवय मात रंजूताईचो खेद काडीत घराच राविल्ली. तिच्या दोळ्यांतलीं दुकां पळोवन चंदनाचो बाबा तिडकलो - ''तुका अक्कल कशी ना काय म्हणटां! संदीपा सारको भुरगो रंजूक मेळ्ळो तें नशीब समज! रंजूची सोयरीक घेवन तांगेर गेल्यार संदीपाची आवय दोट्टी गोंट, वज्रावेडी... आनी कितें कितें मागतली आसली, देवाकूच खबर! जाता आमच्यांनी तें घालपाक? तांकता आमकां?? भुरगो बरो, जोडटा बरो... रंजूचो मोग करता... तुजें कित्याक किसळ्ळां??''

चंदनाची आवय विसमितायेन घोवाच्या तोंडाक पळोवंक लागली. तिका घोवाचें म्हणणें पट्टालें. पूण पोटांतल्यान एक दुबाव जिबली दाखोवंक लागलो. हांची फूस आसुये रंजूच्या पळून वचपाक??... त्या दिसा उजो जाता म्हूण भायर सालांतूच न्हिदिल्ले... तिच्या दोळ्यां मुखार चित्र बरेंऽ निवळत गेलें... तशे तिणें दोळे घट्ट धांपून घेतले. ते विचारूच मनांतल्यान हुमटावन उडोवपाचो यत्न केलो. जालें तें जालें. पोटांतलें जिबेर येत आनी तिच्या कानार पडत जाल्यार दीसभर ती हांकां खेपत रावतली...

पूण राकेशाचें आनी सँड्राचें प्रकरण जायत सावन दीपाची आवय बरीच निवळिल्ली. तिणें चिंतलें, कितें जालें शेजारचेंच चली जाल्यार? दिसूंक बरें, सभावान वायटशें न्ही. आनी संदीपाक मानवलां. तरी बरें! राकेशान सँड्राक घरांत हाडलां तशें कांय करूंक ना म्हज्या पुतान. म्हजो संदीप भोव विचारी... आपलेच जातीपातीचें, संवकळीचें चली पळोवन मोग केलो ताणें...!!

पुताच्या मोगान तिचो गळो ओगीच भरूनसो आयलो...

बाजारांत वतना दोगीय मेळ्ळ्यो. पूण फाट करून वचनासतना दीपाची मम्मी चंदनाचे आईक पळोवन चक्क हांसली. आईकूय धीर आयलो. तिणेंय हांसून पळयलें.

... आनी मागीर दोगीय इश्टिणींच्यो गळ्यांत गळो घालून खबरी सुरू जाल्यो... झगडें-बिगडें कांय ना!! ''खंय गेल्यांत काय पोरां, कोण जाणा?'' म्हणत दोगांनीय दुकां बी काडून जालीं. भाजी घेवन घरा यो जाल्यार दारांत टॅक्सी थांबल्या... पळेत जाल्यार संदीप आनी रंजू... रंजू व्हंकलशी... बरीऽ साडी बी न्हेसून... हातांत पाचवीं कांकणां बी... आंगणांत खेळटल्या भुरग्यांनी खेळ थांबोवन एकूच बोवाळ घालो - ''सनीभाऊ आयलोऽ... रंजूताई आयलेंऽऽ...''

आतां चंदनाची आई आनी दीपाची आवय एक जालीं आनी तांकां व्हरून दीपाच्या दारांत उबीं केलीं. राट दाखोवन, पिठाच्यो गुळयो बी ओंवाळून तांची दिश्ट काडली. भुरग्यांचो चोमो दारांत रावन सगळें पळयतालो. रंजून एकाच फांफरान दारांत तांदूळ भरून दवरिल्लो पेलो खोऽऽल्ले करून सालभर तांदूळ फाफसायले तें पळोवन भुरग्यांनी खूब ताळयो बी मारल्यो...

न्हवऱ्या - व्हंकलेक घरांत भितर काडटना दीपाची मम्मी आनी चंदनाची आई एकामेकांक वेंग मारून रडटात तीं पळोवन भुरग्यांनी चंदनागेर कूस मारली.

''पाऽड पडलें... काल पयर एकामेकांच्या आंगार जुडून वतालीं...'' सीमान म्हळें.

''तर कितें? आईन म्हाका पेटला. दीपाचे मम्मीन दीपाक पेटलां... मार खावप आमी आनी...'' चंदनान रागान म्हळें.

दीपान म्हळें, ''भोंगूं तें आतां... आमी आमचो खेळ सुरू करया...''

चंदनाचे वासरेर परतो आपालिपाचो खेळ रंगलो. ''अडम्, तडम् तत्तर बाजा...'' करून चंदनाचेर म्हारपण आयलें. दीपान कांजीण जावन ताचे दोळे धांपले. हेर सगळे लिपूंक गेले. दीपान म्हळें -

*आपालिपा, सायलिपा*
*साळचो गोंडो, जिकून धर*
*कानांत कितें? मूऽऽऽदी*
*चल घोवाचे सोऽऽऽदी*

संपर्कः ०८३२-२७५०५७३



जयमाला दणायत

# कालाय तस्मै नमः!

"हॅलो समीर, वॉट अ प्लॅजंट सरप्रायज!" न्यू जर्सीच्या इंडियन स्ट्रिटा वेल्या पार्कीग लॉटांत गाडी पार्क करतां करतां जयंताचो इश्ट सामकार आयलो. दोगूय बऱ्याच तेंपान एकामेकांक मेळिल्ले. जयंतान मॉलांत वचूंक गाडी पार्क केल्ली आनी समीर आपली खरेदी सोंपोवन गाडी भायर काडूंक आयिल्लो. "हाय अंकल, मावशी कशी आसा? मीट माय फादर-इन-लॉ..." आपले बरोबर आयिल्ल्या मनशाची वळख करून दीत ताणें म्हळें. "आऽ रेऽ - तूं?" आमच्या दोगांयच्या तोंडांतल्यान एकाच बराबर उतरां भायर सरलीं. बरोबरचीं सगळीं आमकां पळेतूच रावलीं. अमेरिके सारक्या परक्या देशांत, ह्या अशा जाग्यार म्हजो आनी कोणूय वळखीचो मेळत हाची तांकां नातूच नासली. "आरे, हो विकी - म्हजो बालमित्र! आमी बरोबरूच शिकतालीं." हांवें फोडणिशी केली.

"हाय, हाव आर यू?" विकीन हांसत नमळायेन विचारलें. म्हजीं नातरां, "ए, तो पळे आजयेचो बॉयफ्रँड" म्हणून एकामेकांच्या कानांत फुतफुतून हांसतालीं. आमी दोगांय एकामेकांक पळेत उरलीं. कितें उलोवचें, कशी सुरवात करप तेंच आमकां समजनासलें. अकस्मात अशी भेट जाल्ल्यान आमी थंयचे थंय तटास जावन गेल्लीं. खिणा भितर सांवरून म्हणटात तशें, आमी दोनूय फामिलींची एकामेकां कडेन सारकी वळख करून दिली - "हो म्हजो घरकार, हो चलो, ही सून आनी हीं नातरां," हांवें म्हळें. "हीं सगळीं हांगाच न्यू जर्सीत रावतात. आमी मुंबयच्यान चार म्हयन्यां खातीर हांचे बरोबर रावंक आयिल्लीं. आतां रोखडींच परतून मुंबय वचपाचीं आसात." ताणें हांसत सगळ्यां कडेन शेकहँड केलो "हांव विवेक दुभाषी, धा बारा वर्सां जावन गेलीं, हांगा लागींच फिलाडेल्फियांत रावतां. हें म्हजें चली, हो जांवय; हांकां तर तुमी वळखतातूच. आतां वळख जाल्याच म्हणटकच मुद्दम आमगेर येवंक जाय. सुलू, कितल्या तेंपान मेळटात गो आमी?" म्हजे कडेन तोंड करीत ताणें म्हळें.

इतल्या वर्सांनी जाल्ली भेट, ताका कितें



उलोवं, कितें नाका जाल्लें. पूण काळाचो बांद मदीं आडायतालो. तशें ताचेंय नांव म्हजे खूब खूब वळखीचें आसलें, पूण मनाच्या कोनशांत डॉर्मन्ट जाल्लें. कितल्याश्याच वर्सां पयलींचें नातें हें. त्या नात्याचे रंग, तांतली ओड काळा बराबर शेणत, पयसावत गेल्ली - एकेच न्हंयचे दोन पयसुल्ले तीर कशी. खीणभर दिसलें, जीण जियेतना आपणाक समजनासतना आपले बरोबर सगळें येता. पूण ते विशींची जाण मात आपणाक नासता. जिणेच्या ह्या रगाड्यांत सगळें लिपून उरता. खरें म्हळ्यार आतां पयलीं भशेन कांयच उरूंक नासलें. काळ इतलो फुडें पाविल्लो, जिणेचे सगळे कन्सॅप्टूच बदलिल्ले. भोंवतणची सामाजीक जिणूय इतली बदलिल्ली... तातूंत ह्या सगळ्या फाटल्या गजालींक कांय म्हत्वूच उरूंक नासलें. आयुश्याचें रीळ सामकें बदलिल्लें. आनी आतां परत थंय वचून नव्यान कितेंय निर्माण जावपाची अपेक्षाय उरूंक नासली... ताची तशी गरजूय नासली. पूण हो जालो प्रॅक्टिकल विचार! म्हजें मन... तें तर मोव आसलें. ताका घट्ट चिकटल्ली माती उदका शिंवरान अकस्मात ओली जावची, निखळची - तशें कितेंशें जाल्लें म्हजें!

शाळेंतली इश्टागत ... बालमित्र-मैत्रिणी- आमचो तो फेमस ग्रूप! शाळेंतल्या सगळ्या कार्यावळींनी भाग घेवप... शाळेच्या ग्रावंडार आमी केल्ली ती मस्ती... वांगडा केल्लो अभ्यास... थंय सरा बरोबर केल्ले ते प्रोजेक्टस्! थंय आमी एकठांय खेळिल्लीं, पदां म्हणिल्लीं, चिंचे बोटां, तोरां खाल्लीं, ल्हानसान ख्यास्तीय भोगिल्ल्यो... रडलीं-हांसलीं, गायलीं-नाचलीं, एकठांय येवन सूख-दुःख, यश-अपयश, बरेपण-वायटपण सगळ्या प्रसंगांर एकामेकांक घट दसून रावलीं. ते भुरगे पिरायेर फुलपी नव्यो कोमऱ्यो... सगळें सगळें एकामेकांचे साक्षीन कुचमाय नासतना, कुस्कराय नासतना राखून दवरलें. मागीर एकेक करून काळा बराबर सगळींच पयसावत गेलीं. विकीन आयआयटी इंजिनियरींग जॉयन केलें आनी ताचें सगळें सर्कलूच बदलून गेलें. सुटयेंत येतालो, आमचे बराबर आसतालो, पूण ताच्यो सगळ्यो फास्क्यो बदलिल्ल्यो. तशीं आमचींय मळां

बदलिल्लीं. तरी आमी एकठांय आसतालीं. मेळत तेन्ना वेळ काडून मेळप, खबरी मारप, एकामेकांच्या फुडारा विशीं, फुडाराच्या सपनां विशीं उलोवप, पत्रां फोन - मेळत त्या साधनांनी संपर्क चालू दवरचो यत्न केलो... पूण काळ फुडें फुडें वतालो, तशें हें सगळें फोल दिसतालें. बदलतूय गेल्लें सगळ्यांचें जग आनी मागीर एका खिणाक केन्ना सगळें थांबलें, ठप्प जालें, कळ्ळें लेगीत ना.

इतलो काळ मदीं गेल्लो खरो, पूण तरी लेगीत एकामेकांक मेळिल्ल्याचे सांगपाक येना अशे एके तरेचे निर्मम खोशयेन मन भरून गेल्लें. परत दुसऱ्या दिसा ताचो फोन आयलो, आपल्यागेर व्हरूंक येतां म्हणून सांगून. नातरांक चाळोवंक आनीक एक विशय मेळ्ळो - "आजी डेटिंगाक वतली!" फकाणां सोडलीं तरी मनांतली खोस सामकी अवर्णनीय आसली.

तशें पळोवंक गेल्यार हांगाची जिणूच वेगळे तरेची! दो-दोन म्हयन्यां पयलीं सावन वीक एन्डाचीं कामां, अपॉंयंटमँटस् फिक्स जाल्ले आसतात. सगळे प्रोग्राम ठरिल्ले आसतात. ताणें आमकां सगळ्यांक व्हड मोगान, आग्रान आपलें घर पळोवंक येवपाचें आमंत्रण दिल्लें. पूण कोणाकूच वेळ नासलो. म्हाकाय चार-पांच दिसांनीच मुंबय परतीची तिकीट आसली. जायतीं कामां करचीं आसलीं. पूण ताका निराश करप म्हाका बरें दिसलें ना. जयंताच्या मित्राचें जेवणाचें आमंत्रण न्हयकारून हांव एकलेंच तागेर वचूंक तयार जालें. तो दुसऱ्या दिसा सकाळींच कार घेवन हजर! सुनेन ताचे खातीर तयार केल्लो खास नाश्तो घेवन आमी फिलीक वचूंक भायर सरलीं. तशीं मदीं एकदां वचून अमेरिकेची ही पयली वयली राजधानी आनी थंयचीं इतिहासीक थळां आमी पळोवन आयिल्लीं. पूण आज मुद्दम विकीगेर वचूंक हांव परत फिलीक वतालें.

स्प्रिंग सोंपून समर सुरू जाल्लो. वातावरणूय ढगाळ नासलें. दिसूय तसो बरो आसलो. चोंय दिकांनी हांसतें सैम. बरोबर तो आनी आमच्या भुरगेपणांतल्यो खूब खूब यादी... मदले सुटयेंत मास्तराचो दोळो चुकोवन ल्हवूच कोणालीं आंब्या तोरां पाडून हाडप. मागीर कोणाल्या बोल्सांतल्यान मिठा पुडी तर कोणाल्या बोल्सांतल्यान मसाला डबी भायर सरताली. मागीर ती आमली दाराचे खांचींत चिड्डून तातूंत तो मीठ मसालो लावन केल्ले कुडके म्हाका-तुका, म्हाका-तुका करून खावपांत जी रूच आनी मजा आशिल्ली ती विकत्या घेवन खाल्ल्या आमल्यांक केन्नाच येवची नाशिल्ली! भर दनपारची शाळा सुटून घरा वतना खुंट्यांतलीं घोडकां थंयच फातरांनी धाडावन खाल्लीं ती गोडीं खंयच्याच म्हारग मेव्याक केन्ना येवची नाशिल्ली... आनी मागीर घरच्या मनशांचीं खाल्लीं उलोवणीं आनी मार येवजून तेन्नाच्या मस्तेपणांचेर आतां पोट फुटून येवपी हो हांसो! ...शाळेंतल्यो त्यो यादी काडून हांव जाल्यार लग्ना उपरांत इतलें मनमेकळें पयले खेपे हांसलां जातलें. नाजाल्यार मेळत त्या कामाक दांत काडून खी, खी करपी हांव लग्ना उपरांत हांसो बी विसरुनच गेल्लें... अशे तरेन पोन्न्यो यादी काडूकाडून उलयत, हांसत प्रवास कसो सोंपलो, कळ्ळें लेगीत ना. वाटेर तरेकवार फुलिल्लीं सोबीत रंगयाळीं फुलां खोशयेन येवकार दितालीं. ताच्या घराचे ड्रायव्ह वेचेर पावलीं तेन्ना दारांतूच ताका सोबऽ सारकी ताची घरकान्न हांसत्या मुखान येवकार दिवंक उबीच आसली. घरा भायर सोबीत पांचवें लॉन, म्हऱ्यांत रंगरंगयाळ्या फुलांचीं झोंपां, घरूय कशें व्हडलें आवांताद, सुंदर, निर्मळ दवरिल्लें... खूब प्रसन्न दिसलें तागेर येवन! कॉफी घेवन सगळें घर पळोवन तोखेवन जालें. प्रवासाचो शीण खंयचे कडेन नाच जाल्लो.

जेवणा मेजार वॅज-नॉनवॅज - सगळेंच म्हजे पसंतीचें रांदप पळोवन हांव खरें तर अजापलेंच. इतली म्हजी आवड हाच्या लक्षांत आसा अजून? संवसाराच्या तापत्रयांत हांवूच केन्ना विसरून गेल्लें म्हजी आनी कसली वेगळी आवड आसा म्हणून! म्हाका व्हड्लें नुस्तें, चिकन मटण व्हडलेंशें आवडना. सुंगटां, तिसऱ्यो, कुल्ल्यो म्हजे चड आवडीच्यो हें तो जाणा आसलो. ताणें म्हजी आवड विदुलाक - ताचे बायलेक - सांगल्या जातली. तिणेंय बरें आमली बी घालून सुंगटां हुमण, तिसऱ्यां सुकें, डांगर, कुल्ल्यां तोंडाक चपाती (हांगाचे ते ब्रॅड न्हय), वेल्यान अळम्यां तोणाक, मटरांची काजू बी घालून केल्ली उसळी! बापायस्! हांव सामकें उसळ्ळेंच! पळोवनूच पोट भरपाचें! सदचे भशेन इल्लें इल्लें घेतलें तरी पोट गच्च जाल्लें. तातूंत आनी विदुलाचो आग्रो, "हें घे, तुका आवडटा म्हणून मुद्दम केलां. हे प्रोन्स हाणें मुद्दम हाडल्यात." मागीर ताणेंच म्हळें, "ताका चड आग्रो करूं नाका आं. तें आपल्याक जाय तें आनी जाय तितलेंच खातलें. म्हणून तर अजून तशेंच आसा पळय." "आनी तूं तरी खंय बदल्ला रे? पिरायेक धरून केंस मातशे पिकल्यात. आनी हें अशें बायलेच्या हातचें बरें बरें खावन पोट मातशें सुटलां, तितलेंच! ना जाल्यार शाळा-कॉलेजींतलो हिरोच आसा अजून! जाणां मुगो विदुला, आमच्या नाटकांनी सदांच हो हिरो आनी हिरोईन विनी..." सट्ट करून तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं, तशें ताचें तोंड देंविल्ल्याचो म्हाका भास जालो, पूण खीणभरूच! ताणें आपणाक सांवरून अडेचें रुपडें चडयलें. हांवें जीब चाबली, आनी "ह्या हिरोक सोब सारकें तूं विदुला! तुमची जोडी पळोवन म्हाका खोस जाली खूब," म्हळें. तशी ती पन्नाशीची बायल नवे व्हंकले वरी लजून तांबडीच जाली. म्हज्या मनांत आयलें, खरेंच, आतांच ही इतली बरी दिसता, तरणेपणांत कितली सोबीत दिसताली जावये! वोगीच विकीन हिका जल्माची जोडीदार वेंचून काडूंक ना!

हांसत खेळत जेवण जालें. भुरग्यां आनी विदुलाय मनमेकळेपणान आमच्या उलोवण्यांत सामील जाल्लीं. फिलीची इतिहासीक माहिती, थंयच्या लोकांच्यो खबरी सांगतालीं. मैफल खरेंच बरी रंगली. तरी म्हज्या मनाक खंय तरी, कितें तरी तोंपतालें. कुचकुचत उरिल्लें. दांता खांचींत नुस्त्या कूस शिरकुचें आनी काडूंक येवंनये अशें कितें तरी जातालें. तशें विनिताय ताका सोबतलें आसलें ताचे बायलेच्या जाग्यार! पूण तोंडान उतर काडपाचें सोडूच, मनांत विचार हाडपाचेंय धाडस जालें ना म्हाका. जेवले उपरांत बडिशेप हातार दिवन, "तुमी बसात उलयत, हांव मातशें फाटलें जाग्यार घालून येतां" अशें सांगून आमकां वयले बाल्कनींत बसोवन डिझर्ट

आनी फळां मेजार दवरून विदुला सकल गेलें. आमी मागीर शाळेच्यो, सरांच्यो, इश्ट-इश्टिणींच्यो यादी काडत बसलीं.

"तुजें तें माणकें कितें करता गो आतां?" ताणें विचारलें.

"तें रे, मुंबयच आसा. एक दोनदां मेळ्ळां म्हाकां. खरें तर ताच्या घरच्यांनी ताचें शिकप पांचवे-सवेकूच, म्हणचे, तें वयांत येतनाच बंद केल्लें. आवयन ताची शेंस बी भरून बरो एक गुजराथी शेट पळोवन दिलो ताका."

"खरें तें कितलें हुशार आशिल्लें न्हय? गायतालें नाचतालेंय बरें, आनी नाटकांनीय बरीं कामां करतालें. बाईचें तर सामकें लाडकें आसलें... शिकूंक जाय आसलें. जावं... पूण सभाग्यान आपलें सपन भुरग्यां रुपान फुलयलें आं! त्या हरीभाय कडेन सामकें एकनिश्ठ रावलां. ताणेंय ताका कांयच कमी पडूंक दिवंक ना. ताच्या भुरग्यांक आपल्या भुरग्यां वरी माया दिल्या, तीं शिकून सवरून व्हड जालीं. आवयचें नांव उंचायेर पावयलें. मार्केटांत मेळिल्लें तेन्ना आपल्यागेर घेवन गेल्लें. खूब कितें सांगतालें. एकूण बऱ्याक पावलें म्हणपाचें. गांवांत उरिल्लें जाल्यार कुसून पडपाचें."

"आनी, आमच्या बाळूचें तर तूं जाणाच न्हय गो, तो धावेच्यानच भोंसले मिलिटरी स्कुलांत गेल्लो पळय. आपले आवडी प्रमाण मिलीटरीमॅन जालो."

"गजान बी.कॉम. जावन बँकेंत सिर्वीस धरली. मोनू एम्.ए. जावन पी.एचडी बी करून गोंयांतूच खंय तरी प्रोफेसर जाला म्हणून आयकलां."

"विभा, नामी धावी बारावी मेरेन शिकलीं. फुडें लग्न जालीं म्हणून आयकलें. मागीय कांय कोण मेळ्ळींच नात... सोमनाथान दुकान काडलां खंय कपड्यांचें. नोरू मेळिल्लो एकदां. तो सांगी, तोवूय बिझनेस करता म्हणून."

येवजून येवजून आमी एकामेकांक कोणाकोणाच्यो खबरी सांगतालीं. वेळ कसो गेलो, कळ्ळेंच ना. चल्यान वयर येवन च्या पिवंक येवपाची ऑर्द सोडली. खबरी मारीत च्यापान जातासर आमचो परतीचो वेळ जालो. विदुलान सामके इंडियन स्टायलीन कपलाक बी लावन फॉर्सान एक बॅग हातांत दिली. हांवें "हें कितें, असली फॉर्मालदाद बी नाका" म्हणून पळयलें. "विकीन तुजे खातीर ही स्पेशल हाडल्या" अशें सांगून ताणें सामकी आग्र्यान ती म्हज्या हातांत दवरलीच. मुंबय येतकीच, मुद्दम आमगेर येवपाचो आग्रो करीत हांव सगळ्यांचो निरोप घेवन गाडयेंत बसलें.

गाडी परतीच्या प्रवासाक लागली आनी मनांत खतखतपी प्रस्न दोगांच्याय तोंडांतल्यान एकदमच भायर आयलो. "विनीची कितें खबर?" "म्हाका हालीं तें मेळ्ळेंच ना. कोणा कोणा कडल्यान आयकल्लें, तें लग्नूच जावंक ना म्हणून. हांवेंय मुद्दाम कोणा कडेन खबर काडपाचो येत्नूय केलो ना." विकीन प्रामाणीकपणान सांगलें, "तूं मेळ्ळें, आनी तुजे बरोबर ताचीय याद जागी जाली मनांत."

"खरें सांगू, हांवूय हालीं ताका मेळूंक ना. आपल्या ऑफिसांत बऱ्या पोस्टार आसा म्हणून आयकलां. एकटेंच रावता खंय. विकी, रागार जाय नाका, पूण मनांत एक कांटो कसो रोमून उरला म्हणून विचारतां. तुजें आनी ताचें कितें खासा नातें आशिल्लें?" विचारूं / नाका करीत, रावं नजो जावन हांवें शिश्टा भशेन प्रस्न विचारलोच.

"शे गो, देवाच्यान ना, जिवाच्यान तर, अशें कशें दिसलें तुका?" गाडी चलयतां चलयतां एका हातान गळ्याक चिमटो काडीत विकीन प्रांजळपणान सांगलें. "पुरो, पुरो, आतां 'दोन दोळ्यांच्यान तर', 'विद्येच्यान तर' करूं नाका. हांवें हांसपाचो येत्न करीत म्हळें. "हें पळे, तुवें शाळेंत धावेच्या वेळार म्हाका विचारिल्लें आनी हांवें तुका जाप दिल्ली, तीच परतून दितां, वी आर जस्ट गुड फ्रेंडस." विकी फॉर्सान उलयलो.

"जाणां रे हांव, पूण तरी म्हाका तेन्ना मातशें ऑकवर्ड फिल जातालें. आमचे मदीं कितें तरी बदलता शें दिसतालें. आमची इतल्या वर्सांची निर्मळ, निर्व्याज्य मैत्री तुटिल्ले वरी दिशिल्ली म्हाका. तुमच्या दोगांय मदीं एक नवें वेगळें नाजूक नातें निर्माण जाता शें दिसतालें. आनी हांव तुमच्यांतल्यान वेगळें पडटा अशें दिसून एकटेपणाची, परकेपणाची भावना मनांत रुजताली. खरीं आमी तिगांय सदचे वरी बरोबर आसलीं. पूण हांव तुमचे मदीं आसून ना शें दिसतालें म्हाका. म्हणून तर हांव मागीर तुमचे मदल्यान पयसावत गेल्लें." हांवें प्रामाणीकपणान म्हजें मन उकतायलें. "ना गो, खरेंच म्हज्या मनांत तशें वेगळें कितेंच केन्नाच आयलें ना. तूं जाणां, हांव फकाणेर म्हणून! ताचीं फकाणां करतालों. भगल्यो मारतालों. पूण हें सगळें हॅपी गो लकी मॅन म्हणून. हांव सगळ्यां कडेन सारकोच वागतालों. म्हाका तेंवूय सारकें आनी तुंवूय सारकेंच आसलें - म्हजीं बॅस्ट फ्रेंडस् म्हणून, - म्हज्यो जिवाभावाच्यो बालमैत्रिणी म्हणून. आनी हांवें तें ताका हजारदां स्पश्ट सांगिल्लेंय गो," तो ल्हवूच उलयलो. "जाणां रे हांव तुज्या मनांत कांयच ना म्हणून. ताचें सगळें हें एकतर्फीच आसलें तर. बाकीचीं भुरग्यां ताच्या भावूकपणाक हांसतालीं. ताचो सभाव तसोच आसलो. मनांतले भाव ताच्या तोंडार उदेताले. बरोबरचीं तुज्या नांवान ताका चाळयतालीं. ताका तें खरेंच दिसतालें. हांवें जायत्या तरांनी ताचो भ्रम तोडपाचो येत्न केल्लो, पूण फुकट! तशें तें पयलीं सावन हळवें. चड सेंसिटिव्ह, मातशें नाजुकूच, कंवळ्या मनाचें; आनी तूं खुबूच प्रॅक्टिकल! कित्यानूच व्हांवन वचपी न्हय. तशें पळेल्यार तुमी दोगांय दोन वेगळ्या ध्रुवा वेलीं म्हणूंक जाय, दोगांय दोन तरांचीं! हांवें जायते खेपो ताका समजावन सांगिल्लें. पूण ताका तें पटलेंच ना केन्ना. म्हाकाय मागीर ताचे पसून पयस रावचेंशें दिसलें. त्या वर्सा ताच्या अभ्यासाचेरूय वायट परिणाम जालो. तूं जाणा न्हय, पयलो नंबर घेवपी तें, मॅरिटांत येवपाची खात्री आशिल्लें, जस्ट फस्ट क्लासांत पास जाल्लें." म्हाका अजुनूय ताचें वायट दिसतालें...

"आगो, हांवेंय ताका कितलें शिटकायलें, पूण तें कोणाचें आयकुपाचे स्थितींतूच नासलें." विकी सुस्कारलो.

"आमची शाळा सोंपली, कॉलेजां वेगळीं जालीं, वेगळ्यो वेळो, वेगळे विशय, कामाचो व्याप वाडलो. ल्हवू ल्हवू सगळेंच बदलत गेलें कळनासतनाच! प्रत्येकाक जॉब लागले. हांवें तर पावल फाटींच घेतलें तुमचे मदलें! मागीर लग्न जातकीच तर कितलेंशेंच पयस मुंबय पावलें. मनांत पडिल्ल्या अंतराक ह्या

भुगोलीक अंतरान साथ दिली. जीण फुडें फुडें वचत रावली. प्रवाह बदलत गेले, मन फाटीं पळोवंक सोदतालें, पूण तातूंत घुस्पूंक जायनासलें. हांव म्हजे जिणेंत पुरायेन गुल्ल जाल्लें. तुजी म्हजी तर भेट केन्ना जालीच ना. विनी आनी हांव मदीं मेळ्ळीं. पूण ह्या विशयाचेर ताणें आपलें तोंड बंदूच केल्लें.

"एकूच म्हळ्यार, पयलींचो ताचो सभाव बदलत गेलो; एकमुळें जायत गेलें ते! तुसडेपणान वागता खंय घरच्या दारच्या सगळ्यां कडेन! फुडें बापूय भायर पडलो. जापसालदारकी वाडली. भाव-भयणींचें शिक्षण, लग्नां सगळें व्हडपणानं केलें. वेगळो ब्लॉक घेवन आवय बराबर रावता म्हणून आयकलां. कितलेदां तरी दिसलें, फाटलें सगळें विसरून बरो जिणे सांगाती सोदून लग्न जावन सर्वसाधारण चलये भशेन संवसार कर म्हणून सांगचें. पूण पयलींची ती निखळ, निर्व्याज्य मैत्री केन्ना सोंपिल्ली आमचे मदली! - 'तुका कित्याक नस्त्यो जाणवायो?' म्हळ्यार हांव मेलें ना? तरी भायल्यानूच आवय-भयणी कडल्यान येत्न केले सांगपाचे, पूण ताणें चोशीं वटेन आपलें मन घट्ट केल्लें. कांसवान कोणाकूय पळोवन आपल्याक कट्ट्या भितर लिपोवचें तशें जालां रे ताचें."

"म्हाका खरेंच वायट दिसता गो ताचें. आज आमी सगळीं पळे कशीं आपापल्या संवसारांत रमल्यांत, सुखी आसात. जिणेंत चड उतार आसताच, तरी ताचें हें अशें रावप - येवजुनूच इतलें गिल्टी फील जाता जाणा..."

"विकी, तू बेठोच गिल्टी फील करूं नाका. हें पळे, हे जाचे ताचे भोग म्हणप. नशीब जावं भाग्य म्हणपाचें! तुज्या कॉन्शअन्साक कांय दिसना मरे? तुवें मुद्दम कांय केलें ना न्हय, जालें तर मागीर. आरे, खंयचेय गजालीक आडवाद आसताच, तसोच हो समज! रसमाचो किडो खंय पानाच्या आदारान कोश विणून तातूंत पडून रावता. फावो त्या वेळार ते कुसां-किडींतल्यान भोव सोबीत रंगयाळें फुलपाकुलें जल्माक येता. पूण कांय फुटक्या नशिबाचे किडे तशेच कोशांत घुस्पून उरतात. विनीनूय आपले भोंवतणी असोच एक कोश तयार केला आनी तातुंतूच तें रममाण जावंक सोदता. ताका हांव आनी तूं तरी कितें करूंक शकतलीं? *'कालाय तस्मै नमः!'* म्हणप आनी ओगीच रावप. तूं बेठोच पिकार जावंनाका. आनी आपणाक अपराधी तर मात्तूय लेखुंनाका. तें मूळचेंच तसलें, मनस्वी! आपल्या वाद्याचें. तूं बेठोच आपल्याक दोश दिवंनाका." म्हज्या ह्या उतरांनी ताच्या तोंडा वेले भाव सरसर बदलत गेले. इतल्या तेंपाचें वजें तो खांद्यार बाळगून आसलो तें खंयचे खंय उडून गेलें. पयलीं भशेन ओंठांचो चेंबू करून एक गोड शिळोणी ताच्या ओंठांतल्यान हळूच भायर सरली.

भोंवतणचें प्रसन्न वातावरण, सैमाचें बदलतें सांजेचें म्होवें रूप म्हणा, वा इश्टाच्या तोंडा वेली ती प्रसन्नताय म्हणा, म्हज्या दोळ्यांत कृतार्थतायेचीं दुकां आनी ओंठार खोशयेचो हांसो घेवन आयलीं. दोगांय एकामेकां कडेन पळोवन मनमेकळें हांसलीं. म्हाका आमचें शेणिल्लें भुरगेपण परतून एक फावट गवसलें. भुरगेपणांत शाळेच्या चिंचेमुळांत उबीं रावन बेठींच कारणा शिवाय किटकिट्टालीं, हांसतालीं तसो तो हांसो भासलो म्हाका!

संपर्कः २५१-२४९५५३०



किरण म्हांब्रे

# कृष्ण कृष्ण...

"द्रौपदिसी बंधु शोभे नारायण..."

द्रौपदी आनी कृष्णा मदलें नातें अशें आशिल्लें खंय. द्रौपदी पांच पांडवांची बायल. पांच महामानव कशे घोव. धर्मपंडीत, न्याय-अन्यायाची जाण आशिल्लो धर्मराज; बलदंड भीम तिचेर मना पसून मोग करपी; अतिरथी, धनुर्विद्येंतलो निपूण अर्जुन जाका हेर विद्याय अवगत आशिल्ल्यो. नकूल, सहदेव... सगलेच सत्यनिष्ठ:

पूण आकांताच्या वेळार पांचूय पराक्रमी, सत्यनिष्ठ, न्यायप्रिय घोव उणे पडले आनी द्रौपदीक पावलो कृष्ण. तिका समजून घेवंक शकलो तो कृष्ण. तिचें आनी कृष्णा मदलें नातें तें हेंच. कृष्ण तिका समजून घेतालो. तिचो आत्मसन्मान जपतालो. ना जाल्यार खंय आशिल्ले रगताचे धागे?

घोवाचें वेसन हाता भायर वता अशें दिसतकच तिणें आकांतान आदार सोदूंक धांव मारली.

तिच्या दुख्खांत सूख मानपी तिचो घोव तिच्या आवय-बापायक, भावां-भयणींक आयकुपाचो नाशिल्लो. द्रौपदी भशेन असहाय्य जावन तिका आदार सोदचो पडलो.

दारा वयली घांट वाजली. दारांत उबो आशिल्लो तो तिचो कृष्ण.

तिणें सांगुनूय तिचो घोव कोणाकूच मेळूंक वच्चोना हें जाणा जावन ताकाच मेळूंक आयिल्लो, तिचेर आयिल्लें संकश्ट ल्हव करूंक आयिल्लो कृष्ण. दोंगरान महंमदा सरीं येवचें तसो तो आयिल्लो.

आपल्याक इतली बरी वागणूक फावता हेंच नकळ आशिल्ली ती. विश्वास बसलोना तिचो, आपले खातीर कृष्ण आयलो म्हण. तिणें मना पसून कृष्णाक नमस्कार केलो. 'कृष्णा, तूं धन्य! आज म्हाका धन्य केलें.'

तिणें घोवाक ताची वळख करून दिली.

तिच्या घोवान इतले मेरेन ताचें फकत नांव आयकल्लें. समाजांत आपल्या कर्तुत्वाच्या नेटार जोडिल्लें ताचें नांव. यशाचे आधाडेचेर आशिल्लें ताचें नांव. हो मनीस असो सहजा सहजीं आपल्या घरा येवंक शकता? तोय बी आपले बायलेचीं गाराणीं आयकूंक? आपले गांवठी, अजागळ, अबरगत बायलेचीं गाराणीं आयकूंक? तिच्या घोवाक हें एके तरेचें आव्हानूच आशिल्लें.

अश्या मनशांक लागीं वचून तांचीं बरेपणां मेळोवपाचो अधिकार तर आपलो. आपलो



भेस, आपली चलणूक - वागपाची रीत, आपल्या तोंडार आशिल्लें, पळेतल्याक फटोवपी, निरागसपणाचें रुपडें, सादी किरकोळ चूक मान्य करपाची आपली साळसूदपणां आनी ताका लागून दुसऱ्यांच्या मनांत आपले विशीं सहानुभुती निर्माण करपाची फिशालकाय... आपल्या भावंडां भितर एकल्याच्याय आंगांत नाशिल्ली. एखाद्रे हे गूण आपल्या बापायचे. पूण फकत ते आपल्याकूच आयल्यात. एक्काय भावाक, एक्केय भयणीक येवंक नात. आज मेरेन समाजांतल्या 'वयल्या' प्रतिष्ठीत लोकां कडेन वळखी करून घेवन तांचे भितर, तांचे भोंवतणी वावुरपाची कला आपणेंच साधल्या. समाजांतल्या 'व्हडल्या मनशां' कडल्यान 'बरो मनीस' म्हणून घेवपाचें 'कर्तुत्व' आपणेंच दाखयलां.

हुशारेच्या बळार चडांत चड विद्या घेवन, कामा धंद्यांत येस मेळोवप हेंच कर्तुत्व अशें थोडेंच आसता!

आज आपल्याक व्हडल्या मनशां बरोबर भोंविल्लो पळोवन लोक मान दितात तें ओगीच?

हे फाटभुंयेर घरांत आयिल्लो हो 'व्हडलो मनीस'. ताका आपूण वळखना. तो बायलेच्या आदाराक येता हें ताका तोंपलें.

हें म्हळ्यार अशें जालें - तिच्योय व्हडल्या मनशां कडेन वळखी आसात. तीय तांचे कडेन संपर्क साधूंक शकता. ही नगण्य बायल, वेवस्थीत, आकर्शक भेस करपी, वागपा उलोवपांत फिशाल आशिल्ल्या घोवा कडेन सर्त करूंक पळयता.

ना. अशें जावंक उपकरना. ह्या मनशाक आपलें म्हत्व कळूंक जाय. बायले परस आपूण कितलो वेगळो आनी वयले पातळे वयलो तें कळूंक जाय. ह्या मनशान आपले बायले परस आपल्याक चड म्हत्व दिवंक जाय तें जालेंच, ते भायर, जगलोकाकूय आपली ह्या मनशा कडेन वळख आसा ती दिसूंक जाय.

ताणें कृष्णा कडेन आपल्या धीर गंभीर धुमपी आवाजान, शैलीदार इंग्लीश भाशेंत, नांवाजल्या मनशांच्या सुविचारांचो उपेग करून आनी आपल्याचेर प्रभाव पडिल्ल्या भाशणांचो आदार घेवन उलोवंक सुरवात केली.

खंयच्याय अनवळखी मनशा कडेन उलयतना एक मतींत धरचें पडटा. ताचो कल खंय आसा तें समजून घेवप. देखून आपणें उलयतना आपलें उलोवप संदिग्ध आसतलें, तांतल्यान खंयचोच विचार वो मत स्पश्ट जावचें ना हाची जतनाय घेवंक जाय.

कोणाकूय आपल्या कलान उलयता तो मनीस आवडूंक लागता. म्हणटकच आपलें मत दुसऱ्याचो कल समजतकच मांडपाचें धोरण आपणावंक जाय. आजवेरचे जिणेंत ताणें दुसऱ्यांचेर प्रभाव घालपाक आडखळ येत अशीं आपलीं स्वतंत्र अशीं तत्वां केन्नाच बाळगिलीं नात. मुखार आसा ताची निष्ठा, ताचीं तत्वां, हांचें, ताचे परस आपल्याकूच चड म्हत्व आसा अशें दाखोवन घेवन ताचे मुखार ताचे निष्ठेक पाळो दिवपाचें नाटक करप हें ताच्या येसाचें पयलें सोपण.

दुसऱ्या पांवड्यार त्या मनशाची अशी तोखणाय करप की तो सुखावतलो. हातुंतूय एक फिशालकाय आशिल्ली.'तूं असो बरो आनी तसो बरो' म्हण केल्ले तोखणायेचो व्हडलोसो उपेग जायना. ज्या मनशाची तोखणाय करता त्या मनशाक आपूण प्रामाणीक म्हण पटोवन दिवचे खातीर ताचो अहंकार पोशेतना, ताका दुखना अशा जाग्यार, ताचे विशींचे बरे भावनेन आपूण चाबूक ओडटां अशें दाखोवप. तो चुकनासतनाच एकाद्रो चुकत म्हण ताका सादूर करप.

इतलें केले उपरांत तो मनीस लागीं येतकूच दुसरो ताचेर कसो जळटा हें ताका पटोवन दिवंक सुरवात करप. ताचेच लागींचे इश्ट, सोयरे ताचो दुस्वास करतात ही भावना एकदां निर्माण जाली की ताच्या हितचिंतकाचे भुमिकेंतल्यान आपली सुवात घट करप.

आपले इश्ट सोयरे आपल्या यशा खातीर आपलो दुस्वास करतात हें पटिल्लो तो मनीस मागीर इश्ट सोयऱ्यां पसून पयस वता आनी ह्या हितचिंतकाच्या मार्गदर्शनाक म्हत्व दिवंक लागता. आपले स्वताचे बायले परस ताका हितचिंतक लागींचो दिसूंक लागता.

पूण तो जाणा, यश तितल्यान सोंपना. दुसऱ्याच्या मनांत आपले विशीं निर्माण केल्ली ही हितचिंतकाची भुमिका राखून दवरची पडटा. देखून फाटल्यान त्या मनशाच्यो कितल्योय भगल्यो मारल्यो आनी बकच्छायो केल्यो - हें त्याच वेळार तिसऱ्या मनशा कडेन बरेपणां घेवंक करचेंच पडटा - तरी त्या मनशाच्या कानार पावतलें अश्या लोकां कडेन ताची तुस्त गावची पडटा.

आपली जीण अश्या क्लृप्त्यांनी समृद्ध आसा हें जाणा आशिल्ल्या ताणें कृष्णाचेर भूलमंत्र मारूंक सुरवात केली.

कृष्णाचेर इल्लो इल्लो ताचो प्रभाव पडूंक लागिल्लो.

ताणें तांतल्यान दोन गजाली साधिल्ल्यो. समाजांत नवी सुवात मेळोवंक ताका एक नवें साधन मेळिल्लें, आनी दुसरें, बायलेच्या प्रतिकाराक बळगें उणें पडूंक लागिल्लें. उरफाटें, तिका दामून दवरूंक ताकाच बळगें चडटालें. अबरगत बायल अजून कृष्णाचेर पातयेवन आशिल्ली. कृष्णाच्या प्रभावान कांय काळ उणो जाल्लो घरांतलो अच्छेव परत सुरू जालो. ताच्या तोंडा वयल्या बुरख्या फाटल्यान लिपिल्लो ताचो अवतार प्रगट जावन तिचे जिणेची गची अंदूंक लागलो. ती त्या अवताराक भियेवन आपल्याक एके कुडींत बंद करून घेताली. दारा भायल्यान रावन तो गरड घालतालो आनी ती आयकून तिचें काळीज कच्च कच्च करून उडटालें. तिका कलकलूंक लागतालें. तो दारार खोंटो मारूंक लागतकच दिसतालें, हें दार मोडटलें जावं खिळी तुट्टली. तो मागीर भितर येतलो आनी मागीर आपली माणसुकी ना.

निमाणें तिणें परत कृष्णाक उलो घालो.

''कृष्णा, तो रात रातभर अच्छेव करता. म्हजेर नसते आरोप करता. म्हजेर, म्हज्या मनशांचेर गाळींचो शिंवर घालता. दोळ्याक दोळो लागूंक दिना. रातभर गाळींचें किर्तन चालूच आसता.''

कृष्णान म्हळें, ''गाळी घालता? घालूं. तूं ओग्गी राव. गाळी घाल्यो म्हण आंगाचे कुडके खंय वतात?''

कृष्ण म्हणटा जाल्यार तें तशेंच आसूंक जाय. आनी, आंगाचे गेल्ले कुडके लेगीत भरून येतात. आपलेच सहनशक्तीची दोरी ताणची पडटली इतलेंच!

ती आपलो भंयूच जियेवंक शिकली.

एक दीस रातचो कृष्ण अचकीत घरा आयलो. सदांच्या प्रसन्न मुखामळार मातसो ताण दिसतालो. भितल्ल्यान तो भियेल्ले वरी दिसतालो.

दोगांय घोवा बायलेन कृष्णाचो आदरसत्कार केलो. पूण कृष्ण अस्वस्थ. कृष्णान आपल्या हितचिंतकाक आपली व्यथा सांगूंक सुरवात केली.

''म्हाका एक फोन येता रे, आज आठ दीस जाले. फाटल्या मंगळारा पयले फावट आयिल्लो.''

''कोणाचो फोन? कित्या खातीर?'' ताणें विचारलें.

''तो म्हाका गाळी घालता...'' कृष्णान सांगलें.

कितें? कृष्णा सारक्या देव मनशाक गाळी? कित्या खातीर? कोण आसतलो? दोगांकूय अजापाचो धपकोच बसलो.

''मंगळार जालो, बुधवार जालो, मागीर शेनवार दीस परतो केलो आनी आज परत. गाळी घालता तातूंत तकली पेड्ड्यार जाता.

''हांवें तशें टेलिफोन एक्सचेंजींतल्या म्हज्या वळखीच्या मनशांक म्हणून दवरलां. वळखीच्या पोलीस अधिकाऱ्याकूय कल्पना दिल्या.''

''पूण कोण तो जाणा तूं फोन करपी?'' ताणें विचारलें.

''हय... तो तोच आसूंक जाय. कित्या खातीर, हाचीय कल्पना आसा म्हाका. पूण ताचें तोंड कशें बंद करूं हें चित्तां. तुका विचारूंक आयलां.'' आपली वेथा कृष्णान आपल्या हितचिंतकाक सांगली.

ती चिंतूंक पडली.

आपली नामना, प्रतिष्ठा आनी वेवसायीक सफलता हांचें बळगें आपले फाटल्यान आसतना, आपल्या वळखींचो फायदो आपल्याक मेळटा आसतना, आनी आपूण स्वता हाता-पांयांनी घटमूट आसतना कृष्ण इतलो कसो गळसणलो?

फोन करपी मनीस कृष्णाक तेंकून कांय ना! फोनाचेर उलोवप कितलो वेळ चलूं येता? कृष्ण ताचो फोन दवरून ताचें उलोवप बंद करूंक शकता आसतना कृष्णान इतलें अस्वस्थ जावचें?

''कृष्णा, तुजो भंय म्हाका दी. हांव तो जियेवंक शिकलां...''

तिचें काळीज कृष्णा खातीर कळवळ्ळें.

संपर्कः ९८२३५७६०९२



# कविता



## आयाव दुकांच्यो काणयो

रमेश भगवंत वेळुस्कार

### कविता १

तुजे नि:शब्दाचे वाटेर
म्हजो शब्द जाला रत
येता आकांत ओतत
सोंसताना ।।

सवंयांच्या कानांक
मन मोनेळ पेलना
निस्तब्दाच्या राना
स्पर्शांकूर।।

स्पर्श म्हण्टा आतां
अशे नि:शब्दाचे वाटे
गूण निगुर्णाक भेटे
नकळटां।।

### कविता २

पळ पालवली ओल
तिचो मोवसूत बोल
आबोलेच्या फुलांनीच
तिचो सांबाळला तोल

कित्या काय म्हण्टा
बाड्या आबोल्याक पिर्शे
आंगा पांगा माळ्ळां ताणें
उज्या जिबोळ्यांचें हांशें

सांगू किर्ते बाये आतां
ओल आयाव वेणांची
तिच्या नेणीव आंगणीं
जळऽ सारी हुंडक्यांची

### कविता ३

आत्तां आत्तां मेरेन आसली
ऊब तुज्या आंगांत
त्यो स्पर्शसुंवाऱ्यो रुंवारुंवाच्यो
सांगूं कोणाक सांगात

सांवारांचे हुंवार हांवें रे
गोठून घातल्या वंठांत
हुलप हुलप रांडाव डावाचो
कोंचता म्हाका देठांत

पळया आयावांची वाचा
बोला बोलान धल्ल्या
आनीक म्हाका रुंवारुंवातल्यान
सोलीत सोलीत उल्ल्या

### कविता ४

दुकांक आतां
मानूंक जाय
मानूंक जाय सुखां
आन् दुकांच्या
तिब्या तिब्याक
मानूंक जाय थिकां

जीण सरसर
आतां हो
आतां उल्लो पल्लो
हो काळजाच्या
धाय दिकांनी
घावो दुखत उल्लो

संपर्क: ९४२०६८८४६१



# चार कविता

**सॉतॅर बार्रेत**

## *गुलाबाचो रंग*

गुलाबाक रंग
कोणें दिलो काय?
तुका जाणा जावंक जाय?
जाल्यार, देवाक दोन वाती लाय.

## *आगे, आगे मोगरिणी!*

- आगे, आगे मोगरिणी
  अशी कित्याक फुलता बाय?
-वाड्या वेल्या व्हंकलां माथें
  परमळान भरूंक जाय.

## *रोजुबाय*

शेजारची रोजुबाय
वाडोवंक आपली सुरुपाय
शारांतल्या सगल्या सलुनांक
तिका भेट दिवंक जाय.
हांवें हळूच सांगलें,
''हें सगलें करून जातच
माथ्याक एक मोगऱ्यां पोड
माळ गो बाय!''

## *कोलो खाता शीत*

कुजीन पडटा उगतें
बांयचेर चलतच गजाली
हेंच जाता फुलूचें
मेळटच इश्टीण सोनाली
फुलू सांगता खोजने
सोनाली काडटा पीट
मागीर ओमतो उडयत बुडकुलो
कोलो खाता शीत.

संपर्क: ०८३२-२७१५६५२





## *निराकार :*

## *चैत्य-आंगण विधात्याचें*

**प्रकाश पाडगांवकार**

निराकारा
हांव दिग्ग उबो तुजे सामकार
विरगळून तुजे भितर
पुसून म्हजें हांवपण विनाशी

निराकारा
हांव आतां जालां तूंच
तूंच म्हज्यांतल्यान व्यक्त जावन
पातळ्ळा जावन निराकार

निराकारा
आतां हांव निराकार अविनाशी
घडून भितरल्यान पारदर्शी
चैत्य-आंगण विधात्याचें

संपर्क: ९४२३०६०३८४



## तीन कविता

**परेश नरेंद्र कामत**



### *जांबळपिको*

तांबड्या रंगांत निळो भरसून
हांव जांबळ्या कडेन पळेतां मळबांतल्या
आनी म्हाका जांबळांचो येता उगडास
आनी येता उगडास तुजो
तुज्या थानांचो
थानांच्या बोंडांचो
जांबळपिको
**

### *सळसळ*

सळसळटात हीं झाडां
काळखांत

कांय सळसळटा झाडांनीं
हो काळोख

वाऱ्याक खबर!

आनी वारो हेंवूय जाणा:
सळसळटा
तूं आनी हांव
ह्या काळखाच्या झाडापोंदा

खांदयां वरी रसरशीत
परमळूंक लागले स्वास आमचे
निक्तेनिक्तेच
मिरमिरीत...
**

### *त्या उम्यांचे भाशेंत*

जेन्ना
झाडांक पडलें सपन
फुलांचें
तेन्ना
फुटलीं पाखां दर्याक
ल्हारांचीं
नकळटनां
ओंठार आयली भास
उम्यांची

त्या उम्यांचे भाशेंत
उलोवया आमी रसरसून
रगता भशेन तांबडीगुंज...

संपर्क: ९४२२६४०२१०



### *देवशिल्पी*

**आर. एस. भास्कर**

तो अस्पृश्य शिल्पी
रित्या पोटाचो धनी
दोंगरा वेलो फातोर कोरांतून तार्णे
तांच्या खातीर केल्ली देवमुर्ती

देवाक दुदांनी न्हाणेयतात
भांगार शिंगार सजयतात
फळ आनी तांदूळ दितात
देवा खातीर धनदौलती सांबाळतात

ना कोणाक याद शिल्पिकाची
ना कोणाक व्यथा ताज्या विशीं
पोकळ पोटांत ताज्या
भूक सदां कोरांतून रावली.

संपर्क: ०८८९१३०६१२३
०९३८७५०५९५१



# चार कविता

आर. रामनाथ

## *जल्म*

तूं
एक काळो कुळकुळीत
गुळगुळीतसो फातोर घे
आनी तुज्या काळजार दवर...
कांय वेळ ध्यान कर
समस्त सद्गुणांचें स्मरण कर
वेंचीक हत्यारांचें पुजन कर
कुडींतल्या त्रिदोशांक मूठमाती दी
आत्मारामाक मेकळो कर
उपरांत -
एक दीर्घ स्वास घेवन
फातरार लयबद्ध घाव घालीत राव
हें करतना तूं निद्रिस्त आसा अशें समज.
मदींच जागो मात जावं नाका...

आनी तूं जागो जातलो
तेन्ना तुजे सामकारा आसतलो
खुद्द निराकार,
साकार स्वरुपांत!

देव असोय जल्म घेता...

## *तुजी सासाय पालवली*

तूं काळखांत...
हांवें म्हजीं दोळ्यांची निरांजनां पेटयलीं
हातांच्यो दिवट्यो पेटयल्यो
काळजाचें होमखण केलें
शिरंतरांच्यो फुलवाती जळयल्यो
हाडांचे इंगळे रसररसयले
अख्खी कुडूच चूड केली...
तूं लख्ख दिसलो
हांव मात काळखांत नाच्च जालों...
तुजी सासाय पालवली!

## *तूं म्हजी चूल पेटय*

देवा,
तूं म्हजी चूल पेटय
हांव तिचेर म्हजे कुडीचो बुडकुलो दवरतां
तातूंत आमच्या सगळ्यांचीं दुकां ओत्तां
तीं बरीं सळसळ्ळीं म्हणटगीर
तातूंत आमची भूक घालतां
भूक बरी शिजतगीर
तूं तुका जाय तांकां पोटभर वाड
घडये इतल्यानूच भुकेचो नायनाट जायत

देव हालीं भुकेचेर रिसर्च करपाक लागला...

## *तींच पुस्तकां*

तींच पुस्तकां
तीच बॅग
तीच शाळा
तोच वर्ग
तोच बांक
तोच शिकपी
तोच शिकोवपी
तेच धडे
तेच प्रस्न
त्योच जापो...
नक्कीच पोरू तो नापास जाला.

आनी अंदू?
देवा, तूं पाव!

संपर्क: ९८५०४५८७६३





## *नवो शिगमो*

**शांताराम वर्दे वालावलीकार**

शिगम्याचो म्हयनो सोंपून
वर्स नवें जल्म घेता
चैत्रांतूच अंदू पुणून
परत नवो शिगमो येता

राजकर्णी सज्जनांचे
जिबेक नवी धार येता
हार्जे तार्जे उणें दुणें
काडची आतां संद येता

गाळीं शिंवर, दुडवां धुंवर
आश्वासनांक चंवर येता
पांच वर्सां उपरांत परत
वेंचणुकांचो भोंवर येता
तींच संवगां, तींच खुमणीं
भेस नवो घालून येतात
तींच भाशणां, त्योच फटाशी
परत्यो परत्यो कानार येतात

"गांवांतल्यान शारांत वचूंक
डांबराची जातली वाट
विजेच्या दिव्यांचो
वाटेर जातलो झगमगाट



गांवातले देवळेक आतां
देवळाचो येतलो घाट
कसतल्याचें शेत आनी
मुंडकाराचें जातलें भाट"

असलीं भाशणां करून परत
जिखले उपरांत नाच्च जातात
घराक घालून भांगरा नळे
हुस्क्या मेकळे स्वास घेतात

येता येता वर्स नवें
शिगमो नवो घेवन येता
तीत्त येसाय, तेंच नाटक
पडदें नवे लावन येता.



## *राग*

**सरस्वती दा. नायक**

उज्याचे धगसाणीक
उदक लेगीत
विसरता आपली थंडसाण
उज्या वरीच लागता
दिवंक चटके,
तापून लागता खतखतूंक
मेळत ताका
लासून उडोवपाची
करीत भास
हळूहळू वता आटून
आपलें अस्तित्व मिटयत...

मनशाची मतूय
उदका वरीच.
पेट्ट्या रागांत
घालीत विचारांची आहुती
सूडबुद्दीन जागयत
लासून उडयता
अस्तित्व आपलें
आनी दुसऱ्याचेंय...

संपर्क: ९८८१७३०८०२





# तीन कविता

**सुनेत्रा**

१

सगळी जिणूच जाल्या एक तुटिल्लें चप्पल कशी,
पांय ओडीत सारपाची...
केन्ना केन्ना दिसता, भिरकटावन मारची भायर
आनी जावचें मेकळें,
पूण काळीज जायना.
हांव पांय ओडीत चलत रावतां
च ल त च रा व तां... ...

२

उतरांनीच येतात लार्गी
उतरांनीच जाता कट्टी
उतरांनी केल्ल्या घायांक
उतरांचीच मलमपट्टी

३

काळजाच्या कुरकुटांत बांदून दवरिल्लो यादींचो पोटलो
वयर सरता अकस्मात,
इंद्रायणींतल्यान वयर आयिल्ले तुकारामाचे गाथे वरी
यादी...
भुरगेपणांतल्या अमुरपिक्या चिंचेबोटांच्यो,
सुखाच्यो,
दु:खाच्यो,
अडिल्ल्या घासांच्यो,
घुस्मटिल्ल्या श्वासांच्यो...
यादी...
खोशयेन भिजिल्ल्या आनी रडून सुजिल्ल्या दोळ्यांच्यो,
जागयल्ल्या रातींच्यो,
हातांतल्या रेंवे वरी शेणिल्ल्या नात्यांच्यो...
यादी मनांत...
यादी काळजांत...
यादींचे फोटो जिणेच्या आल्बमांत...





# दोन कविता

**अन्वेषा सिंगबाळ**

## *सांगता*

तुजेच बद्‌दल
तुजेच कडेन उलयतना
आतां म्हजें मन
म्हाका सांगता

आपालिपाचो खेळ सोंपय
कर एकदांची
ह्या खेळाची
सांगता.

## *निरोप*

तुवें येवप
म्हाका मेळप
हातांत हात घेवप
एकामेकांचेर उपाट
मोग करप
आनी मागीर,
सोडून वतना
हांवें शाणें कशें हांसत
तुका निरोप दिवप,
दोळ्यांत दुकां
दाटिल्लीं आसतनाय...

संपर्क: ९८२३६७४९७०



## *कोण विचारता...?*

**सिद्धी केरकार**

कोणाक फुलां माळपाक आवडटा
कोणाक तीं तोडपाक आवडटा
जाल्यार कोणाक तीं सोबेक आवडटात
पूण कोण विचारता
त्या फुलांक कितें आवडटा?

कोणाक शेवर्णे मारूंक आवडटा
कोणाक ताका पांजऱ्यांत पोसपाक आवडटा
कोणाक ताचे फोटू काडूंक आवडटा
पूण कोण विचारता
त्या शेवण्याक कितें आवडटा?

कोणाक झाडां मारूंक आवडटा
कोणाक तीं रोवंक आवडटा
कोणाक तांकां नियाळपाक आवडटा
पूण कोण विचारता
त्या झाडाक कितें आवडटा?

कोणाक तिका मर्यादेची बेडी घालपाक आवडटा
कोणाक तिका शोकेसींत पळोवंक आवडटा
कोणाक फकत तिचो भोग घेवंक आवडटा
पूण कोण विचारता
तिका कितें आवडटा?

संपर्कः ९८२३८३८५६०







## *आमी भारतीय*

**– ए. पी. भानुप्रकाश, कोच्ची**

भारतीय तुमी जाग्रत जाय्यात
जाग्रत जाय्याय तुमी भारतीय

फांयचे युवक तुमी जाग्रत जाय्याय
फांयचे नागरिक तुमी जाग्रत जाय्याय
जाग्रत जाय्याय तुमी भारतीय

ज्ञान प्राप्त करि तुमी भारतीय
दिग्विजयी जाय्या तुमी भारतीय
करि तुमी आमचें राष्ट्र वैभवाचें

सिखाय, सिखेयाय तुमी भारतीय संस्कार
राष्ट्र रक्षाण करि तुमी भारतीय
देश अभिमानि आमी भारतीय

परम पवित्र आमचो देश भारत
श्रेष्ट करचे शिल्पि तुमी भारतीय
जाग्रत जाय्याय तुमी भारतीय

एक मेळीन एक मन्नान म्हणय तुमी
आमी भारतीय एक
आमी भारतीय एक.

संपर्कः ०९४४६७३९२६०





## आवशीचो घोव

**संतोष महाले**

जल्माक इलंय
तेवा पासून बघतंय मी
माज्या आवशीचो घोव
एक प्रकारचो खेव
तरीय माज्या आवशीचो तो देव
सकाळचो वर्तात भायर सरता
तिनसांजचो तोर्रात घरा येता
रातचो लखपती
दिसाचो रोडपती
नसती जगाची उठाठेव
तरीय माज्या आवशीचो तो देव
येद्या कुरकुटाचो ना फायदो
पूण तोंडपाठ जगाचो कायदो
अन्नाक खार, धर्तरिक भार
कुकमाक आदार
निलाजरो पूण नेट भोव
खणटा मेळटा थंय मोव
तरीय माज्या आवशीचो तो देव
न्हिदतल्यांक न्हिदांक दिना
बसतल्यांक बसांक दिना
एक प्रकारची साडेसाती
एका पयशाची ना पराप्ती
व्हरता घरांतली
आसलेली नासलेली ठेव
तरीय माज्या आवशीचो तो देव
वडापुनयेक नटान थटान म्हणटा ती
देवा धनया पाव
जल्मोजल्मी सात जल्मी
होच घोव जावं.

संपर्क: ९४२३०६०१३५



## कितलो वेळ

**सुफला रुद्राजी गायतोंडे**

दुख्ख तुज्या वांट्याक आयल्यार
सूख येतलेंच हे आशेर जग.
सूख आनी दुख्ख
वांगडाच सरिल्लीं भायर
दुख्ख धांवत आयलें
सूख चलत आयलें
म्हूण सुखाक कळाव लागलो
दुख्ख बेगीन पावलें
तरी, दुख्खा फाटल्यान सूख आसताच
तें येतलें तेन्ना
दुख्खान कितलो वेळ सांगात दिलो
हेंच तूं विसरतलें
आनी नकळटना सुखाक आपणावन वतलें.

संपर्क: ९८२३१११९१७



# विखार विळखा

(पान १६ वयल्यान)

शंकराप्पाक कांय वेळ न्हीद लागली. जाग येतकीर तो आपणा सरींच उलोवंक लागलो, "अवचिन्न म्हारू तो, तेगेलो घोव... बिंदूलभर सोरो ताळ्यांत ओत्तालो खंय. फातराचे बांद बांदपी तो फातरट मनीस, पोट फुगून मेलो मुगो? भोग आतां... तेका हांवें सांगचें, बायक पळय म्हण! कसले भोग रे देवा!"

अंबीक रांदचेकुडींत जेवणाचें करताली. बेगी बेगीन भायर येयली. "किते, खंयचें उलयतात तुमी?"

"मुंबयंत वोत खूब. तेंवय खर काळें. घराच्या पत्र्यार पडलार पत्रे पेट्टयत. धुंवर आनी वोत, तेतून सोरो. सोसचें न्ही!"

"किते जालां तुमकां, कित्या कितेंय उलयतात न्ही."

"म्हज्यान आनी आतां हांथुरणा वयल्यान उठूंक जावचें ना. हाता-पायांतल्यान जीव गेल्ले वरी जाला."

"किते जालां, सांगा तरी न्ही. बाय बरें आसा न्ही?"

"तेगेलो चेडो भिवन बोबडें उलयता. फळ्या वयले सगळे दबे रिते."

"हें अशें किते म्हण समजुचें हांयें, सारखेंय सांगना."

"बायलो घोव खूब सोरो पिता गो. धुळधाण करून सोडल्या संवसाराची. बोब, मार-बडय, किते म्हण ना! बांयंत धुकल्लें गो आमी बायक! तेगेल्या लग्नाक एकेक गुंज भांगर कशें जमयल्लें जाणा मुगो तूं गेलें? तें!"

अंबीक धप्प करून सकल बसली आनी रडूंक लागली. घोवाक आनीक किते विचारचें तिका धैर्यच नासलें. तरीय तिणें म्हटलें, "येताना तुमी बायक घेवनच येवचें न्ही?"

"येवचें ना तें. मेलें तरी येवचें ना. बापाय वरीच हट्टी आनी मानी तें!"

चिंतून चिंतून मेंदवाचे सुंब जाताले. हड्डें कलकलतालें. हाता-पांयांक थरथरो भरतालो. किते करचेंच नाका दिसतालें. तरीय तो चवथ्या दिसा उठून गोपमळार रामदासाच्या घरा गेलो. वाटबर लखतालो आनी खोंकतालो. तकलेंत सारक्कें गुणगुणिल्ले वरी जातालें. घर उकतेंच आसलें. ताणें आवाज दिलो, "कोण आसा घरांत? हांव येयलां, हांव रामदासालो मांव."

तो थकिल्लो. तसोच भितर येवन बांकार बसलो. कांय वेळान रामदासाची आवय कापडाक हात पुशीत भायर येयली, "केन्ना येयलो? बस. सकाळी गोदून काळेरा नुस्त्याक हाडून दिल्लें. सरी करतालें."

ती मुखार येतकीर घम्म नुस्त्या वास येयलो. तरीय ताणें विनवणी केल्ले वरी म्हटलें, "म्हाका इल्लें उदक दिता पिवंक?"

तिणें भितरल्यान उदकाचो तांबयो हाडून



दवरलो. म्हणूंक लागली, "एक पत्र ना, खबरबास्त ना. आवय-बापूय मेलात काय जिते आसात पळयना. मेट्रीक जातकीर बापायन अमराणी व्हरून आयटीआयक घायल्लें. शिक्षणाची माती केली तेणें."

इतल्यान रामदासालो बापूय शांबा खळा वेल्यान व्हडलें तणा वोजें घेवन येताना दिसलो. शांबा पयलीं मिलिटरींत आसतालो. अठरा वर्सां सिर्वीस करून येवन आतां शेत करतालो. तेणें तें वोजें हाडलें आनी घरा मुखार पयल्यान आशिल्ले तणा वोळयेर चडून सोडयलें आनी दोरी ओडून काडून घेयली. तो परतो खळार वयतालो पूण बायलेन बेगीबेगीन वचून सांगलें, "रामदासालो मांव येयला."

तो हातांत दोरयेचें कंवडाळें घेवनच वासरेर येयलो. तण केंसांर, आंगार शिपडिल्लें. वोतांत तण व्हांवन तो तांबडोच जाल्लो. "केन्ना येयलो? मदींच पावलो सो?"

"हांव मुंबय गेल्लो धुवे कडेन."

"मागीर?"

"कांय सारखें ना तेंगेलें. धुळधाणच ती!"

आर्दीच वोतांत आनी तणाच्या वावरांत तापून आयल्लो तो आता पुरूसभर हुडलो. ताची कपला कडची शीर तट्तट् हुडटाली आनी तो रागान मोठ्यान उलयतालो. "घातमाऱ्या कास्ताचो तो. कुळयेक कलंक लायलो तेणें. गांवांत तन्नाटी पोरां मदीं बाटल्यो दवरून कंवडाळें करून बसतालीं. चांडाळ चौकडेंत सांपडलो तो. गोंयच्यान रानवाटेन सोरो हाडून हांगा विकतात चोरा कास्ताचे. वाट लायल्या गांवाची. लग्न जातकीर सुधरतलो म्हण लग्न केल्लें. तुजे धुवेच्यान कांयच बरें करूंक जालें ना. तोंडानय खरें न्ही तें. लग्न जायत सावन गेल्लीं पांच वर्सां एक पयसो पळयलो ना तेंगेलो. एकलोच पूत तो. मरसर आमी हाडां झरवंची."

शंकराप्पान थंडपणान म्हटलें, "भांगरय विकून खायलां तेणें. बायलें कसलें उलयता तूं... तें आतां मरचेंच उल्लां."

हें सगळें सोंसूंक नज जावन आवय मुखार येयली. "तें परतें गुरवार आसा म्हण कळ्ळां. हांव वयतलें तेचे सरीं. नातर तेकाच घेवन येतलें."

"येवचें ना, तोंड दाखोवंचें ना तें आतां."

शांबा नायक ताणशेलो, "कित्याक येवंक जाय? हिंगा येवन किते करतले? शेतांत बाग घेवन एक मूठ नणणी काडूंक जावची ना तेच्यान. शेता वावर इल्लोय शिकयलो ना तुवें तेका."

"अपुरबायेचें म्हजें बाय तें. फुला वरी राखिल्लें." तो वचूंक उठलो. उबो रावतकीर तेचे पांय कडकडटाले. मान डुगुडुगू जाताली.

शांबान म्हटलें, "राव तूं. आजच उठाउठी

कित्याक वयता?''

''ना, वयतां हांव. बायचें पळयतसान खंयच मन लागना.''

बायलेन म्हटलें, ''पेज जाल्या, शाकय जाल्या. पेज तरी जेवन वच तूं.'' ती दारांत आडवी उबी रावली. मागीर तिणें हातपांय धुवंक तेका उदक हाडून दिलें. मागीर व्हरून मणयेर बसयलें आनी पेज, शाक व्हाडली.

पेज जेवन रस्त्या मेरेन कशें बशें चलून येवन तेणें गांवा वटेन वच्ची बस धल्ली.

शंकराप्पा येयलो तो तीन दीस हांथुरणार पडिल्लो आसलो. बायची खबर आयकत सान बायलेकय कसलो त्राण हुरूप नासलो. तिवय एक वटेन परवंताली. आनी दुसरे वटेन घरांतलो वावर करताली. घोवाक जेवंक उठयलार तो बेजारतालो. आपणाक बरें ना, भूक ना म्हणटालो. बेजारून बायलेचेरूय किसळटालो. एक फावट तर तेणें बायलेक रागान म्हटलें, ''तुगेल्या कुळरची ती सोनचेडी मीरा आमगेल्या दारांत ती सोयरीक घेवन येयल्ली. घट्टण केलें तेणें आमचें.''

''आपणाले भोग दुसऱ्याचेर धुकल्ले म्हण ते भोगचे चुकतात? वोगच जिवाक त्रास करून घेवप.''

वाड्या वयले लोक येताले. येवन बसताले. वासंतीचे चुरचुरे करताले. शंकराप्पाक समजायताले. बायल अंबीक तेचे सरीं कितेंय उलयताली. पूण तो एक उतर कोणा कडेन उलयनासलो. भितरले भितर घुसमट्टालो.

धाकलो णववीक शिकतालो. तीन-चार म्हयन्यांर तेगेली परिक्षा येयल्ली. बापूय मुंबय गेल्लो आसताना गोठ्यांतल्या गोरवांचें तोच पळयतालो. आतांय तेका तें पळोवचें पडटालें. ताचेन अभ्यासाक वेळ मेळनासलो. आतां तर शेतां कसूंक जोत घालचे दीस आयल्ले.

शंकराप्पा आपणाक कलकलता, उठूंक शक्त ना म्हण आठ-धा दीस हांथुरणारच आसलो. एक दीस तो उठून तोंड धुवंक म्हण वयता जाल्यार तेगेलो उजवो हात समतोच थरथरतालो. आनी मात्सो बागवल्ले वरी चलतालो. बायलेन मुखार वचून तो बरो घश्टिल्लो, ओडलो, पूण तो थरथरचो थांबलोना. ती मट्ट करून सकल कपलार हात घेवन बसली. मागीर तिणें कांय बायलांक उले दिवन आफोवन हाडलें. तांणी सांगलें, ''आठ दीस न्हिदून राविल्ल्यान हात-पांय आखडल्यात. फाल्यां आंगाक बरें तेल रगडून हुनहून उदकान न्हावय.''

तांतल्या कल्याणी म्हणिल्ले बायलेन म्हटलें, ''शंकरमामा, तूं कसलें पिशें घेवन बसला? तेचें तें भोगतलें. तूं तुज्या जिवाची वाट लावन घेवंक लागला!''

''तूं जाणा कल्याणी, तो गिरी पिवन सदांच बायलेक बडयतालो. एक दीस बायलेन न्हिदिल्ले कडेन रगड्यावानो तेचे तकलेर घातलो. तें जैलांत आनी भुरगीं वाऱ्यार. सोऱ्याक पयसो घालचो आनी अन्नाक म्हारग जावन मरचें... पाड व्यसन रे तें देवा!''

बायलेन-अंबिकेन - मनांत म्हटलें, कांय खरें न्ही. व्हडल्या पुताक सांगून तेका गोंय व्हरून डॉक्टराक दाखोवंक जाय. तिणें दुसऱ्या दिसा सकाळींच धाकलो पूत चंद्रकांताक भावाक तुकारामाक आफोवन हाडूंक गोंय रायबंदर धाडलें. तो पणजे रावतालो आनी रायबंदर पोलीस ठाण्यार काम करतालो.

सकाळीं गेल्लो चंद्रकांत सांजचो व्हडल्या भावाक घेवनच येयलो. त्या दिसा तेगेली पुराय शाळा चुकली.

सगळें कळटकीर तुकारामान पयलीं भयणील्या घोवाक खूब गाळी संवल्यो. रागच चड, चुरचुरे नासले कोणा विशीं.

आवयन म्हटलें, ''अठरा तोळे भांगर घायल्लें लग्नाक, एक गुंज भांगर दवरलें ना. दीसबर सोऱ्यांतच बुडून रावलार कशें जातलें? तेतून आनी एक अबुद्द भुरगें आसा बायल्या पदरांत.''

''पूण आप्पान हें इतलें लावन कित्याक घेवंक जाय काय म्हणटां? आतां हें कोण करतलो? फाल्या शेतां पडींग पडलार जग लोक हांसतलो. म्हजी कडक ड्युटी. दीसबर तासाची फुरसत मेळना. तेवटेन बायलेलें भुरग्यालें पळोवंक जाय.''

हाचेर शंकराप्पा खुबच तापलो, ''म्हजी खबर सोड तूं. तुजेंच तूं पळय. हांव मेलों म्हण येवचो ना तुजे बराबर. वयतां आनी वयल्या रानांतल्या त्या देवदार रुखाचे



पोखल्लेंत बसतां. अन्न उदक कांय नाका.''

पूण दुसऱ्या दिसा सगळ्यान समजावन तेका पणजे धाडलोच. तुकारामान पयलीं तेका बांबोळेच्या व्हडल्या हास्पिटलांत व्हरून दाखयलें. मागीर दोन कडेन बऱ्या खाजगी डाक्टरां कडच्यानय तपासून घेयलें. सगळ्यांनी तेंच सांगलें, ''वखदां दितात तीं सदां घेवचीं. बरो जायत घडये. पुराय बरो जातलो म्हणय सांगूंक जायना. विचित्र रोग तो. मनाक जबर धपको बसला. जाता केन्ना अशें.''

शंकराप्पा गेल्ल्या दुसऱ्या दिसा सानच परतो वयता म्हण लागिल्लो. पूण सुनेन आठ दीस तेका कशेंच सोडलें ना. ती तायटार तेल घेवन तेगेल्या हाताक, मानेक मालीस करताली. हून उदकान शेकयताली. तो मनांत म्हणटालो, कोणालें परक्यालें हें पोर, म्हजी सेवा करता! तेका इल्लें समाधान मेळटालें. पूण तुकारामान णव्या दिसा तेका म्हयनोबरचीं वखदां वांगडाच घेवन गांवांत हाडून पावयलें. घरांत भितर सरतकीर तो हुस्सऽ करीत खुर्चेंत बसलो. जंवजाळांतल्यान सुटिल्ले वरी.

माघ म्हयनो लागिल्लो. धुळवपाचें कसूंक लोकांनी शेतांत जोतां घायल्लीं. आनी आठ-पंदरा दिसांनी शेतां सुकून घट जातलीं. नांगर लागचो ना. पावसांत कसून रोयतलो म्हटल्यार ह्या गांवच्या शेतांनी वयलें उदक इतलें व्हांवन

येता, रोव कसोच लागना. शेतांत जोत घालूंक जाय अशें दिसतालें. पूण उजवो हात तसोच थरथरतालो.

त्या दिसा सोमार आसलो. सोमाराक, बऱ्या दिसाकच, शेतांत पयलो नांगर लावंक जाय. तेणें धाकल्याक - चंद्रकांताक - म्हटलें, ''पुता, म्हाका ठाण्या शेतांत जोत व्हरून उबें करून दी. मागीर जाल्यार तूं शाळेक वच. हांव मागीर पळयतां. एका हातान धडपडत कसो तरी कसतां. ह्या हातान सारखी मूठ धरूंक मेळ्ळ्यार भंय ना.''

चंद्रकांतान गवणींतल्यान जोत हाडून शेतांत उबें केलें. येताना तो घरा सरच्यान नांगर जूंवय घेवन येयल्लो. तेणें बापायक नीट विचारुनच बैलांच्या खादांर जूंव दवरलें आनी कानयो घातल्यो. जुंवाक नांगरा रीस बांदली. मागीर सोताच कुणगेंत तास घालीत एक फेरो घेवन येयलो. एक दोळो तेगेलो शाळेचे वाटे वटेन आसलो. आतां जोत आप्पाल्या हातांत दिवन घरा वचून पुस्तकां घेवन शाळेक धांव मारूंक जाय आसली.

तेणें जोत हाडून आप्पाल्या हातात दिलें आनी हामडूंक सांगलें. तेणें डाव्या हातान नांगराचें निरमणें धल्लें आनी उजव्या थरथरत्या हातांत बडी घेयली. पूण डाव्या हाताचे मुठीचो फोर्स नांगराक पावनासलो. उजवो हात धरूंक गेलार ताची मूठ नीट आंवळून येनासली. अशें करताना नांगराचो तास भूंयर नीट पडनासलो. नांगर वयले वयर वाकडो तिकडो वयतालो. मदीं एक फावट निरमणें हातांतल्यान सुटून नांगर सकल पडलो. नांगराची लोखंडा जोगल एका बैलाल्या पांयांक लागली. पांयांच्या गात्रा वयर रगत येयलें. शंकराप्पाक खूब वायट दिसलें. चाळीस पन्नास वर्सां हांवें शेत कसलें, केन्ना नांगरा निरमणें अशें हातांतल्यान सकल पडलें ना. नांगर बैलाल्या पांयाक लागलो ना! तो बैलां फाटल्यान सुन्न उबो आसलो.

सकाळचें नितळ चकचकीत वोत उकत्या शेतांनी पडिल्लें. पयस पयस मेरेनचो सगळो वाठार स्वच्छ दिसतालो. चंद्रकांत पळयतालो, आतां एकय भुरगो खंयचेच वाटे वेल्यान शाळेक वयताना दिसनासलो. ताणें मनांत म्हटलें, सगळीं भुरगीं शाळेक पाविल्लीं आसतलीं. हांवें आतां धांव माल्ल्यार हांव प्रार्थने उपरांत पयल्या पिरेडाक पावंक शकतां. ताचें मन चिटपुटलें.

पूण आप्पा बैलां सरीं वोग्ग उबो आसलो. तो अचकीत मुखार गेलो. नांगराचें निरमणें धरून नांगर उबो केलो आनी बैलांचे फाटीर बडी मारून जोत हामडूंक लागलो. नांगर दाम्मून धरून भूंय फोडून तासां पाडूंक लागलो.

शंकराप्पा वोग वचून मेरेर बसलो. मागीर तेणें व्हडान म्हटलें, ''पुता, चंद्रकांता, तूंच आतां ह्या मोडक्याचो आधार!''

पंदरा वर्सांचो तो भुरगो खूब समंजस आनी मोगाळ आसलो. आवय-बापायक मानतालो आनी तांणी सांगिल्लें आयकतालो. शिकूंक हुशार आशिल्लो. ताका शिकची खूब आवड ओड आगिल्ली. सांगिल्लें कितेंय काम करून बेगीबेगीन शाळेक धांव मारतालो. तो इतलीं बरीं चित्रां काडटालो, तेगेलो कलामास्तर केन्नाय तेका म्हणटालो, ''तुजेर रवी वर्मान हात ओडला.''

त्या वर्सा तो शेताचें काम करून शाळेक वयताना नुसतो धांवतालो. नुसती घाई-गडबड आसताली. शेताच्या मोठ्या वावराक कामदार लायले तरी बारीक कामां खूब आसतालीं. शंकराप्पा हर प्रयत्नान वावराक झुडटालो. खोरें घेवन एकाच हातान खणटालो. चंद्रकांतान कसून घायल्ले दिपळे एकाच हातान बडयतालो. गोरवांचें तोच पळयतालो. तेगेली शक्त सगळी कडेन पावनासली. धाकलो पूत जायच आसतालो. दोन हातांचीं सगळी बारीक मोटीं कामां चंद्रकांतच करतालो. फुडाराचो तो म्हज्या शेतांचो शेतकार अशें धरून शंकराप्पा तेका शेताचीं सगळीं कामां केन्ना मेरेर बसून तर केन्ना सोता करून दाखयतालो.

व्हडलो तुकाराम केन्ना गोंयच्यान येयलार परत वच्चे घाईंतच आसतालो. 'केन्ना रजा घेवन येवन लुंवच्या, मळच्या वावराक तरी पाव रे' म्हटलार, आपणाक रजा मेळना, ड्युटयेंतल्यान सुटका ना, म्हणटालो.

चंद्रकांत णववीक कसो तरी कांठार पास जालो आनी एस्.एस्.सीक पावलो.

सगळ्यांनी थारायलें, ह्या वर्साक एस्.एस्.सी. करूंक तेका फुरसद दिवची. सामकेंच कामाक बांदून दवरचें न्ही. तुकारामय



एक फावट शिटकावन गेल्लो.

पूण वर्सभराचो शेताचो वावर म्हटलार पांयाक बांदिल्ली भिंगरी आसली. सुटका नासली.

शंकराप्पा तर शेताचो वावर फाटीं घेवंक तयार नासलो. म्हणटालो, आमच्यो कितल्यो पिळग्यो ह्या शेतांनी घोळ्ळ्यो. शेतां पिकयलीं. तेच खावन जेवन गेले. म्हज्या दोळ्यां हुजीर हांव एक कुणगी बंजर पडूंक दिवचों ना! शेतां बंजर उडोवन कोणाल्या दारांत भीक मागूंक वयतलों? तो शेताच्या वावराक झुडटालो आनी शेतांत लोळटालो म्हटलार जाता. मोव मनाचो गुणी पोर चंद्रकांताच्यान तें पळोवंक नज्ज जातालें. तो हर कामाक बापाय सरीं धांवन वयतालो. बापूय मदींच बायचे यादीन रडूंक लागतालो.

त्या वर्साक तो एस्.एस्.सी.क नापास जालो.

तुकारामान उल्टो तेकाच तापयलो. म्हटलें, तुज्यान आनीक शिकूंक जावचें ना. परत परिक्षेक बसलार पास जातलोच म्हण कशें सांगचें? शेतां आसात, तेतून घोळलार पोट भरतलें फुडाराक.''

उणे पिरायेच्या चंद्रकांताक परिस्थितीचो, फाल्यांच्या फुडाराचो कांयच अंदाज येयलो ना. तो अबरगता वरी वोगच रावलो. पूण भयणील्या घोवालें सोऱ्याचें व्यसन तेच्या

फुडारा मुखार फातरा तळप कशें आडवें पडिल्लें इतलें मात खरें. बापूय आनीक चार वर्सां तरी धडधाकट उल्लार खरें आसलें. तो पयलीं कामाक वाग आसलो.

शंकराप्पाक मुंबय वचून येवन वर्स जाल्लें. मर्दी बायली मांय तेगेल्या बाळंतचाराक गेल्ली. तेका चली जालां म्हण कळिल्लें. एक फावट अंबीक गोपमळार बायल्या घोवा घरा वचून तेगेली खबर घेवन येयल्ली. तेगेली मांय सांगताली, ''हांवें हांगाच्यान पोटल्यो बांदून व्हरून तेगेलें बाळंतपण केलें. हांव न्ही जाल्यार मरताच आशिल्लें तें.''

''चड पिता गे तो आतांय?''

''तेन्ना आठ-धा दीस बरो आसलो. मागीर परत तेचेर खेव येयलो. म्हाका संवता, आमचे कडेन पयशांची रास आसा म्हणटा...''

अंबीक वोग परत येयली. तिणें घोवाक चड कांय सांगलें ना.

...सांजचे चारांच्या सुमाराक वासंतीक वेणे येवंक लागले. तेणें पोटा कडच्यान कमरेंतल्यान शक्त सकल सोडत सुसकारत मांयक म्हटलें, ''आई, पोटांत दुखता, सणसणटा. बाळंत जातलें अशें दिसता. कशेंय करून पावय तूं म्हाका हास्पिटलांत.''

ताचे पयली तें एक दीस खंयच्या डाक्टरा कडेन गुरवारपणांत तपासूंक वचूंक नासलें. एक डाक्टर खबर नासलो. केन्ना बाबूक थंडी खोकली जाल्यार लागींच एक डाक्टरा कडेन वयतालें. पूण तो आतां उपकारचो नासलो. वेणे येवंक लागलार खंयच्या हास्पिटलांत कशें वयचें, कसलीच माण्णी कोणें करुंक नासली. वासंतीक तर दिसतालें, आपूण ह्या गुरवचारांत मरतलेंच. म्हाका आनी डाक्टर नाका. पूण आतां पोटांत दुखूंक लागतकीर दिसतालें, खंयच्या तरी हास्पिटलाचे खाटीर वचून पडचें. तें बाबूक म्हऱ्यान घेवन कांय वेळ सांसपीत रावलें. एक वटेन वेणे येतालेच.

मांयक कितें करचें, कोणाक आफोवचें कांयच सुचनासलें. चाळींतले दादले कामांतल्यान परतूंक नासले. लीला, जें गांवच्यान, बेबदया मोग्या वांगडा धांवन येयल्लें, तें पयलीं केन्नाय येतालें, अडचणेक पावतालें. तेणें एक दीस वीख खावन जीव दिलो. तिगेले झोपडेच्या दारांत सकाळीं ओमथें पडिल्लें कोणाक तरी दिसलें. पोलिसान येवन प्रेत व्हयल्लें तें परत लेगीत कोणें हाडलें ना. भायले भायर पुल्लें काय लासलें तेंवय कळ्ळें ना.

मांय तारा तशी हुशार आसली. घोव मिलिटरींत आसताना, तीन वर्सां घोवा वांगडा ग्वाल्हेरांत आसली. तिका हिन्दी, मराठी उलोवंक येतालें.

तेंच्या चाळी मुखार एका मद्रासी मनशालें घर आसलें. थंय काळीं बलबलीत भरिल्ल्या तोंडाचीं मनशां भायर भितर करताना दिसतालीं. सदां एक मोटरकार उबी राविल्ली दिसताली घरा मुखार. मांय तारा बेगीबेगीन थंय गेली. वासरेर आशिल्ले बायलेक तिणें सुनेची, खबर हिन्दींत सांगली. म्हटलें, ''तुमचे गाडयेन तिका हास्पिटलांत पावयलार बरें जाता आसलें.''

ते बायलेन सांगलें, ''घोव घरा ना. चलो आसा. तो चलयता गाडी, पूण ताचे सरी चलयचो पयलो ना.''



''लागींच खंयच्या तरी सरकारी हास्पिटलांत व्हरचें...?''

''खंयच्या तरी म्हटलार? पयलींच थारायलें ना, नांव दिलें ना?''

तारा येद्‌देंशें तोंड करून वोग रावली.

''चल, तिचीं वस्त्रां बीन घेवन तिका भायर हाड. धाडटां पुताक गाडी घेवन. हास्पिटल थारावंक ना, गाडी थारावंक ना, अजापशें.''

कांय वेळान ती बायल सोता पुताचे सायडीन बसून गाडी घेवन येयली. एका व्हड थर्मासांत तिणें उदक तापोवन घेयल्लें. वासंती भोंवतणी चाळींतल्यो बऱ्योच बायलो जमिल्ल्यो आनी आपल्या वेगवेगळ्या भासांनी कलकल करताल्यो. तांतली एक बायल घुसूनशी वासंती म्हऱ्यान गाडयेंत बसली.

मद्रासी बायल गाडी घेवन लागींच एका सरकारी दवाखान्यांत येयली आनी तिणें वासंतीक थंय दाखल केलें. तासबरान तें बाळंत जालें आनी चली जाली. तें इतलें भागिल्लें, हाता-पांयांच्यो काडीबडी जाल्ल्यो. पोटच दिस्टीक पडटालें. तेणें त्यो वेणो कश्यो आंगार घेयल्यो तें एक अजापच म्हणपाचें. बाळंत जातकीरच ती मद्रासी बायल पुताक घेवन गेली. रामदास मात हास्पिटलांत बरोच उसरां पावलो.

येयल्लो तेन्ना तेगेल्या तोंडाक सोऱ्याचो वास मारतालो. कोण तरी भायर नर्सी कडेन मोट्यान, उर्मटपणान उलयता तें आयकोनच वासंतीन मनांत म्हटिल्लें, 'हो' येयला दिसता. तरी तो बऱ्या घोवा वरी, बऱ्या बापाय वरी वासंतील्या खाटा सरीं येवन बसलो. म्हणालो,

''चड त्रास जालो?''

''ना.''

''बाबू वेळार चड त्रास नासलो. चेडवा वेळार चड त्रास जाता म्हणटात.''

''तें खरें न्ही.''

''बाबूचें म्हजे वरीच जातलें अशें दिसता, तिगां भयणीलो एक भाव.''

''आनीक गुरवचार येयलार हांव मरतलें. आनीक आनी कांयच नाका म्हाका.''

''नांव कितें घालचें थारायलां तुवें?''

''खर्चाक पयशे जाय आतां. येत सान

आईच खर्च करता."

"म्हयन्याच्या शेवटाकच जालां हें. पळयतां कंपनी कडच्यान ॲडवान्स मेळटा काय तें."

"ॲडवान्स घे आनी तेवय सोऱ्याक घाल. म्हयन्याच्या शेवटाक खंय. णव म्हयने दोळे धांपुनच राविल्लो तूं." हांगा हे खाटीर इल्लें सुरक्षीत दिसलें. म्हणच तें हें उलयलें जावये.

रामदासान कांय म्हटलें ना.

"येताना बाबूक पळयल्लें? तो कोणा कडेन आसा?"

"आईच तेका सूरबाला सरीं दवरून येयल्ली न्ही? आसा तो थंय."

"चल तूं आतां घरा, बाबू आसा न्ही? आई पळयतली म्हजें."

तो वचूंक उठलो. आवय बेगीबेगीन मुखार येयली. म्हटलें, "खर्चाक पयशे दवरून वच. आमकां जेवंक खावंक नाका? डाक्टरान भायल्यान वखदां हाड म्हटलार कितें करतली?"

ना आयकल्ले वरी मुडदारां सारखो तो वचूंक गेलो.

वासंतीन मांयक म्हटलें, "धा वीस आसतले खिशांत. ते वयताना वाटेर पिवंक नाकात? तुका कशे दितलो?"

हेदोळ तेचे वांगडा गाडयेंत घुसून येयल्ली यमनव्वा रातचीं धा जालीं तरी हांगाच अडकून पडिल्ली. रामदासा फाटल्यान वचत तिणें म्हटलें, 'हांव येतां रे.'

सरकारी हास्पिटल तें. तीन दिसांनच तांकां घरा धाडलें. घरा येयलें म्हण तेका नीट तेल नासलें, न्हाण नासलें. खावंक जेवंक नासलें. मांय केन्ना सोता दुकानांत वचून कितेंय रांदचें खावचें हाडटाली. रामदास आठ दीस बरो आसलो. कितेंय सांगिल्लें हाडून दितालो. खिशांत पयशेय आसतालेशे दिसताले. पूण एके सांजेर तो खूब पिवन येयलो. येवन कोणाक तरी गाळी संवतां संवतां म्हणूंक लागलो "तेचे वरी शेतभाट नाशिल्लो भिकाड्डो न्हूं हांव. भांगर पिकचीं शेतां आसात आमगेलीं. ह्या मुंबयच्या धुल्लांत आनी धुंवरांत कितें आसा? हांव गांवांत वयतलों. शेतांत खांडयेक कुंब पिकयतलों माडार चडून नाल्ल पाडटलों. आई, आमगेल्या मुसरादाक अंदूं आंबे लागिल्ले? सांग तेकां..."

आयकोन वासंती भियेल्ले वरी जालें. कितें करूंक सोदता हो! आवयन म्हटलें, "त्या शेतांर पिळग्यो जियेल्यो. पूण एकाचेंय पोट नीट भल्लें ना. तुगेलो बापूय उज्यांत हुडी घेतिल्ले वरी मिलिटरींत गेल्लो म्हण आज पेन्शनचे चार पयशे मेळटात."

"जाणां आई, बापाय फाटल्यान ती पेन्शन तुका."

आवयक खूब राग येयल्लो. उज्यांत आनी तेल नाका म्हण ती वोगच रावली. परगांवांत लोकांत लज जाता हें तिका वायट दिसतालें. ती दारा वटेन येताली आनी दोपूनशी ते मद्रासी बायलेल्या घरा वटेन पळयताली. वासंती तिका बारीक पळयतालें. तेणें म्हटलें, "म्हाका मुगे आई, आतां कांयच दिसना. एक फावट बांयंत उडी घेतकीर शेळाव कितें, थंडी कितें..."

रामदासान रागान ताचे सरीं पळयलें. तें बाळंतीण म्हण, ना तर तेचेर एक खोंट पडचेली.

बाळंत जातकीर सव्वा म्हयनो सुमार मांय उल्ली. मागीर आपूण वयतां म्हणूंक लागली. वासंतीन म्हटलें, "वयताना बाबूक घेवन वच तूं. तूं सांभाळ. आमी हिंगा मरतलीं ना तर उरतली." तेणें कुशीच्या बाळकाचेर हात दवरून म्हटलें, "हें आनी जल्माक येयलां म्हजे वांगडा नस्ते भोग भोगूंक."

"तो व्हरूंक दिवचो ना गो. तेकाच कित्याक, तुमका सगळ्यांक घेवन वयतासलें. दोन म्हयने रावन परत येतासलें."

वासंतीन थंडपणान म्हटलें, "हांव येवचें ना. मरचे आसलार हिंगाच मरतलें."

मांय ताचेर एकदम रागार जाली. "कसल्यो मरच्यो खबरी उलयता तूं? मागीर ह्या दोन बाळकांक कोण सांभाळटलो? त्या पिवड्या कुस्तार फाटल्यान उडोवन वयतलें तेंकां? आमी आतां म्हातारीं जातलीं."

"आवय तुगेली बायलेल्या बाळंतचाराक येयल्ली, तिका एक साडी तरी वयताना घेवन दी," म्हटलार घोवान कानामनार घेयलें ना. एक कुसकूट दियेनासताना तसोच व्हरून स्टेशनार पावोवन येयलो. वासंती खूब चुटपुटलें.

रामदास मोटरसायकलीचे सुटे भाग करून दिवचे एके कंपनींत काम करतालो. सुरवेचीं तीन वर्सां लेथ मशिनार काम करतालो. तें बरें कसबी काम आसलें. मागीर तेच्या हातान वरचेवयर चुको जावंक लागल्यो. केल्ले सुटे भाग स्क्रॅपांत वचूंक लागले. एक दीस मेनेजर तेचे सरीं लेथ मशिनार गेलार तेका सोऱ्याचो वास येयलो. मागीर तेणें बारीक खबर काडटकीर कळ्ळें, तो सोऱ्याच्या व्यसनाक लागला म्हण. मेनेजरान तेका लेथा वेल्यान काडून पॉलीस करच्या विभागांत घायलें. थंयूय तो आळसाय, चुको करतालो. पूण बरोबरचे सांभाळून व्हरताले. मागीर मेनेजराक कळ्ळें, तेचें लग्न जालां आनी एक भुरगेय आसा म्हण. तो तेका केन्ना तापोवनच सोडटालो.

घरा सरच्यान बसान वीस मिनिटांत तो कंपनी लागसर पावतालो. थंय एके गल्लींत लंगड्या सायमनालें सोऱ्या दुकान आसलें. तो थंय पावबर सोरो घेवनच कंपनींत वयतालो. मदीं सुटी आसताली तेन्नाय येवन पिवन वयतालो. सांजचो घरा येताना बशींतल्यान देंवलो की लागींच एक बरें बार आसलें. थंय भितर बसलार पन्नास-साठ रुपये बील जातालेंच. केन्ना तो थंय सान पाव घेवनच येतालो. ना तर हेर गांवठी सोऱ्या दुकानां

आसलींच. तलफ येयली म्हणटकीर तो लागींच्या खंयच्याय बारांत घुसतालो.

मेनेजर सातपुते तेगेल्या कामाक, तेगेल्या सोऱ्याक बेजारून गेल्लो. तेका नोकरे वयल्यान काडचें निमित्त सोदत आसलो. एक दीस मदले सुटयेंत तो पिवन येयलो आनी तेणें वांगडा काम करतल्या नरेश यादवा कडेन झगडे काडलें. तेका गाळी संवल्यो आनी धुकलून दिलें. तो मशिनार पडचो मात चुकलो. भायर मोटो बोवाळ आयकोन मेनेजर सातपुते भायर येयलो. तर रामदास पिवन तर्र आसलो. तरीय तेणें तेका आपल्या केबिनांत आफयलो. तो भितर वचून मेनेजराकय गाळी संवंक लागलो, ''तू नरेश यादवालेंच खरें म्हणटलो. तो तुका लोणी लायता. तेगेली बायल सुंदर आसा. ती तुका मटण रांदून केबिनांत धाडटा. कंपनी चोरून खावंक लागलात तुमी. हांव मालकाक सांगतलों.''

सातपुतेन भायल्या हेर कामदारांक आफोवन ताका भायर ओडून व्हरूंक सांगलें. मागीर तेणें मालकाक फोन लावन सगळी खबर सांगली. तो सोऱ्याक एडिक्ट जाला. आतां हेर कांयच उपाव ना म्हण सांगलें. मालकाक ताचे विशीं म्हायती आशिल्ली.

मालकान सांगलें, ''पयलीं पोलिसांक आफोवन पोलिसांच्या ताब्यांत दी. ताचें मेडिकल करून सोरो पिला म्हण सर्टिफिकेट घेवंक सांग. हांवय करतां फोन इन्स्पेक्टराक.''

ताचो तो दखलपात्र गुन्हो नाशिल्लो. मालकाक आनी मेनेजराक फक्कत सोरो पिला हें सर्टिफिकेट जाय आसलें. पोलिसान मेडिकल करून सोडटकीर दुसऱ्या दिसा रामदास कामार येवंक येयलार दारांतच तेका रखवालदारान आडायलें. भितर घेयलें ना.. मागीर अकावन्टांतलो एक क्लार्क थंय येयलो, तेणें तेका सांगलें, ''मालकान हे फुडे तुका कामार घेय नाका म्हण सांगलां. तूं चार दिसांन यो आनी नोकरे वेल्यान काडिल्ल्याचें पत्र आनी कंपनी कडेन उरिल्ले तुजे पयशे घेवन वच.''

तेणें आपूण एक फावट मेनेजराक मेळटां म्हटल्यार तेंणी तेका साप्प भितर घेयलें ना.

तो तसोच वोग परतलो. वाटेर पियेलोय ना. घरा आयलो आनी वोग न्हिदलो.

वासंतीन कितलें विचारलें, पूण कांय सांगनासलो. जेवंक ऊठ म्हटल्यार उठनासलो. सांज जावच्याक तो अचकीत रडूंक लागलो. वासंती म्हऱ्यान गेलें. तेचेर हात दवरून बसलें, ''कितें जालें सांग तरी न्ही.''

रामदासान कांय एक लिपयनासताना बायलेक सगळें सांगलें. वासंतीच्या हड्ड्यांत खपखपो भरून गेलो आनी काळजाच्यो शिरो ओडिल्ले वरी जावंक लागलें. तें उठलें आनी वणटीक तेंकून बसलें. चेडूं न्हिदिल्लें, चेडो बेठोच आंगार पडून आसलो. भायर सगळो कितलो गजबज, बोवाळ आसलो. पूण तांच्या घरांत सामकी सामसूम आसली. भायलो गजबज काना मेरेन पावय नासलो.

खूब वेळान केन्ना तरी वासंतीन विचारलें,



''आनीक खंयूय नोकरी मेळची ना?''

''आनीक खंय वयचों ना हांव. आनीक आनी नोकरी करूंक जावची ना म्हजे कडेन.''

दोन सामकीं ल्हान पोरां पदरांत आसात आनी अशें कितें उलयता हो! वासंतीचो जीव खोल खोल गेल्ले वरी जालो. हांवय आतां उबें रावंक तांकचें ना काय कितें!

त्या शारांतली ती छिनाळ रात चडत वयताली तसो गजबजय वाडत वयतालो. पूण हांच्या मनांत काळजांत-काळोख भरून आसलो. तो दनपरां जेवंक नासलो. तेका आता वाडूंक जाय आसलें. बाबूय भुकेन पिरपिरूंक लागिल्लो. उठून हांथरुणार हात-पांय आपट्टालो. धाकल्याक पयलीं तेणें मोम्याडुदाक धल्लें. मागीर तें चपाते पीठ मळूंक लागलें.

त्या दिसा सान रामदास घरांतल्यान भायर सल्लो ना आनी तेणें सोऱ्याचोय वास घेयलो ना.

तेणें वासंतीक म्हटिल्लें, कंपनी कडच्यान येणे आशिल्ले पयशे व्हरूंक चार दिसांन आफयला म्हण. पण तो कंपनींत वयचें नांव काडी नासलो. पयशे गेलार वचुंदी, आपूण कंपनींत तोंड दाखयना म्हणटालो. म्हाका त्या लोकांनी पोलिसां कडेन दिलो म्हण राग काड्टालो.

एक दीस सकाळींच तें आपली पोन्नीच साडी, पोल्को झाडलेंशें करून न्हेसलें आनी रामदासाक म्हटलें, ''आमी या कंपनींत, हांव आसां तुजे बराबर. तुका कोण कितें म्हणटा तें हांव पळयतां.''

तो अनमानूंक लागतकीर मुखार म्हटलें, ''म्हयनो सोपतलो, घरमालक भाड्याक येवन बसतलो. भुरग्यांचें, आमचें पोटापाण्याचेंय आसा. केरोशीन सोपल्यार स्टोव्हांत कितें घालतलो? मुखाल्लो मार्ग मेळतसर कितें मेळटा ते कामाक येतले.'' धाकल्याक व्हरून तें कोणा सरीं तरी दवरून येयलें. कंपनी लागीं पावतकीर तो अस्वस्थ हे वटेन ते वटेन पळयतालो. वासंतीक कळ्ळें, हो सोऱ्याक तळमळटा म्हण. पूण तें लांब लांब पावलां घालीत मुखार गेलें. तोवय मागीर तेच्या फाटल्यान गेलो. कंपनींत गेलार एक लांबच्या लांब शेड. शेडींत एके हारीन यंत्रां बसयल्लीं. तांचेर कामदार काम करताले. एक वटेन मेनेजराली केबीन आसली. दुसरे वटेन कंपनीचें आफीस आसलें. रामदासाक पळोवन कांय वेळ सगळे स्तब्ध जाले. वातावरण अचकीत गंभीर जालें. एकलोय रामदासा म्हऱ्यान येयलो ना. तो वासंतीक घेवन आफिसांत गेलो. तांणी हिशोब करून दवरिल्लोच आसलो. रामदासाली सय घेवन तांणी सोळा हजार सयशें रुपये मेजून ताचे सामकार दवरले. वासंतीन ते उखलून आपले पोतयेंत घायले.

ते परते येवंक भायर सल्लार थंय काम करपी बालचरण तांचे फाटल्यान येयलो. तो लेथ मशिनार काम करतालो. तो तांकां घेवन

कुशीच्या एका हाटेलांत गेलो. ताणें तांकां पावभाजी, चाय दिली. दोगां मर्दी उलोवणें चड जालें ना. पूण बालचरणान म्हटलें, ''दुसरी नोकरी सोद तूं. खंयूय नोकरी मेळटली तुका.''

''म्हाका आनी कितें बरें मेळटलें अशें दिसना बालचरण...''

बालचरणान धिटायेन वासंती मुखारच म्हटलें, ''तुवें सोरो सोडलार सगळें बरें जातलें.''

रामदास वोगच रावलो. पूण वासंतीन मनात म्हटलें, तो ह्या जल्मांत सोरो सोडटलो अशें म्हाका कांय दिसना. सात वर्सां पळयतां!

तो तांकां हात हालोवन वचूंक गेलो. तीं घरा येयलीं.

ते सांजवेंच रामदासान म्हटलें, ''आमी आतां गांवांत या वासंती. म्हज्यान आनी हिंगा दीस काडूंक जावचे नात.''

वासंतीक शिट् जालें. म्हटलें, ''मुंबयंत सोऱ्याचो नाच केल्लो पुरो जालो. गांवांत आनी नाच दाखोवंक या म्हणटा?''

आतां आपलो दादलो आवाज चडोवन रामदासान म्हटलें, ''हांव आनीक मुंबयंत रावचों ना म्हटलें न्ही!''

ते रातीक रातबर तें हाचेर चिंत्तालें. ताका न्हीद म्हण येयनासली. मर्दीच तेणें म्हटलें, ''गेल्ले आठ दीस तूं पियेलो ना. हे पुढें तुज्यान पियेनासताना रावंक जायना? तुगेलो सोरो न्ही जालार खंयूय आमच्यान रामराज्य करूं येता.''

तो घुसमटलोसो करून वोगच रावलो.

ह्या दिसांन वासंती खूब भागिल्लें. जोराचो वारो येयलार हुबून वयतलें अशें दिसतालें. पोटाक सारखें ना, तेतूंत भुरगें दूद ओडटालें. स म्हयन्यांचें भुरगें, तेगेली भूक वाडटेर वयताली. तें चिंत्तालें, हेका आतां भायलें खाण लावंक जाय. भायलें खाण म्हटलार शिताकुयां मुड्डून खावोवप इतलेंच! मेळिल्ले पयशे राखून बारीकसाणेन खर्चूंक जाय आसले. सोऱ्याची तलफ येयलार तो केन्ना मारून व्हरत, सांगूं नज आसलें.

तेणें खूब चिंतलें, चींत चींत चिंतलें. शेवटाक थारायलें, परतें गांवांत वयचें. घर आसा, मांय-मांव आसात, आपलो लोक आसा आनी पोटाक इल्लें शेत आसा. खरें तर शेत म्हटलें की ताका शिरांत दिसताली... म्हज्यान जावचो ना शेताचो वावर! आनीक, ताका दिसतालें, बापायच्या धाकाक, गांवलजेक ताचें पिवप घडये उणें जायत.

तो म्हयनो सोपूंक घराभाडें पावयलें आनी तांणी सामान बांदलें. कांय बाबत सामान थंयच सोडलें. एक पेटी, एक ट्रंक आनी एक साक इतलें सामान घेवन तीं गांवांत येवंक सुटलीं.

तीं भायर सरताना सगळे शेजारी तांकां इतले थीर, काकुटायेन पळयताले, वासंती तांकां चोरून घेवनच येयलें.

वाटेंत प्रवासांत रामदासान वासंतीक इल्लो त्रास जावचो न्ही म्हण बरी जतनाय घेयली. गाडी बदली करताना सोताच सामान उखलून हाडून गाडयेंत घालतालो. खंयूय गाडी रावलार स्टेशनार धांवन धांवन वचून खावंक पिवंक हाडटालो. ताका 'तूं भुरग्यांकच सांभाळ, म्हणटालो.

तिनसांज जाल्ली. खंय तरी वाटेंत गाडी निसरून वयतले वरी संथ धांवताली. पयसुल्ल्यो दोंगरांच्यो माळो क्षितिजा सयत फाटीं फाटीं धांवताल्यो. रामदास मोगान कसो वासंतीक तेंक्कून बशिल्लो. तेगेले मांडयेर बाबू आसलो. वासंतीकय ती मोगाची ऊब दिसताली. तेणें ल्हवच रामदासाल्या कानांत म्हटलें, ''लग्न जाल्ले स म्हयने बरे गेल्ले. बरें केल्लें तुवें म्हाका. मागीर व्यसनाक लागलो तूं. आता गांवांत आनी पिवंक फावना.''

ताणें म्हटलें, ''चयतां, मन घट करतां.''

''म्हजो सोपूत घे.''

''हाचे पयलीं सतरा फावट तुजो सोपूत घेवन मोडला हांवें. तुजें बरें-वायट जालार म्हाका कोण आसा?''

आयकोन वासंतीलें मन मोगान पानेल्ले वरी जालें. सोऱ्याचो हो श्राप न्ही जाल्यार बरेंच जातासलें आयुश्याचें! लोक ह्या विखाचीं दुकानां कित्याक घालून बसतात काय?

तीं बसान घरा वयल्या रस्त्यार येवन देंवलीं. कांय वेळ स्तब्ध उबीं रावलीं. वासंती मनांत म्हणटालें. हांव लग्न जावन येयल्लें तेन्ना हो गांव कितलो तट्टटीत पाचवोचार आसलो. आतां उजो भोंवन गेल्ले वरी काळसर हळदुवो दिसता. मुखाल्लो हो वडा रूख कितलो पाचवोचार आसलो. आतां ताची वयली एक खांदी सुकल्या आनी रुखाक मर येयल्ले वरी जाला. सकल्ले वटेन दोन गोटे आनी एक घर आसलें. थंयच एकै खोंपीचेर तांबडी पाटी लायल्ली आसली, 'देशी दारूचे दुकान'. पळोवन वासंतीक खप्प जालें. रामदास ते वटेन पळयता काय म्हण तें पळयतालें. पूण ताणें पळोवनय ना पळयल्ले वरी केलें.



एकलो दादलो रस्त्या वेल्यान येवन सकल गोट्या सरीं ताटी काडूंक वयतालो. ताच्या खांदार कांबळ आसली. रामदास ताका वळखलो आनी उलो दिलो. तो मुखार येयलो, कांय वेळ रामदासाक पळयत रावलो. मागीर ताणें अजाप जाल्ले वरी म्हटलें, ''कोण, शांबबाबालो पूत रामदास मुरे तूं? वळखलोंच ना हांव. भागला सामको, लांब गळोच दिसता.'' तांच्या सामाना कडेनय तो विचित्र नदरेन पळयतालो.

खरें तर दैनाच जाल्ली तांची. सडसडीत सोबीत बांध्याचें, चेहऱ्याचें वासंती भागून

बारीक काळसर जाल्लें. दोळ्यां भोंवतणी काळें पडिल्लें. भुरगींय खूब भागून कात कवळिल्ली.

रामदासान म्हटलें, "वेंकटमामा, हें सामान मात्शें घरा पावोवया."

वेंकटान कांबळीची चुंबळ करून तकलेर दवरली. पेट आपल्या माथ्यार उखलूंक सांगली. पेट वेंकटान तकलेर घेयली, ट्रंक रामदासान खांदार घेयलो. साक उल्लो, तो साक वासंती कंबरार मारूंक पळयतालें. एके वटेन धाकलें भुरगें, दुसरे वटेन साक. पूण वेंकटान म्हटलें, "जावचें ना तुजे कडेन. तो साक दोगांय मेळून पेटयेर दवरात."

ते घरा सरीं पावले आनी वेंकटान तकले वेलें सामान देंवोवन भायर वारांदांत दवरलें आनी तो तसोच फाटीं फिल्लो. रामदास ताका कितें तरी दिवचें म्हण खिशांत हात घालीत ताचे फाटल्यान येयलो. पूण तो सडसडीत पावलां उडयत वचूंक गेलो.

भायर जाल्लो आवाज आयकोन आवय भायर येयली. ती बरोच वेळ हांकां तटास पळयताली. तिणें बारीक चिरक्या आवाजांत म्हटलें, "बरोवप ना, कळोवप ना. हें सामान घेवन येयला, कितें म्हण समजुचें?"

रामदासान रागान एक फावट आंवय सरीं पळयलें. ती बाबूक घेवन भितर गेली. तिचे फाटल्यान वासंतीय चेडवाक घेवन भितर गेलें. रामदासान सामान एकेक करून भितर सालांत व्हरून दवरलें. आनी तो वोग थंयचे खुर्चेंत बसलो. आवयन च्याव करून हाडून दिली ती तो वोग पियेलो. तो इतलो निर्शेल्लो, परक्याच्याच दारांत येवन बसला कशें दिसतालें.

पयस मेरेन पसरिल्लो विसकळ असो गांव. पूण पयलीं कुल्यांनी, उल्यांनी आनी उलोवण्यांनी गजबजिल्लो आसतालो. आतां ताका तो थंड, पडींग कसो दिसलो. पयलीं गांवांतले कितले इस्ट आसताले भोंवतणी. आयटीआय करून येतकीर देड दोन वर्सां बेकारच आसलो. तेन्ना इस्टांचें एक गेंगच तयार जाल्लें. दीसबर हेडटाले, नाचताले आनी सांजचे देऊळ्या सोऱ्या दुकाना वयल्यान बाटली घेवन कंवडाळें करून मळार बसताले. तांतले दोग तीग जण गोंयच्यान चोरवाटेन



सोरो हाडून दुकानांनी दिताले. तेवय केन्ना बाटल्यो घेवन येताले. आतां खंय फासपले ते सगळे? हो सोरो मात गळ्यांत घालून गेले! ताच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं.

बाबाची मिलिटरीची शिस्त आनी म्हजें इस्टां वांगडाचें तें वागप हाचो मेळ बसनासलो. तो गाळी संवतालो, हातांत दांडो घेवन फाटीक लागतालो. गांवांत ही ब्याद नाका म्हण बाबान तेगेलो मावसभाव पुंडलीकअण्णा वांगडा म्हाका मुंबयंत धाडलो. स म्हयनेच आसलों हांव तेंगेर. तेन्ना पुंडलीकअण्णाचे बायलेन म्हाका कितलो त्रास दिला... सकाळीं चारांक उठोवन सकल्ल्यान माळयेर उदक हाडूंक लायताली. सान्नीकुटो मारून उठयताली. तुगेल्या बापायन तुजे वांगडा तांदळाचो मुडोय कित्याक धाडलो ना काय म्हण विचारताली...

आंगा वयले कपडेय काडी नासताना तो सालांत बशिल्लो. भायर वोत मोव पडून सांज काळशी पडूंक लागिल्ली. भायर भितर कसली उमेद नासली. भितर आवय आनी वासंती ल्हव आवाजांत उलयतालीं. कितें उलयतात काय? वासंती म्हज्यो चाडयो कांय सांगचें ना... आई म्हजे सरी कांयच बरें उलयल्ली ना!

इतल्यान बापूय येयलो. ताका पळोवन दारांतल्यानच म्हणूंक लागलो, "वाटेरच कळिल्लें म्हाका तूं येयला म्हण. जत्रा ना. परब ना, मदींच कसो येयलो? बरें मरे, हरशींच मरे?" मागीर ताचें लक्ष घेवन येयल्ल्या सामाना सरीं गेलें, "ही डोंबाऱ्याली बिटकी बांदून घेवन येयला तूं. कितें म्हणच कळना. कितें जालें, सांग तरी."

इतल्यान वासंती भायर येयलें. इल्ले धिटायेनच म्हटलें, "आमी मुंबय सोडून सदांचें येयलांत, बाबा."

"कित्याक, कितें जालें तर?"

"कितें आसा ते मुंबयंत, खेटाखेटींनी गाडयो आनी धुंवर. रस्त्यार पांय घालचो ना. म्हारगायेक जोडिल्लें पावना."

बापायन एकदम आवाज चडयलो, "आनी हिंगा कितें भांगराच्यो खणी आसात? सतरा पिळग्यांत सतरा फावट वाटणी जावन वाट्याक येयल्ली अडेच तीन खांडयेची जमीन. तेतून घोळून घोळून मेल्यार स म्हयन्यांचें पोट जावचें ना. पेन्शिनेच्यो चार कवड्यो मेळटात म्हण चल्लां. भायर गेल्ल्या लोकांनी लाखांनी जोडले आनी आमची ही दशा."

घरांत बरोच वेळ फक्कत घुसमट दाटून आसलो. कांय वेळान आवयन दारांत येवन म्हटलें, "न्हाणयेक उजो घातला, न्हावन घे."

तो उठलो. पूण ताणें आंगा वेलीं वस्त्रां काडलीं नात, तो भितर गेलो ना. तसोच भायर गेलो. आंगण पार करून चलूंक लागलो. वासंती दारांत येवन ताका फक्कत पळयत रावलें. भायर आतां काळोख पातळूंक लागिल्लो. सावळ्यांनी तो चडच दाट जालो. तो काळोख वासंतील्या काळजांतच भरून गेलो. तें मांयच्या पदरांत गेल्ले वरी तिचे सरीं वचून बसलें. इतलेंच म्हटलें, "गेलो तो आई. काळखांतल्यानच गेलो."

मांयन चुलींतल्या उज्याक दोन फावट जोरान फूंक मारली. उजो भग्ग करून पेटलो आनी मडकेचेय वयर गेलो.

रामदासाली सगळी कूड आक्रासून येयल्ली आनी तकली फुटूंक पाविल्ली. ताळ्याक सोऱ्याचो सोस पडिल्लो. आत्तां आत्तां सोऱ्याचो घोंट ताळ्यार पडचो अशें दिसतालें. तो चलत रस्त्यार आयलो. थंय

सान सोऱ्या दुकानार वयताना वाटेर एक सांकोव लागतालो. थंयच्या कट्ट्यार कांय भुरगे बशिल्ले. अठरा-वीस वर्सां पिरायेचे आसले. तांचे सरी एक सोऱ्या बाटली आशिल्ली. ती बाटली ते एकाच्या हातांतल्यान दुसऱ्याच्या हातांत दिताले. दर फावटी जण एकलो गुट्ट करून घोंट मारतालो. रामदासान मनांत म्हटलें, हें दुश्टचक्र ह्या गांवांत अशेंच चालू उरतलें अशें दिसता. हे फाल्या आमचे वरीच फासपतले, कितल्या जणांचे मानगुटेर सोऱ्याचें भूत सासणाचें बसतलें काय, खीणबर ताका दिसलें, हांकां गाळी संवन हंयच्यान धांवडावन घालचे, हातांत दांडो घेवन फाटीक लागचें. पूण तो वोगच थंयच्यान पासार जालो. ते कांय वेळ अनमानिल्ले वरी जाले. बाटली लिपयली. ताणें मनात म्हटलें, रेडो गू खावंक लागताना असोच तोंड लायलोसो, काडलोसो करता.

देवरायाल्या सोऱ्या दुकानार पावलो तेन्ना पांच-स जण भायर भितर आसले. रामदासाक ते वळखले. पूण हो मुंबयच्यान केन्ना येयलो तें खबर ना, एकदमच सोऱ्या दुकानार दिसलो, ते कुशीन कुशीन वोगच रावले.

तो थंय बरोच पियेलो. गांवची पिवची पद्धत ताका खबर आसली. एक फावट ग्लास वयर करून तोंडाक लायलो म्हणटकीर तो रितो करूनच सकल दवरचो. अशें रावन रावन तो तीन ग्लास तीन फावट पियेलो. कोण्णा कडेन कांय उलयनासताना तो वोग चलूंक लागलो.

फाटल्यान एक पिवडो म्हणालो, "मुंबयच्यान येयला. पूण आमच्या ग्लासांत अर्दो पाव रखय म्हण सांगलें ना देवरायाक."

दुसऱ्यान म्हटलें, "मुंबयच्यो पोक्यो खबरी त्यो... पेन्ट-बुटांचो पोको झेतच तो."

रामदासाल्या कानार गेलें, "कोण रे तो मायझंयो? पेंगट मोडून घालतलों. म्हगेले तीन बंगले आसात मुंबयंत. बेंकेंत आसात ते पयशे तुज्यान ह्या जल्माक मेजूंक जावचे नात. ह्या गांवा सयत तुका आनी तें सोऱ्या दुकान फाल्यां विकत घेता हांव."

ते कोण कांय उलयले नात. तो लखत लखत चलूंक लागलो. हेदोळचे ते सांकवा



वयले भुरगे उठून गेल्ले. तो आतां त्या सांकवा कट्टयार एकलोच बसलो. एका त्रागान असो तो पियेल्लो, अंमल चडच जाल्लें. थंय बसून तो रडूंक लागलो आनी सोता सरींच उलोवंक लागलो, "म्हजो गांव, म्हजें घर... हांव पितलों, आनीक पितलों. पूण वासंती, तुका आनीक मारचो ना हां, शप्पत तुजी... आई बाबा म्हजेर धेंगशेतात, म्हजो दुस्वास करतात. तेंकां पयशेच व्हड...!"

कांय वेळान तो उठलो आनी घरा वटेन चलूंक लागलो. दर एक पावल आडखळटालें आनी उलयताना जिबय लुबडी पडटाली. घरांत भित्तर सरताना तो लुबडी किळांचशी मारून कितें तरी उलयलो. पूण तें कोणाक कांय कळ्ळें ना. तो तसोच घरांत येयलो आनी एक मांदरी ओडून घेवन आड पडलो. आवय, बापूय, बायल सगळीं म्हऱ्यान येवन थीर पळयतालीं. एके कुशीन न्हिदिल्ले कडेन ताच्या तोंडांतल्यान उदक शें, लाळ शी भायर सरताली. आवय कपलार हात घेवन तकले सरीं बशिल्ली. बापूय कुशीन थीर उबो आसलो. थंय लागीं उबें आशिल्ल्या वासंतीक दिसतालें, हीं आतां हांगाच उब्या उबीं गोठेवन मरून वयतलीं.

बापूय मनांत म्हणटालो, बत्तीस वर्सांचो हो पोर! कितें दशा करून घेयल्या जिवाची! आमकां मरणां बेगिनच येवं दी, हाचे मुखाल्लें हें सगळें पळोवचे पयलीं! तो कितें तरी उलोवंक सोदतालो, तेन्नाच वासंतीन म्हटलें, "काल सान न्हावलो ना, दनपरां पानाखोल्यांत घेवन दोन पुरी खायल्ल्यो. घर म्हण येयला न्ही तो!"

बापूय अवसान गळिल्ले वरी ताचे सरीं बसलो. ताच्या आंगार हात दवरून म्हटलें, "ऊठ, उठून न्हावन जेवन घे. इल्लें तरी मनाक समाधान दी आमच्या!" ताचो ताळो घोगरो जालो. असहाय्य, मोडिल्ले वरी ताणें भूंयर फतकल मारलें. तेन्ना आवय आनी बायल दोगींयनी मुखार वचून मिठी घालून ताका उठोवन बसयलें. उबो करून न्हाणयेंत व्हयलें.

सकाळीं रामदास उठून हांथरुणार बसलो तेन्ना बायल आनी आवयची शेतांत वचुची धांदळ चलिल्ली. चवथ जावन गेल्ली. शेतांत नेराचीं कणसां कणशेवंक लागिल्लीं. तो नेर हुमटावन उडोवंक जाय आसलो. आवयन म्हटलें, "बाबा उठून केन्नाच शेतांत पावलो. गोरवां कोण आतां राखिनात, शेतांनी घुसतात तीं. आमी नेर काडूंक वयतात. तूं तोंड धुवन च्याव पिवन घे. चुलींतल्या इंगळ्यां सरीं दवरलां च्याचें आयदन."

इतल्यान शेजारची राधीआवय घरा भितर सरली. "भुरग्याक पळयता मुगे?" म्हणत मांय आनी सून शेता वटेन वचूंक गेलीं.

रामदास उठून तोंड धुवन च्याव पियेलो आनी तोवय शेता वटेन वचूंक सुटलो. म्हटलें, "राधीआवय, तुजेरच अख्खें घर पातेवन गेलांत मुगे तीं."

"रामदासा, राधीआवय चोर न्हूं. गांवार भीक मागून खायन पूण कोणालें कुसकूट हाफुडचें ना. पातेवन गेलात म्हणटा? तुगेलो आवय तारा तें, तें पळय सगळो म्हालमतो ओवरेंत घालून कुलप मारून गेलां." रामदास हांसलो.

रामदास घरा कडच्यान सुटून शेता वटेन वयतालो. वाटेर दोन व्हड माळये घरां आसलीं. एका घरांतलो तो प्रेमानंद वंय सरीं उबो रावन शेजांन्नीक म्हणटालो, "पंधरा दिसां फाटीं येवन गेल्लों तेन्ना त्या फाटल्या कवाथ्याक दोन व्हडल्यो पेंडी आशिल्ल्यो. आतां काडून घेतलों म्हण पळयलार नाच जालात."

"सोऱ्याक गेल्यो त्यो. रातचे माडार चडटात आनी पेंड दांतांक धरून सकल

देंवतात.''

''तुका मातशी नदर दवर म्हणिल्लें न्ही गे?''

शेजान्न तापली, ''हय, हांव रातची तुगेल्या माडा मुळाक वचून पान्याक बसतां. तुमकां नोकरीय जाय आनी गांवांतलेंय जाय. दोन व्हड्यांर पांय तुमचे. म्हयन्या दोन म्हयन्यांतल्यान येतात आनी वयर पेंडी पळयतात, सकल्लीं मुळां पळयनात. तुगेली बायल गांवांत येयलार मेडमूकशी पातळाक इल्ली माती लागूंक दिना.''

''गांवांत रावन आतां पोट भरता गे वयनी? वर्सबर शेतांत चिखोल कालयलो तरी स म्हयन्यांचें पोट जावंचें ना. लोक शेतां बंजर घालून नोकरे फाटल्यान धांवक लागलात. आतां तुमगेलेंच पळय न्ही, भाऊ तेन्ना शेत खूब आसा म्हण शेत धरून रावलो. किर्ते करूंक जालें?, तेन्ना पोलिसांत गेलार आतां पिएस्आय् जातासलो. मिलिटरींत गेलार सुभेदार जातासलो.'' वयनी 'हय तुजें' म्हणिल्ले वरी येद्दें तोंड करून उबी रावली.

रामदास थंय सान पासार जाताना सगळें आयकतालो. तेचें मन निर्शेणेन भरून गेलें. तेका सोऱ्याची ताळणी लागिल्ले वरी जाली. तरीय तो चलत शेता वटेन गेलो. ताका पळोवन आश्चर्य जालें, केरांत बरींच शेतां बंजर पडिल्लीं. कांय जणांन भोंवतणी वंय बांदून शेतां रोविल्लीं. ताका भंयशी दिसली आनी हुस्को जालो. मनांत म्हटलें, पयलीं ह्या शेतांचे मेरे सरीं इंच इंच जाग्या खातीर हे हाणामारीचीं झगडीं करून घेताले. एकदुसऱ्याचेर खोरें, कुदळ उखलताले. खंय गेले ते, खंय गेली तांची ती पोटाची गरज... भुरगेपणांत, मागीर तरणेपणांतय हांवें पळयल्लीं तीं झगडीं, तो घडघड. म्हज्या दोळ्यां हुजीरच हीं शेतां अशीं बंजर पडचीं! दिसता, सगळो गांव बिटकी कवळून नोकरी, धंद्या खातीर शारा वटेन तोंड करून आसा. हांव आनी खंय पावलों ह्या निर्वासी गांवांत! म्हाका हांगा सोऱ्या बगर दुसरो कसलो आधारच दिसना. वासंतीली तर शक्त हिंगा पावचीच ना.

तरी ताणें पळयलें, ताच्या वंय घायिल्ल्या शेतांत वासंती आवय वांगडा शिटूकपणान नेर हुमटितालें. शेतां कणशेल्लीं. त्या शेतांत नीट भांगो घालून शुभ्र धव्या कणसांचो नेर दिसलो की मुळाक हात घालून तें नेर हुमटितालें.

कुशीच्या बंजर पडिल्ल्या शेतांत पारपोळ गोरवां चरतालीं. तातून तो तांचे बैल सोदतालो. ते दिसना जातकीर ताणें व्हडान आवयक उलो मारून विचारलें, ''आई, आमगेले बैल खंय गे?''

''तुजो बाबा सोडून रानांत चरोवंक घेवन गेला. हेरां वरी पारपोळ सोडिना तो बैलांक.''

कणशेल्लीं शेतां आतां इल्लीं इल्लीं तांबशीं पडूंक लागिल्लीं. शेता वयले वटेन झाडामाडां मदीं हारीन पातळिल्लीं घरां, उपरांत दोंगर आनी रानां. सकल्ले वटेन रुंद व्हाळ भरून व्हांवतालो. तेचे सकल खाजन शेतां उदकान भरिल्लीं आसलीं. मळब नितळ आसलें आनी चोक्क वोत पडिल्लें. आज रामदासाक आपलो गांव आगळोच सोबीत दिसलो. पूण मदीं मदीं तीं बंजर शेतां तेका मानवलीं नात. तेची निर्शेणी गेली ना तरी तो आवय आनी बायल शेतांत वावर करतात थंय वचून मेरेर उबो रावन तेंचे सरीं बरो उलयलो. तेंकांय बरें दिसलें.

इतल्यान पारपोळ गोरवां वंय मोडून कोणाल्या तरी शेतांत घुसलीं. थंयची एक बायल गोरवांक हामडून घालतां घालतां गोरूंकारांक हिस्तहिस्तीन खेपूंक लागली. तो आवाज रानां धरून दोंगरा मेरेन बरोच वेळ घुंवलो.



आवयन म्हटलें, ''पावसाळ्यांत गोरवां केन्ना शेतांनी म्हण येयल्लीं? राखणे पावसबर रानांनी गोरवां राखत आसताले. काळ बदल्ला. सगळें आरतें परतें जालां. शेतांक किर्कोत करतात पूण पोटाक दाणोगोटो खावचो सोडनात.''

वोत चडच्याक मांयन वासंतीक म्हटलें, ''आतां वाऱ्यार धानार फूल खेळूंक लागतलें. तेन्ना मनशान शेतांत उबें रावचें न्ही.'' त्या काडिल्ल्या नेरांच्यो मुठी घेवन मेरेर आयलीं आनी घरा वटेन चलूंक लागलीं. वासंती शेतांत येत सान बारीक तेळटालें, मांयले तळमळे पळयतालें. तें आतां चिंत्तालें, गांवांचीं तोंडां आतां शारां वटेन, गोंया वटेन जावंक लागलांत. गांवांत शेतां पडींग पडूक लागलांत. गोरवां पारपोळ पडलांत, तेतून हेगेलो सोरो! मुंबय परस तर हिंगा सोरो चड आसा. गोंयच्यान रानवाटेन वोजीं येतात सोऱ्याचीं. कशें तग धरतलें हांव हिंगा भुरग्यांक घेवन! ते भोव अस्वस्थ जालें. एक उतर उलयनासताना मांय फाटल्यान घरा वटेन चलूंक लागलें.

भुरग्यांची सकाळची शाळा सुटिल्ली. भुरगीं केन्नाच घरा गेल्लीं. पूण गांवचे शाळेचो सुधाकर मास्तर रस्त्या वयल्यान सकल देंवन येताना वाटेर तांचे म्हऱ्यांतल्यान गेलो तेन्ना घम्म करून सोऱ्याचो वास येयलो. वासंतीली मांय तारामती रागान झिडपली. ती तेचेर आड्डली, ''मडेंखायरो! मास्तर खंय. सोऱ्यांत लोळटा आनी भुरग्यांक शिकयता किर्ते? एक दीस गांवचे लोक मारून गेल्ले तुका शाळेंत.'' ती रागान थरथरताली.

सुधाकर मास्तर थाल्लो. ''हांव म्हज्या पयश्यांतल्यान पितां. तुजे कडेन मागूंक वचना, सरकार म्हाका म्हयन्याक साडेसात हजार रुपये पगार दिता.''

''सोरो पिवंक?''

''खावंक, जेवंक, सोरो पिवंक... सगळ्याक.''

''आरे मास्तर मुरे तूं मेल्ल्या.''

''मास्तरान सोरो पिवचो न्हूं म्हण खंय बरयलां? देव लेगीत सोरो पिताले. मावशे,

म्हजे शाळेंतलीं भुरगीं इतलीं हुशार,फाल्यां कलेक्टर जावन ह्या गांवाचेर सत्ता चलयतलीं.''

''मेलो तूं. सोऱ्या वयलीं बातां.''

''मावशे, तुगेलो चलो मुंबय सान येयलो खंय न्ही? चवथ जावन मर्दीच कसो पावलो गे तो?''

वासंतीन काय खीण रागान ताचे सरीं पळयलें. मागीर मांयक तें ओडून घेवन येयलें. ती मास्तराक गाळी संवतच आसली. वासंतीन म्हटलें, ''हांव लग्न जावन येयल्लें तेन्ना स-सात वर्सां फाटी इतलें नाशिल्लें. पिताले कोणय लिपून दोपून. आतां हें अशें कशें?

''सोऱ्याचीच मर येयला गांवार.''

''खरें सांगू, म्हाका भुरग्यांक घेवन परतें मुंबयंत वयचें अशें दिसता.''

तारामतीन एक फावट परके तीख नदरेन वासंतीक पळयलें आनी म्हटलें, ''आमी आफयल्लें तुका? वयचें जाल्यार वच मुगो, आमी आडावचे नात. हिंगा रावन म्हज्या घोवालें आयुश्य उणें करतलीं?''

वासंतील्या दोळ्यांत सट्‌करून दुकां उबीं रावलीं. तें दुकां गळयतच घरा येयलें.

मुखाल्ले चार दीस रामदासच गोरवांक चरोवंक घेवन वयतालो. तीग-चोवग राखणे आपल्या गोठ्यांतल्यान गोरवां सोडटाले आनी पयस पयस रानांनी चरोवंक व्हरताले. दर एकल्याल्या एका तरी गोरवाल्या गळ्यांत गडगडी आसताली. गोरवां खंयूय आसलार ते गडगडी वरवीं कळटाली. पयस खोल रानांत गडगडी वाजूंक लागली म्हणटकीर जीव ते वटेन ओडिल्ले वरी जातालो. ते वोत चडच्याक शिंदोरेंत बुती घेवन वयताले आनी सांजचे गोट्यांत गोरवां घालून परतताले.

चवथ्या दिसा सांजचो काळोक पडूंक येयलो तरीय रामदास घरा परतलो ना. मांय आनी सून खूब हुस्क्यान घरा भायर भितर करताली. मांव पडट्या काळखांत वोग वासरेंत बशिल्लो. मांय तारामती नज जावन बाळारामा सरीं गेली. तोवय ताचे वांगडा गोरवां घेवन वयतालो. तिका पळोवन बाळाराम बेगीबेगीन आंगणांत येयलो. म्हटलें, ''येयलो ना मुगे तो अजून? येवचोच ना इतले



बेगीन. गोट्यामाळ्यार ना तर आनीक खंयूय बसलात आसतले.''

''कित्याक म्हणटा तूं?''

''दनपरां मुगे गोंयच्यान पांय वाटेन एकलो सोऱ्या बाटल्यां वोजें घेवन येतालो. रामदासान आनी वेंकटेशान तेका धमकावन एक बाटली काडून घेयली. हांव थंय नाशिल्लों. भितर रानांत आशिल्लों. वाटेर व्हडव्हडान उलयल्लें आयकोंक येतालें. मागीर म्हाका कळ्ळें, बाटली काडून घेयली म्हण. वेंकटेशान बनयाना भितर चड्डेंत दामून दवरिल्ली.''

तारामती वोग परत आयली. घरांत भितर सरतकीर तिणें तिडकीनशें म्हटलें, ''परत गेलो तो मूत पिवंक, कोणाल्या वोज्यांतली बाटली काडून हाडिल्ली खंय.''

घर कितलो वेळ तरी दाडमणा बशिल्ले वरी सुस्त आसलें. भायले वासरेर एक बल्ब पेट्टालो. कुशीन एके खुर्चेंत बापूय घुसमटत बशिल्लो. वासंती दोगांय पोरांचेर हात तेंकोवन पोटांतलो खपखपो जिरोवचो यत्न करतालें. मांय वाडची, जेवची खबरय करनासली.

बऱ्याऽ वेळान तो आयलो. पुराय सुद्दी भायर गेल्लो. तो सोपणां चडून घरांत रिगताना बापायक चेड्डेंत खोवयल्ली अर्दी रिती बाटली दिसली. तो रागान उडून येयलो आनी ती बाटली ओडून घेवन आंगणा भायर मारली, ''मायझंवो, गांवार पिवन आनी ती गूघाण घेवन घरांत येयला... पिता आनी वयल्यान चोरूंक शिकता गरिबालें.''

''बाबा, चोरूंक ना. दिली तेणीं आमकां गांवचे व्हडले गांवकार म्हण. तुका सांगतां, ह्यानपुढे हांव चोरचोंय ना आनी तुगेलें फुक्याचें खावचोंयना. पुर्वजांलीं शेतां वसतल्लों. पिकेर भातान घर भरून दार वोत्तलें. म्हजी बायल घट आसा शेतांत वावर करूंक. तुगेली पेन्शन आमी खावंक येयलांत म्हण रडटात.''

''पडींग पडूंक लागिल्ल्या शेतांची खबर सांगता, ते परस खंयूय वचून इल्ली नोकरी धर. शेताच्या कामाक एक कामदार आफयल्यार तो दिसाक शंभर रुपये मागत. भुकेकंगाल धंदो जाला तो.''

तो तसोच भितर गेलो, ''आई, वाड मुगे. दीसबर गोरवां फाटल्यान भोंवन पुरो जालां...''

वासंतीन रागान ताचे वटेन पळयलें आनी म्हटलें, ''सोरो पिवन पोट भल्लें ना?''

''वासंती, तोंड बंद कर, तुजीं शाणेपणां नाकात.'' तो तेका मारूंक आंगार गेलो. आवय मर्दी येवन उबी रावली. म्हटलें, ''आंगाक हात लावन दाखय तेगेल्या. तकलेर दांडो पडटलो तुगेल्या.''

तो थंड जालो. तोंडांतल्या तोंडांत म्हणालो, ''मुंबयंत कांय उलयनासलें. मोन्यान रावतालें. हिंगा सगळीं तेचींच मनशां. म्हजो कोण ना.''

वासंतीन दोन मणी दवरल्यो आनी घोवाक आनी मांवाक वाडले. मांव जेवताना ताटांतलें शीत रागान मुड्डूनसो जेवतालो. मांय थीर ताका पळयताली. चिंत्ताली, आमकां आनी म्हातारपणांत सूख ना. तिगांय चेडवांलीं लग्नां जातकीर दिशिल्लें, आतां सुखान रावतलीं... हो आतां मर्दीच मुंबयच्यान येवन उबो जाला!

वासंतीलो व्हडलो भाव तुकाराम गोंयच्यान घरा रायकेरी येयल्लो. बापूय शंकराप्पा वासरेंत वोग बशिल्लो. एक हात

त्राण नाशिल्ले वरी थरथरतालो. तुकारामाक पळोवन आकूळपिकूळ जावन उलोवंक लागलो, ''पुता, तुकारामा, तूं गोंयांत उरता. थंय पावला पावलार सोऱ्या दुकानां. तूं थंय सोरो बी पिना मुरे? पिवं नाका अजिबात. तोंडाक लावं नाका. वीख तें, मनशाक कणाकणान मारता. संवसार मातयेभरवण करता. बायलेक भुरग्यांक हाल अपेस्टा सोंसच्यो पडटात. पयसोय वयता आनी अब्रूय वयता.''

''हें अशें आज कित्याक उलयता तूं आप्पा? गोंयांत अशें ना. इतलीं बारां आसात पूण खंय झगडीं नात, रस्त्यार पडप ना. हिंगाच ही सगळी धांदळ जाता.''

''खरें तुजें तें. तो हिंगाच्यानच व्यसन घेवन मुंबयंत गेल्लो. ''

''कितें जालां आप्पा, खंयची खबर सांगता तूं?''

''आमगेल्या वासंतीलो घोव नोकरी वचून येयलो मुंबयच्यान. सोरो पिता म्हण नोकरे वयल्यान काडलो खंय तेका. गांव भल्ला सगळो. वायट खबर बेगीं फासपता.''

आयकोन तुकाराम सुन्न जालो. फाटले भयणीचेर तागेली खूब माया आसली. बापायन घाईघाईन सोयरीक करून भयणीक ताका व्हरून दिलें म्हण तो जायते फावट राग काडटालो.

''पुता, तूं बायगेर वचून तेगेली खबर घेवन यो. म्हाका इल्लोय त्राण ना जिवाक.''

आवय मुखार आयली, ''फाटीक फाट लावन येयल्ली भयण ती तुगेली. तुंवेंच पळोवंक जाय न्ही तेगेलें. यो, हात पांय धुवन पयलीं जेवन घे.''

जेवंक बशिल्लो तेन्ना तो आवयक कितें कितें विचारतालो आनी मर्दीच रागान फुटूंक पाविल्ले वरी भयणील्या घोवाक संवतालो.

दनपरां जेवन तो भयणीगेर वचूंक सुटिल्लो. बसीक अर्द तासाची वाट. पूण बस येवंकच कळाव जाल्ल्यान इल्लो उसरांच तो पावलो. वासंतीली मांय टापटिपेची. घर नितळ राखिल्लें. भावाक पळयतकीर वासंती धांवन धांवन दारांत येयलें. तें अण्णा म्हण जाप दिवन काळखाक उजवाडाची देग येवची तशें हांसलें. तुकारामाक दिसलें, हांवें भुरगेपणा पसून पळयल्लें, लग्न करून दिल्लें वासंती हें न्हीच. तें इतलें भागिल्लें, इतलें काळशें नाशिल्लेंच. दोन काळे नितळ दोळे सोडलार हेर कांयच उल्लें ना आतां. तेगेलें धाकलें सालांत किरकिरत रडटालें. चेड्याक चार वर्सां निकर्तीच सोंपिल्लीं. तो शेणून पडिल्ले वरी भित्रो कसो वोग-वोग बशिल्लो. मामाचीय वोळख ताका पटनासली.

रामदास घरांतच आसलो. बोते पडिल्लेंशें बनयान आनी चड्डी घालून वासरेर खुर्चेंत बशिल्लो. ताका पळोवन उठलो आनी भायर आंगणांत वचून उबो रावलो.

कांय वेळ कोण कांयच उलयलो ना. वासंतीन विचारलें, ''गोंय सान केन्ना येयल्लो अण्णा? आई, आप्पा कशे आसात?'' आप्पा बरो ना तें जाणा आसलें. पूण ताचे विर्शी मुखार कितें विचारुंकच भिरांत दिसताली.

''आसात. आईलो बायलजल्म, सोंसता ती. पूण आप्पाच्यान सोंसूंक नज जालां.''

रामदासान जाप घातली, ''कितें सोंसूंक नज जालां म्हणटा तूं?''

तुकारामान तीख आवाजांत म्हटलें, ''तुमी मुंबय पाड घालून येयलांत तें.''

''हांव म्हज्या घरा येयलां. तुमकां कित्याक दुखता तें?''

''अरे, तुगेलीं बायल भुरगीं आसात. ह्या गांवांत कशें जातलें तुमचें? आवय - बापूय केन्ना मेरेन पावतलीं?''

''आमचे भोग आमचे कडेन.''

''अरे, ती म्हगेली भयण मुरे...''

''मगेर तेका व्हरून दवरून घेता कुळरा? घेवन वच आत्तांच.''

तुकाराम इल्लो गरम तकलेचोच. तातूंत आनी पोलीस. वासंतीन तेका कुरू करून विनयलें, वोग राव म्हण. तो भयणी खातीर वोग रावलो. तो जाणा आसलो, भयणीच्या दारांत येवन भावान राग काडप समा न्ही. तेचो त्रास उपरांत भयणीकच भोगचो पडटा. तो वोगच रावलो.

रामदास कांय वेळ भायर भितर गणमणत रावलो आनी मागीर आंगार शर्ट चडोवन खंय तरी वचूंक गेलो.

फाटल्यान तुकाराम वयता म्हण उठलो. वासंतीन तेका हाताक धरून बसोवन घेयलें.



म्हटलें, कळाव जाला, फाल्यां सकाळींच वच. बाबा शेतांत गेल्लो अजून येवंक ना. तेका मेळनासतनाच वयतलो?''

मांव शेतात गेल्लो येवंक सांजच जाल्ली. तो घरांत भितर सरताना सांगतालो, ''कणशेल्लें धान वाऱ्यान बागवोन वाटेमेरेर पडिल्लें. तें परतें फिरयलें. लोक असो मुडदार. धान वाटेर पडलार चयनासताना माडायत वयतात.'' तेणें बऱ्या हांसत्या तोंडान तुकारामाक जाप केली. मागीर हातपाय धुवन येवन तो ताचे सरीं उलयत बसलो. तुकारामान बारीक पळयलें, तेका पयलींची शक्त उल्ली ना. खांदे पडलात. तोंडा वयल्यो मिरयो खोल गेलात. दोळ्यांतय कसलें तेज ना.

ते बरो वेळ उलयत बशिल्ले. पूण सोऱ्या विर्शी. मुंबय विर्शी कांयच उलयनासले. फक्कत शेताभाटाच्यो, म्हारगायेच्यो, गांवा वेल्यो खबरीच उलयताले. पूण रात पडूंक लागली तरी रामदास घरा परतूंक नासलो. मांय आनी सुनेन बरें रांदिल्लें. तीं वाडूंक वाट पळयतालीं. दोगांय अस्वस्थ परतीं परतीं दारार येवन भायर पळयतालीं. पूण रातचे साडे धा जाले तरी तो नासलो. आवयन एक फावट आकुळपिकूळ जावन घोवाक म्हटलें ''तुमी वचून पळोवन तरी येयात न्ही.''

घोव तापलो, ''खंय सोऱ्या दुकानां सोदत

मोंव म्हणटा? वाटेर पडिल्लो आसलार उखलून हाडूंक माका त्राण ना.''

तुकाराम एक हडेलहप्पी पोलीस हवालदार. हें सगळें पळोवन निर्शेवन, शेळेवन गेल्लो. भितरल्यान एक रागाची तिरीप आसली. पूण तो राग हांगा उकतावंक जायनासलो.

तेन्ना हातांत चिमणे दिवो घेवन घरा वटेन कोण तरी येता तें दिस्टीक पडलें. वासंती आनी मांय बेगीबेगीन दारांत येयलीं. कांय वेळान चिमणे दिवो आंगणांतच पावलो. हातात चिमणी घेवन मोगूमावशी उबी आसली. ती सावळीच आसली. तो चिमणेचो तांबसो उजवाड रक्तचंदन माखिल्ले वरी तिच्या वेहऱ्यार पडिल्लो. जाणटेली मोगूमावशी थंय पयल्यान एका घरांत एकलीच रावताली. तिगेलो घोव फार्टी मेल्लो.

''कितें जालें गो मोगू?'' मांयन हुस्क्यान विचारलें.

''तुगेलो पूत रामदास मगेले पडवेंतल्या ओट्यार येवन न्हिदला. खूब पिला. घरा वच म्हटल्यार कसोच उठना. तुमकां सांगूक जाय न्ही...''

बापूय आयकतालो. पूण तो उठलो ना. वासंतीन थंय टेबलार आशिल्लो बेटरे दिवो घेतलो आनी तें मांयक घेवन मोगूमावशे वांगडा गेलें.

तो ओट्यार आडवो पडिल्लो आनी सोऱ्याचे घुंवळेंत बडबडटालो. दोगांयनय तेका दोन वटेन धरून उबो केलो. तेचे पांय भूंयक लागनासले. तरीय तेचे बावळे घट खांदार धरून तेका ओडतशें हाडलें. तो पुराय वेळ ओटांतल्या ओटांत सगळ्यांक गाळी संवतालो. तो मेर बळांटून आंगणांत पावलो आनी दोनय पांय नीट भूंयर तेंकोवन तायटसो जालो. दारांत पावतकीर ताची नदर तुकारामाचेर पडली. तो आड्डलो, ''आमी आमच्या कश्टाचे पितात. लूट मारिनात तुजे भशेन. तुका चोराक सोरोय फुक्याचो आनी पयसोय फुक्याचो. मागीर आमकां शाणेपणां...''

दिशिल्लें, आतां बापूय उठ्ठलो आनी ताचेर एक थापट दितलो. नातर तुकाराम उठून घरा भायर चलूंक लागतलो. सगळे तटास वोगी. आवयन ताच्या बावळ्याक हिसडो दिवन ताका भितर ओढून व्हयलें आनी मदले कुडींत व्हरून धुकल्लें. तो थंय जमनीरच आड पडलो. वासंतीन ताचे वटेन पळयलें लेगीत ना. तें तशेंच भायल्या उंबरार येवन बसलें, काळखा वटेन तोंड करून.

घरांत सोयरो बशिल्लो आसलो. ताका रातचो उपाशीं दवरूंक फावना. मोटो पेंच आसलो. आवयन म्हटलें, ''तुकाराम, तेचें सोड. तुमकां वाडटां हांव. जेव तूं. तूं उपाशी रावलार आमका सद्गती ना.''

बापूय एका बऱ्या दादल्या वरी उठलो. तेणें तुकारामालो हात धरून तेका उठयत म्हटलें, ''सोरो पिल्ल्यान उलयल्लें आनी सुण्यान भोंकिल्लें सारखेंच. तूं तुगेले भयणील्या घरांत म्हण तरी जेव.''

तुकाराम भयणील्या मांवा बराबर बसून वोग जेवलो. ते उठ्ठकीर मांय घोवाल्याच ताटांत थोडें शीत घालून घेवन जेवली. रामदासाली खबर कोणें केलिना. हांथरुणार पडचे पयलीं मांयन वासंतीक म्हटलें, ''तूं इल्लें जेवन घे मुगो.''

तें मांयचेर किसळ्ळें, ''हांव जेवूं ना तर मरूं. तूं खबर करूं नाका.'' तें तशेंच वचून न्हिदलें. त्या दोगांकय उठोवचो धीर मांयक नासलो. मांव भितरले भितर घुसमट्टालो. भाव तुकारामाली उमेदच मेल्ली. कितें उलोवचें अशें दिसच नासलें.

तो सकाळीं बेगिनच उठलो आनी तोंड धुवन वचूंक सुटलो. वासंतीन तेका बेगीबेगीन एक कप च्या करून दिली. तें तेका आकाड्या मेरेन पावोवंक गेलें. तुकारामान म्हटलें, ''ताचे मुखार आनीक आनी येवचें म्हण उल्लें ना. गाळीच खावचें.''

वासंतीचें हड्डें घट जावन भरून येयलें, ''अण्णा, हांवें दोगां भुरग्यांक घेवन कशे दीस काडचे हिंगा?''

तुकारामान एक फावट भयणीक मोगान, काकुटायेन आरपार पळयलें. म्हटलें, ''यो तूं, येवन आठ दीस कुळरा रावन वच.''

''आतां येयना हांव. येवंक जावचें ना. मांय मांवाचे पांय धरून हिंगाच रावतां.'' तुकाराम वोग चलूंक लागलो.

नोकरे वयलो काडटकीर कंपनींतल्यान



मेळिल्ल्या पयशांतले अकरा हजार आनी थोडे वासंतीले ट्रंकेंत आशिल्ले. येताना तिकिटाक आनी हेर खर्चाक म्हण दोन हजार रामदासान घेयल्ले. वाटेर आठशेंक खर्च जाल्ले आसतले. उरिल्ले तेणें येत सान सोऱ्याकच मोडले. उरिल्ले तेवय तो मारून काडून व्हरत म्हण वासंतीक भिरांत दिसताली. एक दीस तेणें घोवाक म्हटलें, ''उल्लात तेतूंतले धा हजार व्हरून गांवचे बँकेंत दवरल्या. अडीअडचणीक जातले.'' वासंती सोता पयशे घेवन ताचे बराबर बँकेंत गेलें. तेका दिसतालें, पयशे आपल्या नांवारच दवरचे. पूण थंय दादलो असताना झुटास्न मुखार वचून सय कशें करतलें? तेच्या नांवारच पयशे घायले. तें बरेंच चुटपुटलें तरीय तेणें पासबूक आपणा कडेन दवरलो. इल्लें सुगूर दिसलें.

बापायक ब्लडप्रेशराचें दुयेंस आसलें. म्हयन्यांतल्यान एक फावट तो तालुक्यांत वचून तपासून घेवन वखदां घेवन येतालो. तरीय शेताभाटाचो वावर करचो सोड नासलो. लोकांक म्हणटालो, हांव दीसबर हातपांय हालयतां म्हण बरो आसां. रामदासालें पिवप, उलोवप, वागप पळोवन ताचें मस्तक पेट्टालें. पूण तो कश्टान सोंसतालो.

तांच्या घरा मुखार रस्त्यार वयले वाटेर एका घरांत जाण्टेलो बाळकुश्टा आनी तेगेली बायल दोगांच रावतालीं. तेंगेले दोगय पूत नोकरेक गोंयां उरताले. तो इल्लो साध्या सरळ मनाचोच आसलो. एक दीस सकाळीं रामदास घराकुशीच्यान वयताना तेणें हटकिलें आनी

म्हटलें, "मुंबयंत नोकरे वयल्यान काडलो रे तुका? कित्याक काडलो, कितें केलें? पिवन धांदळ करता म्हण काडलो? कित्याक इतलें पिता पापया? बायले-भुरग्यांक एक दीस वीख झरोवन दिवचें पडटलें."

रामदास कांय उलयनासताना गेलो. त्या दिसा दनपारचोच खूब पिवन येयलो आनी वाटेरच बाळकुश्टाल्या घरा सरीं उबो रावन तेंकां गाळी संवंक लागलो. सामको तिडकीन, गळ्या कडच्यो शिरो ताणत नांव घेवन व्हडव्हडान गाळी संवतालो. तो जाणटो म्हण धरनासताना बुरश्यो गाळी संवतालो. तेगेली बायल मर्दी उलोवंक येयलार तिकाय संवतालो.

बापूय शांबा ती बोब आयकोन दारांतल्यान आंगणांत येयलो. वासंती, आवयूय तेचे फाटल्यान येवन उबीं रावलीं. शांबा चिंत्तालो, भुरगेपणाक केन्ना तेंगेल्या पुता वांगडा तेंचे पडवेंत खेळिल्लो हो बाळकुश्ट. म्हजे परस चार पांच वर्सांनी व्हड. म्हागेल्या तिगांय चेडवांल्या लग्नाक तो घरचोच कसो वावुरिल्लो. येताना वयताना मायेन जाब करतालो. तेकाच हो असो गाळी संवता! सोरो पळय मनशाक कसो राकेस करता! एके भिरभिरे सरशीं तो थंय गेलो. तेणें रामदासाक हाताक धरून सरसरीत ओडून हाडलें. ताचे फाटीर आर्दी एक थापट शेवटिलें मागीर तेका तशेंच धुकलून दिलें. तो थंय शेंकऱ्यांत ओमथो पडलो.

तो उठल़ोसो करत बापायकच संवंक लागलो, "बाबा, तुवें माल्लें म्हाका, पळोवन घेतलों, दाखयतलों. म्हाका जिवानशीं मारून उडोवंक उठला तूं..."

त्या दिसा सान बापूय आनी पुता मर्दी आत्र्यापयऱ्यान झगडीं जावंक लागलीं. पयलीं पयलीं शेजारी कान दिवन आयकताले. मागीर तेंकां तें सदाचेंच जालें. चड जालें की आवय मर्दी पडटाली. ताचे फाटीर धुमके घालताली. मागीर तो आवयकय गाळी संवतालो. कुलकुलाट बोब जाताली. मदी वासंतीलो घुसमट. तें मर्दी पडलार तेका एक तरी थापट खावचें पडटालें.

हे लोक गांव, वाडो, शेजारी करून जियेताले. पूण घरां इतलीं पयस विस्कळ, संकस्टाक उलो माल्लारय पाव नासले. झगड्यांक मात कान लावन रावताले.

रोखडीच लुवणी मळणी सुरू जाली. वासंतीन पेंगट बांदलें. तें घोवाक बळयां ओडून घेवन सकाळींच शेतांत वयतालें आनी दनपर मेरेन लुंवत रावतालें. वायंगिणी गांवचे दोन कामदार लुवंक आशिल्ले. तेंचे वांगडा तांकीन शेव मारतालं. रामदास लुंवतालो उणो आनी उबोच चड वेळ रावतालो. तरीय वासंतीक बरें दिसतालें, तो वावराक गुंथला म्हण. वासंतीलो फाटी कणो वोळून येतालो. कमर दुखतालें. विळो धरून हात दुखताले. पूण तें कांयच दाखय नासलें. सर्व तांकीन कामाक झुडटालें. मांव केन्ना मेरेर उबो रावन पळयतालो. मनांत म्हणटालो, हाचे कुडीर ना मूठबर मास. खंयच्यान हें शक्त हाडटा अशें घोळूंक! हांव वोगच म्हणटालों, हेच्यान शेताचो वावर जावचो ना म्हण!

एक दीस लुवतां लुवतां पावस माथ्यार येयलो तर वासंतीन सगळ्यांक वावराक धांवडायलें. सामकी धांवपळ करून काल आनी आज लूवन घायल्लें भिजूंक ना दितां हाडून गुड्याक घायलें. वासंती तर तकलेर धाना वोजीं घेवन धांवतालें खळा वटेन.

आतां पयलीं वरी नाशिल्लें. लुवंक येयल्ल्या दादल्या कामदारांक सांजचो सोऱ्यापाव दिवचो पडटालो. ना तर ते रातचेच धांव मारतीत म्हण भिरांत आसली. रामदास आवय कडच्यान ना तर वासंती कडच्यान पयशे घेवन तेंका सोऱ्या दुकानार घेवन वयतालो. तेंचे बराबर सोताय पिवन येतालो. पूण तो आतां बोवाळ करी नासलो. तेंचे बराबर मोटमोट्यान खबरी करीत बसतालो.

सगळें तीन खांडयेचें शेत. आठ दिसांत लुवन जालें आनी मुखाल्ल्या पांच-स दिसांत मळणय जालें. पयलीं वरी खळार धानाची गुडी घालून दवरची, खळ सोबोवन सुशेगाद मळची पद्दतच गेल्ली. पावस चुकयत धांवपळ गडबड करून वलें भात घरांत हाडून घालप आनी वलें तण तशेंच राशीक घालप. पूण ह्या कामाक वासंतीन सोताक पारखून घेयलें. बरेंच शिकून घेयलें. सांजचो घोव पिवंक वयतालो तरी दीसबर शेतांत आशिकुशीक आसतलो. तेका बरें दिसतालें.

आपलें लुवन मळून जातकीर तें मांय-मांवान नाका नाका म्हणटाना हेरांगेर आठ दीस कामाक गेलें. म्हटलें, "आतां कामाची संवय जावंक जाय म्हाका. तुमी केन्ना मेरेन पावतलीं? हे पुढें म्हज्या दैवांत आसाच तें."



ह्या गोपमळ गांवांत सोऱ्याचो हुंवार फुटिल्लो म्हटल्यार जाता. गोंय सिमेंतल्यान चोर वाटेन वोज्यांनी सोरो येतालो. थोडो ह्या गांवात थारतालो, बरोच भितरल्या गांवांनी पावतालो. न्हंयची एक पोंय गांवा सकल मेरेन येयल्ली. तेतूंतल्यान व्हड्यान न्हंयंत पावलार मागीर खूबश्या गांवांनी वचूं येतालें. हंयच्यान सोरोच न्ही, रानांतलें लाकुडय चोरयेन वयतालें. कांय लोक सोऱ्याच्या आनी लाकडाच्या धंद्यांतय लागिल्ले आसले.

लुवन मळून जावन आतां शेतांतलें उदक सुकिल्लें आनी पुराय गांवांत वयता थंय क्रिकेट खेळाचे मांड पडिल्ले. आठ-धा वर्सांचीं भुरगीं धरून वीस-पंचवीस वर्सांचे तरनाटे मेरेन शेतांनी क्रिकेट खेळटाले. आयतारा तर सगळी कडेन क्रिकेटाचोच जोर चडिल्लो आसतालो. तांतले चडशे शाळांनी शिकपी, एस्.एस्.सी., बारावी नापास जाल्ले, नोकरे खातीर खंय खंय फेरी मारून आयल्ले भुरगे आसताले.

पयलीं शिकताना क्रिकेट खेळून खेळून नापास जावप आनी मागिरय क्रिकेटांतच गुंथून पडप. वाड्या वाड्यार एकेक टीम आसली. त्या टिमाक एक कप्टन. तो गांवांत हिरो कसो भोंवतालो. बरे शिकून पास जाल्ले भुरगे नोकरेक खंय खंय गेल्ले. गाळिल्लेच गांवांत उरिल्ले.

येता त्या आयतारा बोरीवाडो आनी देऊळवाडो हांचे मदीं एक दिसाचें क्रिकेट मॅच थारिल्लें. मॅचाचो खर्च म्हण दोनय टिमो पयशे एकठांय करताल्यो. नोकरेंतल्यान रजेर येयल्ल्या कडच्यान, दुकानदारा कडच्यान, सोऱ्या दुकानदारा कडच्यान तेणी पयशे घेयले. तशेच रस्त्यान वयतले ट्रक्स आडोवन तेंचे कडच्यानय पयशे काडले.

मॅची दिसा शेतांत मोटो चकचक आसलो. एक ल्हान रंगरंगाचो शेमियानो लायल्लो. मायक, लावडस्पिकर आसले. शेमियान्यांत कांय खुर्च्यो दवरिल्ल्यो. खुर्चेंत गांवचे थोर-मोटे बशिल्ले. गांवच्या एका रिटायर्ड फौजदारान मॅचीची सुरुवात करून दिली. पयलीं केन्ना खेळून आतां गांवचे सोसायटींत क्लार्क आशिल्लो सदानंद अंपायर आशिल्लो. मायकाचेर एकलो मोटे उमेदीन व्हडान कॉमेन्ट्री करतालो. ग्रावंडा भोंवतणी बरोच लोक उबो आशिल्लो. ते टाळयो, शिटी मारताले. दोनय वटेचो खेळ दीसबर बरोच रंगलो आनी शेवटाक देऊळवाड्या वेली टीम दोन विकेटान जिखली. तांणी एकशें एकावन्न रनांचो पाठलाव केल्लो. सात चेंडू आसतानाच ते जिखले.

ह्या जैताचो सांजबर मोटो घडघड चलतालो. फुगोट्यो फुट्टाल्यो. जयजयकार करताले. वयर रस्त्यार मोटो गजबज चलिल्लो.

रातचे अकरा वाजले तरी तो बोवाळ थामनासलो. जिखिल्ले जिखले म्हण खोशयेंत पिताले, हारिल्ले हारले म्हण दुःखांत पिताले.

त्या दिसा रातचो साडेअकरांक रामदास घरा पावलो. पिवन पांय भूंयर थारनासले. आवयन इतलो वेळ खंय आशिल्लो काय म्हण विचारतकीर म्हणालो, ''मॅच आशिल्ली न्ही. हांव उल्लों देऊळवाड्या वयल्या भुरग्यां वांगडा. सोडलोच ना तांणी.''

रामदास, व्यंकटेश आनी सावळो हांचें त्रिकूट जमिल्लें. तिगय केन्ना रस्त्या वयल्यान मेळून भोंवताना, खंय तरी झाडमुळाक बशिल्ले दिस्टीक पडटाले. केन्ना दिवस भर नाच जाताले. पूण सांजचे रायूल्या सोऱ्या दुकानार येवन पिवंक बशिल्ले मात दिसताले.



पयशे नासताले तेन्ना रायूक टरकावन उधारी पिताले. रायूय तेंकां भियेतालो. रायून चड उणें उलयलार एक्सायजाक हाडून धाड घालची धमकी दिताले. म्हणटाले, तुवें सोऱ्या पिंपां खंय खंय लिपोवन दवरलांत तें आमकां खबर आसा.

व्यंकटेश आदीं गोंयां एका औद्योगीक वसाहतींत कारखान्यांत काम करतालो. अचकीत तो कारखानो बंद पडलो. थंय सान तो परत येयलो. एस्.एस्.सी नापास जाल्लो आसलो. आनीक मागीर खंय गेलो ना. दुसरो, सावळो, पयलीं कांय वर्सां नोकरे खातीर म्हण खंय खंय वयते आसतालो. पोलीस भरतेक गोंयां, कारवारा, बेळगांव लेगीत कितले फावट गेलो. जालो ना भरती. मागीर गांवांतच उल्लो. रामदासा परस ते कुडीन धडधाकट आसले. कसल्याय कामाची संवय आसली.

तेणी रामदासाक आपल्या धंद्यात घेयल्लें. तेंचे दोन तीन धंदे आसले. मुखेल धंदो म्हटल्यार दिसान वचून रानांत रूख मारप आनी तेंच्यो तीन पाटयो करून माथ्यार घेवन राना कडेर झिलींत घालून दवरप. तिनसांजच्यो त्यो रस्तो, गांव पार करून न्हंयचे पोंयत आशिल्ल्या व्हड्यांत हाडून घालप. मागीर वचून पिवंक बसप. केन्ना सोऱ्या दुकानार तर केन्ना बाटली घेवन वेगळेच खंय तरी. हेर गांवचेय लोक हेवटेन येवन चोरवाटेन सोरो व्हरताले. हे तांकां मदींच रानांत आडोवन धमकावन तेंचे कडच्यान सोऱ्या बाटली काडून घेताले. ना तर फाल्यां येयलार धरून दितले म्हणटाले. सावळ्याल्या घरांत काडतुसाची बंदूक आसली. ती घेवन ते रातचे केन्ना शिकारेक वयताले. रामदास फाटीं फाटीं रावतालो. ते तेका ओढून मदीं घेताले. तो तेंचे परस आपणाक शक्त उणी म्हण फाटीं रावतालो काय अजून संवय जावची आसली, कोणाक खबर!

वासंतीक दिसतालें, हो कामधंदो कांय करिना. बेठो गांवार भोंवन येता. पूण तेच्या खिशांत नोटी दिसताल्यो आनी सद्दां भरपूर पिवनय येतालो. तेका भिरांत दिसली, हो खंयूय चोरमारी करिना मू? दीसबर भायरच आसता. एक दीस तो दनपरां घरा येयलार तेगेल्या पांयार घायो पडिल्लो दिसलो. हातांत कोयती ना, कुराड ना आनी घायो कसो पडलो? तेणें आनी आवयन खटासून विचारतकीर तेणें सांगलें, ''सकाळीं रानांत सावळी आनी वेंकटेशा बराबर रूख मारूंक गेलों. सदचे सारखो. रूख तासून तेची पाटी करताना घावो पडलो. तरीय पाटी हाडून रस्त्या वयले वटेन झाडांनी लिपोवन दवरला. ती सांजच्या काळखांत व्हरून व्हड्यांत घालूंक जाय.''

आयकोन वासंती वोगी रावलें. मनांत म्हटलें, मुंबयंत खुटुखुट्टू आठ तास नोकरी केलार म्हयन्याक पगार मेळटालो. हिंगा ह्या असल्या कामान आनी सोऱ्यान बेगी मरून वयची खबर. फाल्यां फारेस्टाच्या लोकान धरून व्हयलार आसा...

बापायक तर ताचे विशीं कांयच पडून वचूंक नासलें. तो कांयच आयकोन घेवंक, जाणून घेवंक तयार नासलो. केन्नाय तो सोरो

चड पिवन धांदळ करून लागलार तेचेर आड्डतालो. मागीर दोगांलेंय झगडें पेट्टालें. बापूय तेका बुरश्यो गाळी संवतालो. तोवय आपली हद्द पार करून आड्डत बापायल्या आंगार वयतालो. मागीर आवय आनी बायल दोगांय तेका ओडून व्हरून कुडींत घालतालीं. भायल्यान खिळी मारतालीं.

गांवांत दोन तरी तरनाट्यांचे पंगड आसले, ते अर्दीमर्दी रातचे शेतांत कंवडाळें करून पिवंक बसताले. वांगडाच दोन तीन बाटल्यो हाडप आनी क्रमान घोंट दोन घोंट बाटली तोंडाक लावनच पिवप. रात जाता तसो सोरो तकलेक चडटालो. मागीर ते आपसांतच झगडूंक लागताले. झगडतच फासपताले. अत्रापयऱ्यान शेतांत, वयर रस्त्यार रातचीं हीं झगडीं आयकोंक येतालीं. मागीर तशेच ते दोन दिसांन परते एकठांय येताले.

गांवांत लोक म्हणटाले, रातचें माडा वेल्यो नाल्लांच्यो पेंडीच्या पेंडी ना जातात. घुडांतलीं कुकडां ना जातात. देऊळवाड्या वयलो एकलो सांगतालो, रातची चुकून भायर दारांत उरिल्ली म्हगेली तांब्याची कळशी ना जाली म्हणून. आतां आतां लोकांक दुबावाचीच पिडा जाल्ली. जो तो आपलें हें ना जालें, तें ना जालें म्हणटालो.

गांवांत चार आठ दिसांन एक्सायजाची जीप येताली. ल्हव ल्हव गांवांत भोंवड्यो मारताली. गांवांत तीन सोऱ्या दुकानां आसली. थंय वचून थारताले. दुकानांनी घुसताले आनी मागीर हांसतें तोंड घेवन परत येताले.

कोणय सोरो उधार मागलार दुकानदार शिवणू केन्ना म्हणटालो, "एक्सायज येयलार दर फावट हजार बाराशें काडून व्हरतात. तेंकांच पोसूंक हो धंदो."

एक दीस गांवांत एक्सायजाची जीप येयल्ले कडेन आसताना पांच-स दादले बायलो जिपी सरीं वचून उबे रावले. तांणी कलकल करीत जिपींतल्या अमलदारांक सांगलें, "गांवांत सोऱ्याचो पूर व्हांवता. सोळा अठरा वर्सांचे भुरगे सोरो पिवंक शिकलात. माडांर नाल्ल दवरिनात. वालीर एक तोरो उरना. दारांत दवरिल्लें आयदन राती भितर



ना जाता. हे दुकानदार किर्तेय व्हरून उडयलार सोरो दितात. पयर खंय बायलेन न्हावंक हाडिल्लो साबण उखलून व्हरून दिवन एकलो सोरो पिलो. जिपींतल्या मुखेल अमलदारान आंगा वेलीं खाकी वस्त्रां झाडलींशीं केलीं. मागीर कांय एक उलयनासताना ते वचूंक गेले.

तिसऱ्या दिसा रातची णवांक सुमार जीप गांवांत आयली. बेतूवाड्यार रस्त्या सकल एक देवदार रूख आसलो. ताच्या मुळांत शेतांतल्यान कांय भुरगे बशिल्ले. व्हडा व्हडान झगडिल्ले वरी उलयताले. जीप थारोवन चार जण शिपाय, अमलदार तेवटेन काळखांतल्यान वचूंक गेले. राज्यांतल्या कायद्यान सोरो पिवप गुन्यांव नासलो. मात बेकायदेशीर सोरो बाळगुवप गुन्यांव आसलो. ते गेले आनी झग्ग करून बेटरेदिव्याचो उजवाड घातलो. थंय सोऱ्याच्यो दोन बाटल्यो आसल्यो. तेंचेर तेणीं पयली झोंपय घायली. तेन्ना कितें जालें, कोण एकलो सोऱ्यान तर्र जाल्लो उठलो आनी तेणें शिपायाचेर एक थापट माल्लें. मागीर सगळे उठून झुडोन येयले. मोटी झुंडामुंडी जाली. तेन्ना अमलदार आनी एक शिपाय कुशीक सल्ले आनी हातांतल्या दांड्यांनी ते तेंकां झोडूंक लागले. तेन्ना ते धांवन वचूंक लागले. पूण दोगांक तांणी कशे तरी करून दवल्ले.

मागीर त्यो सोऱ्या बाटल्यो आनी त्या दोगांक घेवन तालुक्याच्या ठिकाणार गेले. तेणीं सरकारी मनशांचेर हल्लो केल्लो; गुन्यांव मोटो सिरियस आसलो. त्या दोगांक धरून मारून तेणीं हेरांलींय नांवां काडून घेयलीं. दुसऱ्या दिसा ते पोलिसांक घेवन येयले आनी सगळ्यांक धरून व्हयले.

ती आतां एक्सायजाची तशीच पोलिसांचीय केस जाल्ली. धरून हाडिल्ल्या तरनाट्यांक पोलीस स्टेशनार बसयल्ले. मुखार आर्मांद पोलीस उबो आसलो. एक्सायजचे लोकय थंय येयल्ले. सोळा वर्सां धरून चोवीस पंचवीस वर्सां मेरेनचे ते तरनाटे भुरगे आसले. आतां ते भिवन फाटीचो कणो मोडिल्ले वरी गुळी जावन बशिल्ले. कांय रडटालेय.

तेंकां गांवांतल्यान धरून व्हरतकीर गांवार सगळोच आकांत. तेंचे बापूय आनी कांय जण बसीन पोलीस स्टेशनार धांवले. ते पोलीस ठाण्या मुखार येयले आनी बरोच वेळ भायरच गणमणत रावले. एकदम भितर सरचें धैर्य कोणाक नासलें. थंय एक आदलो आमदार आसलो. आतां तो वकिली करतालो. सगळ्यांलो बरो वळखीचो. दोगांन वचून तेका आफोवन हाडलें. सगळी खबर सांगली. तो तेंकां घेवन ठाण्या भितर गेलो. ठाणा इन्स्पेक्टर कानडी भागांतलो पूण तेंची वळख आसा अशें दिसतालें. तरीय आपूण एक पोलीस अधिकारी म्हण तो इल्लो ताठच आसलो.

तेणें इन्स्पेक्टराक सांगलें, "हांव हिंगा वकील म्हण येवंक ना. ह्या भागांतलो हांव आदलो आमदार. हे सगळे म्हजे वळखीचे लोक. जालें तें वायट जालें, खूब वायट जालें. म्हाका वायट दिसता. पूण हे चुकी खातीर भुरग्यांलो फुडार नश्ट करप समा न्ही. हे फाल्या नोकरे खातीर खंयूय वयतले तेन्ना त्रास जातलो. एक वेळ माफ करात तेंका."

"तेणी दंगो करून सरकारी नोकरांक दुखापत केल्या. तेंचेर हात घायला. गंभीर अपराध तो."

"सोऱ्याचे घुंवळेंत जालां तें. सोरो पिल्लो मनीस जनावरच जाता."

"पूण हे तरनाटे कित्याक पितात इतलो सोरो?"

"निर्शेणी. डिप्रेशन."

"ह्या भुरग्यांक कसली निर्शेणी तर?"

"शेतां लुकसानीत वयतात म्हण तीं बंजर पडूंक लागलांत. ह्या भागांत कसलो धंदो ना, उद्योग ना, एक कारखानो ना. नोकरे खातीर हेर राज्यांनी वच्चें पडटा. गोंयां गेलार कोंकणी लोक आसुनय तांकां किर्कोत करतात. एक काळाक महाराष्ट्र लागींचें दिसतालें, तेंवूय आतां परकें जालां. थंयूय ह्या लोकांक स्थान ना. कर्नाटकांत ह्या कोंकणी लोकांक बरी कानडी शिकून यो म्हणटात. हे लोक तांच्या हिशोबांतच नात. धड भास, धड राज्य, प्रदेश नाशिल्ले लोक हे. निर्शेणी येवची ना तर कितें?"

थंय उबे आशिल्ले गांवचे लोक रडलेशे करीत पांय पड्नच उबे आसले. एकल्यान काकुळटायेन म्हटलें, "माफ करात सायब, आयुश्य बरबाद जातलें."

इन्स्पेक्टर कांय वेळ तकली हालयत रावलो. तेणें मेजा वेलो पेपरवेट गरगर घुंवडायलो. मागीर म्हटलें, "एक्सायजच्या लोकान आपली केस फार्टी घेवची पडटली. मागीर ह्या तरनाट्यांनी लेखी माफी बरोवन दिवची पडटली."

तो वकील थंय आशिल्ल्या एक्सायजच्या अमलदाराक घेवन कुशीक गेलो. खूब विनवण्यो केल्यो. तो लुकसान भरपाय म्हण धा हजार मागूंक लागलो. मागीर तें सात हजारांर थारलें. सगळ्यांन आपले खिशे रिते करून हाडिल्ले पयशे दिले.

मागीर इन्स्पेक्टरान दर एका तरनाट्या कडल्यान बरोवन घेयलें - 'हांवें केलां तें चुकीचें केलां. म्हजी चूक जाल्या. म्हाका भोगसणी दिवची. हे पुढे हांव केन्नाच सोरो पिवन आगळीक करचों ना.'

सगळें जाता म्हणसर रात जाल्ली. गांवांत वचपी शेवटची बसय वचूंक गेल्ली. सकाळ पसून सगळे उपाशी आसले. थंय एका दुकानार व्हडलो केळ्यांचो घड लांबतालो. ते थंय गेले आनी दर एकल्यान दोन दोन केळीं घेवन खायलीं. मागीर ते गांवची धा मैलांची वाट चलून मध्यानरातीर गांवांत पावले. वाटेर जाणटेले भुरग्यांक बरे चलणुकेच्यो खूब खबरी सांगताले. पूण जाणटेल्यांतले बरेच पिवपी आसले. म्हण तांच्या सांगण्यांत फावो तो



दम नासलो.

रामदासालो बापूय शांबा काळजाचो त्रास आसतानाय शेवटा मेरेन शेताभाटाचो वावर करतालोच. काळीज चडच कलकलूंक लागलार खंयूय शेता मेरेर, झाडापोनांत वोग बसतालो. पूण कोण्णाक एक उतरान कांय सांगनासलो, बायलेक लेगीत. एकादऱ्या बऱ्या हास्पिटलांत वचून काळजार उपाय करून घेवं येताले. पूण एकल्याच पुताल्या सोऱ्यान तो इतलो बेजारिल्लो, तेका बेगिनच मरचें अशें दिसतालें. दोन-तीन वर्सां तेणें त्यो ख्यास्ती सोंसल्यो. मागीर तो सामकोच तेंकलो.

तेणें आदींय बरेंच भोगिल्लें, सोंशिल्लें. चार भावंडां तीं. होच व्हडलो. बापूय गरीब शेतकारच आसलो. तातूंत आनी रानांत दर वर्सा एक तरी बैल वागान मारप. एक फावट एकच बैल गोट्यांत परतलो म्हण दुसऱ्याक रानांत सोदूंक गेलार एके वाटे कुशीक मुखारच वाग बैलाक मारून खावंक बशिल्लो दिसलो.

शांबा वीसेक वर्सांचो जालो तेन्ना दोगी धाकल्यो भयण्यो लग्नाच्यो जाल्ल्यो. धाकलो भाव शाळेंत शिकतालो. गरिबी तर घरांत मांडी मारून बशिल्ली. एक दीस तो बेळगांवां वचून मिलिटरींत भरती जालो. मिलिटरींत वचून तेणें भयणींचीं लग्नां केलीं. भावाक मेट्रीक मेरेन शिकयलो. हें नळ्यांचें घर बांदलें. सतरा वर्सां मिलिटरींत पांय धाडावन आनी जीव खपोवन तो निवृत्त जालो. येताना कांय पयशे मेळिल्ले. तेतूंतल्यान तेणें आपल्या तिगांय धुवांलीं लग्नां केलीं. रामदास धाकलो, शिकूंक इल्लो जडच आसलो. एस्.एस्. सीक दोन वेळा नापास जावन तिसरे फावट कांठार पास जाल्लो. तेका तेणें आयटीआय करूंक घायलें. रामदास आंगलोटान बरो आसलो. बापायक तेका मिलिटरींत भरती करची इच्छा आसली. रामदास मिलिटरी म्हणटकीर रडूंक लागलो. मागीर तेका मावस भावा वांगडा मुंबयंत धाडलो. शांबालो धाकलो भाव अनंत पुण्यांत नोकरेक आसलो. त्या भावा खातीर शांबान खूब केल्लें. तो पुण्यांत वयतकिरय वर्सबर तेका तो पयशे धाडटालो. तो पांच-स वर्सां फार्टी येयलो आनी आपणाक शेताभाटाचो अर्द वांटो दी म्हणूंक लागलो. शांबान पंचांक आफोवन हाडून ताचो वाटो, पंच सांगतात तशे, वोग्गी काडून दिलो. तेका दिशिल्लें, भाव आपल्या वांट्याचें शेत कसूंक, पिकोवंक आपणा कडेनच दवरतलो म्हण. पूण तें तेणें गावच्या रघुपती म्हणिल्ल्याक गेणीन दिलें. तें शांबाल्या मनाक खूब लागलें. मागीर मुंबयच्यान पूत येवन सोरो पिवन ख्यास्ती करूंक लागलो. तो सामकोच गळसणलो.

एक दीस दनपरां रामदास जेवणाक कांयच सारकें ना म्हण खिटखीट करूंक लागलो. आवयन म्हटलें, "बापूय तिठ्यार वचून नुस्तें घेवन येता. तूं केन्ना गेला? इल्लें नुस्तें केन्ना हाडलां?" वासंतीनय म्हटलें, "बाबा एकलो केन्ना मेरेन करतलो? तेचे खुस्तार केन्ना मेरेन जातलें?"

हाचेर ताट भूंयर धाडावन तो वचूंक गेलो.

रातचो खूब पिवन येयलो. येवन असो ताणून बोब मारतालो, न्हिदिल्लीं भुरगीं उठून रडूंक लागिल्लीं. कांय वेळ बोब मारीत आंगणांत थय थय नाचलो आनी मागीर घरांत येयलो. गाळी संवन केन्ना आवयक मारूंक

वयतालो, केन्ना बायलेक. एक फावट तेणें रांदचे कुडींतलें एक मातयेचें आयदन धरून वासंतीचेर मारलें. तें तेचे कमरे सरीं लागून सकल पडून फुटलें. घरा मुखावयल्या आंब्यार कांय कावळे बशिल्ले. ते हे बोबेक कांव कांव करीत काळखांतच हुडून गेले.

बापूय घरांतच आसलो. पूण कित्याक कोण जाणा, तो कांयच उलयलो ना. कुडीची शिरेन शीर आंवळून घेत ताठरून जसो वोगच न्हिदलो.

ते रातीकच तेका काळजाचो अॅटक येयलो आनी हांथरुणारच आक्तार मरण येयलें.

मांवाल्या मरणार वासंती खूब रडलें, हामेऱ्यांनी रडलें. केन्ना मोन्यांनी दुकां गळयत आकूळपिकूळ जावन रडलें. घराचो म्हाल खांबोच कोसळिल्ले वरी दिसतालें.

रामदास बाराव्या मेरेन मखख मोन्यानच आसलो. पिलोय ना, आनी चड कांय उलयलोय ना. कोणेंय कितेंय सांगिल्लें मोन्यान आयकतालो. आपणाक लागुनच बापायक मरण बेगीन येयलें ही खंत तेका लागिल्ली आसा काय, तें कळूंक मार्ग नासलो.

मांव मरतकीर दुसऱ्या दिसा वासंतीलो बापूय, आवय आनी धाकलो भाव चंद्रकांत येयल्ले. रस्त्यार देंवन मुखाल्ले रुखावळींतल्यान येताना ते वासंतीक दारांतल्यान दिसले. बापूय कुडीन बरोच बागवल्लो आनी चलताना कडकडटालो. आवय मदींच तेका सावुरचो यत्न करताली. चंद्रकांत बरोच लांब जाल्लो पूण कुडीन सुकिल्लो. दोळे फोंडांत गेल्ले आनी गालफोडां वयर सरिल्लीं. वासंती धांवन धांवन मुखार येयलें आनी तेंकां घेवन गेलें.

ते येयले आनी सगळे सालांत मणयेर वोग्ग बसले. वासंती वणटीक तेंकून थंयच उबें रावलें. रामदास भायर खुर्चेंत बशिल्लो तसोच बसून रावलो. हांकां पळयतकीर थंय एका कोनशांत बशिल्ली मांय थकिल्ल्या ताळ्यान बारीक होळोम काडीत रडूंक लागली. मागीर वासंतीय रडूंक लागलें. आवयन मांयक म्हटलें, ''सोसूं जाय न्ही. नशिबांतले भोग चुकूंक येयलात?''

आयकून ती मातशी रडची थाल्ली.



ओल्या रडकुऱ्या ताळ्यानच तिणें म्हटलें, ''कसले कसले म्हण भोग सोंसचे गे हांयें आतां? तेंच्या फाटल्यान म्हाकाय बेगीन गेल्यार पुरो जालां.''

ती कितें म्हणूंक सोदता हें थंय बशिल्ल्यांक कळ्ळें. सगळे चडच दुखेस्त जाले.

बरोच वेळ सगळे वोग्ग बशिल्ले. दुःख सोंसूंक नज जातकीर मांय मदींच पोटांतल्यान उस्वास काडून कशी रडटाली. वासंतीले आवयन मदींच विचारलें, ''धुवो पाविल्ल्यो?''

''धाकलें पुण्यांत, तें पावलें ना. व्हडल्यो दोगीय येयल्ल्यो. रडून आकांत केलो रे देवा! तकली आपटून घेवन रडटाल्यो आनी साबुद्द वचून पडटाल्यो. धुवो त्यो, आनीक कितें करूंक शकतल्यो?''

''खरें गे तुगेलें. गळ्यांत दायें घालून खंयच्याय गांवांत व्हरून दिवप. मागीर थंय कुळरच्या यादीनच अर्दें जावप.''

वणटीक तेंकून थंय उबें आशिल्लें वासंती हुणके दीत रडूंक लागिल्लें. बापायन म्हटलें, ''तुवेंच घट रावंक जाय आतां बाय. घट राव तूं. ही मांयच तुगेली आवय आतां. तिका राखूंक जाय. तूं मोडून पडलार भुरग्यांचो कोण सांभाळ करतलो?''

भाव चंद्रकांत आतां एकोणीस वर्सांचो जाल्लो. तो रागान घुसमटिल्ले वरी जालो. तेणें दांत चाबलेशे करीत म्हटलें, ''सगळीं वोजीं बायचेरच घालात तुमी आतां.''

आवयक दिसलें, हेणें आतां हिंगा हें उलोवंक फावनासलें. पूण कोण कांय उलयलो ना. तिणें मनांत म्हटलें, हो भयणील्या घोवा वेलो राग असोच धरून रावतलोसो दिसता. नातू आनी नात वोगी बशिल्लीं. दोगांकय तिणें हाडून मांडयेर घेयलें आनी ती तशीच कांय वेळ बसून रावली. वांगडा हाडिल्लो बिस्किटां पुडो तेंकां दिलो. भुरग्यांल्या दोळ्यांत, तोंडार येद्दें हांशें, इल्लें तेज नाशिल्लें.

ते भितर आसताना बरोच वेळ रामदास आंगणांतच उबो आसलो. ते वचूंक सुटले तेन्ना वासंतीय तांच्या बराबर तांकां बसी कडेन पावोवंक भायर सर्लें. आंगणांत आशिल्ल्या घोवाक तेणें म्हटलें, ''तूंवय यो न्ही पावोवंक वयर रस्त्यार.''

चंद्रकांतान तीख आवाजांत म्हटलें, ''नाका. आमी वयतात. सांगात नाका आमकां.''

वासंतीच गेलें तांचे बराबर. तें वाटबर रडटालें. तेणें रडतच आवयक म्हटलें, ''अण्णा तेन्ना येयल्लो, असोच रागान गेल्लो. चंद्रकांतय राग धरून आसा. म्हजें कशें जातलें गे आई? घोव कोणेंय उलयल्लें सगळें वोगी आयकोन घेता आनी मागीर सोरो पिवन राग काडटा.''

रामदासान बापायलीं सगळीं क्रियाकर्मां भटान सांगता तशीं भावार्तान केलीं. तेरा दीस तो घरांतल्यान भायर खंय गेलो ना. कोणा कडेन चड कांय उलयलो ना. घुम्म मोनोच आसलो. अकराव्याक कावळ्यान पिंडाकय बेगिनच चोंच माल्ली. वासंतीक दिसतालें, मांवान पिंडाक आफुडिनासताना पुताक बरेंच रडोवचें. सोरो पिवचो ना म्हण ताचे कडल्यान सोपूत घेवचें. पूण ना, कावळो रोखडोच येयलो आनी पिंडार बसलो. तरीय वासंतीक दिसतालें, घोव बापायच्या मरणा उपरांत आतां बरोच सुधरला. गेल्ले तेरा दीस पळय तो

कसो शुद्ध निर्मळ रावलो. आतां आनी तो पिवचो ना.

पूण आवय काळखा कोनशांत बसून रडटाना केन्ना मर्दीच म्हणटाली, 'ह्या दुस्मानाल्या, ह्या चांडाळाल्या सोऱ्याक लागुनच तेका मरण इतले बेगीन येयलें.' तेन्ना भायर बशिल्लो रामदास घुसमटिल्ले वरी जातालो. वासंतीक आगळीच भिरांत शी दिसताली. तें मनांत म्हणटालें, कित्याक हे लोक तेगेल्या सोऱ्यार्चेच परतें परतें काडटात? बापायल्या अश्या मरणा उपरांतय सुधरचो ना तर तो?

वोगच एक आस्त, दर एक मोटी, बरी वायट घडणूक जावन गेले उपरांत दिसप, आतां हो सुधरतलो, सोरो सोडटलो म्हण! मनांतल्यान चरांटून दिसप, हेचो सोरो सुटलारच हो सुधरतलो, आमी सुधरतलीं. आवय तेका उलोवंक लागली म्हणटकीर तें म्हणटालें, "कित्याक तेंच तेंच उलयता गे? आता तेका कळचें ना? ही जाल्ली विटंबना दिसना?"

बापूय मरून पंधरा दीस जाल्ले. सांजचो रामदास आपले धुवे वांगडा आंगणांत खेळटालो. तेका उखलून घेतालो, वयले वयर नाचयतालो, परत सकल दवरतालो, ताचे फाटल्यान धांवतालो, खूब हांसतालो, वासंतीक खूब बरें दिसतालें. चलो अक्षय थंय मेरेर बशिल्लो. मान सकल घालून तिरशे भितरले नदरेन तांकां पळयतालो. वासंतीन म्हटलें, "अक्षय, तूं वोग बसला कित्याक? तूंवय खेळ मरे तेंचे वांगडा." अक्षयान घुसमटत अशें म्हटलें, "हांव खेळचो ना तेचे वांगडा." सात वर्सांचो तो भुरगो हालीं वोगच तुसडोसो जाल्लो. मेल्लो आजो तेका बरो करतालो. तो मरत सान तो बरोच थतरवितर दिसतालो.

तो आतां गांवांतच दुसरीक शिकतालो. गांवांत दोन मास्तर आसले. एकलो सुधाकर. तो मदली, सांजची शाळा सुट्टकीर सोरो पिवंक बद्द सोऱ्या दुकानार वयतालो. दुसरो राजेश. तो बरो आसलो. तो एक दीस वासंतीक सांगतालो, "तुगेलो चलो शिकूंक हुशार आसा. पूण कांयच उलयना, कितेंय विचारलार वोगच रावता." वासंतीक तेका सांगचें अशें दिसलें, घरांतय तो नाखटां खायतसो वोगच रावता. केन्ना भायर खेळूंक गेलार, राग येयलार हेर भुरग्यांक घांस काडटा म्हण तेका खेळूंक कोण घेयनात.

रामदासाले इस्ट वेंकटेश आनी सावळो बापूय मरतकीर अर्दी मर्दी येताले. आज सांजचो वेंकटेश येयल्लो. बरोच वेळ तो उलयत बशिल्लो. खूब खाजगी उलोवचें तशे ते ल्हव ल्हव उलयताले. वासंतीक बरें दिसनासलें ते तशे उलयतात तें. तेका दिसतालें, हे कितें तरी म्हजे पसून लिपयतात. तरीय ते शेवटाक आमच्या बायलांच्याच हड्ड्यार येवन बसतले. तेका आड्डून सांगचें अशें दिसलें, आतां उठून वच तूं, पुरो जालें. तेचो बापूय मेला. दुःखांत आनी पश्चातापांतच रावात हे फुडें!



पूण ते सांज जावच्याक वांगडाच उठून गेले. तेका घोवाक ओडून हाडून घरांत बसोवचें अशें दिसलें. सांजचो हो वायट अभद्र काळ. सदां सांजच चड घात मारता!

उसरां तो खूब पिवन येयलो. येयलो आनी बसून रडूंक लागलो. तकली बागवोन हूं हूं करून रडटालो. मर्दीच रडतच उलोवंक लागलो, "आई, बाबा बरो आशिल्लो गे... देव मनीस, ल्हानपणा पसून संवसाराची राट ओडली. भयण्यांलीं लग्नां, धुवांलीं लग्नां... हांयें कांयच केलें ना गे. बाबा बरो आशिल्लो. तूच बरी न्ही आई, बाबाक वोगच संवताली."

"जावं, हांव बरी न्ही जावं, तुवें बरें केलें मुरे बाबाक? हेन फुडें बरें करतलो मुरे घरांतल्यांक?"

"वासंती, आमी मुगो अक्षयाक, बायक खूब खूब शिकोवचें. तुका सगळें भांगर करतलों हांव... वयल्या रानांत रुखाचें एक मूळ दवरचों ना हांव."

वासंती जीव गेल्ले वरी वणटीक तेंकून बशिल्लें. तेगेली सगळी सगळी आस्त मेल्ली. तेणें तकली शिजिल्ले वरी व्हडान म्हटलें, "आई गे, तुजो घोव मेलो म्हण तरी तूं रांडावपण भोगता, हांवें कितें करचें?"

रामदासाक दिसतालें, बापायल्या बेंकेच्या अकावन्टार बरोच पयसो आसतलो. आवयक आतां बापायली पेन्शन मेळटली. त्या पयशा विर्शी तेका भोव उमळशीक आसली. त्या पयश्यांचेर तो दोळो दवरून आसलो. अदमास घेवन तो मनांतच त्या पयश्यांचो हिशोब करतालो. तेका दिशिल्लें, पेन्शनचें, बेंकेंतल्या पयशांचें सगळें जाग्यार घालूंक आवय आपणाक आफिसांत, बेंकेंत घेवन वयतली. पूण आवयन एक चूक केली ती शेजारच्या यशवंताक घेवन गेली. यशवंत एका सरकारी खात्यांतल्यान निवृत्त जाल्लो आसलो. रामदासाक तेचो राग येयलो. आवय केन्ना थोमणो मारिल्ले वरी म्हणटाली, "आज्यालें आशिल्लें कितेंय फाल्यां नातरांक राखून दवरूंक जाय. ना तर खावन पिवनच काबार करतले हे. त्या पयश्यांचेर हेंची सावळ पडूंक दिवंक जायना."

आवय विर्शीच्या रागान मनांत चडच मूळ धल्लें.

आतां ताचे इस्ट वेंकटेश, सावळो उकतेपणान घरा येताले. रामदासाक घेवन वयताले. वासंतीन मांडून पळयल्यार सावळो केन्ना म्हणटालो, "आमी तेका वावराक लायला. सारक्को लायला वावराक. तेगेले जोडीचें तो इल्लें खातलो पितलो."

"खातलो म्हणूं नाका. पितलोच म्हण सांग, ह्या सोऱ्याक लागून मुंबय सोडिल्लें. हिंगाय तेंच गिराण. तुमी तेका कांट्याकुट्यांत

व्हरून सोडटले."

आमी कितें केलां? तोच आपणाक कसलो तरी धंदो जाय म्हणटालो.

"हो कसलो रानां चोरचो धंदो?"

"हळू उलय. तुगेलो घोवच त्रासांत पडटलो."

वासंतीन रडत म्हटलें, "कसलोय धंदो उपकारतासलो. मसणटीर, बसून शेणी विकलारय जातासलें, पूण हो सोरो चुकूंक जाय आसलो."

ते कुराड, एक बारीक खरवत रानांतच लिपोवन दवरताले. सद्दां सक्काळीं वयताले आनी रानां भोंवन फाव तो रूख मारताले. तो मागीर तासून, कातरून तेची चौक पाटी करताले. ती मागीर दोगान, केन्ना तिगांनय माथें मारून रानकडेर हाडटाले आनी थंयच लिपोवन दवरताले. मागीर थकून घामाघूम जावन घरा येताले. घरा येताना वाटेरच पावबर सोरो पिताले आनी घरा येवन सांजबर न्हिदून रावताले. मागीर इल्लो काळोख पडटकीर ती पाटी उखलून हाडून न्हयतडीर व्हड्यान हाडून घालताले.

सगळें भियेत दोपून लपून करप. केन्ना कोण फारेस्टांतल्या लोका कडेन वचून घात मारीत, सांगू नज आसलें. पाऱ्या वयले फारेस्टाचे लोक केन्ना मुखारच येवन उबे रावत ही भिरांत आसलीच.

रामदास केन्ना खूब पिवन येवन हांथरुणार पडून रडतसो म्हणटालो, "कसले त्रास रे देवा! दुखापतीक इल्लो पिवचो पडटा." वासंती मनांत म्हणटालें, 'आतां दुखापतीक पिता, पयलीं कित्याक पितालो?'

आवय म्हणटाली, "कुडीक रक्ताची चलती आसा म्हणसर चलतलें, मागीर कितें करतलो? असल्या पाड कामान केन्ना कोणाचें बरें जाल्लें आसा? धल्लार जैलांत वचून बसतलो."

पूण तेच्या खिशांत पयशे खुळखुळटाले. दुकाना वयल्यान भुरग्यांक खाणां हाडटालो. नुस्तेकान्न, सायकलकार, वाटेर मेळार खूब नुस्त्याक घेवन येतालो. केन्ना वासंतीक 'घे' म्हण शंबराची नोट बीन काडून उडयतालो.

एक दीस वासंतीली कुळरची एक भयण वाटेरच मेळ्ळी. हेवटेनेचें तेवटेनचें उलयतकीर ल्हवच म्हणूंक लागली, "लोक कित्या कितेंय उलयतात... तुगेलो भाव पोलीस हवालदार, मांव मिलिटरींत आशिल्लो, बरे कोंकणे लोक, आनी हो असलें काम कित्याक करता काय म्हणटात. पयर खंय तेणीं बरी शिशा लाकडाची पाटी हाडून झाडांत घालून लिपोवन दवरिल्ली, कोणें तरी खंय कुराडेन आडवे तिडवे घाये घालून ती वायट करून उडयली."

"अशें? म्हाका कांय सांगलेंच ना मुगो!"

"सोऱ्याक लागिल्ल्यांचें हें अशेंच. आमगेलो हो दर शेनवारा गोंयांतल्यान येताना एक बाटली घेवन येता. बापोलभावांक तिपोलभावांक जमोवन बाटली एकाच दिसाक खलास करतात. म्हणटा, आपूण हेर दिसा गोंयां आसताना सोऱ्याक आफडिना म्हण.



म्हाका भिरांत दिसता."

"पिलार चड उलयता बीन? गाळी बी संवता?"

"ना, ना थंड वोग्गच आसता."

"चड पिना आसतलो तो..." वासंती चलूंक लागलें.

रामदास, वेंकटेश आनी सावळ्यालें रानांतल्यान लाकूड मारून हाडचें काम देडेक वर्सां चलिल्लें. ते आतां आतां भागून इतले बारीक जाल्ले, हे रानांत रूख कशे मारतात आनी तो तकलेर मारून घेवन कशे येतात हेचें अजाब दिसपाचें.

सावळो मोटवोच, आडव्या आंगाचो आसलो. पयलीं ताचीं भुजां बरींच भरिल्लीं आसलीं. कुराडेन रुखाचें मूळ कातरूंक लागलार जीव खावन झापझप घाये घालतालो. वांगडा सोरो पिवंक बसलार आपणाक राखून राखूनसो पितालो आनी केन्नाच सुदी भायर वचनासलो. अशें म्हणटाले, तेका ह्या धंद्यांत मेळिल्ले पयशे तो परते परते व्हरून बैंकेंत घालता. वेंकटेश बारीक काळोसो आसलो. पूण जिवाचो कांटो भितरल्यान घट राकट. पितालो खूब आनी तेगेली सोरो पचोवची शक्तय चड आसली. पूण रागान खर आसलो. सोरो पिलार आनी केन्ना हरशींय तो ताणशेवन उलयतालो. झगडूंक लागलार भितरल्यान असो उबो घट जायतसो गाळी संवत हेराल्या आंगार वयतालो. पूण तेका रानांची, रानांतल्या रुखांची बरी पारख आसली. उब्या उबोच रूख जोखतालो आनी तेका कितली लांब, कितल्या वोज्याची पाटी पडटली तें तो ज्युस्त सांगतालो. रामदासाक मात सोरो पिलारच शक्त. हरशीं तो अळबळीच आसलो. तो उचांबळ जातालो तो सोऱ्याची तलफ लागताली तेन्ना आनी सोरो मस्तकाक चडटालो तेन्ना. तेका सोरो बेगिनच लागतालो. सोरो लागतकीर धांदळ बोवाळ करतालो. ना तर केन्ना रडुंकय लागतालो. ते दोगय कामा वेळार सोरो पियनासले पूण रामदास रानांत वयतानाय केन्ना सोऱ्या पाव खिशांत घालून व्हरतालो. रूख कातरताना, फोडटाना इल्लो इल्लो पितालो. तो आपले परीन कामाक झुडटालो पूण ताची शक्त उणी पडटाली. तरीय ते तेका वावराक घेवन आशिल्ले. ते रूख मारताना, कातरताना वा पाटी तकलेर घेवन येताना आशिकुशीक नदर दवरूंक एकलो जाय आसतालो. एक फावट ते खाकी वस्त्रांतलो एक मनीस झळकतकीर तकले वयली लाकडा पाटी सकल उडोवन परत रानांत धांवन गेल्ले आनी दुसरे वाटेन परते गांवाक आयल्ले. रामदास आपणा परस वयले जातीचो, शिकिल्लो, बऱ्या घराचो मनीस म्हण तेका ते व्हडविकायेन वांगडा घेवन भोंवताले.

दोनेक वर्सां हें चलिल्लें. घरांत पयसो, दाणो-गोटो येतालो. हर घडयेक मांयक पांये

पडचें पडनासलें. एक वटेन वासंतीक घोर लागिल्लो आसतालो - मुखार कशें जातलें, कशें पार पडटलें! दुसरे वटेन मनांत म्हणटालें, आजकाल सगळेच चोरतात, आमी हें पोटाभुकेक चोल्लें म्हण किर्ते जालें! फुकट न्ही, म्हजो घोव मेहनत करता! रटे फुट्टात रूख फोडटाना! मान बसता खांदार वजीं उखलून हाडटाना!

रामदास मनान भितरोच आसलो. रानांत भियेल्ले वरी हेवटेन तेवटेन पळयतालो. अदमास घेतालो. रानांतल्यान येताना तांबडोच सुजिल्ले वरी दिसतालो. सदांच आंग खरचटिल्लें आसतालें. ल्हान-व्हड घायेय केन्ना पडटाले. अर्दीमर्दी गांवचो कोणय घरा सरीं येवन गणमणलोसो करून वयतालो, कितेंय कुसकें उलयतालो. वासंती सोताक समजायतालें, म्हजो घोव चार पयशे जोडटा तें हेंच्यान पळोवंक जायना, रानांतले रूख देवान पोशिल्ले. हे केन्ना उदक घालूंक गेलात, काय सारें घालूंक गेलात?

रामदास सगळो दुबाव, अवमान आनी कुडीची 'दुखापत' सोन्यांत बुडोवन उडोवंक पळयतालो. ताचें पिवप वाडतच गेल्लें. पिलार चड तो आतां आवय कडेन झगडटालो. म्हणटालो, "तुजी पयशांची पोटली तुजे सारयेरच उडोवन लासतां पळय तुका!" तिका तो केन्ना बुरश्यो गाळीय संवतालो. वासंती मदीं पडलार तो तेका एक थापट घालतालो आनी मागीर कसोय धुकलून दितालो. कितले फावट तेची तकली वणटीर आपटल्या! अशें जालें म्हणटकीर भुरगीं व्हडव्हडान रडूंक लागतालीं. तेंचें रडप, बोवाळ आयकोन कोणय शेजारी बीन येयलार रामदास तेंकां बोटानच भायली वाट दाखयतालो आनी चलूंक लाग भायर म्हणटालो. आतां आतां कोण तेंच्या घरांत येनासलो. भितर एक मडें पडलारय कोण पावचो ना अशें दिसतालें.

आवय पेन्शिनेचे पयशे खर्च करी नासली अशें न्ही. घरांत कितें आसा, कितें ना तें तीच पळयताली. भुरगीं दुयेंत जालार रोखडीच डाक्टरा सरीं धाडटाली. तिचो सगळो व्यवहार वासंती कडच्यान. रामदासाल्या हातांत ती एक पयसो दियनासली. ताच्या सोन्यान ती इतली बेजारिल्ली, तो तिका दोळ्यां मुखार



नाका आसलो. ताच्या व्यसनाक लागुनच आपलो घोव बेगीन मेलो अशें तिका दिसतालें. ती जायते फावट म्हणटाली, "जाणटेपणाक नज जातकीर तेंची सेवा-चाकरी करची म्हाका इत्सा आसली. पूण, पयलींच अशें कपलफुटकें जालें हांव."

एक दीस सक्काळीं उठून ते तिगय - वेंकटेश, सावळो आनी वासंतीलो घोव - मेळून रानांत रूख मारूंक गेल्ले. त्या नसकाक कोण झाडांत, रुखा अडसराक दोपून बशिल्ले काय कितें, खबर नासली. वाऱ्यार फुतफुतिल्लोसो आवाज येतालो. तेंका दिसलें, सकाळचो वारो पानांनी खेळटा. उदेंतेक तांबडें फुटिल्लें. पूण पातळिल्ल्या धुंवरान तें काळेशें दिसतालें. रामदासाली रातची सोऱ्याघुंवळ पुराय निवळूंक नासली. तेका खरायेन दिसतालें, आत्तां एक पावबर सोरो मेळचो, सडसडीत बरो जातलों हांव!

रानांत ते खूब भितर रिगिल्ले. मुखार एक उबी दोंगुल्ली आसली. तिच्या मुळसाक गच्च झाडां, रूख आसले. तांकां अचकीत थंय एक शिसमाचो रूख दिसलो. पळोवन तांकां खुबच आनंद जालो. वेंकटेशान पोनांत उबो रावन म्हटलें, आठ फूट लांबायेची आनी धा इंच जाड, बारा इंच रुंद पाटी सहज पडटली.

"शिसमा लाकूड जडांतलें जड. रानापार व्हरूंक जाय न्ही?"

"कांय नज. तिगांनय तकल्यो मारच्यो."

वरबर लागून तांणी रूख आड घायलो आनी आठ फुटा वयलो शेंडो कातरून उडयलो. मागीर तीन चार तास ते फक्त तें कांड फोडून तेची चौक पाटी करताले. वेळ माथ्यार पाविल्लो. काम करताना नदर चोंय वटेन भिरीभिरी आसची पडटाली. फारेस्टाचे लोक केन्ना खंयसान उप्रासत सांगू नज आसले. पयलीं कितले फावट दुबावानच धांवन गेलात ते.

बळाबळ पाटी उबी करून तेणी तिगांनय ती तकलेर घेयली. पुढें सावळो, मदीं वेंकटेश आनी फाटल्यान रामदास. पाटी जडगुळो मसण आसली. तोल राखत एकेक पावल सांबाळून घालचें पडटालें.

ते रानांतल्यान अर्द-पाऊण वर चलत एके मळिल्ले वाटेर पावले तेन्ना मुखाल्ल्यान चार पाच जण फारेस्टाचे लोक धांवत येताना दिसले. वेंकटेशान म्हटलें, 'उडयात पाटी आनी धांवन वचात.' ताणें खंयचे वटेन उडोवची ते वटेन हात दाखयलो आनी 'हं' म्हटलें. तिगांनय वांगडाच उजवे वटेन ती उडयली. पूण गडबर्डेत ती उडयल्ली कुशीच्या एका झाडाच्या मुळार आपटली आनी उसळून फाटीं येयली. ती ज्युस्त रामदासाल्या उजव्या पांयार पडली. तेणें 'आवयगे' म्हण बोब माल्ली आनी तो थंयच पडलो. तेन्ना पाटयेचें तोंक तेच्या पांयार आसलें. धांवन वचूंक गेल्ले वेंकटेश आनी सावळो थाल्ले आनी परत रामदासा वटेन येयले. फारेस्टाच्या लोकांनी आनी तेणीं मेळून पाटी कुशीक काडून रामदासाक उबो केलो. पूण रामदासालो उजवो पांय भूंयर तेंकनासलो. तेंकूंक गेलार तो दुखतालो आनी तो आड्डतालो. फारेस्टाच्या लोकांनी बेगीबेगीन पाटयेचो पंचनामो केलो आनी रामदासाक उखलुनच सकल रस्त्या मेरेन हाडलो. थंय फारेस्टाची जीप आसली.

जिपींत घालून तिगांकय तांणी आदीं रेंज फारेस्टर आफिसाच्या नाक्यार हाडले. थंय वेंकटेशाक आनी सावळ्याक बसोवन दवरून रामदासाक सरकारी हास्पिटलांत व्हयलें. घरा कळीत करतकीर रामदासाली आवय आनी

बायल हास्पिटलांत धांवलीं. दोगांय सामकीं खर्शेतालीं आनी रडटालीं.

पूण दुसऱ्याच दिसा तेका पांयाक प्लेस्टर घालून घरा धाडलें. पूण फारेस्ट रेंजरान मर्दीच तेका धरून नाक्यार हाडलें. सावळो आनी वेंकटेश दोगय काल सान नाक्यारच बशिल्ले आसले. घरच्या लोकांनी तेंकां थंयच जेवण-पाणी हाडून दिल्लें.

रेंजरान तेंकां दर एकल्याक सात हजारांचो दंड घायलो. दंड चोवीस तासांत भरना जाल्यार पोलीस केस जातली म्हण धमकायलें.

वासंती कांय एक उलयनासताना मांयक घेवन बेंकेंत गेलें. बेंकेंतल्यान पयशे हाडून दंड भल्लो आनी घोवाक घेवन घरा गेलें.

ते रातीक फुडाराचो हुस्को जडगुळो जावन वासंतीच्या हड्ड्यार बशिल्लो. चोंयवटेचो काळोख घनदाट जावन ताका घुसमटायतालो. तें चित्तालें, मांय केन्ना मेरेन पावतली, भुरग्यांचें कशें जातलें? मांयक चार पावलां माल्ल्यार खर्शेणी येता, फाटी कणो दुखता, पांया तळवे रातभर भगभगतात. म्हजो जिवय बशिल्ले वरी, मरणाक लागिल्ले वरी जाला. हांव आनी उठून उबें रावंक तांकचें ना! जग लोक छी थू करतात. कुळारा बापूय बरो ना. हें कळलार आनी तो जिवच सोडटलो. बातमी पावल्ली आसतली येन्नादर. वायट बातमी बेगीं पसरता! मर्दीच तेणें मोट्यान म्हटलें, "आई गे, तूं मनाक लावन घेवं नाका चड. सोताक राख. दोगां ल्हान भुरगीं आसात गे आमच्या पदरांत!" बारीक कान दिलार ती आवंडे घोटत रड्टा अशें दिसतालें. वांगडाच आज तिका दोन वर्सां फाटी मेल्ल्या घोवाची याद येता आसतली.

रामदासय पयल्यान दुखीन हूं हूं करतालो. पूण वासंतीन तेचे कडेन दुर्लक्ष केलें. भोगूं दी इल्लें. भोगून तरी सुधरतलो जाल्यार सुधारूं दी! पांय मोडून घरांत पडिल्लो आसासर सोरो तरी सुट्टलो. मागीर तेका अचकीत येवजून येयलें, हो हातपांय मोडून सदांचो घरांत पडलार कसो? गांवार ख्यास्ती जातात त्यो चुकतासल्यो.

चार दिसान व्हडलो भाव तुकाराम आनी धाकलो चंद्रकांत येयले. दोगय येयल्ले रागार-



फुगार कशे भायले पडवेन बांकार बसले. भितरले वटेन रामदास खुर्चेंत पडिल्लो आसलो. ते ताचे सरीं गेले नात. तेगेली खबर-बास्त घेतली ना. रांदचेकुडींत आशिल्ले कडेन वासंतीक मांयन म्हटलें, "आगो तुगेले भाव आंगणांत झळकल्ले वरी जाले मुगो."

वासंती भायर येयलें आनी तेंचे मुखार वोग, उबें रावलें. तेका रडचें अशें दिसतालें, पूण तें रडलें ना. तुकारामान म्हटलें, "कळ्ळें आमकां, कळ्ळें. तूं लिपोवं नाका. सुरवे पसुनच सगळें लिपयले तुयें. लग्न जाल्ल्या दोन तीन वर्सां भितर सगळें भांगर खायलें. पूण सांगलें ना आमकां."

"सांगलें म्हण आडायतासलो तूं? सात वर्सां आमी मुंबयंत उल्लीं. एक दीस तुज्यान येवंक जालें ना. तें सोड. बाबा कसो आसा?"

"तुगेले वथरेणेनच धरतरेक तेंकला तो. शेतां पडींग पडटलीं म्हण चंद्रकांताक दाम्मून शेता कामाक लायलो. दोन फावट एस्.एस्.सीक नापास जालो तो. तुमचीं हिंगा हीं कर्तुबां. गांवांत तोंड दाखोवंक लज जाल्या."

वासंतीक अशा वेळार हीं उलोवणीं आवडलीं नात. ताका शिट् जालें. "तुमी आनी कांय लावन घेवं नाकात म्हजें. म्हजें हांव भोगतलें. भयण लग्न करून दिली त्या दिसाकच मेली म्हण समजात."

"तूं अशें मोव म्हणच हें सगळें चल्लां. तू घट रावलार जावचें नासलें हें."

भितरल्यान रामदास एकदम ताणशेलो, "कित्याक येयलात खंय ते. कोणें आफोवणें धाडिल्लें? आमी आमकां जाय तशे करतले. तेंकां लागना तें."

उलोवनच सोपिल्ले वरी दोगय भाव वोगच रावले. तुकाराम इल्लो खडबडीत मनीस. तो आपलेपणानच उलयतालो. पूण थंय वोगच कोडूपण पातळिल्ले वरी जाल्लें. इतल्यान आवयन च्याव करून हाडून तेंचे मुखार दवरली. आवयक पळोवन तुकारामान भायलो भितरलो ताण उणो जावं म्हणच म्हटलें, "बरी भागल्या मुगे तूं. बरी आसा मुगे?"

"म्हातारकाळाक आनी कसलें बरेपण." मागीर तिणें भितरले वटेन दोळे दीतशें म्हटलें, "नशिबांत मागून येवंक जाय, म्हातारपण बरें वच्चें म्हण." हाचेर रामदासाक राग येयल्लो पूण तो थोंपरा मेरेन घातिल्ल्या पांयाच्या प्लेस्टराक पळयत वोग रावलो. पूण तो हो राग आनीक केन्ना काडचो ना हें सांगूंक जायनासलें.

ते उठले. भितरले वटेन येवन कांयच खीण रामदासा मुखार उबे रावले आनी वचूंक फाटीं फिल्ले. रामदासान कुजकेपणानशें म्हटलें, "तुमी येवन वतकीर, दर फावटीं फाटल्यान झगडींच जातात घरांत."

हाचेर वासंती तापलें, "कितें उलयता तूं? पांय मोडला, वोग पडून राव थिंगा. तरी बरें, पाटी पांयार पडली, तकलेर पडली ना." एक बरें आसले, तें भयमुक्त आसलें, आतां तो उठून गाळी संवत आंगार मारूंक येवचो नासलो. तोवय अपंगूळ कसो वोगच रावलो.

धाकलो चंद्रकांत इल्लो मोव, भावूक मनाचो आसलो. तो येत सान कांयच उलोवंक नासलो. आतां तो म्हणालो, "ताई, आतां आनी आमी हिंगा येवचें उल्लें ना. तूंच केन्ना यो घरा."

ते वचूंक गेले. वयताना दिवंकच म्हण हाडिल्ले एक हजार रुपये तुकारामान बळयां वासंतील्या हातांत चेपले. वासंती दोगांय भावांक ते रस्त्यार पावता म्हणसर दोळ्यांत दुकां हाडून पळयत रावलें. मागीर तेच्या लक्षांत येयलें, 'बाबाक राखात' म्हण तेंकां सांगचेंच उल्लें. आतां आनी हांव केन्ना तेंचे सरीं पावतलें आनी ते केन्ना हेवटेन येतले!

त्या दिसा सांजचो रामदास सोरो पिवंक म्हण तळमळटालो. ताळ्यांतल्यान हूं हूं आवाज येतालो. शेवटा तेणें म्हटलेंच, ''वासंती कोणाकय धाडून एक पाव सोरो हाडून घेता? वयर रस्त्या वटेन गेलार कोणय मेळटलो.'' वासंतीन ना आयकलेंशें केलें आनी तें पयस पयस रावलें. मागीर तो व्हडान म्हणटालो, ''म्हजीं दुःखां हांव सोऱ्यांत बुडयतां. म्हाका नोकरी ना, धंदो ना. पयसो ना. इल्लो धंदो करूंक गेलार म्हाका धल्लो, म्हाजो पांय मोडलो. म्हाका जैलांत घायलो. हांव परिक्षेक नापास जालार बाबा म्हाका धरून बडयतालो. जड्डो म्हणटालो,भीक मागून खावंक पडटलो. खरेंच जालें तें. हे आवयन एक दीस म्हाका ओडून घेवन कुशींत घेयलें ना. तिका चलयांचेरच मोग. बापायन रिटायर्ड जातकीर हाडिल्लो सगळो पयसो धुवांल्या लग्नाकच घातलो. म्हाका कितें दवल्लां? आशिल्लें आई वेंग मारून बसल्या...'' तो रडूंक लागलो. तरीय वासंती म्हऱ्यान गेलें ना.

सारक्कें एक म्हयन्यान रामदासाल्या पांयाचें प्लेस्टर काडलें. चार दीस कुटतसो चल्लो. मागीर सडसडीत बरो जालो. प्लेस्टर घालत सान सोरो पिवंक मेळूंक नासलो. एक दीस वेंकटेश सांजचो येवन आंगणामेरे सरीं उबो रावलो. फारेस्टाचें प्रकरण जायत सान तो आज पयलीच फावट दिसतालो. पांयांक प्लेस्टर घालून रामदास घरांत पडिल्लो पूण तो एक दीस येयलो ना. तेका पळोवन रामदास भायर येयलो आनी तेचे सरीं गेलो. मागीर दोगय इल्ले कुशीक सरून बारीक उलोवंक लागले. पळोवन वासंती रागान तिरमिरलें. सामकें सुद्दी भायरच गेलें. तेणें मोठ्यान म्हटलें, ''एक फावट पडले फोंडांत, आतां आनी खंय वचून फोंडांत पडची माण्णी? सांगतां, कोण एकलो हे मुखार आमच्या घरा सरीं येवंक जायना. कितें गू खावचो तो तुमीच खायात. म्हज्या घोवाक आनी नाका.''

वेंकटेश कांय वेळ तेका पळयत रावलो. मागीर म्हणालो, ''येवचो ना, ना येवचो. तुगेलो घोवच आमकां सोदत येतलो पळय. काम-धंदो, पयसो-सोरो ना जाल्यार मरतलो तो. तुका येद्दें हें नाक कित्याक काय म्हणटां हांव?'' मागीर तेणें रामदासाक म्हटलें, ''तूं रस्त्या वटेन येता काय वयता घरांत? चल, तुगेली बायल घरांत आफयता तुका.'' तो चलूंक लागलो. ताचे फाटलान रामदासय लागलो चलूंक. वासंती हताश जीव गेल्ले वरी दारांतच बसलें.

मांय चुली सरीं खुडूखुडू करताली. वासंती वोग वचून हांथरुणार पडलें. दोगांय भुरगीं शेणिल्ले वरी, भियेल्ले वरी भायर भितर करतालीं.

बरोच उसरां तो पिवन येयलो. आदीं खूब पयसुल्ल्यान कोणाक तरी गाळी संवतासो आवाज येयलो. भायर खूब काळोख आसलो, थंड शांतताय आसली, रातकिडेय किरकिराताले. तेतूंतल्यान तो आवाज येतालो. दारांत पावतकीर तेणें आड केल्ल्या दारार एक खोंट माल्ली. मागीर तो आड्डलो,

''तुका रांडे मद माल्ला. भावांल्या खुस्तार हुड्टा चेडी. दारांत येयल्ल्या दादल्याक गू खा म्हणटा, गाळी संवता, धांवडायता. तुका लागना तें. म्हजे इस्ट ते'' तो सामको कंठ ताणून उलयतालो. केन्ना कुडीचो कांटो



भितरल्यान घट जातालो. लुबडीं उतरां नीट भायर पडनासलीं. पूण तेतूंतल्यान राग जसो ओत्तालो.

वासंती वोग उठून हांथरुणार बशिल्लें. तेणें म्हटलें, ''सोऱ्यांतच बुडून मरतलो तूं. कांयच जावचें ना आता.''

आयकोन तो एकदम तेचेर झुडोन गेलो. तेणें आदीं तेच्या तोंडार एक थापट दिलें मागीर फाटीर थापट माल्लें. वासंती वाघीण कशें उठलें आनी थंय फळ्यार एक आलेमिनाचे तोपलें आसलें तें उखलून तेच्या भुजा बराबर माल्लें. मागीर तेका तशेंच धुकलून दिलें. तो लडबडत कुशीक भूंयर पडलो. कांय वेळ 'आवय गे, आवय गे' म्हण आड्डलो आनी मागीर वोग जालो.

दोगांय भुरगीं किळांच्यो मारीत भायर धांविल्लीं आनी काळखांत आंगणांत उबीं रावन रडटालीं. आवय सुन्न रांदचे कुडीच्या दारांत उबी आसली. तिचो जाण्टो मेंदू भेरेल्ले वरी जाल्लो. कितें करचेंच सुचनासलें. तिका भिरांत दिसताली, आतां आपूण एक उतर उलयलार तो उठून आपणाक लेगीत मारीत.

तिणें भायर वचून भुरग्यांक घरांत हाडलें. इल्लें वाडून तेंका भरयलें. एकाच ताटांत शीत कडी घेतिल्ली. एकेक उंडी आळीपाळीन एक दुसऱ्याक भरयताली. वासंती न्हिदिल्ले कडेन लागींच रामदास थार पडिल्लो. भुरगीं तेवटेन वचूंक भियेतालीं. आज्जेन ओडून हाडुनच तेंकां आई सरीं न्हिदयलें.

पूण तिणें रामदासाची वास्तपुस्त केली ना. तिवय जेवनासतांच न्हिदली.

खूब रातीर रामदासाक जाग येयली. पोटांत भुकेचो भगभग पडिल्लो. तो ल्हवच उठलो आनी रांदचेकुडींत गेलो. बल्ब पेटयलो. ताटांत शीत-कडी वाडून घेवन जेवलो.

आवयक आनी बायलेक दोगांकय कळिल्लें, तो उठून रांदचेकुडींत गेला म्हण. पूण तीं उठलीं नात.

दुसऱ्या दिसा रोगेल्लो कोंबो कसो तो दीसबर घरांतच आसलो. मदीं केन्ना तरी तेणें आवयक म्हटलें, ''आई, तेणें रातचो म्हज्या खांदार दांडो घायलो. खांदो दुखता,

तुंवय सामील तेका. हांव मेलार पुरो जालां तुमकां. भुरग्यांक बापूय ना करूंक पळयतात. मरतलों हांव, सोरो पिवनच मरतलों.''

''तूं कित्याक तेका मारूंक गेल्लो तर? पिवन येयल्लो, वोग जेवन न्हिदचो आसलो. ह्या पुढे तुजो मार खावचें ना तें. पुरो जालो गेल्ल्या धा वर्सांत खायल्लो मार. काल खांदार माल्ला, फाल्यां तकलेर मारतलें.''

रामदास घुसमटलोसो करून वोग रावलो.

वासंती दीसबर घरांत नासलें. सकाळीं उठून रानांत जळोव हाडूंक गेल्लें. तें लाकडां वोजें घरा लागीं उडयलें आनी भायल्या भायर पोरसाक उदक घालूंक गेलें. वेळ माथ्यार पावंक परतें येयलें आनी पेज जेवन वोग न्हिदलें. मागीर उठलें आनी शीत जेवन शेतांत दिपळे फोडूंक गेलें.

पयसुल्लीं सगळीं शेतां रोवचीं आतां सगळ्यांन सोडिल्लीं. घरा सकल्ले वटेनचीं थोडीं शेतां वंय घालून कांय जण रोयताले. तातूंत वासंतीघरचें फक्कत एक खांडयेचें शेत आसलें. हो पांय मोडून घरांत पडटकीर वासंतीन शेजारच्या उल्हासाक पांये पडून कसून घेयल्लें. मांवान सांडून गेल्लें जोत आसलें. पूण रामदासान एक दीस बैलांचें पळयलें ना. तेंच बांदतालें, सोडटालें. आतां गोरवां कोण राखनासले. सोडटाले आनी राना वटेन बडोवन घालताले. शिंवक तण-शिवड नाशिल्ल्यान गांवचे कितलेशेच गोटे कोसळून वचूंक लागिल्ले. वासंतीन मात तण राखून दवरून आपलो गोटो शिंवन घेयल्लो. आपूण कशेंय करून गोटोय राखतलें आनी बैलांकय सांभाळटलें अशें तें म्हणटालें. म्हज्या मांवान खूब कश्ट काडल्यात हांगा. तेचेंच धन हें. शेत तर कशेंय करून रोवंकच जाय. तीन म्हयन्यांचें तरी पोट तें. तें पडींग पडलार घरांत मूठबर भात तांदूळ येवचो ना. कितलें म्हण विकत हाडून खातलें? मांयले पेन्सिनेर चल्लां आतां. मांय फाल्यां आसा ना! एकवटेन घोवालो सोरो, तेचें वागप हाचेन मन दुखीन चरचरतालें तर दुसरे वटेन तें घटसाण घेतालें- भुरग्यां खातीर म्हाका कशेंय जगूंक जाय, हातपांय हालोवंक जाय!

वासंतीन घोवा कडेन उलोवप सांडिल्लें. तोवय जापेक येनासलो. दीसबर हांगा थंय भोंवत रावतालो आनी सांजचो, केन्ना दनपरचोय दाम्मून पिवन येतालो. पिलो म्हणटकीर सोरो तेगेले तकलेकच चडटालो. ताणशेवन बोवाळूंक लागतालो. सोऱ्या वरी आतां बोब मारपय एक व्यसन जावन गेल्लें. बोब मारूंक कसलेंय कारण चलतालें. दीसबर घडिल्ली खंयचीय घडणूक, कोण कितें उलयलो, कोण फुतफुतलो, कोण थुकलो, कोणें झेत दाखयलो, गाळी संवंक कितेंय चलतालें, कोणाल्याय नांवान गाळी संवतालो. कोण ना मेळ्ळो तर बायलेक, आवयक गाळी संवतालो. मेल्ल्या बापायक काडटालो.

आवय रांदचे कुडींतल्यान कितेंय उलयताली पूण वासंती वोग्ग रावताले. वासंती जाणा आसलें, आपूण कितें उलयलें की तो चवताळटा, हाणामारीर येता.

गांवच्यांक, शेजाऱ्यांक गाळी मारतकीर पयलीं कोणय विचारूंक येतालो. मोटो कलकल जातालो. एकदोगान तेका हातान, तोण्यान मारुनय पळयलें पूण तो कोणाक संवचो रावनासलो. लोकाकय मागीर कांय दिसना जालें. आतां सगळें फक्कत वासंतीन एकल्यान भोगचें आसलें!

पांयाचें प्लेस्टर काडत सान दोन-तीन म्हयने हें चलिल्लें. वासंतीक दुबाव येतालो, हो पिवंक पयशे खंयसान हाडटा? तेका दिसतालें, तेगेले ते इस्ट आनी तो वांगडाच पिवंक बसतात. नाड ते, आनीक कसल्योय राटावळी करतात दिसतले. गांवांत तर सोरोखायऱ्यांच्या नांवान चोरीमारीच्यो कागाळी सदांच आसताल्यो. एक दीस शर्ट खुंटयेक लायल्ले कडेन तीन-चार शंबरांच्यो नोटी तेगेल्या खिशांत दिसल्यो.

तें चडच दुबावलें, मुंबयच्यान येतकीर धा हजार व्हरून गांवच्या बेंकेंत दवरिल्ले. तेंकां हात लावंक नासलो. मांव आसताना सगळें तोच पळयतालो. मागीर मांयली पेन्शन. मांयनय म्हणिल्लें, मुखार भुरग्यांलें शिकप आसा, बरें-वायट आसा, गांठीक कितेंय आसूंक जाय. बेंकेचो बूक तेचे सरीं तेणें लिपोवन दवरिल्लो. म्हण तें इल्लें हुस्क्या मेकळें आसलें.

दुसऱ्याच दिसा तें बूक घेवन बेंकेंत गेलें. एक़लो वोळखीचो आसलो. तेचे सरीं बूक दिवन हेचेर कितले पयशे आसात ते पळय म्हण सांगलें. पळयल्यार तेचे वयले साडेसात हजार काडिल्ले आनी अडेच हजार उरिल्ले. वासंतीन म्हटलें, ''बूक म्हजे कडेन आसताना पयशे कशे दिले तर?''

हाचेर कुशीन बशिल्ल्या एका क्लार्कान व्हडान म्हटलें, ''पयलींचो कायदो ना आतां. आतां बुका शिवाय फक्कत नंबर दिवन पयशे काडूंक जातात.''



वासंती तोंडार मारिल्ले वरी परत फिल्लें. वाटबर तेका तळमळून रडूंक येतालें. पूण तेणें दुकां प्रयत्नान थोपोवन धल्लीं. पयशे गेले म्हणच न्ही तर सोताचो घोव इतल्या वायट थरार गेलो म्हणय तेका रडूंक येतालें.

घरा येवन हांथरुणार पडून तें हमहमसून रडूंक लागलें. 'कितें जाले गो' म्हणत मांय लागीं येयली. वासंतीन बूक काडून भूंयर आपटिलो. मांयक ना सांगतांच कळ्ळें, रामदासान बुका वयले पयशे चोरून काडले आसतले म्हण. तिणे म्हटलें, ''हे कुळयेक असलो मनीस केन्ना जल्माक येवंक ना दिसतलो. म्हगेलो मांव रानांत चार मैल भितर वचून शेत करतालो. भात, तण तकलेर मारून हाडटालो. पिकेर रातचो माळ्याक वयतालो.''

दनपरां घोवालीं पावलां दारांत वाजतकीर तें रागान भायर येयलें. पासबूक तेच्या हड्ड्यार मारून म्हटलें, ''हेतूंतले पयशे कित्याक चोल्ले

तुयें? म्हज्या भुरग्यांच्या नांवान दवरिल्ले हांयें, म्हज्या भुरग्यांचो गिरास काडून घेयलो तुयें? तें मूत पिवक पयशे काडले तुयें? पाड पडूं तुजें. पांय मोडून तसोच घरांत पडून उल्लार बरो आसलो.''

रामदास कांय उलयलो ना. कांय वेळ भायर भितर करत रावलो. मागीर भायर वचूंक गेलो. सांजसर तेचो पत्तो नासलो. रातचो बऱ्याच उसरां पिवन येवन आड्डूंक लागलो, ''म्हजे पयशे, हांयें घाम गळोवन जोडिल्ले. हांयें काडून खर्च केले. हांयें मजा माल्ली. हांव भुरग्यांक पोसतलों. तूं कोण विचारतलें? त्या बुकार आतां झिरो करून दवरतां पळय...''

वासंतीक दिसलें, आतां आनी म्हज्यान तग मारूंक जावचें ना. उठून उबें रावंक जावचें ना. हीं दोगां भुरगीं न्ही जाल्यार खंयूय वचून आत्तां न्हंयंत, बांयत हुडी घेवन जीव दितासलें!

धुळवप, शेत रोवप लागीं येयल्लें. कोणें कोणें कसूंक सुरूय केल्लें. वासंती रावतालें, तो मुखार सरता काय पळोवंक. बेठेंच घरांत उस्वास सोडिल्ले वरी करतालें. शेजारचो रामनाथ खांदार नांगरा घडप घेवन बैलांजोत हामडीत वयतालो. पळोवन रामदास घरांत येयलो. बायलेक म्हणालो, ''आमी आमचें रोवन उडोवया. सारें वारोवचें, आडवें उबें कसचें आनी रोवचें. दिपळे मोटे उल्लार फोडचे पडटले.''

''दिपळे उरचे नात. पयली कस जातकीर बारीक फोडिल्ले हांयें.'' सारें घालूंक खोरें, चोबे तेणे तयार केले. त्या दिसा सांजचें तीं दोगांय चोबे, खोरें घेवन गोट्या फाटल्या शेणा गायरीर गेलीं. रामदास वांगडाच दोन चोबे भरतालो, एक वासंतीले तकलेर उखलतालो, दुसरो आपुणच शक्त लावन उखलून घेतालो. मागीर दोगांय वांगडाच वचून शेतांत रखोवन येताले. वासंती चड उलय नासलें पूण तेका बरें दिसतालें. इल्लें इल्लें हांशें तोंडार उदेतालें. एक फावट चोबो उखलून रामदासान तेगेल्या पोल्याक हात लायलो. ताका घळ्ळ जावन रडुंकच येयलें. बेगीबेगीन फाट करून तें चलूंक लागलें. मनांत म्हटलें, भांगरा सारख्या आयुश्याची वाट लायली हेणें!

ती सांज आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं मेळून तांणी गायरींतलें सारें व्हरून शेतांत घायलें. तेच्या दुसऱ्याच दिसा सकाळीं शेतांत जोत बांदलें आनी चार दिसांत आडवें कसून उडयलें. वासंती शेतांतच उरतालें. मोटे दिपळे उल्लार फोडटालें. कोनशे, कडो खोऱ्यान खणटालें, सारें वारयतालें. उपरांत बीं घालून शेत उबें कसलें. णव-धा दिसांत रोवचो वावर सोंपलो. आतां वंय नीट करचो वावर तितलो उरिल्लो. तो वावर मागीर पावस पडून शेत किल्लावन येतकीर करूं येतालो. मुखार नाटूंक, नडूंक तें आयिल्लेंच.

वासंतीक अजाप दिसतालें, ह्या आठ दिसांत तो सामको पियेलो ना. शेतांतल्यान उसरां येतालो, बांयर वचून न्हावतालो आनी वोगी येवन हांथरुणार बसतालो. तेन्ना तो देव कसो दिसतालो. पूण वासंतीलो भावार्त नाशिल्लो. विश्वास नाशिल्लो. तें थर्त भियेवनच आशिल्लें.

दुसऱ्या दिसा तो आवय कडेन पयशे



मागूंक लागलो. आवयन म्हटलें, ''जेवंक-खावंक, सामान-सुमान हांव पळयतां. तुका आनी पयशे खंयचे दी म्हणटा? पयशे व्हरतलो आनी पिवन धांदळ घालतलो तूं.'' आवयन मागीर धा रुपयांची नोट मुखार केली. ती तेणें आवयच्या हातांतल्यान ओडून थंयच सकल शेवटिली आनी भायर सरून गेलो.

घरा मुखार इल्लें पयल्यान नरशींवालें घर आसलें. डिप्लोमा जाल्लो तो पयलीं कांय वर्सां गोंयांत खंय तरी नोकरेक आसलो. उपरांत थंय सान येवन ताणें गांवांतच सिमिटाचीं जनेलां, खांबे, तुळशी करचीं ल्हानशीच फॅक्टरी घायली. तेगेली बायल फाटीं केन्सरान मेल्ली. एकलोच पूत तेगेल्या भावा सरीं शिकूंक बेळगांवां आशिल्लो. नरशींवा कडेन वचून पांये पडून रामदासान शंभर रुपये घेयले. तो अर्दीमर्दीं ताका पयशे दितालो. दितकीर दर फावट सांगतालो, तुवें घेतिल्ले आतां इतले इतले जाल्यात.

दनपरांच तो बरेंच पिवन येयलो आनी आवयक बुरश्यो बुरश्यो गाळी संवंक लागलो, म्हणूंक लागलो, ''बापायले पेन्सिनेचो सगळो पयसो तुजोच न्ही, म्हजोय वांटो आसा. हांव पूत तेगेलो.''

ती कितें उलोवंक गेलार, तेणें तिच्या कपलार मूठ माल्ली. ती वोग रांदचे कुडींत गेली आनी चुली मुखार बसून रडिल्ले वरी उलोवंक लागली, ''हो जावचो म्हण सतरा देवांक सतरा कडेन सांगणे घायल्लें. दोन वर्सांत सगळीं सांगणीं पावयल्लीं. मार खोशयेन पांच दीस गणपती दवरून घेयल्लो. हेका माटवळेक बांदिल्लो... मांव म्हणटालो, नातू जावंक जाय; घोव म्हणटालो, चेडो जावंक जाय, म्हज्या जिवाक णव म्हयने ग्रपखपो... चेड्वां जाल्लीं बऱ्यान गेलीं, बऱ्याक पावलीं.''

वासंती मांय फाटल्यान येवन उबें आसलें. सुन्न सगळें पळयतालें.

आतां तो पयश्यांक लागून आवयचे फाटीकच लागिल्लो आसतालो. आतां ती तेका इतली भित्ताली, कितें आशिल्लें काडून दिताली. ना तर गाळी संवतालो. धुकलून दितालो, मुठयो घालतालो.

आतां आतां मांय सगळो राग वासंतीचेर काडटाली. म्हणटाली, ''मुंबयंत आशिल्लीं थंयच चाब्बून रावंक जाय आसलीं. तुमी हिंगा येयलीं आनी आतां म्हजो हो भोग! आशिल्लें नाशिल्लें तुमच्या हड्ड्यार घालचें आनी म्हाका मागीर हातपांय मोडून हांथरुणार

पडलार कोण पळयतलो? हांव आतां एक पयसो खर्च करचें ना. कांय दिवचें ना तुमकां.'' आता ती पेन्सिनचो दीस जालो तरी बेंकेंत वचूंक खांकुडटाली. कूस मारताली. आपणा सरीं कांयच ना करून दाखयताली. आदींच रामदासान तिचे कडच्यान पयशे काडून व्हरप आनी मागीर तिणें आपणा सरीं कांयच ना करून दाखोवप, निमित्त करप. हाचेन भुरग्यांच्या खाणा-जेवणाचे हाल जाताले. तिगेलें आतां रात-दीस एकच आसतालें, 'म्हजें नज जातकीर कशें जातलें? म्हजें कोण करतलो?' तिचो सोता वेलो आनी संवसारा वेलो विश्वास उठिल्ले वरी जाल्लो. भुरग्यांक तापयताली, वासंतीचेर किसळटाली.

सगळें हाता भायर वयता तशें वासंती मनान घट निबर जातालें. थारयतालें, हे पुढे संवसाराक हांवें एकल्यान तकली मारूंक जाय. भुरगीं मार्गाक लागतासर हांवें मरूंक फावना!

तो पुराय पावसाळो झगडींआबडी बोबो हुयेल्यो हातुनच गेलो. तेतून आनी घरांत हें ना, तें ना. एक बरें आसलें, मांयकय भूक लागताली म्हणच खाणजेवणाच्यो वस्ती घरांत येताल्यो. तिका च्याव पिवची तल्लफ लागताली म्हणच साखर पालो घरांत येतालो. कितेंय एकल्यानच खावचें जेवचें इतली मुर्दाड ती नासलीच.

तिणें कितलेय हात राखले तरीय पुताक चार आठ दिसांतल्यान शंभर दोनशें दिवचेच पडटाले. ना तर मारूंक आंगार येतालो. मुळांत तो इतलो दुश्ट, तुसडो, मदांत, स्वार्थी नासुये. पूण सोऱ्यान सगळे दुर्गूण हाडून ताच्यांत खच्चून भरिल्ले. कोणय बरे कपडे घालून वयताना पळयलार पच् करून थुकतालो. कोणालें कितेंय बरें आयकलार तोंड वाकडें करतालो. एक दीस एकलो नाल्ल पाडूंक माडार चडिल्लो, अवचीत एक बायल माडा मुळांतल्यान पासार जावंक लागली तर रामदासान तिका जाणा जावनय सांगलेंना. तोंड फिरोवन वोग रावलो. नाल्लांची पेंड तिचे तकलेर पट्टां पट्टां चुकली.

पुराय पावसाळो हातपांय हालय नासतानाच गेलो म्हटलार जाता. सुरवेक पंधरा वीस दीस शेतांत नडचें नाटचें काम जाल्लें. कोणागेरय शेतांत मजुरेक वयतलो म्हटल्यार गांवचीं शेतां पडींग पडिल्लीं.

शेतां पिकून लुंवचो वेळ येयलो तेन्ना वासंतीन घोवाक सांगलें, ''बेगीन लुंवन राशीक घालूंक जाय. आठ दिसांन दाणो झडूंक लागतलो.'' रामदास वोगच रावलो. पूण त्या दिसा सांजच्याच दोन विळे मेस्ताले साळेंत व्हरून तेणें धार लावन हाडले. खांडयेचें शेत, चारच दिसांन लुवन खळार हाडून राशीक घायलें. पावस नाशिल्लो. मळब नितळ आसलें. म्हण कसलो त्रास जालो ना.

धांवपळय जाली ना. फुडले चार पांच दीस तें मळून भात घरांतच पावलें. तण तितलेंच खळार उल्लें. वासंतीक तें तण जाय आसलें, गोटो शिवंक जाय आसलें, बैलांले खावडीक



जाय आसलें.

गेल्लीं दोन वर्सां रानांतल्यान लाकूड हाडून विकताना रामदास शेता वटेन पळय लेगीत नासलो. पूण ह्या वर्साक तेणें बेस काम केलें. लुंवताना, मळटाना मर्दीच तो उबो रावन गांवा वटेन पळयतालो. अस्वस्थ दिसतालो. वासंती तेका जोखतालें. तेका भिरांतय दिसताली, तो केन्नाय गांवा वटेन चलूंक लागत म्हण. तो मर्दी काम सोडून गेलो ना. सांजचो मात न्हावन रस्त्या वटेन वयतालो आनी इल्लो पिवन बेगिनच परत येतालो. कांय उलयनासलो. तेचे हे अशे वागणुकेचें वासंतीक अजाप दिसतालें. सोताचो घोव आसुनय ताका तो कळनासलो. तो मनिसच कठीण दिसतालो.

काम करूंक वासंतीले हात शिंवशिंवताले. शेतां उणीं जाल्लीं खरीं, काम करचे हातय उणे जाल्ले. तें कोणकोणागेर लुंवच्या मळच्या कामाक वयतालें. ह्या गावचीं कामां जातकीर शेजारच्या होळगदे गांवांत हेरां बरोबर आनी आठ दीस कामाक गेलें. ताका दिसतालें अशेंच आपणाक वर्सबर काम मेळत रावचें. पूण लुवणी मळणी जाली म्हणटकीर हो गांव आंग कवळून घेतालो. मागीर मुखाल्लो पावस मेरेन गांव भणंग उकतो पडिल्लो आसतालो. रानांत वचून लाकूडफाटो हाडचें सोडल्यार हेर चडशें काम आसनासलें. गोरवां राखप तर लोकान केन्नाच सोडून दिल्लें.

वासंतीक केन्ना दिसतालें, हो गांव आतां चड दीस तिगचो ना. लोक बिटकी कवळून शारांनी वचूक लागतले. शेतां पडींग पडटलीं. गोरवां पारपोळ भोंवतलीं. तें भियेल्ले वरी जातालें. म्हाका तर आतां ह्या गांवांतच रावंक जाय! तें चित्तालें, गांव पडींग पडलार हीं सोऱ्या दुकानां बंद पडटलीं काय? तशें जाल्यार बरेंच जातलें, साप्प पडींग गांवांत लेगीत आनंदान रावतासलें हांव!

एक दीस रामदास बरोच पिवन तांबडोच जावन रस्त्या वयल्यान येतालो. वांगडा सावळो आसलो. ताका थंय चिंचेवाड्या वयलो सदाशिव मेळ्ळो. रामदासान तोंडारच फट् करून सदाशिवाक म्हटलें, ''आरे, तुगेलें तें गोरेलें चेडूं त्या फारेस्ट गार्डा बराबर नाचता खंय मुरे. सांभाळ, नाक कापतलें, धांवन वयतलें तें.''

सदाशिव रागान एकदम मुखार येयलो. तेणें चार पांच थापटां झ्यां झ्यां करून ताच्या तोंडार, फाटीर माल्लीं. तेगेल्या वाड्या वयलो आनीक एकलो लागींच आसलो. तोवय मुखार येयलो. तेणेंय तीन चार फुलयलीं. तो तेंकां पांये पडत थंय सान धांवत गेलो. ताका मारतात तें पळोवन सावळो केन्नाच पयस गेल्लो.

घरा सरीं पावलो आनी अजुनय घुंवळेंत आशिल्लो रामदास रडूंक लागलो आनी पोले पुसोवन घेवंक लागलो. वासंतीन पळयल्यार तोंड, आंग काळें निळें जाला, 'अरे कितें जाले?' म्हण विचारल्यार तो कांयच सांगना

जालो.

'कोणें माल्लें तुका?' म्हणत वासंती सडसडीत वयर रस्त्या वटेन चलूंक लागलें. पयस कोण तरी गाळी संवत वयता तें आयकोंक येताले. तें बद्द मुकुंदाल्या पसऱ्या मुखार येवन उबें रावलें. ताका खुबच राग येयल्लो, "मुकुंदमाम, हेका कोणें माल्लें? कोणाल्या हाताक जोर मारिल्लो? कोणाचें मडें खपिल्लें? मेळूंक जाय आसलो हाताक, हांवच दोन दितासलें तोंडार."

थंय भायर दोग चोवग दादले उबे आसले. तांतलो सुहास मुखार येयलो. "वयनी, वायट उलयलो गे रामदासण्णा. त्या सदाशिव नायकाल्या चेडवाची अब्रू काडली ताच्या तोंडारच. तें कोणा बराबर नाचता, धांवत वयतलें म्हटलें. तेका राग येयलो, तेणें माल्लें. मागीर तेगेलो बापोलभाव रामनाथ येयलो."

"दोगांनय माल्लें?"

"हय."

वासंती वोग्ग फाटी फिल्लें. ताका लजशी जाली. हांव आनी कित्याक येयल्लें वयर? दादले आसले थंय!

मर्दी देड दोन वर्सां गेलीं. चेडो अक्षय आतां इकरा वर्सांचो जाल्लो. चेडूं मीना सात वर्सांचें जाल्लें. दोगांय गांवच्या शाळेंत वयतालीं. बरें जेवयलें तरीय भुरगीं आंगान भर नासलीं. वोगच काळशीं, भागिल्लींशीं दिसतालीं. आंगार तेजच येनासलें.

वासंती घरा सकल्लें शेत चुकनासताना करतालें. मर्दी कोणागेरय कसलेंय काम आसलार मजुरेक वयतालें. मांय सामानसुमन हाडूंक अर्दी-मर्दी कितेंय दिताली. ताचो सोरो सुटलार कल्याण जातासलें आयुश्याचें.

ताचें आवय कडेन झगडप सदांचेंच जाल्लें. पयश्यां खातीर म्हण झगडटालो. आपणाक कितेंय उलयता म्हण झगडटालो. आपणाक नीट जेवण घालिनात म्हण झगडटालो. वासंती ताचे पसून पयस पयसच रावतालें. आपणाल्या हड्ड्यार येवन बसना तोवर वोग रावतालें. तरीय अर्दी मर्दी अशे प्रसंग येताले, तो गाळी संवत ताच्या आंगार धांवन येतालो. थापटां घालतालो. तें रडऽ नासलें, श्रापऽ नासलें. हें दुःख सासणाचें जाल्ले वरी मखख काळजान सोंसतालें. आईक मारूंक लागतकीर भुरगीं किळांच्यो मारून रडटालीं. तेन्ना तें भुरग्यांक घुमके घालून भायर वोडून व्हरतालें.

आता कोण एकलो ताच्या घरा सरीं येयनासलो. शेजाऱ्यांक, गांवच्यांक जण एकल्याक केन्ना ना तर केन्ना गाळी संवन मेकळो जाल्लो.

तेचे इस्ट वेंकटेश आनी सावळो हांणी आपलो पयलींचो रानांतल्यान लाकूड कातरून हाडचो धंदो परतो सुरू केल्लो. ते अर्दी-मर्दी गोंयच्यान सोऱ्या वोर्जी हाडटात म्हणय आयकूंक येतालें. ते घरा सरीं येयनासले पूण वासंतीक होलमतालें. तें दुबावतालें - ते दोगय रस्त्यार सोऱ्या दुकाना सरीं रामदासाक रावतात. तेका अर्दी-मर्दी सोरो घालतात. केन्ना तो सोऱ्या नेटार आपल्या ह्या इस्टांचीं भोवमानान नांवां घेतालो.

एक दीस कितें जालें, कोणाक खबर. पिवंक बशिल्ले कडेन झगडीं जाल्लीं आसतलीं. रातचो वेंकटेश आपल्या आंगणात उबो रावन व्हडव्हडान रामदासाक गाळी संवतालो. मर्दी एक शेत आसलें. त्या शेता पयल्यान वेंकटेशालें घर आसलें. ताचें तें संवप एका सुरांत उक्त्या शेतापार पयस आयकोंक येतालें. तें गाळी संवप आयकोन रामदास मागीलदारांत धांवलो. त्याच नेटान वेंकटेशाक गाळी संवक लागलो. दोगय सोऱ्याचे फुल्ल धुंवळेंत आसले. तो गाळ्यांचो शिंवर जुगलबंदी कसो बरोच वेळ चालू आसलो. सगळो गांव घणघणटालो. ते तशे झगडटाना कळटालें, झगड्याक व्हडलेंशें कांय कारण नासलें, सोऱ्या नेटार तोंडाची खाज काडून घेवंक ते झगडटात. बेठेच मारामारी करूंक एक दुसऱ्याक आफयतात...

गाळी संवप सोंपलें तेन्ना रामदास इतलो थकिल्लो, वोग वचून हांथरुणार पडलो. बायलेन, आवयन एका उतरान तेका कांय विचारूंक ना. भुरगीं मात भिवन थरथरत वणटीक तेंकून बशिल्लीं आसलीं.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं वेंकटेशाली बायल ललिता येयलें. वासंतीक दिसलें, ही आपणा सरीं झगडूंकच येयल्या पूण ना, पळयल्यार ती भुकेल्ले वरी कंगाल दिसताली. हड्डें दिसनासलें. लांब गळोच दिसतालो. आंगा वयली साडी पोल्क झाडलार पोसोबर धुल्लमाती सकल पडटली अशें दिसतालें. ती आयल्लीच तिणें कुरू करून घोव घरांत आसा काय म्हण विचारलें. वासंतीन मोठ्यान सांगलें, "ना, तो सकाळीं घण घेवन सोनारालें भांगर पेटूंक गेला. येताना आंगभर भांगर लागिल्लें आसता."

तिणें ल्हव तिरक्या आवाजांत विचारलें, "आसा काय कितें तें सांग गो."

"ना तो. सकाळबर भोंवता आनी दनपारचो पिवन येता. मागीर सांजबर न्हिदता आनी वचून रातचो पिवन येता. बेस्ट धंदो तेगेलो."

"पयशे खंय सान हाडटा तर तो?"

"तुगेलो सावकार घोव तेगेलो इस्ट न्ही गो?"

"श्या. रातीं कित्याक म्हूण झगडटाले ते?"

"तुवें रातचें घोवाल्या कुशींत रिगून कानांत विचारचें न्ही गो?"

"श्या. खपलो तो कानांत उलयतलो. संवंक लागलार कानाचे पड्डे फुट्टात. पयलीं इतलो नासलो. आता सोऱ्याचें म्हण खुबच जालां."



"तू कित्याक येयल्लें अशें वेंकटेशा बायले?"

"तूं कितें करता, तुजें कशें चल्लां पळोवया म्हण. सोरो सोडूंक कितें उपाव आसा काय म्हण विचारूंक."

"म्हाका उपाव खबर आसलार हांव घोवाले तकलेर फातर लेगीत घालूंक तयार."

"श्या! अशें कशें उलयता तूं?"

वासंतीन तेका भितर व्हरून च्याव करून दिली. ललीत आतां मनान बरेंच सदळ जालें. वासंती तेका आपलें आपलें दिसूंक लागलें. तें उलयलें, "ल्हान आसतानाच आवय बापूय गेले. मावळ्यानच ल्हानाचें व्हड केल्लें. तेणेंच लग्न करून दिल्लें. एक पोवळ्यां माळ आनी दोन कांकणां घायल्लीं. फारेस्टाच्या लोकान तेका फाटीं व्हरून भितर घायल्लें तेन्ना सोडोवन हाडूंक कांकणां आत्माराम भटा कडेन घाणाक दवरिल्लीं तीं थंयच पडून आसात. चेडूं फाल्यां लग्नाचें जातलें. जोडटा पूण घरांत पयशे दिना. केन्ना कितें हाडून घालता तितलेंच. एक दीस मिरसांग ना तर एक दीस साकर ना. वयल्यान मारता, बडयता. आतां आतां म्हाकाय खूब राग येता. हांवय झगडटां. घरांत मागीर बोबो."

"कुळरा कोण आसात तुगेल्या?"

"कोण नात.व्हडलो एक भाव आशिल्लो. बापोल्या कडेन आशिल्लो तो. जाळ घेवन न्हंयंत रांपूंक गेल्लो तेन्ना बुडून मेलो."

"भाग्यवंत गो बाय तूं. कुळरचे आसलार हांथरुणाक लागून पडटा आसले." वासंतील्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. "बाय ललिता, वायट, सुण्या पाश्ट जिवीत आमचें. घरांत दाणोगोटो हाडप ना. जेवणा खाणाक वळवळवप. वयल्यान बेबद्याली बायल म्हण हिणसावन घेवप. लोक कुछित्रपणान पळयतात. हातबोट लावंक सोदतात. अर्दकुटे अयावपण गो हें. भुरगीं भिजिल्लीं शेवणीं कशीं जालांत."

"खरें, खरें गो बाय तुजें. हांव रातचें न्हिदिल्ले कडच्यान उठ्ठां आनी जीव दिवंक वयचें म्हण चिंत्तां. कुशीन न्हिदिल्ल्या भुरग्यांक पळयतां आनी काळजार फातर दवरून घेतां. रत्नाकर शेटीली बायल कितें सांगता जाणा, जांचे घोव चड पितात तेंगेल्या बायलांनी मेळून सोऱ्या दुकानांनी वयचें आनी दुकानदारांक धमकावचें, आपल्या घोवांक सोरो दिय नाकात म्हण."

"तेणीं दितलेच म्हटल्यार मागीर कितें करचें? पोलीस, एक्सायज, सरपंच सगळे तेंचे वटेन. तेणीं पयशान बांदून घेतलात. आमी तशें वचून सोरो दिय नाका म्हण सांगलार आमचे घोव आमकां दवरतले? आदींच दुस्मान ते आमगेले. आता बेबद्यां बायलो म्हण पंगड बांदून भोंवचेंच उल्लां."

"भोगचें. जल्मबर भोगचें. दोगांय पयलीं एकलो मरसर भोगचें!" आतां मरणच चुकोवंक शकतलें आमकां ह्या भोगांतल्यान."

वेंकटेशा बायल उठली. तिणें म्हटलें, "तुगेली मांय आसा, शेत आसा, म्हगेलें कांयच ना..." ती चलूंक लागली. फाटल्यान वासंतीन पळयल्यार ती जुवान बायल तेका म्हातारी कशी दिसली. वासंतीन विचारलें,



आगो, तूं खंयूय मजुरे कामाक बी वयता?"

"ना. तकलेर चोबो घेतलार म्हजी मान, फाटी कणो दुखता. बागवनय कितें करूंक जायना. आतां आनी मारय खावंक जावचेंना गो म्हज्यान. तुका सांगू, म्हाका केन्ना केन्ना दिसता, ताका वीख घालचें म्हण."

एक दीस वयले वटेनच्या घरांतलो नरशींव - जागेली सिमिटाचीं जनेलां, खांबे करची फॅक्टरी आशिल्लो तो - वासंतीक वाटेरच मेळ्ळो. तो चाळिशींतलो आशिल्लो आनी आंगार बरे बरे कपडे घालतालो. बरो भांगरा काडयांचो चेस्मो घालतालो. वासंती ताच्या आंगा वेल्यान वताना मातशें वोळखीचें हांशें हांसलें आनी चलूंक लागलें. तो म्हणालो, "राव मुगो... धांवता शें, कोण फाटीक लागिल्ले वरी...?" वासंती थाल्लें, गांवचो थोर मोटो मनीस.

"तुगेलो घोव चडच पिता न्ही? अश्या घरांत बायलांचे चुरचुरे गो. सदां म्हजे सरीं पयशे मागता. ना म्हटलार खटासून बसता. आज मेरेन चार पांच हजार जाल्ले आसतले दिल्ले."

"कित्याक दितात तर तुमी?"

"बायलेन मागलात म्हणटा. मागीर ना कसो म्हणटलों? हांवें म्हटलें, बायलेकच घेवन यो मागूंक. तर, येतां येतां... एक दीस घेवनच येतां, म्हणटा."

"हांव वयतां."

"तू जाणा, हांव एकलोच रावतां, एक जीव सदाशीव. रांदून बी जेवंक बेजार येता. तूं अशें कर, म्हगेलें दनपारचें रांदून दवर सद्दां. पागार दितां हांव. कितलो तो पागार तुवेंच थारावचो."

"पळयतां. वयतां हांव आतां."

"घोवाक विचारुनच यो. तो ना म्हणचो ना."

तें चलूक लागलें. तेणें फाटल्यान म्हटलें, "घोवान घेयल्ल्या पयशांचें कितें तें चय."

एक बेबद्याली बायल म्हण तो कितें सांगूंक सोदता तें वासंतीक कळ्ळें. तेका खूब खूब वायट दिसलें. म्हजो घोव कितलोय वायट आसलो तरीय तो म्हजे विशीं हें अशें चिंतचो ना अशें ताका दिसलें. तेणें मांयक ही खबर सांगली. ती आपल्या चेड्याकच संवताली.

आठ दिसान नरशींव घराच येयलो. विचारूंक लागलो, "कितें केलां पयश्यांचें? कितें चिंतलां तुवें? घोव बायलेलें नांव सांगून म्हजे कडच्यान पयशे घेता."

आता तें आपल्या दारांत वागिणच आसलें. तेणें रागान म्हटलें, "कित्याक पयशे दिल्ले? कोणाक विचारून दिल्ले? सय घेवन दवल्ल्या? तूं पांच हजारांचो हिशोब सांगता. तो म्हणटा, घेवंकच ना. कितें आसलार घे

तेचे कडच्यान फारीग करून. म्हाका सांगूं नाका. हांव तुका रांदून घालूंक न्ही, तुज्या वासाक लेगीत येवचें ना.'' तेन्ना मांय फाटल्यान उबी आसली रागान पळयत. तो वोग काडून गेलो. पूण तो राग, मोह धरून रावचो ना हें सांगूं नज आसलें.

मांव मरताना एक बैलाचें जोत सोडून गेल्लो. आतां चार वर्सां जाल्लीं, ते इल्ले जाणटे जाल्ले. पूण मांवाचो म्हालवज म्हण वासंती तांकां बेस सांभाळटालें. तण-पाणी नीट घालतालें. चड करून तेंच बैलांचें पळयतालें. गोटो लागींच आसलो. मदीं एक बारीक शेतोड, ताचे पयल्यान बांदार गोटो. दोगय बैल तांबडे, उब्या शिंगांचे. तेंचो वास, तेंचें रूप, तेंचें साधेपण सगळेंच वासंतीक मानवतालें. केन्ना तेंकां गोट्यांत घालून थंयच तें गवणीर, बरोच वेळ बसतालें. बैलय तोंड वयर करून ताका हुंगलेशें करताले. आनंद जातालो.

एक दीस रामदास सोरो पिवंक नासलो तरीय आवयक, बायलेक आयकोंक वच्चें हे तरेन उलयतालो, ''आनी वर्सान दोन वर्सांन म्हातारे जातले ते. धोपरां मारतले. बडतणाक पडटले. एक खांडयेचें शेत आनी तेका एक बैलाचें जोत पोसप म्हटल्यार हांसची खबर. बांदूं जाय, सोडूं जाय, तण-उदक घालूं जाय.''

वासंतीक ताचें उलोवणें कळ्ळें. तेणें रागानच विचारलें, ''मागीर, कितें करचें म्हणटा?''

''विकून उडोवया ते.''

''आतां कोण घेतले ते जाणटे जोताक? कोणाक जोताक जाय?''

''घेतले, घेतले, कित्याक घेवचे नात?''

''घेतले आनी मांसाक मारूंक गोंयां व्हरतले.''

''आमकां कित्याक पडलां? तेंचें पाप तेंचे तकलेर''

वासंती एकदम आड्डलें, ''ना, हांव दिवंक दिवचें ना. कशेंच दिवचें ना. म्हज्या मांवाचे ते. कोण दिता आनी कोण व्हरूंक येता तें हांव पळयतलें.''

आवयनय म्हटलें, ''उरतले ते गोट्यांत. तेंच पळयता न्ही बैलांचें सगळें.''



मुखाल्ले चार दीस रामदास घरांत घुसमटिल्ले वरी करतालो. वाडिल्लें ताट जेवचे पयलींच धाडायतालो आनी जेवन जाले उपरांतय धाडायतालो.

मदी कांय दीस गेले. एक दीस सकाळीं तें गोट्यांत वचून पळयलार बैल गोट्यांत नात.सांजचे तर तेणें गोट्यांत घालून गवणींत बांदिल्ले. तेणें बेठेंच आजूबाजून खंयूय चरतात काय म्हण पळयलें. पूण खंय नासले. घोवान सकाळीं येवन सोडून घायले म्हणूंक तो अजून घरांत न्हिदिल्लोच आसलो. ताका आगळोच दुबाव आयलो. तें रडतच घरा येयलें. तेणें घोवाक बैलां विशीं विचारल्यार तो वोगच रावलो. तेणें सरसरीत वचून तेगेल्या पेण्टा खिशांत पळयलें. खिशांत नोटांची कवळी आसली.

पळोवन वासंती खूब रडलें. रडतच घोवाक खेपतालें. वर देड वर तें सारकें रडटालें आनी संवतालें, ''मांवाले गोट्यांतले बैल तुवें मांसाक विकले.'' रामदास कांयच उलयनासलो. शेवटा तो आंगार कपडे चडोवन भायर वचूंक गेलो.

दनपरां बरोच पिवन येयलो. म्हणालो, म्हगेल्या बापायलें तें जोत. फाल्यां धोपरां मारून मरून वयतासले. चार पयशे तरी मेळ्ळे. थोडे न्हूं, साडेसात हजारांक विकले ते. तेणें बऱ्योच नोटी काडून वासंती सरीं पेटयेर दवरल्यो. त्यो वासंतीन फासफून जमनीर उडयल्यो. आवय लागींच आशिल्ली. तिका दिसतालें, आतां हो मारूंक वासंतीच्या आंगार वयतलो. पूण तो हाल्लो ना. तिणें मागीर त्यो नोटी वेंचून तांची कवळी करून पेटयेंत उडयली. ते पांच हजार आसले. उरिल्ले रामदासान दवरिल्ले सोऱ्याक.

काल तिनसांजचे काळोख पडटकीर रामदासान बैल गोट्यांतल्यान सोडून रस्त्या वयर रानवाटेर व्हरून एकल्याक विकिल्ले. तेणें मागीर ते हामडून गोंय वटेन व्हयल्ले.

मांय तारामतीलो घोव वचून आठ वर्सां जाल्लीं. हीं आठ वर्सां तिगेलीं भारी बेजारांतच गेल्लीं. तिका सदां एकच ध्यास लागिल्लो आसतालो, आपूण हांत पांय मोडून हांथुरणार पडचें ना मू, देवा! अशें जालार म्हजें कोण करतलो? तिचो कोण्णाचेर विश्वास नासलो. मागीर मागीर तिणें वासंतीक खूब सतायलें. रामदासालो सगळो राग तेचेर काडटालो: कुडीन थकता तशी मनान ल्हान जायत गेल्ली. पयशे काडूंक तयार नासताली. कोणें बरें जेयल्लें खायल्लें पळोवंक जाय नासलें. सगळ्यांचेर किसळटाली. तेतून तिगेलीं कुडीचीं नाना दुखणीं. सांदे दुखताले, पाठीकणो दुखतालो, हागूंमुतूंक सारखें जायनासलें, जेवण खपनासलें. ती आपलो म्हालवज राखताली खरी, पूण ह्या लोकान - रामदासान, वासंतीन तिका लुटून खायल्लें. तिणें पयशे खंयूय पाताळांत लिपोवन दवरले तरीय रामदास केन्ना तिका धमकावन मारून, चोरून काडून व्हरतालो. वासंतीली घरांत हें ना, तें ना ही रड चालूच आसताली. मागीर ती केन्ना खोशयेन, केन्ना शेंवटून आपटून दिताली. तरी तिका एक हुस्को आसतालोच, भुरगीं उपाशीं पडचीं न्ही, ही भुरगीं शिकूंक जाय अशेंय तिका दिसतालें.

नातू अक्षयाली एस्. एस्. सी. ची परिक्षा लागीं पाविल्ली. तो मदले कुडींत अभ्यासाक बशिल्लो तेन्ना तेका भायले वटेन धप्प करून कोण पडिल्ल्याचो आनी बारीक हूं हूं असो आवाज आयकोंक येयलो. तो उठून भायर येयलार भायल्या दारा भितर आज्जी पडिल्ली

दिसली. वासंती मागीलदारांतल्या पोरसांत आशिल्लें. अक्षयान हुयेल्यो मारून तेका आफयलें. मागीर दोगांनय मांयक घरांत हांथरुणार हाडून घायलें.

तिका सुद्द नाशिल्ली. तोंडार फेण आयल्लो आनी ताळ्यांतल्यान हूं हूं आवाज येतालो.

उपरांत ती आठ दीस उल्ली. तिका शेवटा मेरेन सुद्द येवंक ना. आनी तिणें कांय खायलेंय ना.

तालुक्यांतल्यान एक बरो डॉक्टर हाडिल्लो. तेणें सांगलें, "हांगा कांय करूंक जावचें ना. मणिपाल ना तर बेळगांवां व्हरून पळयात. लाख देड लाख खर्च येतलो. तरी बरी जातलीच म्हणूं नज."

रामदास आनी वासंती वोग हात कांबरून घेवन बसले. लाख म्हण आयकलारच छातयेंत धडकी भरताली. तालुक्यांतल्यान हाडिल्ल्या डाक्टराक पाचशें रुपये दिवंक वयर सकल जाल्लें. आठ दिसांत ती मेली.

रामदासान आवयलीं क्रियाकर्मां निश्ठेन केलीं. बारा दीस मेरेन तो घरांतल्यान भायर सल्लो ना. सोरो सोड, माथ्याक इल्लें तेल घायलें ना, आंगाक वासासाबण लायलो ना. दनपरचें सोलकडयेन निखटें शीत आनी रातची पेज.

अकराव्या दिसाक पिंड संतर्पण जातकीर कावळ्याक पिंड दिवक गेलार कावळो पिंडाक हाफडूंक तयार ना. कितलें आफयलें, विनयलें, पांये पडलें पूण कावळे मुखार येयनासले. पिंडाक चोंच लायनासले. पयस खंय तरी झाडार बसताले आनी वोग्ग हुडून वयताले. कां कांव आवाजय करनासले.

पयस उबो आशिल्लो वाड्या वयलो गंगाराम हळूच म्हणटालो, "दत्तारामाल्या चेडवाक पुण्यांत चेडो जाला तर हाणें हिंगा फुगोट्यो मारल्यो. थोडे न्ही, धा बारा मारांद."

हाचेर शेखरान म्हटलें, "पयर रामाल्या आवयन इंदरां वीख घायल्लें. सकाळीं तिणें तें वीख तशेंच भायर हाडून उडयलें. खावन दोग कावळे मेले, पाखां सोडोवन मरून पडिल्ले पळोवन कावळे भियल्यात."

हें कोणाक आयकोंक येयलें ना.



आयकोंक येयलें तरीय कांयच फरक पडचो नासलो. ते आकुळपिकूळ जावन कावळ्यांची वाट पळयतच आसले. पूण वेळ माथ्या वयल्यान देंवलो तरीय कावळो पिंडाक आफुडी नासलो. पुराय दायजी, वाड्या वेलो लोक कुशीन कुशीन उबे आसले. सगळ्यांचेर मोटो तणाव आयल्लो. मर्दीच जाणटेलो रघुनाथदाद रामदासाक संवत मुखार येयलो. तेणें रागान म्हटलें, "ह्या दळदिऱ्यान आवयक गाळी संवल्यो, तिका माल्लें, लटून खायलें. तिगेलो आत्मो तळमळटा दिसतलो मर्दी अंतराळींच. पापया, चूक मागून घे. आनीक आनी सोरो पिना म्हण उतर दी, सोपूत घे."

रघुनाथदादान ताका म्हणूंक लायलें, "आई, हांवें तुका खूब कश्ट दिले, म्हाका आतां वायट दिसता, म्हाका क्षमा कर. हांव हाचे मुखार सोऱ्याक हाफुडचों ना, सोरो पिवचों ना. बायलेक भुरग्यांक बरें करून सांबाळटलों."

मागीर ते सगळे कुशीन वचून झाडां अडसराक उबे रावले. कांय वेळान एक चुकून पडिल्लो कसो कावळो येयलो आनी तेणें पिंडाक चोंच माल्ली. तितलेंच पुरो जालें. सगळ्यांच्या मना वयलें चेपण खिणांत गेलें. गंगाराम म्हणालो, "तारा आवय ती. तिणें केन्ना कोणाक एक वायट उतर दिलें ना. कोणाचेर राग धरून रावली ना. पयलीं ती लोकांक कितली हात उखलून दिताली. ह्या रामदासान जीव खायलो तिगेलो. आतां सोपूत घेतला, तो पाळ्ळ्यार पुरो."

"म्हाका दिसना तेचे कडेन कितें बरें जातलें म्हूण."

"सोरो सोडलार सगळें जातलें बरें."

आवय मेली तेन्ना गांवांत आशिल्ल्यो दोगी धुवो लीला आनी रमा येवन तकली धाडयत रडून गेल्ल्यो. तिसरें सुरेखा पुण्यांत उरतालें, तें दीस जातकीर पावलें. तें रडचें थांबना जातकीर रामदास ताका समजायतालो. "देवमनशां आशिल्लीं आमगेली आई आनी बाबा. तें पुण्य आमकां मेळटलें. बरें जालां तुमगेलें तिगांय भयण्यांलें, म्हगेल्या भुरग्यांलेंय बरें जातलें. तूं रडूं नाका."

सुरेखा रडचें थांबलें आनी धाकल्या भावाचेर रागान किसळ्ळें, "कसली बरी जावची खबर उलयता? कशें बरें जातलें? तुजो खेव पळोवन आमचो सगळ्यांचो जीव अर्दो जाला. कितलें म्हण सोंसतले! आतां तरी सोरो सोड तू."

रामदासान भयणील्या पांयांक हात लावन म्हटलें, "शप्पत! आतां आनी सोरो नाकाच म्हाका, सोऱ्याचो वास घेवचो ना ह्या पुढें."

वासंती सगळें पळयतालें. ताका तें मात्तूय खरें दिसूंक ना आनी तें खोशीय जावंक ना. मांयल्या मरणाक खंय खंयच्यान उस्तून काडून आशिल्ले नाशिल्ले खर्च केल्ले. मुखार कितें? आतां मांयची पेन्शिनय बंद जाल्या. मोटो घोर लागिल्लो वासंतीक.

रामदासान खरोच सोरो सोडिल्लो. गेल्लो म्हयनोबर वासंती पळयतालें, तो आपणाक खंय तरी इल्लें काम, इल्ली नोकरी मेळची म्हण तळमळटालो. मर्दीच गोंयां वयची खबर उलयतालो. वासंतीली इल्ली आस्त पालेताली. तोंडार केन्ना इल्लें हांशें उदेतालें. वासंतीक दिसतालें, हेचे नोकरे विशीं आपणें कोणाक तरी सांगचें.

वाड्या वयलो दायजी नीलकण्ठ तालुक्याच्या ठिकाणार खंयच्या तरी ऑफिसांत काम करतालो. ताणें एक ट्रक घेयल्लो. तो ताणें गोंयां रेतयेक लायल्लो. तो अर्दी मर्दी

घरा येतालो. एक दीस तो येयल्ले कडेन वासंतीन तेका वचून सांगलें, "पयलीं म्हारू बशिल्लो तेचे तकलेर. पितालो, झगडटालो. आतां सामकें सोडलां. दोन ल्हान भुरगीं आसात पदरांत. तेका खंयूय इल्लो कामधंदो पळय. हांव - तुगेली भावा बायल-कोणागेरय दिसवड्याक मजुरेक वयतां, बरें दिसता तुका?"

नीलकण्ठ कांय वेळ वोग रावलो मागीर म्हणालो, "तो सारखो काम करतलो खंयूय?"

"करतलो, सांगतां हांव तेका. पिवचें सोडला न्ही."

नीलकण्ठ हांसलो. तशेंच चार दिसान तेणें घरा सरीं येवन सांगलें, "शिरगाळी एकल्यान न्हंयंतल्यान चिपयो काडचो ठेको घेयला. आठ-धा केरळचे मजूर आसात. तेंचेर देखरेख दवरची, काडिल्लो म्हाल मेजून घेवचो आनी तो ट्रकांत भरचो हें काम. सुरवेक म्हयन्याक अडेच हजार दितां म्हटलां."

वासंतीन थंयच आशिल्ल्या रामदासाक विचारलें, "जातलें न्ही तुज्यान हें काम?"

रामदास एका पांयार तयार जालो. नीलकण्ठान शिटकायलें, "एक दीस पिल्लो दिसलार दुसरे दिसाक तो कामार घेवचो ना."

रामदासान गळ्याक हात लावन 'ना ना' म्हटलें. तेणें मुखार सांगलें, "आमगेल्या घरांत एक पोन्नी सायकल पडिल्ली आसा. ती दुरुस्त करून घेयलार सायकलीन वचूं येतलें. सकाळीं गेलो, सांजचो परतलो. सायकलीन लागीं. बशीन गेलार व्हडलो भोंवतडो."

वासंतीन तेका बस म्हटलें आनी च्याव करून दिली. तें ताका उमेदीन कितें कितें विचारीत आसलें. वयताना तेणें सांगलें, "फाल्यां परां वच तू शिरगाळी आनी म्हागेलें नाव सांग. ठेकेदार तो आनंदू सावंत म्हण. पयसुल्लो सोयरोच तो आमचो."

दुसऱ्या दिसाक लागून तेणें गांवांतच सायकल दुरुस्त करून घेयली आनी तिसऱ्या दिसाकच तो नोकरेक वचूंक गेलो.

सद्दां सकाळीं वयतालो आनी सांजचो येतालो. कामदार न्हंय तडीर आशिल्ल्या तेंच्या खोंपीं मुखार चुलीर मडकी दवरून रांदताले. रामदासाकय दनपरां ताटलेंत शीत कडी घालून दिताले. तेका ते मानान मुकादम म्हणटाले.

रामदासाक एकच गजाल थंय सारखी सांभाळची पडटाली - कामदारान काडिल्लो म्हाल आनी ट्रकान भरून व्हयल्लो म्हाल हांचो हिशोब बेस जुळचो पडटालो. दर आठवड्याक हिशोब जातालो. तें तेका कठीण वचनासलें.

मदीं मदीं कामदारांचीं आपसांतच झगडीं जातालीं. ते आपले भाशेंत व्हडव्हडान उलयताले आनी एकदुसऱ्याच्या आंगार वयताले. तेन्ना रामदासाक मदीं पडून झगडे सोडोवचें पडटालें. तांकां मातशी मातशी हिंदी कळटाली.



स-सात मैल सायकल चलोवन सकाळीं येवप आनी स-सात मैल सायकल चलोवन सांजचें घरा वचप. तिनसांजचो तो घरा पावतालो तेन्ना सामको थकिल्लो आसतालो. पूण तो केन्नाच पिवन येनासलो. वासंतीक संतोश भोगतालो.

पाच-स म्हयने जावंक येयल्ले. एक दीस गांवचे थळावे दोग-तीग येवन रामदासाक सांगूंक लागले, "हे तुमचे कामदार रातचे खूब सोरो पितात आनी बोवाळटात, झगडटात. सांग तेंकां गांवांत रातची वोब नाका म्हण. ना तर आमी दांडे घेवन येवन बडोवन धांवडायतले."

रामदासान तेंकां समजावन, बाबापुता करून परते धाडले. मागीर ताणें त्या कामदारां मुखार सोरो कसो वायट हाचेर भाशण दिलें. शेवटाक म्हटलें, "बरबाद होता है आदमी और उसके बालबच्चे। औरत रात दिन आँसूं बहाते रहती है। पीना छोडो..." ताच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं.

... ती दनपर बरीच खर आसली. वोत आंगार मारलार आंग जळिल्ले वरी जातालें. अस्ताव्यस्त पडिल्ल्यो चिपयांच्यो राशी बुरश्यो दिसताल्यो. चिपी काडूंक व्हरच्यो व्हडयो तडी वेल्या चिखला पयल्यान उदकांत स्थीर उब्यो आसल्यो. काळ्या उदकांत वोत पडटाना न्हंयंत भुतां नाचिल्ले वरी दिसतालीं. सगळे कामदार न्हंयंतल्यान वयर सरून रांदूंक लागिल्ले. कुशीन झाडाचे सावळेंत बशिल्ल्या रामदासाक अचकीत सोऱ्याची उबळ येयल्ले वरी जाली, जीव वयर सकल जायत तो घामाघूम जालो. थंय तो आड पडलो. कांय वेळ लोळतसो रावलो. तेणें सोऱ्याची तलफ खूब कश्टान आडावन धरली.

सायकलीन घरा येताना वाटेर कितलींशींच सोऱ्या दुकानां आसलीं. सोऱ्याचो वास नाकांत घुंवतालो. तरी हट्टान सायकलीचें पेडल मारीत रावलो. घरा पावलो तेन्ना इतलो थकून गेल्लो, लखण मारिल्ले वरी जाताली. वासंती दुबावान तेचे सरीं कांय वेळ पळयत रावलें. मागीर एकदम म्हऱ्यांत गेलें. म्हटलें "पुरो जालां तुका. हात-पांय धुवन यो आनी मातसो आड पड. मागीर वाड्टां हांव तुका. सायकलीचेर बांगडे येयल्ले ते घेयल्ले. पयर तुवें पिशवी भरून भाजी हाडिल्ली, अजून सोंपूंक ना."

"आज रानांत गेल्लें तूं?"

"हय. जळवा वोजें हाडिल्लें. वाटेर तें चाये दुकानार उडयलें. साठ रुपये दिले तेणीं."

"वासंती, हे फुडे तूं रानांत जळवाक वचूं नाका आनी कोणागेर मजुरेकय वचूं नाका. अडेच हजार मेळटात म्हाका, बारीकसाणेन करचो संवसार."

तें वोगच रावलें. ताका म्हणचेंशें दिसलें,

आमचें भागलार जालें? फाल्या बाबूलें शिक्षण आसा, बायचें लग्न आसा. आमचें म्हातारपण आसा...

खरें तर वासंतील्या म्हातारपणाक अजून कळाव आसलो. एकुणीस वर्साचेर लग्न जाल्लें. आतां लग्न जावन सतरा वर्सां जालांत. सिमिटाचीं जनेलां करपी तो नरशींव अजुनय वाटेर आडावन घोवान घेयल्ले पयशे तेचे कडेन मागता. पण तेका आतांच म्हातारपणाचे वेध लागल्यात. बेगीन सगळें आवरून घेवचें अशें दिसता.

अक्षयाली एस्.एस्.सी.ची परिक्षा जाल्ली. तो निकालाची वाट पळयतालो. तो भुरगो पयलीं पसून घुमोसो. आतां आतां तेणें उलोवप सामकें उणें केल्लें. भायर भुरग्यां वांगडाय चड मिसळनासलो. वासंतीक दिसतालें, हेणें घरांत खूब उलोवचें, घरांत हुनसाण येवची, सगळो निचारो जावचो. तें मनांत म्हणटालें, होवय असो पयस पयस रावलार कशें जातलें मुखार? आनीक थोडें शिकोवन भायर खंयूय नोकरेक धाडलारच खरें. आमचेय दगदगे उणे जायत! आनीक शिकयतलो जाल्यार तालुक्या ठिकाणार धाडूंक जाय आसलें.

रामदास चिपयो काडचे नोकरेक लागिल्ल्याक आतां आठ म्हयने जाल्ले. थकतालो, बेजारतालो तरीय नोकरी नीट करतालो. एक्कय दीस पिवंक नासलो. तो सोऱ्याची तल्लफ हट्टान दामून घेता हें कळटालें वासंतीक. सोऱ्याची याद येयलारच खपखपो भरतालो तेका.

त्या दिसा तो सदचे वरी सकाळीं बेगिनच सायकलीर कामाक वचूंक सुटिल्लो. बेगीबेगीन धाय धाय पेडलां मारून न्हंयर येवन पावलो. पळयलार चिपयां राशी पेल्यान न्हंयतडीर बरेच लोक जमलात. ते वोगवोग आसात. कसलो गजबजय आयकोंक येना. मुखार येवन पळयलार चिपी काडचे कामदारच न्ही तर गांवचेय कांय लोक थंय उबे आसात. तांचे मुखार चिखलांत एक भिजिल्लें मडें पडिल्लें आसा. एकल्या गांवच्या मनशान व्हडान सांगलें, ''सकाळीं उठून शिवा न्हंयर गेल्लो तेन्ना थंय सकल हें मडें हुबताना दिसलें. तेणें बोब मारून ह्या कामदार लोकांक आफोवन तें ओडून हाडून हिंगा वयर काडलें. तेंचोच खंय तो मनीस. आमी कितले सांगताले, हे कामदार सोरो पिवन रातचे हिंगा धांदळ करतात म्हण.''

दुसऱ्यान एकल्यान म्हटलें, ''चिपयो उपसून पयशे जोडटात हे भिकाड्डे. तो सावकार गांवच्या देवाक, देवळाक कितेंय दी म्हटल्यार ओडी काडटालो. भोग म्हण आतां.''

रामदास भिवनसो कांय वेळ पळयतालो. तो वळखलो, तें मडें मोहनन् म्हण एका कामदारालें म्हण. सावकाराक कळोवंक जाय आसलें. तेणें सायकल काडली आनी तो गांवांत येयलो. एका पब्लीक बुथा वयलान तेणें सावकार आनंदू सावंताक फोन केलो आनी सगळी हकीकत सांगली. हुशारकायेन हेंवय सांगलें, ''तुमी पोलिसांक कळयात आनी तेंकां घेवनच येयात. ना तर कोण मड्याक हात लावंक दिवचो ना अशें दिसता. आमचेर फाल्यां कांय येवचें नाका.''

धा वरांचेर सुमार सावकार पोलिसांक घेवन येयलो. तेणी जाग्यारच मड्याचो पंचनामो केलो. मागीर मड्याक जिपींत घायलें. त्याच जिपींत हेर आठय कामदारांक दाटयेन चेपले आनी घेवन गेले. रामदास आनी वांगडा सावकार आनंदूकूय पोलीस ठाण्यार येवंक फर्मायलें.

ते सगळे कामदार एकच गांवचे नासले. मदीं खंय खंय काम करताना वांगडा येयल्ले. मेल्लो मोहनन तांकां कासरगोड एके कडेन असलेंच काम करताना मेळिल्लो. रामदासालो एकच मोटो गुन्यांव आसलो तो, मेल्ल्या कामदारालो धरून खंयच्याच कामदारालो गांवचो पत्तो बरोवन घेवंक नासलो. पोलिसांनी तेका बरोच तापयलो, भेसडायलो आनी तेचें स्टेटमॅंट घेयलें. मोहनन मेल्ल्या काळांत तो सायटीर नासलो हें पोलिसांनी मानून घेतलें. पूण तेणें कामदारांचेर नीट देखरेख दवरली ना म्हण तेका तापयलो.

मड्याचे तकलेर मार बशिल्लो दिसतालो आनी तें पोस्टमार्टमाक व्हयल्लें. पोलीस स्टेशनार पोलीस त्या कामदारांक धाडायताले, बडयताले आनी बळान मोहननाल्या मरणाचें कारण काडून घेवचे यत्न करताले. मार



पडटकीर ते रडटाले, आपले भाशेत आड्डताले. रामदास भिवन थरथरत एका कोनशांत बशिल्लो. ताका वोगच दिसतालें, आता एकादरो पोलीस येतलो आनी आपणाचेर खोंट मारतलो. तो चिपयां सावकार कुशीन एके खुर्चेंत सकाळ सान वोग बशिल्लो आसलो. मदीं ते दोगय एक फावट वचून च्याव, भाजीपाव खावन येयल्ले. पोलीस तांकां उदकय घे म्हण नासले.

रातचें आठांक मडें मोर्गींत घालून पोस्टमार्टमचो रिपोर्ट घेवन पोलीस येयले. तकली फुटुनच ताका मरण येयल्लें. हेवटेन मारबडय करतल्या पोलिसांनय काडून घेयल्लें तें - रातीं णवांक मोहनन् आनी मॅथ्यू हांचे मदीं सोऱ्याचे घुंवळेंत मोटें झगडें जाल्लें. तेन्ना मॅथ्यून कुशीचो एक तोणको तेचे तकलेर घायलो. तकली ताळये सरीं फुटली आनी तो थंयच पडलो. हेरांनी तेका हालयलार तो हालना, उलयना. सगळे भिवन गुळी जावन वोग्ग खोंपींत येवन पडले. सकाळपाराक केन्ना तरी मॅथ्यून एकल्यानच तें मडें उखल्लें आनी न्हंयंत व्हरून उडयलें...

पोलिसांनी मॅथ्यूक ॲरेस्ट करून भितर उडयलें आनी सावकाराक सांगलें, तूं सगळ्यांक घेवन आतां वच. जाय तेन्ना आफयलार येवचें पडटलें. पोलीस स्टेशना

वेल्यान भायर सरूंक रातची साडेणव जाल्ली.

कामदारांक हाटेलांत जेवण घालून सावकारान आनीक एक भाड्या गाडी करून तेंकां न्हंयर तेंगेल्या खोंपीर व्हरून पावयले.

तांचे बराबर रामदासय येवन पाविल्लो. साडे धा जाल्ली. तरी तेणें सायकल काडली. दीसबर आंगार घाम येवन येवन सुकिल्लो. आंगावेले कपडे आंगाक दसलात अशें दिसतालें. मनाकाळजाचेर इतलो तणाव पडिल्लो. काळीज चिंबून गेल्ले वरी दिसतालें. तकलेंत सारखो सोऱ्याचो घोश चलिल्लो. आत्तां, आत्तां सोरो जाय... शुक्ल पक्षाची वाडट्या चान्न्याची चंद्रकोर मळबांत आशिल्ली. नखेत्रांच्यो तर राशी पडिल्ल्यो. वाट दिसताली. सायकलीन इल्लें मुखार येतकीर एका घराच्या दारांत चिमणे दिवो दिसलो. तेका अदमास आसलो, हांगा सोरो मेळटा म्हण. तो थंय गेलो आनी एक पाव सोरो घेवन एका दमान घटाघट पियेलो. कुडीक इल्ली उमेद, शक्त येयली. तेणें सायकल मुखार दामटिली.

गांवा लागीं आनीक एक सोऱ्या दुकान आसलें, घराच्याच पडवेंत. घर बंद आसलें तरी वचून तेणें दार धाडोवन तांकां उठयलें. हांगाय एक पाव सोरो घेवन तो पियेलो.

तो घरा पावलो तेन्ना सोऱ्यान सामको लडबडतालो. वासंती तेगेली वाट पळयत दारांतच बशिल्लें. तेका पळोवन सडसडीत उठलें, "खंय आशिल्लो तूं इतले रात? कसलो हुस्को म्हाका!"

तो लागी येतकीर तेका कळ्ळें, तो सोरो पिवन लखता. "कितें जालें तुगेलें? खंय आशिल्लो?"

"खून केलो तेगेलो. सकाळीं पावलार न्हंयतडीर मडें. आमकां सगळ्यांक धरून व्हयल्ले. सकाळ सान वटवटे. मॅथ्यूक भितर उडयलें. आमका सोडलें."

"कोणाचो, खंय जालो खून?"

"तुका नाका तें. आमचो कामदार मोहनन तेचो खून, मॅथ्यून केलो. बरे मनीस आशिल्ले गो ते कामदार. सोरो पिलारच वायट. सोरो मनशाक वायट करता वासंती. सोरो मनशाक खून करूंक लायता. हांव आनी पिवचों ना. गेल्ले आठ म्हयने पिल्लों हांव?"

तो भितर गेलो आनी आंगा वेल्यान कपडे पिनून काडचे तशे काडले. मागीर तसोच न्हिदलो. वासंतीन मुखार वचून म्हटलें, "तसोच न्हिदला, जेवना तू?"

"हांव जेवलों. सावकारा बराबर हाटेलांत बसून जेवलों हांव. बरो तो सावकार. तेणें म्हाका पोटाक लायलें. बाबूल्या शिक्षणाक पयशे दितां म्हटलां." उतरा लडबडतालीं.

वासंती रांदचे कुडींत गेलें आनी दोन ग्लास उदक गटागटा पियेलें आनी हांथुरणार येवन पडलें. आजवेर कितल्यो राती जेयनासताना उपाशीं गेल्ल्यो, न्हीद लागनासताना तळमळत गेल्ल्यो, तेतून ही एक रात!

दुसऱ्या दिसा सकाळीं तो इल्लो उसरांच उठलो आनी न्हावन कपडे करून वचूंक उठलो. तो च्या पितालो तेन्ना सद्दां वांगडा रानांत लाकडाक वचपी सांगातिण्यो वासंतीक व्हरूंक येयल्यो. तें दारांतच फतकल मारून बशिल्लें. म्हटलें, "हांव येयना रानांत. मान फाटी कणो दुखता,रूं दुखिल्ले वरी. म्हजो



घोव नोकरदार मुगो. म्हाका आनी रान कित्याक? बसून खावचे दीस म्हागेले!" त्यो वासंतीक विचित्र नजरेन पळयत वचूंक गेल्यो. फाटल्यान तिडकीनशें तेणें म्हटलें, "पाड घालात आतां तीं रानां. कित्याक हाडां दणदणायतात, जीव खातलें तें रान तुमचें."

वांगडाचे एके बायलेन म्हटलें, "कितें जालां आज हेचें? रातीं घोवाले लडे पडले काय कितें गो?"

"आतां पिवचें सोडलां म्हण आयकल्लें. पूण कांय खरें न्ही ह्या सोरोखायऱ्यांचें."

"तें वांगडा आसलार मात बरें दिसता. बरें उलयत बोलयत आसता..."

रामदास च्याव पिवन सायकल घेवन कामाक वचूंक सुटिल्लो. आज जीव गळून गेल्ले वरी इल्लीय उमेद नासली. झकम. झकम् ल्हव सायकल चलयतालो. मदीं एक चडटी आसली. सद्दां तो चडटी सायकलीनच पार करतालो. पूण आज तो सायकली वयल्यान देंवन चलून गेलो चड्टेर. सायकल धुकलून व्हरतानाच तेका धांप लागली.

न्हंयर येवन पळयल्यार थंय सामकी सामसूम आसली. काळश्या-धवश्या चिपयांच्यो राशी पडिल्ल्यो आसल्यो. न्हंयतल्यो दोनय व्हडयो उदक भरिल्ले वरी थीर उब्यो आसल्यो. दिसतालें, आत्तां बाणी मेरेन उदक भरतलें आनी त्यो बुडून वतल्यो. खोंपींत पळयल्यार मात जितो जीव नासलो. खोप भणंग रिती. खंय गेले हे? रातीं तर हाडून पावयल्लें तेंकां! थंय मुखार सदची तार आसली. थंयच एक चाये दुकान आसलें. तेणें थंय वचून खबर केलार त्या दुकानदारान सांगलें, "सकाळीं नसकाक काळोख आसतानच ते तकलेर पोटल्यो घेवन वचूंक गेले. म्हाका कितें म्हण कांयच कळ्ळें ना. हांव एकलो, तेंकां आडायतलों कसो, कित्याक म्हण?"

रामदास वोग येवन खोंपी मुखार बसलो. ताका वासंतीली याद येवंक लागली. गेल्ले कांय म्हयने बरें आसलें तें, खोशी आसलें. रातीं न्हिदिल्ले कडेन केन्ना मदींच येतालें, तेगेलो स्पर्श जाणवतालो, तेन्ना कितलें बरें दिसतालें म्हाका! तेचे खातीर कितेंय बरें करचें अशें दिसता. पूण म्हाका तर सोऱ्या बगर चैन पडना. आनी सोरो पितकीर कितें करतां तें कळना. सोऱ्या परस सोऱ्याची तलफ वायट आसता! गेल्ले आठ म्हयने कशें तरी थोपोवन धरलें. आतां जायना. आत्तां सोऱ्यांत बुडोवन घेवचें अशें दिसता. सगळे यत्न फुकट! फुकट गेले सगळे सोपूत आनी दिल्लीं उतरां!

साडे धा सुमाराक सावकार येयलो. ताची पोन्नी गाडी करकरत येवन उबी रावली

तेन्ना खरें तर रामदासाक जाग येयली. आनंदू सावकाराल्या आंगार आज म्हेळशेच कपडे आसले. तो पयलीं पंचायतीचीं ल्हान मोटीं कामां घेतालो. हालीं हें चिपयो काडचें काम घेयिल्लें. कांय लोक तेका कुसकेपणान चिपयां आनंदू म्हणटाले. तो येतकीर रामदासान तेका सगळी खबर सांगली, तो कांय वेळ वोगच रावलो. मागीर म्हणालो, ''पोलीस तेंचें कितें तें पळोवन घेतले. आमी आनी तेतून पडचें न्ही. हांव हो धंदो बंद करतां. आनीक मजूर हाडचों ना. असल्या ह्या कामाक मजूर



मेळचेंय कठिणच. त्यो दोनय भाड्याच्यो व्होडी तारीबागच्या भंडाऱ्यांल्यो. तेंकां येवन व्हरात म्हण सांगतां. धंदो नाकाच तो म्हाका. हरशींय भिकार धंदोच तो.''

''तसले ते दुसरे कामदार पळोवया सावकार.''

''नाका आतां. तेच कामदार हाडूंक तीन फावट कासरगोड गेल्लों हांव. सरकारी लोकय पयश्याक खूब सतायतात. तुमी चिपयो काडल्यो तरी तो सरकारी माल म्हणटात.''

''खूब कश्ट काडले हांवें. मदीं सोऱ्या फाटल्यान लागिल्लों. दैना जाल्ली. गेल्ले साताठ म्हयने सोऱ्याचो वास घेयलो ना. ही इल्ली नोकरी मेळ्ळी म्हण बायल खोशी आसली.''

''तुवें आता गोंयांत वचून नोकरी पळोवंक जाय.''

''भितरल्यान इल्लोय त्राण ना. चाळीस जावन गेलीं. बायलेक सोडून खंयूय वचप जमचें ना म्हाका. तेतून दोगां भुरगीं आसात, शाळेंत शिकपी.'' तेच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं.

सावकार कांय उलयलो ना. तेका घेवन तो तारी कडच्या च्याये दुकानांत गेलो. ते च्याव पियेले. म्हयन्याचे बारा दीस जाल्ले. तरीय तेणें पुराय म्हयन्याचो पगार अडेच हजार रुपये रामदासाक दिले. तो उठलो आनी गाडये वटेन चलूंक लागलो. दोगय हारिल्ले शिपाय कशे निर्शेल्ले दिसताले.''

''सावकार, ते पळोन गेल्ल्याचें पोलिसाक सांगात.''

''सांगुकच जाय. तूं भिये नाका इल्लोय.''

तारी सरी एक पिंपळा रूख आसलो. रामदास ताच्या मुळांत बरोच वेळ बसलो. भायर वोताचो रखरख आसलो. वोतांत पांय घालचो त्राण नासलो. तरीय तो उठलो आनी भर वोतांत सायकल मारीत घरा येवंक सुटलो. आपणाक तान लागल्या काय सोऱ्याची तलफ लागल्या तें कळनासलें, पूण जीव वयरसकल जातालो. इतली अवस्थताय. तकली फातरार आपटून घेवची अशें दिसतालें. आपोआप सायकल सोऱ्या दुकाना वटेन वयताली. थंय एके कडेन तो आंगणांतल्या बांकार बरोच वेळ बसून पियेलो. मागीर रस्त्यार आनीक दोन कडेन पियेलो. वाटबर रखरखतें वोत आनी तेतून सोरो. बळाबळ गांवा मेरेन येवन पावलो. सोऱ्याचें अमल चडून तो पुराय धुंवतालो. गांवा भितर रिगतानाच एके कडेन सायकल वाकडी तिकडी जाली, तोल गेलो आनी तो रस्त्यारच पडलो. वोतांत उक्त्यार बरोच वेळ पडून आसलो. गांवांत टि.वी. दुरुस्त करूंक वचपी एकलो स्कुटरी वयल्यान येतालो, तेणें पळयलें आनी लागींच आशिल्ल्या एका घरांत वचून सांगलें, ''तुमच्या गांवचो एकलो सायकली वयल्यान रस्त्यार पडला.'' त्या घरांतलीं घोव आनी बायल धांवनच येयलीं. ते रामदासाक वळखले. तेणी आदीं तेका उखलून सावळेंत हाडून घायलें. मागीर वासंतीक सांगून धाडलें, तेंगेल्याच भुरग्या कडेन.

आयकून वासंती धांवन बीन कांय येयलें ना. सावकाशायेन येयलें. आदीं एक तांबयो उदक घेवन तेणें तेगेल्या तोंडार, आंगार मारलें. मागीर तो सुद्दीर येवची वाट पळयत तेचे सरीं बरोच वेळ बसून रावलें. तेचो चेहरो इतलो मख्ख सुको आसलो, तोंडार कसले म्हण भाव नासले. राग, दुःख, दुकां कांयच नासलें. तेच्या कुडीचोच जसो फातर जावन गेल्लो.

कांय वेळान रामदासाक सुद्द येयली आनी तेणें दोळे उकते केले. तेका मुखार वासंती दिसलें. तो रडूंक लागलो. वासंती तापलें, ''कित्याक रडटा, कोण मेलो म्हण रडटा?''

''पळोन गेले ते काळखांत. चिपयो नात आतां. नोकरी गेली.'' वासंतीन थीर नदरेन एक फावट रामदासाक पळयलें, मागीर तें उठलें आनी तेच्या बावळ्याक धरून तेका उठोवन उबो केलो. कांय वेळ तेका धरुनच चलयलें. मागीर धकलूनशें सोडून दिलें. तो लखऽ लखत चलूंक लागलो. गांवचे लोक दारांत उबे रावन चयताले. पूण वासंतीक कांयच दिसनासलें. दिसतालें, कोणेंय कितेंय उलयलार तें ताचे सरीं गाळी संवत झगडूंक लागतलें.

घरा पावलार चलो अक्षय रागान बापायक पळयतालो. ताचे दोळे जशे रागान पेट्टाले.

वासंतीक इतली उबगण येयल्ली, दीसबर जीव दिवचींच चिंतनां तकलेंत येतालीं. जीव दिवचो म्हटलें की घरा सकल्लें साळके तळें नातर न्हंयची पोंय दोळ्यां मुखार उबी रावताली.

पूण ना. ताणें दुसऱ्या दिसा सकाळीं घोवाक म्हटलें, ''हांव आईघरा वचून चार दीस रावन येतां. तू आशिल्लें कितेंय शिजोवन खा.''

''म्हज्यान जावचें ना तें.''

''कित्या? सोरो पिवंक जाता? सोरो पिवंक एकेक निमित्त सोदत आसता तूं. आतां बायल सोडून गेली म्हण पी.''

तें चेड्याक आनी चेडवाक घेवन वचूंक गेलें. हातांत एकच पोती. तेतून दर एकल्यालीं

एक दोन वस्त्रां. तेका दिसलें, आपूण घोवा सरीं आड्मुठेपणान वागलें. तरीय ह्या खिणाक ताका ताचें सुखच भोगतालें. मुंबयच्यान येवन बारा वर्सां जाल्लीं, बारा वर्सांत तें तिसरे फावट कुळरा वयतालें. कुळार धरून तेणें सगळ्या संवसाराचेर जसो बहिश्कार घायल्लो. भाव केन्ना येयलार रागान मांडूनशे बसताले. वयताना पांच धा उडोवन वयताले. इल्लोय प्रेमळपणा नासलो. वासंतीक रागच येतालो भावांचो.

कुळरा बापूय हांथुरणार लागिल्लो आसलो. आवय तेची सेवा करताली. तें बापायले तकले सरीं तेच्या कपलार हात दवरून कांय वेळ बसलें. ताणें आपल्या संवसारा विशीं, नशिबा विशीं इल्लेंय दुःख, इल्लोय वितराग दाखयलो ना. बापायलीच खबर घेत बसलें. एकवटेन तेका भिरांत दिसताली, आवय ना तर भाव येवन म्हणटलो, 'तुगेल्या घोवाल्या सोऱ्याक लागून आमच्याय जिविताची वाट लागली...' बापायन मात एक हुणको दिलो आनी आंवडो गिळ्ळो. कांय उलयलो ना.

दनपरां बरोच उसरां चंद्रकांत घरा येयलो. "ताई, बरी याद केली मुगो आमची" म्हणत तुवालो घेवन न्हावंक गेलो. दोगय भाचरां थंय आसलीं, पूण तेणें मायेन तेंकां जाप केली, तेंकां म्हऱ्यात घेयलें अशें जालें ना. तिंवय 'मामा' म्हण मुखार गेलीं नात.

वासंतीन आईक विचारलें, "आई, चंद्रकांत बरो भागला मुगे."

"हय गो, खंय खंय नोकरेक म्हण वयता आनी हात हालयत येता. नोकरेक शिक्षण मागतात. गांवांत शेतां कोणाक नाका जालांत. तीं पडींग पडूंक लागलांत. कशें जातलें ताचें, तो घोर लागिल्लो आसता. फाल्यां लग्न करतलो जाल्यार कोणें चेडूं तरी दिवंक जाय मुगो!"

बापायन परवंत म्हटलें, "शिकतासलो गो तो. हांयें तेन्ना वयार तेका दाम्मून कामाक लायलें. हांवच पापी चांडाळ! तेन्ना मुंबयच्यान तुजें पळोवन येयलों आनी धरतरेकच लागलों. तेन्ना सान तुजींच चिंतनां." तो रडूंक लागलो.

वासंती चार दिसांक म्हण येयल्लें तें आठ दीस उल्लें. तेणें कुळरचो पुराय पुराय आनंद घेयलो. तें लग्ना पयलीं जंय जंय म्हण खेळटालें, भोंवतालें थंय वचून येयलें. शेतांत, गोट्यांत, बांदार, रानकडेर वचून मिरोवन येयलें. एक दीस तिनसांजचें भावाक घेवन तळ्यार रांपूंक गेलें. उदकांत नाचलें हांसलें. गांवच्या बऱ्याच जणांल्या घरांत वचून बसून खबरी करून येयलें. दीसभर तें गांवार. केन्ना आवय आंगणांत उबी रावन व्हडव्हडान आफयताली. तेन्ना ज्युस्त ती आंकवार



आसताना आपणाक आफयताली तशी वासंतीक दिसली. ताका खोस भोगली.

माम आनी भाचरांय आतां उलोवंक खेळूंक लागिल्लीं. केन्ना अक्षय मामा वांगडा भायर भोंवक बा वयतालो. वाटेन मागीर दोगय उलयत येताले.

पूण माम चंद्रकांताल्या तोंडार इल्ली खोशी, इल्ली उमेद नासली. तो केन्ना सांजचो उसरां घरा येतालो. एक दीस तो असो येयल्लो तेन्ना भायले पडवेंत घुम्म सोऱ्या वास घुंवलो. वासंतील्या नाका मेरेन तो पावलो. तें वोग घरांत येयलें. तेणें ल्हवच आईक विचारलें, "आई, चंद्रकांतय घेवंक लागला काय किते गे?"

आवयक खबर आशिल्ली. तिणें म्हटलें, "घेता केन्ना जिवाजाळाक."

"मागीर मुखार कशें जातलें गे?"

"हांव किते सांगूं? गांवारच मर येयला. गांवचो एक भुरगो घेयनासताना ना. तेतून चंद्रकांतालें हें अशें. नोकरी ना, उद्योग ना. तेन्ना बापायक दिशिल्लें, शेतार पोट भरतलो म्हण. शेतां गेलीं पडींग पडून."

"अण्णाक सांग मुगे तेका खंयूय व्हरून दवर म्हण."

"हे फावट सांगतांच तेका, खंयूय व्हरून दवर पूण ह्या गांवांत नाकाच म्हण."

वासंतीन दुसऱ्या दिसाकच बिटकी कवळ्ळी आनी तें घरा येयलें. आवय अक्षयाक दवरून वच म्हणटाली. पूण तेणें तेका दवरूंक ना. केन्ना दिसतालें, गरजेक संकटाक कुळरचे पावतले म्हण. तिवय आस्त आतां गेल्ली. अण्णा एकलो हे मुखार कोणाक कितलें करतलो?

घरा येयलार घराचें दार सताड उकतें आसलें. भायर भितर कसलो आवाज नासलो. भितर वचून पळयलार रामदास मरून पडिल्ले वरी हांथुरणार न्हिदिल्लो आनी तेगेलं छातयेंतल्यान एका सुरांत गूं गूं आवाज येतालो. वासंतीन तेका हालयलें तेन्ना तो जागो जालो आनी शक्त नाशिल्ले वरी बळान उठून बसलो आनी रडत उलोवंक लागलो, "तूं दवेीण, कैदाशीण. हांव मरूंक जाय म्हण म्हाका चकाचकी सोडून गेल्लें. तुजे एक मूठ तांदूळ शिजोवन खायले ना हांयें. पिलों न्हिदलों. म्हाका मरूंक आतां वीख हाडून घाल तूं."

वासंतीन मनांत म्हटलें, सदां विखच तर पिता तूं! तें रांदचे कुडींत गेलें आनी ताणें चुलीक जाळ घायलो. दोड घेवन सडसडीत बांयर वचून उदक घेवन येयलें. शिता आदन दवरून शीत केलें, सुक्या सुंगटांचो रोस केलो. तेका हाताक धरून मोरयेंत व्हयलें आनी हाडून मणयेर बसोवन वाडलें. मनांत म्हटलें, पिल्लो ना म्हण बरो उठलो जेवंक. ना तर गाळ्यांचो शिंवर करीत तटून बसतासलो.

तेन्ना भायर आंगणांत कोण तरी उबो राविल्लो झळकलो. वासंती बेगीबेगीन भायर येयलें. तो सिमिटांचीं जनेलां खांबे करपी नरशींव उबो आसलो. सोऱ्याचो वासय येतालो. वर्सां फाटीं तेका एक फावट वासंतीन

दारांतल्यान धांवडायल्लें. सोन्याचो आनी अत्तराचो वास वांगडाच येतालो. बरो रंगरंगचो शर्ट घायल्लो. दुसरो एकलो कोण तरी पयस आंगणा भायर उबो आसलो. नरशींव हांसत म्हणूंक लागलो, ''तुजो राग ना म्हाका. तुजे खातीर येवंक ना. म्हजे पयशे साडेपांच हजार उडय. कशेय उडय, चलतात म्हाका. पयर येयल्लों हांव, तूं आसा काय पळोवंक. तूं नासलें. तुगेलो घोव घरांत वळवळटालो. तूं मनार घे. रिणांतल्यान मुक्त जा.''

तेन्ना रामदास जेवणा वेल्यान उठून येयल्लो. तेगेलो हात उश्टयाचो आसलो. वासंतीन विचारलें, ''तुवें साडेपांच हजार घेतलात खंय तेगेले. ते फारीग करून घेवंक येयला तो.''

''साडेपांच? ना... तितले जावचे नात.''

''मागीर कितले तर?''

''हांयें खंय हिशोब दवरला? सोन्याकच गेले ते.''

''कितलेय आसूं. बायल मेल्या तेगेली म्हण त्या पयशाच्या बदलाक तुगेले बायलेक न्हिदूंक सोदता तो. कितें म्हणटा तूं?''

रामदास धोपरां मारिल्ले वरी थंय बसलो. उश्टयाचो हात जोडून विनवणी करीत म्हणालो, ''वच तूं. वच आतां. पांयें पडटां. म्हजी बायल तसली न्हूं. हांव दितां पयशे. बेगीन जावचें ना.''

वासंती ताका संतापान तीख, थीर नदरेन पळयतालें. दिसतालें, आत्तां तें उब्याउबेंच पेटूंक लागतलें. तो फाटीं फिल्लो आनी वोग चलूंक लागलो. तो पयस उबो आशिल्लो जुवान मनीस म्हणालो, ''लोकाले पयशे घेतात आनी दिवंक सतायतात.''

वासंती गोठेल्ले वरी वोग उबें आसलें. रामदास तोंडांतल्या तोंडांत तेका गाळी संवतालो. तो अर्दें उरिल्लें जेवंकय पावलो ना.

सांजचो उसरां तो कपडे घालून रस्त्या वटेन वचूंक गेलो. वासंतीक तो वयता तो फाटल्यान पळोवन भिरांतशी दिसली. हाका आज आडावंक फाव आसलें...

रातचो पयस रानांतले घोलींतल्यानसो अच्छेवी बोवाळ आयकोंक येतालो. त्या आवाजान काळोख खवदळिल्ले वरी जातालो. वासंतीक मरणाचो खपखपो भरिल्लो. थोडो वेळ आवाज आनीक वाडलो...

रामदास भरपूर सोरो पिवन नरशींवाल्या घरा सरीं वचून शिरो ताणून बुरशो बुरशो गाळी संवतालो. कांय वेळान थंय आनीक दोगजण येयले. तेन्ना नरशींव हातांत बडी घेवन दार काडून भायर येयलो. तेणें साताठ बडयो रामदासाले फाटीर, हातार, पांयार माल्ल्यो.



मागीर तेतूंतलो एकलो मुखार येयलो. तेणें तेका धरून काळखांत ओडत व्हरून धुकलून दिलें. तो सकल पडलो,झरकटलो. मागीर उठून घरा वटेन चलूंक लागलो.

घरा येतकीर वासंतीन पळयलार तेगेल्या आंगार काळे निळे वळ उठिल्ले. पडिल्लो तेन्ना शेंकऱ्यांत एक भूज झरकटिल्लें. तेतूंतल्यान रगत निशेतालें. पूण वासंतीक ताका पळोवचो, वखद-पाणी करचो इल्लोय त्राण नासलो.

एक दीस वासंती हेर बायलां वांगडा रानात जळोव हाडूंक गेल्लें. बारीक पूण काटकें वासंती व्हडलें रथ कशें वोजें बांदून तकलेर घेतालें आनी हां हां उस्वास सोडीत रानवाटेन येतालें. वांगडच्यांक अजाप दिसतालें, इतली शक्त खंय सान येता हेका! बायलांनी विचारलार म्हणटालें, ''पोटाक भूक लागलार कितेंय घडटा. पोरांली भूक भागता जाल्यार दोंगर तकलेर घेन हांव.''

एक दीस मदल्या एका पेण्यार तीं वोजीं तेकोवन बशिल्लीं. तेन्ना तिगी न्हंय पलतडच्यो बायलो सोऱ्या कॅनां घेवन येयल्यो. तेंचे तकलेर पोतयेंत पांच पांच लिटारांचीं दोन दोन कॅनां आसलीं. हातांतले पोतयेंत शिल्ड पावा बाटल्यो आसल्यो. त्योवय हुश्श करीत तांचे सरीं सावळेंत बसल्यो. पळोवंक बऱ्यो जुवानच दिसताल्यो. वासंतीक मोटी उमळशीक दिसली. ''खंयच्यो गे तुमी?''

एकलेन सांगलें, ''पलतडचीं केरवळ्ळी गांवचीं आमी.''

''कशीं वयतलीं?''

''तार आसा. पूण वाट पळोवची पड्टा. केन्ना माल झाडांनी लिपोवन दवरून दोन दोन वरां बसून रावतात.''

''खंयच्यान हाडटात तुमी हो सोरो?''

''हंयच्यान तासबर चलून गेलार गोंयचे हद्देर एक सोऱ्यागाडी आसा, अंकूशाली. दादले आनीक भितर वयतात.''

तेतूंतल्यो दोगी विधवा आसल्यो. एकलीच्या कपलार बारीक तांबडी तिकली आसली. गळ्यांत पिर्डुकांचो एकच दोर आसलो. वासंतीन विचारलें, ''आगे, तुमगेले घोव बेगिनच गेले गे? ह्या वयारच हें विधवापण?''

तेतूंत एकली इल्ली पिरायेन चडशी, जूनशी आसली. तिणें सांगलें, ''मगेलो घोव सोऱ्यांतच बुडून गेलो. मरचे पयलीं लिवर सुजून हें मोटें जाल्लें. एक दीस फुटलें तें आनी बिंदूलबर रगत वोकलो. हेगेलो विमलालो घोव तोवय रात दीस सोऱ्यांतच आसलो. एक दीस भरपूर सोरो पिवन मोटरसायकलीन येतालो, वाटेर ट्रका पोंदाक गेलो. भुरगीं आमच्या पदरांत.''

''तूं ती बिंदी लायल्ली बायल, तूं कित्याक करता हो धंदो?'' ती बायल वोगच

रावली. पूण वांगडाच्या विमलान सांगलें, ''हिगेलो घोव सगळ्यां वयलो. पिलार गांव माथ्यार घेतलो. हिका वाटेरच धरता आनी दोन चार पाव काडून घेता. ती वोग रावता, पिवन तरी वोग मरूं म्हण. ना तर घरा पावतकीर मार.''

वासंतीन म्हटलें, ''तुमचे घोव सोरो पिवन मेले. आतां गांवार हेरांल्या घोवांक व्हरून सोरो घालतात तर तुमी, बेगीं मरूं म्हण ते?''

ते तिकली लायल्ले बायलेन खर आवाजानशें म्हटलें, ''मरूं दी, मेल्यार मेले. आमी ना व्हयलो म्हण पिवचे सोडटले ते? गांवागांवांनी सोऱ्याचो पूर व्हांवता.''

सगळें पळोवन आयकोन वासंती अस्वस्थ जालें. ताका सगळें विचित्र दिसलें. बरोबरच्या विश्रांतीन विचारलें, ''कितले सुट्टात गे एके फावटीक?''

''सारखें वचून पावलार तिनशेंक सुट्टात. पूण सदां येयनात आमी.''

वासंतीक तें म्होंवाचें बोट कशें दिसलें. तेणें सट् करून म्हटलें, ''हांव येवं गे तुमचे बराबर फालसान?''

बरोबरच्या सुनंदान तेका हें हें हेडायत म्हटलें, ''हांव येता खंय! गांवलोकाची लज तर धर.''

''आतां संवसारा खातीर कित्तेंय करूंक तयार हांव.''

''मागीर तो नरशींव रावता मुगो तुका.''

''पळय सुनंदा, तुज्या गळ्यार कोयती घालतलें हांव.''

सगळे उठले. सगळ्यांनी आपआपलीं वोजीं तकलेर घेयलीं आनी वांगडाच चलूंक लागलीं.

रस्त्या वयले वटेचो राजाराम नाल्ल पडून फुटिल्लो नळो घालूंक सांजचो घरार चडिल्लो. देंवतासताना तो निसरून सकल पडलो. कमर घट भूंयर धाडावन तो थंयच मोडून पडलो. राजारामाली बायल रेवती वासंतीली इश्टीण. तीं वांगडा केन्ना रानांत वयतालीं. कालवां, कोंडयो काडूंक न्हंयर वयतालीं. कळटकीर तें रोखडेंच शेजान्न सुनंदाक वांगडा घेवन रेवती सरीं गेलें. राजारामाक वासरेर आडवो घायिल्लो. कमरेंच्या दोनय वटेन फळी लावन



ती बांदिल्ली. घरा सरीं बरेच लोक आशिल्ले. रेवती सारक्कें रडटालें. तेका तालुक्याच्या हास्पिटलांत व्हरूंक म्हण गाडी सांगिल्ली. पूण ती गाडी येवंक रातचे साडेआठ जाले. रेवतीय घोवा वांगडा गाडयेंत गेलें. रडटल्या भुरग्यांक सांत्वन सांगून तेंकां जेवोवन येयसर वासंतीक आनी सुनंदाक धा वरां जावंक येयल्लीं.

रस्त्यार विजेचो दिवो पेट्टालो. इल्लें चान्नेंय आसलें. रस्त्या वयल्यान चलत येताना वासंतीन पळयलें, थंय इल्ले सकल दोन तीन सायकली, एक मोटर सायकल लायल्लें आसा. एका झाडामुळाक साताठजण पिवंक बसलात.

वासंती जाणा आसलें, गांवचे कांय भुरगे सकाळीं रेल्वेन गोंयां नोकरेक वयतात आनी सांजचे उसरां रेल्वेनच परत येतात. तेणें हेंवय आयकल्लें, ते येताना खिशांत सोऱ्याचे शिल्ड पाव घेवन येतात आनी खंयूय बसून पितात. पिवंक तांचे बराबर कांय गांवचे बेकार भुरगेय आसतात. ते कंवडाळें करून बशिल्ले आनी आवाज इल्लो इल्लो चडूंक लागिल्लो. बरे खिदळत हांसताले. वासंतीले तकलेंत सणक मारिल्ले वरी जालें.

सुनंदाक ओडून घेवन थंय गेलें. रागान तेंचेर आड्डलें, ''मडे खायरे मेल्ले, येताना गोंयच्यान मूत भरून घेवन येतात आनी गांवांत बसून पितात. लज ना ,भंय ना तुमकां. आवय बापूय मेले तुमगेले, कित्याक येवन तुमचे तकलेर दांडे घालिनात?''

एकलो दाणगोसो उठलो, ''आगे, तुगेलें कितें गेलां? तुगेल्या घरांतल्यान मारून हाडून पियेनात आमी. आमच्या कश्टाचें पियेतात.''

''कश्टाचें जाल्यार बरें कितें खाण-जेवण खावन मरात. हो सोरो पिवन सोता बराबर हेरांकय फोंडा घालतात. गांव नासयतात तुमी.''

कोण तरी म्हणालो, ''अरे रामादासभाऊली बायल ती!'' मागीर सगळेचजण बरेच हांसले.

तो दाणगेलो एकदम वासंतील्या आंगारच येयलो, ''तुमी बायलो कित्याक येतात दादल्यां मर्दी? घरा वच आनी तुज्या बेबद्या घोवाक आदी सांबाळ. तुकाच लागून पिता खंय तो'' वासंतीक इतलो राग येयलो, तेणें ठाण् करून तेच्या तोंडार एक दिलें. तो इल्लो कुशीक कडसलो. तेन्ना सुनंद मर्दी येवन उबें रावलें. म्हणालें, ''तुमची सोऱ्याची ही मस्ती अशीच जिरोवंक जाय. मिलिटरीवाल्याची बायल हांव, आतां यो मुखार. घरा वचून विचारतां तुज्या, हो गोंयां नोकरेक वयता काय सोरो हाडूंक वयता काय म्हण?''

कांय वेळ सगळें थंड शांत जालें. तीं दोगांय घरा वटेन वचूंक गेलीं. वासंती वाटभर व्हडव्हडान तळमळ्यान कितें कितें उलयतालें, ''घरां पाड घालतात, गांव पाड घालतात हे पोटणाचे... फाल्यां लग्न जातकीर बायल-भुरग्यांक वनवास दितले, अन्नाक वळवळायतले. भायर नोकरेक गेलार थंय ख्यास्ती करतले. जाण्टेल्यांक तेंकां कितेंय सांगात म्हणूंक तेवय सांजचे दुकानार वचून मारून येतात. देवा, ह्या गांवाक भूंय फोडून भूंयच्या पोटांत घे रे तूं आतां!'' तेगेलो आवाज गांवांतले गच्च रुखावळींतल्यान काळखांत घुंवतालो. तो खंयचे दिकेंतल्यान येता तें लोकांक कळनासलें. हरशींय, रात जावच्याक ह्या गांवांत ह्यो बोबो घुंवत आसतात. मागीर उसरां त्यो लुबडयोश्यो पडत थंड जायत वतात. खरें तर काळखांत रुखावळींतल्यान घुंवपी बोब ह्या गांवच्या अस्तित्वाचें संगीत जालां. खूब फाटीं गिमांत ह्या गांवच्या सकल शेतांत

बायलो धालो खेळटाल्यो. तेन्ना तो बेस आवाज घुंवतालो. आतां हांगा फक्त सोऱ्याचो आवाज घुंवता. केन्ना बेठ्योच बोबो, केन्ना मारामाऱ्यो.

घरा येयलार रामदास खुर्चेंत बशिल्ले कडेन झेमेलोसो करतालो. सोरो आनी न्हीद एक जाल्लीं. वासंतीली सुलूस लागतकीच एकदम उबो जालो, "खंय, खंय गेल्लें तूं इतली रात?"

"हातांत दांडो घेवन सोरो पितल्यांक बडोवंक गेल्लें. तुकाय बडयतलें एक दीस."

रामदासाक राग येवंक ना. तो 'शा शा' करीत हांसलो. तेणें रामदासाक बरेंच तापयत म्हटलें, "तो रस्त्या वयलो राजाराम घरा वयल्यान पडलो तेका पळोवंक वचूंक जालें ना तुका? सोऱ्या मुखार आतां संवसार दिसना तुका."

"आयकल्लें. आयकल्लें हांयें. एक दीस तेणें म्हाका रस्त्यार कितें म्हटलें जाणा? गोरवांक कोंडवाड्यांत घालतात तशें ह्या सोरो पितल्यांक सगळ्यांक व्हरून कोंडवाड्यांत घालून दवरूंक जाय. तण खावंक लावंक जाय! हांव त्या राजारामालें तोंड पळोवचों ना."

"आतां गांवांत कोणाचें तोंड पळोवचेंय उल्लें ना आनी तोंड दाखोवचेंय उल्लें ना." तें आतां भुरग्यांक उठोवन वाडचे तयारेक लागिल्लें.

रामदासाक तिगी भयण्यो. धाकलें शकुंतला सोबीत नीटनेटकें पूण इल्लें गर्विशठच. तें पुण्यांत उरता. फाटीं गांवचो दिनकर येयल्लो तेन्ना सांगतालो, तें मजेंत आसा. एकलोच चलो. सांजचें बऱ्यो बऱ्यो साडयो न्हेसून घोवा बराबर स्कुटरीन फिरूंक वचप. पूण तें भावाची खबर घेना. आवय मेल्ली तेन्ना येयल्लें, झगडून गेल्लें. मदल्या लीलालो घोव मंगळूरांत पोलिसांत आसता. तें केन्ना गांवांत आसता तर केन्ना मंगळूरांत. तें पयलीं पसून जिवान बरें उरना. तेका दोगां भुरगीं. व्हडलो चेडो बरो शिकून मुंबयंत बरे नोकरेक आसा. पूण आवय-बापायन त्या भुरग्यांक मावळ्याघरची माया दाखयलीच ना. फाटीं भयणील्या दोनय बोरींत उदक भल्लां म्हण



ऑपरेशन केल्लें. पूण हो भाव कांय भयणीक पळोवंक गेलो ना. तें शेवट मेरेन आपलीच रुंवां फुंकत उल्लें. भायर कोणाक पळोवप ना. व्हडलें गुलाबी मात खूब मायेस्त. तेगेलो घोव फारेस्टांत गार्ड आसलो. तें कायम घराच उरतालें. बापूय आवय आसताना वर्साक दोन फावट तरी येतालें. ते मरतकीर येवप उणेंच जालें. तरीय केन्ना पावलार भावाघरची दशा पळोवन रडुनच वयतालें. भाव सोऱ्याक लागलो म्हण तेचे तळमळे तेणें खूब भोगले. काल परत तें येयल्लें. येताना पोती भरून कितें कितें घेवन येयल्लें. घरांत भितर सरतकीरच ताच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं तीं तेणें बळान थोपोवन धरलीं. तें वासंतीक ताच्या संवसारा विशीं कितें कितें विचारीत रावतालें. तें दोन दीस उल्लें. दोनय दीस भावाक सोरो पिवं नाका म्हणून नानापरीन सांगतालें. भाव मख्ख मोनो रावतालो. अजाप म्हटलार भयण दोन दीस घरांत आसताना तो पिलोय ना.

वयताना ताणें आपले पोतयेंत कितें पयशे आशिल्ले ते तिकिटा पुरते दवरून वासंतीक दिले. तिगेलीय गरिबीच आसली. तिका तिगां चेडवां. तेंगेलीं आतां लग्नां जाल्लीं. घरांतल्यान भायर सरताना ती खूब रडली. वासंतीय तिका धरून रडलें. म्हटलें, "आतां मीनाक पंदरा लागलांत. ताचोच घोर गे म्हाका!"

आतां गांवांत वासंतीक सुनंदा एकलेंच लागिचें उरिल्लें. हेर चड कोण आतां तेच्या घरा सरीं येनासले. रामदास सोरो पिलार बायलांकय बुरश्यो गाळी संवतालो. तेगेल्यो गाळी, मागीर दादल्यां मदीं झगडीं, म्हण बायलो पयसच रावताल्यो. मार पडलो तरीय रामदास लोकाक गाळी मारचो सोडनासलो. कोणय खंयूय उबे रावन बरे करून उलयताना दिसले, कोणय बरो शर्ट घालून वयताना दिसलो तर तांकां आयकोंक वचुंचें अशें पच् करून थुकतालो. पूण सुनंदा हट्टान तांच्या घरा सरीं येतालें. केन्ना रामदासाकच गाळी संवतालें, म्हणटालें, "संवसाराची धुळधाण जाल्या तरी कित्या पिवचो सोडिना तूं?" तशें सुनंदा इल्लें भित्रेंच आशिल्लें. ह्या दिसांनी ताणें एकच तकलेंत घेयिल्लें. म्हणटालें, "देवा, म्हजो घोव आनी सोऱ्याक लागना जाल्यार पुरो." वासंतीकय तें परतें परतें हें म्हणत रावतालें.

सुनंदालो घोव मिलिटरींत जवान आसलो. लग्न जावन धा-बारां वर्सां जाल्लीं. एकच फावट दोन वर्सां तें आगऱ्यांत घोवा बराबर वचून रावन येयल्लें. तेची व्हडविकाय सांगत आसतालें. तें गांवच्या हेर बायलां बराबर सगळ्या तरांच्या वावराक वयतालें. मांव जाणटो जाल्लो. गोट्यांत बैल नासले पूण तेणें गाय पोशिल्ली. वंय घालून हेरां बराबर इल्लें शेत, पोरसूं करतालें. रानांत वचून जळोव हाडटालें. न्हंयर तिसरे, कोंडयो काडूंक वयतालें. फाटीं बेतुवाड्या वयलो चिंतामणी घर काडटालो तर घटणाक मातयेचो भराव घालूंक तें वासंती वांगडा चार दीस मजुरेकामाक गेल्लें.

गांवचो सोऱ्याचो अच्छेव पळोवन, वासंतीली दैना पळोवन ताका आपल्या घोवा विशीं थर्त भिरांत दिसताली. तें दर एका पत्रांत बरयतालें, फोन येयलार फोनार सांगतालें, सोऱ्याक आपडूं नाका म्हण. तेका मिलिटरींत रम्चो बाटल्यो मेळटाल्यो. पयलीं केन्नाय तो एक दोन बाटल्यो रजेर येताना हाडटालो. सवकासायेन पितालो. इस्टांकय इल्लो दितालो. आतां आतां ताका त्यो बाटल्यो

दोळ्यां मुखार येयलार थर्त भिरांत दिसताली. रातीं न्हिदिल्ले कडेन, जागेपणाक सोऱ्याचोच हुस्को - तो आनी सोऱ्याक लागूंक फावना. तर हांव मरतलें, हांव जीव दितलें म्हण सांगतलें. ह्या दिसांनी तेणें तें मनाकच लावन घेयिल्लें आनी सोऱ्या बाटलेचो उगडास येयलार वयर सकल जातालें. तेणें आपली मनाची शांती इबाडून घेयिल्ली.

कांय दिसांन तो दोन म्हयन्यांचे रजेर गांवांत येयलो. तेणें ट्रंक उकती करून हाडिल्ले कपडे, हेर वस्तू बायलेक भुरग्यांक दिल्यो. तेन्ना सकल आशिल्ल्यो सोऱ्या बाटल्यो ताका दिसल्यो. हे फावटय रमच्यो दोनच बाटल्यो हाडिल्ल्यो. एक व्हिस्कीची बाटली चड आशिल्ली पळोवन सुनंदालो मूडच गेलो. घोव इतले तेंपान आपणा सरीं येयला हांतलो आनंदच ना जालो. तें घोवाचेर किसळ्ळें. "हो नश्टो म्हालवज आनीक कित्याक हाडला?"

तोवय मातसो तापलो, "घेतलों केन्ना मजेक, मन समाधानाक म्हण. घरा सरीं कोणय येतात, इल्लो घालून दितलों केन्ना."

"तुगेलो सोरो जाय कोणाक? हिंगा सोऱ्याचो पूर व्हांवता. तूं मात त्या नादाक लागतलो. पिऊं नाका तूं हे मुखार. फोडून उडयतां त्यो बाटल्यो."

"येयल्ल्या दिसाकच खिटखीट तुगेली. तुज्या बेजाराकच पिवचो पडटलो. चवदा वर्सां जालीं फौजेंत. बेबदो जावन पडलों ना मुगो गटारांत?"

"तें व्यसन केन्नाय लागता खंय."

"वोगच मुर्खपणा करूं नाका तूं. ना तर आयल्लो तसोच चलूंक लागतलों."

"पिऊं नाका म्हटल्यार नाका न्ही. रामदासा बायलेलें पळोवंक ना?"

तो वोगच रावलो.

रातचो तो म्हयन्यांत येयलार तें ताचे कडच्यान सोरो पिना म्हणच सोपूत घेवंक सोदता. तो कुशीन कडसलो आनी फाट करून न्हिदलो.

दुसऱ्या दिसा सुनंदालो घोव बाळकृष्ण गांवांत गेल्लो. सुनंदान ट्रंकेंतल्यो तिनय बाटल्यो काडल्यो. फाटले एके कुडींत जळाव भरून दवरिल्लो. तेणें तो जळाव बरोच उस्तिलो आनी बाटल्यो लिपयल्यो. वयल्यान परतो जळोव लायलो.

सांजचो इस्ट अच्यूत बरो वेळ उलयत बशिल्लो. दोगांनय इल्लो इल्लो घेवचो म्हण बाळकृष्ण ट्रंकेंतल्यो बाटल्यो सोदूंक गेलो. चमत्कार! बाटल्यो नासल्यो. ल्हवच सुनंदाक विचारल्यार तेणें आपणाक खबर ना म्हटलें. काय वेळान अच्यूत उठून गेलो. मागीर तांचें घोव बायले मदीं मोटें झगडें जालें. सुनंदा एकच म्हणटालें, "तुका तें व्यसन लागलार आमचीं भुरगीं वाऱ्यार पडटलीं आनी भिकेक लागतलीं."

हाचेर बाळकृष्णान तेगेले केंस धरून म्हटलें, "हें तकलेंत घेयिल्ली तुजी तकली फोडून काडून उडयतां."

दुसरो पुराय दीस तो सुनंदा कडेन एक उतर उलयलो ना. दरपरचो वाडिल्लें जेवलो



आनी वोग गांवांत खंय तरी गेलो. वयताना आंगणांत पावतकीर तो म्हणटालो, "पितलों जालार घरांतच पिवंक जाय? गांव कितें पाड पडला?"

काल सान मांव सारक्को सुनंदाक म्हणटालो, "तूं म्हागेल्या पुताक वळखलेंच ना. म्हजे भशेन तो मर्यादेंत रावपी. आवयचेर तेगेलो खुब्ब मोग आसलो. आवयक मानपी भुरगे केन्ना वायट, व्यसनी आसनात."

सांजचो उसरां तो येयलो. पूण पिवन येवंक नासलो. येवन पळयलार बाटल्यो हाडून ट्रंकेंत दवरिल्ल्यो आसल्यो. पूण ताणें बाटली उकती केली ना. जेयलो आनी वोग न्हिदलो.

दुसऱ्या दिसाक न्हंय वेल्यान बरेंच नुस्तें हाडिल्लें. दनपरां तेणें पयली बाटली उकती केली. मागीर विशेक दिसांत सोता घेवन, इस्टांकय दिवन तिनय बाटल्यो सोंपयल्यो.

उपरांत सद्दां सांजचें सुनंदा ताच्या म्हऱ्यांतशें येतालें आनी तोंडाक वास घेवंक सोदतालें. बाळकृष्णाक कळटालें. तो वोग रावतालो. खरें तर तेणें बाटल्यो सोंपतकीर गांवांत साप्प घेवंक नासलें. सुनंदाक फक्कत भिरांत आनी दुबाव.

दोन म्हयन्यांची रजा सोंपोवन तो परतो गेलो. पूण ही रजा तितली बरी गेली ना. दुबाव आनी झगडीं हातुंतच गेली म्हटलार जाता. तो वचूंक उठलो तेन्ना पिशें लागिल्ले वरी तें घोवाक म्हणटालें, "सोऱ्याक हात लावंक वचूं नाका तूं. जिवाक बरो न्ही तो"! तो वोग्ग वचूंक गेलो.

पूण गांवांत सुनंदा एकलेंच आतां वासंतीली जिवाभावाची इस्टीण आसलें. मनानय खूब बरें आसलें तें. केन्ना अडीअडचणीक पावतालें. कोणा विशीं वायट उलयनासलें.

पत्रावळ्यो तोंपूंक रानांतल्यान चारां पानां हाडचो तेंप आसलो. माघ सोंपिल्लो. शिगमो येयसर पानां हाडून सुकोवन तेंच्यो कवळ्यो बांदून दवरूंक जाय आसल्यो. मागीर शेतांत नाटून, नझून जातकीर पावसांत पत्रावळी तोंपत बसप. लग्नाक, हेर कार्यांक त्यो लोक विकते व्हरताले. केन्ना गांवा भायले लोक येवनय व्हरताले.

पयलीं जायत्यो बायलो चारां पानां खुटूंक रानांत वयताल्यो. आतां चड कोण नात. पूण वासंतीन तें ह्या वर्साक मनार घेयिल्लें. तें गांवच्या विश्रांती आनी रेवती वांगडा चारां पानांक वयतालें. दिसाक साक भरून पानां हाडटालें आनी आंगणांत सुकोवंक उडयतालें. ताका दिसतालें, फाल्यां पत्रावळी तोंपून विकलार चार पयशे मेळटले, संवसाराक हातभार लागतलो. असल्या कामाक जीव पावनासलो. तरीय तें हट्टान, कश्टान

वावुरतालें. खर्शेतालें तरी खर्शेणी दामून चाट मारताले.

एक दीस तें रानांतल्यान पानां साक घेवन येताना रानवाटेर फाटल्यान तीग दादले सोऱ्या वोजीं घेवन येताले. मोटरकारीच्या ट्युबांत सोरो भरून तेणी तकलेर घेयिल्लो. अशे हे रानांत वयताना येताना सोऱ्या वोजीं घेवन येवपी दादले, केन्ना बायलोय सदाचेंच जाल्लें. ते रान वाटेर चलताना चिंतालें, लग्न जावन आंगा वेली हळद वच्चे पयलीं मुंबयंत गेल्लें. न्हवरो मुंबयंत आसा म्हण केदी थुळेवणी आसली घरच्यांची. पूण मुंबयंत कांयच बरें गेलें ना. त्यो झोपडपट्ट्यो, थंयचे बुरशे झगडाळ लोक, कुशिल्लो वास, मच्छरां... आनी हेगेलो सोरो. बेबद्या बायल म्हण दादले म्हऱ्यांत येवंक पळयताले, पोजडें उलयताले. खर्चाक पयसो घे म्हणटाले... म्हागेलें भांगर! आप्पान मुद्‌दम करून घेयिल्लो तो चकचकीत चपलांहार अजून दोळ्यां मुखार झळकता. याद येयलार जीव तुट्टा. मुंबय परस गांव कांय वायट नासलो. हेगेलो सोरो न्ही जालार खंयूय आनंदान रावतासलें हांव. तेगेल्या दोळ्यांत दुकां उर्बी रावलीं. दुकां आनी चेहऱ्या वयल्यान व्हांवपी हूम एक जावन गेल्ली.

आतां तीं रानांतल्यान गांवच्या डांबररस्त्या लागीं पाविल्लीं. विश्रांती आनी रेवती मुखार आसलीं. तें फाटल्यान चलतालें. आतां तो डांबररस्तो पयसुल्ल्यान दिसतालो. तेन्ना रस्त्यार एक जीप येवन थाल्ली. आनी तातूंतल्यान कांय कस्टम सिपाय देंवले. तें सोऱ्या वोजीं घेवन फाटलान येतल्या तिगांनय पळयलें. ते वाट सोडून रानांत धांवले. तांणी थंय रानाच्या गच्च घोलींत आपलीं पोतीं उडयलीं आनी ते फाटीं धांवले.

कस्टम सिपायान ते धांवन गेलात तें पळयल्लें. तांणी वोजीं उडयल्लीं पळोवंक नात. ते तांचे फाटलान धांवलेशे करून कांय वेळ गेले आनी मागीर फाटीं फिल्ले. वासंती तकले वयलो साक सकल पांयां कडेन दवरून सगळें तटास पळयतालें. रेवती आनी विश्रांती खूब मुखार गेल्लीं. सिपाय परते वयताना कुशीक उबें आशिल्ल्या वासंतीक तू तेंकां वळखता काय म्हण विचारताले. तेणें 'ना' म्हटलें. ते तशेच आपले जिपी सरीं गेले आनी जीप स्टार्ट मारून वचूंक गेले. तांकां ते दादलेय मेळ्ळे नात आनी सोऱ्या वोजींय मेळ्ळीं नात. पूण वासंतीन वोजीं उडयल्लें पळयल्लें.

तेच्या हातांत एक बारीक विळो आशिल्लो. तें सरसरीत रानांत रिगलें. थंय झाडाच्या घोलींत सगळे स ट्यूब आसले. तेणें विळो खोमून सवय ट्युबांक चिरो पाडल्यो. भितरलो सोरो भायर व्हांवंक लागलो. तेका तें पळोवन भोव समाधान भोगलें. तें तशेंच परतें येयलें आनी आपलो पानांचो साक घेवन घरा वटेन चलूंक लागलें.

रस्त्यार बरेच मुखार सांगातिण्यो उब्यो आसल्यो. वासंतीक पळोवन म्हणाल्यो, "आगो, खंय गो तूं इतलो वेळ? तेवटेन सिपाय आनी धांवन गेल्ले पळयल्ले. आमकां हिंगा खपखपो."

"मजा पळयली कांय वेळ. ते आनी ह्या लेमड्या सिपायांक मेळूंक येयलात?" तें मनांत म्हणटालें, हो सोरो सिपायांल्या हातांत पडलार बेवारशी म्हण उखलून व्हरतासले आनी भायले भायर विकून खातासले.

लागींच्या वाड्यार कुसूम म्हण एक बायल आसली. तिगेल्या घोवाली तीन चाकांची सामान व्हांवची रिक्शा आशिल्ली. तो दीसबर पयस गांवांनीच आसतालो. कुसूमाली सोयरीक लग्ना पयलीं तेगेल्या मामान रामदासाक व्हयल्ली. पूण कुसूम चपट्या नाकाचें, काळशें म्हण रामदासान न्हयकारिल्लें. तें कुसूमाक कळिल्लें जावये. एक दीस रामदास पिवन तेवटेच्यान येतालो. तोंड, दोळे तांबडेच जाल्ले. कुसूमान तेका पळोवन म्हऱ्यानचे बायलेक व्हडान म्हटलें, "बरें वाटवलें हांव जुगले बेबद्या पसून."

रामदासान आयकलें आनी तेका थंयच गाळी संवल्यो. म्हटलें, "तुगेलो घोव हेरांचीं वोजी व्हांवता, हमाली करता आनी तू हिंगा वाटे वेल्यान वयतल्या दादल्यांक उले घालता. इल्लें गोरें-गोमटें आशिल्लें जाल्यार सगळो गांव पाड घालतासलें..."

मागीर तो कुसूमाक खंयूय दिसलार गाळी संवतालो. एक दीस दनपरांच तें घोवाक घेवन



घरा मुखावयल्यान येताना दिसलें. रागान मुठ्यो कवळून झगडूंक येतात शें दिसतालें. वासंतीन बेगीबेगीन भितर वचून रामदासाक एके कुडींत धुकलून घायलें आनी खिळी ओडली. तें येवन दारांत उबें रावलें. तेगेलो घोव येयलोच रामदासाक बुरश्यो गाळी संवत म्हणूंक लागलो, "खंय गेला तो बेबदऽड मांयझवो, पोटण्याचो. भायर यो म्हण सांग, धाडायतां धरून, बायलांचे वाटेक वयता, गाळी संवता..."

"ए! तोंड सांबाळून उलय देडफूट गांयडोळाच्या. ना तर घरांतल्यान उज्या कोलती हाडून तुज्या सोंड्याक लायतलें. दुसऱ्याल्या दारांत येवन हुडक्यो मारून दाखयता मसणो."

कुसूम तापलें, "ह्या बेबद्या बायलेली चुतडाली तावदारकी पळय. घोवाक सांबाळूंक जायना, आनी वयल्यान शापादां."

"हय, म्हज्यान सांबाळूंक जायना, तुका जाय तो? आसा तो पावना जाल्यार घेवन वच. गांव जाणा, तूं तेका शिट्यो घालता, थापटां वाजयता म्हण."

"ताच्या तोंडाक सदां गुवाघाण! आनी शिटी मारता खंय."

"फाल्यां न्हावोवन, धुवोवन धाडटां हां, दार उकतेंच दवर." हाचेर घोव गणपती परतो गाळी संवंक लागलो. वासंती सोपनां देंवन

तांचे म्हऱ्यानच येवन उबें रावलें, जशें मारामारीच करूंक येयलां. तो म्हणटालो, "आता वाटेर मेळलार दांडोच घालतां तेच्या पांयार, पांय मोडून घालतां."

"फालसान हांवय तेका हातान दांडोच घेवन गांवांत भोंव म्हणटां. तुवें पांयार दांडो घातलार तो तुजे तकलेर घालतलो. अजून हाडां घट आसात तेगेलीं."

मागीर आनीक कांय वेळ आंगणांत कलकल जालो. मागीर तीं घोव-बायल गाळी संवतच वचूंक गेले. तीं आतां वासंतीकय संवतालीं. फाटलान वासंतीन मोट्ट्यान म्हटलें, "मगेलो व्हडलो भाव गोंयां फौजदार आसा. सगळे मिनिस्टर तेगेल्या खिशांत. तेणें थंय सान फोन केलार तुका बेडी घालून व्हरतले..."

कुसूम आनी इल्लें पयलान गेलें. थंय इल्लो उंचवटो आसलो! थंय उबें रावन हात हेळयन तेणें व्हडान म्हटलें, "घोवान सोऱ्याक घेयिल्ले पयशे हें त्या नरशींवशेटीक फारीक करता."

वासंती ताका रागान अशें पळयतालें, दिसतालें, हें आत्तां धांवन वयतलें आनी कुसूमाले गोमटेक घांस मारतलें. तेणें म्हटलें, "हें अशें उलयलार तोंडांत किडे पडटले तुगेल्या."

तीं वचूंक गेलीं आनी वासंती घरांत येयलें. तेणें खिळी काडून रामदासाक भायर घेतलें. तो सोरो पिवंक नासलो म्हण ताका कसलोच जोम नासलो. वोगी पडून आसलो. वासंतीक दिसलें, आपूण इल्लें आडमुठेपणानच झगडलें. मागीर ताका दिसलें, आतां संवसाराक तोंड दितलें जालार म्हाका अशें झगडचेंच पडटलें. तें कुसूम अकस्मात अशें कशें उलयलें? तो नरशींव रागान म्हजे विशीं कितेंय खोटें नाटें गांवांत सांगता दिसतलो. हांव शुद्ध आसताना हांवें कित्याक लावन घेवंक जाय तें? दीसभर मनाक हेंच समजायतालें.

एस्. एस्. सी.चो रिजल्ट जालो आनी चेडो अक्षय सामको कांठार पास जालो. ह्या उज्यांतल्यान तो पास जालो हेंच वासंतीक व्हड दिसलें. तेचो पुराय आनंद तेणें घेयलो. तें गांवबर लोकांक सांगत सुटलें. रामदासय दोन दीस खोशयेन फुरफुरिल्ले वरी जालो. ते खोशयेचो म्हण वासंती कडच्यान हक्कान पयशे व्हरून पियेलो.

आतां अक्षयाक मुखाल्लें शिकूंक दुसऱ्या गांवांत घालूंक जाय आसलें. शाळे भुरग्याले सवलतेन तिकीट काडलें तरीय दिसाक चवदा रुपये जाय आसले. त्या भायर पुस्तकां, फी. वासंती घोणी वरी हेवटेन तेवटेन मेळिल्ले पयशे एकठांय करून लिप्पोवन दवरतालें. मांय मेली तेन्ना तिगेल्या बेंकेच्या बुकार साडेबारा हजार आसले. ते रामदासाल्या नांवारच मेळिल्ले. पूण वासंतीन झोपय मारून ते घेतले. तो चिपयां कामाक वयताना कांय पयशे तेणें दवरिल्ले. सगळी अठरा-वीस हजारां वयर गांठ जावची नासली.

अक्षयाक अकरावीक भरती करूंक घेवन वच म्हटलार रामदास खाकुडलोसो करूंक लागलो. अक्षयानय नाक मोडलेंशें केलें. मागीर वासंतीच तेका घेवन गेलें. कोणा एकल्याच्या बापायक पांयें पडून फार्म भरून घेयलो. फी दिवन सर्टिफिकिटा सयत फार्म भितर घायलो. क्लार्कान म्हटलें, जालें काम.

थंय कांय बारावेचीं भुरगीं येयल्लीं आसलीं. तांचे कडेन पोन्या पुस्तकांची चवकशी केली. एका भुरग्याक घेवन तें तेगेल्या घरा गेलें. थंयच्या थंय अर्दमोलाक पुस्तकां घेयलीं. आनीक काय पुस्तकां पटयो दुकानार घेयल्यो. सकाळीं पयले बशीन गेल्लें तें सांजच्या काळोख पडच्याकच गांवांत परतलें. घरा पावलें तेन्ना तें भोव भोव समाधानी आसलें. दिसलें, आतां वाल माटवार पावली. तेगेल्या सातवेक शिकच्या चेडवान मीनान बांय वेल्यान उदक हाडून दवरिल्लें. तेणें येवन रांदलें.

अक्षय हे शाळेर खोशी आसलो. ताका दिसतालें, हांगा म्हाका कोण वळखनात, म्हाका हांसचे नात, हांव सुगूर आसां. गांवचे आनीक दोग जण सदां ताचे बराबर बसीन वयताले. पूण ते गांवांतले शाळेंत वचत सानचे इस्ट आसले. सकाळीं साडेसातचे बशीन तो वयतालो. सवाआठांक स्कुलांत पावतालो. दनपारचो दोन सवादोनांक परतो येतालो. सकाळीं शाळेक वयताना बरीच धांदळ



जाताली. वासंती तेका सोताच्या हातान कपडे घालतालें. तेगेलें तोंड पुसोवन केसांक भांग काडटालें. एक नवी चप्पल हाडिल्ली. गडबडेंत तो केन्ना पांयांक चप्पल घालीं नासतांच धांवतालो. दनपरां परततालो तेन्ना तानेन भुकेन जार जाल्लो आसतालो.

अक्षय आपल्या पापा वरी गोरो आसलो. केंसांत मदीं भांग काडटकीर कपलार दोनय वटेन केंस पडटाले आनी तो बरो दिसतालो. एकलो रोहीत म्हण बामणालो भुरगो तागेलो इस्ट जाल्लो. दोगय वांगडा हांसताले खेळटाले, वांगडाच क्लासींत बसताले. एक दीस रोहीत अक्षयाक आपल्या घराय घेवन गेल्लो. तेगेले गोरेच सोबीत आवयन तेंकां किसमीस घालून सांजो करून दिल्लो. तेगेल्या चकचकीत रंग काडिल्ल्या घरांत खुर्च्यो, सोफा, पलंग आसले. दारांक, जनेलांक पड्डे लायल्ले. तेगेलो बापूय ग़ाडी घेवन नोकरेक गेल्लो. पूण रोहीताले आईक पळयतकीर त्या सोळा वर्सांच्या भुरग्याक अक्षयाक दिसलें, हेगेली आई गोरी, मोटी आसा खरी, पूण ती मगेले आई इतली सोबीत ना. आईले दोळे, केंस सोबीत आसात! ती रानांत, शेतांत वयची न्ही जाल्यार आनीक बरी आसतासली!

तरीय हांगा आपणाक रोहीता सारखो इस्ट मेळ्ळो म्हण तो खोशी आसलो. रोहीत ताचे परस शिकूंक बरोच हुशार आसलो. तो घरा अभ्यास करतालो, ममी पापा ताका शिकयताले. अक्षयूय नेट लावन शिकचे यत्न करतालो.

वासंतीनय ताका शिकोवचें मनार घेयिल्लें. सद्दां बसीक चवदा रुपये दिवप कठीण जाताले. मदीं आनीक कित्याक कित्याक म्हण पयशे दिवचे पडटाले. रामदासय दवरिल्ले पयशे मागून व्हरतालो. दिना जाल्यार झगडटालो. सोरो पिवन येवन गाळी संवतालो. आतां तो तेका मारनासलो. तर हातांत कितेंय मेळलार तेचेर मोखून मारतालो, धुकलून दितालो, केन्ना केसांक धरतालो. वासंतीय केन्ना ताका नेटान धुकलून दितालें. सोरो पिल्लो आसलार तो कशाकसोय पडटालो. तेका भिरांत दिसताली, हाचे हातपांय मोडत म्हण.

एक एक करून सगळ्यांन आतां शेतां करचें सोडिल्लें. सगळे गोटे रिते पडिल्ले. शिवना जावन ते कोसळूंक लागिल्ले. म्हणटाले, कांयच फायदो नाशिल्लो भुकेकंगाल धंदो जाला तो. घरांतले सगळे काम करतले हात आतां गांव सोडून गांवार गेलात. उरिल्ले जाणटे जालात. शेतांत देंवन चिखल मुड्डवचो कोणाक नाका जाला. उणेपणाचें दिसता. वासंती चिंत्तालें, हांच्यो शंबर पिळग्यो शेतांतच घोळून जियेल्यो. आतांच हांकां शेताचो वावर उणाक कित्याक दिसूंक लागला? चोंय वटेन चकचक पातळ्ळा. शारांनी सदांच जत्रा चल्ल्या, दुकानां भरून घरांनी घरां भरून दारां ओत्तात. मोटारी, मोटरसायकली, बशी शारां वटेनच धांवतात. खेड्यांतलें बांयउदक, रानांतलो जळोव, शेतांनी घोळप कोणाक जाय? खेड्यांकय शारां करू… ुडोवचो खटाटोप चल्ला खरो. पूण नोकरी, उद्योगधंदे ना जाल्यार कितें उपयोग? कसली सुधारणा? सगळीं खेडीं शारा मुखार भिकेक उबीं राविल्ले वरी दिसतात.

ल्हवल्हव चाळिशी लागीं येताली आनी वासंतीक चिंतनांच चड जाल्लीं. हर एक गजालीचेर चींत चींत चिंत्तालें. मागीर नाका दिसतालें. चिंतप खूब कश्टाचें जाता. ताचेनच



मनांत दुःखां वाडटात. मागीर तें सगळें सोडून वावराक झुडटालें.

वावर तर तेका करूंक जाय आसलो. शेतय पिकोवंक जाय आसलें. सगळ्यांन शेतां सोडिल्लीं, रामदासान गोट्यांतले बैल विकिल्ले. गोटो कोसळिल्लो. तरीय हांव शेत करतलें! तेतून त्रास आसलो तो, एकल्याल्याच मदल्या शेतांत वंय घालप. खणून खणून शेत रोवंक तयार केलें तरी वंय घालप कठीण आसलें.

तरीय तें रामदासाक हाताक धरून ओडून भायर काडटालें आनी हातांत खोरें दिवन खणूंक व्हरतालें. रामदास खर्शेत खर्शेत खणटालो. चार खोरीं मारतकीर नाका पुरो जातालें. उबो रावतालो, मेरेर वचून बसतालो. वासंतीक केन्ना तेची काकूयट दिसताली. तें मनांत म्हणटालें, सोऱ्यान हाका पागळून उडयला. लग्ना वेळार म्हणटाले, तो म्हजे परस स वर्सांन व्हड म्हण. चाळिसां वयर तीन जाल्लीं आसतलीं आतां. पूण कुडीक बळच ना.

सदचे वरी सांजचो तो सोऱ्याक अडून बसतालो. तलफ न्हिवली ना तर झगडूंक उठ्ठालो. वासंती धा-पंदरा तेगेल्या हातार उडयतालें. आतां आतां तें तेका पीव ना तर राव म्हण हुशार बायले वरी थातरून घेतालें. घरांत झगडीं जावचीं न्ही म्हण शादूर रावतालें. ताका एकच ताप आसतालो, तो गांवार खंयूय कोणाय कडेन झगडें काडून गाळी संवंक लागतालो. खंयूय कानसुलार लागून मरत म्हण लोक तेका आतां मारूंक वचनासले. वासंती सरीं कागाळी घेवन येताले. वासंती बेजारून केन्ना कागाळ घेवन आयल्ल्या सरींच झगडटालें. एक फावट एकल्याक तर ताणें म्हटलें, "जाय जालार हांगा म्हजे हुजीरच ताका दोन फाफावन वच. पूण हे मुखार तेगेली खबर घेवन दारांत येवं नाका. पुराय गांवार सोऱ्याची मर येयला आनी म्हज्याच दारांत कित्याक येतात तुमी?"

लोक आतां म्हणूंक लागिल्ले, वासंतीक मद माल्ला, तें मस्तें झगडाळें जालां.

खरें तर वासंती आतां भितरल्यान कणाकणान मरूंक लागिल्लें. पूण आब दाखयतालें. आपूण उणें पडलार सगळें फासफतलें अशें तेका दिसतालें.

शेतां पडींग पडिल्लीं खरीं, पूण आतां शेतां रोवचो तेंप जाल्लो. वासंतीन शेत खणून घायिल्लें खरें पूण तें आतां रोवंक जाय. रोवंक तर जोत जाय. गांवच्या प्रभाकरालें बैलां जोत आसलें. तें आतां अशेंच पारपोळ भोंवतालें. तेणें तें विकूंक नासलें. तो आतां नंदकेरींत माद्रींलें हास्पिटल जाल्लें थंय कामाक वयतालो. प्रभाकराक सांगून एक दीस तें जोत रामदासाक व्हरून बांदून हाडलें. घरांत नांगर, जूं, ओळय आसलीच. देड खंडयेचें सगळेंच शेत. तीन दीस सकाळ सांज लागून रामदासान वाकडें तिकडें कशेंय कसून रोवन ओळोवन उडयलें. वासंती तर तेका देवाक पांये पडिल्ले वरी सारक्कें पांय पडटालें. तो मदींच जोत रावोवन सोऱ्या दुकाना वटेन वचत म्हण ताका भिरांत दिसताली. ना, सांजचो उसरांच फक्कत 'दुखापतीक' म्हण पिवन येतालो.

रोवन जातकीर रोखडीच वंय करूंक जाय आसली. रामदास येवं ना येवं, तें सकाळ-सांज लागींच्याच रानांत वयतालें, खूंट कांटी कातरून शेताच्या कडांनी हाडून उडयतालें. केन्ना रामदास फक्कत कातरचें काम करतालो. वासंती तीं वोजीं व्हांवतालें. रस्त्या वेल्यान देंवताना एक फावट एक फारेस्ट गार्ड मेळ्ळो. वासंतीले तकलेर बारीक बारीक खुंटांचें वोजें आसलें. तेणें म्हटलें, "तुवें सरकार रानांतल्यान ताजे खूंट कातरून हाडलात. उडय हांगा तें वोजें. केस करतां तुजेर!"

वासंतीन वोजें थंयच्या एका झाडाक उबें

तेंकयलें. त्या गार्डाक म्हटलें, ''केस करता? कर केस. घेवन वच तुगेल्या सायबा कडेन. तेका सांगतां, गांवचे लोक गांव सोडून गेले. शेतां पडींग पडलीं. आमच्या सारखे गरीब पोटा खातीर खंयय इल्ली शीर रोयतात, तेका वंय घालूं नाका? ना तर आमचें गरिबाचें पोट गोरवां खावन वयचीं नात? मागीर आमी कितें भुकेन वळवळून मरचें? इतलीं शेतां बंजर पडूंक लागलांत, कोणाक इल्लें दुःख ना, पोटाक शेतांत पिकयल्लें अन्न खातात आनी शेताक, शेतकाराक किर्कोत करतात.''

तो गार्ड वोगच रावलो. वासंती तें वोजें नेट लावन उखलून घेवंक लागलें. पूण तें वयर येना जालें. तो गार्ड बेगीबेगीन मुखार आयलो. तेणें तें सकल्लान उखलून दिलें.

आठ धा दीस सारक्के लागून दोगांनय वंय उबी केली. तेन्ना शेत किल्लावन पालेल्लें. चोंय वटेन पडींग शेतां, तेतून किल्लल्लें बुरशें तण. मदींच तो पाचवोचार नितळ शेताचो कुडको. तें सृजन भोवच सोबीत आसलें.

वंय घालून घरा येयलें आनी वासंती चार दीस हातपांय धाडायत भूंयर पडून आसलें. एका वोगांत तेणें काम केल्लें, पूण इतलें पुरो जाल्लें, सांध्यान सांधो दुखतालो.

पयलीं लोक शेतां करताले तेन्ना पावसाळ्यांतय नाटचें, नडचें काम मेळटालें. आतां शेता कामां नासलीं आनी हेर कामांय पावसाळ्यांत अडून उरिल्लीं. घरांतले रिते डबे, मडक्यो पळयलार वासंतीक भिरांत दिसताली. आशिल्लें चडान चड चवथ म्हणसर पुरो. मागीर कितें करतलें! ट्रंकेंत दामून दवरिल्ली गांठ सोंपूंक येयल्ली.

अचकीत ताका एक दीस कळ्ळें, फारेस्टाचे लोक रानांत सागवानी रोपे लावचे आसात म्हण. तें कसलोच संकोच ना धरतां सडसडीत फारेस्ट नाक्याचेर गेलें आनी आपलें नांव बरोवनय येयलें. त्या फारेस्टरान आपल्या रजिस्टराचेर बरयलें, 'वासंती रामदास नायक, फारेस्ट लेबर, फिमेल.'

चारच दिसान तें काम सुरू जालें. भायल्यान खंय सान तरी ट्रकां भरून सागवानी रोपे हाडिल्ले. ते रोपे ट्रक्टरच्या ट्रालींत घालून राना देगेच्या रस्त्यार हाडून उडयताले. ते चोब्यांत घालून बायलो रानांत रोवंक व्हरताल्यो. पंदरा बायलो आनी धा दादले आसले. दादले मुखाल्ले कांटेकुंटे कातरून रान मेकळें करून दिताले. बायलो कुदळीन खणून रोपे रोयताल्यो. एक गार्ड देखरेखीक आसलो. तरीय सुशेगात काम केलार चलतालें. भर पावसाचे दीस आसले. वयल्या रानांतल्यान धो धो झडत पावस येतालो आनी खिणांत माथ्या वयली कांबळी खोळ, आंगा वयलीं वस्त्रां भिजोवन उडयतालो. तरी शिंयाची हुडहुडी सोंसत तें आपलो वावर करतालें. झाडांक हुमकळावन दवरिल्ले पेजे



डबे थंड किरांव जावन वयताले. बायलांक दिसाक शंबर रुपये मजुरी मेळटाली.

तो वावर सारक्को एकवीस दीस चल्लो. वासंतीन मनांत म्हटलें, पावसाळ्यांत तितलोच आधार जालो. चेड्याले बसी तिकिटी पयशे आनी घोवाले सोऱ्याक पयशे दर दिसा लागिल्लेच आसले. पूण आतां तें भागून इतलें बारीक जाल्लें, चलताना पांय लडबडटाले आनी एकदुसऱ्याक आदळटाले. दोळे तर बिंवणांत गेल्ले वरी दिसताले. मुखाल्ले पंदरा दीस मात तेणें न्हिदून बसुनच काडले. चेडवाक मीनाक धमकावन घरांतलो वावर करून घेतालें. तें बेठेंच मोडलेंशें करून म्हणटालें, ''हांयें अभ्यास केन्ना करचो गे आई? फाल्यां नापास जालार नापास जालें म्हणटले.''

खरें तर मीना अभ्यास करच नासलें. शाळेंतल्यान आयलें की घरांत पुस्तकां उडयतालें आनी गावबर भोंवतालें. घरांत थारच नासलें. गांवचे आंब्याचे, काजूचे, जाबळांचे, पेरीचे सगळे रूख तेचे. कोणय न्हंयर नुस्तें मारूंक वयताना दिसलार हें तेचे फाटल्यान धांवतालें. वासंती आफोवन आफोवन बेजारतालें. केन्ना लडे घालतालें. मागीर तें आईल्यो चाडयो बापायक सांगतालें. एक दीस तेणें सांगलें, ''आई म्हणटा, तूं मुंबयच्यान गू खावंक हिंगा येवन पडला.''

अक्षय आनी रोहीताली इस्टागत बरी जमिल्ली. अक्षय खेळांत बरोच मुखार आशिल्लो. ह्या वर्साच्या स्नेहसम्मेलनांत ताका ऊंच हुडयेंत पयलें बक्षीस मेळिल्लें. तो शाळेच्या कबड्डी टिमांत खेळटालो. शाळेंत हॉलांत टेबलटेनिसचें टेबल आसलें. थंय रोहीत आनी अक्षय मेळून खेळटाले.

हेर तीग जण गांवच्यान तेचे बराबर शाळेंत येताले. तेंची बशीन येवपा पुरतीच इस्टागत आसली. शाळेंत येतकीर रोहीत तेगेलो इस्ट आसतालो, लाग्गींचो. आतां हे शाळेंत येवन तांकां स-सात म्हयने जाल्ले.

एक दीस रोहीत तेचे सरीं वोग वोग असो जालो. पुराय सकाळबर कांय उलयलो ना. शाळा सुट्टकीर बशीर बसूंक पांच सात मिनिटां चलून वचुचें पडटालें. रोहीत तेवटेनच आपल्या घरा वयतालो. दनपारची तानेची भुकेची वेळ आसताली ही. त्या दिसा रोहीतान वाटेर सट्ट करून अक्षयाक म्हटलें, ''तुगेलो पापा खूब सोरो पिता? पिवन रस्त्यार पडटा?''

''तुका कोणें सांगलें?''

''हरशीं... तुगेल्या गांवचीं भुरगीं येतात न्ही शाळेंत?''अक्षय कांयच उलयलो ना. वोग येयलो आनी बशींत बसलो. वाटबरय तो कोणा सरीं कांय उलयलो ना.

रोहीतान घरा वचून आपले ममीक ही खबर सांगलार ती म्हणाली, ''अशा बेबदयाल्या भुरग्यां वांगडा फ्रेंडशिप करची न्ही.''

आतां अक्षयूय ताचे पसून पयसच रावंक

लागलो. गांवच्या भुरग्यां वांगडाय चड उलथना जालो. आदींच असो अबोल भुरगो तो. फाटले कांय म्हयने इल्लो इल्लो उकतो जावंक लागिल्लो, आतां परतें ताणें मौन घेयलें, चेहरोच निस्तेज दिसूंक लागलो.

एक दीस वासंतीन तेका म्हटलें, "बरी रात जाल्या. अजून पापा येवंक ना. तूं रस्त्या मेरेन वचून पळोवन येता, खंय आसा काय म्हण?"

तेणें म्हटलें, "ना. हांव वयचों ना. तो मेलो तरीय वयचों ना."

हें इतलें कोडुपण वासंतीक मानवलें ना. तेणें म्हटलें, "आरे, जल्म दिल्लो बापूय तो. अशें कितें उलयता?"

तेणें तुच्छपणान 'हूं' केलें.

ह्या वर्साकय तो अकरावेक कांठार पास जालो. सगळ्या विशयांक तेका तीस ते चाळीस हांचे मर्दींच गूण पडिल्ले. प्रोग्रस कार्डाचेरय 'नॉट सॅटिसफॅक्टरी' म्हण शेरो मारिल्लो. मुखाल्लें वर्स बारावेचें. अवघड परिक्षा. खूब अभ्यास करूंक जाय आसलो. पूण अक्षया मर्दीं उमेद दिसनासली.

बारावेक घालुंकय वासंती तेका वांगडा घेवन गेलें. फार्म आनी फी भितर दिवन तें थंय आशिल्ल्या शिक्षकांक प्रिन्सिपलाक विनयतालें, अक्षयाचेर बरें लक्ष दियात म्हण सांगतालें. "गरीब शेतकार तेगेलो बापूय. हो बरो शिकलारच कितें बरें जावचेलें आमचें."

ह्या वर्साकय तींच पोन्नीं पुस्तका, तेंच बसीचें तिकेट, युनिफार्माचे कपडे... सगळो मेळ बसयताना वासंतील्या ताळ्यांतल्यान हूं हूं सो आवाज येतालो.

पुराय वर्स तें कुडीचो कांटो घेवन वावराक झुडिल्लें आसतालें. तेणें तशेंच खणून, वंय घालून शेत केलें. मेळटा थंय दिसवड्या कामाक गेलें. पत्रावळी तोंपून विकल्यो. न्हंयंत ल्हान कोंडयो हाडून तेंचीं मासां काडून विकलीं. तरीय मेळ बसनासलो.

माघा तेंपाक तें सक्काळीं तीन-साडेतिनांक रामदासाक हालोवन हालोवन उठयतालें. तेन्ना तेगेलो सोरो निवळिल्लो आसतालो. तेका घेवन तें देडेक मैल चलत न्हंयर वयतालें. न्हंयंत गळोबर देंवन कोंडयो काडटालें. रामदासय तेचे वांगडा उदकांत देंवतालो. पूण तेका तें कोंडयो उस्तिचें काम जमच नासलें. वासंतीले धा जायसर तेगेले चारय जायनासले. वेळ उदेवन इल्लो वयर येयसर तीं कोंडयो उपशितालीं. येताना दोन चोबे कोंडयो घेवन येतालीं. मागीर ते उकडप, मासां काडप, तीं सुकोवंक उडोवप, दीसबर वावरच जातालो.

विशेक दीस तीं अशीं कोंडयो काडूंक वयतालीं. सारक्कीं स कुडव मांसां जाल्लीं. तीं विकूंक गेलार गांवांत खपची नासलीं. तालुक्याच्या आयताराच्या बाजाराक विकूंक व्हरूंक जाय आसलीं. तिंवय दोन खेपेक तरी करून.

दुसऱ्या दिसाक आयतार आसलो. तेन्ना



वासंतीन एक माण्णी काडली. घरा सकल्ले वटेन भानुदासाचें घर बाग आसलें. तो बायल भुरग्यांक घेवन गोंयां आसतालो. तेगेल्या बागांत एक निरपणासाचो रूख आसलो. खूब निरपणस जाल्ले. ते आतां जून जाल्ले आनी झडून पडूंक लागिल्ले. शेनवारा सांजचें वासंतीन रामदासाक राव राव म्हण उसरां मेरेन दवरून घेयिल्लें. इल्लो काळोख जातकीर एक साक आनी कण्णाकोंकें घेवन तें भानुदासाल्या बागांत गेलें. थंय तांणी थोडे न्हू, विशेक निरपणस काडले आनी साकांत भल्ले. रामदासान म्हटलें, "कळलार वोग रावचो ना तो."

"कळूं दी. येवं दी तो म्हजे सरीं. फोटो काडून दवल्ला काय म्हण विचारतां. गांव सोडून वचून थंय मजा मारतात. सायब कशे म्हयन्या दोन म्हयन्यांतल्यान गांवांत येतात. कुसून वच्चो माल तो, कोणेंय खावचोच."

दुसऱ्या दिसा सकाळींच तें ते निरपणस आनी तीन कुडव कोंडये मांसां घेवन बशीन तालुक्याच्या आयतरा बाजाराक गेलें. वीस रुपयान एक करून निरपणस आनी साडेतिनशें रुपये कुडव करून कोंडयेमांसां विकलीं. सगळो खर्च काडून बाराशें रुपये घेवन सांजचें घरा पावलें.

निरपणस काडून व्हयल्ल्याची ताका इल्लीय खंत भोगली ना. तें मनांत म्हणटालें, कोणा कुस्तार हिंगा झाड-माड सोडून शारांत वयतात? हांकां दोनय कशें मेळटलें? आनी पंदरा दिसांन उरिल्लीं मांसां घेवन वयताना अशेंच कितें तरी व्हरूंक जाय.

अक्षयाक बारावेचो अभ्यास नीट कर म्हण तें फाटीक लागिल्लें आसतालें. पण तेचें सगळें सावकासायेन चलिल्लें आसतालें. बेदरकार कसो कोणाल्या उलोवपा कडेन लक्षय दियनासलो. आई केन्ना म्हणटाली, "अरे आयकोंक येना? भेड्डो जाला तूं?"

एक दीस वाटेर तेचे बराबर तेच शाळेंत बारावेक आशिल्लो नंदन मेळ्ळो. "अरे, अभ्यास कसो चल्ला?" म्हणटकीर सांगूंक लागलो, "आमी शाळा सुट्टकीर थंयच ट्युशनाक रावतात. सांजचे येतात. अक्षय एकलोच दनपरां येता."

"सांगलेंच ना मुरे तेणें. हें सांग, ट्युशनाक फी कितली घेतात?"

"आठशें रुपये." वासंतीक खप्प जालें.

"तुगेलो पापा खंय नोकरी करता आतां?"

पयलीं तो वेर्णा एके कंपनीत आसलो. तीन चार वर्सां जालीं ती अर्द कंपनी हिमाचलांत व्हयल्या. थंयच आसता तो."

"तुगेलो पापा कितलो शिकिल्लो रे?"

"बारावी करून आयटीआय् केल्ली खंय तेणें."

''अक्षयाल्या पापानय आयटीआय् केल्ली. हुशार तो.''

नंदनान अजापानशें 'अशें?' म्हटलें.

घरा येवन ट्युशना विशीं अक्षयाक विचारलार तो रागानसो म्हणालो, ''चवदा रुपये तिकिटाक दिवंक रडटा मुगे तूं. मदल्या सुटयेंत भुरगीं भेळ, आयस्क्रीम बी घेवन खातात. हांवें एक दीस कांय खायलें ना. आज्यान टी.व्ही. घेतिल्लो. दोन वर्सां मोडून पडला तो दुरुस्त करूंक जायना तुमचे कडेन. ट्युशन नाका म्हाका. तुजे कडेन कितेंय आसलार तेका सोन्याक दी.''

वासंतीक दिसलें, आज खूब दिसांन हो खुबच उलयलो. तेका चेडयाचो राग येयलो आनी तें भितरले भितर घुसमटलें.

गेल्ले चार दीस तें पळयताले, रामराय भटाल्या बागांतलो एक कवाथो दुरगा भायर बागवोन येयल्लो. तेका एक बरीच व्हड पेंड सुकिल्ली. भट आनी तेगेली बायल म्हयन्या फाटीं पुता कडेन बेंगळूराक गेल्लीं. तेणें एक साक आनी घरा फाटले वटेन आशिल्लें लांब कण्ण घेतलें आनी तें काळखांत भटाल्या बागा वटेन गेलें. दुरगा भायर उबें रावन कण्णान कोंचून कोंचून तेणें ती पुराय सुकिल्ली पेंड सकल उडयली. ती साकांत भरून बळान माथ्यार उखलून घेवन तें येयलें आनी मागीलदारान भायल्यान दवरली. कण्णय थंयच उडयलें. वोगी मुखाल्ल्या दारांतल्यान भितर सल्लें.

पळयलार चेडूं मीना आनी अक्षय दोगांय अभ्यास करी नासताना वोग बसून आसात. अक्षयान हेदोळ टेबलार ओमथें घातिल्लें पुस्तक तशेंच आसा. तेका सामकी भिरभिरी माल्ली, ''पाड पडिल्लीं, हुवाळिल्लीं... दीसबर न्हीद काडटात. मरूं तुमी, व्हरूं तुमकां. ह्या असल्या चिन्नान फाल्यां भीक मागूंक पडटली. तुमकां जल्म दिवचे परस वांजूड जाल्लें बरें आसलें हांव...'' उलयतां उलयतां तेका रडूंक येयलें आनी तेचो आवाज फुटलो. तेणें रडतच म्हटलें, ''अक्षय पुता, तें ट्युशनाचें मनार घे रे!''

तो कांयच उलयलो ना.

उसरां रामदास पिवन येयल्लो. पूण कसलोच आवाज नासलो. जेवन न्हिदतकीर तेणें ल्हवच म्हटलें, ''पयलीं तुमी रानांतल्यान लाकूड मारून हाडचें काम करताले, तूं वेंकटेश, सावळो. आतां करूंक जायना तें? अक्षयाक ट्युशनाक घालूंक जाय आसलें.''

''पिशें लागला तुका? केन्ना, धा वर्सां जालीं हे खबरेक. पांय मोडिल्लो मगेलो. धरून भितर उडयल्ले. माका आतां इल्लोय त्राण ना. सावळ्यान आपलें सोन्या दुकान काडलां. वेंकटेशाक ह्या दिसांनी कितेंय खायल्लें उल्टी जावन वयता खंय.''

''तूं खंयूय इल्ले नोकरेक वच. ह्या आयतराक नीळकंठ घरा येयलार सांगता हांव.''



''म्हाका आतां घरांतल्यान पांय भायर काडचीच इत्सा ना.''

''फालसान सोन्याक एक पयसो मेळचो ना तुका.''

''नाका. तसोच तळमळून मरतां हांव. रोग तो एक म्हाका लागिल्लो.''

''हांव फाल्यां पणजी वयतां अण्णा कडेन. सगळें सांगतां.''

''वासंती, तुवें घरांतल्यान पांय भायर घातलार पांय मोडून घालतलों हांव. बडोवन झोड काडटलो. दोन वर्सां जालीं, एक दीस येयलो ना तो, खबर घेयली ना.''

''तेची विवंचना तेका. आप्पा हांथरुणाक लागून पडला. चंद्रकांताक उदयोगधंदो ना.''

''तर तेका आनीक त्रास दिवंक वचूं नाका तूं.''

वासंती सोता सरींच उलयल्ले वरी म्हणटालें, ''गांवच्या बऱ्याच जाण्टया लोकाक सरकारा कडच्यान दर म्हयन्याक पयशे मेळटात. गिरेस्तय घेतात पयशे, पूण आमकां मेळचे नात ते. आमचो मसणाक वयचो वेळ येवंक ना अजून...''

इलेक्शन लागीं पावलें आनी अचकीत गोंया वटेच्यान सोन्या वोजीं घेवन येतल्यांची लायनच रानांत, न्हंय वटेन लागली. गाडयो लावडस्पिकर लावन रस्त्यांनी भोंवताल्यो तेन्ना सोन्या वोजीं रस्ते बलांटून वयतालीं. कोण्ण कांय विचारी नासलो. एक्सायजाची जीप येवची साप्प बंद जाल्ली. पयलीं गाडयांच्या ट्युबांतल्यानच चड सोरो येतालो. आता ट्युबांच्या वोज्यां वांगडा बऱ्या बऱ्या सोन्याच्यो पेटयोय येवंक लागल्यो. दोन पेटयो साकांत घालून तकलेर घेताले आनी धांवत धांवतशे येताले. न्हंयर व्हरून होडयेंत घालताले. मागीर त्यो खंयच्या खंयच्या गांवांनी पावयताले, कोण जाणा. मागीर त्या कामाक गांवचेय कांय लोक लागले.

इलेक्शनाचो धुमाळो चलिल्लो. शेंकड्यांनी गाडयो रस्त्यांनी भोंवताल्यो. बिनवोळखीचो लोक येवन गांवांनी भोंवतालो. एक दीस रामदास सकाळींच पेन्ट शर्ट घालून गेलो तो बऱ्याच रात्रीचो परतलो. जेवता काय म्हण विचारल्यार हांव जेवलों म्हणूंक लागलो. सोन्यांत तर बुडी मारुनच येयल्या वरी दिसतालो. मुखाल्ले पंदरा दीस तो असोच सकाळीं वयतालो आनी मध्यान रातीर परततालो. सकाळीं वयताना केन्ना वासंतीक व्हडवीक सांगतालो, आमदार रमेशान सांगलां, परत वेंचून आयलार आमगेल्या अक्षयाल्या शिक्षणाचें, नोकरेचें सगळें पळयतां म्हण.

आयकोन वासंती फुल्लें ना. तेणें मनांत म्हटलें, तूं तुगेल्या सोन्याचेंच तुर्ताक पळय. मेळलार बरें बरें खावन घे. तरी तेणें विचारलें, ''तुका दिसवडो कितलो दितात ते?''

"खावन पिवन दोनशें रुपये."

"ते मात बरे करून हाडून दी म्हाजे कडेन."

"गेल्ल्या दोन दिसांचे कालच्या पेन्टी खिशांत आसात पळय."

तो वयतकीर येवन खिशांत पळयलार चारशें रुपये आसले. बरें दिसलें तेका. तेणें कालचे कपडे समतेच धुवंक उडयले.

एक दीस आमदार रमेश शाळे कडेन येवन सभा घेता म्हण कळटकीर तें बेगीबेगीन केंस वळोवन इल्लो पावडर लावन शाळे सरीं गेलें. आंगार एक्कय भांगरा वस्त नाशिल्ली. तेका आतां तें बरेंच दिसतालें.

तें पावले तेन्ना सभा सुरू जाल्ली. सभे माजार बरेच जण बशिल्ले. सदां सांजचे दुकानार वचून कोपां मारपी आनी मागीर बोवाळत घरा येवपीय वयर बशिल्ले. मुख्य म्हटल्यार, सावळो जो पयलीं रानांतल्यान लाकूड चोरून हाडून विकतालो आनी आतां सोऱ्या धंदो करतालो तोवय वयर बशिल्लो. वासंतीक दिसलें, म्हजो घोवय वयर बसलार सोबतासलो. ह्या दिसांनी सटरफटर लोकाक इतलें मोल येयल्लें. ते आपूण आमदाराले खाशेले मनीस म्हण वावुरताले. लोका मदीं भाव खाताले. सगळी कडेन घडघड चलिल्लो. गाडयो भोंवताल्यो, नोटी वांट्टाले, सोऱ्या बाटल्यो फुट्टाल्यो.

ते भाशणांत उलयताले तेच्या उतरा उतराचो अर्थ काडून वासंती मनांतच तेंचीं फकाणां मारतालें. तें हुशार आसलें, भाशणाचो वाकडो अर्थ तेका बेस कळटालो.

सभा सोपतकीर चालू आमदार रमेश माजा वेल्यान सकल देंवलो. वासंती धिटायेन तेचे मुखार गेले. सांगलें, "शेताचेर आमी अवलंबून आसलीं. पुराय गांवांतलीं शेतां पडींग पडलांत. रोयलार गोरवां खावन उडयतात. गरिबी येयल्या. चलो बारावेक आसा. तेका शिकोवंक मजत जाय."

आमदार तोंड भरून हांसलो. दोन तीन फावट छातयेर हात मारून म्हणालो, "हांव पळयतां तुगेल्या चल्याल्या शिक्षणाचें. म्हजेर पावलें तें. हें इलेक्शन जालें की म्हजे सरीं यो. आतां देवा कडेन माग हांव वेंचून येवं म्हण. तुज्या वाड्या वेल्या लोकांकय सांग, म्हाका वोट घालात म्हण." मागीर एक पांचशें रुपयांची नोट काडून ल्हव वासंतील्या हातांत दिली. वासंतीन म्हटलें, "दोन वोट आसात आमगेले."

तेणें हांसतच म्हटलें, "पावतले, घराच्या दारांत पावतले."

मनांत म्हटलें, पावतले काय मदींच कोण खावन वयतलो, देवाक खबर! आमदाराक मुखार ल्हवच म्हटलें, "गांवांनी सोरो चड जाला. राना वाटेन वोज्यांनी येता. धांदळ चल्ल्या सगळी."

"लोकांक जाय न्ही. लोकांक जाय तें दिवचें काम आमचें. सोरो बंद केलार लोक तानेन वळवळटले. मागीर आमकांच सकल ओडटले. मारुंदी लोकाक मजा. धंदो जाला



तो आतां पोट भरचो."

वासंतीन मनांत म्हटलें, हेर कसलो धंदे ना म्हण हो धंदो तुमी दिला तेंकां हिंगा.

इलेक्शन वासंतीक वायट गेलें ना. रामदासाल्या खिशांत तेका दोन हजारां वयरच मेळ्ळे. आमदारान दिल्ले पांचशें, ते भायर गांवच्या एजंटा कडेन झगडून आनीक पांचशें घेयले. आमदाराच्या विरोधांत उबो राविल्लो तो ह्या जिल्हयांतलो पयलो फामाद निवृत्त आय्.ए.एस् अधिकारी आसलो. झेतान कपडे करून येतालो. तो पयशे वांट्टा अशें दिसनासलें. वासंतीक दिसतालें, ना तर हेचे कडच्यानय पयशे काडूं येताले, तुकाच वोट घालतां म्हण सांगून."

आता तीन म्हयने तरी अक्षयाक ट्यूशन दिवं येतालें. पूण उशीर जाल्लो. परिक्षेक देड म्हयनोच उरिल्लो आनी आतां अभ्यासाक म्हण रजा पडिल्ली.

इलेक्शनचो प्रचार बोवाळ चलताना रामदास कितलोय पिलो, कितलीय रात जाली तरी सारखो घरा येतालो. पूण इलेक्शनच्या निकालाच्या रातीं बरीच रात जाली तरी तो घरा पावलो ना. वासंती वाट पळयत आशिल्लें. मदींच दोगजण आंगणा मेरे सरीं येवन उबे रावले. 'कोण रे?' म्हणत वासंती मुखार गेलें. तेंणी सांगलें, "आज इल्लो चडच जालो. रस्त्या वेल्यान सकल देंवन येताना तो वाटेरच पडलो. ऊठ म्हटल्यार उठय ना." तेंगेल्या सोऱ्या वासाची तिरीप वासंतील्या नाकांतच घुंवली.

वासंती तेंचेर तापलें, "तुमचे बराबर प्रचाराक वयतालो तो. तुमचे बराबर पितालो, खातालो. आतां तुमी तेका वाटेर सोडून येयलात? उखलून हाडचें न्ही? हांव येवन किते करूं? आमदाराक सांगतलें हांव. वचात आनी घेवन येयात उखलून."

ते वचूंक गेले. ते गेले उपरांतय तेंगेलो सोऱ्याचो वास पुराय आंगणबर पातळून आसलो. वासंतीय हातांत बेटरे दिवो घेवन तांचे फाटल्यान गेलें.

अक्षयाक सगळें कळिल्लें. तो दारांत उबो रावन मख्ख काळखा वटेन पळयतालो. तेंचो येता तो आवाज येतकीर तो वोग भितर येयलो. तेणी एक मडें कशें रामदासाक हाडून घरांत घायलें. फक्कत श्वास चलतालो म्हण जिवो आसा म्हणचेलें.

अक्षयाली बारावेची परिक्षा सुरू जाली. तो सकाळीं वयतालो आनी सांजचो परतो येतालो. तिकिटाक, दनपरचें कितेंय खावंक म्हण वासंती तेका दिसाक चाळीस रुपये दितालें. तो सांजचो येताना भुकेल्लो, थकिल्लोसोच आसतालो. 'आरे पेपर कशे गेलात?' म्हण विचारलारच तेका राग येतालो. रामदासय तो सकाळीं वयताना दारार उबो रावन हात हालयतालो, सांजचो येतकीर पेपरां

विशीं विचारतालो. पूण तो कांय सांगनासलो.

तो बारावेक नापास जालो.

रिजल्ट आयकोन वासंतीक तकली धाडावन घेत रडचें अशें दिसलें. रामदास पिकासांवान पिवपाक गेलो.

पयलीं वासंती दु:खा कश्टाच्या खिणांक इस्टीण सुनंदा सरीं वचून बसतालें. ना तर तें येतालें. आतां सुनंदा घोवा बराबर नाशीक गेल्लें. थंय तेका मिलिटरी क्वार्टर मेळिल्लें.

अक्षय आतां दीसबर चडसो घरा भायर आसतालो. गांवांत जाणटे, पेन्शनरच चड आसले. तो चडसो त्या जाणटेल्यांच्याच घरांनी वचून बसतालो. तेंचे सरीं उलयत रावतालो. तेंकां कसलोय आधार करतालो. दुकाना वयल्यान सामान हाडून दितालो. तेणी कितेंय खावंक जेवंक घातलार खातालोय. पूण घरांत कसलें काम करचें नांव काडी नासलो.

वासंती तिडकेतालें. अभ्यास करून परतो परिक्षेक बस म्हटलार कसोच आयकनासलो. मागीर वासंतीक कळ्ळें, तो सातांतल्या चार पेपरांत नापास जाला म्हण. तेणेंय मागीर तो हट्ट सोडून दिलो. सदां तकलेर हात मारून आपल्या भोगाक रडटालें. घोवाक चरांटून गाळी संवतालें. तोवय मागीर पिवन येवन बोब मारतालो. तेका मारूंक येतालो.

आतां रामदासाल्यो वयर सोऱ्या दुकानांनी इतल्यो वोळखी जाल्ल्यो, कोणय पिवंक बसले म्हणटकीर हो तेंचे सरीं वचून बसतालो. लाडीगोडीन उलयतालो. हे मागीर तेकाय सोरो घालताले. तेचीं फकाणां मारीत पिताले.

गोंयच्यान आपल्या बंद घरांची, बागांची देखरेख पळोवंक आत्रापैऱ्यान कोण कोण येत आसतालो. येताना ते एकादरी बाटली हाडटाले. सोऱ्याक लागिल्ले तेंचे भोंवतणी घुटमळटाले, लाळ गळयताले. ते मागीर व्हडविकायेन तांकां पाव अर्द पाव घालताले. ती इतली लाचारी आसताली... सोऱ्याक लागिल्लो बेबदो एक लाचार सुणेंच जातालो. अन्नाची भीक म्हटल्या वरी सोऱ्याचीय म्हण भीक आसता खरी.

वासंतीक दिसतालें, आतां आपले कुडींत इल्लोय त्राण उल्लो ना. हांव आतां बेगिनच मरतलें. एक चेडू आशिल्लें पदरांत! खरें तर



सुरवे पासून तेचे सरीं कोणें चड लक्ष दिलें ना, अपुरबाय केलिना. बीं पुरून माती ओडून येवचें आनी मागीर त्या रोपानच मातयेंतलें उदक सारें ओडून घेवन वाडचें तशें जाल्लें. तें जायत सावन वासंती इतल्या जंवजाळ्यांत सापडिल्लें, भुरग्यांची अपुरबाय करूंक सवस्तकायच मेळ्ळी ना. आजयेन चार वर्सां केन्ना मुखार ओडिल्लें तितलेंच. चेडूं मीना सदांच कितें शेणिल्ले वरी भिरीभिरी सोदत रावता अशें दिसऽ. तेगेलें अभ्यासाकय मन लागनासलें. आतां तेका चवदा चलतालीं. आतां पसून वासंती तेगेल्या लग्नाचो घोर घेवन बशिल्लें. म्हणटालें, हांव मरचे पयलीं तेगेलें थाऱ्यार घालूंक जाय. मागीर मनांत म्हणटालें, मगेल्या आंगार एक गुंज भांगर ना आनी तेका कशें सोबयतलें हांव!

शेतजमीन बरीच आसली. केन्ना दिसतालें, जमीन विकून उडोवची. पूण फोंडांतली उदक भरची शेतजमीन कोणाक नाका जाल्ली. आनी हेवटेन अजून कसलो उदयोगधंदो पावंकय नासलो. आयलो तरीय आतां काळ असो येयल्लो, धान्य पिकच्या सखल्ल्या शेतांक काडयेचें मोल नासलें. जंय तण किल्लावन येयना अश्या पडींग मळांक आनी तिठ्यांक भांगराचें मोल येयल्लें.

गेल्लीं दोन वर्सां शेताकेरांतलें मदलेंच आपलें शेत खणून वंय घालून पिकयल्लें. पूण आतां शक्त पावतशी दिसनासलें. तरीय तेणें अक्षयाक म्हटलें, "पुराय वर्साचो प्रस्न आसा. फाल्यां कितें खातले आमी? तें शेत वंय घालून पिकोवया आमी. तूं आतां व्हड जाला. तुवेंच घराची जबाबदारी घेवंक जाय."

"म्हाका कांय कळना तें. जावचें ना म्हजे कडेन तें. पिशेपणां. आतां शेतां रोवचें म्हण उल्लां? कोण रोयतात शेतां?"

"मागीर आमी खातले कितें?"

"मगेलें सोड तूं. हांव खंयूय गांवार वयतलों. कितेंय खातलों."

"व्हडल्या मामा कडेन पणजे वच तूं."

"पळयतां."

"आज्जो चड बरो ना. वचून पळोवन यो."

तो वोगच रावलो. दुसऱ्या दिसा उठून रायगाळी मामागेर गेलो. आज्जो चडच बरो नासलो. तेच्यान हांथरुणार उठून बसूंक जायनासलें. आजी सगळें करताली. तिवय बरीच म्हातारी जाल्ली. बसूं उठूंक रडटाली. आज्यान तेका म्हऱ्यान आफयलें. उश्या सरीं बसयलें. तेगेले तकले वेल्यान हात भोंवडावन तो रडूंक लागलो.

धाकलो माम चंद्रकांत कितले फावट गोंयां वचून येयलो पूण तेगेले नोकरेचें जमलें ना. वेर्णा एके कंपनींत स म्हयने काम केलें. व्हडलीं व्हडलीं बॉक्सां उखलून दाळाक लावचें काम. खांदे दुखताले आनी हात हालोवंक जायनासलें. सोडून येयलो एक दीस. आतां तो गांवच्या लायटीच्या लायनमनाच्या हाता सकल काम करता. त्या लोकान एक दोन वर्सांत कायम करतां म्हणलां खंय.

एक दीस सांजचो धाकलो माम पिवन येयल्लो आसतलो, तो अक्षयाल्या पापाक रामदासाक व्हडव्हडान गाळी संवंक लागलो. "तो तुजो पापा, त्या बेबदडाक लागून आप्पाची ही गत जाल्या. ताईक पळोवंक मुंबयंत गेल्लो. थंय तेची अवस्था पळोवन येयल्लोच तेणें हांथरूण धरलें. म्हाजें शिक्षण पाड घालून म्हाका शेतकामाक लायलें, आतां शिक्षणय ना आनी शेतय ना."

आयकोन अक्षय वोग रावलो. ताका

मामाचो रागय येवंक ना.

दुसऱ्या दिसा दनपरां आज्याक वखदां घेवन व्हडलो माम तुकाराम येयलो. सांजचें आजयेन ताका अक्षयाक खंय तरी नोकरेक व्हरून दवर म्हण सांगलें. तो म्हणालो, "आगे, तेगेल्या आंगाचें पिठें तरी गेलां मुगे? नोकरेक वचूंक अठरा वर्सां पुराय जावंक जाय." मागीर तेणें अक्षयाक समजायलेंशें करीत म्हटलें, "तूं परत बारावेक बस. मन लावन खूब अभ्यास कर. बारावे बगर कोण मुखार घेना नोकरेक. कुली कामां करची तयार आसलार आतां यो म्हज्या बराबर."

आतां व्हडल्या मामाचो तेका खरोच राग येयलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच तो वचूंक गेलो. वयताना दोनशें रुपये दिले अक्षयाक. तेणें ते अनमानतच घेयले. माम वयतकीर तेणेंय म्हटलें, "हांव वयतां."

"आरे, आनी दोन दीस राव रे" म्हटलार तो आयकना जालो. धुवेक कितेंय दिवचें म्हण ती भायर भितर तळमळिल्ले वरी करताली. तिका घोव मुंबय वयताना बांदून दिल्ले पोटलेची याद जाली. तेंकां दोगांकय सरकारा कडच्यान म्हयन्याक पाचशें पाचशें रुपये मेळटाले. तिणें पोतयेंत घालून चार नाल्ल दिले आनी शंबर रुपये हातार दवरले. म्हटलें, "वयताना वाटेर दोन बिस्कुटां पुडे घेवन वच."

तो येताना सगळी उमेद मेल्ल्या वरी दिसतालें. बसीर चडिल्लो तेन्ना कंडक्टरान 'मात्सो सरक' म्हटलार तो तेचेर तापलो, 'खंय सरक म्हणटा?'

घरा पावलार आई कितें कितें विचारताली, "अरे, कितें जालें, कितें सांगलें?"

तो कांयच उलयनासलो. शेवट तेणें इतलेंच म्हटलें, "व्हडलो माम येयल्लो. तो कुली कामाक जाल्यार गोंयां यो म्हणटा."

आयकोन वासंती कांय वेळ वोग रावलें. "आजो कसो आसा?"

"बरो ना तो. हांथरुणारच आशिल्लो." तेणें मामान आनी आजेन दिल्ले पयशे काडून आईक दिले.

मुखाल्लीं दोन अडेच वर्सां अशींच गेली.



भयंकर गरिबी, भूक, सोरो, बोबाट आनी निर्शेणी. पोटाची भूक आनी सोरो हेचे बगर ह्या घराब्याक आनी हेर अस्तित्वच नासलें. कितल्या लोका कडच्यान उधार उशणे घेयले, कितल्या लोकालें देणें आसा हेचो हिशोब नासलो. लोक परते परते दारांत गेलार हेंस्स हेंस्स करताले. तरीय तें नाक चिमटेंत धरून वयतालें. तेच्यानय भूक सोसूं नज जाताली आनी भुरग्यांलीय भूक पळोवं नज जाताली.

आपले परीन तें वावर करतालेंच. रानांत वचून जळोवा वोजीं हाडून वयल्या चाये दुकानांत विकतालें, चारा पानां हाडून पत्रावळी तोंपून विकतालें. कोंडये काडून हाडून मांसां सुकयतालें. पोरसूं शिंपून भाजी तरकारी करतालें. कोणाल्याय बागांत, दारांत नाल्लबोंडो मेळलार उखलुनय हाडटालें. केन्ना घरांत आशिल्लें कितें साकांत भरतालें आनी तालुक्याच्या आयतरा बाजाराक विकूंक व्हरतालें. लोक वासंतीचेर दुबाव घेताले. पूण कोणय विचारूंक येयलार तें बुरशो बुरशो गाळी संवन तांचे सरीं झगडटालें. लोक म्हणटाले, तें पिसावलां, मरतलें बेगिनच. मरची पिराय कांय जावंक नासली तरी मरणाचो घरघरो लागिल्लो खरो.

तेणें बिपिएल् रेशनकार्ड मेळचें म्हण कितलो यत्न केलो, पूण तेगेल्या घोवाल्या नांवार चार खंडयेची घरची जमीन आसली, तें पळोवन कशेच दियना जाले. वासंती तेंकां म्हणटाले, "कसली पर्डीग पडिल्ली पोकी जमीन ती. तुमकां दिसना आतां, ह्या गांवांत कोण एक मूठ भात पिकयना म्हण."

"आमकां खबर ना. तसो कायदो आसा, भूधारकांक बिपिएल् कार्ड दिवचें न्ही म्हण. तुमी कश्ट करिनात, शेतां वसयनात, गांवार वयतात... हाका कोण सरकार जबाबदार?"

त्या मुर्खा कडेन कितें उलोवचें तें वासंतीक कळ्ळें ना. तें परतें येयलें. तरी तेणें तेंकां आयकोवशें म्हटलेंच, "बरे खावयलार दितलेय तुमी."

रामदास दनपरां, सांजचो केन्नाय सोऱ्याची तलफ लागतकीर, चंवचाळटालो. घर धुंडाळून मेळटा तें व्हरतालो. पयशे, नाल्ल, तरकारी कितेंय. घरांत एक दुदी हाडून दवरूं, निरपणस हाडून दवरूं, घोसाळीं, पडवळीं हाडून दवरूं, नदर चुकोवन सट् करून उखलतालो आनी धांवकच लागतालो.

गेल्ल्या पावसाळ्यांत वासंतीन घरा फाटल्या पाडसार एक तांबड्या दुदयावाल चडयल्ली. तेका बरे तीन पेण्णा मडके वरी गरगरीत दुदी येयल्ले. तें तेंकां सदां पळयतालें, राखतालें. एक दीस तांतलो एक दुदी नाच जालो. पळोवन तेका इतलो राग येयलो, तें व्हडव्हडान खेपूंक लागलें, घरांतल्यांक, भायल्यांक कोणाक म्हण ना, रागान खेपतालें. तेन्ना शेजारची म्हातारी मोगू मावशी थंय येयली, "खेपता कोणाक गो? तुगेल्या घोवानच काल सांजचो साका कुडक्यांत गुठलावन व्हयला तो. हांवें म्हाज्या दोळ्यान पळयला."

वासंतीक इतलो राग येयल्लो, तें सडसडीत रस्त्या वटेन गेलें. थंय लागींच रायूलें सोऱ्या दुकान आसलें. थंय वचून तेणें दुदी हाडून दिला काय म्हण विचारतकीर रायून सांगलें, "तो हालीं येयना हिंगा. झगडून गेला. बेठीच दादागिरी कोणाय जाय? उदारी सोडली तेका, तेच्या हड्ड्यार घायली."

थंय सान तें बरेंच चलून देवरायाल्या दुकानार येयलें. दुदया विशीं विचारल्यार तेणें रागानशेंच म्हटलें, "हय हाडून दिला."

"म्हाका जाय तो. हांव व्हरतां."

"उधारी आसा दोनशें धा रुपयांची. उडय आनी व्हर."

"तेका उधारेन सोरो दितात कित्याक तुमी?"

"तूं तेका पिवंक कित्याक धाडटा तर?" वासंतीक शिट् जालें. "हांव धाडटां?"

"तो सांगता, हांव बायलेच्या पिकासांवाक पिता म्हण."

"तू म्हागेलो दुदी दी." तेणें राग थोपोवन धरिल्लो.

"उधारेचे पयशे उडय म्हटलें न्ही."

"तुज्या मड्यार पडटलो तो म्हागेलो कश्टाचो दुदी. हांव धाडटां खंय. पोट भरना म्हण हो गू खावचो धंदो घेवन बसला तूं. लोकाक सोऱ्या नादाक लायता, लोकालें आयुश्य बरबाद करता. ल्हान ल्हान भुरगे तुजे कडच्यान बाटल्यो घेवन वयतात आनी शेतांनी पिवंक बसतात. मरूं तूं. निसंतान जावं तुजें. पोट भरना जाल्यार आयतरा बाजाराक वचून भीक मागूंक बस मसण्या चोराच्या..." तें चलूंक लागलें. देवरायूय तेका तेच तिडकीन गाळी संवतालो. चेडी, रांड म्हणटालो. पूण तें मुखार झगडूंक रावलें ना. थंय आता बरेच लोक जमिल्ले.

पुराय सांजबर रामदास घरांत नासलो. रातचो उसरां येयलो. तेका वासंती वयर दुकानांनी गेल्ल्याची, झगडून येयल्ल्याची खबर कळिल्ली. तो पियेल्लो तरीय वोग आवाज करी नासताना घरांत गेलो आनी न्हिदलो.

चेडूं मीना वाडूंक गेल्ल्याचो आयदना आवाज येयलो, तेन्ना वासंतीन तेका म्हटलें, "वाडचें काम ना. जाल्यार भाऊक वाड आनी तूं जेय."

रामदास मर्दीच फुटूंक पाविल्ले वरी आड्डलो, "सोऱ्या दुकानार गेल्लें तूं झगडूंक, तमाशा करूंक? लोक हांसतात थंय. बायल काय चूड काय म्हणटात."

वासंती कांयच उलयलें ना... मरतलो आतां तो बेगीन. पोट फुगून इल्लें इल्लें वयर येवंक लागलां. कोण म्हणटात, तेगेलें लिवर सुजूंक लागलां म्हण...

अक्षय आतां वीस वर्सांचो जाल्लो. एकदमच हातांत तोणो घेवन घरांतल्यान धांवडावन घाल सारको जावंक नासलो. पूण घरार तर हावळ येयल्ली. तेणें खंय तरी नोकरेक धंद्याक वचुंकच जाय आसलें. पूण तो असो वागतालो जशें ह्या घराचें तेका कांयच पडून वचूंक नासलें. पयस पयस आसतालो.गांवच्या जाण्ट्या पेन्शनर लोकां मर्दी रमतालो. तांणी कितेंय सांगलार आयकतालो. वासंतीक तेचो हुस्को लागिल्लो आसतालो. तो भायलान येयलो म्हणटकीर तें लागीं लागीं वयतालें, तेका सोऱ्या वास येता काय पारखितालें. असवडी खिशे तपासतालें. गुटखा पाकिटां आसात काय तें पळयतालें.

ह्या वर्साचो गांवचो शिगमो तर सोऱ्याचोच शिगमो जाल्लो. तोणयां मेळ वाड्यार येयल्लो तो सोऱ्यांत धुंद जावनच येयल्लो. सदानंदाल्या आंगणांत व्हडले तुळशी सरीं खेळ मात ते सोऱ्या नेटार मोठे उमेदीन खेळ्ळे. खेळ सोपतकीर कितें जालें नकळ, ते खेळपी, वाजंत्रां वाजोवपी मोटमोट्यान झगडून घेवंक लागले, एक दुसऱ्याल्या आंगार धावंक लागले. वाड्या वयल्या लोकांनच मर्दी पडून तेंचें झगडें थांबयलें. सदानंदान एक कुडव तांदूळ, पांच नाल्ल आनी एकशें एक रुपये



घालून तळय दिल्ली तर ते सोऱ्याक कितेंय दी म्हण अडून बसले. मागीर सदानंदान आनीक एक शंबर रुपयांची नोट दिली.

पुनवे दिसा घराघरांनी शागोती जाताली. लागींच्या गांवच्यान, गोंयच्यान सोयरे लोटून येताले. तेन्ना घरांनी सोऱ्या बाटल्यांच्यो राशी पडटाल्यो. पुराय रात सोऱ्याचोच गजबज आनी बोवाळ.

पूण ह्या वर्साक वासंतील्या घरांत शिगमो सामको थंड गेलो. धाकल्या भावाक यो म्हण सांगून धाडिल्लें. तो येयलो ना. बापूय आवय आसताना व्हडली नणंद गुलाबी चुकनासताना येताली. पूण आतां येयना ती. दोन वर्सां फाटीं एक दीस येयल्ली तितलीच. मदले नणंदेलो चेडो मुंबय बरे नोकरेक आसा खंय. पूण तो मावळ्याची खबर करिना. वचत थंय तो बेबदो म्हण नांवाक पडला. सोयरो धायरो पयस पयस रावता. तरी ते रातीक तेणें घरचोच एक कोंबो मारून शागोती केली. कोंबो तेणें तेगेल्या घुडांत पोशिल्लो. घोवाक वीस रुपये दिले. म्हटलें, आज एक शिल्ड क्वार्टर हाडून पी तूं. पूण अक्षया हुजीर नाका. आवाजय करूं नाका. मागीर तेणें चेड्याक, चेडवाक घोवाक वांगडाच बरें करून वाडलें. तेणेंय वाडून घेयलें. हुडदाचे पोळे केल्ले. सगळीं बरीं करून जेवलीं. रामदासानय एक आवाज केलोना.

मागीर तें चेडवाक घेवन रातचे जत्रेक, नाटकाक गेलें. आंगार साडी पोन्नीच आसली म्हण तें काळखा वटेच्यानच भोंवतालें. पूण वयता थंय सोऱ्या वास घुंवतालो. तेका सोताचीच तिडक माल्ली, हें कितें जालां म्हाका, हेर कांयच दिसना, सोऱ्या वासच हुंगतां हांव. म्हाकाय सोऱ्याचो कसलो रोग जाला काय कितें! हेचेन हांव म्हजें सूख सामकेंच इबाडून घेतलें. तरीय तांणी बसून पुराय नाटक पळयलें. मदी मर्दीं आई हांसता तें पळोवन मीनाक बरें दिसतालें.

ह्या दिसांनी मीना आई सरीं खुबच झगडटालें. पापाचेरय धेंगसो घालतालें. तें सातवेक पास जावन आठवेक गेल्लें. हायस्कूल बरेंच पयस. चलूंक अर्दवर वाटेर आसलें. वासंती तेका धुकलुनूच शाळेक धाडटालें. पूण तें आठवेक नापास जालें आनी मागीर शाळेक वचुंकच तयार ना जालें. मोगूमावशी सदां तेंच्या घरा सरीं गणमणत रावताली. इल्ली कुसकीच आसली ती. म्हणूंक लागली, "बायल चेडवाक आठवे

मेरेन शिकप चड जालें. चड शिकलार तेच्या परस चड शिकिल्लो घोव जाय, खंयच्यान हाडटलें तूं?''

मीनाक आतां सतरा चलतालीं. तें चोंय वटेनचो चकचक पळयतालें. घरचो टिवी मोडिल्लो आसलो तरी कोणाय शेजाऱ्यागेर वचून वरां वरां टिवी पळयत बसतालें. गांवांत गोंय सान, बेळगांव सान येवपी चेडवां बरे बरे फॅशनीचे कपडे घालून येतालीं. गांवांतय आतां सगळ्यो फॅशनी पाविल्ल्यो. मीनाक बरें कांयच मेळनासलें. हायस्कुलाक वचूंक युनिफॉर्म शिंविल्ले ते घालून घरांत वर्सबर वावुरतालें. घरांत दोन पंजाबी ड्रेस आशिल्ले. तातूंतलो एक आईन कोणा कडच्यान मागून हाडिल्लो. शांपू, क्रिमी तर पळोवंक नासलें तेणें. गांवांत तेच्या परस व्हड प्रियंका म्हण चेडूं आसलें. तेगेलो पापा हायस्कुलांत शिकयतालो. ममी प्राथमीक शिक्षिका आसली. तेंच्या घरांत न्हावचे कडेन, शिरंगार करचे कडेन कितले तरेच्यो क्रिमी, शांपू, तेलां आसली. तें बेठेंच तेंचे वयल्यान हात भोंवडावन घेतालें. केन्ना प्रियंकाल्या केसां वयल्यानय हात भोंवडायतालें. तेका दिसतालें, हें त्या शांपूंक आनी क्रिमींक लागुनच इतलें सोबीत दिसता. हांव तेचे परस चड सुंदर दिसतासलें... हालीं तर तकलेर चोबे घेवन म्हागले केंस चडच बुरसटे जाल्यात...

हो गांव खुबच सोबीत आसलो. वयले वटेन डोंगरांचें कंवडाळें, थंय पाचवींचार रानां, सकल शेकानशेक शेतां, मागीर न्हंयची पोंय गांवा सकय मेरेन येवन पाविल्ली. मागीर पयस आडवी न्हंय. मागीर तेचे पलतडीं आनी घूसर असो डोंगर. रस्त्या वयले वटेन खंयच्याय उंचवट्यार उबो रावलार न्हंय पडतड मेरेनची सगळी सोबाय दिठयेंत येताली. पूण गांवच्या लोकाक तेची इल्लीय तोखणाय नासली. तेंकां दिसतालें, ही सोबाय किते झरो[illegible] पिवची आसा, हिंगा धंदे, नोकऱ्यो आसलार बरें आसलें.

पूण ही सोबीतकाय, हिंगाची शांतताय पळोवनच शेजारच्या गांवच्या दिवाकर म्हणिल्ल्यान रस्त्या कुशीचें एक वीस-पंचवीस गुंठ्यांचें मळच विकत घेयिल्लें. दिवाकर पयलीं बऱ्या वयल्या हुद्द्या वयलो सरकारी अंमलदार आशिल्लो. खूब पयसो जोडिल्लो. तेगेलीं शारांत दोन घरां आसलीं. गांवांत बापायन बांदिल्लें पोन्नें नळ्यां घर आसलें. आतां हिंगा आनीक एक तो बांदूक सोदतालो.

तेणें हिंगा घर बांदूक काडलां म्हण आयकतकीर वासंतीन मनांत तेचीं फकाणांच माल्लीं. हेगेलो एकच चेडो. तो आसा अमेरिकेंत. हेचीं लाकडां मसणांत पावलांत. केन्ना घर जातलें आनी कितले दीस तो घरांत रावतलो. आनी हेर तीं घरां कोणाल्या हड्ड्यार घालतलो? चोरून जमयल्लो पयसो. असो खंय तरी वारयचो. आमकां गरिबांक तरी दी मेल्ल्या.



पूण तेगेल्या घराचें काम सुरू जालें आनी वासंतीक काम मेळ्ळें. माती हेवटेनची तेवटेन घालचें, घटण भरून घेवचें, सामग्री व्हांवचें अशीं बरींच कामां. फक्कत गवंडी भायले आसले. हेर सगळीं कामां गांवच्या लागींच्याच लोकां कडच्यान करून घेताले. वांगडा तें फुसलावन मीनाकय घेवन वयतालें. म्हणटालें, ''उब्या उबेच चोबे तकलेर घेवचे. दिसाक शंबर रुपये मेळटात न्ही. म्हजे परस आंगान घटमूट आसा मुगो तूं.''

मीना आई बराबर वचूंक मेळटा, थंय आई आसता म्हणच वयतालें. चोबेय नीट तकलेर घेतालें. ल्हव ल्हव तें थंय रमलें. घटणाच्या बांदकामाक, सिमिटांक मागीर वणटींक उदक मारचें पडटालें. तेंवय काम ह्यो आवय-धूवच करताल्यो. सकाळीं बेगीं, सांजचें उसरां उदक मारचें पडटालें. उदकाचो वेळ जातकीर मीना केन्ना धांवन धांवन एकलेंच वयतालें.

त्या बंगल्याचें एकल्याक कंत्राटच दिल्लें. कंत्राटदारालो सुपरवायजर कुमार गौडा म्हण मोटर सायकलीर दिसा आड येतालो. तेगेली वासंती कडेनय बरी ओळख जाल्ली. वासंती तेका केन्ना च्याव करून व्हरून दितालें. एक दीस तो घराच च्याव पिवंक येयल्लो.

मागीर वासंतीच्या ल्हव ल्हव लक्षांत येयले, मीना तेचे सरीं बरे गोडयेन हांसता, डोळे मिचकायता. तेच्या वासाक आशेल्ले वरी करता. तें शादूर जालें. मीनाक एकलें पातेयना जालें. पूण गरजेक, गरिबेक लजय नासता आनी अक्कलय नासता म्हणिल्ले वरी तीं दोगांय वावराक येत रावलीं. मीना केन्ना तेगेलो रस्त्या वयलो मोटरसायकलीचो आवाज वोळखल्ल्या वरी मर्दींच 'उदक मारचो वेळ जालो, येतां गे' म्हणत तेवटेन धांवकच लागतालें. एक दीस तेचे फाटल्यान येयलार तीं दोगांय वणटी आड उलयत राविल्लीं वासंतीन पळयलें.

मागीर घरा आफोवन हाडून तेका बरेंच उजरायलें. घरांतल्यान पांय भायर घालूं नाका म्हण सांगलें, पूण तें आयक नासलें.

तरीय एक आस्त, अशीं कामां मेळलार चार पयशे जमोवंक येतले, कशेंय करून ताचें लग्न करूंक मेळटलें... केन्ना दिसतालें, कांय नासतलें तेंगेलें. तरणेपणाक अशें जाता केन्ना. एक फावट घर पुराय जालें म्हणटकीर आमी मेकळे. तो तेगेले वाटेन.

घराचें काम सुरू जावन आतां स म्हयने जाल्ले.

एक दीस मीना नाच जालें. सकाळीं उदक मारून येतां म्हण धांवतच गेल्लें तें परत येयलें ना. तोवय मागीर केन्ना घर बांदचे कडेन येयलो ना.

भोग अशे आसले, चेडूं गेलें हेचे परस आमी लोकलजेक पडले हेचें दुःख व्हड आसलें. सगळो गांव भरिल्लो. लोक हजार तोंडांनी उलयताले. कोण म्हणटाले, ''आवयन जाणा जावन तेका धाडलां, तेका आदींच खबर आसलें.''

''हय तर, फाल्यां लग्न करूंक जावं नाका? घोव तर बेबदो.''

''तो बरेच पयशे दितालो खंय आवयक, धुवेक अर्दी मर्दी.''

"खंयचे जातीचो, कोणा खबर, कुळाक बट्टो."

वासंती आठ दीस घरांत मख्ख बसून आसलें. घरांत इल्लो वावर केलारय रडतच करतालें.

रामदास पिवन बोब मारनासलो, वयर वचून तोंड लिपयतसो वोगी पिवन येतालो आनी धुसपुसत वासंतीकच गुन्यांवकारी धरतालो. म्हणटालो, "तुवें तेका वावराक थंय व्हयलें. तुवें लक्ष दिलें ना, जाणा जावनय दुर्लक्ष केलें." वासंतीक तेचे कडेन झगडची इच्छाय नासली आनी शक्तय.

इल्ल्या समाधानाची एकच गजाल आसली. त्या दिसा मीनाली चवकशी करूंक गेल्लें तेन्ना थंयचो चिरे बांदपी गवंडी सांगतालो, "एकदम बरो तो भुरगो, हुशार. गांवच्यान लेबर म्हण येयल्लो. शिमीट कालोवन दिवचें काम करतालो. पूण हुशारकायेन बरो गवंडी जालो. आतां सुपरवायजर जाला. हातांत प्लेन दिलार पुरो. बरोब्बर बंगलो बांदून दितलो."

वासंती मनांत म्हणटालें, जातपत गेली चुलींत. गेल्ले कडेन बरें करून उरलार पुरो! हे गांवचे लोक घुडांतच पडून आसात. संवसार पावला खंय! ही जात वयर, ती जात सकल म्हण कोणें कशें थारायलें?

अक्षयाक कितें दिशिल्लें? तो गेल्ले आठ दीस घरांतच आसलो. एक दीस वासंतीन विचाल्लें, "बाळू, ताईक खंयूय सोदून परत हाडुया म्हणटा?"

"नाका. तेंचो मोग आसतलो. आडवंक जायना तो."

वासंतीक बरें दिसलें. हांवें तर मोग म्हण कितें तें केन्ना पळोवंक ना! तेंचो तरी वाडूं दी!

"हांवूय आतां खंयूय वयतां आई."

"खंय नोकरेक वयता म्हणटा तूं?"

"हिंगा आतां रावचेंशें दिसना म्हाका."

"खरें तुजें. वच पुता, खंयूय बऱ्याकच वच. वयताना एक सोपूत मात घेवन वच, सोऱ्याक हात लावचो ना म्हण. वीस वर्सांची म्हणटा ती विखाची पिराय. राखूंक जाय. आज्या वरी दाणगो आसा तूं. खंयूय नोकरी मेळटली तुका. पोटाक मरूं नाशिल्लो जालार आनी बरो जातासलो."



एक दीस तेंचेच घरवडींतले दोग जाणटे दादले - घनश्याम आनी रघुनाथ दारांत येयले. भितर येवन बसात म्हटलार भितर येयले नात. भायल्यानच तापसाणेन विचारूंक लागले, "तुमगेलें चेडू मीना खंय?"

"गेले तें... लग्न जावन गेलें घोवा बराबर."

"खंय केन्ना केलें लग्न?"

"रानांत व्हरून झाडा मुळांत लग्न लावन दिलें, हांवें आनी म्हगेल्या घोवान."

"फट उलयता तूं. कुळाक कलंक लावन वयल्यान नाक वयर."

"कित्या? भट आफोवंक जाय आसलो? तुमकां जेवणावळी घालूंक जाय आसलें? आमी गरीब. आमचे कडेन कांय पयशे नात."

"दायज्यांक सांगिल्लें तुवें?"

"कित्या? तुमी मजत करता आसले? इतलीं वर्सां आमी हालउपाद्रे काडटाले. हेच्या सोऱ्याक लागून म्हजीं भुरगीं उबंतर पडिल्लीं. हांव मजुरे कामाक वचून तेंगेलें पोट भरतालें, तेन्ना कोण येयल्ले मजतीक? हांव गांवार वचून भीक मागून हाडून म्हज्या भुरग्यांक घालतालें... केन्ना तुमच्या दारांत वचूंक ना."

"चड उलयता तूं. एकच सांग, जात खंयची तेगेली?"

"बरीच जात तेगेली. सुवार्थी, दुस्वासी न्ही आमचे वरी."

घनश्यामान म्हटलें, "कोणय आसूं, हे मुखार एक दायजी तुमच्या घरांत येवचो ना. तुमीय येवंक फावना. व्हडले तुळशी कडेनय तुमी दिसूंक फावना. वाड्या वयल्या सगळ्या दायज्यांन बहिश्कार घायला तुमचेर."

"तो तुमी केन्नाच घायिल्लो. तो गाळी संवता म्हण निमित्त करून, आमकां गरिबी येयल्या म्हण कोण एकलो दायजी येयनासलो घरा सरी. आतां आमीय वयचे नात कोणाल्या दारांत."

रघुनाथ आतां रागान आड्डलो, "अरे रामदासा, मायझयां, आसा रे तूं घरांत? बायल बरी चणचणटा आनी तूं घरांत लिपून बसला? असो भायर यो लुच्च्या, सोरो पिलार बरो नेट मारता मरे तुका..."

रामदास खरोच भायर येयलो, तेकाय राग येयल्लोच. पूण राग भायर घालूंक शक्तच ना अशें दिसतालें. तेका राग बायलेचोय येयल्लो आनी दायज्यांचोय येयल्लो. तेणें लाचार कसो म्हटलें, "चला तुमी आतां वचात. बहिश्कार घायला, बरें आसा, पाळटले आमी. ह्या वर्सांनी तुळशी कडेन म्हाका खंय घेताले तुमी? ना पिलों तरी पिवनच येयला म्हणटाले. आमगेलें बाय गेलें, तुमचें कांयच वचूंक ना. तरीय तुमी आमकां धमकी दितात."

तेंकां आतां दिसलें, आमी सोरोप म्हणून चुडटी बडयतात. ते वोग गेले.

अक्षय घरांतच आसलो. तो रागान फुटूंक पाविल्ले वरी जातालो. डोळे भिरभिरताले, ते आत्तां पेटूंक लागतले अशें दिसतालें. पूण तेका कोणाचो राग येयला तें कळनासलें.

सांजचो रामदास वासंतीन खंय तरी लिपोवन दवरिल्ले पयशे सोदून काडून घेवन पिवंक गेलो. बरोच वेळ शिवणूल्या दुकानार पीत बसलो. थंय बेतूवाड्या वयलो रत्नाकर बशिल्लो. दोगय तायट आसले. रत्नाकरान म्हटलें, "कांय टेन्शन घेवं नाका तूं रामदास. आयतोच मेकळो जालो. मजा मार आतां."

रामदास बशिल्लो सट् करून उठलो. तेणें मुखाल्लो ग्लास पुराय ताळ्यांत रखयलो. तशेच आनीक पयशे उडोवन आनीक एक ग्लास पिलो आनी रत्नाकराक बुरश्यो गाळी संवंक लागलो. तेका मारूंक गेलो. संवतच तो घरा वटेन येयलो.

घरा पावतकीर तेणें आंगणांत रावन रघुनाथाक, घनश्यामाक, हेर दायज्यांक खूब

गाळी संवल्यो. ताळो ताणून, फोडून कसो गाळी संवतालो. 'येयात, तुमकां धाडायतां, बडयतां, बोडां फोडटां, म्हणटालो. सदचे वरी कोण तेचे वाटेक येनासलो, आवाज काडी नासलो. वासंती तेका थोपवोन घरांत हाडूंक म्हणच दारांत येयल्लें. तेची नजर वासंतीचेर गेली. तो आतां वासंतीक संवंक लागलो, "तुवें रांडेन, चेडयेन तेका पारपोळ सोडलें, गांवार घायलें. तेगेलो बरो पोटलो मेळ्ळो आसतलो तुका."

वासंतीन इतलेंच म्हटलें, "कितें उलयता तूं? तोंडाक उजो घालतलें तुगेल्या."

तेन्ना तो तेचे सरी धांवलो. तेगेल्या केंसांक धरून ओडून हाडून तेका आंगणांत धाडायलें. तें तोंडारच पडलें. पडिल्ले कडेन एक खोंट तेचेर घावली.

अक्षय दारा भितरले वटेनच आसलो. तो धांवन येयलो. तेणें बापायले मानेक एक हिसडो दिवन सकल उडयलें. मागीर तो तेका लातान, मुठीन मारत सुटलो. रामदास कांय आवाज करी नासताना मार खातालो. वासंती दोळे रुंद करून पळयतालें. हात लांब करून तेका आडावचे यत्न करतालें. तेका बरेंच मारून थंयच सोडून तो भितर गेलो. वासंती उठून दारार येवन बसलें. तो मेला काय जिवो आसा तें वासंतीक कळनासलें.

कांय वेळान वासंती उठलें आनी तेचे सरी येयलें. ल्हव ल्हव श्वास चलतालो. 'अरे, उखलून भितर व्हरून घालुया' म्हटलार तो येयलो ना.

मध्यान रात मेरेन तो आंगणांत पडून आसलो. वासंतीय दारा भितरले वटेन बशिल्लें. तो मदींच उठलो आनी लखत लखत भितर येवन न्हिदलो. मागीर वासंतीय भितर येयलें.

सकाळीं वासंतीक उठूंक इल्लो कळावच जाल्लो. उठून पळयलार अक्षय हांथुरणार नासलो खंय गेलो हो, सद्दां तर ह्या वेळार हांथुरणार लोळतच आसतालो. तें बेगीबेगीन भायले वटेन येयलें. तेगेलीं कोनशांतलीं जोतींय ना जाल्लीं. मागीर बारीक पळयलार तेगेले खुट्याळा वयले सगळे कपडेय दिसनासले. 'बाळा बाळा' म्हण उले दीत तेणें भायर भितर सोदलें. मागीर तें एकदम रस्त्या वटेन धांवलें. वाटेर थंय बाळकुश्टमामालें घर आसलें, तेका



विचाल्लें, "मामा, अक्षय सकाळीं बेगीं हेवटेन वयर गेल्लो?"

तेगेले बायलेन मुखार येवन सांगलें, "आगो बरो वेळ जालो, तो हातांत पोती घेवन रस्त्या वटेन गेला. हांव समजलां, तुयें खंय तरी धाडला म्हण."

"रातीं जाल्लें रामायण आयकलें ना तुयें?"

"तेचो बोवाळ अत्र्यापयऱ्याचोच न्ही तो!"

वासंती थारनासताना रस्त्या वटेन धांवलें. वचून खबर केलार सकाळची बस केन्नाच गेल्ली. तें धाप करून थंय धुळींतच बसलें. पयल्यान राजाराम उबो आसलो तो म्हऱ्यान येयलो. तेणें सांगलें, "बसीन चडटाना पळयल्लें तेका, खंय गेला तर तो?"

"गेलो तो, गेलो. खंयूय पोटापाण्याक गेलो आसतलो..."

घरा परत येयलार रामदास हांथुरणार बसून रडटालो आनी म्हणटालो, "म्हाका माल्लो... मगेल्याच पुतान म्हाका माल्लो."

वासंतीन तेचे सरीं लक्ष दिलें ना. तें चिंत्तालें, खंय गेलो आसतलो तो? केदी व्हडली पिर्तुमी आनी तेका कितलीं दिंगतरां! खंयच्या दिगंतराक गेल्लो आसतलो? खंयूय गेलार आपलो बरो मनीस सोदून काडून बऱ्या मार्गान गेलार पुरो! उलयनासलो, पूण आईचे चुरचुरे आशिल्ले तेका. म्हाका ठावठिकाण कळयले बगर रावचो ना!

सुधाकर मास्तराक आज गांवच्या लोकान शाळेंतल्यान ओडून काडून माल्लें. आज तो सारक्को साडेचार वर्सां शाळेंत रुजू जावंक येयल्लो. कळटकीर बरेच लोक घर्र करून जमले. भायर ओडून हाडलें आनी फाफायत रस्त्यार धुकलून दिलें.

तो ह्या गांवचो न्ही. शेजारच्या ओंवळी गांवचो. चार पांच वर्सां फाटीं तो हे शाळेंत आशिल्लो तेन्ना सदांच पिवन येतालो. वांगडाच्या मास्तरा कडेन झगडटालो. भुरग्यांक बडयेन बडी फुटसर मारतालो. गांवच्या लोकान कितल्यो कागाळी केल्यो, पूण शॅट्! तेका कोण गांवच्यान हालयनासलो.

एक दीस घरांत तेगेलें आनी बायलेलें व्हडलें झगडें जालें. तो मारूंक वयतकीर तिणें चुलींत पालोवन दवरिल्ली लाकडा कापटी काडून तेचेर माल्ली आनी ती घरांतल्यान धांवन गेली. मागीर शेजारच्या रामकृष्णान येवन तेका खूब तापयलें. तेणें तेन्ना म्हटलें, "हांव ते बायलेचें ह्या फुडें तोंड पळोवचों ना. तेका अन्नाक वळवळावन मारतलों." रातचोच तो आंगा वेल्या कपड्यारच भायर सरून गेलो.

उपरांत चार वर्सां तेची खबर नासली. तेगेली बायल पांयें पडून तेच शाळेंत भुरग्यांलें दनपारचें जेवण रांदचें काम करताली.

एक दीस तो वास्को बाजारांत गांवच्या एकल्याक अचकीत दिस्टी पडलो. धांवन वचूक पळयतालो पूण तेणें तेका घट्ट धरलें आनी आपल्या कुडीर हाडलें. दुसऱ्या दिसा तो तेका गांवांत घेवन येयलो. सुधाकर गेल्लीं चार वर्सां एका सोऱ्या बारार काम करतालो. पितालो, खातालो आनी थंयच न्हिदतालो.

गांवांत एक बरो शाणो निवृत्त प्राथमीक शाळेचो हेडमास्तर आसलो. तो मास्तर सुधाकराक घेवन तालुक्याच्या, जिल्ह्याच्या ठिकाणार फेरयो मारूंक लागलो. पयली तेणें मर्दी सुधाकर तकलेन आवट जाल्लो म्हण सरकारी डाक्टरा कडच्यान पयशे घालून दाखलो घेतलो. मागीर शिक्षण खात्याच्या क्लार्काक, सायबाक बरेच पयशे खावोवन तेका परत नोकरेक घेवंक लायलें. ह्या कामाक त्या निवृत्त मास्तरान सुधाकराले गरीब बायले कडच्यान बरीच लूट केली. बाकी पगार मेळटकीर सुधाकरानय अमूक पयशे दिवचे पडटले म्हण बांदून घेयलें. ह्या सगळ्या भ्रश्टाचारांतल्यान नोकरी परती मेळिल्ली खरी,

पूण आज रुजू जातकीर गांवच्याच लोकान तेका भायर ओडून काडिल्लें कळटकीर वासंतीन मनांत म्हटलें, तेका ओडून काडूंक गेल्ल्यां मदीं दोगजण तरी पियेल्ले आसतले. कृष्णाले द्वारके वरी लयाक वचूंक लागला हो गांव!

अक्षय घरांतल्यान धांवन गेल्ल्याक रामदास म्हयनोबर रस्त्या वटेन वचूंक नासलो आनी एक थेंब सोरोय पिवंक नासलो. वैराग्य येयल्ले वरी घरांतच बसून रावतालो. खंयूय, वोताचो कुडको दिसलार थंडेची हुडहुडी भरिल्ले वरी थंय शेकोवंक बसतालो. देवा मुखार, वासंती मुखार पोले फोडून घेवनसो म्हणटालो, "हांव आनी केन्ना सोरो पिवचो ना" वासंतीक बरें वायट कांयच दिसनासलें.

आतां तेगेलो पोटाचो कचको बरोच मुखार येयल्लो. कमर, हड्डें भितर घशिल्लें आनी मदलें पोट तितलेंच मुखार. मुदलांतलो गवाळ गोरो रंग आतां काळो पडिल्लो. कातडे भितर रगतूच ना अशें दिसतालें. आतां आतां तो नीट जेवय नासलो. भुकच ना म्हणटालो.

एक दीस सकाळीं तो घराच्या भायल्या



उमरार बशिल्लो. अचकीत तेका वॉक करून उलटी जाली. पळयलार उलटेंत बरेंच पोसोबर रगत पडिल्लें. मागीर तो आपणाक घुंवळ येता म्हण थंय भूंयरच आडवो जालो. वासंतीन मुखार येवन सगळें पळयलें. तेणें मोगूआवयक व्हडाव्हडान उले मारून आफयलें. तें आयकोन कांय जण थंय येयले. खबर वाडोबर पावली. हांव तुज्या घरा सरीं केन्ना पांय दिवचो ना म्हणपीय कांय जण येयले. तेणी रामदासाक उठोवन बसयलें. वखदपाणी केलें. मागीर तेणी वासंतीक सांगलें, तूं आतां अकरांचे बसीन तेका घेवन तालुक्याच्या सरकारी हास्पिटलांत वच. तेचो तर जीव खोल खोल वचूंक लागिल्लो.

वासंतीक कसलीच उमेद नासली. तेका खंयच व्हरनासताना घरांतच घेवन बसचें अशें दिसतालें. तरीय तें घरांत गेलें. वस्त्रां, एक तुवालो, चादर पोतयेंत भल्ले. ट्रंकेंत आशिल्ले सगळे पयशे गुठलावन घेयले.

तें तेका हाताक धरून ल्हव ल्हव चलयत बसी वटेन वयर वयतालें. वाड्या वयलो एकय मनीस बसी मेरेन येवंक नासलो.



GOVERNMENT OF GOA

# DIRECTORATE OF SPORTS & YOUTH AFFAIRS

CAMPAL, PANAJI - GOA.

DEVELOP YOUR PERSONALITY, ACHIEVE EXCELLENCE THROUGH PARTICIPATION IN THE SPORTS AND YOUTH RELATED PROGRAMMES OF THE DIRECTORATE OF SPORTS & YOUTH AFFAIRS.....

## AVAIL OF THE FOLLOWING FACILITIES / SCHEMES

- Conduct of Primary / Middle / Secondary and Higher Secondary Schools / Sports Festivals.
- Development of playground at School, Village Panchayat Level and Taluka Level.
- Conduct of Refresher Courses for Physical Education Teachers / Coaches, etc.
- Supply of sports equipment to Government and Non-Government schools.
- Promotion of Yoga Education.
- Establishment or maintenance of Vyayamshalas (Gymnasia).
- Celebration of days of State and National importance.
- Conduct of Civil Services Sports for Government employees.
- Release of grants to the Sports Authority of Goa.
- Conferring of State Sports Awards.
- Grant to Non-Government Secondary Schools and Colleges, for development of playgrounds/ multipurpose halls.
- Establishment of Sports Hostels.
- Promotion of National Cadet Corps (N.C.C.) at Schools, Higher Secondaries and Colleges.
- Promotion of National Service Schemes (N.S.S.) at Schools, Higher Secondaries and Colleges.
- Promotion of Junior Red Cross at School Level and Youth Red Cross at Higher Secondary level education.
- Promotion of Scouts and Guides activities at Secondary School level.
- Promotion of Youth Welfare Programmes for students and non-students.
- Celebration of National Youth Week.
- Establishment of Camp Sites for promotion of Youth Activities.
- Promotion of adventure activities for Youth.
- Establishment of Youth Hostels.
- Conferring of State Youth Awards.
- Recommendations for National Youth Awards.
- Conduct of Youth Festivals at District and State Levels.
- Inter State Exchange of Youth Scheme.

*ISSUED BY*




# DIRECTORATE OF SPORTS & YOUTH AFFAIRS

CAMPAL, PANAJI - GOA

# *It has been a long and rewarding journey for Goa.*




**As we mark the Golden Jubilee of our Liberation, we recall the many milestones the state has crossed along the way.**

It began on December 19, 1961, that tumultuous day when Goa was finally liberated from four-and-a-half centuries of Portuguese rule. On that memorable day 50 years ago, our heroic armed forces lifted the yoke of colonial rule under the visionary spirit of India's first Prime Minister Pandit Jawaharlal Nehru. As we celebrate our Golden Jubilee year, we pause to pay tribute to our valiant freedom fighters and the founding fathers of liberated Goa.

But there were other hurdles to overcome. In 1967, under the leadership of Prime Minister Smt. Indira Gandhi and our own pioneering spirit, the historic Opinion Poll paved the way for the future with the people voting to retain our own identity as a Union Territory of India and against merger with Maharashtra. This referendum was a red-letter day in the history of Goa and today as we march ahead, we feel proud and vindicated by our collective decision.

Then in 1987, another memorable milestone was crossed, when under the leadership of Prime Minister Shri Rajiv Gandhi, Goa achieved its twin ambitions of official language status to Konkani and Statehood.

It was a day when we both earned and won our own identity.

Since then, Goa has marched forward to the turn of the millennium and the new century, forging ahead in all areas of human development with some of the best social and economic indicators in the country.

## Defining Moments in Goa's 50 years march of history:



'Operation Vijay', by the Military of India that led to the liberation of Goa, Daman and Diu from Portuguese rule



A rousing reception for the Indian Army in Panjim



Pandit Jawaharlal Nehru spends time with children on his first visit to Goa after Liberation



Shri Dayanand Bandodkar being sworn in as the first Chief Minister of the Union Territory of Goa, Daman and Diu



Smt. Indira Gandhi with Dr. Jack Sequeira after the Opinion Poll victory



Goa got Statehood thanks to an initiative by Prime Minister Shri Rajiv Gandhi



**Goa CELEBRATES ITS Golden Jubilee**




Shri Digambar V. Kamat
Hon'ble Chief Minister of Goa

Issued by: Department of Information and Publicity, Government of Goa

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset Printers, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai